सूर्यू विश्व प्रकाशैता ।
तरी आर्ती दाकोन् घॅत्ता ।
वरुणुई तृप्त जात्ता ।
कांय्शॅभरी अर्ध्यानॅ ॥१३॥

मूर्तिमंतची तुम्मी शंकर ।
म्हुणु भक्ती हॉ कर्ता पामर ।
निगुणपर्ण हँ अर्पण सादर ।
हँचि बिल्वदल म्होण्काज ॥१४॥

चेर्डूं वाट्व्यांत हातु घाल्नू ।
बाप्सुक् दित्ता घासु भोर्नू ।
तॉवै ताज्जँ कौतुक कोर्नू ।
कर्ता ताँड मुखारी ॥१५॥

उत्रं जरी चेर्ड्पणांत्लीं ।
तुम्चॅ इद्दारी हीं केल्लीं ।
प्रीती ही मज्जेर् तुम्गोली ।
तुम्कां संतोष दित्लीची ॥१६॥

ह्या सलगीचॉ त्रासु भारू ।
जाय्श्ना वा तुम्कां बॅजारू ।
माक्का आम्गोलॉची पोरू ।
अश्शी लेक्किल्मितींची ॥१७॥

पित्लँ चेर्डूं चिंन्च्याक लाग्ता ।
ताव्वळ् चडचि दूद सुट्ता ।
प्रीती आनिकई वाड्ता ।
प्रेमीजन कॉप्ल्यारी ॥१८॥

लक्ष दिय्या हँ जँ म्हळ्ळँ ।
कृपालुत्व निद्दलेलँ ।
आस्ल्यार् जागोंयां म्हुणु लॅक्लँ ।
मगेलँ हँ चेर्ड्पण ॥१९॥

चांदणँ फुल्लोंव्का म्हुणु आस्स् वॅ ।
वारयाक् गती दिंव्का पड्त वॅ ।
आकाशाकड पांग्रोका वॅ ।
ताज्वारी हँ म्होण्येद म ॥२०॥

उद्दाक् पात्तळ् कोर्चे कश्शी ।
लोणी खौल्यान् घाट्चँ कश्शी ।
गूढार्थूई जाय्श्ना तश्शी ।
सांगूक ह्या गीतेचॉ ॥२१॥

शब्दब्रह्म वेदांतूलँ ।
सांग्तां सांग्ता दणुन् गॅल्लँ ।
थंईं मांच्चार् आड सॅर्लं ।
माक्का जाय्द वॅ साध्य ॥२२॥

धैर्यानॅ पाऊल मुखार् घाल्लँ ।
अेक्कचि हांवँ मनांत् धॅर्लं ।
प्रेम मॅळ्तलँ तुम्गोलँ ।
स्वस्थ जाल्लाँ हाज्मितीं ॥२३॥

चंद्रापेक्षां शीतल जाव्नू ।
अमृताकै गुणी जाव्नू ।
लक्ष दीव्नू हँ आय्कूनू ।
प्रोत्साहन दिंव्काज ॥२४॥

उरॉ अश्शी कृपादृष्टी ।
बुध्दीक् प्राप्त जात्ली सिध्दी ।
चिगूर धरीश्ना ही मती ।
उदासीन जाल्यारी ॥२५॥

लक्ष जरी हँ दिश्शाद ।
पुष्टी उत्रांक मॅळद ।
शब्दांत् अर्थूई भरद ।
सार्थ जात्लॅ सिध्दांत ॥२६॥

मुखार् अर्थू माक्षी शब्दू ।
अनुभुतीचॉ अनुनादू ।
फुल्त उर्ता भावानंदू ।
बुध्दीचेरी क्षणाक्षणा ॥२७॥

मॅळ्ळयार् वारँ संवादाचँ ।
भरद् मॉड सिध्दांतांचँ ।
सूत्र सुट्ल्यार् अवधानाचँ ।
मद्दँ थुंटद व्याख्यान ॥२८॥

चंद्रमणी पासरता ।
श्रेय तँ चंद्राक वत्ता ।
आय्कतल्यांविना वक्ता ।
उल्लैतलॉ जाय्द वॅ ॥२९॥

घासु गोडु कोर्नु घेंव्का ।
जॅव्तल्याक् वॅ शित्तान् सांग्का ।
सूत्रधारा नांचइ आम्कां ।
बांब्यानीं हँ सांग्काज् वॅ ॥३०॥

तांच्खात्तीर तॉ नांचैना ।
कसब् लोकांक् दाकैतना ।
तश्शी हांवँ ही प्रार्थना ।
कोर्का म्हुणु आस्स वॅ ॥३१॥

गुरु म्हणता जाल्यां कस्लँ ।
सांगिल् सग्ळँ लक्षांत् आय्लँ ।
श्रीकृष्णानॅ मुखार् कस्लँ ।
सांग्लँ तँ तूं सांग की ॥३२॥

ज्ञानदेवु सुखी जाल्लॉ ।
मुखार सांग्चॉ हुरुप आय्लॉ ।
आय्कयाती तॉ म्हणालॉ ।
श्रीकृष्णु जँ उल्लैलॉ ॥३३॥

जीवाभित्तॅर्लं हँ गूज ।
ज्ञानाचँ जँ मूळबीज ।
अर्जुना तूं हँचि सम्ज ।
सांग्तां तुक्का नॅवानॅ ॥३४॥

अंभंग हँ इत्लँ कस्लँ ।
माक्का सांग्का कश्शी दिस्लँ ।
तुक्का सहज दिस्तलँ ।
हँवै कळ्ळयां माक्का रॅ ॥३५॥

तरी तूंची बुध्दीवंतू ।
श्रध्दाई तूं मूर्तीमंतू ।
सांगिल्याची अवज्ञा तूं ।
करीश्ना हँ गोत्तस ॥३६॥

गूढ ज्ञान भाग्र घाल्तां ।
सांगूक् नज्ज तँवै सांग्तां ।
मनांत् आश्शिल् सांगुन् सॉड्तां ।
जीवा समाधानाक ॥३७॥

स्तनाभित्तर्ल्या दुद्दाची ।
गोडी कश्शी ताक्का कळची ।
प्रीतीनॅ तँ पित्ल्याकची ।
कळ्ता ती रॅ अर्जुना ॥३८॥

मु त्थान्तु बीज काळ्ळँ ।
गाद्दँ कस्सुनू तँ नाट्लँ ।
हांगाथंईं तँ बिरूय्लँ ।
अश्शी कश्शी म्होण्येद ॥३९॥

शुध्द बुध्दी आनी मन ।
दीना कॉणाक दूषण ।
माक्का अनन्य शरण ।
ताक्काची हँ सांग्येद ॥४०॥

हॅं गुण कॉणांत् आस्सती ।
तुज्शिवाय रॅं कॉणइ नाती ।
तुल्यागथाल्नू हॅं त्यान्मितीं ।
निप्पोंव्च्याक जाय्‌श्ना रॅं ॥४१॥

गूढ गूढ म्हळ्ळयार् कस्लॅं ।
कळद की ना दिस्तलॅं ।
जाल्यार् सोडोन् सांग्तां सगळॅं ।
ज्ञान आनी विज्ञान ॥४२॥

खरॅं फट्‌टी ॲक्डॅ जाल्लॅं ।
तांकां कश्की विंगड कॅल्लॅं ।
तपास कोर्नू सोद्दुन् काळ्ळॅं ।
खरॅं फट्‌टी खंचॅं तॅं ॥४३॥

अथवा राजहंस पक्षी ।
दूद उद्दाक् विंगड कश्की ।
चोंचिनॅं कर्ता हांवं तश्शी ।
ज्ञान विज्ञान सम्जाय्तां ॥४४॥

तुस्सू वारयार् उब्बुन् वत्ता ।
धान्या राशी ॲक्डॅ पड्ता ।
अश्शी विंगड जात्ता ।
धान्य तुस्सू आप्याप ॥४५॥

ताज्जी जाणीव जांव्च्या लाग्ता ।
संसार तित्ल्या पुर्तो उर्ता ।
पाट्‌टार् व्हॊर्नू तॅं बसैता ।
मोक्षलक्ष्मीदेवील्या ॥४६॥

सर्व ज्ञानांतूं तॅं श्रेष्ठ ।
म्हुणू गुरुपद प्राप्त ।
गुह्यतेंतूं तॅं वरिष्ठ ।
पावित्र्याचॉ तॅं रायू ॥४७॥

आनी धर्माचॅं स्वस्थान ।
उत्तमोत्तम तॅं जाण ।
जन्ममृत्यूचोई शीण ।
चुक्तलॉ तॅं मॅळ्ळयारी ॥४८॥

उद्‌भवु जात्ता गुरुमंत्रांतूं ।
स्वयांसिध्द जॅं तॅं चित्तांतूं ।
अनुभवु यॅत्ता प्रत्यक्षांतूं ।
आप्याप जात्ता हॅं सर्व ॥४९॥

सहज भॅट तागेल् जात्ता ।
भेटी सौख्य भॉग्तां भॉग्तां ।
भोग्य भोगुइ तांतूं मॅळ्ता ।
त्रिपुटी थंईं ऊर्नाची ॥५०॥

भोग्गू मेळ्चेई ॲक्ळाक ।
सुख जात्ता भो चित्ताक ।
परब्रह्म तॅं तूं हॅं आय्क ।
सहज सुलभ तॅं धनुर्धरा ॥५१॥

अश्शी आस्स आय्क अर्जुना ।
हात्तांत् आय्ल्यार् तॅं ना जाय्ना ।
मॉग्ल्यारीई कम्मी जाय्ना ।
यॅना ताज्जॉ बॅजारू ॥५२॥

तर्क कोर्नू संशय घेश्शी ।
इत्लॅं बरॅं आस्सुन् अश्शी ।
कॉणागेलेंइ लक्ष कश्शी ।
वच्चने ह्या दीकाक ॥५३॥

मुद्दत दील्नू वाडि घेंव्चॅं ।
ताज्वारी हॅं इत्याक् कोर्चॅं ।
आत्मसुख सोण्णू दिंव्चॅं ।
अग्निदिव्य न्हइ वॅं हॅं ॥५४॥

परमपवित्र नि जँ मनमोहक ।
सहज सुलभ तँ अति सुखदायक ।
स्वधर्मप्रेरित अतुल आत्मसुख ।
मॅळ्ता तँ आप्णांतूंची ॥५५॥

अश्शी सर्व थरेचँ सुख ।
कश्शी पण्णा जनदृष्टीक ।
दिस्चेंची रॅ हँ सर्वांक ।
जाल्यार् तूं जा निःशंक ॥५६॥

पळॅ दूद शुध्द गॉड ।
तँ त्वचेच्या पदराआड ।
ह्या नॅव्नानॅ जँ निषिध्द ।
सेवन कर्ता तँ किर्टी ॥५७॥

कमला देंटू नी मांडूकू ।
हांन्नीं आस्चॉ जागॉ अेकू ।
भृंगॉ पर्मळा इच्छुकू ।
मांडुक् हुंग्ता चिक्कोलू ॥५८॥

निर्धनानॅ बश्शिल्कडॅ ।
नॅलाभित्तर् पॉव्ना हांडॅ ।
अैश्वर्याचॅ मनांत् मांडॅ ।
खात्त भॉग्ता तॉ दैन्य ॥५९॥

हृदयांतू हांवं आस्तां ।
सर्व सुख जोण्णू दित्तां ।
जाल्यार विषयांक भुल्ता ।
बुड्ता तॉ त्या मोहांतूं ॥६०॥

मृगजळ बरँ दिस्ता ।
अमृताचॉ घोटु थुंक्ता ।
मेव्ळेल् परीसू बिसूय्ता ।
पोळोन् शिंप्लॉं झगझगी ॥६१॥

तश्शी 'हांवं' 'मगेल्' म्हणता ।
ह्या धांद्लींतूं माक्क विस्सर्ता ।
थंइं थाव्नु हांगा यॅत्ता वत्ता ।
घुंव्ता जन्ममरणांतूं ॥६२॥

सूर्यू नित्य आश्शिल्तरी ।
दिस्ता दिस्सना इद्रारी ।
हांवं ना पळॅ ताज्वारी ।
लाग्गी हांवं सदैव ॥६३॥

आप्यापची विस्तार पाव्तां ।
विश्व म्हुणू नांव धर्तां ।
दूद कश्की भेळ्शेन् वत्ता ।
धंईं तँची म्हणताती ॥६४॥

रूकू बीजाचॉ विस्तारू ।
सुवर्णाचॉ अलंकारू ।
तश्शी विश्वाचॉ आकारू ।
धर्तां अनेक जाव्नू ॥६५॥

अव्यक्तांतूं गुप्त आस्तां ।
ह्या विश्वांतूं दिस्सू लाग्तां ।
तश्शी त्रैलोक्यांतूं जात्तां ।
निराकारू साकारू ॥६६॥

पांचै भूतं सर्व सृष्टी ।
अश्शी दिस्सूक लाग्ताती ।
जाल्यार् सर्वै तीं आस्ताती ।
उद्कावॅलॉ फेणूची ॥६७॥

फॅणाभित्तर् पळैल्यारी ।
उद्काक आस्त् वॅ धनुर्धारी ।
तश्शी दॉळॅ उघळ्ळ्यारी ।
सांग सॉप्नं दिस्तीद् वॅ ॥६८॥

भूतैंइ तीं तश्शी आस्सती ।
मज्ज्यांतूंचीशीं दिस्ताती ।
तांच्यांत् हांवं ना ही स्थिती ।
सांग्ल्या न्हवॅ माक्षीची ॥६९॥

उल्लैलेलँ पूरॉ दिस्ता ।
इत्ल्यारीची हँ तड्वैतां ।
जाल्यारी हँ अेक्क सांग्तां ।
दृष्टी उरॉ मज्ज्यांतूं ॥७०॥

जरी विकल्पू तूं सोड्शी ।
मगेल् माया तूं विस्सर्शी ।
मज्ज्यांतूं ना ती तूं म्हण्शी ।
आनी सर्वै हांवंची ॥७१॥

संकल्पाची सांज जात्ता ।
बुध्दी दृष्टीक सारैता ।
अखंड ही अेकात्मता ।
भिन्न दिस्ता भूतांतूं ॥७२॥

ज्या वॅळारी सांज सर्ता ।
स्वरूप अभिन्न दिस्ता ।
शंके सांगातीची वत्ता ।
माळेंतूलँ सर्पत्व ॥७३॥

आप्णाइत्ल्याक् मात्येंत्थाव्नू ।
यॅत्तात् वॅ तीं आकार घेव्नू ।
कुंभारू तीं मड्कीं कोर्नू ।
प्रगटैता कल्पना ॥७४॥

कॅर्नाई वा कॉणै पुणी ।
समुद्रांतूं पाळां खाणी ।
पळैल्या वॅ, ती करणी ।
वारयानेची कोर्ची की ॥७५॥

काप्साभित्तर् अॅक्ळाकची ।
आस्ता वॅ घडी वस्त्राची ।
गरज आस्ता म्हुणू निश्ची ।
वस्त्र विण्णू घॅत्ताती ॥७६॥

भांगाराचॅ घडैताती ।
अलंकार नाना रीती ।
कौतुकानॅ पळैताती ।
भांगार् खंईं ना जाल्वँ ॥७७॥

प्रतिध्वनी आय्कूंच्याक ।
ध्वनी जांव्काची अॅक्ळाक ।
प्रतिबिंब पोळोंच्याक ।
रूप कान`मुखारी ॥७८॥

मगेलँ शुध्द स्वरूप ।
पळैता धोर्नू विकल्प ।
म्हणता खरीं नाना रूपं ।
बुड्ता तॉ ह्या भ्रमांतूं ॥७९॥

विकल्पाची माया सर्ता ।
भूतात्मता गळणू पड्ता ।
निव्वळ स्वरूप उर्ता ।
शुध्द अेक मगेलँ ॥८०॥

फिर्ता फिर्ता मात्तँ घुंव्ता ।
सुत्वांत् घुंविल्वारी दिस्ता ।
कल्पनेंतूं बस्ल्यार् जात्ता ।
भ्रमु भूत सृष्टीचॉ ॥८१॥

कल्पना ही राबैल्यारी ।
हांवं भूतांतूं तीं मज्भित्तरी ।
सॉप्नांत् सुद्दांइ येव्नूंच्वारी ।
ऊर्ना रॅ ही संगती ॥८२॥

हांवं भूतांक् पांग्रोन् घॅत्तां ।
वा हांवं तांच्यांतूं आस्तां ।
अश्शी अबध्द उल्लैता ।
व्याधीग्रस्त संकल्पू ॥८३॥

मिथ्या जग सत्य म्होण्चँ ।
तँची हांवं म्हुणू लेक्चँ ।
वा विश्वपाळू सम्जूंचँ ।
कल्पनेचॉ हॉ खेळू ॥८४॥

नात्तिल्कडॅ आस्सं दिस्ता ।
मृगजळा भासु जात्ता ।
मज्ज्यांत् भूतसृष्टी दिस्ता ।
तांतुंइ दिस्तां हांवंची ॥८५॥

अश्शी भूतांक कारण ।
तरी सर्वांतूं अभिन्न ।
कश्की सूर्यू आनी किरणं ।
एकरूप आस्ताती ॥८६॥

योगशक्तीचँ महात्म्य ।
पळॅ उत्तम तादात्म्य ।
आस्स वॅ खंईं वैषम्य ।
आत्तं भूतांभूतांतूं ॥८७॥

मल्यागीथाव्नू तीं धूर ।
हांवंची वा तांकां धूर ।
अस्लॉ मनांतू विचार ।
हाण्णक्का रॅ सन्मित्रा ॥८८॥

आकाश कित्लँ हॉड आस्स ।
वारॉइ तांतूं तित्लॉ आस्स ।
आय्णॉ हाल्लैल्यारी आस्स ।
म्हुणु कळ्ता ताव्वळी ॥८९॥

प्राणीमात्र मज्ज्यांतूं तीं ।
विकल्पामितीं दिस्ताती ।
सॉळ्ळ्यारी ही भेदभ्रांति ।
हांवं एकू सर्वत्र ॥९०॥

भूतांनीं आस्चँ ना जांव्चँ ।
खॅळ दोन्नी कल्पनेचॅ ।
तिन्नॅ आस्तना तीं दिस्चँ ।
नास्तना ती कस्लेंइं ना ॥९१॥

कल्पना मूळांतूं गेल्ली ।
थंईं कश्शी भूतं येत्लीं ।
आनी सांग खंईं वत्लीं ।
आय्क योगैश्वर्य तूं ॥९२॥

ज्ञानानुभवाचॉ सिंधू ।
ताज्जॉ जा तूं एकु बिंदू ।
पळॅ एकु भावबंधू ।
तुज्ज्यांतूं नी विश्वांतूं ॥९३॥

आय्ली की ना हाज्जी जाण ।
सॅर्लं वॅ द्वैता सॉप्पन ।
अश्शी देवु दयाधन ।
अर्जुनाक निम्गीता ॥९४॥

सांगू जाय्ना अश्शी जाय्द ।
बुध्दीक कुरुणी यॅद ।
अद्वैतबोधू निद्दद ।
बुड्शी द्वैता सॉप्नांतूं ॥९५॥

अश्शी नीद पोडू नज्ज ।
म्हुणू उपाय दाकोंकाज ।
तुवँ कश्शी दव्वोर्काज ।
बोधु जागी हँ सांग्तां ॥९६॥

तरी पार्था हँ तूं आय्क ।
माया घाल्नू ह्या जन्माक ।
पावैता तीची लयाक ।
सर्वै भूतमात्रांक ॥९७॥

प्रकृती आट तत्त्वांची ।
दुस्त्री पार्था जीवात्म्याची ।
सांग्ल्याती हांवँ माक्षीची ।
तुक्का दोन्नी प्रकार ॥९८॥

हॉ विषयू विस्तारानॅं ।
सांग्ला हांवँ तॉ नॅवानॅं ।
आत्तं तॉची ह्या नॅव्नानॅं ।
सांग्का अश्शी दिस्सना ॥९९॥

तरी महाकल्पांतांतूं ।
लय पाव्ताती मज्ज्यांतूं ।
मगेल्या अव्यक्त रूपांतूं ।
सर्वै भूतं सांगाती ॥१००॥

ताप्पिल्या ग्रीष्मऋतूंतूं ।
उर्ताती अदृश्यावस्थेंतूं ।
लीन जाव्नू तीं भूमींतूं ।
तृणबीजं सर्वई ॥१०१॥

शरद्ऋतू सुरु जात्ता ।
पाव्सा मॉड धूर वत्ता ।
इत्लँ न्हई, लीन जात्ता ।
आकाशांतूं थंईंची ॥१०२॥

किंवा वारॉ स्वस्थ जात्ता ।
आकाशची जाव्नू उर्ता ।
किंवा पाळ शांत जात्ता ।
आनी जिर्ता उद्कांतूं ॥१०३॥

निद्देंत्थाव्नु जागी जात्ता ।
सॉप्पन मनांतूं उर्ता ।
तश्शी प्रकृतींतूं मॅळ्ता ।
लया वॅळार् ही सृष्टी ॥१०४॥

माग्गिर् उत्पत्तीवॅळारी ।
जाल्लेल्याची जबाबदारी ।
घाल्ताती सर्वै मज्जेरी ।
वस्तुस्थिती आय्क तूं ॥१०५॥

तीची प्रकृती मज्ज्यांतूं ।
धर्ता तिगेलॉ सांगातू ।
वस्त्रांत्लँ सूत सुत्तांतूं ।
कश्की विण्णू घॅत्ताती ॥१०६॥

सुत्तांत् सूत विण्तां विण्तां ।
कश्की वस्त्र रूप धर्ता ।
पंचभूतांत्थाव्नू जात्ता ।
माया तश्शी प्रगट ॥१०७॥

कश्की दुद्दाक् मॅळांइं लाग्ता ।
ताज्जँ धंईं जांव्च्याक् लाग्ता ।
तश्शी ही प्रकृती धर्ता ।
मायारूप सृष्टीचँ ॥१०८॥

बीजाक उद्का संपर्कू ।
विस्तार पाव्त वत्ता रूकू ।
कर्नातिल्तरी त्रिलोकू ।
हांवं कर्ताशँ दिस्ता ॥१०९॥

रायानॅं नगर रचैलँ ।
अश्शी जरी म्होण्का पळ्ळँ ।
तरी खरेंची वॅ लाग्लॅं ।
ताक्का हात रायालॅं ॥११०॥

प्रकृतीचॉ स्वीकार कर्ता ।
म्हळ्ळ्यार् खरँ कस्लँ जात्ता ।
सॉप्नांत्थान्‌ू जागी जात्तां ।
अेक सॉप्पन् पोळोनू ॥९११॥

निद्देंत्थान्‌ू जागी जात्ना ।
प्रवास कोर्का म्हुणुइ पण्णा ।
चम्कूंचोइ शीणु जाय्ना ।
कश्शी जात्लॉ सांग तूं ॥९१२॥

ह्या सग्ळ्याचॉ इत्लॉ अर्थू ।
ह्या सृष्टीच्या उत्पत्तींतूं ।
मगेल् कस्लोई ना हातू ।
सम्जून् घॅ हँ तूं पार्था ॥९१३॥

रायागॅलँ अनुशासन ।
प्रजा कर्ता तँ पालन ।
मायासंगमू कारण ।
कोर्चे सर्वै तिन्नॅची ॥९१४॥

चंद्रु पुनवेचॉ उदैता ।
समुद्रू भर्ता उस्सळ्ता ।
कस्लॉ त्रासू घेंव्का पड्ता ।
अश्शी आस्स् वॅ चंद्रानॅ॥९१५॥

अचेतन लॉखंडाक ।
हाल्लैता लोहचुंबक ।
निमित्त हँ पुरॉ अेक ।
लाग्गी आस्चँ दॉग्गांनीं ॥९१६॥

मगेल्याची प्रकृतीचॉ ।
हांवँची स्वीकारू कोर्चो ।
आनी उद्‌भव जाय्त उर्चॉ ।
अश्शी भूतसृष्टीचॉ ॥९१७॥

कश्की बीज चिग्रूंच्याक ।
भुंईं जात्ता समर्थक ।
तश्शी ह्या प्राणी मात्रांक ।
प्रकृतीची पांडवा ॥९१८॥

बाल्य, तारुण्च, वार्धक्य ।
कारण हॉ देह मुख्य ।
आकाशातूं मॉड् भोरूक ।
कश्की आस्ता पाव्साडी ॥९१९॥

निद्दल्शिवाइ सॉप्पन पण्णा ।
तिज्शिवाई कुंतिनंदना ।
समुद्र सोई विस्तार पाव्ना ।
भूतसृष्टी सर्व ही ॥९२०॥

चळ आस्सॉ वा अचळ ।
सूक्ष्म अथवा आस्सॉ स्थूळ ।
सर्वै भूतांची ही मूळ ।
प्रकृतीची धनुर्धरा ॥९२१॥

भूतं कोर्चीं की उत्पन्न ।
अथवा तांच्चँ संगोपन ।
खंचेंइ कोर्चें ना कारण ।
माक्का वा ना संबंधू ॥९२२॥

उद्का पाळं चांदण्या वाल्यॉ ।
सांग चंद्रानॅ वॅ लाय्ल्यॉ ।
मल्यागथान्‌ू धूर उन्यॉ ।
तश्शी चिंता कर्माच्यॉ ॥९२३॥

सर्वांक् हांवं महाकाळ ।
सांग समुद्राचें पाळा ।
आड्डाव्येद इत्लँ बल ।
आस्स् वॅ मिट्टा बांधांतूं ॥९२४॥

सुट्टिल् वारॉ आड्डांव्याक ।
जाय्द वॅ धुव्रा लॉटाक ।
अथवा जाय्द वॅ काळ्काक ।
धांपुक् सूर्यप्रकाशू ॥९२५॥

पाव्सु पड्ता पर्वतारी ।
धार तॉप्पना जाल्यारी ।
तश्शी कस्लीई मज्जेरी ।
बाधा जाय्ना मायेची ॥९२६॥

सर्वै तिगेल्या कर्मांतूं ।
हांवंचि आस्तां साक्षीभूतू ।
जाल्यार् उदासीनतेंतूं ।
कस्लेंइ कर्ना करैना ॥९२७॥

कश्की घरांतुलॉ दिवॉ ।
कोणुइ बैसॉ वा उटावॉ ।
तँ जावॉ वा हँची जावॉ ।
म्हण्णा आस्ता सुस्वस्थ ॥९२८॥

तागेल्याची उज्वाडांतूं ।
कामं चल्ताती घरांतूं ।
तॉ मात्र रॅ अनासक्तू ।
ताज्वारीची हांवंई ॥९२९॥

अेक्कची कित्लॅ थरेनॅ ।
सांग्चँ हांवँ नॅव्नॅवानॅ ।
इत्लेंची हँ उग्डासानॅ ।
दव्वोर्न् घॅ तूं ध्यानांतूं ॥९३०॥

सर्वै लोकव्यवहारांतूं ।
कश्की सूर्यू साक्षीभूतू ।
तश्शी ह्या विश्वोत्पत्तींतूं ।
हांवै निमित्तमात्र ॥९३१॥

शक्ती मगेली प्रेरक ।
आधार मॅळ्ता प्रकृतीक ।
निर्माण कर्ता ती सर्वांक ।
चराचर सृष्टींतूं ॥९३२॥

आत्तं हँची जाण्णु घॅ तूं ।
सर्वै भूतं ही मज्ज्यांतूं ।
जाल्यार् हांवं ना तांच्यांतूं ।
अैश्वर्य हँ योगाचँ ॥९३३॥

भूतं नाती रॅ मज्ज्यांतूं ।
ना वा हांवं त्या भूतांतूं ।
रहस्य सांग्तां ध्यानांतूं ।
दव्वोर्न् घॅ तूं कॅर्नाई ॥९३४॥

मगेलँ सर्वस्व गूढ ।
कॅल्लँ तुल्यागी उघड ।
लाई इंद्रियां कवड ।
सुख भोगी चित्तांतूं ॥९३५॥

जोवरेक गूढ कळ्णा ।
सत्य कांइ तँ दिस्सना ।
स्वरूपांतूं हांवं मॅळ्णा ।
कणू मॅळ्णा तुस्वांतूं ॥९३६॥

अंदाज कोर्नू अश्शी म्हण्शी ।
सर्वै कळ्ळँ, जाल्यार् फस्शी ।
मृगजळ सांग कश्शी ।
भुंईक् हाडीद् वल्साणी ॥९३७॥

बलँ पस्त्रैलँ उद्कारी ।
चंद्रू दिस्ता शिर्कल्वारी ।
भाग्र काण्णू फाप्पुळ्यारी ।
मॅळद वॅ तॉ चंद्रू ॥९३८॥

शब्दपांडित्या सामर्थ्य ।
भासू प्रचीतीचॉ व्यर्थ ।
दाकोन्नू चुकैता वाट ।
तॉवै ना वा सद्‌बोधू ॥९३९॥

संसारानॅ भिस्डाय्लरी ।
तुक्का हांवं जाइ जाल्यारी ।
हॉची विचारू तूं धरी ।
सोण्णक्का तॉ कॅर्नाई ॥९४०॥

कावीळीचॉ त्रासु जात्ता ।
चंद्रू हळदूवॉसॉ दिस्ता ।
तश्शी दोषु दिस्सू लाग्ता ।
मगेल् शुध्द रूपांतूं ॥९४१॥

तापान् जीब कडू जाछी ।
दुद्दा गॉड्साणि विष जाछी ।
तश्शी गणना मगेली ।
कॅछया सर्वजणांनीं ॥९४२॥

नॅव्नॅवानॅ सांग्तां तुक्का ।
विचारू हॉ सोण्णू दिंव्का ।
व्यर्थ आग्रहू धोर्नक्का ।
अस्ल्या स्थूलदृष्टीचॉ ॥९४३॥

माक्का स्थूळ सम्जताती ।
संभ्रमांतूं ह्या फस्ताती ।
कॉण मृत्यू चुकैताती ।
अमृत पीव्नू सॉप्नांतूं ॥९४४॥

पिश्शेपण पांग्रोन् घेव्नू ।
जाण्तॅ जाछॅ अश्शी म्होण्णू ।
जाण्चँ आश्शिलँ जाण्चँ सोण्णू ।
आड रान्नांत् शिर्ताती ॥९४५॥

नक्षत्रांच्या प्रतिबिंबांक ।
रत्नं म्हुणू तीं वेंचूक ।
चोंची मार्ता नी आप्णाक ।
हंसू घॅत्ता दुक्कोव्नू ॥९४६॥

हीवि गंगा अश्शी लेक्चँ ।
मृगजळ पोळोन् धांव्चॅ ।
कल्पवृक्षु बोरीक् म्होण्चँ ।
व्यर्थ न्हवॅ हँ सर्व ॥९४७॥

नीळाचॉ दोन्पोडी हारू ।
अश्शी दिस्ता सर्पू धोरू ।
रत्नं म्होण्णू फात्रा चूरू ।
वेंचिल्वारी जात्लँ हँ ॥९४८॥

लेक्कुन् द्रव्या गांटी मेळ्ळी ।
झोळ्येंत् । कँड भोर्नू घेत्लीं ।
की सिंहानॅ उड्की मार्ली ।
बांय्येंतूल्या बिंबारी ॥९४९॥

हांवं आस्सं प्रपंचांतूं ।
अश्शी लेक्कुन् तॅ वै तांतूं ।
बुड्ताती व्यर्थ उद्कांतूं ।
चंद्रबिंब धरूक ॥९५०॥

व्यर्थ अश्शी लेक्कुन् घेव्नू ।
फस्ता पड्ता आप्पण जाव्नू ।
अमर जाछॉ पॅत्र जेव्नू ।
कोणुइ अश्शि आस्सद् वॅ ॥९५१॥

हांवं स्थूळ क्षणभंगूरू ।
मनांत् हॉ अेक्कू विचारू ।
तरी सूक्ष्म निरंतरू ।
हांवं तांकां मॅळन वॅ ॥९५२॥

कोणुइ पूर्वदिशेक् वत्ता ।
पश्चिमेक वँ ताँ पात्ता ।
सांग अथवा कणू मॅळ्ता ।
कुंडॉ कांडुन् अर्जुना ॥९५३॥

विस्तार पाव्विल्या स्थूलांतूं ।
माक्का जाण्तीद वँ सांग् तूं ।
फेणू घॅत्ल्यारी ताँडांतूं ।
उद्दाक् पिछँ म्होण्चेद् वँ ॥९५४॥

मनाक् हॉची मोहु पड्ता ।
आनी भ्रमांतूंची घुंव्ता ।
तांच्वारी हांवं जन्मा यॅत्तां ।
म्होण्णू कर्मंइ लाय्ताती ॥९५५॥

नांव ना नांवं दित्ताती ।
कस्लेंइं कर्ना करैताती ।
देह ना देही म्हण्ताती ।
आरोप् अस्लॅ मज्जेरी ॥९५६॥

निराकाराक आकारू ।
निरुपाधिकाक् उपचारू ।
सर्व थरेचॉ वेव्हारू ।
विधी आदी ना ज़ाव्नू ॥९५७॥

वर्णहीनाक सवर्णू ।
गुणातीताक सगुणू ।
हातपाय तॅवै लाव्नू ।
नांचैताती तँ माक्का ॥९५८॥

मेज्जुक् माक्का पळैताती ।
ॲक्क जाग्यार् दव्वर्ताती ।
सॉप्नांत् रानइ पळैताती ।
माद्रेरीची निद्दोनू ॥९५९॥

काम नाती आय्कैताती ।
दॉळ्ळॅ नाती दाकैताती ।
गोत्र ना गोत्री कर्ताती ।
रूपै ह्या अरूपाक ॥९६०॥

अव्यकाक व्यक्तपण ।
संपूर्णाक उणेपण ।
संतृप्ताक समाधान ।
पळैताती दिंव्च्याक ॥९६१॥

दिगंबरू पांग्रैताती ।
स्वालंकृतू सजैताती ।
कारणई तँ सॉद्ताती ।
पार्था आदिमूलाचँ ॥९६२॥

स्वयंभूक कॉण् घडैद ।
स्वयंसिध्दाक शिकैद ।
कॉण आपैद पावैद ।
निरंतराक कौंतेया ॥९६३॥

अविच्छिन्न अेकरूप ।
जरी सदैव निष्कंप ।
बाल्य तारुण्य वृध्दाप्य ।
आरोपू हॉ आस्सची ॥९६४॥

अद्वैताक भिन्न कर्ता ।
कर्नातील्याक करैता ।
खाय्नातील्याक खावैता ।
अश्शी कोर्का इत्त्याक ॥९६५॥

कुळ ना, ताज्जी स्तुति कर्ताती ।
नित्य, तरी ना म्हुणु रड्ताती ।
माक्का शत्रूमित्र नाती ।
आत्मभावू सर्वांतूं ॥९६६॥

हांवं स्वता आत्मानंदू ।
अन्य सुखांचॉ ना नादू ।
सर्वत्राक स्थानबध्दू ।
अश्शी कश्शी म्हण्ताती ॥९६७॥

हांवंची सर्वांतूं आस्तां ।
समदृष्टीनॅ पळैतां ।
तरीई म्हण्ताती मार्तां ।
नी वांचैतां दुस्त्र्याक ॥९६८॥

मनुष्यधर्मू सामान्यू ।
हांवै तश्शीची सम्जूनू ।
लॅक्ताती तँ ज्ञान म्हुणू ।
जाल्यारी तँ विपरीत ॥९६९॥

इद्रारी बसौव्नू मूर्ती ।
दॅवावारी ती भज्ताती ।
माग्गिरी ती उड्डैताती ।
यॅनापुडॅ भॅत्ताळी ॥९७०॥

नाना थरे दॅव कॅल्लॅ ।
हांवंची तॅ म्हुणू भज्लॅ ।
जाल्यारी हँ ज्ञान अस्लँ ।
काळ्कांत् घाल्ता ज्ञानाक ॥९७१॥

पाव्साडी अॅक्ळाक आय्लीं ।
मॉडं कश्की विर्नू गेल्लीं ।
पाळं मृगजळावेलीं ।
धूरथाव्नू पोळोंची ॥९७२॥

कुभारालॅ घोडेस्वार ।
जादूगारालँ भांगार ।
नी दिस्चँ गंधर्वनगर ।
कश्की सर्वै भासूची ॥९७३॥

शेरु वाड्ता भो जॉरारी ।
फळै ना पॉक्कळ तरी ।
स्तन लांब्ताती गळ्यारी ।
बोक्डीगेल्या नुस्तेंची ॥९७४॥

तश्शी मूर्खांगॅलॉ जन्मू ।
आनी कर्मांचॉ संभ्रमू ।
दिंव्चॉ ना मेळ्चॉ ना दामू ।
कश्की शेरा फळाक ॥९७५॥

मांकड नार्ल पाडैताती ।
नी कु कि मॅळ्ता मोती ।
तश्शी तॅ जीं जीं शिक्ताती ।
शास्त्रं तीं सर्वै व्यर्थ ॥९७६॥

खड्गं दिल्लीं कुमारीक ।
बीजमंत्रू अंत्यजाक ।
तश्शी तांगेल्या शास्त्रांक ।
कांईं सुद्धां अर्थू ना ॥९७७॥

धर्नस्तना अनुसंधान ।
कॅल्लॅलँ तँ अनुष्ठान ।
मेळैलेलँ सर्वै ज्ञान ।
व्यर्थ वत्ता धनंजया ॥९७८॥

जिज्ञासा आत्मज्ञानाची ।
गिळ्ता घासांतूं सग्ळीची ।
खूणै पुस्ता विवेकाची ।
निशाचरू तामसी ॥९७९॥

ताक्काची तॅ वश जाल्लॅ ।
विस्सॅर्ल मुखारी कस्लँ ।
आनी आय्तॅची तॅ पळ्ळॅ ।
तमोगुणातॉंडांतूं ॥९८०॥

लालसा ती लाळ सॉड्ता ।
हिंसे जीब वळ्वळेता ।
मांस वात्तड चाब्डाय्ता ।
तृप्ती म्हुणु जाय्नाची ॥९८१॥

जीब वट लँव्तां लँव्तां ।
कान्नाक् पावशी लांबैता ।
अनर्थ कोर्नू रचैता ।
नाना पापांची राशी ॥९८२॥

द्वेषु ज्ञानाक चिर्डीता ।
धोर्नू दा तूं भर्डीता ।
बुध्दी स्थूळ मूढ जात्ता ।
उर्ता देहापूर्तीची ॥९८३॥

अश्शी जात्ता तांगेल् घातू ।
आसुरीवृत्ती ताँडांतूं ।
बळी म्हुणु पोण्णू तांतूं ।
बुड्चँ भ्रमाकुंडांतूं ॥९८४॥

अश्शी पड्ताती फाँडांतूं ।
तांकां विचाराचॉ हातू ।
मॅळ्णा व्हाव्नू प्रवाहांतूं ।
खंच्की खंईं वत्ताती ॥९८५॥

हॉ विषयु उल्लोन् जाय्श्ना ।
उल्लोनुइ कांईं मॅळश्ना ।
वाचा मात्र उलैतना ।
नुस्तँ दणुन् वत्ली ही ॥९८६॥

अश्शी म्हळ्ळँ भगवंतानॅं ।
मान्य कॅल्लँ अर्जुनानॅं ।
आय्क म्हळ्ळँ श्रीकृष्णानॅं ।
साधुकथा सुरम्य ॥९८७॥

कॉणागेलँ शुध्द मन ।
तँची हांवँ आस्चँ स्थान ।
वैराग्याचँ अनुसंधान ।
चुक्कैना जॉ निद्दांतुंइ ॥९८८॥

मगेल् कॉणाक् तीव्र आस्था ।
थंईं धर्मु राज्य कर्ता ।
कोणुइ जॉ पॉस्ता वाड्डैता ।
विवेकाक मायेनॅं ॥९८९॥

ज्ञानगंगेंतूं जॅ न्हाल्लॅ ।
पूर्णत्वानॅं पॉट भॅर्लें ।
शांतीचॅं पल्व आय्लॅ ।
नवीन ज्या मनांतूं ॥९९०॥

तॅं परब्रह्माचॅं काँब ।
तॅंची निर्धाराचॅं खांब ।
भोर्नू काळ्ळेलॅं तॅं चँब ।
आनंदाच्या सिंधूंतूं ॥९९१॥

इत्ल्थाई की तांगेल् भक्ती ।
कैवल्याकै सरैताती ।
नित्या व्यवहारांतुंइ नीती ।
जागी आस्ता तांगेली ॥९९२॥

सर्वेंद्रियं जाव्नू स्वस्थ ।
शांतीचँ घाल्लँ किरीट ।
ज्या कॉणालँ चित्त व्याप्त ।
जाव्नू उॅर्लं मज्ज्यांतूं ॥९९३॥

अश्शी हॅं महात्मॅं जाल्लॅं ।
दैवाचँची भाग्य उदैलँ ।
हांन्नींची तँ जाण्णू घॅत्लँ ।
निजरूप मगेलँ ॥९९४॥

कश्की वाड्ता मज्जेर् प्रीती ।
तश्शी वाड्ता तांगेल् भक्ती ।
हांवं नी तॅ विंगड नाती ।
हॉची धर्मू तांगेलॉ ॥१९५॥

हांवंची जाव्नू आस्ताती ।
मगेल् सॅवाइ कर्ताती ।
ताज्जी आस्स नवलाई ती ।
सांग्तां आय्क धनंजया ॥१९६॥

संकीर्तन भावयुक्त ।
प्रायश्चित्ताचँ निमित्त ।
चुक्कैता पाप समस्त ।
मॅळ्ता अस्ली पुण्याई ॥१९७॥

योगसिध्दीक ही लाज ।
तीर्थं तीं जाल्लीं निस्तेज ।
यमागॅलँ कामकाज ।
सर्वें बंद पळ्ळेंची ॥१९८॥

मनाक् शांत कोर्चें ऊर्ना ।
इंद्रिय निग्रह कोर्का पण्णा ।
तीर्थांक् पावन जांव्याक मॅळ्णा ।
अेक्कै नॅवन पापाचँ ॥१९९॥

अश्शी नामव्रत घेव्नू ।
विश्व दुःखमुक्त कोर्नू ।
सग्ळॅ कडॅ सुख भोर्नू ।
दुम्दुमेता आनंदू ॥२००॥

प्रकाशू ना जरी सूर्यू ।
अमृतई ना चिरायू ।
योगाविना तरणोपायू ।
आस्ता ह्या भक्तांलाग्गी ॥२०१॥

रावा रंका हातू धोर्नू ।
जाण्त्यां नेण्त्यांकई घेव्नू ।
विश्व समरस कोर्नू ।
परत्रैताती आनंदू ॥२०२॥

मुक्ती पांव्ची अॅक्ळयानॅची ।
तीची ह्या विश्वांतूं हाड्ची ।
इत्ली ह्या नामघोषाची ।
आस्स होडी पुण्याई ॥२०३॥

सूर्यू तश्शी उज्वाड् दित्ता ।
जाल्यार् तॉची अस्ता वत्ता ।
चंद्रा पुन्नव अेक्कफंतां ।
सदैव हॅं संपूर्ण ॥२०४॥

मॉडांत्लँ उद्दाक सर्ता ।
उपमेक तॉ नप्रॉ पड्ता ।
निर्भय सिंहु क्रूर आस्ता ।
जाल्यारी हॅ मायस्त ॥२०५॥

जन्म घेव्नू हजारफंतां ।
नाम जिब्बेर खंईं यॅत्ता ।
हांगेल्ँ मात्र जाय्त आस्ता ।
सद्दांइ नामस्मरण ॥२०६॥

नारॅ हांवं वैकुंठांतूं ।
मॅळ्श्ना वा रविबिंबांतूं ।
अनुनितकालइ ना चित्तांतूं ।
योग्यांगेल्या सुस्थिर ॥२०७॥

खंईं मॅळ्णा जाल्लेल्तरी ।
थंईं मॅळ्तां खात्री धरी ।
जयजय रामकृष्णहरी ।
खंइकी घोषु कर्ताती ॥२०८॥

देशकालू ना लक्षांतूं ।
समाधान गुणगानांतूं ।
सौख्यशांती कीर्तनांतू ।
धन्य तँची आप्णांतूं ॥२०९॥

कृष्ण विष्णु हरि गोविंद ।
गांत्ल्यां हांतूं तत्त्व अगाध ।
कोर्नू तँची सुलभ सुबोध ।
सदैव गायन कर्ताती ॥२१०॥

आस्सॉ अश्शी कीर्तन कर्त ।
कांइं कांइं मगेलॅ भक्त ।
चराचरांतूं फिर्तफिर्त ।
आस्ताती रॅं धनुर्धरा ॥२११॥

आनी थॉडॅं प्रयत्नानॅं ।
पंचप्राण संयमानॅं ।
तांगेल्याची सहाय्यानॅं ।
आराधना कर्ताती ॥२१२॥

यमनियमांची हद्द घाल्नू ।
वज्रासनारी बैसूनू ।
प्राणायामू सुरू कोर्नू ।
सावधान उर्ताती ॥२१३॥

कुंडलिनीचँ लक्ष्य धोर्नू ।
मनप्राणांचँ सहाय्य घेव्नू ।
सत्रावीचँ अमृत पीव्नू ।
संतृप्त तॅ जात्ताती ॥२१४॥

प्रत्याहारा ख्याती आय्क ।
जिंकूनू षड्विकारांक ।
बांदुन् घाल्नू इंद्रियांक ।
चित्त शुद्ध कर्ताती ॥२१५॥

धारणा घॉ ार् बैसूनू ।
महाभूतं ॲक्डॅ हाण्णू ।
चतुर्विध सैन्य मार्नू ।
मन कॅल्लँ निष्कल्प ॥२१६॥

ताज्नंतर जिंक्लॉ जिंक्लॉ ।
हॉ ध्यानाचॉ ढोलु वाज्लॉ ।
तन्मयतेचॉ सुरु जाल्लॉ ।
अेकछत्री कारभारू ॥२१७॥

तांतूंची समाधी लाग्ता ।
आत्मसाक्षात्कारू जात्ता ।
साम्राज्या पा ारी बस्ता ।
अस्लॉ अेकु हॉ भक्तू ॥२१८॥

अस्लँ मगेलँ भजन ।
कोर्चें आस्ता भोकठीण ।
आन्येक दुस्त्रँ साधन ।
सांग्तां आत्तं आय्क तूं ॥२१९॥

वस्त्रा दोन्नी पदरांतुं ।
कश्की आस्ता अेक्कूतंतू ।
तश्शी ह्या चराचरांतूं ।
पळैताती माक्काची ॥२२०॥

मूसू आस्सॉ ब्रह्मदेवू ।
ह्या सर्वांतुंइ अेक्कू भावू ।
तॉची हांवं वासुदेवू ।
रूप अेक म्हण्ताती ॥२२१॥

सान हाडॅ लॅक्कनाती ।
पळैल्याक पांय् पड्ताती ।
सजीव निर्जीव जाती ।
हांवं तांकां सर्वत्र ॥२२२॥

स्वता हॉड्पण विस्सोर्नू ।
दुस्र्यांकै सम लेक्नूनू ।
प्रत्येकळ्यारी प्रीती कोर्नू ।
नमस्कारु कर्ताती ॥२२३॥

वैल्यान् कश्की उद्दाक् पड्ता ।
तग्गू दीकाकची दँव्ता ।
स्वाभाविक विनम्रता ।
तश्शी सर्वांमुखारी ॥२२४॥

रुक्का हॅग्लॉ फल धर्ता ।
नॅला दीकाक बग्गूता ।
तश्शी पळॅ तांकां दिस्ता ।
मानू दिंव्यां सर्वांक ॥२२५॥

गर्वू मनांतूं धर्नाती ।
नम्रता हीची संपत्ति ।
सर्वस्व दीव्नू कर्ताती ।
जयजय कारू मगेलॉ ॥२२६॥

नमस्कारू कर्ता कर्ता ।
मानू अपमानू सर्ता ।
मद्रूपत्व प्राप्त जात्ता ।
चालू उर्ता उपासना ॥२२७॥

सांग्लॅ हांवँ तुक्का आत्तं ।
अस्लॅ तॅ हॅ थोर भक्त ।
मुखारी जॅ ज्ञाननिष्ठ ।
तॅवै सांग्तां आय्क तूं ॥२२८॥

जाल्यार् पळॅ ती तांगेली ।
भजनेची खास शैली ।
माक्षी तुक्का ती सांगिली ।
तुक्का गोतू आस्सची ॥२२९॥

ताव्वळ् अर्जुनु हँ म्हणालॉ ।
दॅवा दयेन् प्रसादु मॅळ्ळॉ ।
कॉण सांग अब्केन् गॅल्लॉ ।
अमृत पीव्नू आजीक ॥२३०॥

ह्या उत्रानॅ नंदनंदनू ।
धोल्ल लाग्लॉ संतोष पाव्नू ।
आय्कूंची इच्छा पोळोनू ।
तागेली ही नॅवानॅ ॥२३१॥

आत्तं नवँ सांग्चँ कांइं ना ।
म्हणता जाल्यार् राब्बू जाय्ना ।
निवैल्शिवाय् ही अर्जुना ।
तान बरी तुगेली ॥२३२॥

पार्थु म्हणता हँ बा कस्लँ ।
चकोर ना म्हुणु चांदणँ वत्लँ ।
जग पोळोंचँ निव्विलँ ।
तागेलॉ हॉ स्वभावू ॥२३३॥

चकोराक तान लाग्ता ।
चोंचीनॅ तॉ चांदणँ पित्ता ।
विनंति ही कोर्का पड्ता ।
आम्मी कृपासिंधूक ॥२३४॥

चातकाली तान थोडी ।
मॉड कर्ता कृपा होडी ।
चुक्कैता दुष्काळा घडी ।
जगाचेरी आयिली ॥२३५॥

अेक्कू घोटू म्हळ्ळेल्तरी ।
वच्का गंगातीराचेरी ।
तश्शी कस्लेंइ आश्शिल्तरी ।
दॅवाकची सांग्काज ॥२३६॥

तावळ् देवु म्हणता ताक्का ।
भोचि संतोष जाल्ला माक्का ।
वैल्यानॅ ही स्तुति नाक्का ।
आस्सॉ पूरॉ इत्लेंची ॥२३७॥

मन दीव्नू तूं आय्कता ।
म्हुणू सांग्का म्हुणु दिस्ता ।
अश्शी गौरव कोर्नू सांग्ता ।
देवु ताक्का मुखारी ॥२३८॥

मांटोवू पंचभूतांचॉ ।
खांबॉ आदिसंकल्पाचॉ ।
बळी हॉ द्वैतभावाचॉ ।
रूप ज्ञानयज्ञाचँ ॥२३९॥

पांच विषय भोगाचॅ ।
इंद्रियांचॅ नी प्राणांचॅ ।
उपचार ह्या यज्ञाचॅ ।
तूप जाण अज्ञान ॥२४०॥

कुंड ह्या मनबुध्दीचँ ।
प्रज्वलन ज्ञानाग्नीचँ ।
आसन समचित्ताचँ ।
वेदिका ही यज्ञाची ॥२४१॥

सम्यक् विवेकू जाग्रता ।
मंत्रविद्येची महता ।
शांती हवन सज्ज कर्ता ।
जीवु बस्ता यज्ञाक ॥२४२॥

अनुभवानॅ तॉ सत्पात्रू ।
जाव्नू जप्ता सोऽहं मंत्रू ।
ज्ञानाग्नीच्या ह्या यज्ञांतूं ।
नाशु जात्ता भेदाचॉ ॥२४३॥

तावळ् अज्ञान आस्सना ।
कर्म कर्ता भेदू ऊर्ना ।
सिद्ध जाव्नू अवभृत स्नाना ।
आत्मरसांतूं तिंब्ता तॉ ॥२४४॥

पांच विषय तॅ उपभोगाचॅ ।
विंग्विंगड नाती म्होण्चँ ।
समदृष्टीनॅ सर्व पोळोंव्चँ ।
आत्मसिध्दावस्थेंतूं ॥२४५॥

नीद लाग्ली सॉप्पन् पळ्ळँ ।
तांतूं माक्का सैन्य दिस्लँ ।
हांवंची तँ म्हुणू लॅक्लँ ।
जागी जाव्नू म्हणता तॉ ॥२४६॥

आत्तं कळ्ळँ सैन्य न्हई ।
आश्शिलाँ हांवं् अेकू थंई ।
चित्रविचित्र तरीई ।
अेकरूप हँ विश्व ॥२४७॥

जीवभावा विस्सर पोण्णू ।
परमात्म्याचॉ बोधु जाव्नू ।
ब्रह्मत्वांतूं अैक्य पाव्नू ।
भज्ता तॉ ह्या यज्ञानॅ ॥२४८॥

अनादिकालाचँ हँ तत्त्व ।
सर्वत्र हँ अनेकत्व ।
नामरूपांतूं भिन्नत्व ।
दिस्सुन् यॅत्ता विश्वांतूं ॥२४९॥

अश्शी आश्शिल् तरी जग ।
ज्ञान तांगेलँ अव्यंग ।
कश्की अेक्कची हँ आंग ।
अवयव जरी विंगड ॥२५०॥

सर्वै सानहॉड हॅग्लॅ ।
अॅक्क रुक्कांत्थाव्नू आय्लॅ ।
सहस्त्र किरण कव्वळ्ळॅ ।
अेक्क रविबिंबानॅ ॥२५१॥

तश्शी नानाविध व्यक्ती ।
नाना नांवं भिन्न वृत्ती ।
भेदांतूंई पळैताती ।
माक्का सर्वात्मकाक ॥२५२॥

अेकत्व हँ ह्या भेदांतू ।
जाण्णू आस्ताती मनांतू ।
तरी भेदू ना बुध्दींतूं ।
ज्ञानयज्ञू हॉ बरॉ ॥२५३॥

कॅर्नाइ खंयीं तॅ वचोती ।
सर्वै जँ जँ पळैताती ।
हांवंची तँ तॅ म्हणताती ।
हॉची बोधु चित्तांतूं ॥२५४॥

बुड्बुडॉ जॉ फिर्त उर्ता ।
उद्कासांगातीची आस्ता ।
उर्ता अथवा वीर्नू वत्ता ।
दोन्नी जांव्चँ उद्कांतूं ॥२५५॥

वारॉ धूळीक उब्बार्ता ।
पृथ्वी अंशू तॉ वॅ काड्ता ।
धूळी नॅवान् देव्नू यॅत्ता ।
पृथ्वीरीची व्हयि की ना ॥२५६॥

खंयीं खंचोइ भावु धोर्नू ।
कस्लेंइ यॅवॉ वचॉ म्होण्णू ।
सर्वै तँ हांवं लेक्कूनू ।
स्वस्थचित्त जात्ताती ॥२५७॥

खंइंथाई मगेल् व्याप्ती ।
तित्ली तांगेल् अनुभूती ।
सर्वै जाव्नू तॅ आस्ताती ।
सर्वांगेल्या रूपांतूं ॥२५८॥

सूर्यू कश्की धनुर्धारी ।
सम सर्वांकै मुखारी ।
विश्वांतुल्या सर्वांचेरी ।
तश्शी प्रीती हांगेली ॥२५९॥

अर्जुना हांगेलँ ज्ञान ।
सर्वांगानॅ परिपूर्ण ।
वारयागॅलँ कश्की स्थान ।
आकाशांतूं सर्वत्र ॥२६०॥

हांवं परिपूर्ण कित्लॉ ।
अनुभवु तांकांइ तित्लॉ ।
भजनाचॉ दुस्रॉ कस्लॉ ।
उपक्रमु ऊर्नाची ॥२६१॥

सर्वै हांवं आश्शिल्मितीं ।
कोर्का म्हुणु पण्णा भक्ती ।
जाल्यारी जॅ हँ जाण्णाती ।
कश्शी कळ्चँ बा तांकां ॥२६२॥

इत्लँ पुरॉ म्हुणु दिस्ता ।
सांग्लँ कश्शी कोर्का पड्ता ।
मगेल् उपासना पार्था ।
ज्ञानयज्ञू जॉ श्रेष्ठु ॥२६३॥

सर्वकाळ चल्त आस्ता ।
स्वकर्म तांगेलँ पाव्ता ।
मज्ज्यांतूंची येव्नू मॅळ्ता ।
जाछयार कळ्णा मूढांक ॥२६४॥

हळू हळू जात्ता बोधू ।
कळू लाग्ता हांवं वेदू ।
तांतूं जॉ जॉ सांग्ला यज्ञू ।
तॉवै पळॅ हांवंची ॥२६५॥

यज्ञकर्म विधियुक्त ।
यथासांग व्यवस्थित ।
जाय्त आस्ता जँ समस्त ।
पार्था तँवै हांवंची ॥२६६॥

देवादिकां अर्ध्य दिंन्चँ ।
सोम समिध मंत्र म्होण्चँ ।
साहित्य सर्व यज्ञाचँ ।
हँ वै सर्व हांवंची ॥२६७॥

हांवं यज्ञु कर्तलॉई ।
यज्ञांतूलँ हवनई ।
नी ताज्जँ प्रज्वलनई ।
हांवं अग्निस्वरूप ॥२६८॥

अष्ट विधा जी प्रकृती ।
मेळ्णू ज्या कॉणासांगाती ।
जन्मा घाल्ता सर्व सृष्टी ।
हांवंची तॉ जनकू ॥२६९॥

अर्धनारीनटेश्वरू ।
त्या रूपांतूं नारी नरू ।
कश्की हांवं पुरुषेश्वरू ।
तश्शी जगन्माताई ॥२७०॥

ह्या सृष्टीक आधार दित्लॉ ।
पालन कोर्नू वाड्डैतलॉ ।
खंईं कोणूई मज्जस्लॉ ।
दुस्त्रॉ सांग आस्सद् वॅ ॥२७१॥

कॉणॅ संकल्पाशिवाइ ।
पुरुषनी प्रकृतीकइ ।
उद्भव जाय्शी कॅल्लँ तॉवइ ।
पितामहू विश्वाचॉ ॥२७२॥

सर्वै ज्ञानमार्ग जॅ जॅ ।
ॲक्क गांवा येव्नू मेळचॅ ।
चारी वेदांतूंई सोद्चँ ।
जाण्णू घेंव्चँ ॲक्कची ॥२७३॥

नाना मतां समज आय्ली ।
नाना शास्त्रां मैत्री जाल्ली ।
जुग्गुळ्ळेलीं ज्ञानं मेळ्ळीं ।
तँ जॅ स्थान पवित्र ॥२७४॥

ब्रह्मबीजा अंकुर फुट्लॉ ।
चतुर्विध नादू स्फुर्लॉ ।
तॉ ज्या ॐकारांतूं घुम्लॉ ।
तॉवै पार्था हांवंची ॥२७५॥

ॐकारांत्थाव्न् उब्जतना ।
अउम तिन्नी अर्जुना ।
चारी वेदांची रचना ।
घेव्नू आय्लॅ सांगाती ॥२७६॥

म्हुणू म्हणतां सामवेदू ।
यजुर्वेदू नी ऋग्वेदू ।
तिन्नींचोइ हांवं आद्यु ।
प्रतिपाद्यु आत्माची ॥२७७॥

सर्वै जँ ह्या चराचरांतूं ।
आस्ता तँ ज्या प्रकृतींतूं ।
थक्कुन् भाग्गुन् ती मज्ज्यांतूं ।
पाव्ता गती विश्रांती ॥२७८॥

घॅत्ता मगेलॉ आधारू ।
कर्ता विश्वाचॉ विस्तारू ।
ह्यान्मितीं हॉ विश्वंभरू ।
गुणै भॉग्ता सांगाती ॥२७९॥

वैभवशाली विश्वसुंदरी ।
तिगेलॉ पति रॅं हांवं मुरारी ।
आय्क अर्जुना त्रैलोक्यारी ।
चल्ता सत्ता मगेलीची ॥२८०॥

थंयै आस्का आकाशानॅं ।
व्हांव्त उर्काज वारयानॅं ।
दिंव्का हुन्साणी अग्नीनॅं ।
धार धोर्का उद्कानॅं ॥२८१॥

हाल्लू नज्ज पर्वतानॅं ।
आक्रमण समुद्रानॅं ।
कोरू नज्ज वा पृथ्वीनॅं ।
भूतांभारू बॅजारू॥२८२॥

वेदू मज्मितीं उल्लैता ।
सूर्यू मज्मितीं उदैता ।
मज्मितींची प्राणुइ खॅळ्ता ।
विश्वांतुल्या जीवांतूं ॥२८३॥

हांवँ नेम्सून् दिल्लेल्वारी ।
आनी हांवँ म्हळ्ळेल्वारी ।
कालचक्र सर्वांचेरी ।
फिर्त उर्ता अर्जुना ॥२८४॥

हांवंची अेकू समर्थू ।
अस्लॉ हांवं विश्वनाथू ।
सर्वत्रनी साक्षीभूतू ।
ह्या आकाशावारीची ॥२८५॥

सर्वै ह्या नामरूपांतूं ।
आस्ता भोर्नू तंतोतंतू ।
जिव्हाळा जॉ तांतूं ।
आस्ता तॉवै हांवंची ॥२८६॥

लॉळ्ता पाळ उद्काचेरी ।
उद्वाक् आस्ता ताज्भित्तरी ।
सर्वै मज्जेरी ताज्वारी ।
अवलंबूनू आस्ताती ॥२८७॥

माक्का अनन्य शरण ।
चुक्कैता तॉ जन्ममरण ।
शरण वच्चँ दुस्त्रँ स्थान ।
मज्शिवाइ आस्सना ॥२८८॥

प्रकृतीगुणांनुसार ।
नाना रूपांतूं साकार ।
जाव्नू चल्तां त्याप्रकार ।
जरी अेकू सर्वांतुंइ ॥२८९॥

सूर्यबिंब समुद्रांतूं ।
अथवा फॉंडांत्ल्या उद्कांतूं ।
अेकू तश्शी ह्या सर्वांतूं ।
ब्रह्मयांतूं नी मूसांतूं ॥२९०॥

संहारू, स्थिति, निर्माण ।
सर्वांक हांवं कारण ।
हांवंची रॅं आप्लेपण ।
त्रैलोक्यांतूं सर्वत्र ॥२९१॥

बीजांत्थाव्नू रूकू वाड्ता ।
रूकूइ बीज दित्त उर्ता ।
येंव्चँ वच्चँ अॅक्डॅ मॅळ्ता ।
संकल्पू हँ निधान ॥२९२॥

संकल्पू बीज विश्वाचँ ।
ताॅ अव्यक्त वासनेचँ ।
कल्पांतांतूं सुप्त उॅर्चं ।
तँवै स्थान हांवंची ॥२९३॥

नामं नाती रूपं नाती ।
व्यक्ती वर्णई उर्नाती ।
जातीभेद आस्सनाती ।
निराकार सर्वत्र ॥२९४॥

अव्यक्त संकल्प वासना ।
संस्कार मात्र रॅ वच्चना ।
खंईं जात्ता पुनर्रचना ।
तँवै स्थान हांवंची ॥२९५॥

सूर्यू जाव्नू हांवं ताप्तां ।
जलाशयांक आ ैतां ।
इंद्रु जाव्नू माग्गिर् यॅत्तां ।
आनी कर्ता वर्षावू ॥२९६॥

उज्जाॅ राक्कुड् लास्सू लाग्ता ।
राक्कूडई जळू लाग्ता ।
मार्ता मर्ता हँ जँ दिस्ता ।
तँवै मगेलँ स्वरूप ॥२९७॥

जँ जँ दिस्ता मरणाधीन ।
तँ तँ हांवं हँ तूं जाण ।
आनी जँ जँ चिरंतन ।
स्वाभाविक तँ हांवं ॥२९८॥

कित्लँ सांगूं तुक्का अश्शी ।
इत्लँ सम्ज हांवं कश्शी ।
तरी शाश्वत विनाशी ।
स्वरूपांतूं सर्वई ॥२९९॥

खंईं ना सांग अर्जुना ।
दुर्भागी तॅची व्हयि की ना ।
सर्वत्र नित्य आस्तना ।
कश्शी हांवं दिस्सना ॥३००॥

उद्दाक् ना म्हुणु पाळ यॅना ।
दिवाॅ ना सूर्यू दिस्सना ।
तश्शी तांकां हँची कळ्णा ।
हांवं वॅ तॅची हांवं ॥३०१॥

भित्तर भाय्र हांवं भर्ला ।
विश्वांतूं साकारू जाछां ।
तांगेलँ कर्म आड आय्ल्यां ।
हांवंची ना म्हण्ताती ॥३०२॥

अमृता बांय्येंतूं पळ्ळाॅ ।
धडपडेनू भाय्र आय्लाॅ ।
म्हणता नशिवानॅ वांच्लाॅ ।
कस्लँ पळॅ दुर्भाग्य ॥३०३॥

अेकु पुणी घासू मॅळाॅ ।
म्हुणु कोणुइ कुर्डो धाव्लाॅ ।
चिंतामणी पाय्या लाग्लाॅ ।
फात्तोर म्हुणु ताॅ वेंचीना ॥३०४॥

माक्का जाण्णू घेंव्चँ सोण्णू ।
दिछयार् अस्ली दशा जाव्नू ।
कित्लेंइ कस्लँ कॅछँ म्हुणू ।
केछेल्वारी जाय्नाची ॥३०५॥

पाक्कांत् बळ आश्शिल्त्तरी ।
गरुडाक ना दृष्टी जरी ।
कश्की व्यर्थ हँ ताज्वारी ।
ज्ञानशून्य सत्कर्म ॥३०६॥

आश्रमधर्माचँ आचरण ।
दव्वर्नाती तांतूं न्थून ।
विधियुक्त कोर्नू पूर्ण ।
सत्व पणाक् लाय्ताती ॥३०७॥

यज्ञक्रियेंत्लँ नैपुण्य ।
जात्ता त्रिवेदांक मान्य ।
स्वत: फलची सन्मान ।
कर्ता इद्रार् उब्रोनू ॥३०८॥

यज्ञाचॅ कुशल तज्ञ ।
मूर्तिमंत तॅची यज्ञ ।
लॅक्ताती मेळैलँ पुण्य ।
जॉड्ताती तॅ पापची ॥३०९॥

मूळ माक्काची विस्सोर्नू ।
तिन्नी वेद जाण्णु घेव्नू ।
शंभर गट्लॅ यज्ञ कोर्नू ।
स्वर्गावाट धर्ताती ॥३१०॥

आस्स कल्पवृक्षा साव्ली ।
गांटाय्त बस्ता पिंद्कर झोळ्ळी ।
तांचेर् यॅत्ता भिक्के पाळी ।
चुक्कद् व ती अर्जुना ॥३११॥

नांव मात्र मगेल् घेव्नू ।
स्वर्गाचीची इच्छा धोर्नू ।
अस्लॅ शंभर यज्ञ कोर्नू ।
मॅळद् पुण्य की पाप ॥३१२॥

स्वर्गाचेंची ध्यान धोर्चें ।
अज्ञाना वा`नॅ वच्चँ ।
हँची विध्न पुण्य खंचँ ।
अश्शी ज्ञानी म्हणताती ॥३१३॥

पोळोनू नर्काचँ दु:ख ।
स्वर्गू म्हळ्ळ्यार् दिस्ता सुख ।
निर्मळ नित्यानंदा सुख ।
तँची मगेल् स्वरूप ॥३१४॥

माक्का मेळ्ळक् यॅत्ना पार्था ।
नर्कू स्वर्गू सोड्का पड्ता ।
ह्याचि वा ंचेरी आस्ता ।
चॉरांगेलँ यॉ वच ॥३१५॥

स्वर्गा पुण्य पापात्मक ।
नर्का पाप पापात्मक ।
सर्व पाप विमोचक ।
मछयाग् हाड्ता जी वाट ॥३१६॥

मज्ज्यांतूंची तॅ आस्ताती ।
माक्का धूर दव्वर्ताती ।
तरी पुण्य हँ म्हणताती ।
जीब कश्शी बा झण्णा ॥३१७॥

अश्शी यज्ञ तॅ कर्ताती ।
नांव नुस्तेंची घॅत्ताती ।
ध्यासु मात्र तॅ धर्ताती ।
स्वर्गसुखभोगाचॉ ॥३१८॥

अश्शी हांवं मॅळ्णा जरी ।
जात्ता तांकां खुष्नी भारी ।
मॅळ्ळॉ म्हुणू ह्या पुण्यारी ।
स्वर्गू जांव्का जाछेलॉ ॥३१९॥

अमरावति हँ राजस्थान ।
अमरपदाचँ सिंहासन ।
ऐरावत हँ मॅळ्ता वाहन ।
त्या स्वर्गांतूं धनुर्धरा ॥३२०॥

थंइं उग्राणं महासिध्दिचीं ।
विशाल भुवनं पीयूषाचीं ।
नी थंथंई कामधेनुंचीं ।
गोलीं नद्रे पड्ताती ॥३२१॥

सदैव दॅव सेवातत्पर ।
चिंतामणीची भूंइं सविस्तर ।
मनोविनोदन कोर्चे खात्तिर ।
कल्पतरूंचीं उद्यानं ॥३२२॥

गंधर्वांगेलँ गायन रंग्ता ।
नर्तकींगेलॉ नांचुइ चल्ता ।
विलासाक सांगातुइ मॅळ्ता ।
प्रमुख उर्वशी तांच्यैकी ॥३२३॥

सेवेक मदनु आस्ता ।
चांदणँ चंद्रूई पांग्रैता ।
वारयावारी घाव्नू यॅत्ता ।
नोकरवर्गु आपैल्की ॥३२४॥

बृहस्पति अस्लॅ थोर द्विजगण ।
दित्ताती तॅ आशिर्वचन ।
दॅवांगॅलँ सहस्त्र भोजन ।
चलत आस्ता सांगाती ॥३२५॥

उचै:श्रवा मुखार् आस्ता ।
माक्षी मेर्वणूक यॅत्ता ।
रायांगॅलॉ थवॉ मॅळ्ता ।
घेव्नू मानचिन्हांक ॥३२६॥

सांगूं कित्लँ अेकअेक ।
इंद्रानॅ् भोग्गिल्वारी सुख ।
भॉग्त उर्ताती याज्ञिक ।
पुण्य सरवरेक ॥३२७॥

मेळैलेलँ पुण्य सर्ता ।
इंद्रपदाडौलू दँव्ता ।
आनी वाट धोर्का पड्ता ।
नॅवानॅ् मृत्युलोकाची ॥३२८॥

वेश्येगेरी विलास कॅल्लॉ ।
पैसॉ आस्सवरेक नांच्लॉ ।
माग्गिर् बाग्लाभाय्र राब्लॉ ।
कश्की जाव्नू लाचार ॥३२९॥

लाग्गी आश्शिल् माक्का सोण्णू ।
त्या स्वर्गाचॉ ध्यासु धोर्नू ।
इत्लँ सगळँ पुण्य जोण्णू ।
भोग्गुन् यॅत्तात् परत ॥३३०॥

आव्सूगॅल्या गर्भांत्थाव्नू ।
नौ म्हैनॅ त्या धग्गांत् पोण्णू ।
नॅव्नॅवानॅ जन्मु घेव्नू। येव्नू
मोर्नुइ वत्ताती ॥३३१॥

कश्की जागी जावरेक ।
सॉप्नांतूंची धना सुख ।
तश्शी भॉग्ताती याज्ञिक ।
स्वर्गसुख आय्क रॅ ॥३३२॥

कित्लोइ वेदाभ्यासु करी ।
जाण्णू घॅश्ना माक्का जरी ।
जात्लँ कुंडॉ घेत्तिल्वारी ।
दाणॅ सोण्णू अर्जुना ॥३३३॥

म्हुणू मज्जॉ अॅक्ळ्यावीना ।
अर्थू ना ह्या वेदाचरणा ।
दुस्त्रँ कस्लेंइ जाणका पण्णा ।
सर्व सुख मॅळ्तलँ ॥३३४॥

निश्चिंत गर्भांतूं जीवू ।
धोर्नू आस्ता दृढ्भावू ।
तश्शी अेकु भक्तीभावू।
धर्ताती जॅ मज्जेरी ॥३३५॥

दुस्त्रँ गॉम्टँ न मज्वीना ।
जन्मा सार्थकई जायश्ना ।
ध्यासु ह्यॅची क्षणाक्षणा ।
धर्ताती जॅ चित्तांतूं ॥३३६॥

अश्शी अेकनिष्ठ जाव्नू ।
ह्रदयांतूं स्थान दीव्नू ।
आस्ताती जॅ व्रत धोर्नू ।
सॅवा कर्ता तांगेली ॥३३७॥

ज्या क्षणाक मज्ज्यांत् मेळ्णू ।
यॅत्तात् मगेल् पदर धोर्नू ।
जबाबदारी ताव्वळ् धोर्नू ।
पड्ता तांगेल् मज्जेरी ॥३३८॥

जँ जँ तांकां कोर्का पड्ता ।
तँ तँ हांवं कोर्नू सॉड्तां ।
पिल्ला काळजी कश्की घॅत्ता ।
वात्सल्यार्नॅ पक्षिणी ॥३३९॥

चॅडकि् कळ्णा भूकतान ।
आव्सु कर्ता समाधान ।
भक्तांगॅलँ संगोपन ।
तश्शी कर्ता हांवं् जाव्नू ॥३४०॥

कॉणाक् सायुज्याचॉ ध्यासू ।
तांकां दित्तां मज्ज्यांत् वासू ।
सेवा कर्तल्यांक पाशू ।
घाल्तां हांवं प्रेमाचॉ ॥३४१॥

जी जी तांगेल् इच्छा आस्ता ।
ती ती हांवं पूर्ण कर्ता ।
दिल्लेल्याचँ रक्षण कर्ता ।
सर्वकाळ हांवंची ॥३४२॥

तांगेल् योगक्षेमु पार्था ।
हांवँ पोळोन् घेंव्का पड्ता ।
सर्वै जीवभावु आस्ता ।
मज्ज्यांतूंची तांगेलॉ ॥३४३॥

मगेलँ रूप सर्वात्मक ।
जाल्यार् कळ्णा थॉड् जणांक ।
अग्नि सूर्यू इंद्रादिक ।
भज्ताती तॅ हांकांची ॥३४४॥

तीवै सर्व उपासना ।
माक्का पाव्ता हँवै कळ्णा ।
संप्रदाय अस्लॅ नाना ।
अनुसर्नू तॅ चुक्ताती ॥३४५॥

हॅग्लॅ पान्नं रुक्काचींची ।
अॅक्क बीजांत्थान्नु येंव्चीं ।
म्हुणू कश्की मूळाक्ची ।
उद्दाक् घाल्चँ विहित ॥३४६॥

इंद्रियं धाई ह्या देहाचीं ।
विंगड रूची विषयांची ।
जाल्यार् तृप्ती त्या भोगान्ची ।
पाव्ता कश्की अॅक्डॅची ॥३४७॥

बरँशँ पक्वान्न कोर्नू ।
घेंव्का वॅ तँ कानांत् भोर्नू ।
अथवा फुल्लं हाण्णू माळ्णू ।
घेंव्काती वॅ दॉळ्यांरी ॥३४८॥

रूची मेळ्ळका रसनेक ।
पर्मळू मेळ्ळका नांकाक ।
कोर्चो यज्ञू ह्या रूपाक ।
पांव्का यज्ञू हांवंची ॥३४९॥

माक्का सम्जून् घॅनस्तना ।
कॅल्यार् व्यर्थ आराधना ।
म्हुणू जांव्का ती कर्तना ।
ज्ञानदृष्टी निर्दोष ॥३५०॥

तश्शी पळैल्यारी पार्था ।
यज्ञयाग कॉणाक् पाव्ता ।
सांग हांवं न्हवॅ भॉग्तां ।
हाज्जॉ सर्वै उपचारू ॥३५१॥

आदि हांवं ह्या यज्ञांचॉ ।
अंतुइ मज्ज्यांतूंची जांव्चॉ ।
माक्का सोण्णू दॅवांक् धोर्चो ।
भ्रमू हॉ ही दुर्बुध्दि ॥३५२॥

कश्की घेव्नू गंगोदक ।
दीव्नू देवपितरांक ।
नॅवानॅ तँची उद्दाक ।
सॉड्ताती त्या गंगेंतूं ॥३५३॥

तांगेल् खंईं श्रध्दा आस्ता ।
थंईं तांकां ती पावैता ।
त्यान्मितीं तॅ माक्का पार्था ।
कश्शी येव्नू मॅळ्तलॅ ॥३५४॥

कॉण वाचा तन मन ।
घाल्नू दॅवालँ भजन ।
कर्ताती तॅ पाव्नू मरण ।
जात्ताती तॅ दॅवची ॥३५५॥

पितरांक जॅ भज्ताती ।
व्रतं तांगेलीं धर्ताती ।
देहावसाना उप्रांती ।
पितृलोका पाव्ताती ॥३५६॥

नीच भूतप्रेतादि दैवतं ।
तांतूंची कॉणालँ चित्त ।
माटमोडिची किमया प्राप्त ।
अस्लॅ कोर्नू घॅत्ताती ॥३५७॥

देहा पड्दॉ बग्ले सर्ता ।
ताव्वळ् कर्मा फल मॅळ्ता ।
संकल्पाप्रमाणॅ जात्ता ।
रूप तांकां तँ प्राप्त ॥३५८॥

माक्का पोळोंचँ दॉळ्यांनीं ।
आय्कूंचँ माक्का कान्नांनीं ।
मगेल् उच्चार् कर्ता वाणी ।
माक्का धोर्नू मनांतूं ॥३५९॥

सग्ळ्यांतूं माक्का पळैता ।
आनी तांकां वंदन कर्ता ।
माक्काची ध्यानांतू धर्ता ।
दानधर्मु कर्तना ॥३६०॥

मगेलेंची अध्ययन ।
अंतर्बाह्य समाधान ।
आनी तागेलँ जीवन ।
माक्काची समर्पण ॥३६१॥

दास्यत्वाचॉ अलंकारू ।
ताक्का हाज्जॉ अहंकारू ।
मगेल् प्राप्तीचॉ विचारू ।
हॉची लोभु तागेलॉ ॥३६२॥

मगेल् ध्यासू हॉचि कामु ।
मगेलँ पिश्शँ हॉ संभ्रमू ।
मगेल् प्रीतींतूं आरामू ।
लोकांतूं ना आसक्ती ॥३६३॥

तागेल् शास्त्र माक्का सॉद्‌ता ।
तागेल् मंत्रानॅ हांवूं मॅळ्तां ।
अश्शी तागेल् भक्ती आस्ता ।
अश्शी तागेलँ चरित्र ॥३६४॥

ॲक्ळाक तॉ माक्का मॅळ्ळॉ ।
मर्नापुडॅ मज्ज्यांत् आय्लॉ ।
सांग आनी खंई वत्लॉ ।
देहत्यागा उप्रांतँ ॥३६५॥

मज्ज्यांतूंची जॅ मॅळ्ताती ।
तांकांची सायुज्य मुक्ती ।
साधनेची फलश्रुती ।
हँ आत्मसमर्पण ॥३६६॥

आंतरीक आप्लेपण ।
आश्शिल्शिवाय समाधान ।
जाय्श्ना अर्जुना हँ जाण ।
ब्राह्म उपचारानॅ ॥३६७॥

कळ्ळँ म्हणतल्याक कळ्णा ।
आस्स म्हणतल्या लाग्गी ना ।
पाव्लाँ म्हणतलोई पाव्ना ।
आस्ता खैंकी धूरची ॥३६८॥

यज्ञयागांची पर्वडी ।
तांकां हाज्जी भो घमेंडी ।
ताज्जी का`पेक्षां होडी ।
किंमत ना धनुर्धरा ॥३६९॥

वेदांपेक्षां चड ज्ञान ।
आश्शिलॉ आस्स वॅ कॉण ।
शेषापेक्षांई वर्णन ।
चड कॉण करीद ॥३७०॥

वेदू नेति म्होण्णू यक्लॉ ।
शेषू हांतुळ् घेव्नू निप्लॉ ।
सनकादिकां पुर्पुर जाल्लॉ ।
कळ्णा हांवं कॉणाकै ॥३७१॥

कॉण कित्लँ तप करीद ।
शंभूसांगाती बैसद ।
सोण्णू अभिमानू तॉ पाद ।
तीर्थ धर्ता जटेंतूं ॥३७२॥

लक्ष्मीपेक्षां सांग कॉण ।
दुस्त्री आस्सद संपन्न ।
तिगेल् घारा दासीपण ।
श्रीये अस्ली कर्ता की ॥३७३॥

अमरावतीवारी हीं नगरं ।
खॅळांत्लीं की तिगेलीं घरं ।
इंद्रादिक बोंबीं अति सुंदर ।
नांचैता ती हात्तांतूं ॥३७४॥

च्नाक् जाल्यारी मोण्णू घाल्ता ।
रायांकै ती रंकू कर्ता ।
झाडइ कल्पवृक्षु जात्ता ।
तिगेल् दृष्टीपातानॅ ॥३७५॥

हिगेल्या ह्या सांगातानॅ ।
सेवकांकै पण्णा उर्णॅ ।
अस्लेकई मानु दीनॅ ।
प राणी जाव्नूई ॥३७६॥

तिन्नेइ सोण्णू अभिमानू ।
सर्वार्थानॅं सॅवा कोर्नू ।
पदसेवेक पात्र जाव्नू ।
साध्य कॅछँ सान्निध्य ॥३७७॥

खंईं मॅळणा अश्शि कांईं ना ।
मॉलइ दिंव्का म्हुणू पण्णा ।
जाल्यारी प्रेमभावना ।
अेकी आस्का मज्ज्यांतूं ॥३८८॥

आरे सूर्य–प्रकाशांतूं ।
चंद्रू दिस्त् वॅ आकाशांतूं ।
ताव्वळ् सांग अर्जुना तूं ।
दिस्सद् वॅ काज्जूळॉ ॥३७९॥

औश्चर्य हँ लक्ष्मीगॅलँ ।
तपोबल शंमूगॅलँ ।
जाणच्याक असमर्थ जाल्लँ ।
जाणद वॅ पामरू ॥३८०॥

म्हुणू तनमनधन ।
सकल गुणांची खाण ।
करी माक्का समर्पण ।
सोण्णू सर्वै अभिमानू ॥३८१॥

भावपूर्ण उल्हासानॅं माक्का ।
दिंव्च्या उद्देशानॅं ।
तुंवँ दिव्येद् प्रीतीनॅं ।
खंचेंई अेक फळ ॥३८२॥

दोन्नी हात मुखार् कर्ता ।
तँ तूं येव्नू माक्का दित्ता ।
अंव्सरारी खांव्च्या लाग्तां ।
फळ दँटासमेत ॥३८३॥

भक्तीभावानॅं दिल्लेलँ ।
अेक फूल मान्य जाल्लँ ।
तँवै ताँडालाग्गी व्हल्लँ ।
माळ्णु घेंव्चे बद्लाक ॥३८४॥

फूलफळ कस्लँ म्हणता ।
खंचेंइ पान माक्का चल्ता ।
सुक्किल् बाव्विलेंइ घॅत्ता ।
कस्लोइ ना हांतूं भेदू ॥३८५॥

तान्नेल्यानॅं अमृत पिंव्का ।
तश्शी जाव्नु वत्ता माक्का ।
जाल्यार् मात्र हँ पोळोंका ।
पड्ता प्रेम आस्की ना ॥३८६॥

पानइ ना म्हुणू जाल्यारी ।
आस्तलेंची थॉडँ तरी ।
उद्दाक अेक् कांय्सॉभरी ।
माक्का दिंव्चे खात्तीर ॥३८७॥

म्हुणू हँ हाड्पण सोड्का ।
विद्वत्ता विस्सोर्नू वच्का ।
लोकांमुखार् सान्पण घेंव्का ।
आनी येंव्का मल्यागी ॥३७८॥

वैकुंठाकै तॅं विशाल ।
मज्खात्तिर् बांद्लॅं महाल ।
कौस्तुभाकै तीं तेजाळ ।
दिल्लीं नाना आभरणं ॥३८९॥

दुद्दानॅची सर्वै भोर्नू ।
सुरम्य सागर निर्माण कोर्नू ।
तांतूं शयनागार बांदुनु ।
मज्खात्तिरची दव्वॅर्लँ ॥३९०॥

सुगंधाचॉ महामेरू ।
तांतूं चंदन अगरु कर्पुरू ।
नी दीपस्तंभारि दिनकरू ।
लाव्नू दव्वर्ला लॅक्तां ॥३९१॥

गरुडअस्लीं सुखद वाहनं ।
कल्पतरुवरांचीं उद्यानं ।
कामधेनूंचँ असंख्य गोधन ।
कॅल्लँ माक्का समर्पण ॥३९२॥

इत्लँशा त्या उद्‌काकई ।
रुची चड अमृताकै ।
नाना मिठटान्नापेक्षांई ।
तांतूं चड संतोषू ॥३९३॥

पार्था तुक्का सांग्काज वॅ ।
तूंवँची पळैल्यां न्हवॅ ।
बांदिल् सोडैतना हांवँ ।
फोवू सुदाम्यागॅलॉ ॥३९४॥

मज्जेर् प्रेम आस्स की ना ।
अेक्कची हँ पळैतना ।
सानू होडू हांवं म्हण्णा ।
भूक माक्का भक्तीची ॥३९५॥

फक्त पान फूल फळ ।
निमित्त अेक केवळ ।
भक्तीभावूची निर्मळ ।
जांव्का जात्ता तागेलॉ ॥३९६॥

आय्क तूं हँ धनुर्धारी ।
शुध्द बुध्दी स्थिर करी ।
चित्तांतूं तूं दृढ धरी ।
ध्यानमूर्ती मगेली ॥३९७॥

जँ तूं आचरण धर्शी ।
अथवा जॉ जॉ भोगु घेश्शी ।
खंचेइ यागयज्ञ कर्शी ।
नानाविध कित्लेई ॥३९८॥

सत्पात्र जँ दिश्शी दान ।
श्रमिकांक जँ वेतन ।
तपव्रतादी साधन ।
जँ जँ म्हुणू तू कर्शी ॥३९९॥

सग्ळँई तँ सहज घड्का ।
तॉची तुगेल् स्वभाव जांव्का ।
तँची सर्वै अर्पण कोर्का ।
माक्का तुंवँ प्रीतीनॅ ॥४००॥

हांवँ कॅल्लँ हँ म्होण्णक्का ।
मनांत् येंन्च्याकै दीव्नक्का ।
कतृत्वाचँ खत्त काड्का ।
दित्ना तुंवँ मल्यागी ॥४०१॥

कश्की भाज्जिलॅ् बी चिग्रना ।
तश्शी तुक्काइ तँ बांदिश्ना ।
अश्शी अर्पण कोर्नू दित्ना ।
शुभाशुभाचँ कर्मफल ॥४०२॥

ज्या वॅळारी कर्म उर्ता ।
ताव्वळ् देह प्राप्त जात्ता ।
सुखदुःख भोग्का पड्ता ।
अश्शी येव्नू जन्माक ॥४०३॥

म्हुणू माक्का तीं दिल्यारी ।
घाल्का पण्णा यॅरादारी ।
कष्ट पांव्चेई ताज्वैरी ।
सर्वै चुक्ता आप्याप ॥४०४॥

सांग्ली तुक्का पार्था रीती ।
कर्ममुक्त जांव्ची युक्ती ।
राब्बना ही कालगती ।
अशी वेळु काण्णक्का ॥४०५॥

ह्या देहाच्या बंधनांतूं ।
संसाराच्या समुद्रांतूं ।
पण्णस्तना तूं मज्ज्यांतूं ।
सुखरूप जात्लॉची ॥४०६॥

तूं निम्गिशी हांवं कोणू ।
तरी भेदभाव सोण्णू ।
सर्वांतूंई सम मेळ्णू ।
कॅर्नाइ आस्ता तॉ हांवं ॥४०७॥

अश्शी माक्का जाण्णु घेव्नू ।
मूळ अहंता निक्ळाव्नू ।
श्रध्देनॅ स्वकर्म कोर्नू ।
माक्काची जॅ भज्ताती ॥४०८॥

दिस्ताती तॅ देहधारी ।
आस्ताती तॅ मज्भित्तरी ।
आनी हांवं तांच्भित्तरी ।
परस्पर संपूर्ण ॥४०९॥

वडाचॉ विस्तारू पूर्ण ।
धर्ता बीजरूप सान ।
वृक्षांतूंची बीजधन ।
यंचँ थंईं तँ आस्ता ॥४१०॥

आम्कांई परस्परांतूं ।
भेदू नामांतूं रूपांतूं ।
जाल्यार् तत्वविचारांतूं ।
आस्ता एक अद्वैत ॥४११॥

उस्नॉ हाळ्ळेल् अलंकारू ।
घडये मात्तूचॉ शृंगारू ।
ह्या देहाचॉ आविष्कारू ।
थॉडॅ वॅळा पुर्तीची ॥४१२॥

वारयामाक्षी पर्मळ धांव्ता ।
फूल दँटार् बाव्नू उर्ता ।
आय्श सरवरेक् आस्ता ।
तश्शी देह नश्वर ॥४१३॥

कतृत्वाचॉ अभिमान् ।
माक्का समर्पण कोर्नू ।
मज्ज्यांतूं तॅ येव्नू मेळ्णू ।
थंईं जात्ताती स्थिर ॥४१४॥

भक्ती कर्ता जिव्हाळ्यानॅ ।
धर्ना देह तॉ नॅवानॅ ।
आत्तं खंचेई रूपानॅ ।
व्यक्त जाव्नू आस्सॉ तॉ ॥४१५॥

दृष्कृती तॉ मूर्तिमंतू ।
जावॉ जाल्यारी तॉ भक्तू ।
अर्याथीं जिज्ञासू आर्तू ।
कोणुइ जावॉ हांच्पैकी ॥४१६॥

मर्तना जँ मनांत् यॅत्ता ।
तीची गती पांव्का पड्ता ।
अंतकालारी जॉ भज्ता ।
माक्का येव्नू मॅळ्ता तॉ ॥४१७॥

उव्वारांतूं पळ्ळेल्तरी ।
बुड्ता म्हुणू दिश्शिल्तरी ।
दुराचारी आश्शिल्तरी ।
तांत्थाव्नू जॉ भाग्र् पड्ता ॥४१८॥

कांटाचेरी पोव्नु यॅत्ता ।
बुड्डुन् मोर्चें कश्की चुक्ता ।
तश्शी तागेल्ँ पापै सर्ता ।
तॉवै योरु भक्तूची ॥४१९॥

दुराचार कॅलेल्तरी ।
पश्र्चात्ताप तीर्थाचेरी ।
न्हाव्नु आय्लॉ मज्भित्तरी ।
तॉची सर्वभावानॅ ॥४२०॥

कुलाचॉ तॉ उध्दार कर्ता ।
कुळ्ळ पाव्ता सन्मान्यता ।
सार्थक तॉ कोर्नु घॅत्ता ।
आप्णागेल्या जन्माचँ ॥४२१॥

हँची तागेलँ शास्त्राध्ययन ।
आनी घोर तपाचरण ।
अष्टांगयोग साधन ।
तॉची योगी सम्ज तूं ॥४२२॥

आस्सॉ हँची भोचि सांग्लँ ।
पार्था तान्नॅ जँ जँ कॅल्लँ ।
सर्वार्थानॅ सिध्दी पाव्लँ ।
तरी श्रध्दा मज्जेरी ॥४२३॥

खैं खैं मनबुध्दी व्हर्ता ।
थंईं तागेल् अेकनिष्ठा ।
मज्ज्यांतूंची भोर्नु आस्ता ।
सदासर्वदा पार्था ॥४२४॥

थॉर्डॅ वॅळानॅ मज्वारी ।
जात्ल्मॅ तॉ तूं म्हण्शी जरी ।
आस्स अमृतांतूं तरी ।
अमरत्व तत्काळ ॥४२५॥

जोवरेक फाल्फाल्ँ जाय्ना ।
ताव्वळ्थाई राति की ना ।
कर्मांतूं जरी भक्ती ना ।
तँवै म्होण्चँ पापची ॥४२६॥

म्हुणू जॉ तागेलँ चित्त ।
दव्वर्ता मज्ज्यांतूं स्थित ।
मगेल्या रूपातूं स्वस्थ ।
जाव्नू राब्ता पांडवा ॥४२७॥

ज्योती धोर्नू लाय्ल्यार् वाती ।
तीची वाती जात्ता ज्योती ।
जीवाभावानॅ जॉ भक्ती ।
कर्ता तॉवै हांवंची ॥४२८॥

मगेलँ स्वरूप शांती ।
तीची तागेली प्रचीती ।
हांवंची तागेली ज्योती ।
मूलाधारू हांवंची ॥४२९॥

तँ तँ कित्लँ सांग्गूं तरी ।
हांवं जाई हँ दिस्ल्यारी ।
तूं फक्त इत्लेंची करी ।
विस्सोर्नक्का रॅ माक्का ॥४३०॥

बरँ घराणँ जांव्का म्हुणु ना ।
मानु कुळाचॉ व्हांव्का म्हुणु ना ।
विद्वत्ता मेळोंव्का म्हुणु ना ।
व्यर्थ सोसु हॉ कस्ल्याक ॥४३१॥

रूप आनी तारुण्याचॉ ।
डौलू गर्वू संपत्तीचॉ ।
नुस्तँ पो ळ्ळणू हॉ धोर्चॉ ।
अेकी भक्ती ना जरी ॥४३२॥

कस्ल्याक् तीं कणसं जांब्काती ।
तांतूं जरी दाणॅ नाती ।
नगर गॉम्टँ ना की वस्ती ।
आस्सुनुइ ना प्रयोजन ॥४३३॥

सरोवर आट्टुन् गॅल्लँ ।
दॉग्गइ रान्नांत् वाट चुक्लॅ ।
कष्टांत् पोण्णू अॅक्डॅ मॅळ्ळॅ ।
धर्ना फळ फलशँ ॥४३४॥

वैभवाचँ महिमान ।
कुळजातीचँ हॉड्पण ।
देह आस्सुन् व्यर्थ जाण ।
कश्की जाल्यार् निष्प्राण ॥४३५॥

मगेल् भक्ती जॅ कर्नाती ।
व्यर्थ आयुष्य जग्ताती ।
कश्की पाषाण आस्ताती ।
पृथ्वीचेरी तश्शी तॅ ॥४३६॥

हिंवराची साव्ली दाटी ।
तरी सज्जन सॉड्ताती ।
तश्शी पुण्य हीं वत्ताती ।
सोण्णू ह्या अभक्तांक ॥४३७॥

बॅवा वृक्षाक् भोरु आय्लॉ ।
काय्ळ्यांकची लाभु जाल्लॉ ।
भक्तीहीना फा ी लाग्लॉ ।
सर्वै दोषांचॉ मेळू ॥४३८॥

सुग्रासू कर्प्यांतूं वाळ्ळॉ ।
तॉ चौरस्त्यारी दव्वर्लॉ ।
कश्की खांव्च्या योग्यु जाल्लॉ ।
फक्त तॉ सुण्यानॅची ॥४३९॥

अभक्तू जॉ सॉप्नांत्थाई ।
म्हण्णा पुण्य कोर्यां कांईं ।
जन्मांतूं तॉ क्लेशां न्हंई ।
संसाराची दांटुय्श्ना ॥४४०॥

बरया कुळाचॉ स्वीकारू ।
म्हारु म्हुणुइ ना धिक्कारू ।
पशूचोइ ना अव्हेरू ।
भक्ती अेकी प्रमाण ॥४४१॥

नक्रग्रस्त गजेंद्रानॅ ।
आपैलँ भो आर्ततेनॅ ।
पळॅ पशुत्व पळैनॅ ।
मोक्षपदा पावैलॉ ॥४४२॥

जातीचॉ उच्चारू वाय्ट ।
तरी सांग्का पड्ता स्पष्ट ।
पार्था जॅ नीच अत्यंत ।
जातींत् आय्लॅ जन्माक ॥४४३॥

पापयोनी अस्ली पाड ।
तांतुंइ फात्रावारी मूढ ।
जाल्यार् भक्ती मात्र दृढ ।
मज्ज्यांतूंची संपूर्ण ॥४४४॥

नाम वाचेनॅ घॅत्ताती ।
दॉळ्ळॅ रूप पळैताती ।
मनांत् विचार धर्नाती ।
मगेल् वीना ना अन्य ॥४४५॥

मगेलँची स्तुतिगान ।
आय्कताती तांगेल् कान ।
अष्टांगारी तीं भूषणं ।
मगेल्याची सेवेचीं ॥४४६॥

ज्ञान निर्विषय जांव्का ।
ती सद्‌बुध्दी हांवँ दिंव्का ।
न्हइ जाल्यारी वांचुन् उर्का ।
कस्ल्याक तँ म्हणताती ॥४४७॥

पार्था कर्ताती श्रध्देनँ ।
आत्मार्पण सर्वार्थानँ ।
म्हणताती कृतज्ञतेनँ ।
हांवं जीवनाधारू ॥४४८॥

कित्लेंइ पापी कुळ जावॉ ।
शास्त्राभ्यासू जाय्ने जावॉ ।
तांच्यांतूं कांईं उणावॉ ।
दिस्सश्ना मज्मुखारी ॥४४९॥

भक्तींतूं हॅ दैत्य थोर ।
ठॅर्ल दुय्यम अमर ।
नृसिंहालॉ अवतार ।
दित्ता हाज्जॉ पुरावॉ ॥४५०॥

मज्खात्तीर प्रल्हादानॅ ।
संकटांक घोर म्हण्णॅ ।
जँ हांवँ दिंव्चँ तँ तान्नॅ ।
आप्णॅ जाव्नू मेळैलँ ॥४५१॥

पळॅ दैत्यवंशांतुलॉ ।
इंद्रापेक्षां वैरि पाव्लॉ ।
कोणुइ जावॉ श्रेष्ठु जात्लॉ ।
भक्तीनॅ ना वंशानॅ ॥४५२॥

राजमुद्रा चाम्माचेरी ।
पुरॉ अेकी ती आस्ल्यारी ।
ताज्बद्लाक धनुर्धारी ।
सर्वै वस्तू मॅळ्ताती ॥४५३॥

रुप्पँ आस्सॉ वा भांगार ।
कोणुइ कर्ना तँ स्वीकार ।
जात्ता सर्वै व्यवहार ।
मुद्रांकित चाम्मातॅ ॥४५४॥

मज्जेर् आशिशल् प्रीती जरी ।
मनबुध्दींतूं भर्ल्यारी ।
सर्ता हॉड्पण कठोरी ।
आनी जाणतेपणई ॥४५५॥

वंश कुळ हँ अर्जुना ।
कस्लेंई पोळोंका पण्णा ।
मज्ज्यांतूं तॉ मेळणू वत्ना ।
कर्ता जन्मा सार्थक ॥४५६॥

कस्लोइ भावु जॉ मनांतूं ।
तँ मन धरी मज्ज्यांतूं ।
उरश्ना कर्स्लँ तुज्ज्यांतूं ।
उणॅपण माक्षीचँ ॥४५७॥

तेद्दोळ्थाई चिक्ला होळू ।
जोवरेक जाय्ना मेळू ।
जाय्नापुर्डॅ तॉ सोज्वलू ।
गंगेचॉची कल्लोळू ॥४५८॥

की हँ खैर हँ चंदन ।
अग्नीक तीं समर्पण ।
करीसरी विंगड्तन ।
माग्गीरी तीं अग्नीची ॥४५९॥

वैश्यू जावॉ अथवा शूद्रु ।
क्षत्रियू स्त्री हॉ ना भेदू ।
लाग्लॉ म्हळ्की मगेल् छंदू ।
अेक्कची तॅ मज्ज्यांतूं ॥४६०॥

कोणु, खंचॉ, खंची जाती ।
हाक्का शून्याची किंमती ।
भक्त मज्ज्यांतूं मॅळ्ताती ।
कश्की मीट समुद्रांतूं ॥४६१॥

महानदी सानी न्हंई ।
आय्ल्यॉ त्यॉ खइंथाव्नू खंई ।
मॅळसरी समुद्राक् हीं ।
भिन्न रूपं धर्ताती ॥४६२॥

अश्शी खंचॅ निमित्तानॅ ।
चित्त दिल्यार् माक्का तान्नॅ ।
मॅळ्तां हांवं अभेदानॅ ।
पार्था ताक्का आप्याप ॥४६३॥

परीसाच्या फात्राचेरी ।
लॉखंडानॅ घाव् घाल्यारी ।
ताज्जॉ स्पर्शू जांव्च्भित्तरी ।
तँची जात्ता भांगार ॥४६४॥

प्रेमानॅ गोपींनीं चित्त ।
कॅल्लँ माक्का समर्पित ।
ताव्वळ् जाल्यॉ त्यॉ साक्षात ।
मगेलँची स्वरूप ॥४६५॥

भीव्नूभीव्नूची की कंसू ।
वैर धोर्नू रात्रंदीसू ।
शिशुपाला अस्लॅ मोक्षू ।
पाव्लॅ न्हवॅ तॅवई ॥४६६॥

सम्मंदानॅ यादवांक ।
आम्गेल् म्हुणू लाग्गीच्यांक ।
दिल्लँ सायुज्यपदाक ।
पार्था हांवँ सर्वांक ॥४६७॥

ध्रुव नारद अक्रूर ।
शुक नी सनत्कुमार ।
हांगेली भक्ती अपार ।
जाल्लाँ हांवं तांगेलॉ ॥४६८॥

गोपी जाल्यॉ विषयासक्त ।
कंसुइ जाल्लॉ भो भयग्रस्त ।
शिशुपालादिक वैरोन्मत्त ।
मद्रुप जाल्लॅ स्मरणानॅ ॥४६९॥

पार्था कश्शी तॅ आस्सोती ।
येव्नू माक्काची मॅळ्ताती ।
भीती प्रीती वैर विरक्ती ।
खंचोइ भावू धरोती ॥४७०॥

म्हुणू आत्तं हँ तूं आय्क ।
मज्ज्यांतूं मेळ्णू आश्चाक ।
तॅ तॅ उपाय अनेक ।
कम्मी कांइं पण्णाती ॥४७१॥

खंचेइ जातींत् जन्मा यॅवॉ ।
भक्तू अथवा वैरी जावॉ ।
दोन्नीपैकी कोणुइ जावॉ ।
जाछ्यार् जांव्का मगॅलॉची॥४७२॥

खंचेइ अेक निमित्तानॅ ।
मगेल् म्हुणू जाछ्यार् तान्नॅ ।
हांवं जाव्नू उॅर्चं तान्नॅ ।
ताँ तागेल्या हात्तांतूं ॥४७३॥

पापयोनींतुलॉ जन्मू ।
शूद्र वैश्य स्त्री अधमू ।
मज्ज्यांतूंची तॅ आरामू ।
पाव्ताती ह्या मार्गानॅ ॥४७४॥

चातुर्वण्यांतूं सन्मान्य ।
तांकां स्वर्गा अनुदान ।
मंत्रविधेचँ निधान ।
पार्था तॅ हॅ ब्राह्मण ॥४७५॥

तॅची पृथ्वीवॅलॅ दॅव ।
तपोमूर्ती सावयव ।
सर्वै तीर्थांचँ सुदैव ।
उदया आय्लँ हांच्मितीं ॥४७६॥

यज्ञांतूं सदैव मग्न ।
हॅ वेदांचँ संरक्षण ।
मांगल्याचँ संवर्धन ।
पाय्यार् घेव्नू कर्ताती ॥४७७॥

हांगेल्ँ प्रोत्साहन मॅळ्ता ।
सत्कर्मांचॉ विस्तार जात्ता ।
हांगेल् संकल्पानॅ चल्ता ।
सत्य मृत्यूलोकांतूं ॥४७८॥

हांगेल्या मंत्रोच्चारानॅ ।
उर्लॉ अग्नी, समुद्रानॅ ।
हांगेल्या प्रीतीवॅल्यानॅ ।
अर्ध्य दिल्लँ अग्नीक ॥४७९॥

लक्ष्मीक बग्ले बसैलँ ।
कौस्तुभ हात्तांतूं धॅर्लॅ ।
वक्षस्थळ मुखार् कॅल्लँ ।
धरूक् हांगेल् पाय्धूळी ॥४८०॥

अजुनी आस्स ती हॅर्द्यारी ।
इत्त्याक् म्हण्शी धनुर्धारी ।
षड्गुणांची ती ईश्र्वरी ।
खूण राक्कुन् घेंव्च्याक ॥४८१॥

हांगेल् कोपू म्हळ्ळ्यार् जाण ।
कालरुद्राग्नी मीलन ।
कृपा जाल्यारी प्रदान ।
कर्ताती हॅ सिध्दींचँ ॥४८२॥

पूजनीय पुण्यवंत ।
भावभक्तींतूं निष्णात ।
जाव्नू उर्ताती मद्गत ।
कस्ल्याक् जाई पुरावॉ ॥४८३॥

चंदनाचॉ पर्मळ व्हर्ता ।
वारँ बॅवाक् स्पर्शु कर्ता ।
चंदनासांगाती बस्ता ।
बेवू दॅवा निड्ळारी ॥४८४॥

मॅळ्ना वॅ चंदनाक ।
ताव्वळी थंईं बैसूक ।
मनांत् हाड्चँ निरर्थक ।
तँची स्थान तागेलँ ॥४८५॥

गौरीहरानॅ दयार्द्र ।
विषदाह शांत जाय्द ।
म्हुणू तॉ चंद्रूई अर्द ।
व्हाव्नु घॅत्ला मात्त्यारी ॥४८६॥

चंद्राकई जॉ शीतळू ।
आनी ताज्जॉ परिमळू ।
लाग्गद वॅ ताक्का वेळू ।
सर्वांगारी बैसूक ॥४८७॥

रस्त्यावॅलँई उद्काक ।
वच्चुन् मॅळ्ता जँ गंगेक ।
तँवै वच्चुन् समुद्राक ।
मेळ्ळेल्शिवाय राब्बना ॥४८८॥

राजऋषी वा ब्राह्मण ।
तांगेल् कार्याक कारण ।
आनी निश्चित निधान ।
हांवं अेकू शरण्यू ॥४८९॥

भॉक्णं पळ्ळ्यांती पाँदांतूं ।
बोश्येद् वॅ अस्ल्या दोण्येंतूं ।
आनी शस्त्रवर्षावांतू ।
आंग धांप्पुन् घेंव्का न्हइ ॥४९०॥

आंगार् पड्तना पाषाण ।
चुक्कोंव्च्याक संरक्षण ।
आनी रोगा निवारण ।
कोर्नु घेंव्का पड्ता न्हइ ॥४९१॥

उज्जॉ लाग्ला चारी दिकां ।
तांतूं इत्याक् वच्चुन् रिग्का ।
भजन कर्नस्तना उर्का ।
इत्त्याक् भवतापांतूं ॥४९२॥

मज्जनस्तना राब्ताती ।
खंच्या धैर्यारी चल्ताती ।
निश्चिंत जाव्नू आस्ताती ।
घरदार भोग्च्यांतूं ॥४९३॥

विद्याव्यासंगाचॉ भ्रमू ।
की प्रायेचॉ हॉ जुम्जूमू ।
भक्तीवीण अन्य नेमू ।
ना सौख्याचॉ प्राण्याक ॥४९४॥

जँ जँ सुख तॅ भॉग्ताती ।
देहाकची तॅ पाव्ताती ।
हॅची भान विस्सर्ताती ।
देह काळा ताँडांतूं ॥४९५॥

जाण ह्या मृत्यूलोकांतूं ।
जन्ममरणा व्यापारांतूं ।
येंव्चँ वच्चँ ना हात्तांतूं ।
दुस्त्रँ दुःखाशिवाइ ॥४९६॥

मॅळ्णा सुख ह्या जन्मांतूं ।
दिंव्च्याकै ना खाली हातू ।
कित्लँ फुंक्ल्यारी गॉब्रांतूं ।
कँडं नॅवान् जळ्तीद् वॅ ॥४९७॥

विषा कांदे वा न् घेव्नू ।
रस्सू ताज्जॉ पीळ्णु काण्णू ।
तँची अमृत म्होण्णू पीव्नू ।
कोणुइ अमर जाल्ला वॅ ॥४९८॥

वासनातृप्तीचँ सुख ।
सुख वॅ तँ केवळ दुःख ।
जाल्यार् कस्लँ कोर्चें मूर्ख ।
तँची नप्रॉ म्हणताती ॥४९९॥

मस्तकची खांडुन् काळ्ळँ ।
पाय्या घाय्यारी तँ बांद्लँ ।
तश्शी ह्या मृत्यूलोकांत्लँ ।
बरँ म्हुणू जँ दिस्ता ॥५००॥

सौख्या संसारा खब्बरी ।
यॅद् वॅ कॉणाल्या कान्नारी ।
कँडांच्या ह्या हांतुळ्णारी ।
निद्दे सुख मॅळद् वॅ ॥५०१॥

चंद्रू सानू जाय्त वत्ता ।
उदयाचोइ अस्तू जात्ता ।
दुःख सुखा चॉळँ घाल्ता ।
आनी छळ्ता जगाक ॥५०२॥

मंगल चिगूरू धर्ता ।
ताक्का दुष्ट कीडी लाग्ता ।
तश्शी मृत्यू सॉत्त यॅत्ता ।
गर्भांतूल्या जीवाकै ॥५०३॥

येव्जनस्तनाई घड्ता ।
अकस्मात यमू यॅत्ता ।
खंईं कश्शी घेव्नु वत्ता ।
तँवै कळ्णा कॉणाकै ॥५०४॥

खंच्या वा`री सॉद्दाती ।
पर्तलेलीं पाव्लं नाती ।
कित्ल्की अश्शीची गॅल्याती ।
पार्था आजिवरेक ॥५०५॥

हांगाचँ अेक निमिष ।
ब्रह्मयागॅलँ तँ आयुष्य ।
तँवै सर्ता की नि:शेष ।
शाश्वत ना कस्लेंई ॥५०६॥

अश्शी हांगाची ही वस्ती ।
शाश्वत म्हुणू लॅक्ताती ।
नि:शंक जाव्नू चल्ताती ।
हाज्जँ दिस्ता कौतुक ॥५०७॥

इहपर कल्याणाक ।
गांटींतूलँ नाण्य अेक ।
खर्चय्ना नी लाख लाख ।
काण्णू पड्ता फाँडांतूं ॥५०८॥

नाना विलासांतूं रम्ता ।
जग तॉची सुखी म्हणता ।
लोभग्रस्ताक तँ लॅक्ता ।
हॉची भारी बुद्वंतू ॥५०९॥

आय्ष आत्तं थॉडँ उल्याँ ।
शक्ती बुध्दी क्षीण जाल्या ।
म्हाल्गडॅ म्हुणू अस्ल्यागेल्या ।
पाय्यां वंदन कर्ताती ॥५१०॥

कश्की चेर्डुं प्रायेर् यॅत्ता ।
तश्शी कौतुक जाय्त उर्ता ।
आय्ष कम्मी जाय्त आस्ता ।
हँची यॅना लक्षांतूं ॥५११॥

जन्माक् आयिल् दीसा धोर्नू ।
यमू घॅत्त आस्ता ताण्णू ।
जाल्यारी हँची विस्सोर्नू ।
कर्तात् न्हवॅ जाय्दीसू ॥५१२॥

मॅल्लॉ शब्दू सहन जाय्ना ।
जाल्यार् रड्चँई राब्बैना ।
आय्चँ कांइं फाई ऊर्ना ।
हँची कळ्णा मूढांक ॥५१३॥

मांड्काक् सर्पू गिळ्त आस्ता ।
मांडुक् जीब भाय्र काड्ता ।
आनी मूसा धरू लाग्ता ।
जीवतृष्णा कित्ली ही ॥५१४॥

अरेरे हँ कस्लँ चल्ता ।
मृत्यूलोकांतूं रॅ पार्था ।
सर्वे उप्राटीची घुंव्ता ।
हांत्थाव्नू तूं भाय्र पड ॥५१५॥

सोण्णू भॉवरॉ हॉ वग्गीची ।
धरी वाट तूं भक्तीची ।
येव्नू पाव्शी मगेल्याची ।
निरंजन धामाक ॥५१६॥

तुगेल् मन हांवं करी ।
प्रेम धोर्नू भक्ती करी ।
आनी नमस्कारू करी ।
हांवंची रॅ सर्वत्र ॥५१७॥

निक्ळाई संकल्प समूळ ।
स्मर माक्का सर्व काळ ।
अंत:करण निर्मळ ।
कोर्नू जातूं याज्ञिकू ॥५१८॥

अश्शी माक्का तूं मेळैशी ।
मगेलँची रूप धर्शी ।
तुल्यागीची हांवं अश्शी ।
मनांतूलँ सांग्तां हँ ॥५१९॥

कॉणाकै दाकैनात्तिलँ ।
सर्वस्व राक्कुन् घेत्तिलँ ।
तँची हांवँ तुक्का दिल्लँ ।
सुखी जाव्नू राब तूं ॥५२०॥

परब्रह्म घन:श्यामू ।
भक्तांगॅलॉ पूर्णकामू ।
उलैलॉ तॉ आत्मारामू ।
अश्शी म्हणता संजयू ॥५२१॥

धृतराष्ट्र हँ आय्कूनू ।
बस्लॉ जडमूढ जाव्नू ।
उव्वार यॅत्ता हँ पोळोनू ।
रड्डॉ कश्की हाल्श्ना ॥५२२॥

संजयु मनांतूं म्हणालॉ ।
अमृताचॉ पाव्सु पळ्ळॉ ।
हांगाथाव्नू वचत राब्लॉ ।
कश्शि हॉ दुस्र्यॉ गांवाक ॥५२३॥

जाल्यारी हागेलँ खात्तां ।
उल्लैल्यारी दोषु लाग्ता ।
कस्लँ कोर्चे नोळीत बस्तां ।
हॉची हागेल् स्वभावू ॥५२४॥

हाडॅ भाग्य धन्यु जाल्लाँ ।
खब्बरि सांग्चॉ प्रसंग आय्लॉ ।
ह्या नॅव्नानॅ उध्दार कॅल्लॉ ।
मगेल् गुरु व्यासांनीं ॥५२५॥

चारि शब्द कष्टारि आय्लॅ ।
व ारी थंई तड्वैलॅ ।
मन गद्‌गदेनु आय्लँ ।
अष्ट सात्विक भावांनीं ॥५२६॥

चित्त जाल्लँ भो चकीत ।
वाचा कंठांतू स्तंभीत ।
सर्वांगई रोमांचीत ।
पळॅ कश्शी जाल्लँ तँ ॥५२७॥

दॉळ्यां पात्त्यों तग्गू दॅव्ल्यॉ ।
आनंदाच्यॉ सर्यॉ आय्ल्यॉ ।
सर्वांगाक यर्थर सुट्लॉ ।
आंतरीक सौख्यानॅ ॥५२८॥

हुम्मे मण्यॉ मोत्यांवारी ।
आय्ल्यॉ रोमरंध्रांचेरी ।
जाळ्ये वस्त्र सर्वांगारी ।
पांग्रौलँ की ताज्जेंची ॥५२९॥

महासुखा उव्वार आय्लॉ ।
जीवू व्हाव्नु वच्चू लाग्लॉ ।
सांग्चँ आश्शिलँ विस्सर्लॉ ।
व्यासांनी जँ सांगिलँ ॥५३०॥

गंभीर शब्द कृष्णालॅ ।
संजयाल्या कान्नार पळ्ळॅ ।
देहभान हँ सुलँ ।
आय्लँ आनी नॅवानॅ ॥५३१॥

श्रीकृष्णु हॉ सिध्देश्वरू ।
विभूतींचॉ आविष्कारू ।
अर्जुनाक सविस्तरू ।
सांग्ता म्हणता ज्ञानेशू ॥५३५॥

उल्लैलेलँ श्रीकृष्णानॅ ।
सम्जून् घॅत्लँ संजयानॅ ।
सांग्ता तॉ तँ सद्भावानॅ ।
सुख जात्लँ आय्कया ॥५३३॥

दॉळॅ तान्नॅ पुस्सुन् घॅत्लॅ ।
आंगइ वल्लँ हुम्मेलॅलँ ।
आनी धृतराष्ट्राक् म्हळ्ळँ ।
मुखावॅलँ आय्कया ॥५३२॥

थॉडँ जरी आय्कताती ।
सौख्या राशीरी बस्ताती ।
आत्तं माळ्णू हे घेय्याती ।
भाग्याफूल कान्नारी ॥५३४॥

**॥ ज्ञानदेवु सांग्ता गीता । मधु अनुवादु कर्ता ।**
**नव्वावॉ अध्यायु बोरोन् जात्ता । राजविद्या राजगुह्य योगाचॉ ॥**

# धाव्वॉ अध्यायू

ज्ञान स्पष्ट जॉ सम्जाय्ता ।
विघे कमळ फूल्लाय्ता ।
सुस्वरूपांतूं रमैता ।
त्या सद्गुरूक वंदन ॥१॥

भवांधकाराचॉ तूं सविता ।
अमर्याद तूं अतुल समर्था ।
सदैव नूतन तूर्यावस्था ।
क्रीडा तुगेली घॅ नमन ॥२॥

विश्वाचॉ तूं पालनकर्ता ।
\चिंतामणिंचँ निधान दित्ता ।
संतवनांतूं चंदन शॉभ्ता ।
अधिष्ठान तूं ध्यानाचँ ॥३॥

साधकचित्तचकोरां चंद्रू ।
आत्मतुष्ट सिध्दांतुं नरेंद्रू ।
सार्थ श्रतींचॉ सारसमुद्रू ।
मदनमदहरा नमो नमो ॥४॥

भक्तिभावभजना तूं भुल्ता ।
संसारा हस्त्येक मस्तिता ।
विश्वोत्पत्तिचॉ निर्माता ।
वंदन चरणा गुरुराया ॥५॥

कृपा तुगेली हॉचि गणपती ।
दीद जरी कॉणाक सन्मती ।
चॅडॉचेरी ती सरस्वती ।
प्रसन्न जात्ली कृपानिधे ॥६॥

कॉणाक दॅवादयेनॅ ।
अभय जरी दिल्लँ वाचेनॅ ।
नवरससरूपी अमृतानॅ ।
जात्लँ वाड्मय संपन्न ॥७॥

हॉ मगेलॉ हँ म्हळ्ळयारी ।
मॉन्न्याक ही वागेश्वरी ।
बृहस्पतीगेली सरी ।
दीद तागेल्या उन्नांक ॥८॥

जीवु जाव्नू आश्शिल्तरी ।
शिवु तॉची खरोखरी ।
हातू अथवा दृष्टी जरी ।
तागेल् मात्त्यार् फीरद ॥९॥

कृपेचँ हँ महिमान ।
करश्शी कोर्चें बा वर्णन ।
प्रकाशाचँ उलेपन ।
दिंव्का वॅ त्या सूर्याक ॥१०॥

फूल त्या कल्पवृक्षाक ।
उपचारू वा क्षीराब्धीक ।
खंचोइ गंघू कर्पूराक ।
दिंव्का म्हुणू पडद् वॅ ॥११॥

चंदनाक उटी लांव्का ।
अमृत कडौनू पिंव्का ।
वा आकाश हँ उब्बार्का ।
मड्क्यार् मड्कँ रच्चोव्नू ॥१२॥

सद्‌गुरूचँ महिमान ।
कोर्नू घेंच्चँ आकलन ।
कळ्ळँ खंचें ना साधन ।
धॅर्ल पाय नोळीत ॥१३॥

जरी बुध्दीच्या जॉरारी ।
वर्णन कोर्यां हँ म्हळ्ळ्यारी ।
नुस्तें लेपू मोत्यांचेरी ।
दिल्लेल्वारी जाय्द की ॥१४॥

बावन्न कशी भांग्रारी ।
रुप्प्या वोपी दिल्लेल्वारी ।
जाय्द म्हुणू ह्या पाय्यांरी ।
मस्तक हँ देव्रैतां ॥१५॥

ज्ञानेश्वरू मुखार् म्हणता ।
कृपा जाल्ली सद्‌गुरुनाथा ।
श्रीकृष्णार्जुन संगमतीर्था ।
जाल्लाँ क्षेत्र प्रयाग ॥१६॥

दूद माग्लँ उपमन्यूनॅ ।
क्षीर समुद्र शंभूनॅ ।
गिंदल भोर्नू वात्सल्यानॅ ।
ताज्मुखारी दव्वर्लॉ ॥१७॥

ध्रुवु कॉप्लॉ, तप कॅल्लँ ।
श्रीविष्णूनॅ दर्शन दिल्लँ ।
नी सम्जाय्लँ कौतुकानॅ ।
दीव्नू ताक्का अढळपद ॥१८॥

तश्शी ही जी भगवद्‌गीता ।
ब्रह्मविद्या प्रस्तुत कर्ता ।
सर्वै शास्त्रांक जी पॉस्ता ।
सांगैता तूं ओवींतूं ॥१९॥

शब्दा रान्नांत् वाट चुक्ता ।
शब्दार्थू कश्की जुग्गुळ्ता ।
जाल्यार् कृपाकल्पलता ।
कर्ता वाचा विवेकी ॥२०॥

देहबुध्दी बाह्यात्कारी ।
ती आत्मानंदाभित्तरी ।
गीतार्थाच्या हिंद्‌ल्याचेरी ।
झुल्ता आप्णाइत्ल्याक ॥२१॥

कर्तृत्व हँ गुरूगॅलँ ।
अगाध कश्शी कळ्तलँ ।
कश्की सांग्चँ धैर्य जाल्लँ ।
चुक्ल्यार् क्षमा कोर्काज ॥२२॥

तुम्गेल्याची प्रसादानॅ ।
वर्णन कॅल्लॉ आनंदानॅ ।
पूर्वखंडु ह्या रूपानॅ ।
श्रीमद्‌भगवद्‌गीतेचॉ ॥२३॥

पैल्या अध्यायांतू सांग्लॉ ।
मोह खेदू पार्थागॅलॉ ।
विश्लेषण कोर्नू सांग्लॉ ।
सांख्ययोगु दुस्त्र्यांतूं ॥२४॥

स्थान कर्माक तिस्त्र्यांतूं ।
ज्ञान दाकैलँ चौथ्यांतू ।
केल्ली सूचना पांच्व्यांतूं ।
हांवँ योगतत्त्वाची ॥२५॥

अष्टांगयोगसाधन ।
जीवाशिवाचँ मीलन ।
जात्ता ताज्जँ विवरण ।
स्पष्ट कॅल्लँ सट्व्यांतूं ॥२६॥

योगस्थितीची ही प्राप्ती ।
योगभ्रष्टां कस्ली गती ।
जाल्लीं सांगूनू सांगाती ।
दोन्नी ह्याचि सट्व्यांतूं ॥२७॥

सुरू कोर्नू जँ क्रमेण ।
प्रकृतीचँ निरसन ।
चारी थरेनॅ भजन ।
कर्तांती तँ सात्व्यांतूं ॥२८॥

नंतर जॅ सात प्रश्न ।
कॅल्लँ तांचँ समाधान ।
मृत्यूकाला प्राप्त स्थान ।
खंचँ तँवै आट्व्यांतूं ॥२९॥

फलसार जँ वेदांतूं ।
अेक लाख तँ श्लोकांतूं ।
आस्स महाभारतांतूं ।
उद्बोधक संपूर्ण ॥३०॥

हँ जँ महाभारतांतूं ।
तँची ह्या सात्शे श्लोकांतूं ।
कृष्णार्जुन संबादांतूं ।
येव्नु गॅल्लँ नौव्यांतूं ॥३१॥

अश्शी आस्तना हँ सग्ळँ ।
उलोंच्याक मन भिल्लँ ।
जँ सांग्चँ तँ सग्ळँ सांग्लँ ।
हीवै प्रौढी कस्ल्याक ॥३२॥

गॉड्डा आनी सात्रे खाण ।
हाज्जी ताज्जी रुची भिन्न ।
जाल्यार् अेक रसायन ।
त्या सर्वांतूं कब्बाचँ ॥३३॥

ब्रह्मबोधाचँ आख्यान ।
अथवा ताज्जँ आचरण ।
ब्रह्मास्मीचँ संबोधन ।
तँची ब्रह्म सर्वांतूं ॥३४॥

गीतेचॅ अध्याय अश्शी ।
वर्णन कोर्चे हांवँ कश्शी ।
जाल्यार् तॅची साध्य जाय्शी ।
कॅल्लँ गुरुबलारी ॥३५॥

आंग्व्येंतूं सूर्यू उदैलॉ ।
प्रतिसृष्टी कोर्नू जिंक्लॉ ।
फात्रांचोर सेतू बांद्लॉ ।
समुद्रांतूं दांटूक ॥३६॥

आकाशांतूं सूर्याक् धॅर्लं ।
समुद्राक घॉटांत् गिळ्ळँ ।
मॉन्याक सांगैशी कॅल्लँ ।
शब्दांपेल्दीकाचँ हँ ॥३७॥

आस्सॉ, राम–रावणाली ।
लडाई ती कश्शी जाल्ली ।
मळ्ळ्यार् कश्शी जांव्काशिली ।
तश्शी जाल्ली दॉग्गांतूं ॥३८॥

अश्शी नव्वावॉ अध्यायू ।
अेकमेव अद्वितीयू ।
कळ्तलॉ हाज्जॉ आशयू ।
गीता जाण्णू घॅत्ल्याक ॥३९॥

नव्वई अध्याय पैलॅ ।
यथामति सांगुन् जाल्लॅ ।
सुरू कर्तां मुखावॅलॅ ।
ह्या ग्रंथाचॅ अध्याय ॥४०॥

आत्तं हाज्मुखारी सांग्ल्याती ।
प्रधान गौण विभूती ।
अर्जुनाक सांग्ची रीती ।
सतर्क भो रसाळ ॥४१॥

प्रौढ शांत देशी भास ।
रसराजाकै सरस ।
तिगेली ओवी सुरस ।
अलंकारू साहित्या ॥४२॥

गीता ग्रंथू संस्कृतांतूं ।
तॉची हाळ्ळॉ मराठीतूं ।
अेक्कू भावार्थू दोन्नींतूं ।
कळ्णा मूळ हॉ की तॉ ॥४३॥

देहा गॉम्टाइ भांग्रान् वाड्ता ।
देहु भांग्राक् गॉम्टाइ हाड्ता ।
कॉण कॉणाक् भूषण जात्ता ।
सांगूक् जाय्ना हँ कश्की ॥४४॥

भास मराठी संस्कृत ।
अेकलॅक स्वयंसिध्द ।
गूढ कर्ताती साक्षात ।
मन दीव्नू आय्क्या ॥४५॥

भाव रूप धरू लाग्ता ।
रसधारा सुरू जात्ता ।
नी ती आनंदानॅ म्हण्ता ।
आजि मॅळ्ता प्रतिष्ठा ॥४६॥

देशी भास ही सुंदरी ।
तांतूं पळ्ळ्या प्राये भरी ।
रचैता ती गॉम्टायेरी ।
गीतातत्त्व अगम्य ॥४७॥

परम परात्परु जगदाधारू ।
साधकाक जॉ विस्मयकारू ।
तॉ श्रीकृष्णू यादववीरू ।
उल्लैता तँ आय्कया ॥४८॥

निवृत्तिदासू ज्ञानेशू ।
म्हण्ता निम्गीता सर्वेशू ।
पार्था तुक्का खरॉ ध्यासू ।
आस्स न्हवॅ आय्कूंचॉ ॥४९॥

माक्षी हांवँ जँ जँ सांग्लँ ।
त्या वॅळारी अेक दिस्लँ ।
सर्वै तुंवँ तँ सांगिलँ ।
ध्यान दीव्नू आय्कल्यां ॥५०॥

मड्क्यांत् थॉडँ उद्दाक् घाल्का ।
तँ गळ्ता की ना पोळोंका ।
मागिर् गळ्सरी तँ भोर्का ।
आत्तं सांग्तां मुखारी ॥५१॥

कॉणागेली वस्तू चुक्ती ।
पळ्ळी, काण्णू घॅना जॉ ती ।
ताक्का उग्राणी कर्ताती ।
तॉ विश्वासू तुज्जेरी ॥५२॥

गुड् ार् कश्की मॉड दँव्ता ।
तश्शी तॉ पोट्टोळ्णू घॅत्ता ।
पार्थाक हॉ जगत्राता ।
आनी सांग्ता प्रेमानॅ ॥५३॥

कृपावंतशिरोमणी ।
म्हण्ता आय्क चापपाणी ।
सांगिलँ नॅवानॅ आनी ।
सांग्तां तुक्का हांवं रॅ ॥५४॥

प्रतिवर्स बीज घाल्का ।
चिग्रतना पोळोन् घेंव्का ।
वाड्त आस्तना तँ राक्का ।
बॅजार्का वॅ कष्टांक ॥५५॥

भांग्राक् वॉप दित्तां दित्तां ।
शुध्द जात्ता कसू वाड्ता ।
चॉक जांव्का म्हुणू दिस्ता ।
दुस्त्रॉ खंचॉ लाभु ना ॥५६॥

अश्शी लेवकू नाक्का पार्था ।
की तुज्जेरी कृपा कर्ता ।
मगेल् स्वार्थु साध्धुन् घॅत्तां ।
नॅवार्नॅ तुक्का सांगूनू ॥५७॥

चॅर्डाक् भांगार कोर्नू घाल्ता ।
ताक्का ताज्जँ कस्लँ कळ्ता ।
आव्सूची की आक्लस पाव्ता ।
दृष्टीसुख घेंव्च्याक ॥५८॥

कश्की बरेपण जात्ता ।
आनी तुक्का सुख मॅळ्ता ।
तस्तश्शी तँ वाड्त वत्ता ।
मगेलँई सम्ज तूं ॥५९॥

कस्ल्याक् पड्दॉ आड धर्चॉ ।
पार्था तूं मगेल् मॉग्गाचॉ ।
कित्लेंइ उल्लैइ ह्या उत्रांचॉ ।
मना जय्श्ना संतोषू ॥६०॥

ह्याच्खात्तीर तुल्यागीची ।
सांग्तां नॅवार्नॅ सांगिलँची ।
मन लाव्नू हँ आय्कूंची ।
जायता तूं दव्वरी ॥६१॥

आय्क उत्रां मर्म ।
शब्द जाव्नू परब्रह्म ।
तँ तुक्का दित्लँ सप्रेम ।
आलिंगन साष्टांग ॥६२॥

हांवं तुक्का सम गोत्ना ।
कॉणाकै यथार्थ कळ्णा ।
इद्रारी हांवं अर्जुना ।
दिस्तां तँची हँ विश्व ॥६३॥

वेद बाव्डॅ मूक जाल्लॅ ।
मन प्राण थक्कुन् गॅल्लॉ ।
सूर्यचंद्र अस्ता पाव्लॅ ।
त्या त्या वेळे अॅक्ळाक ॥६४॥

पॉट्टांत् आश्शिल्या गर्भाक ।
आव्सूली प्राई सांगूक ।
कळ्णा तश्शी ह्या दॅवांक ।
मगेलँ पुरातनत्व ॥६५॥

समुद्र जलचराक ।
नभ अगाध मूसाक ।
तश्शी कळश्ना ऋषींक ।
हांवं तांकां ज्ञानार्नॅ ॥६६॥

हांवं कोणु आनी कित्लॉ ।
कॉणांत्थाव्नू उद्भव जाल्लाँ ।
चर्चा कोर्नू काळु गॅल्लॉ ।
तरी जाय्ना निर्णयू ॥६७॥

ऋषीमुनींक दॅवांक ।
तश्शी ह्या प्राणीमात्रांक ।
मूळ हांवं रॅ सर्वांक ।
म्हुणू जाणचँ भो कष्ठ ॥६८॥

न्हंई चण्णा पर्वतारी ।
तूरी दॅव्ना मूळाचेरी ।
माक्का निर्मात्याक तरी ।
जाणद वॅ हॅं जग ॥६९॥

बीजांतूं वडा विस्तारू ।
पाळांभित्तरी सागरू ।
परमाणूंतूं पृथ्वीभारू ।
दिस्चॉ करकी अशक्य ॥७०॥

तश्शी ऋषींक दॅवांक ।
अथवा प्राणीमात्रांका ।
संभवू ना निर्मात्याक ।
जाण्णू घॅन्चॉ कॅर्नाकै ॥७१॥

अश्शी आशिशित्तरी कोणू ।
जॉ बाह्यप्रवृत्ती सोण्णू ।
इंद्रियां विन्मुख जाव्नू ।
अंतर्मुख जाय्त् आस्ता ॥७२॥

चुक्कुन् जरी माक्षी यॅद ।
त्याच्वॅळारी तॉ सावध ।
जाव्नू भॉग्ता नित्यानंद ।
देहबुध्दी जिंकूनू ॥७३॥

तांतूंची तॉ मग्न जाव्नू ।
मन प्रकाशित कोर्नू ।
स्वच्छ दृष्टीनॅ पोळोनू ।
म्हण़ता माक्का अजन्मा ॥७४॥

ॲक्ळाचॅ म्हुणू दिस्ताती ।
जाल्यार् आय्लॅ मज्उप्रांतीं ।
त्रैलोक्याचॉ अधिपती ।
अश्शी माक्का तॉ जाण्ता ॥७५॥

कश्की परिसू फात्रांतूं ।
कश्की अमृत रस्सांतूं ।
तश्शी तॉ रॅ मनुष्यांतूं ।
मगेलॉची अेकांशू ॥७६॥

सहजचि चल्ता सहजचि फिर्ता ।
चौगांवारीची तॉ दिस्ता ।
जाल्यारी प्रत्यक्ष आस्ता ।
तॉची ज्ञानाची मूर्ती ॥७७॥

वज्नू चुक्ती कर्पूरांतूं ।
मॅळ्ळॉ म्हुणू तॉ उद्कांतूं ।
ताज्सांगाती तॉवै तांतूं ।
कर्गद की ऊरद ॥७८॥

तश्शी तॉ ह्या चारचौगांतूं ।
चल्ता देहादी कर्मांतूं ।
जाल्यारी त्या उपाधींतूं ।
तांच्वारी तॉ शिर्कना ॥७९॥

चंदनाचॅं झाड जळ्ता ।
सर्पू वॅंटाळ् सोण्णू वत्ता ।
संकल्पाचॅं पापड वत्ता ।
सोण्णू तश्शी ज्ञात्याक ॥८०॥

कश्शी तुंवॅं माक्का जाण्चॅं ।
तुक्का सहज हॅं दिस्चॅं ।
तरी आय्क हांवॅं आस्चॅं ।
खंईं आनी कश्शी तॅं ॥८१॥

प्रकृतीक सम जाव्नू ।
तश्शी तीं तीं रूपं घेव्नू ।
हांवं त्रैलोक्यांतूं भोर्नू ।
आस्स पळॅ सर्वत्र ॥८२॥

बुध्दीचॉ जॉ आविष्कारू ।
नंतर ज्ञानाचॉ विस्तारू ।
सहनशीलता भ्रमपरिहारू ।
क्षमा तशीची नी सत्य ॥८३॥

मनोनिग्रहू इंद्रियदमन ।
सुखदु:ख जँ भॉग्ताती जन ।
जन्ममरण जँ पुनरावर्तन ।
सनातनत्व हँ मगेलँ ॥८४॥

भीती आनी जी निर्भयता ।
तशी अहिंसा आनी समता ।
जँ तप जॉ संतोषू पार्था ।
जँ जँ आस्ता दान म्हुणू ॥८५॥

अॅक्ळॉ दुर्लोकीकू पाव्ता ।
दुस्रॉ यशकीर्ती मेळैता ।
सर्वत्र हँ दिस्सुन् यॅत्ता ।
सर्वै जांच्चँ मज्मितीं ॥८६॥

सर्वै प्राणी भिन्न भिन्न ।
गतीई तांगेली अन्य ।
आस्तिकू नास्तिकू कॉण ।
हँवै कळ्ता मज्मितीं ॥८७॥

सूर्यु उदेता उज्वाड जात्ता ।
बुड्ता ताव्वळ् काळोक् पड्ता ।
उज्वाडू वा काळोक् आस्ता ।
कश्की सूर्यामितींची ॥८८॥

माक्का जाणचँ जाण्णा जांच्चँ ।
फल तांग्तांगेल् कर्माचँ ।
म्हुणू आविष्कार दिस्चॅ ।
प्राण्यांतू विंग्विंगड ॥८९॥

हांवँ विकार पाव्विल्मितीं ।
विस्तार पाव्ली जीवसृष्टी ।
मज्ज्यांतूं उत्पत्ति स्थिती ।
प्रळयूही मज्ज्यांतूं ॥९०॥

सृष्टीक जॅ सांबाळ्ताती ।
अनुशासनै कर्ताती ।
अस्ल्यॉ आनी इक्रा व्यक्ती ।
त्यॉवै आय्क कौंतेया ॥९१॥

संपूर्णत्व सर्वगुणांतूं ।
प्रज्ञावंत महर्षींतूं ।
प्रसिध्द ह्या सप्तर्षींतूं ।
अॅक्ळॉ पळॅ कश्यपू ॥९२॥

चौदांतुलॅ चारि मुख्य ।
मनू सांग्तां तुक्का आय्क ।
तांतुल्पैकी श्रेष्ठु अेक ।
माननीय स्वायंभू ॥९३॥

चलौंव्चखात्तीर ही सृष्टी ।
मज्ज्यांत्थान्नू इक्रा व्यक्ती ।
उद्भव जान्नू ह्यॉ आय्ल्याती ।
पळॅ हँ तूं धनुर्धरा ॥९४॥

त्रैलोक्य हँ जाय्नेशीलँ ।
लोकजीवनै नाशीलँ ।
पंचभूतांचेंइ कस्लँ ।
कार्यैइ म्हुणू नाशीलँ ॥९५॥

ताव्वळी हॅ उद्भव जाल्लॅ ।
आट लोक निर्माण कॅल्लॅ ।
लोकपालांकै नेम्सूय्लँ ।
हांत्रीं त्या त्या लोकांतूं ॥९६॥

अश्शी राय इक्रा जण ।
तांगेली प्रजा हें जन ।
हांवं विस्तार पाव्लाँ जाण ।
अश्शी सर्व विश्वांतूं ॥९७॥

ॲक्ळाक सानशँ इत्लँ ।
बीज कश्की तँ चिग्रलँ ।
सशी जाव्नू वाड्डू लाग्लँ ।
हॅग्लॅ घॅर्ल तिक्काई ॥९८॥

हॅग्ल्यांत्थाव्नू हॅग्लॅ फुट्लॅ ।
दँटानीं तॅ भोर्नू गॅल्लॅ ।
तांकां पान्नांनीं पांग्रैलँ ।
शोभा आय्ली हॅग्ल्यांक ॥९९॥

तांच्सांगाती फुल्लंइ आय्लीं ।
फुल्लं गळ्णू फळं धर्लीं ।
अश्शी बीजा वाडी जाल्ली ।
पाव्लँ तँची वृक्षत्व ॥१००॥

हांवं ॲक्ळॉची मूळांतूं ।
मन उब्जलँ मज्ज्यांतूं ।
इक्राजण त्या मनांतूं ।
उद्भव जाल्लॅ कौंतेया ॥१०१॥

कॅल्लॅ हांन्नीं लोकपाल ।
हांन्नीं केल्लीं गोत्रं कुळं ।
तांग्तांगेली प्रजा सकळ ।
दिस्ता हांगा सर्वत्र ॥१०२॥

अश्शी विश्वाचॉ विस्तारू ।
मगेलॉची हॉ आकारू ।
मान्य जाय्द हॉ विचारू ।
मज्जेर् श्रध्दा आस्ल्यारी ॥१०३॥

पार्था स्वजात संभूती ।
मगेल् प्रगट विभूती ।
इत्ल्यॉ की त्यॉ तांगेल् व्याप्ती ।
सर्वत्र ह्या विश्वांतूं ॥१०४॥

ब्रह्मदेवू अथवा मूई ।
हांवं तांच्यांतूं थंथंई ।
आनी दुस्त्रॉ ना कोणूई ।
मज्विना धरी खात्री ॥१०५॥

हँची खरँ हँ जॉ जाण्ता ।
तागेलँ भेदा सॉप्पन् सर्ता ।
आत्मज्ञान जागी जात्ता ।
म्हणता भेदू खंईं ना ॥१०६॥

इत्ल्यॉ मगेल्यॉ विभूती ।
नाना रूपं भिन्न व्यक्ती ।
आत्मयोगु साध्धिल्मितीं ।
म्हणता सर्व अेक्कची ॥१०७॥

ज्ञानयोगानॅ खात्रीनॅ ।
मॅळ्ळॉ मज्ज्यांतूं मनाने ।
संशय घेंन्चॉ व्यर्थ कॉणॅ ।
धन्य तॉची त्रिवार ॥१०८॥

इत्खात्तीर आय्क पार्था ।
तॉ अभेद दृष्टीनॅ भज्ता ।
हांवै तांतूंची रॅ रंग्तां ।
लाग्ता छंदू अेक्कूची ॥१०९॥

अभेदभावाची भक्ती ।
तित्ल्यारीची राब्बना ती ।
संशयू ना भाग्गना ती ।
सांग्ल्यां हँची सद्व्यांतूं ॥११०॥

हॉ अभेदू कश्शी आस्ता ।
सम्जून् घेंव्यां म्हुणू दिस्ता ।
तरी तुवका हँवै सांग्तां ।
लक्ष दीव्नू आय्क हँ ॥१११॥

पाळामाक्षी पाळ यॅत्ता ।
उद्कामितींची हँ जात्ता ।
त्याची उद्कांतूं तँ लॉळ्ता ।
ताज्जेरीची जग्ताई ॥११३॥

विश्वांतूं जॉ आस्तां भोर्नू ।
त्या मज्जेरी भावु धोर्नू ।
खंचोइ वेळू जॉ साध्घूनू ।
भजन कर्ता मगेलँ ॥११५॥

तॉची आत्मज्ञानी जाण ।
धोर्नू हँची अेक ध्यान ।
त्रैलोक्य वैकुंठभुवन ।
तॉची कर्ता प्रत्यक्ष ॥११७॥

ध्यानांतूं मगेली मूर्ती ।
तांतूंची ताक्का संतृप्ती ।
जन्ममृत्यूची निश्चिंती ।
स्वानंदांतूं मग्नतॉ ॥११९॥

लाग्गी आश्शिल् जलाशय ।
उव्वारांतूं अेकमय ।
जाव्नू जात्ता क्रीडालय ।
कश्की सर्वै पाळांक ॥१२१॥

स्वतः सूर्यू उज्वाड् जात्ता ।
चंद्रू चांदणँ पोट्टोळ्ण् घॅत्ता ।
दोन्नी धारॉ अेकी जात्ता ।
समरस आस्ल्यारी ॥१२३॥

पळॅ पार्था तूं हँवई ।
जगांतूं ह्या सर्वांकई ।
जन्माक जीवनाकई ।
हांवं अेकू आधारू ॥११२॥

अश्शी कश्की कलोळाक ।
सर्वै अवस्थेंतूं अेक ।
मूलाधारू हँ उद्काक ।
तश्शी हांवं विश्वाक ॥११४॥

आकाश भोर्नू वारॉ आस्ता ।
तॉची तँ आकाश जात्ता ।
तश्शी कॉणाक की दिस्तां ।
हांवं स्थलकालांतूं ॥११३॥

जँ जँ दिस्ता वस्तुजात ।
तँवै म्होणचँ भगवंत ।
भक्तियोगु हॉ निश्चित ।
सम्ज मगेलॉ पार्था ॥११८॥

स्वानंदाचॉ अनुवादु ।
आप्णांतूंची सुसंवादू ।
आत्मसुखाचॉ आनंदू ।
घेंव्चॉ दिंव्चॉ आप्णँची ॥१२०॥

तश्शी अॅक्डॅ मॅळ्ळ्यार् दोनी ।
अस्लॅ पार्था ब्रह्मज्ञानी ।
आनंदाचीं घेणींदेणीं ।
सद्बोधानॅ चल्ताती ॥१२२॥

सत्संगमु अेकत्वाचॉ ।
तरंगू ब्रह्मबोधाचॉ ।
अवतारू गणेशाचॉ ।
घॅत्लॉ चारी वेदांनीं ॥१२४॥

आत्मबोधानंदू भर्ता ।
देहबुध्दी भाग्र पड्ता ।
जन्माचँ सार्थक जात्ता ।
तॉची आदि उद्गारू ॥१२५॥

मंत्रु दिल्लॉ अेकांतांतूं ।
शिष्यागेल्याची कान्नांतूं ।
तश्शि ना बा त्रैलोक्यांतूं ।
आय्कू यँत्ता हॉ घोषू ॥१२६॥

कमळ फुल्त आस्तना ।
पर्मळ कांईं राक्कुन् घॅता ।
हॉ रावू तॉ रंकू म्हण्णा ।
पर्मळ दित्ता सर्वांकै ॥१२७॥

आत्मानंदाचँ हँ सुख ।
सांगत आस्तना चौगांक ।
विस्सोर्न् वत्ता हॉ स्वताक ।
सांग्चॅ सुखमुखारी ॥१२८॥

प्रेम नितांत मज्जेरी ।
कश्की अेकी तॅल्ला सरी ।
अद्वैतानंदाची झरी ।
रात्ती दिसा चित्तांतूं ॥१२९॥

ताज्जेरी प्रसन्न जाव्नू ।
कस्लँ ताक्का दिंव्यां म्हुणू ।
म्हळ्ळ्यार् तान्नॅ तँ वेंचूनू ।
घेव्नु जाल्यां अॅक्ळाक ॥१३०॥

तान्नॅ जी ही वाट धर्ली ।
शीदा मल्याग् येव्नू पाव्ली ।
आडवाट सोण्णू दिल्ली ।
स्वर्ग आनी मोक्षाची ॥१३१॥

तान्नॅ माक्का प्रेम दिल्लँ ।
मगेल् ताक्का मेळ्णू गॅल्लँ ।
दीनस्तना हांवँ दिल्लँ ।
हँवै तॉची म्हण्ता की ॥१३२॥

आत्तं हांवँ इत्लँ कोर्का ।
तागेल् सुख वाड्त वच्का ।
अश्शी जाय्शी पोळोन् घेंव्का ।
काळा दृष्टी चुक्कोव्नू ॥१३३॥

मॉग्गा चेर्डूं खॅळ्त आस्ता ।
आव्सु तागेल् माक्षी धांव्ता ।
खंईं पण्णाशी पळैता ।
प्रेमदृष्टी दव्वोर्नू ॥१३४॥

तँ जॉ खेळु जाई म्हण्ता ।
तॉ ती कौतुकानॅ दित्ता ।
तश्शी जी कोर्काशी दिस्ता ।
भक्ती माक्का ती मान्य ॥१३५॥

उपासना दृढ आस्का ।
माक्का ती सहज मेळ्का ।
तीची नित्य वाड्त वच्का ।
अश्शी माक्का भो दिस्ता ॥१३६॥

भक्ताक् मगेल् प्रीती जाई ।
भक्ती अनन्य माक्काई ।
दिस्ता भोची अप्रूबाई ।
माक्का ह्या भक्तागेली ॥१३७॥

खर्गमोक्षाची सद्गती ।
कॉणाक् जाई तॅ घॅवॉती ।
लक्ष्मीसांगाती संगती ।
दिल्ली हांवँ शेषाक ॥१३८॥

देहसान्निध्याकै सिध्द ।
आत्मसुख सत्त्वशुध्द ।
दव्वल्यां तँ खास खुद्द ।
अस्ल्या भक्तांखात्तीर ॥१३९॥

अर्जुना हँ अेद्दोळ्थाई ।
माक्का अस्लॉ भक्तु जाई ।
म्हळ्ळँ जाल्यार् उल्लोन् कांई ।
तान हाज्जी निव्वश्ना ॥१४०॥

परमात्मा जॉ विश्वाधारू ।
हांवंची, ना अन्य विचारू ।
ह्या भक्तीनॅं हॉ संसारू ।
फलद्रूप जॉ कर्ता ॥१४१॥

जाणणू घेंव्का म्हणतल्याक ।
ज्ञाना वाट दाकोंच्याक ।
ताज्मुखारी पार्था आय्क ।
दिव्टी धोर्नू हांव् वत्तां ॥१४२॥

काळ्की राती अज्ञानाची ।
धूर कोर्नू अॅक्फंतांची ।
पोळॉवॉ तॉ नित्याकची ।
फाल्फालँ त्या ज्ञानाचँ ॥१४३॥

प्रेमळांगेल्या मॉग्गानॅं ।
परमप्रिय कृष्णानॅं ।
उल्लैलेल्या ह्या उत्रानॅं ।
शांत जाल्लॉ अर्जुनु ॥१४४॥

आनी म्हणता संसाराचॉ ।
मोह फाप्पुळ्ळॉ मनाचॉ ।
तुवँ जन्ममरणाचॉ ।
कृष्णा संगु चुक्कैलॉ ॥१४५॥

आजि नवॉ जन्मु जाल्लॉ ।
ह्या दॉळ्यांनीं तॉ पळैलॉ ।
जन्मा येव्नू धन्य जाल्लाँ ।
जँ मेळोंव्का तँ मॅळ्ळँ ॥१४६॥

दॅवा भाग्य हँ महान ।
जाल्लँ कृतार्थ जीवन ।
आय्कलँ कृपावचन ।
ह्या दैवी वाणींत्थाव्नू ॥१४७॥

ह्या उत्रांच्या प्रकाशांतूं ।
अंतर्बाह्य शुचिर्भूतू ।
जाव्नू तुक्का स्वरूपांतूं ।
दॅवा थंईं पळैलँ ॥१४८॥

महाभूतांचॉ विश्रामू ।
पावन तूं परमात्मू ।
विश्र्वनाथु आत्मारामू ।
परब्रह्म तूं कृष्णा ॥१४९॥

तिन्नी दॅवांगेल्या दॅवा ।
तूंची पंचबिसाव्वा तत्त्वा ।
दिव्य पुरुषु तूं प्रकृतिभावा ।
पेल्दिकाच्या परमेशा ॥१५०॥

स्वयंसिध्द तूं तूंचि अनादि ।
जन्मा येंव्ची नाचि उपाधी ।
अस्लॉ तूं हँ कळ्ची संधी ।
आजि मावका मेळ्ळी ही ॥१५१॥

त्रैकालाचॉ सूत्रधारु तूं ।
जीवगणांचँ अधिष्ठान तूं ।
ब्रह्मांडाचॉई धारक तूं ।
कळ्णू आय्लँ हँ स्पष्ट ॥१५२॥

अनुभूतीचँ खरेपण ।
आजि जाल्लँ माक्का मान्य ।
माक्षी महर्षींनीं स्तवन ।
कॅल्यां तुगेलँ अश्शीची ॥१५३॥

आजिथाई आय्कत आय्लाँ ।
आजी साक्षात् अनुभव वॅत्लॉ ।
अश्शी कृपालाभु जाल्लॉ ।
हाज्जॉ माक्का श्रीकृष्णा ॥१५४॥

नारदु कॅर्नाई मॅळ्तालॉ ।
गुणगायन तुगेलँ कर्तालॉ ।
ताव्वळि अर्थूची बुड्तालॉ ।
गायनसुख तँ घेंव्चांतूं ॥१५५॥

स्वता सूर्यू येव्नू जरी ।
उदैलॉ कुर्मिमुखारी ।
प्रकाश दिस्सनात्तिल्तरी ।
वत पुणी लाग्ताची ॥१५६॥

अध्यात्माचँ जरि गुणगान ।
कॅल्लँ मधुर स्वरआलापन ।
आय्कुनु मन हँ तांतुंचि मग्न ।
जाल्लँ म्हुणु तँ कळ्णेची ॥१५७॥

देवल आनी असित ऋषींनीं ।
हँ जॅ सांग्लँ तँ कान्नांनीं ।
मात्र आय्किलँ तरि विषयांनीं ।
कॅल्लॉ बुध्दिक विषदंशू ॥१५८॥

विषयविषाचॉ महिमा होडू ।
आस्सुनुई परमार्थू गोडू ।
लाग्ता कडु नी विषय तॉ कडू ।
लाग्ता गोडू जीवाक ॥१५९॥

व्यास आम्गोरी यॅत्तालॅ ।
गुणगौरवु तुगेलॉ कर्तालॅ ।
नित्यानित्य म्हणशि हँ जाल्लँ ।
तरिकै कश्शी कळ्णॅ की ॥१६०॥

दिस्लॉ चिंतामणी रात्ती ।
जाल्ली कश्की बुध्दीभ्रांती ।
आत्तं कळ्ळी वस्तुस्थिती ।
उज्वाड जाय्नापुडॅची ॥१६१॥

व्यासादिक सांगत आय्लॅ ।
ताज्जँ मॉल कळ्णॅशिलँ ।
आजि तुंवँ मर्म सांग्लँ ।
स्पष्ट कोर्नू श्रीकृष्णा ॥१६२॥

तुगेल् उत्रां उज्वाड पळ्ळॉ ।
ऋषींनीं जॉ मार्गु सांग्लॉ ।
त्या मार्गाचॉ गुर्तू मॅळ्ळॉ ।
स्पष्ट दिस्सू लाग्तची ॥१६३॥

ज्ञानबीज तांन्नीं घाल्लँ ।
मनाभित्तरीची उॅर्लं ।
कृपेचँ उद्दाक मॅळ्ळँ ।
संवादाचँ फलई ॥१६४॥

तांन्नीं सांगिल् न्हैयांत्थान्नू ।
मॅळ्ळाँ ह्या समुद्राक येव्नू ।
तुगेलीं उत्रं आय्कूनू ।
हांवै जाल्लाँ अथांग ॥१६५॥

जन्मजन्मांतूं तँ पुण्य ।
कॅल्लँ हांवँ संपादन ।
तांन्नीं पावैलँ हँ ऋण ।
दीव्नू गुरु तुज्जस्लॉ ॥१६६॥

म्हाल्या ंनीं जँ जँ सांग्लँ ।
तँ ह्या कान्नांनीं आय्कलँ ।
जाछयार् ताव्वळ् कळ्णाशिलँ ।
कृपा जाय्नातिल्मितीं ॥१६७॥

जरी सद्भाग्य आस्सद ।
कष्टांचँ फल मॅळद ।
शास्त्राभ्यासु फलप्रद ।
जाय्द गुरुबलानँ ॥१६८॥

कोर्नू हुम्मेचँ उद्दाक ।
माळी घाल्ता तँ झाडाक ।
वसंतानॅ यॉवरेक ।
राब्ता फलाखात्तीर ॥१६९॥

तापु दँव्ता रुचि यॅत्ता ।
देहा आरोग्य सुधार्ता ।
ताव्वळीची कळू लाग्ता ।
गॉड्डांतुली गॉड्साणी ॥१७०॥

इंद्रियांक जँ चलैता ।
तँ चैतन्य खॅळत आस्ता ।
ताव्वळीची सार्थ जात्ता ।
देहपण देहाचँ ॥१७१॥

वेदशास्त्रांचॉ अभ्यासु ।
योगादिकांचॉ आयासु ।
दीद फलाचॉ विश्वासु ।
गुरुकृपा आस्ल्यारी ॥१७२॥

अर्जुनाक अनुभव मॅळ्ळॉ ।
संतोषानॅ नांचू लाग्लॉ ।
आनी दॅवाक म्हणालॉ ।
तुवँ म्होण्चँ खरेंची ॥१७३॥

कैवल्याचॉ तूंची दाता ।
खात्री जाछी ही तत्त्वता ।
बुध्दी पेल्दिकानॅ आस्ता ।
तूंची देव दैत्यांक ॥१७४॥

तुगेलीं उत्रं आय्कूंच्याक ।
मॅळ्णॅ पळॅ ज्या कॉणाक ।
बुध्दीनँ आपुणाइत्ल्याक ।
व्यर्थ म्होण्चँ जाणीन ॥१७५॥

आप्णागेली व्यापकता ।
आकाशाक कळ्त आस्ता ।
पुरोपण पृथ्वी जाण्ता ।
तिगेलँ ती तिज्जांतूं ॥१७६॥

तूंची सर्व शक्तिमानु ।
तूंची तुक्का आस्ता जाण्णू ।
तरी तुगेल् वर्णन कोर्नू ।
वेद व्यर्थ नांच्ताती ॥१७७॥

मनामुखार् धांव्च्याक् जाय्द् वॅ ।
मुष्टेन् वारँ मेज्जूक् जाय्द् वॅ ।
आदि पेल्दिकानॅ जाय्द् वॅ ।
वच्चुक् पोव्नू भुजांनीं ॥१७८॥

हाज्वारी हँ तुक्का जाण्चँ ।
कॉणाकै हँ कळ्णा जांव्चँ ।
तुगेल् तुवँ जाण्णू घेंव्चँ ।
निजरूप सर्वज्ञा ॥१७९॥

स्वरूपाचँ तुक्का ज्ञान ।
समर्थू तँ कोर्च्या दान ।
लाग्ल्या साक्का ताज्जी तान ।
कॅर्ना निवैता सांग ॥१८०॥

तुवँ हँ आय्कलँ की ना ।
विश्वाद्वारा जगज्जीवना ।
लोकत्रयसंसार भंजना ।
सांग सांग तूं जगत्पते ॥१८१॥

महिमा तुगेलॉ इत्लॉ योरू ।
साली थाई कश्शी धरूं ।
भीव्नू जरी माक्षी सरूं ।
अन्य गती ना माक्का ॥१८२॥

भॉराँ समुद्र वा न्हैंयाँ ।
भोर्नुइ आ ल्वारीची त्यॉ ।
अेकु थेंबु मॉडांत्लॉ हॉ ।
चातकाक नीवैता ॥१८३॥

गुरु दिस्ताती सर्वत्र ।
सद्गती तूं अेकमात्र ।
आस्सॉ हँ तूं सांग आत्तं ।
खंच्खंच्यॉ त्यॉ विभूती ॥१८४॥

जरी तुगेल्यॉ विभूती ।
खंच्यांतूं सामर्थ्य शक्ती ।
ज्यॉ दिव्य व्यापक व्यक्ती ।
त्यॉ त्यॉ तित्ल्यॉ सांग तूं ॥१८५॥

अस्ल्यॉ ज्यॉ तूं ह्या रूपांतूं ।
भोर्नू आस्स त्रैलोक्यांतूं ।
प्रसिद्ध मुख्य ज्यॉ तांतूं ।
त्यॉ तूं सांग अनंता ॥१८६॥

कश्शी तुक्का जाण्णु घेंव्चँ ।
खंच्या रूपांतूं पोळोंव्चँ ।
सर्वै तूंची जरी म्होण्चँ ।
चिंतन जाय्द वॅ साध्य ॥१८७॥

माक्षी तुवँ जश्शी सांग्ल्यॉ ।
संक्षिप्त कोर्नू सुच्चैल्यॉ ।
तश्शी दॅवा त्यॉ तुगेल्यॉ ।
सांग आत्तं विभूती ॥१८८॥

जॉ जॉ भावु धोर्च्या जाय्द् ।
आनी शीणूई वांचद ।
योगु सहज कळद ।
ध्यानाचॉ तॉ तूं सांग ॥१८९॥

गोत्तस की तूं भूतपती ।
तरी तुगेल्यॉ विभूती ।
नॅव्नॅवानॅ हॉ इत्मितीं ।
निम्गिता हँ म्हणशी तूं ॥१९०॥

अश्शी मनांतूं हाण्णक्का ।
पुरॉ पुरॉ आनी नाक्का ।
कश्शी म्होण्चँ सांग माक्का ।
मॅळ्तना हँ अमृत ॥१९१॥

ब्रह्मयागॅल्या ॲक्क दीसांतूं ।
चौदा इंद्रांगॅलॉ मृत्यू ।
दॅवांगॅलॉई देहांतू ।
अमृत पीव्नुइ चुक्कना ॥१९२॥

क्षीराब्धीचँ काळकूट ।
ताज्जँ भावंड अमृत ।
दॅव मृत्यूभयग्रस्त ।
जाव्नू पिल्लॅ तँ व्यर्थ ॥१९३॥

अश्शी ह्या क्षुद्ररसाची ।
गोडी सोडूक जाय्नाची ।
तरी ह्या परमामृताची ।
गोडी कश्शी सो ेद ॥१९४॥

मंदराचॉ खौलॉ घाल्नू ।
क्षीराब्धी मंथन कोर्नू ।
काण्णू घेंव्का तांतूंथाव्नू ।
तस्ल्यांत्लँ ना हँ कांइं ॥१९५॥

घं ी ना हँ, ना पात्तळ ।
रसबाह्य, ना पर्मळ ।
कॉणाकई हँ केवळ ।
स्मरणानॅची मॅळ्ता ॥१९६॥

हाज्जँ वर्णन आय्कल्यारी ।
संसार दिस्ता सॉप्नावारी ।
सत्यस्वरूपाची थोरी ।
कळू लाग्ता आप्याप ॥१९७॥

जन्ममरणा यॅरादारी ।
यॅना कॅर्नाइ हाज्मुखारी ।
परमानंदु बाह्यांतरीं ।
वाड्त वत्ता नित्याक ॥१९८॥

मगेल् पूर्व पुण्याईनॅं ।
परमामृत अनुभूतीनॅं ।
जाण्णापुडॅ नॅव्नॅवानॅं ।
घॅत्त उर्काशँ दिस्ता ॥१९९॥

तुगेल् नांवं प्रिय जाल्लँ ।
भॅट जाल्ली अॅक्डॅइ मॅळ्ळॅ ।
आप्लेपण भोर्नू आय्लँ ।
उपदेशूई कर्ता तूं ॥२००॥

जालेल् कश्शी आस्स सुख ।
कळ्णा माक्का हँ सांगूक ।
जाल्यार् दिस्ता हँचि अेक ।
आय्कूंकाज नॅवानॅं ॥२०१॥

सूर्यू कॅर्ता आस्ता शॅळॉ ।
जाय्द वॅ उज्जॉ अन्वाळॉ ।
गंगाप्रवाहू व्हांव्तलॉ ।
जाय्द वॅ अमंगळ ॥२०२॥

तुगेल् मुखांत्थाव्नू आय्लँ ।
नाद ब्रह्म प्रगट जाल्लँ ।
पर्मळ आय्लॉ अश्शी दिस्लँ ।
चंदनाच्या फुल्लांचॉ ॥२०३॥

आय्कूनू हँ मनांतूंची ।
देवु जाण्ता निश्चितची ।
पात्र जाल्ला सव्यसाची ।
भक्ती–ज्ञान योगाक ॥२०४॥

पार्थु संतृप्त पोळोनू ।
आय्लँची प्रेम उवकूनू ।
ताज्जॉ आवेगू तड्वोन्नू ।
म्हण्ता कृष्णु मुखारी ॥२०५॥

ब्रह्मदेवु मगेलॉ पूतू ।
गोत्तस, यॅनॅ मनांतूं ।
बरँ आय्लँ रॅ उत्रांतूं ।
की ताता बरँ कॅल्लँ ॥२०६॥

तुक्का हांवँ ताता म्हळ्ळँ ।
हांतूं विचित्र ना कस्लँ ।
हांवँ चेर्डूं नंदागॅलँ ।
म्हणोन्नू घॅत्ल्यो की ना ॥२०७॥

तूर्त आस्सॉ इत्ल्यारीची ।
खंईं प्रीती जांव्चँ हँची ।
जँ मुखारी म्हणतां तँची ।
आय्क आत्तं धनुर्धरा ॥२०८॥

विभूती तूं निम्गितू व्हयि ।
जाल्यार् त्यॉ मज्मितींथाई ।
आजीकई मेज्जूक् कांईं ।
जाय्नेती रँ कौंतेया ॥२०९॥

आंगावॅलँ रॉम मेजल्यां ।
कित्लँ आस्स कॉणाक् कळ्ळ्यां ।
तश्शी अगण्य हँ जाल्यां ।
विभूतीत्व मगेलँ ॥२१०॥

कश्शी कित्ल्यॉ निम्गू नाक्का ।
सांग्च्यॉ कळणा स्पष्ट माक्का ।
प्रसिध्द नी मुख्य तुक्का ।
सांग्तां त्याचि आय्क तूं ॥२११॥

तुवँ त्यॉ सम्जून् घॅत्ल्यारी ।
जात्ल्यॉ सग्ळ्यॉ कळ्ळेल्वारी ।
बीज हात्तांतूं मॅळ्ळ्यारी ।
कश्की रूकुर मॅळ्ताची ॥२१२॥

बाग तुगेलीची जात्ता ।
फूलफलई तँ मॅळ्ता ।
तश्शी मेळ्तली तत्त्वता ।
खूण तांतूं विश्वाची ॥२१३॥

इत्लँ मात्र खरँ पार्था ।
विस्तारू हॉ खंईं पाव्ता ।
अगाध व्याप्तीचँ बस्ता ।
तांतूं निप्पुन् आकाशई ॥२१४॥

मुद्याळी कॅसांच्या वीरा ।
धनुर्विद्येंत्ल्या शंकरा ।
अेकू आत्मा धनुर्धरा ।
सर्वै भूतमात्रांतूं ॥२१५॥

भित्तर् तांगेल्या मनांतूं ।
भाय्र तांगेल्या सुत्वांतूं
हांवं आदि आनी अंतू ।
मद्देंतूंई हांवंची ॥२१६॥

आकाशांतूं मॉड यॅत्ता ।
थंईंची तँ संचार कर्ता ।
आधारूई ताज्जॉ आस्ता ।
कश्की तग्गू-वैल्यानॅ ॥२१७॥

मॉड उब्ता आकाश उर्ता ।
जात्ता उर्ता लया वत्ता ।
हँची सूत्र हांवं धर्ता ।
सर्वै भूतमात्रांतूं ॥२१८॥

विविध ही व्यापकता ।
अमूर्ताची ही मूर्तता ।
विभूतीयोगु तत्वता ।
लक्ष दीव्नू हॉ आय्क ॥२१९॥

तांतुल्पैकी ज्यॉ विभूती ।
प्रसिध्द मुख्य आस्सती ।
तुक्का त्यॉ सांग्च्यॉ आस्सती ।
त्याची आय्क तूं आत्तं ॥२२०॥

मुखार् म्हणता कृपावंतू ।
हांवं विष्णु आदिल्यांतूं ।
भास्करू तेजापुंजांतूं ।
सहस्त्र किरणकरांचॉ जॉ ॥२२१॥

हांवं मरीची मरुद्गणांतूं ।
रजनीनाथू नक्षत्रांतूं ।
निरभ्र शीतल आकाशांतूं ।
तॉचि हांवं रँ श्रीकृष्णू ॥२२२॥

वेदांपैकी सामवेदू ।
हांवंची की तॉ गोविंदू ।
दॅवांपैकी मरुद्‌बंधू ।
महेंदू तॉ हांवंची ॥२२३॥

अक्रावँ जँ इंद्रियांतूं ।
तँची मन हॉ श्रीनाथू ।
चैतन्यु जँ ह्या भूतांतूं ।
स्वाभाविक हांवंची ॥२२४॥

अग्रेसरू रुद्रगणांतूं ।
जिंक्ला कॉण्की रवीकांतू ।
तॉ शंकरु जॉ गिरिजानाथू ।
निश्चित तॉवै हांवंची ॥२२५॥

यक्षरक्षोगणाच्यांतूं ।
शंभूसखा धनवंतू ।
कुबेरु हॉची अनंतू ।
म्हणालॉ तॉ पार्थाक ॥२२६॥

वन्हि जॉ आ ै वसूंतूं ।
मेरू सर्वै पर्वतांतूं ।
उत्तुंगु जॉ उत्तुंगांतूं ।
तॅवै दोन्नी हांवंची ॥२२७॥

स्वर्गशासना सहाय्यकारकू ।
सर्वै ज्ञाना मूळ प्रकाशकू ।
पुरोहितांतु वरिष्ठ नायकू ।
बृहस्पती तॉ हांवंची ॥२२८॥

वन्हि जाल्लॉ सहाय्यभूतू ।
शंकर–कृत्तिका लग्नांतूं ।
पूतु स्कंदु बुद्‌वंतू ख्यातू ।
सेनानी तॉवै हांवं ॥२२९॥

जलराशी जॉ जलाशयांतूं ।
समुद्र तॉकी जाण हांवं तूं ।
महातपस्वी महाऋषींतूं ।
जाण भृगू जॉ तॉ हांवं ॥२३०॥

वैकुंठनिवासी भगवंतू ।
म्हणता सर्वै उच्चारांतूं ।
ॐ हँ अक्षर जँ साद्यंतू ।
तँवै हांवं धनंजया ॥२३१॥

कोर्च्या नानाविध यज्ञांतूं ।
नामजपू हॉ बहु प्रख्यातू ।
ॐ कारासह जपतां मुक्तू ।
कर्ता तॉ जपु हांवंची ॥२३२॥

नामजपाचॉ यज्ञू उत्तम ।
आड्‌डाय्ना तॉ नित्याचॉ क्रम ।
धर्माधर्मा पावन आश्रम ।
परब्रह्म म्हण्ता वेदू ॥२३३॥

स्वस्थित निश्चळ गिरिवर्यांतूं ।
पुण्यशील जॉ हॉ हिमवंतू ।
तॉवै हांवंचि लक्ष्मीकांतू ।
अश्शी म्हण्ता श्रीनाथू ॥२३४॥

कल्पवृक्षु नी पारीजातक ।
गंधित चंदन दाहविनाशक ।
ह्या सर्वांतुंइ गौरवलायक ।
जॉ पिंपळु तॉ हांवंची ॥२३५॥

नारदु हांवं देवऋषींतूं ।
तशीची सर्वै गंधर्वांतूं ।
चित्ररथू हॉ वसुदेवसुतू ।
अश्शी म्हण्ता पार्थाक ॥२३६॥

प्रज्ञावंता रॅ प्रख्यातू ।
जॉ ह्या सर्वै सिध्दगणांतूं ।
कपिलाचार्यू नी अश्वांतूं ।
उचैश्रवा हांवंची ॥२३७॥

हस्त्यांतूं जॉ राजभूषण ।
ऐरावतु तॉ हांवं जाण ।
मॅळ्ळॅ कोर्नू सागरमंथन ।
अमृत जँ तँ हांवंची ॥२३८॥

रायू श्रेष्ठू सर्व जणांतूं ।
सर्वै तॅ तागेल्या सेवेंतूं ।
प्रजापतील्या त्या रूपांतूं ।
आस्तां हांवं धनुर्धरा ॥२३९॥

इंद्रू जॉ तॉ शतक्रतू ।
तान्नॅ धर्ल्यां जँ हात्तांतूं ।
वज्त्र श्रेष्ठ शस्त्रास्त्रांतूं ।
तँची हांवं कौंतेया ॥२४०॥

गाय्यांतूं जी कामधेनू ।
तीची हांवं विश्वक्सेनू ।
उत्पत्तीकार्यांतूं मदनू ।
जॉ तॉवै रॅ हांवंची ॥२४१॥

वासुकी सर्पाजातींतूं ।
आनी अनंतू नागांतूं ।
हॅ जॅ प्रमुख दॉग्गांतूं ।
तॅवै दॉग्गै हांवंची ॥२४२॥

श्रेष्ठू जलदेवतांतूं ।
पश्चिमेचॉ प्राणनाथू ।
वरुणू हांवं आय्क तूं ।
अश्शी सांग्ता भगवंतू ॥२४३॥

हॉ जॉ सर्वै पितृगणांतूं ।
पितृदेवता म्हुणु विख्यातू ।
तॉचि आर्यमा हांवं हांतूं ।
पार्था संशयु धोर्नक्का ॥२४४॥

पापपुण्य जगांतुलँ ।
प्राण्यांगेल्याइ मनांतूलँ ।
पोळोन्नू जॉ तांग्तांगॅलॅ ।
भोग बोरोन् दव्वर्ता ॥२४५॥

तॉची कर्मसाक्षी धर्मू ।
बजाय्सूय्तलॉ तॉ यमू ।
हांवंची हॉ आत्मारामू ।
म्हण्ता अश्शी यदुनाथू ॥२४६॥

दैत्यकुळांत्लॉ प्रल्हादू ।
पळॅ माक्का तूं ताज्ज्यांतूं ।
दैत्यकूळाचॉ पह्ला ।
कस्लोइ माक्का लाग्गना॥२४७॥

सर्वांतकू महाकाळू ।
तॉ हॉ हांवं रॅ गॉपाळू ।
पशूंत्लॉ जॉ तॉ शार्दूलू ।
हांवंची हँ सम्ज तूं ॥२४८॥

फा ीचेरी मज्ज्स्ल्याक ।
सहज व्हान्नू व्हर्तल्याक ।
पक्षांत्ल्या त्या गरुडाक ।
सम्ज हांवंची म्हुणू ॥२४९॥

सात्तै समुद्र दांटूनू ।
अॅक्क उड्डाणांतूं फीर्नू ।
पृथ्वीक प्रदक्षिणा घाल्नू ।
यॅत्तल्तस्लॉ जॉ आस्स ॥२५०॥

त्या वॅगानॅ व्हांव्तल्यांतूं ।
वारॉ हांवं रमाकांतू ।
सर्वै शस्त्रं धर्तल्यांतूं ।
जॉ श्रीरामू तॉ हांवं ॥२५१॥

धर्मू संकटांतूं पळ्ळॉ ।
कैवार घेव्नू तॉ उटाय्लॉ ।
आप्पण दुस्त्रँ धनुष्य जाल्लॉ ।
विजयी जाल्लॉ त्रेतांतूं ॥२५२॥

प्रतापी लंकेश्वरालीं ।
मस्तकं विंगड केल्लीं ।
सुवेलाचलारी दिछीं ।
आकाशांत्ल्या भूतांक ॥२५३॥

सूर्यावारीची उदेलॉ ।
दॅवांगॅलॉ मानु राक्लॉ ।
धर्माचॉ उध्दारु कॅल्लॉ ।
सूर्यवंशोत्पन्नानॅ ॥२५४॥

शस्त्रधारी शक्तिमंतू ।
तॉची हांवं सीताकांतू ।
सपुच्छ जलचरांतूं ।
नक्ररूपानॅ आस्तां ॥२५५॥

भगीरथानॅ हाळ्ळेली ।
गंगा जन्हूनॅ ती गिळ्ळी ।
जांगेंत्थाव्नु भाय्र सोळ्ळी ।
दिल्ली तागेल् ताक्काची ॥२५६॥

सर्वै जलप्रवाहांतूं ।
त्रैलोक्यांत्ल्याई न्हय्यांतूं ।
ती जान्हवी हॉ श्रीकांतू ।
म्हणालॉ तॉ पार्थाक ॥२५७॥

सृष्टींत्ल्यॉ नाना विभूती ।
अर्दइ सांगूक जाय्शनाती ।
हजारै जन्माउप्रांतीं ।
पूर्णायुष्य घेव्नुई ॥२५८॥

अश्शी मनांत् आय्लँ जरी ।
नक्षत्रं हजारांवैरी ।
व्हांटिंत् भोर्नू घेव्यां तरी ।
आकाश कोर्का मुट्टी ॥२५९॥

मेज्जूक हॅं अणूरेणू ।
घेंव्का पृथ्वी खाक्यांत् मार्नू ।
तश्शी घेंव्का जात्लँ जाण्णू ।
माक्का ह्या विस्तारांतूं ॥२६०॥

फुल्लंफळं हॅग्ल्यावेलीं ।
अॅक्फंताक वॅ मॅळ्तली ।
रुक्कासमेतची मूळी ।
निक्ळवंका त्या खात्तीर ॥२६१॥

मगेल्यॉ विशेष विभूती ।
जरी त्यॉ जाण्च्यॉ आस्सती ।
तरी निरंजन व्याप्ती ।
जाण्का जात्ली निश्चित ॥२६२॥

विभूती विंग्विंगड अश्शी ।
कित्ल्यॉ म्हुणू तूं आय्कशी ।
त्याखात्तीर अॅक्क सर्शी ।
सर्वै हांवं हँ जाण ॥२६३॥

आदि, मध्य आनी अंतू ।
हांवं अेकू ह्या विश्वांतूं ।
सूत्र अेक्कची वस्त्रांतूं ।
कश्की पार्था सर्वत्र ॥२६४॥

अश्शी आस्सं ह्या सर्वांतूं ।
कळ्णापुडॅ इत्ल्याक तूं ।
मन घाल्ता भिन्नत्वांतूं ।
तुज्जस्ल्याक योग्य वॅ ॥२६५॥

निम्मिलँ हँ तुवँ तरी ।
म्हुणू सांग्तां धनुर्धारी ।
सर्व विद्येंतूं जी थोरी ।
ब्रह्मविद्या ती हांवं ॥२६६॥

सर्वशास्त्र विचारांतूं ।
अैक्य जाल्यां वॅ चर्चेंतूं ।
तॉ जॉ चल्ता वादु तांतूं ।
तॉवै पळॅ हांवंची ॥२६७॥

तर्कुवितर्कु वाड्डत वत्ता ।
निर्णय घेंव्च्याक् कष्ट जात्ता ।
मात्र आय्कूंच्याक मॅळ्ता ।
प्रतिवादू गॉम्टॉची ॥२६८॥

विवेचनांत्लॉ जॉ वादू ।
तॉची हांवं रॅ गोविंदू ।
अक्षरांतूं अ हॉ शब्दू ।
तॉवै जाण हांवंची ॥२६९॥

समासांतूं द्वंद्व विशेषू ।
ब्रह्मा जावॉ अथवा मूसू ।
पळैना जॉ घाल्ता घासू ।
तॉ काळू रॅ हांवंची ॥२७०॥

मेरूमंदारासमेत ।
पृथ्वी कर्ता पादाक्रांत ।
जॉ समुद्र ताक्का तप्त ।
कोर्नू तेज आट्टैता ॥२७१॥

तँ तेज वारॉ निवैता ।
तँ वारँ आकाश गिळ्ता ।
तँ आकाश जॉ कव्वळ्ता ।
त्या काळाक ना पार ॥२७२॥

हांवंची तॉ हँ तूं जाण ।
अश्शी म्हण्ता लक्ष्मीरमण ।
कर्ता सृष्टीचँ उत्सृजन ।
अस्ल्या प्रळयाउप्रांतँ ॥२७३॥

त्या जीवांचॉ हांवं त्राता ।
त्या सर्वांकै हांवं पॉस्तां ।
मृत्यूकई कारण जात्तां ।
सर्वांगेल्या हांवंची ॥२७४॥

स्त्रीवर्गांतूं आय्क आत्तं ।
आस्सती विभूती सात ।
सांग्तां हांवं त्यॉ सद्यंत ।
कौतुकानॅ आय्क तूं ॥२७५॥

नित्यानित्य नवी कीर्ती ।
पार्था ती मगेली मूर्ती ।
औदार्थयुक्त संपत्ती ।
तीची हांवं हँ जाण ॥२७६॥

विवेकाचॉ आधार घेव्नू ।
मन शांत शुध्द कोर्नू ।
न्यायु दित्ता सम तोल्नू ।
ही जी वाचा ती हांवं ॥२७७॥

सर्वै जँ जँ दृष्टी पड्ता ।
ताव्वळ् मगेल् उग्डास जात्ता ।
ही जी स्मृती तीची म्हण्तां ।
हांवं हँची निश्चित ॥२७८॥

स्वहित सॉद्तली सद्बुध्दी ती ।
घृती मनाची स्थिरवृत्ती ती ।
त्रैलोक्यांतूं क्षमा हांवं ती ।
जाव्नु आस्स हँ तूं जान ॥२७९॥

अशिश सात ह्यॉ स्त्रीवर्गांतूं ।
शक्ती मगेल्यॉ घॅ लक्षांतूं ।
भवभयगजरिपु लक्ष्मीकांतू ।
सांग्ता कुंतीपुत्राक ॥२८०॥

चारीवेदांतुलॉ साम ।
तांतुलँ जँ बृहत्साम ।
तँची जाण हँ तूं नाम ।
मगेलँ म्हुणू सन्मित्रा ॥२८१॥

सर्वै छंदांतुलॉ छंदू ।
पार्था जॉ गायत्रीछंदू ।
तॉची हांवं रॅ मुकुंदू ।
खात्रीनॅ हँ जाण तूं ॥२८२॥

मार्गशिर्षु जॉ म्हैन्यांतूं ।
वसंतुई जॉ ऋतूंतूं ।
हांवं ह्या दोन्नी रूपांतूं ।
जाव्नु आस्तां प्रगट ॥२८३॥

जुगारांतूं फसवेगिरी ।
चोरी चल्ता इद्रइद्रारी ।
चुक्कोव्चांक जाय्ना तरी ।
तॉ जुगारू हांवंची ॥२८४॥

सर्वै तेजस्वी वस्तूं तूं ।
हांवं तेज त्या सर्वांतूं ।
खंचेइ कार्यामाक्षी हेतू ।
जॉ विजयु तॉ हांवं ॥२८५॥

न्यायुनीती व्यवहारांतूं ।
खंय्की आस्तां हांवं तांतूं ।
सांग्ता दॅवांगॅलॉ नाथू ।
अश्शी कुंतीपुत्राक ॥२८६॥

सत्व सत्वशीलांतूलँ ।
स्वरूप तँची मगेलँ ।
नंदलालानॅची सांग्लँ ।
यादवेंद्रू हांवंची ॥२८७॥

पूतु देवकी वसुदेवालॉ ।
मायेखात्तिर गौळी जाल्लॉ ।
घॅत्लॉ प्राणू पूतनेलॉ ।
विष चीव्नु काड्तना ॥२८८॥

चेर्ड्पणांतूंची हँ जाल्लँ ।
जगदैत्यशून्य कॅल्लँ ।
हॉड्पण इंद्रालँ मॅज्लँ ।
गोवर्धनू उब्बार्नू ॥२८९॥

यमनेक शांत कॅल्लँ ।
लास्सुन् वत्ना गोकुळ राक्लँ ।
ब्रह्याकै संभ्रमित कॅल्लँ ।
चॉर्लेल् गोकुळ दाकोनू ॥२९०॥

बाल्यावस्थेंतूंची पळॅ ।
उन्मत्त त्या केसाअस्लॅ ।
दैत्यदानवइ मॉर्ले ।
जाल्ली ती अेकी लीला ॥२९१॥

तुंवै पोळोनू आस्काज ।
कान्नार् येव्नूई आस्काज ।
तँतँची कित्लँ सांग्काज ।
यादवांतुइ हांवंची ॥२९२॥

सोमवंशज पांडव ।
तुम्मी तांतूं अेकमेव ।
तुक्काची हांवं सदैव ।
सलगीनॅं पळैतां ॥२९३॥

संन्याशाचॉं वेसू घेव्नू ।
व्हेल्ली सुभद्रेक धोर्नू ।
आम्च्यांतूं द्वैत ना म्हुणू ।
विकल्पू यॅनॅं कांईं ॥२९४॥

श्रीव्यासू जॉ सर्व मुनींतूं ।
उशनाचार्यू कविवर्यांतूं ।
सिध्दहस्त जॉ मूर्तीमंतू ।
तॉचि हांवं हॉ यदुनाथू ॥२९५॥

ब्रह्मदेवु नी सानी मूई ।
नियमन जँ ह्या सर्वांकई ।
कोर्का पड्ता नित्याकई ।
तँ अनुशासन हांवंची ॥२९६॥

सारासाराचॉं वीचारू ।
धर्मज्ञानाचॉं कैवारू ।
सर्व शास्त्रांचॉं आधारू ।
नीतीशास्त्र तँ हांवं ॥२९७॥

गुठ्टू राक्च्यांतूं जँ मौन ।
अर्जुना तँ हांवं जाण ।
ब्रहयागॅलँ ज्ञान शून्य ।
अस्ल्या मॉन्न्यामुखारी ॥२९८॥

ज्ञानी जनांगॅलँ ज्ञान ।
मगेलँ तँ रूप जाण ।
आस्सॉं पूरॉं हँ आख्यान ।
विभूतींचँ लॅक ना ॥२९९॥

पाव्सा धारेवेली धार ।
भूंयींवॅलॅ दिर्बांकूर ।
मेज्जू बोस्चेंची दुष्कर ।
पार्था सांग व्हयि की ना ॥३००॥

पाळं महासागरांत्लीं ।
सांग कश्शी मेज्जू जात्लीं ।
तश्शी विशेष मगेलीं ।
रूप पळॅ असंख्य ॥३०१॥

पाऊणशँ विभूती सांग्ल्यॉं ।
सांग्यां म्हुणू मनांत् आय्ल्यॉं ।
तांतुल्तांतूं सहज दिस्ल्यॉं ।
त्याचि ह्यॉं रॅं धनुर्धरा ॥३०२॥

प्रयोजन विस्ताराचँ ।
ना म्हुणु दिस्ता कित्लँ सांग्चँ ।
तुंवेंइ कित्लँ तँ आय्कूंचँ ।
पूरॉं हँ इत्ल्यारीची ॥३०३॥

जाल्यार् हांवं आन्नेक्फंतां ।
खूण मगेली दाकैतां ।
भूतजात जँ चिग्रता ।
बीज ताज्जँ हांवंची ॥३०४॥

सान हॉड म्होणू नज्ज ।
भेदभावू धरू नज्ज ।
हांवं अेकूची लॅक्काज ।
सर्व वस्तुजातांतूं ॥३०५॥

आनी अेकी जी सामान्य ।
तीवै सांग्तां तुक्का खूण ।
थंइं खात्रीनॅं तूं जाण ।
आस्सं हांवं अर्जुना ॥३०६॥

भूतदया नी संपत्ती ।
अेकत्र खंईं आस्ताती ।
थंईं मगेली विभूती ।
जाण पार्था निश्चित ॥३०७॥

सूर्यू अेकु आकाशांतूं ।
प्रकाशू धाई दिशांतूं ।
अॅक्ळ्यागॅल्याची आज्ञेंतूं ।
खंईं सर्वै चल्ताती ॥३०८॥

म्होण्णक्का तॉ अॅक्ळॉ म्हुणू ।
म्होण्णक्का तॉ निष्कांचनू ।
सांग फिर्ता कामधेनू ।
घेव्नू सर्वै सामग्री ॥३०९॥

कॉण कॅर्ना कस्लँ माग्ता ।
ताक्का ताव्वळ् तँ तँ दित्ता ।
विश्ववैभव जी दित्ता ।
ती विभूती मगेली ॥३१०॥

बुध्दिवंतू तूं अर्जुनु ।
कॉणाक् जग मानु दीव्नू ।
चल्ता तॉची हांवं म्हुणू ।
सम्जुन् तुवँ घेंव्काज ॥३११॥

तँ कनिष्ठ की हँ श्रेष्ठ ।
वीचारू हॉ दोषनिष्ठ ।
सर्वै जग समाविष्ट ।
जाल्यां न्हवॅ मज्ज्यांतूं ॥३१२॥

हँ चांग तँ साधारण ।
कस्ल्याक हँ विंगड्तन ।
भेदाभेदाचँ लांछन ।
व्यर्थ दिंव्चँ बुध्दीक ॥३१३॥

तूप कस्ल्याक घाट्काज ।
अमृतै वॅ आट्टोंव्काज ।
की उज्वँडावँ सोद्काज ।
वारयागॅल्या आंगांतूं ॥३१४॥

पॉट फाटी सूर्यागेली ।
पोळोंच्या गॅछयारी जात्ली ।
दृष्टीची कुर्डी आम्गेली ।
हांवं पूर्णघनत्व ॥३१५॥

रूप आस्ता विभूतीचँ ।
मर्यादित स्वरूपाचँ ।
ताव्वळी ह्या अपाराचँ ।
जाय्द् वॅ तांतूं दर्शन ॥३१६॥

मगॅलॉ पूर्ण अेकांशू ।
भोर्नू उर्ला अवकाशू ।
भेदभावू हॉ निःशेषू ।
काण्णू पळॅ अेकत्व ॥३१७॥

श्रीकृष्णागॅलँ वचन ।
विद्वज्जनांगॅलँ वन ।
वसंताचँ आगमन ।
विरक्तांक अेकांतू ॥३१८॥

दाकैता भेदू हँ अेक ।
सोड्का आम्मी हँ आन्नेक ।
उल्लैता तूं अॅक्काअेक ।
अश्शी म्हण्ता कौंतेयू ॥३१९॥

सूर्यू सांग्ता वॅ जगाक ।
धूर व्हराती काळ्काक ।
तुगेल्या अस्ल्या उन्नांक ।
कळ्णा कस्लँ म्होण्काज ॥३२०॥

यॅवॉ नाम अेकवेळू ।
जॉड्ता कान्ना मुखा मेळू ।
वत्ता भेदाभेदमळू ।
मनांत्लॉ हँची सत्य ॥३२१॥

चंद्रबिंबांतूं जॉ रिग्ता ।
तॉ म्हणता भो धग्गू जात्ता ।
कस्लेंइ उल्लैल्यारी चल्ता ।
तुज्जस्ल्या सन्मान्यांनीं ॥३२३॥

नानाविध ह्यॉ विभूती ।
सांग्तना भेद दिस्ताती ।
जाल्यारी ही भेदभ्रांती ।
सर्ली की नातुगेली ॥३२५॥

ताव्वळ् पार्थू दॅवाक् म्हणता ।
तुज्जइत्ल्याक तूंची जाण्ता ।
जाल्यार् माक्का इत्लँ कळ्ता ।
की तूं सर्व विश्वांतूं ॥३२७॥

संजयाक दुःख जाल्लँ ।
लेक्कनॅशीलँ पळैलँ ।
कस्लँ दुर्भाग्य हागेलँ ।
कुर्डॉ भॉग्रभित्तरी ॥३२९॥

मनाक, प्रचीती मेळ्ळी ।
दॉळ्यांकै ती दिस्काशीली ।
हीची ताक्का तान लाग्ली ।
ताळ्वून् घेंन्च्या जाय्नाची ॥३३१॥

कल्पवृक्षाचॉ हॉ हॅग्लॉ ।
सांग कश्शी निष्फल जात्लॉ ।
हॉ जँ माग्ता तँ तॉ दित्लॉ ।
दिल्लेल्शिवाय् राब्बद् वॅ ॥३३३॥

हँ हस्तोदकासमान ।
पूर्वपुण्याईचँ दान ।
तॉ तूं परब्रह्म पूर्ण ।
मॅळ्ळॉ आत्तं ना भेदू ॥३२२॥

तरीसुद्दां हँ दॅवानॅ ।
आय्कून् घेव्नू स्वखुषीनॅ ।
पोट्टोळँ म्हळ्ळँ प्रेमानॅ ।
कोप्पू नाक्का मज्जेरी ॥३२४॥

हँची पोळोन् घेंव्यां म्हुणू ।
उल्लैलाँ हँ नॅवन कोर्नू ।
कळ्ळँ मर्म सम्जून् घेव्नू ।
सॉळ्ळा तुवँ हॉ भ्रमू ॥३२६॥

संजय म्हणता अश्शी पार्थू ।
साक्षात्काराक् जाल्लॉ पात्रू ।
हँ आय्कूनुइ धृतराष्ट्र ।
बस्लॉ उल्लैनस्तना ॥३२८॥

पार्थाक् मात्र जाल्ली खुषी ।
मनांत् विचार आय्लॉ अश्शी ।
उध्दार कोर्नू घेव्येदू कश्शी ।
स्वतागॅलॉ आनीकै ॥३३०॥

तागेल्या दोन्नी दॉळ्यांक ।
रूप तँ विश्वव्यापक ।
दिस्का ध्यासू हॉ सात्त्विक ।
धर्लॉ तागेल् मनानॅ ॥३३२॥

प्रल्हादानॅ तॉ सर्वांतूं ।
आस्स म्हळ्ळँ तॉ वीषांतूं ।
प्रगटै जाल्लॉ क्षणांतूं ।
तॉचि सद्गुरू पार्थालॉ ॥३३४॥

पार्थू कश्शी हँ निम्मिता ।
विश्वरूप दाकै म्हणता ।
निवृत्तीलॉ दासु सांग्ता ।
हँची तुम्कां मुखारी ॥३३५॥

**॥ ज्ञानदेवु सांग्ता गीता । मधु अनुवादु कर्ता ।**
**धाव्वॉ अध्यायु बोरोन् जात्ता । विभूतियोगाचॉ ॥**

# इक्रावॉ अध्यायु

इक्राव्या ह्या अध्यायांतूं ।
कथा ही दोन्नी रसांतूं ।
थंइं पार्था तूं मज्ज्यांतूं ।
सर्व विश्व पळैशी ॥१॥

शांतरसाच्या सदनांतूं ।
आय्ला मेळुक रसु अद्भूतू ।
दुस्त्रॅई रस ह्या पक्तींतूं ।
तॉचि पाव्तलॅ सन्मानू ॥२॥

लग्न हॉक्कल होरेतालँ ।
हॉराण वत्त सॉय्रयांगॅलँ ।
रसांकै त्या बैसू मॅळ्ळँ ।
तश्शी भाषेपाल्कैंतूं ॥३॥

कश्की हरिहर ॲक्डॅ आय्लॅ ।
आनि जँ प्रेमालिंगन जाल्लँ ।
तँ ह्या दोन्नी दॉळ्यां दिस्लँ ।
अेकरूप समरसात्मक ॥४॥

अमासेक रविशशी ।
मॅळ्ताती तॅ ॲक्डॅ जश्शी ।
दोन्नी रस हांगा तश्शी ।
मेळ्णू अेक जाल्याती ॥५॥

गंगा–यमुना प्रवाह मॅळ्ळॅ ।
तशि रसांचँ प्रयाग जाल्लँ ।
तीर्थाचेरी पावन जात्लँ ।
जग हँ श्रवणस्नानानॅ ॥६॥

शांत नि अदूभुत हँ दिस्ताती ।
गीता तांतूं गुप्त सरस्वती ।
त्रिवेणि संगमु हॉ त्यान्मितीं ।
म्होण्चँ अश्शी भोउचित ॥७॥

उदार श्रीगुरु निवृत्तीनॅ ।
सांगैल्यां हँ मगेल् मुखानॅ ।
श्रवणइ कॅल्यां सुबोध तान्नॅ ।
स्नान कराती तीर्थांतूं ॥८॥

संस्कृतभाषेचँ तट दुस्तर ।
बांद्लॅ घाट मराठी सुस्तर ।
ह्या श्रीगुरुनॅ, हॉचि परात्पर ।
आनि धर्माचँ निधानई ॥९॥

कॉणेइ श्रध्देनॅ येव्येद ।
तीर्थांतूं स्नान कोर्येद ।
विश्वरूप पोळोव्येद ।
सुट्तलॉ हॉ भवबंधू ॥१०॥

आस्सॉ अश्शी साकार जाल्लॅ ।
रस भावांनीं भोर्नू आय्लॅ ।
अैश्वर्य ह्या जगाक मॅळ्ळँ ।
आय्कूंचँ हँ सुखानॅ ॥११॥

रूपा आय्लॅ शांताद्भूत।
बाकीच्यांकै शोभा प्राप्त ।
इत्लेंची न्है, हँ साक्षात ।
प्रगट जाल्लँ कैवल्य ॥१२॥

तॉ हॉ इक्रावॉ अध्यायू ।
दॅवालॉ विश्रांती निलयू ।
थंईं पाव्लॉ हॉ कौंतेयू ।
भाग्यवानु हॉ श्रेष्ठ खरॉ ॥१३॥

अर्जुनुची हॉ इत्त्या म्होण्का ।
सर्वांनीं थंइं वच्चुन् पांव्का ।
गीतेचॉ भावार्थू जाण्का ।
सुबोध ह्या भाषेंत्थान्‌नू ॥१४॥

लक्ष दीव्नू आय्कयाती ।
ही मगेली नम्र विनंती ।
तुम्मी सज्जन म्हळ्ळेल्मितीं ।
मान्य कोर्नू घॅत्लॅची ॥१५॥

सभेंतूं हँ तुस्ल्यांक ।
योग्य न्हई सांग्चँ अेक ।
जाल्यार् माक्का अपत्याक ।
मॉग्गार्न् लाग्गी घेय्याती ॥१६॥

शिकैलेलँ पोपट म्हण्ता ।
सांगिल्वारी चेर्डूं कर्ता ।
संतोषार्नॅ मान धॉल्ता ।
आव्सूगेली व्हयि न्हवॅ ॥१७॥

तश्शी हांवं जँ उल्लैतां ।
शिक्कल्यां तँ तुम्मी नाथा ।
तुम्गेलँची हँ सर्वथा ।
तुम्मीची हँ आय्कया ॥१८॥

ब्रह्मविद्येची ही सशी ।
तुम्मी लाय्ली वाड्डॉ तश्शी ।
श्रवणसिंचन जश्शी ।
मॅळ्तल् तिक्का तुम्गेलँ ॥१९॥

भावरसाचीं फुल्लं फुलोती ।
पूर्णार्थार्नॅ फळंइ भरोती ।
जगांतु जावॉ धर्मजागृती ।
सद्‌गुरुनाथा तुम्चॅमितीं ॥२०॥

ह्या उत्रार्नॅ प्रसन्न जाल्लॅ ।
संत म्हणालॅ उचितचि कॅल्लँ ।
मुखारि पार्थार्नॅ जँ म्हळ्ळँ ।
तँची आम्कां तूं सांग ॥२१॥

कृष्णार्जुन जँ उल्लैल्याती ।
सांगयाति तँ मज्मुखांत्री ।
असाध्य तरि ह्या मूढामितीं ।
अश्शी म्हण्ता ज्ञानेशू ॥२२॥

पाल्लॉ खात्लॉ वानरु जात्ता ।
विजयी, आनि तॉ रावणु हर्ता ।
इक्रा अक्षौहिणिदल जिंक्ता ।
ॲक्ळॉ अर्जुनु तुम्चॅमितीं ॥२३॥

समर्थु जँ जँ मनांतुं हाड्ता ।
जगांतुं तँ तँ सर्वै जात्ता ।
संतकृपा ही आस्का पड्ता ।
तश्शि उरॉ ती मज्जेरी ॥२४॥

तत्त्वबोधु ह्या गीतेचॉ ।
सांग्ता नाथू वैकुंठीचॉ ।
तॉची आत्तं हांवँ सांग्चॉ ।
लक्ष दीव्नू आय्कया ॥२५॥

गीतेअस्लॉ होड्डु ग्रंथू ।
सांग्लॉ कृष्णार्नॅ साद्यंतू ।
त्या परमात्म्यालँ वेदांतूं ।
वर्णन जाय्नॅ परिपूर्ण ॥२६॥

त्या गीतेचॉई गूढार्थू ।
कळणा म्हणता गिरिजानाथू ।
थंईं मज्जस्ल्यानॅ हातू ।
जोण्णू बस्चँ बरँची ॥२७॥

अेकुचि तान्नॅ ध्यासू धर्लॉ ।
की विश्वाचँ दर्शन घॅत्लाँ ।
ह्या हेतूनॅ विचारु कॅल्लॉ ।
कश्शी बा हँ सांग्येद ॥२८॥

जरी जाल्लाँ अनुभविकू ।
तरी देवु सर्वात्मकू ।
तॉची दिस्का विश्वात्मकू ।
ह्या दॉळ्यांक प्रत्यक्ष ॥२९॥

अश्शी जरी मनांत् आय्लँ ।
दॅवाक् कश्शी सांग्का जात्लँ ।
विश्वरूप तँ तुगेलँ ।
तूंची दाकै रॅ माक्का ॥३०॥

कॉणेइ खंईं आजिथाई ।
प्रिय भक्तानॅ सुद्दांई ।
निम्गिनॅ नी ही वत्ताई ।
कश्शी कोर्ची बा हांवँ ॥३१॥

जरी मगेली सलगी ।
अंत्रंग तँ लक्ष्मीलाग्गी ।
जाल्यारी तीवै माक्षेली ।
निम्गूंच्याक तिल्यागी ॥३२॥

गरुडाली रॅवा जाल्ली ।
तित्ली जाय्नॅ बा मगेली ।
जाल्यार् तागेल् सुद्दां राब्ली ।
वाचा कश्शी नोळीत ॥३३॥

सनकादिक भो लाग्गीचॅ ।
तांकांइ सुच्चनॅ निम्गूंचँ ।
तँवै गोकुळ प्रीतीचँ ।
हांवं ना त्या सालाक ॥३४॥

सानु जाल्लॉ तॉ तांच्यांतूं ।
निप्लॉ अेक्फंतां गर्भांतूं ।
अश्शी चुक्कैता श्रीकांतू ।
दर्शन दिंव्चॉ प्रसंगू ॥३५॥

स्वरूपाक आप्णांतूंची ।
दव्वोर्न् घॅत्ल्यां जँ गुप्तची ।
दाकै दॅवा माक्का तँची ।
कश्शी  सांगूं सट्नॅ हँ ॥३६॥

तँची रूप दिश्शिल्विना ।
मना समाधान जाय्श्ना ।
वांचुन् वर्ता की वरश्ना ।
कळणा नुस्तँ बस्ल्यारी ॥३७॥

थॉडँ हळूची निम्गिता ।
तागेल् इच्छा कॉणा कळता ।
तान्नॅ म्हळ्ळेल्वारी चल्तां ।
अश्शी कॅल्लॉ विचारू ॥३८॥

जरी जाल्लॉ तॉ सद्गद ।
आय्कूनू तॅ दोनी शब्द ।
विश्वरूप तँ अगाध ।
दाकैलँ त्या दॅवानॅ ॥३९॥

गाई वास्त्राक पोळोनू ।
उब्रता सट्नॅ उटाव्नू  ।
धरीद वॅ ती तड्वोनू ।
सांगा धार दुद्दाची ॥४०॥

पांडवांगॅलॅं रक्षण ।
कोर्च्या धाव्लॉ रानवन ।
आत्तं म्हणद की दीन ।
दर्शन निम्गिल्यारी ॥४१॥

मूर्तिमंत प्रेमदेवू ।
पार्थू ताक्का दित्ता चेवू ।
ह्या दॉग्गांतूं द्वैतभावू ।
उल्र्यारीची आश्चर्य ॥४२॥

पार्थू उल्लैत् आस्तनाची ।
देवु आप्णा इत्ल्याकची ।
विश्वरूप धर्ता तॉची ।
आय्कयाती प्रसंगू ॥४३॥

उल्लोंच्याक जँ ना साध्य ।
कॅल्लँ तँची सुसंवाद्य ।
कृपा तुगेली अगाध ।
अश्शी म्हण्ता अर्जुनु ॥४४॥

पांचै भूतं खंईं लीन ।
खंईं माया जीवु निमग्न ।
परब्रह्म तँ, तूं तँ स्थान ।
अखेरच्या विश्रांतीचँ ॥४५॥

आप्णॅची तँ आप्णागॅलँ ।
आप्णालाग्गी दव्वोर्न् घॅत्लँ ।
वेदांकै कळ्णाशी कॅल्लँ ।
तूंवँ कंजूषावारी ॥४६॥

आजि तुगेल्या हॅर्द्यांतूलँ ।
अध्यात्मतत्त्व जँ सांग्लँ ।
ताज्वैल्यानॅ उव्वाळ्ण् घाल्लँ ।
शंकरानॅ ऐश्वर्य ॥४७॥

तुम्मी ती जी वस्तू दिल्ली ।
तत्क्षण ती हांवँ घेत्ली ।
अश्शी हांवँ म्हळ्ळयार् येत्ली ।
द्वैतबुध्दी आम्च्यांतूं ॥४८॥

माक्का बुड्तना पोळोनू ।
तुंवँ स्वता उड्की मार्नू ।
मोहाच्या उव्वारांत्थान्‌नू ।
भाग्र काळ्ळँ हॅ खरँ ॥४९॥

तुज्विना ह्या त्रैलोक्यांतूं ।
दुस्त्री कांईं नाची वस्तू ।
आम्मी वॅग्ळॅ म्होण्णू घातू ।
आम्गेल् आम्मी कर्ताती ॥५०॥

अर्जुनु म्हुणू ह्या जगांतूं ।
देहभावू हॉ मनांतूं ।
धोर्नू हांवँ गणगोत्रांतूं ।
लॅक्लँ ह्या कौरवांक ॥५१॥

वैल्यानॅ हांवं मार्तलाँ ।
पाप घेव्नू खंईं वत्लाँ ।
वाय्ट सॉप्नं पळैतालाँ ।
तुंवँ माक्का जागैलँ ॥५२॥

तान्नेनॅ भो व्याकुळ जाल्लाँ ।
पाव्सा मॉड सोण्णू धांव्लाँ ।
आनि दॅवा सोद्दू लाग्लाँ ।
मृगजळ मायावी ॥५३॥

वस्तराचॉ सर्पू चाब्लॉ ।
सर्वांगाक थर्थर सुट्लॉ ।
मर्ता म्हुणू व्यर्थ भिल्लो ।
भ्रमांत्थान्‌नू सोडैलॉ ॥५४॥

कश्की रूप स्वतागॅलँ ।
सिंहाक बांय्येंतूं दिस्लँ ।
उड्की मार्तना वांचैलँ ।
तश्शी देहभावांतूं ॥५५॥

सांगातीची ॲक्फंताक ।
उव्वार सात्तै समुद्रांक ।
यॅवॉ आत्तं ह्या क्षणक ।
अश्शी ताव्वळ् दिश्शिलँ ॥५६॥

जग बुड्डॉ हँ निःशेष ।
पॉडॉ कोस्सोळ्णू आकाश ।
येव्नयेती मज्जेर दोष ।
गोत्रज संघर्षाचॅ ॥५७॥

अहंकारू तॉ मात्तुलॉ ।
दुराग्रहांतूंई बुड्लॉ ।
कोणु माक्का काड्तल्शिलॉ ।
तूंची पाव्लॉ वॅळारी ॥५८॥

नात्तिल् हांव्पण पांग्रोन् घॅत्लँ ।
न्हइशिल्यांक मगेल् म्हळ्ळँ ।
पिश्शँ हॉड मनांत् धर्लॅ ।
तँ देवरैलँ सर्वई ॥५९॥

लास्सुन् वच्चॉ प्रसंग शिलॉ ।
तांत्थाव्नू हॉ देहुवांच्लॉ ।
चैतन्याक लाग्गिल् ज्वाळॉ ।
त्यॉवै तुवँ निवैल्यॉ ॥६०॥

समुद्र जाव्नू दुराग्रहानॅ ।
गिळ्ळी बुध्दी मग्रूरीनॅ ।
कश्की पृथ्वी बळजब्रीनॅ ।
हिरण्याक्ष त्या दैत्यानॅ ॥६१॥

वराह जाव्नू येंव्का पळ्ळँ ।
तिक्का तुवँ उब्बार्न् धॅर्लं ।
तश्शी बुध्दीक् स्थानार हाळ्ळँ ।
सामर्थ्य हँ तुगेलँ ॥६२॥

मज्खात्तीर कॅल्लेल्याचँ ।
कश्शी कित्लँ बा उल्लोंचँ ।
दिल्यां हँ पंचप्राणांचँ ।
दान तुवँ उदारा ॥६३॥

व्यर्थ कश्शी दॅवा वत्लॅ ।
परिश्रम हॅ तुगेलॅ ।
बरँ जाल्लँ यश मॅळ्ळँ ।
मोहांत्थाव्नू सुट्लॉ रॅ ॥६४॥

आनंदाच्या तळ्यांतूलीं ।
तुगेल् दॉळॅ कमळं जाल्लीं ।
प्रसन्नतेनॅ भर्लेलीं ।
दॅव्ळंशी हॅ दिस्ताती ॥६५॥

यॅद वॅ तॉ मोहमेळू ।
कस्ल्याक् हॉ विचारू मळ्ळू ।
निव्वद वॅ वडवानळू ।
मृगजळवृष्टीनॅ ॥६६॥

दानशूर कृपाळू तूं ।
तुगेल्या ह्या गाभारयांतूं ।
वत्त आस्सं ब्रह्मरसांतूं ।
अंतर्बाह्य तिंबूनू ॥६७॥

मोहपाश गळ्णू पळ्ळॅ ।
हांतूं आश्चर्य तँ कस्लँ ।
तुगेलॅ हांवँ पाय धॅर्ल ।
सांग उध्दार जाय्श्ना वॅ ॥६८॥

हे कमलाक्षा हे कमलेशा ।
कोटीसूर्यप्रकाशा ।
तुल्याग्थान्नू आजि धरेशा ।
आय्कत आस्सं हँ हांवं ॥६९॥

जन्मा येंव्चँ कॉणामितीं ।
वच्चँ खंईं हाज्जउप्रांती ।
विस्तार कोर्नू ती प्रकृती ।
म्हुणू सांग्लँ मल्यागी ॥७०॥

महात्म्य ज्या परमात्म्यालँ ।
वर्णन कोर्नू धन्य जाल्लॅ ।
त्या वेदांनीं दाकोन् दिल्लँ ।
मूळस्थान तुगेलँ ॥७१॥

शब्दसृष्टी उद्या आय्ली ।
धर्माचीं रत्नं उब्जलीं ।
तींवै दृढ धोर्नू बस्लीं ।
दिव्य चरण तुगेलॅ ॥७२॥

अश्शी महात्म्यप्रशस्ती ।
विविध मार्ग मॅळ्ताती ।
तुल्याग् तॅ येव्नू पाव्ताती ।
आत्मानंदू दित्ताती ॥७३॥

आकाशांत्ली धूळी विर्ता ।
सूर्यबिंब स्पष्ट दिस्ता ।
शॅळॉ धूर कर्तां कर्तां ।
दिस्सू लाग्ता उद्दाक ॥७४॥

सर्पू वँटाळ् सोण्णू वत्ता ।
चंदनाचॉ स्पर्शू मॅळ्ता ।
पिशाच्च निवाळ्सून् वत्ता ।
लाग्ता धन हात्ताक ॥७५॥

प्रकृती आड यॅत्ताली ।
दॅवान् पेल्दीकानॅ व्हेल्ली ।
जाणीव बुध्दीक दिल्ली ।
परतत्त्वस्पर्शाची ॥७६॥

ह्या सामर्थ्याचॉ भर्वसॉ ।
आय्लॉ जाल्यार् जाल्लां पिस्सॉ ।
ध्यासू अेकू नवीनूसॉ ।
घॅत्ला पळॆ जीवानॅ ॥७७॥

भीड धल्यारी तुल्यागी ।
निम्गूंचँ हँ कॉणालाग्गी ।
तुज्शिवाई दुस्त्री बगी ।
सांग माक्का गोत्तस् वॅ ॥७८॥

उद्का ऋण नाक्का म्हुणू ।
भाग्र आय्ल्यारी तॉ मीनू ।
अथवा स्तनपान सोण्णू ।
चेर्डूं कश्शी वांचद ॥७९॥

म्हुणू भीडे बंधन सॉड्तां ।
मनांत् यॅत्ता तँ उल्लैतां ।
ताव्वळ् देवु म्हण्ता पार्था ।
सांग तुगेल् मनांत्लँ ॥८०॥

ताक्का म्हण्ता हँ अर्जुनू ।
की जँ सांग्लँ तँ सम्जूनू ।
घेत्ली प्रचीती पोळोनू ।
शांतइ जाल्लँ हँ मन ॥८१॥

कॉण संकल्पू चलैता ।
लोकु यॅत्तवत्त आस्ता ।
तॉची तूं हँ तूंची म्हण्ता ।
तँवै स्वता कारण ॥८२॥

स्वरूप तँ सोण्णू निज ।
द्विभुज वा चतुर्भुज ।
जाव्नू आय्लॉ राक्ली लाज ।
दॅवांगेली युगान्युगं ॥८३॥

पैलॉ क्षीराब्धीशयनू ।
मत्स्यकूर्मावतरणू ।
सगुण लीला दाकोनू ।
स्वरूप जॅ तूं धर्ता ॥८४॥

ताज्जँ कर्ताती गायन ।
श्रुतीस्मृती संतजन ।
योगी चित्तांतूं स्मरण ।
सनकादि प्रेमार्नॅ ॥८५॥

तुगेलँ अगम्य अस्लँ ।
विश्वरूप हँ आय्कलँ ।
पोळोंच्याक तँ मगेलँ ।
मन जाल्यां अधीर ॥८६॥

दॅवा तुवँ भीड सोळ्ळी ।
म्हळ्ळँ सांग इच्छा कस्ली ।
अेक्कीची होडी मगेली ।
तीची इच्छा आय्क तूं ॥८७॥

दॅवा दिव्य विश्वात्मक ।
रूप दिस्सॉ ह्या दृष्टीक ।
तान लाग्ल्या रॅ जीवाक ।
कॅर्न्की धोर्नू मगेल्या ॥८८॥

जाल्यार् अेक मनांत् यॅत्ता ।
तँची पोळोंची योग्यता ।
आस्स की ना हँची दिस्ता ।
मज्ज्यांतूं ती सर्वथा ॥८९॥

कळ्णाशी हँ जाल्यां माक्का ।
सर्वज्ञा कळ्णा वॅ तुक्का ।
कश्शी कळ्द तागेल् ताक्का ।
रोगू रोग्याक दॅवा ॥९०॥

इत्ली थाई लाग्ला तान ।
समुद्रुई नप्रॉ जाण ।
जाय्द की ना समाधान ।
हॅची लाग्ल्यां दिस्सूक ॥९१॥

गोंधोळ्ण् गॅल्यां मन भोची ।
उपाय कस्लॉ दिस्सनाची ।
ह्या संभ्रमांतूं आव्सूची ।
जांव्का जात्ता चॅर्डाक ॥९२॥

तश्शी पळॅ तूं अनंता ।
मगेल् अॅक्ळाक पात्रता ।
तुगेली विश्वात्मकता ।
दाकई तूं माग्गिरी ॥९३॥

हांवं सत्पात्रु आस्ल्यारी ।
करी कृपा तूं मज्जेरी ।
जाव्नयॅ कॅप्या इद्रारी ।
पंचमात्लँ गायन ॥९४॥

चातकाक उद्दाक् दित्ना ।
मॉड जगाक विस्सर्ना ।
जाल्यार् व्यर्थ वत्ता कृष्णा ।
तँची फात्रार् पळ्ळ्यारी ॥९५॥

चकोराक दित्ना चांदणँ ।
दुस्यांक् तँ मेळ्णयॅ म्हण्णॅ । व्यर्थ
न्हवॅ उज्वाडार्नॅ ।
येंच्चँ कु मुखारी ॥९६॥

विश्वरूप दाकैशी तूं ।
पूर्ण खात्री ही मनांतूं ।
जाणत्या नी नॅणत्यांतूं ।
समदृष्टी तुगेली ॥९७॥

तुज्वारीची तूं उदारू ।
कर्ना पात्रापात्र विचारू ।
वैरयांगॅलॉई उध्दारू ।
कॅछा दीव्नू कैवल्य ॥९८॥

मोक्षु मेळचँ कठीणची ।
तॉवैं तुगेल् चरणांची ।
सॅवा कर्ता येंव्ची वच्ची ।
खंईं सांग्ता तूं थंईं ॥९९॥

सनकादिकांवारीची ।
मुक्ती दिल्ली सायुज्याची ।
पूतनेक जी तुक्काची ।
आय्ली दिंव्च्याक विष ॥१००॥

यज्ञू जाल्लॉ राजसूय ।
आय्लँ थंईं लोकत्रय ।
शत अपराध सह्य ।
कॅल्लॅ क्षमाशांतीनॅं ॥१०१॥

शिशुपालु तॉ उन्मद ।
ताक्का दिल्लँ मोक्षपद ।
ध्रुवु तँ अढळपद ।
आय्यिलॉ वॅ माग्गूक ॥१०२॥

बाप्सू पाय्यार् बोस्चँ शिलँ ।
त्याखात्तीर तप कॅल्लँ ।
आनी ताक्का स्थान दिल्लँ ।
चंद्रसूर्याकै श्रेष्ठ ॥१०३॥

पळ्ळेल्यांक तूं उब्बार्ता ।
अेकू तूं उदारु दाता ।
अजामीळु यॉ रे पुत्ता ।
म्हणतनाची तूं थंईं ॥१०४॥

लात हॅर्द्यारी जी मार्ली ।
तुक्का भूषण ती जाल्ली ।
वैरी शंखासुरागेली ।
खूण शंखू हात्तांतूं ॥१०५॥

अपकार कर्तल्यांकै ।
पाव्ता पात्र नात्तिल्यांकै ।
अस्लॉ दाता भिक्षेकई ।
बळीगेल्या बाग्लांतूं ॥१०६॥

भजनपूजन कॅर्न ।
कड्डेर् मात्र गणिकेनॅं ।
'रघू'क् आपैलँ मॉग्गानॅं ।
नी मेळैलँ वैकुंठ ॥१०७॥

कस्लेंइ जावॉ बा निमित्त ।
पाव्ताथैं तूं अकस्मात ।
कश्शी जाय्द विपरीत ।
मल्याग् मात्र चल्क ॥१०८॥

माग्मागिलँ तँ जी दित्ता ।
कामधेनू सर्वांक् पाव्ता ।
तिगेल् पाड्डॉ कृपावंता ।
भुक्केन्ॅ व्याकुळ् जाय्द वॅ॥१०९॥

म्हुणू मगेली विनंती ।
कॅल्लेल्शिवाई पूरी ती ।
राब्बश्ना तूं जाल्यार् शक्ती ।
दिंव्का मात्र पोळोंची ॥११०॥

विश्वस्वरूप अगाध ।
मगेल्या दॉळ्यां दिस्सद ।
अश्शी जरी मना यॅद ।
करी इच्छा ही पूर्ण ॥१११॥

अश्शी म्हणत आस्स पार्थू ।
तित्ल्भित्तरी भगवंतू ।
उतावीळ त्या क्षणांतूं ।
जाल्लॉ ताक्का पांच्याक ॥११२॥

अर्जुनु हॉ वर्षाऋतू ।
कृष्णु मेघु कृपामृतू ।
वसंतऋतू तॉ पार्थू ।
श्रीकृष्णु तॉ कोकीळू ॥११३॥

पुन्वेचॉ पोळोनू चंद्रू ।
उचंबळता समुद्रु ।
वाड्ली प्रीती ह्या दॉग्गांतूं ।
प्रेमोल्हासू कृष्णाक ॥११४॥

प्रसन्नतेच्या भॉरांतू ।
उल्लैता उच्चस्वरांतूं ।
पार्था पळॅ पळॅ हीं तूं ।
नाना रूपं मगेलीं ॥११५॥

विश्वरूपाचँ दर्शन ।
मॅळॉ म्हणालँ तँ मन ।
जाल्यारी देवू आप्पण ।
जाल्लॉ विश्व सर्वत्र ॥११६॥

दॅवागेल्या औदार्याची ।
सीमा म्हुणू कांईं नाची ।
माग्गील्याकै सर्वस्वची ।
दित्ता हजार वांट्यानॅ ॥११७॥

हजार दॉळ्यां शेषाकई ।
आनी चारी वेदांकई ।
इत्लँ न्हई लक्ष्मीक् थाई ।
पोळोंच्याक मॅळ्णॅ हँ ॥११८॥

हँची नाना नमुन्यारी ।
विश्वरूप धनुर्धारी ।
पळैतलॉ खरोखरी ।
थोर भाग्याचॉ म्होण्का ॥११९॥

जागी आश्शीलॉ निद्दता ।
सॉप्नांत् दिश्शीलँ तॉ जात्ता ।
तश्शी देवु रूप धर्ता ।
अनंत ब्रह्मांडाचँ ॥१२०॥

कृष्णपण सोण्णू दिल्लँ ।
योगैश्वर्य प्रगट कॅल्लँ ।
पार्थाल्या स्थूलदृष्टींत्लँ ।
धूर कॅल्लँ अज्ञान ॥१२१॥

जाल्यार् ताक्का दिस्सद् की ना ।
कस्लेंइ हँ तॉ मनांत् हाण्णा ।
एेक्क म्हणता हँ अर्जुना ।
पळॅ पळॅ तूं सर्व ॥१२२॥

माक्का तुवँ दाकै म्हळ्ळँ ।
तँची तुक्का हँ दाकैलँ ।
भोर्नू गॅल्यां पळॅ सग्ळँ ।
मगेल्याची रूपांतूं ॥१२३॥

एेक स्थूल एेक सुक्डँ ।
एेक दीग एेक गुड्डँ ।
एेक थॉर एेक गुड्डँ ।
एेक अवाढव्यची ॥१२४॥

अेकु उर्पिंडू हॉ शांतू ।
अेकु आल्शी हॉ कामांतूं ।
हॉ मॉव्वाळू हॉ आप्‌णांतूं ।
हॉ तॅमयि उग्रूची ॥१२५॥

हँ घॉरेता तँ जाग्रत ।
हँ गॉम्टँ तँ नापसंत ।
हँ हिम्टँ तँ मुक्तहस्त ।
हँ कोपिष्ट पळॅ तूं ॥१२६॥

अेक नम्र हँ उन्मत्त ।
हँ स्तब्ध तँ आनंदित ।
हँ गव्जेरी तँ नोळीत ।
मेव्ळिग्सार हँ अेक ॥१२७॥

अेकु लोभी हॉ विरक्तू ।
अेकु जागी तॉ निद्रांतूं ।
हॉ संतुष्टू नी तॉ आर्तू ।
पळॅ प्रसन्नू अेकू ॥१२८॥

हॉ निःशस्त्रू तॉ सशस्त्रू।
हॉ रुद्रू नी तॉ सन्मित्रू ।
हॉ भीषणू तॉ विचित्रू ।
पळॅ अेक तंद्रींतूं॥१२९॥

हॉ खॅळ्ता चारीचौगांतूं ।
तॉ दीनांक दित्ता हातू ।
कॉप्पानॅ हॉ कर्ता घातू ।
अेकु राब्ला तटस्थ ॥१३०॥

अश्शी नाना नमुन्यानॅ ।
दिव्य तेज प्रकाशानॅ ।
भर्ल्यां हँ नाना वर्णानॅ ।
विश्वरूप मगेलँ ॥१३१॥

अेक ताप्पिल्‌ँ भांगारशँ ।
अेक घनदाट पिंग्शँ ।
अेक सांज्जे आकाशशँ ।
दिस्ता सिंदुवर्णाचँ ॥१३२॥

नाना रत्नांनीं जडित ।
अरूणवर्णरंगीत ।
ब्रह्मांड हँ सुशोभीत ।
जाल्यां कुंकुमवर्णानॅ ॥१३३॥

स्फटिकावारी निर्मल ।
इंद्रनीळशँ सोज्वळ ।
दिस्ता की हँची काज्जळ ।
रक्तावारी हँ तांबडँ ॥१३४॥

हँ झग्‌झगी भांग्रावारी ।
तँ श्यामल मॉडावारी ।
हँ हळ्दुव्या चांप्यावारी ।
अेक पाच्व्या रंगाचँ ॥१३५॥

अेक ताप्पिल्‌ँ तांब्यावारी ।
अेक शुभ्रचंद्रावारी ।
अश्शी सर्व विश्वाचेरी ।
भर्ल्याती रॅ हँ रंग ॥१३६॥

कश्की अश्शी नानावर्ण ।
आकारई तशी भिन्न ।
यॅत्ता मदनु शरण ।
पोळोनू हँ सौंदर्य ॥१३७॥

मोहक देहसौष्ठव ।
लावण्याचँ की गौरव ।
की शृंगाराचँ वैभव ।
दिस्ता स्पष्ट दॉळ्यांक ॥१३८॥

हांगा हॉ आंगार्नॅ भर्ला ।
दीगू गळॉ ॲक्ळॉ भाग्ला ।
ॲक्डॅ मात्त्या भारु जाल्ला ।
ॲक्ळॉ पळॅ विद्रूप ॥१३९॥

नाना थरेचीं आंगठणं ।
संख्येचेंई ना बंधन ।
अेकेक हँ जग भिन्न ।
मगेल्या प्रत्यंगारी ॥१४०॥

मगेल् दृष्टी खंईं पड्ता ।
थंईं सृष्टी निर्माण जात्ता ।
आदित्यूइ लय पात्ता ।
दृष्टी धांपुन् घॅत्ल्यारी ॥१४१॥

मुखांतुल्या निश्वासांनीं ।
भाग्र पड्ता पळॅ अग्नी ।
भर्ता विश्व त्या ज्वालांनीं ।
अष्टवसूंसांगाती ॥१४२॥

भोंव्यॉ ह्यॉ कॉप्पाभरारी ।
मॅळ्ताती ॲक्क स्थानारी ।
रुद्रगण त्या जाग्यारी ।
ॲक्डॅ येव्नू दॅव्ताती ॥१४३॥

मगेली ही रॅ आर्द्र सौम्यता ।
जन्मा घाल्ता अश्विनीसुतां ।
आश्रयु दित्ता अनेक मरुतां ।
हॅ कर्णद्वय पंडुसुता ॥१४४॥

अश्शी अवयव हॅ अेकेक ।
जन्मा घाल्नू सुरसिध्दांक ।
कोर्नू लीला अपार व्यापक ।
दाकैताती हीं रूपं ॥१४५॥

वेदांक हँ सांगू जाय्ना ।
काळाकै हँ मेज्जू जाय्ना ।
ब्रह्मदॅवाकई मॅळ्णा ।
मगेलँ तँ निधान ॥१४६॥

आय्कनॅ तिन्नी वेदांनीं ।
तँ पळॅ तूं ह्या दॉळ्यांनीं ।
आश्चर्य कौतुक दोन्नी ।
विश्वसुदर्शन सिध्दीचँ ॥१४७॥

रूपांच्या रोमरंध्रांतूं ।
पळॅ अेकेकी सृष्टी तूं ।
कल्पवृक्षाच्या मूळांतूं ।
कश्की तण चिग्रता ॥१४८॥

वारयावॅर्लॅ घूळीकण ।
कर्तना परिभ्रमण ।
दिस्ताती वत्तांतूं जाण ।
ब्रह्मगोल घुंव्ताती ॥१४९॥

अेकेक ह्या गोलाचेरी ।
विश्वाची व्यवस्था पूरी ।
हांचेइ पेल्दिकाचँ जरी ।
दाकै माक्का म्हणशी तूं ॥१५०॥

तरी उरश्ना रॅ न्यून ।
जात्लँ पूर्ण समाधान ।
जरी शरीर हँ पूर्ण ।
पळैशी तूं मगेलँ ॥१५१॥

विश्वमूर्ती सांगत आस्स ।
प्रेमवचन सुरस ।
दिस्सना की दिस्त आस्स ।
कस्लेंइ उल्लैना पार्थू ॥१५२॥

विस्मयानॅ विश्वनाथू ।
अर्जुनागॅल्या दॉळ्यांतूं ।
ॲक्ळाचॉची लक्ष्मीकांतू ।
पोळोन् म्हणता हँ कश्शी ॥१५३॥

आर्तता तश्शीची आस्स ।
धर्ल्यां हांवँ रूप खास ।
जाय्नॅ कश्शी तँ प्रत्यक्ष ।
हागेल्या ह्या दॉळ्यांतूं ॥१५४॥

हास्त हास्त देवु म्हणता ।
हँ कस्लँरॅ कुंतीसुता ।
विश्वरूप हँ दाकैतां ।
इत्याक तूं पळैना ॥१५५॥

धनुर्धारी गॉम्टायेरी ।
म्हणता दोषु कॉणाचेरी ।
जरी चांदणँ कोड्चुय्ल्यारी ।
बगळ्याक हँ सांग तूं ॥१५६॥

व्हयि, कानडी फूट केल्ली ।
जाल्यार् कु मिुखार धर्ली ।
अथवा केल्ली स्वरांजली ।
सादर कॅप्प्याइद्रारी ॥१५७॥

घासु पुष्पपरागाचॉ ।
सांग मांड्काक वॅ दिंव्चॉ ।
अश्शी व्यर्थ गेल्लेल्याचॉ ।
दोषु कॉणा दिंव्काज ॥१५८॥

अतींद्रिय दिस्चँ भाग्य ।
ज्ञानदृष्टीकची योग्य ।
चर्मचक्षूंक ह्या सांग ।
कश्शी बा तँ साध्धद ॥१५९॥

उल्लोतयॅ उणेपण ।
कोर्चें बरँ तँ सहन ।
आय्कूनू हँ कर्ता मान्य ।
अश्शी म्हणता श्रीनाथू ॥१६०॥

विश्वरूप हावँ धॅर्लं ।
जाल्यार दाकोंच्याकै पैलँ ।
सामर्थ्य तँ दिंव्काशीलँ ।
विस्सर्लॉ रॅ उन्नातूं ॥१६१॥

कस्चॅ ॲक्ळाक् बीज नाट्लँ ।
चिगुर ताज्जॅ बाव्नू गॅल्लॅ ।
आस्सॉ जाल्लेलं जाव्नु गॅल्लँ ।
घॅ ही आत्तं दृष्टी तूं ॥१६२॥

ह्या दृष्टीनॅ घॅ तूं भोगू ।
मगेल् ऐश्वर्याचॉ योगू ।
अनुभव घेव्नू तांतू दंगू ।
जाव्नू ऊर तूं पार्था ॥१६३॥

त्रैलोक्याचोई जॉ आद्यू ।
ताक्का म्हणता जाण्यां वेदू ।
तॉ सर्वांगॅलॉ आराध्यू ।
म्हणता अश्शी पार्थाक ॥१६४॥

संजयु म्हणता कौरवश्रेष्ठा
ताव्वळधोर्नू मनांत् यॅत्ता ।
लक्ष्मीकै कॉणाक मॅळ्ता ।
चड भाग्यं जगांतूं ॥१६५॥

श्रुतीशिवाय् आनी कॉण ।
सांगद बा तत्त्वज्ञान ।
शेषाकई दुस्त्रँ कॉण ।
श्रेष्ठ सेवाधर्मांतूं ॥१६६॥

योग्यांवारी रात्रंदीसू ।
घेव्नू कष्ट आनी त्रासू ।
गरुडाइत्लॉ निदिध्यासू ।
धरीद बा हागेलॉ ॥१६७॥

पांडव कॅर्नां जन्मा आय्लॅ ।
हॅं सर्वई बग्ले पळ्ळॅ ।
तांकांची हॅं मेळू लाग्लॅं ।
सौख्य नित्य कृष्णालॅं ॥१६८॥

तरीसुद्दां ह्या पांचांतूं ।
पार्थाचेरी हॉ आसक्तू ।
करकी कामी कामिनींतूं ।
गुंतुन् पड्ता हे राया ॥१६९॥

पक्षी शिकोव्नुइ उल्लैश्ना ।
पोश्शिल् प्राणी प्रीती दीश्ना ।
प्रसन्न करशी तॅं कळ्णा ।
हाज्जेरी हॅं सद्‌भाग्य ॥१७०॥

हॉ जॅं सांग्ता तॉ तॅं कर्ता ।
हागेल्ॅं मन राक्कुन् घॅत्ता ।
परब्रह्मई दाकैता ।
कित्लॅं हॉड हॅं भाग्य ॥१७१॥

हागेल् त्रासू सहन कर्ता ।
हान्नॅ कॉप्ल्यार् तॉ सम्जाय्ता ।
देवु हाज्जेर पिस्सॉ जात्ता ।
आश्चर्यची हॅं हॉड ॥१७२॥

उब्जत्थोर्नू जॅ विरक्त ।
शुकादिकां अस्लॅ संत ।
कृष्णलीला सांग्त सांग्त ।
जाल्लॅ स्तुतिपाठक ॥१७३॥

परमात्म्यालॉ अनुभवू ।
मेळ्चॉ योग्यांक संभवू ।
जाल्यारी प्रत्यक्ष देवू ।
करशी पार्था स्वाधीन ॥१७४॥

पळैनापुडें हॅं सग्ळॅं ।
आश्चर्य ना तीळाइत्लॅं ।
कॉणाक् तान्नॅ लाग्गी कॅल्लॅं ।
भाग्य मॅळ्ता ताक्काची ॥१७५॥

म्हुणू परमात्म्यानॅ म्हळ्ळॅं ।
विश्वरूप पळॅ सग्ळॅं ।
पोळोंच्याकै दित्तां दॉळॅ ।
नॅवानॅ हॅं पार्थाक ॥१७६॥

हॅं तान्नॅ उल्उलैतना ।
धूर सारैलॅं अज्ञाना ।
दीव्नू पार्थागॅल्या मना ।
समाधान संपूर्ण ॥१७७॥

पळॅ राया उत्रं वॅ तीं ।
ब्रह्मसाम्रज्याची दीप्ती ।
अर्जुनाक संवित्शक्ती ।
दिल्ली त्या श्रीकृष्णानॅ ॥१७८॥

दिव्य तेजानॅ दॉळ्यांक ।
दिल्लॅं सामंर्थ्य जाणच्याक ।
कॅल्लॉ कृतार्थू पार्थाक ।
दाकोव्नू हॅं ऐश्वर्य ॥१७९॥

त्या तेजाच्या किरणांचेरी ।
सर्व मृगजळावारी ।
पाळं यॅत्ताती ताज्जेरी ।
अवताराचीं हॅं कळ्ता ॥१८०॥

त्या ह्या आदिपटाचेरी ।
रंगता चित्र परोपरी ।
नाना रूपरंगांवारी ।
स्वता दाकैता कृष्णू ॥१८१॥

चेर्ड्पणांतूं आंगणांतूली ।
बर्गुन् मात्ती ताँडांत् भर्ली ।
कळ्णू हँ यशोदा कोप्ली ।
हाळ्ळॉ ताण्णू भित्तरी ॥१८२॥

भीव्नु तान्नँ खाल्लँ कस्लँ ।
दाकोंच्याक ताँड उघळ्ळँ ।
पळैल्यारी तिक्का दिस्लँ ।
चतुर्दश ब्रह्मांड ॥१८३॥

तप कॅल्लँ देवु पाव्लॉ ।
पोळोन् ध्रुवु अवाक् जाल्लॉ ।
शंखा स्पर्शू गाल्लाक् जाल्लॉ ।
लाग्लॉ वेद म्होणूक ॥१८४॥

तश्शी अनुग्रहु जाल्लॉ ।
मायामोहांत्थान्नू सुट्लॉ ।
धनंजयु धन्य जाल्लॉ ।
कृष्णागेल्या प्रेमानॅ ॥१८५॥

दिव्य तेजांतूं प्रगट ।
आश्चर्य दिस्लँ सर्वत्र ।
बुड्डुन् गॅल्लँ तांतू चित्त ।
श्रीकृष्णदासागॅलँ ॥१८६॥

समुद्र आब्रह्म भर्लॉ ।
तांतूं मार्कंडेयू पॉव्लॉ ।
तश्शी पार्थू लोळू लाग्लॉ ।
दिव्य विश्वरूपांतूं ॥१८७॥

तित्लँ हॉड तँ आकाश ।
खंईं जाल्लँ बा अदृश्य ।
महाभूतंई निःशेष ।
चराचरासांगाती ॥१८८॥

खंचॉ दीकू गुर्तु मॅळ्णा ।
तग्गू वैरी भेदू कळ्णा ।
सॉप्पन् ऊँर्न सृष्टी ऊर्ना ।
जागी जाल्लेल् उप्रांतँ ॥१८९॥

चंद्रनक्षत्रांचँ तेज ।
सूर्यू गिळ्ता तँ सहज ।
तश्शी प्रपंचू निस्तेज ।
कॅल्लॉ विश्वरूपानॅ ॥१९०॥

कश्शी मन जाल्लँ स्तब्ध ।
बुध्दी जाव्नु बस्ली मुग्ध ।
इंद्रियं सर्व निःस्पंद ।
जाव्नू बस्लीं चित्तांतूं ॥१९१॥

स्थैर्याकई स्थान मॅळ्ळँ ।
लक्षई एकाग्र जाल्लँ ।
विचारै निमग्न जाल्लॅ ।
एकरूप शांतींतूं ॥१९२॥

चतुर्भुज सुखरूप ।
विशाल हँ विश्वरूप ।
कश्शी जाल्लँ बा आप्याप ।
कोर्चें कश्शी कौतुक ॥१९३॥

पाव्साडींत्ल्या मॉडांवारी ।
प्रळयांत्ल्या तेजावारी ।
सर्वत्र हँ सर्वांचेरी ।
विश्वरूप पस्सॅर्लं ॥१९४॥

पार्थू दिव्य दृष्टीनेची ।
समाधान ॲक्ळाकची ।
पोळोनू तॉ पाव्वीलॉची ।
आत्तं दॉळॅ उध्घड्ता ॥१९५॥

ह्या दोन्नी दॉळ्यांनीं अश्शी ।
विश्वरूप सर्वदर्शी ।
कॅल्लँ पार्थाक पळैशी ।
तागेल् मनाप्रमाणॅ ॥१९६॥

श्रीरंगालीं रम्य मंदिरं ।
की लावण्याचीं भांडारं ।
पळॅ प्रगटलीं अपरंपार ।
विश्वमूर्तीचीं तीं वदनं ॥१९७॥

की वसंतु आनंदवनांतूं ।
सौंदर्यप्रभा तारुण्यांतूं ।
अश्शि प्रगटलीं बहुरूपांतूं ।
विश्वमूर्तिचीं तीं वदनं ॥१९८॥

मद्मद्देंची पळॅ दिस्ता ।
काळराति कश्शी भिस्डाय्ता ।
सैन्य भयानक घेव्नू रिग्ता ।
ॲक्कामाक्षी ती अेक ॥१९९॥

की मृत्यूनॅ ताँडं उघळ्ळीं ।
महाभयानॅ छावणी घाल्ली ।
की प्रळयाग्तीचीं होळ्होळ्ळीं ।
धर्गताती हीं कुंडं ॥२००॥

थोडीं भेसुर आनी अद्भुत ।
तशी विलक्षण नी सालंकृत ।
कित्लीं दिस्लीं सुशांत सस्मित ।
रूपं ताव्वळि पार्थाक ॥२०१॥

जरी पळैलीं ज्ञानदृष्टीनॅ ।
तित्लीं रूपं मेज्जुक जाय्नॅ ।
दॉळॅ पुणि पोळोंयां म्हुणु तान्नॅ ।
तांचेरी घाल्ली नजर ॥२०२॥

बणबण्णांच्या कमलांवारी ।
तेजोमय रविबिंबांवारी ।
कित्ल्की लोचन ॲक्क सालारी ।
दिस्लॅ थंईं पार्थाक ॥२०३॥

काळीं मॉडं भोर्नू आय्लीं ।
वीजु युगान्तक झग्मग् जाल्ली ।
पिंक्षे दॉळ्यांतूं ती दिस्ली ।
ज्वाला भोंव्यांतग्गूची ॥२०४॥

अेक्कची ह्या रूपांतूली ।
विविधता दिस्सू लाग्ली ।
आश्चर्य ह्या दॅवागेली ।
दर्शनलीला अगाध ॥२०५॥

दिस्सनाती पाय काइं ।
मस्तक नी मुजं खंईं ।
पोळोंची मात्र आशा ही ।
वाड्ता रॅ विलक्षण ॥२०६॥

सद्भाग्य हॉ मूर्तिमंत ।
जात्ल पूर्ण मनोरथ ।
शंकरालॅ बाण व्यर्थ ।
वत्तीद वॅ सांगाती ॥२०७॥

ब्रह्मदॅवागेली वाणी ।
निष्फळ जाय्द वॅ पुणी ।
साद्यंत हीं रूपं दोन्नी ।
पळैलीं ह्या पार्थानॅ ॥२०८॥

पळैनात्तिलँ वेदांनीं ।
पळैलँ दोन्नी दॉळ्यांनीं ।
ॲक्फंताक सर्वांगांनीं ।
विश्वरूप विशाल ॥२०९॥

पाय्यालाग्थान् मात्त्यार्थाई ।
कित्लीं विश्वं हीं थंथंई ।
की भूषणांची गॉम्ठाई ।
भर्ल्या सर्वांगाचेरी ॥२१०॥

आप्पणची भांगार जाव्नू ।
तँची घॅत्ता आप्पण घाल्नू ।
कश्शी सांगूं वर्णन कोर्नू ।
कस्ल्यावारी दिस्ताती ॥२११॥

सतेज सूर्यचंद्राक ।
कोर्नू दाकैता विश्वाक ।
दीव्नू आत्मतेज आय्क ।
अेकेक हँ भांगार ॥२१२॥

अस्ल्या तेजाचॉ शृंगारू ।
पाव्ना बुध्दीचॉ विस्तारू ।
साक्षात् देवु परात्परू ।
पळैलॉ ह्या पार्थानॅं ॥२१३॥

शस्त्रास्त्रांनीं सज्ज हस्त ।
प्रळयाग्नीनॅं जीं प्रदीप्त ।
आस्सती पार्थाक दिस्त ।
त्याची दिव्य दृष्टीनॅं ॥२१४॥

आप्पण् आप्णालँ भांगार ।
आप्पण् हातुइ नी हत्यार ।
हॉ जीवु हँची शरीर ।
अद्वैत हँ सर्वत्र ॥२१५॥

इत्लॉ प्रभावु तेजाचॉ ।
खो जाल्लॉ नक्षत्रांचॉ ।
समुद्रांतूं रिग्गुन् बस्चॉ ।
अग्नी कर्ता विचारू ॥२१६॥

काळकुटाचीं पाळं उसळ्ळीं ।
की वीजांचीं रान्नं वाड्लीं ।
तश्शी उब्बार्नू हीं धर्लीं ।
शस्त्रास्त्रां ह्या हात्तांतूं ॥२१७॥

भीव्नू नदर फिराय्ली ।
तीची गळ्यावैरी लाय्ली ।
दिस्ल्यॉ कल्पवृक्षवल्ली ।
चिग्रलेल्यॉ हांग्थाव्नू ॥२१८॥

महासिध्दी–अधिष्ठान ।
लक्ष्मीलँ विश्रांतिस्थान ।
कमलं तीं हॉ नारायण ।
हुंग्ता हँवै पळैलँ ॥२१९॥

फुल्लो चिक्ळ्यॉ मुगुटारी ।
शोभा दित्ताती मात्त्यारी ।
गॉम्ट्यॉ माळा वक्षाचेरी ।
लॉव्ळतनाई दिस्ताती ॥२२०॥

सूर्यतेजाक स्वर्गानॅं ।
कश्की मेरूक भांग्रानॅं ।
तश्शी ह्या पीतांबरानॅं ।
सुत्तू घाल्ला कुर्टाक ॥२२१॥

शंकराक कर्पूराचॉ ।
कैलासाक की पारयाचॉ ।
क्षीराब्धीक वा दुद्दाचॉ ।
कश्की लेपू आस्ताची ॥२२२॥

चंद्रा घडी मेक्कळ्ळ्यारी ।
आकाशाक पांग्रैल्यारी ।
करकी दिस्सद ताज्वारी ।
चंदन सर्वांगाचेरी ॥२२३॥

स्वयंतेज तेजा मॅळ्ता ।
ब्रह्मानंदू शांत जात्ता ।
आनीकै त्यान्मितीं वाड्ता ।
पृथ्वीचॉई पर्मळू ॥२२४॥

अलेपुई लाव्नु घॅत्ता ।
अनंगुई लिप्त जाता ।
कॉणामितीं कोरुक् जात्ता ।
त्या गंधाचँ वर्णन ॥२२५॥

दिव्य शोभा ही पोळोनू ।
अर्जुन गॅल्लॉ भो गोंदोळ्णू ।
बस्ला की आस्स उब्रोनू ।
की निद्दला हॉ देवू ॥२२६॥

हांगाथंईं पळैल्यारी ।
दिस्ता रूप तँ इद्रारी ।
दॉळ्ॅ हॅ धांपुन् घॅत्ल्यारी ।
थंईं तँची नॅवानॅ ॥२२७॥

दोनी दॉळ्ॅ हॅ नप्रोती ।
पोळोंच्याक नाना मूर्ती ।
भीव्नु घेत्ली फिराव्न् फाटी ।
थंईं त्यॉवै तशीची ॥२२८॥

दिस्ता सग्ळँ पळैल्यारी ।
आनी पळैनात्तिल्तरी ।
आश्चर्य हँ हॉड भारी ।
कृपा हीवै तागेली ॥२२९॥

पोळोंचँ पळैना जांव्चँ ।
हांतुंइ ताक्का मेळोन् घेंव्चँ ।
सर्वैं विश्वमय कोर्चैं ।
कित्ली कृपा अपार ॥२३०॥

आश्चर्या उव्वारांत्थाव्नू ।
यॅत्ता म्हणतां तान्नॅ पोव्नू ।
अरशी वॅ समुद्रांतूं येव्नू ।
पड्का चमत्कारांच्या ॥२३१॥

अलौकिक कौशल्यानॅ ।
विश्वरूप दर्शनानॅ ।
पार्थाकै तांतूंची तान्नॅ ।
करशी घॅत्लॉ पोट्टोळ्णू ॥२३२॥

रूप दाकै म्हळ्ळेल्याक ।
दाकैलँ तँ अर्जुनाक ।
पोळोनू त्या खरूपाक ।
तँची जाल्लॉ तॉवई ॥२३३॥

सूर्यामितीं दिव्यामितीं ।
दृश्य पळैता ही दृष्टी ।
दॉळ्ॅ धांप्ल्यार् नाची सृष्टी ।
तस्ली दीनॅ दॅवानॅ ॥२३४॥

दॉळ्ॅ उघ्घोण्णू घांपूनू ।
विश्वरूप हँ पोळोनू ।
अर्जुनानॅ घॅत्लँ म्हुणू ।
सांग्ता संजयु रायाक ॥२३५॥

अर्जुनानॅ जँ पळैलँ ।
तँची तुम्कां हांवँ सांग्लँ ।
आय्कलँ की तुम्मी सग्ळँ ।
अरशी नॅवान् निम्गिता ॥२३६॥

राया तेज त्या रूपाचँ ।
कस्ल्यावारी म्हुणू सांग्चँ ।
मॅळ्ळ्यां की बारा सूर्यांचँ ।
प्रळयांतू तँ तेज ॥२३७॥

छे: तस्लॅं हजारांवैरी ।
सांगाती उदेय्ले जरी ।
अस्ल्या ह्या तेजामुखारी ।
जात्तीद तॅ निष्प्रभ ॥२३८॥

कोर्नू वीजांक केंद्रित ।
प्रळयशक्ती अेकत्रित ।
महातेज तँ धापट ।
संभव जाय्द इत्लेंची ॥२३९॥

कित्लँ तेज तँ आस्सद ।
थोडीशी कल्पना यॅद ।
बराबरी निर्विवाद ।
मात्र जाय्श्ना कोरूक ॥२४०॥

दिव्य अलौकिक अस्लँ ।
माक्काई तँ तेज दिस्लँ ।
कश्शी हँ सहज मॅळ्ळँ ।
फल व्यासकृपेनॅं ॥२४१॥

विशाल हॅं लोक इत्लॅं ।
बुड्बुडॅशॅं समुद्रांत्लॅं ।
कित्लॅं आय्लॅं आनी गॅल्लॅं ।
क़ळश्ना हँ कॉणाकै ॥२४२॥

नगरं आकाशांतूलीं ।
हुत्तं थंथैं मुय्यांगेलीं ।
की ही धूळी मेरूवेली ।
तश्शी दिस्ता हँ सर्व ॥२४३॥

विश्वरूप देवेशालँ ।
संपूर्ण जँ विस्तार पाव्लँ ।
अर्जुनानॅं तँ पळैलँ ।
सर्वै प्रत्यंगाचेरी ॥२४४॥

इद्रार अेक विश्व दिस्लँ ।
आनी तान्नॅं तँ पळैलँ ।
अस्लँ हँ द्वैत निव्वळ्ळँ ।
मन जाल्लँ निर्मळ ॥२४५॥

देहभावू गळ्णू गॅल्लॉ ।
आत्मानंदु जागी जाल्लॉ ।
आपादमस्तक भर्लो ।
तॉची रोमरोमांतूं ॥२४६॥

पैलॉ पाव्सू पोण्णू वत्ता ।
सगळॉ गुड्डॉ फुटू जात्ता ।
आनी कश्की भोर्नू वत्ता ।
तर्न्या दिर्बांकुरांतीं ॥२४७॥

चांदण्याचॉ स्पर्शू जात्ता ।
चंद्रकांतू द्रंव्च्या लाग्ता ।
तश्शी वल्लँ जाल्लेल् दिस्ता ।
सर्वांग तँ हुम्मेनॅं ॥२४८॥

भोवरू घुंद पाक्ळ्यांतूं ।
कमल धॉल्ता उद्कांतूं ।
आनंदाच्या उम्माळ्यांतूं ।
तश्शी लाग्लॉ धोलूक ॥२४९॥

कर्पूराच्या केळींत्थान्नू ।
थेंवुथेंबु पड्ता गळ्णू ।
तश्शी दॅव्लॉ दॉळ्यांत्थान्नू ।
आत्मानंदू गालरी ॥२५०॥

परिपूर्ण समुद्राक ।
भर्ती यॅत्ता पौर्णिमेक ।
तश्शी लाग्लॉ तॉ धोल्क ।
उल्हासाच्या पाळांरी ॥२५१॥

अश्शी आट्टै सात्विक भाव ।
झग्डू लाग्लॅ मुखार् हांवं ।
ब्रह्मानंदाचँ वैभव ।
प्राप्त जाल्लँ जीवाक ॥२५२॥

घेव्नूई हॉ अनुभवू ।
भक्तू हांवं नी हॉ देवू ।
हॉची उर्लॉ द्वैतभावू ।
जाल्ली होडी उस्त्रमेटी ॥२५३॥

दॅवादीकाक पोळोनू ।
मात्तँ मुखारी बग्सूनू ।
नम्रतेनॅ हात जोण्णू ।
कोरू लाग्लॉ प्रार्थना ॥२५४॥

मज्जस्ल्या ह्या सामान्याक ।
विश्वरूप पोळोंच्याक ।
कॅल्लॉ कृपेनॅ लायक ।
जयजयकारू हे गुरो ॥२५५॥

भगवंता हँ बरँ कॅल्लँ ।
मन मगेल् तृप्त जाल्लँ ।
विश्वाधारू तूं हँ कळ्ळँ ।
विश्वरूप पोळोनू ॥२५६॥

गुंयं सान्नींतूं आस्ताती ।
गु ए श्वापदं फिर्ताती ।
तश्शी ब्रह्मांडं दिस्ताती ।
तुगेल् आंगार् घुंव्तना ॥२५७॥

आकाशाची विंशाल व्होटी ।
तांतूं ग्रह हॅ दिस्ताती ।
कश्की वृक्षारी बांद्ताती ।
घूड पक्षी विविध ॥२५८॥

तश्शी तुगेल् देहाचेरी ।
दिस्ता सुरेन्द्रनगरी ।
देवालोकै तिज्भित्तरी ।
त्रैलोक्येशा सर्वेशा ॥२५९॥

पंचमहाभूतांची व्याप्ती ।
तांतूं नाना प्राणीसृष्टी ।
उद्भवलेल्यॉ ह्यॉ दिस्ताती ।
तुज्यांत्थाव्नू विश्वेशा ॥२६०॥

सत्यलोकु तुज्ज्यांतूंची ।
ब्रह्मदेवू न्हैवॅ हॉची ।
ह्या दिकाक कैलासाची ।
शोभा दिस्ता स्वर्गीय ॥२६१॥

गौरीसांगाती शंकरू ।
तांच्यांतूं तूं चमत्कारू ।
तुज्ज्यांतूंई तूं साकारू ।
थंईची बा हँ कश्शी ॥२६२॥

कश्यपादि सर्वै ऋषी ।
तुज्ज्यांतूं हे हृषीकेषी ।
पाताळै थैं दिस्ता तश्शी ।
सर्पै थैं तॅ चर्ताती ॥२६३॥

आत्तं इत्लेंची म्होळ्येद ।
प्रत्यंगं वण्त्यॉ लेक्येद ।
तांचेरी काळ्ळीं अद्भूत ।
चित्रं चौदा भुवनांचीं ॥२६४॥

त्या भुवनांत्लॅं जॅं जॅं लोक ।
तांगेलीं चित्रं अनेक ।
पोळोनू हँ अलौकिक ।
कळ्ता तुगेल् सामर्थ्य ॥२६५॥

दिव्य दृष्टीचँ सामर्थ्य ।
दाकैता माक्का सर्वत्र ।
आकाशाचँ बीज सुप्त ।
तुगेल्या ह्या भुजांतूं ॥२६६॥

तश्शीची हॅं तुगेल् हात ।
कर्त आस्सती समस्त ।
व्यापार हॅं अविश्रांत ।
कश्शी ॲक्क वॅळारी ॥२६७॥

शून्यांत्थाव्नू उद्भव जाल्लीं ।
ब्रह्मांडं संपन्न जाल्लीं ।
तश्शी उदरं हीं इत्लीं ।
पळैत् आस्सं तुगेलीं ॥२६८॥

अनंतशिरं मुखं कोटीगट्लीं ।
ब्रह्मतरू की फळं हीं सग्ळीं ।
धर्ता अश्शी दिस्लीं तुगेलीं ।
असंख्य वदनं परिपूर्ण ॥२६९॥

दॅवा तुगेलीं ताँडं खैंखैं ।
दॉळ्यां सालुइ दिस्ता थंथैं ।
तूंची सर्वै तूंची विश्वै ।
इत्लँ कळ्ळँ सर्वेशा ॥२७०॥

स्वर्गू हॉ पाताळ थंईं ।
आकाश हँ हांगा भूंईं ।
अेकत्वांतूं ह्या सर्वांकै ।
दाकैता ह्या रूपांतूं ॥२७१॥

अेक्कुइ जागॉ अस्लॉ मॅळ्णा ।
की तूं थंईं वासु कर्ना ।
परमाणूकै सोण्णू दीना ।
खरेंचि सर्वव्यापी तूं ॥२७२॥

अपरीमित ही नाना रीती ।
पंचमहाभूतांची व्याप्ती ।
तिक्काइ पांग्रैता ही मूर्ती ।
अनाद्यनंता परमेशा ॥२७३॥

आय्लॉ हांगा तूं खंय्थाव्नू ।
बस्ला की आस्स उब्रोनू ।
आव्सु सांग कोणि म्हुणू ।
कश्शी इत्लॉ होडू तूं ॥२७४॥

रूप कश्शी कित्ली प्राई ।
तुज्पॅल्तानॅं आस्स् वॅं कांईं ।
आधारारी तूं कस्ल्याई ।
आस्स् की ना हँ लॅक्तना ॥२७५॥

दिस्लॉ की खंचै थरेनॅं ।
कॉणालोई आधार घॅनॅं ।
आप्णाकची धर्ल्यां आप्णॅं
सनातनू तूं स्वयमेव ॥२७६॥

तूं उब्रनॅं वा बैसनॅं ।
दीगुइ ना गुड्डॉइ दिस्सनॅं ।
तग्गू वैरी सर्व दिकानॅं ।
तूंची दिस्ता विश्वेशा ॥२७७॥

तुगेलँची रूप तुक्का ।
तुगेल् प्राई तूंची आस्का ।
फाटी पॉट तूंची तुक्का ।
हे परमेशा परात्परा ॥२७८॥

पळॅ विचार कर्ता कर्तां ।
हँची आत्तं मावका दिस्ता ।
तुज्ज्यांतूंची हे अनंता ।
तुगेल्ँ सार सर्वस्व ॥२७९॥

तरी माक्का ह्या रूपांतूं ।
दिस्ता उणँ हँ सर्वांतूं ।
कश्शी आदी मध्य अंतू ।
पण्णा बा ह्या दृष्टीक ॥२८०॥

हांवँ खरँ पळैल्यारी ।
सॉदलॅ पूरा दीक चारी ।
तीन्नी नाती हॅ जाग्यारी ।
संशयु ना हांतूं कांईं ॥२८१॥

नाती ह्यॉ तीनी अवस्था ।
तुज्ज्यांतूंई श्री अनंता ।
विश्वरूपा विश्वनाथा ।
तँ तत्त्वै तूं साकार ॥२८२॥

अस्ल्या तुगेल्या भव्य मूर्तिंतूं ।
अनेक मूर्त्यॉ जाल्यॉ जडितु ।
की नाना रंगांचँ हँ तूं अंबर
घॅत्ल्यां आंगारी ॥२८३॥

मूर्तीच्या ह्या गुड् ाचेरी ।
मूर्त रूक वाल्यॉ भारी ।
फळं फुल्लं हीं तांचेरी ।
भांगारशँ शॉभ्ताती ॥२८४॥

की तूं अेकू महासागरू ।
मूर्त्यॉ ह्यॉ पाळांचॉ भोरू ।
की तूं दॅवा अेकु तरुवरू ।
फळ मूर्त्यांचँ धर्ता तूं ॥२८५॥

पृथ्वीचेरी भूतमात्रं ।
आकाशांतूं की नक्षत्रं ।
मूर्त्यांचीं हीं नाना क्षेत्रं ।
भर्ल्यांती ह्या रूपांतूं ॥२८६॥

सर्वई ह्या मूर्त्यांतूलँ ।
त्रैलोक्य जात्लँ नी वत्लँ ।
स्थान मात्र त्या तांगेलँ ।
रॉमरॉम तुगेलँ ॥२८७॥

विश्वाचॉ हॉ विस्तार कॅल्लॉ ।
तूं कोणू तूं कॉणागॅलॉ ।
पळैल्यारी तूं आम्गेलॉ ।
जाव्नू बस्ला सारथी ॥२८८॥

तूंचि सर्वदा सर्वव्यापकू ।
दयावंतु तूं भक्तरक्षकू ।
त्यामिति जात्ता सगुण लौकिकू ।
आजि मुकुंदा हँ कळ्ळँ ॥२८९॥

रूप चतुर्भुज सगुण नीलधन ।
तुगेलँ घॅत्ना हँ आलिंगन सहजचि
दॉळॅ आनी हँ मन ।
संतोषानॅ भर्ताती ॥२९०॥

विश्वरूप तूं तरी कृपाळू ।
जात्ता अश्शी तूं अनुकूलू ।
तरिकै दृष्टींतूं हॉ बदलू ।
जाय्ना दिस्ता सामान्यू ॥२९१॥

तूंवँ दिव्य स्पर्शू कॅल्लॉ ।
दृष्टींत्लॉ हॉ दोषु काळ्ळॉ ।
म्हुणु महिमा हॉ तुगेलॉ कळ्ळॉ ।
निजरूपाचॉ परिपूर्ण ॥२९२॥

जाव्नु सारथी रथारि बस्लॉ ।
तित्लॉची तूं माक्का दिस्लॉ ।
आत्तं माक्का गुर्तू मॅळ्ळॉ ।
खरया तुगेल्या रूपाचॉ ॥२९३॥

अॅक्ळाकची की आश्शिलँ ।
किरीट हँ मात्त्यावॅलँ ।
आकारू नी तेज वाड्लँ ।
कश्की बा हँ आश्चर्य ॥२९४॥

उब्बार्न् धर्लेल्या हात्तांतूं ।
सुदर्शन चक्र हँ तूं ।
फिराय्त आस्स म्हुणू गुर्तू ।
मॅळ्ता की तॉ तूंची रॅ ॥२९५॥

गदा तीची त्या हात्तांतूं ।
बाकी निःशस्त्र दोन्नींतूं ।
अश्वांगॅलॉ लगामु तूं ।
धोर्नू बस्ला गोविंदा ॥२९६॥

मगेल् मात्र मनोरथू ।
पूर्ण कॅल्लॉ उदारू तूं ।
अेक्कची रॅ हँ मनांतूं ।
यॅत्त आस्स विश्वेशा ॥२९७॥

जाल्लँ कश्शी बा हँ कळ्णा ।
विस्मय पांव्ची पात्रताइ ना ।
चित्त जाग्यारीची यॅना ।
मंत्रमुग्ध जाल्लां न्है ॥२९८॥

हँ हांगाची आस्स की ना ।
कळ्ता हँ की तँवै कळ्णा ।
कस्लोइ बोधू मना जाय्ना ।
इत्लँ रूप तेजस्वी ॥२९९॥

अग्नी सुद्दांई कर्पद ।
सूर्यू काज्जुळ्सॉ दिस्सद ।
तीव्रता इत्ली अगाध ।
ह्या तेजाची पळैली ॥३००॥

तेजाचॉ महासागरू ।
कर्ता सृष्टीचॉ संहारू ।
आकाशाचॉ की विस्तारू ।
गिळ्ता वीजू प्रळयाची ॥३०१॥

ज्वाळांचॅ कुड्कॅ कात्तोर्नू ।
केलेल् नीसणी ती चण्णू ।
गेल्ली आकाश दांटूनू ।
पोळोंचेंई असह्य ॥३०२॥

तीव्र तेज दाहकता ।
क्षणाक्षणार्ने ही वाड्ता ।
दिव्य दृष्टी नप्रॉ पड्ता ।
पोळोंचँ बा हँ कश्शी ॥३०३॥

सुप्त वन्ही अचानकू ।
प्रळयाग्नीचॉ उद्रेकू ।
तिस्त्रॉ दॉळॉ की दाहकू ।
शंकरार्ने उध्घळ्ळॉ ॥३०४॥

पंचाग्नींचँ दिव्यांजन ।
कर्ता ब्रह्मांडभंजन ।
आत्तं सांग संहारण ।
जात्लँ की ना विश्वाचँ ॥३०५॥

तेजाची ही इत्ली कांती ।
अद्भूत ही तिज्जी व्याप्ती ।
खईं अस्ली दुस्त्री मूर्ती ।
पळैनॅ ह्या जन्मांतूं ॥३०६॥

साडेतीनी अक्षर–मात्रा ।
त्या ॐकाराक श्रुति साॅद्ता ।
ताज्पेल्दिकाक तूं आस्ता ।
परब्रह्म तूं भगवंता ॥३०७॥

त्रैलोक्याचँ अधिष्ठान तूं ।
विश्वविलय पाव्ता तुज्ज्यांतूं ।
अक्षय आनी अविनाशी तूं ।
कळ्णा ही लीला तुगेली ॥३०८॥

सद्धर्माचँ तूंची जीवन ।
आदि पुरातन तरि तूं नूतन ।
तत्त्व सदतिसावँ जँ स्थान ।
पुरुषश्रेष्ठा तँ तुगेलँ ॥३०९॥

आदिमध्यइ ना तुज्ज्यांतू ।
समर्थ तूंची स्वयें अनंतू ।
कव्वळ्ता तूं विश्व भुजांतूं ।
की तँ तुगेल्या पाव्लांतूं ॥३१०॥

चंद्रुकृपेचाॅ सुशांत कर्ता ।
कोप्पुनु सूर्यू ल्हाइशि भाज्ता ।
दोन्नी दाॅळ्यांनीं दाकैता ।
रविशशिलीला जगतांतूं ॥३११॥

अश्शी कित्ल्याॅ ना ह्याॅ थरा ।
दाकैशी तूं विश्वंभरा ।
मुखाचेरी भर्ला पूरा ।
प्रळयाग्नीचाॅ उज्वाडू ॥३१२॥

उज्जाॅ जळ्ता पर्वतारी ।
कश्की फिर्ता ताॅ सुत्वारी ।
तश्शी जीब ही भित्तरी ।
लेव्नू धर्ता हाॅ उज्जाॅ ॥३१३॥

ह्या ताँडांत्लाॅ हाॅ धग्धगू ।
आंगावॅलाॅ हाॅ भग्भगू ।
भाज्जुन् काड्ता भुगुभुगु ।
ह्या विश्वाक चर्चर ॥३१४॥

ताॅ स्वर्गू नी तँ पाताळ ।
आकाश आनी भूतळ ।
भोर्नू आस्स तूं सकळ ।
धाई दिशांचँ चक्र ॥३१५॥

ॲक्ळाॅची तूं ह्या सर्वांतूं ।
पोळोनू जात्तां चकीतू ।
बुड्ता पळॅ ह्या ताँडांतूं ।
जाल्यारी हँ सर्वई ॥३१६॥

अद्भुत रूपाचाॅ उव्वारू ।
चौदा भुवनांचाॅ संहारू ।
प्रसंगू हाॅ भयंकरू ।
जाय्ना बा पोळोंच्याक ॥३१७॥

विस्ताराक अंतू नाची ।
दिस्चँ रूप उग्र भोची ।
खंचँ सुख तँ धूरची ।
वांचुन् उर्चें कष्टची ॥३१८॥

रूप अस्लँ हँ पोळोनू ।
हांवं गॅल्लाँ पूरा भीव्नू ।
गॅल्लँ त्रैलोक्य बुड्डूनू ।
समुद्रांतूं दुःखाच्या ॥३१९॥

महात्म्यालँ हँ दर्शन ।
अश्शी दुःखाक कारण ।
हाक्का सुख कश्शी काॅण ।
म्हणद बा हँ दिस्ता ॥३२०॥

तूं नद्रेक पण्णॅ शिलॉ ।
संसार सुखाचॉ दिस्तालॉ ।
आत्तं अश्शी इद्रार् आय्लॉ ।
दिस्सू लाग्ला बॅजारू ॥३२१॥

तुवँ दिश्शिल् तरी अश्शी ।
पोट्टोळण् घेवूं तुक्का कश्शी ।
आनी राब्बिल्तरी अशी ।
तँवै शोका कारण ॥३२२॥

माक्षी संसारा बॅजारू ।
मुखार् अश्शी तूं दुर्धरू ।
माक्षी मुखारी धुव्वरू ।
उस्नमेटी विचित्र ॥३२३॥

कर्ता अस्लँ हँ संकट ।
त्रैलोक्याचँ मेतकूट ।
तथ्य कळ्ळँ आत्तं स्पष्ट ।
तुगेल्या ह्या रूपाचँ ॥३२४॥

उज्जान् आंग भाज्लँ म्हुणू ।
थंडाइ मॅळॉ हँ लेक्कूनू ।
समुद्रारी गेल्यार् धाव्नू ।
थंईं भय्य पाळांचँ ॥३२५॥

रूप पोळोनू हँ जाली ।
अवस्था ह्या जानांगेली ।
गति थंईं जाण्त्यांगेली ।
पळॅ कश्शी जालया ती ॥३२६॥

पोळोनू हँ निजतेज ।
तांतूं सर्वैं कर्मां बीजं ।
लास्सुन् मॅळ्ताती सहज ।
सद्भावानॅं तुज्ज्यांतूं ॥३२७॥

थॉडॅजण भयभीत ।
तरी जाव्नू भक्तियुक्त ।
जोण्णु घेव्नू दोन्नी हात ।
अभयतॅं माग्ताती ॥३२८॥

दॅवा अज्ञांनांतूं बुड्लां ।
भोगाबल्यांतूं शिर्कलां ।
मूढ जाव्नू घुंव्त पळ्ळां ।
संसारांतूं स्वर्गांतूं ॥३२९॥

दॅवा तुक्काची शरण ।
दित्तां तुक्का पंचप्राण ।
सोडैद बा दुस्त्रँ कॉण ।
मज्जस्ल्याक हांत्थाव्नू ॥३३०॥

ऋषीमुनी सिध्द संत ।
सर्वई हँ प्रज्ञावंत ।
तुगेलँ हँ यशोगीत ।
गौरव कर्त म्हण्ताती ॥३३१॥

हॅ रुद्र आनी आदित्य ।
वसू नी साध्य समस्त ।
अश्विनीसुत मरुत ।
जाल्याती हॅ विस्मित ॥३३२॥

पळॅ गंधर्व, पितर ।
थंईं सुर नी किन्नर ।
यक्ष, सिध्द नी असुर ।
महेंद्रूई सांगाती ॥३३३॥

आप्आप्णाल्या जाग्यार् थाव्नू ।
सर्वै भोची उत्सुक जाव्नू ।
निय्याळ्ताती लक्ष दीव्नू ।
दिव्य महामूर्तीक ॥३३४॥

नॅव्नॅवानॅ पळैताती ।
आश्चर्यची हँ म्हण्ताती ।
मस्तकई बग्सुय्ताती ।
नम्र जाव्नू मुखारी ॥३३५॥

जयजयकाराचँ गायन ।
गाज्जैता हँ त्रिभुवन ।
कर्ताती नम्र वंदन ।
हात जोण्णू निड्ळारी ॥३३६॥

विनम्रतेच्या ह्या बागेंतूं ।
फुलल़ॉ सात्त्विकभावु वसंतू ।
वंदनरूपी पर्णदळांतूं ।
फल दीव्नू पाव्लॉ तांकां ॥३३७॥

भाग्याचॉ हॉ दिवसु उदेलॉ ।
दॉळ्यांनीं हॉ पर्वु पळैलॉ ।
विश्वरूप तूं समूर्त दिस्लॉ ।
ह्या सर्वांकै रमापते ॥३३८॥

त्रिभुवनव्यापी रूप पळैलँ ।
तँ पोळोनू दॅवै भिल्लॅं ।
खंईं पळैल्तरी दिस्लँ ।
अद्‌भुत विपरित हँ रूप ॥३३९॥

अेक्कची हँ दिस्सू दिस्ता ।
चित्रविचित्र कश्शी जात्ता ।
सर्व भयानक दिस्सू लाग्ता ।
रूप, देह नी शस्त्रास्त्रं ॥३४०॥

कित्लॅं गॉम्स्टॅ बाहू चरण ।
कित्लीं पॉट्टं नाना वर्ण ।
आवेशू हॉ कित्लॉ दारुण ।
तॉंडारी ह्या प्रत्येक ॥३४१॥

कल्पांतूची की हॉ आय्लॉ ।
कॉणाचेरी यमू कॉप्लॉ ।
आनी तान्नॅ ह्यॉ पेट्टैल्यॉ ।
होळ्यॉ अश्शी सर्वत्र ॥३४२॥

शंभू शस्त्रं सज्ज कर्ता ।
काळभैरवू दूतां सॉड्ता ।
की ही काली भाग्र सर्ता ।
संहारूक ही सृष्टी ॥३४३॥

प्रचंड तॉंडं हांगा थंईं ।
खाली जागॉ नाची खंईं ।
कच्कच्ताती दांत थाई ।
खांव्च्या यॅत्ल्या सिंहाल्शॉ॥३४४॥

कल्पांताची काळ्की राती ।
रक्त पिशाच्चं पित्ताती ।
तश्शी दाडचॉ ह्यॉ दिस्ताती ।
रक्त पिल्लेल्वारीशॉ ॥३४५॥

काळागॅलँ की आव्हान ।
की हँ कल्पांती मरण ।
तस्लँ भयानकपण ।
दिस्ता तुगल्या तॉंडारी ॥३४६॥

सहज ह्या नद्रे पळ्ळी ।
दुःखाची ही यमुना काळी ।
जीवसृष्टीचीं हीं दिस्लीं ।
झाडं तिगल्या त`री ॥३४७॥

महामृत्यूचॉ सागरू ।
केल्शावारॉ सुट्ला घोरू ।
जीवादोणीक थर्थरू ।
सुट्ला ह्या तुफानांतूं ॥३४८॥

कोपु यॅंद की दॅवाक ।
म्हणद तूं ही कस्ल्याक ।
यॅच्ना कर्ता घॅ तूं सुख ।
स्वस्थ जाव्नू ध्यानाचॅं ॥३४९॥

जीवलोकु हॅं निमित्त ।
बग्ले कोर्नू सांग्तां सत्य ।
मगेलॉची प्राणु आत्तं ।
वचद की हॅं भय्य ॥३५०॥

माक्का तुज्वारीची कॅल्लॉ ।
हॅं पोळोनू रुद्र भिल्लॉ ।
मृत्यू बाव्डॉ निप्पुन् बस्लॉ ।
तरी भिल्लां हांवंची ॥३५१॥

ही कस्ली रॅं महामारी ।
भय्याकै भीवैता भारी ।
विश्वरूप हॅंची जरी ।
कश्शी बा तॅं म्होण्येद ॥३५२॥

काळाक तूं दीव्नू शर्त ।
आत्तंइ आस्स झुंज दित्त ।
कोप्लीं तॉंडं वाड्लीं मस्त ।
जाल्लॅं सान आकाश ॥३५३॥

नप्रॉ आकाशाचॅं मान ।
त्रैलोक्याचॅं परिमाण ।
अग्नीकै तूं उज्वलन ।
दीत आस्स कोप्पूनू ॥३५४॥

ॲक्कावारी अेक नाची ।
रंगु रूप विंगडची ।
काळु घॅत्ता हांत्ल्यागीची ।
उज्जॉ जांव्का जाल्यारी ॥३५५॥

इत्लॅं तेज अमर्याद ।
त्रैलोक्यै लास्सुन् घालीद ।
तॉंडंइ तित्लींची जात्तीद ।
तांतुंइ दाडयॉ नी दांत ॥३५६॥

वारया घनुर्वातू जांव्का ।
समुद्रा उव्वारू येंव्का ।
वडवानलू विष जांव्का ।
तश्शी जाल्ला हॉ उज्जॉ ॥३५७॥

उज्जार् काळकूट पिल्लॅं ।
मरण मोरूक् तय्यार जाल्लॅं ।
तश्शी तॉंड गिळूक् बस्लॅं ।
संहर्त्या ह्या तेजाक ॥३५८॥

कित्लॅं हॉड हॅं म्हळ्ळयारी ।
आकाश मद्देंची पिंद्ल्यारी ।
हॉळ्ळॅं भॉंकण पळ्ळेल्वारी ।
कश्की दिस्सद तश्शी ॥३५९॥

अथवा पृथ्वी खाक्यां मार्नू ।
हिरण्याक्षू आय्लॉ देव्नू ।
वच्चू वाट दिल्ली कोर्नू ।
पाताळाक शंभूर्न ॥३६०॥

तश्शी तॉंडांचॉ विस्तारू ।
तांतूं जिब्बांचॉ संचारू ।
घॅनाती कोर्नू विचारू ।
घासु नप्रॉ विश्वाचॉ ॥३६१॥

पाताळांत्थाव्नू नागांचॉ ।
फूत्कारू गरळज्वाळांचॉ ।
लॅंव्ता प्रांतू आकाशाचॉ ।
तश्शी जिब्बॉ तॉंडांत्ल्यॉ ॥३६२॥

प्रळयविजेच्यॉ ज्वाला ।
ॲक्डॅ कोर्नू किल्लॉ बांद्‌ला ।
वाळ्वांभाग्र उज्जॉ वाड्‌ला ।
दा ंचॉ त्यॉ किल्लॅची ॥३६३॥

निड्‌ळातग्गूच्या कों ंतूं ।
महामृत्यू त्या काळ्कांतूं ।
येन्नू बस्ला की दॉळ्यांतु ।
भिस्‌डाय्‌तची भय्याक ॥३६४॥

भय्य इत्त्याक दाकैता ।
हाज्जँ कौतुकशँ कर्ता ।
हांतूं कस्लँ तूं मेळैता ।
हांवं मात्र मॅल्लाँची ॥३६५॥

भोची लाग्गीलॉ दुव्वाळॉ ।
फलुइ ताज्जॉ सम्म मॅळ्ळॉ ।
तुक्का दॉळ्यांनीं पळैलॉ ।
निव्ली आत्तं ती तान ॥३६६॥

स्थूल देहु वत्ता हाज्जी ।
कॉण कर्ता बा ही काळ्जी ।
चैतन्य कळ्णा हँ आजी ।
ऊरद की वरद ॥३६७॥

थर्थर सुट्‌ला सर्वांगाक ।
जात्ता त्रासूसॉ मनाक ।
थारॉ मॅळ्णा ह्या बुध्दीक ।
मगेल्‌ माक्का विस्सर्ला ॥३६८॥

खब्बर सोडी इंद्रियांची ।
सांग ह्या आत्मानंदाची ।
कस्ली गती आस्स जांव्ची ।
जॉ शाश्वत खयंभू॥३६९॥

कस्लॉ बा हॉ साक्षात्कारू ।
गेल्ली बुध्दी हॉ बॅजारू ।
हांवं शिष्यू तूं सद्‌गुरू ।
संबंधू हॉ ऊरद्‌ वॅ ॥३७०॥

जाय्नापुडॅ हँ दर्शन ।
जाल्लँ भो व्याकुळ मन ।
ताक्का दिंव्च्या उत्तेजन ।
कर्त आस्सं प्रयत्न ॥३७१॥

धैर्याक नी माक्का आय्क ।
सुर्वेक नक्षत्र अेक ।
दीव्नू दर्शन अस्ल्याक ।
उद्‌बोधांतूं सांबाय्लॉ ॥३७२॥

जीवाक कोरूक स्वस्थ ।
हांगाथंईं धांव्लाँ मस्त ।
जांव्का जाल्लेलॉ निवांत ।
जागॉ मॅळ्णा सोद्दूनुइ ॥३७३॥

विश्वरूप भयंकर ।
नष्ट कर्ता चराचर ।
मॅळ्ॉ ना मॅळ्ॅ उत्तर ।
इत्त्याक हॉ संहारू ॥३७४॥

महाभयाचँ मड्‌कँ फुट्‌लँ ।
कुड्‌कॅ ताज्जॅ बीरून्‌ पळ्ळॅ ।
अस्लीं कित्ल्की ताँडं पळॅ ।
चारीकडॅ दिस्ताती ॥३७५॥

हॉळ्ळ्यॉ दा ॉ दंतपंक्ती ।
वट्टाभाग्र त्यॉ पळ्ळ्याती ।
वईवारी त्यॉ दिस्ताती ।
प्रळयास्त्रांची सुत्वाक ॥३७६॥

तक्षकाक विष दिल्लँ ।
अमासेक भूत चाळ्वलँ ।
प्रळयाग्नीनॅ की हँ सॉळ्ळँ ।
अश्शी रॅ अग्नेयास्त्र ॥३७७॥

होळ्ळीं ताँडं मूळांतूची ।
निःश्वासांचॉ आवेशूची ।
नीठ पड्ता आम्चेरीची ।
येव्नू मृत्यूरूपानॅ ॥३७८॥

उज्ज्या खारू प्रळयाग्नीचॉ ।
मॅळ्ळॉ सांगातू वारयाचॉ ।
ॲक्ळॉइ तांतूं वांचुन् उर्चॉ ।
संभव सांग आस्सद् वॅ ॥३७९॥

अश्शी उटाय्लीं गिळूक ।
ताँड तुगेलीं सर्वांक ।
ऊर्नॅ कस्लेंई नांवाक ।
धैर्य, दीकू, हांवंई ॥३८०॥

अस्ल्या रूपांतूं पळैलॉ ।
सुखाचॉ दुष्काळू जाल्लॉ ।
तड्वई हॉ पस्त्रेलेलॉ ।
संहाराचॉ हॉ खेळू ॥३८१॥

अस्लँ कस्लँ तूं हँ कर्शी ।
ॲक्ळाक कळ्ळ्यारी अश्शी ।
बस्तल्शिलाँ सांगनाशी ।
वांचइ आत्तं हॉ प्राणू ॥३८२॥

त्राता जाव्नूई अनंता ।
सांग अश्शी इत्त्या कर्ता ।
सोडई तूं कृपावंता ।
पाशू महामृत्यूचॉ ॥३८३॥

देवाधिदॅवा विनैतां ।
तूं विश्वाचॉ अधिष्ठाता ।
विस्सोर्नू विप्रीत कर्ता ।
कोर्नक्का हॉ संहारू ॥३८४॥

वग्गी कृपा करी राया ।
लया व्हरी तुगेल् माया ।
पळ्ळ्या मृत्यूची ही छाया ।
मज्जेरी ती तूं काडी ॥३८५॥

ताव्वळ्धोर्नू पाय धर्तां ।
वांचइ वांचइ इत्त्या म्हणतां ।
ह्या रूपाचँ भय्य दिस्ता ।
जीवु जात्ता व्याकुळ ॥३८६॥

जाल्यार तुक्का गोत्तसची ।
स्वर्गांतूं ह्या ॲक्ळ्यानेची ।
दानवांक निस्त्राणची ।
कॅल्लँ भीनॅ मृत्यूक ॥३८७॥

हँ मात्र ताज्वारी न्हई ।
मेलाड्सूनू मृत्यूकई ।
विश्वासांगाती माक्काई ।
गिळ्च्याक तूं पळैता ॥३८८॥

न्हई शिलॉ हॉ कल्पांतू । जाल्यार्
आय्लॉ तूं मद्देंतूं । कॅल्लॉ
त्रैलोक्याचॉ घातू । अल्पायुषी तँ
कॅल्लँ ॥३८९॥

भाग्य कस्लँ हँ विप्रीत ।
जता जांव्चे बदलाक शांत ।
जाय्त आस्स आपद्ग्रस्त ।
गिळू लाग्ला पळॅ तूं ॥३९०॥

इत्लीं ताँडं तूं पस्त्राव्नू ।
घॅत्ता सर्वै सैन्यं गिळ्णू ।
प्रत्यक्ष हँ दिस्ता म्हुणू ।
अश्शी म्होण्का पड्ता न्है॥३९१॥

शूरवीर हॅ कौरव सगळॅ ।
कु । धृतराष्ट्रालॅ चल्लॅ ।
परिवारासह गॅलॅ गॅलॅ ।
सर्त तुगेल्या ताँडांतूं ॥३९२॥

आय्लॅ जॅ हांकां साह्याक ।
कांइ व्हर्ता त्याचि गतीक ।
ॲक्ळॉइ ऊर्नै कळोंच्याक ।
शीकवार्ता ही धारा ॥३९३॥

हस्त्यांकइ ह्या वॅळारी ।
गटागट अेक्क् थरारी ।
अश्शी इत्ल्या अंव्सरारी ।
लाग्ला बा तूं गिळच्याक ॥३९४॥

शस्त्रास्त्रांनीं झुंज दित्लॅ ।
सैनिक ह्या सैन्यांतूलॅ ।
दिस्सनाशी जाय्त आय्लॅ ।
कित्लॅ तुगेल् ताँडांतूं ॥३९५॥

कल्पांताची बरोबरी ।
अेक्क शस्त्र कर्ता जरी ।
अस्लीं तुवँ कोटीवैरी ।
गिळ्णु काळ्ळीं सर्व हीं ॥३९६॥

तश्शी चतुरंगी सेना ।
दांतांनीं चाब्बनस्तना ।
सग्ळीची गुळक्न् गिळतना ।
संतोष जाव्नु आस्काज ॥३९७॥

पदश्रेष्ठु शौर्यांतूलॉ ।
सत्यवादी भीष्मा अस्लॉ ।
आनी द्रोणाचार्यु गिळ्ळॉ ।
उद्का अेकु घोटुसॉ ॥३९८॥

गॅल्लॉ सूर्यापूतू कर्णू ।
काळ्ळँ कैरावारी झाण्णू ।
सैन्य आम्गेलँ पुस्सूनू ।
पळैत आस्सं हँ हांवं ॥३९९॥

ब्रह्मदेवा कस्लँ जाल्लँ ।
विश्वदर्शन मॅळॉ म्हळ्ळँ ।
मरणाक् आपैल्वारी जाल्लँ ।
विश्वागेल्या हांवेंची ॥४००॥

सांग्ल्यॉ सुमारश्‍ॉ विभूती ।
जाल्यार् जाय्नँ ताज्जेर तृप्ती ।
पोळोंची ही विश्वमूर्ती ।
भूक लाग्ली ताव्वळी ॥४०१॥

भोगु जाय्ना चुक्कोव्च्याक ।
बुध्दी फिर्ता त्या दिशेक ।
कारण ह्या अनर्थाक ।
जाल्लाँ पळॅ हांवंची ॥४०२॥

ॲक्ळाक अमृत मॅळ्ळँ ।
नोळीतची बॉस्चँ सॉळ्ळँ ।
आनी कस्लँ मॅळ्ता म्हळ्ळँ ।
मॅळ्ळँ काळकूटची ॥४०३॥

ताव्वळ तित्ल्यारीची राब्लँ ।
मुखावॅलँ मरण चुक्लँ ।
शंभूनॅ तँ प्राशन कॅल्लँ ।
धूर जाल्लँ संकट ॥४०४॥

उज्जॉ भर्ला ह्या वाव्यांतूं ।
विष भिन्ल्यां आकाशांतूं ।
कॉणामितीं हॉ कल्पांतू ।
चुक्कोव्च्यांक जाय्द बा ॥४०५॥

अश्शी दुःखानॅ कळ्वळ्ता ।
मनांतूंची खंती पाव्ता ।
जाल्यार् अश्शी इत्त्या कर्ता ।
देवू हँ तॉ पळैना ॥४०६॥

ह्या झुंजांतूं मार्ता हांवं ।
आनी मर्तलॅ कौरव ।
अस्लॉ मूढ अहंभाव ।
धूर कर्ता हँ कळ्णा ॥४०७॥

कॉणाकई मार्ना कॉण ।
हाक्का देवूची कारण ।
अश्शी हँ विश्वदर्शन ।
ताक्का सांग्ता प्रत्यक्ष ॥४०८॥

जाल्यार् घॅना हँ लक्षंतूं ।
नुस्तेंची तॉ कुंतीसूतू ।
आनीकई भयभीतू ।
जाव्नू व्यर्थ थर्थर्ता ॥४०९॥

आकाशांतू ना जात्ताती ।
मॉडं कश्की हीं वत्ताती ।
दोन्नी सैन्यं ॲक्सांगाती ।
दॅवा तुगेल् ताँडांतूं ॥४१०॥

कोपु यॅत्ता कृतांताक ।
स्वर्गु पृथ्वी पाताळाक ।
कश्की गिळ्ता तॉ घासाक ।
तश्शी पळॅ कर्ता तूं ॥४११॥

कश्की पळॅ कॉप्ता दैव ।
आनी आश्शिलँ वैभव ।
आप्णाइत्ल्याकची सर्व ।
थंचं थंईं ना जात्ता ॥४१२॥

तश्शी सैन्यं ॲक्डॅ मेळ्ळीं ।
ह्या ताँडांतूं शिर्त गेल्लीं ।
तांत्थाव्नू तीं भाग्र येत्लीं ।
पुणी कश्शी सांग तूं ॥४१३॥

अशोकाचीं पान्नं घॅल्लॅ ।
उंटानॅ चाब्डाव्न् गिळ्ळॅ ।
तश्शी हँ त्रैलोक्य सग्ळँ ।
गॅल्लँ व्यर्थची ॥४१४॥

किरीटांसमेत मात्तीं ।
पळॅ दा ॅ चिर्डिताती ।
पीठ चाब्चाबून् कर्ताती ।
हँची दिस्ता दॉळ्यांक ॥४१५॥

दांताखांचीतूं तीं रत्नं ।
जिब्बेतुर्येर् ताज्जॅ कण ।
दा ंक रक्ता लेपन ।
विलक्षण भक्षण ॥४१६॥

विश्वरूपी ह्या काळानॅ ।
देह गिळ्ळँ सामर्थ्यानॅ ।
मात्तँ मात्र जाग्रतेनॅ ।
दव्वर्ल्यां हँ जीवित ॥४१७॥

देहाचँ हँ उत्तमांग ।
उॅर्लं साबीत हँ चांग ।
बाकी देहाचीं उपांगं ।
गेल्लीं काळाताँडांतूं ॥४१८॥

जन्मा आयिल्यांक तरी ।
गतीची मॅळ्णा वॅ दुस्त्री ।
अस्ल्या ह्या ताँडाभित्तरी ।
वच्काजची पड्ता वॅ ॥४१९॥

आप्याप ह्यॉ सृष्टी सग्ळ्यॉ ।
ताँडाभित्तर् वच्चू लाग्ल्यॉ ।
हान्नॅ पूराइ गीळ्णू काळ्ळ्यॉ ।
उब्रल्कडॅ उब्रोनू ॥४२०॥

धाव्नु आय्लॅ ब्रह्मादिक ।
सग्ळॅ ताँडा वैल्दीकाक ।
बाकी दुस्त्र्या सामान्यांक ।
वच्का पळ्ळ्यां हांगा थैं ॥४२१॥

कित्ल्की प्राणी उब्जतांची ।
पळ्ळॅ हागेल् ताँडांतूंची ।
इत्लँ मात्र निश्चितची ।
सुट्का ना कॉणाकई ॥४२२॥

न्हंय्वां प्रवाह अनेक ।
मॅळ्ताती तॅ समुद्राक ।
तश्शी मार्गु धोर्नु अेक ।
रिग्ता जग हांतूंची ॥४२३॥

दिवसराती लॅक कोर्नू ।
आयुष्याची वाट चल्नू ।
कड्डेरी ह्या ताँडांत् येन्नू ।
पड्चँ मेळ्चँ इत्लेंची ॥४२४॥

उज्जॉ गुड् । खळगींतूं ।
पतंग उब्ताती तांतूं ।
पळॅ पड्ताती ताँडांतूं ।
तश्शी लोक हॅ सर्व ॥४२५॥

ताप्फील लॉखंडारी पड्ता ।
उद्दाक तँ थंई जिर्ता ।
तश्शी नामरूप वत्ता ।
साक्षी ऊर्ना कस्लेंइं ॥४२६॥

इत्लँ भक्षण कोर्नू हान्नॅ ।
जाय्ना हागेल् भूक उणॅ ।
पॉट्टांतूलॉ उज्जॉ नीव्नॅ ।
वाड्त वत्ता विप्रीत ॥४२७॥

तापु निव्विल्या रोग्याक ।
दुष्काळांतूं भिकारयाक ।
खांव्चॉ सुटता हकहक ।
तश्शी कर्ता इत्त्याक ॥४२८॥

खांव्चँ गिळ्चँ ऊॅर्न कांईं ।
तांडा रग्डॉ घुंव्चॉ कांईं ।
राब्बना पळैनॅ खईं ।
अस्ली भूक अेद्दोळू ॥४२९॥

पित्ता समुद्र घॉट्टांतूं ।
गिळता पर्वतू घासांतूं ।
सग्ळँ ब्रह्मांड दाढेंतूं ।
घाल्नू पळॅ चाब्डाय्ता ॥४३०॥

सग्ळॅ दीक गीळ्णु घेंव्चॅ ।
नक्षत्रांक लेव्नू काड्चँ ।
ह्याप्रमाणॅ तुंवँ चल्चँ ।
कस्ल्याक हॉ हक्हकॉ ॥४३१॥

भोगानॅची इच्छा वाड्ता ।
उज्जॉ सान्पून् होडु जात्ता ।
तश्शी हांकां खात्तांखात्तां ।
दिस्ता आनी खाव्यांशँ ॥४३२॥

अेक ताँड कित्लँ हॉड ।
जिब्बे तुर्येरी ब्रह्मांड ।
अश्शी दिस्ता की बिरुंड ।
घाल्यां वडवानलांतूं ॥४३३॥

अस्लीं हीं कित्लींकी ताँडं ।
तित्लीं खंईं बा ब्रह्मांडं ।
कस्ल्याक हीं इत्लीं ताँड ।
आहार मॅळणा जाल्यारी ॥४३४॥

उज्जा सुत्वांतुलँ मृग ।
तश्शी जाल्यां सर्व जग ।
चारी दीकाक आवेग ।
ताँडांतूल्या ज्वाळांचॅं ॥४३५॥

विश्वाक उज्जा वेंटाळॉ ।
की बल्यांतूं मास्ल्यॉ धर्ल्यॉ ।
कश्शी म्होण्चँ देवु पाव्लॉ ।
बरी वॅ ही अवस्था ॥४३६॥

आंग न्हई उज्ज्या बलँ ।
चराचर तांतूं पळ्ळँ ।
लाक्के घरइ लास्सू लाग्लँ ।
हांत्थान्‌ु कश्शी भाग्रपोड्चँ ॥४३७॥

अश्शी दुस्त्र्याक लास्तना ।
उज्जाक् ताज्जॉ त्रासु जायना ।
प्राणु वत्ता तॉ वांचना ।
ज़ळ्त मर्ता उज्जांतूं ॥४३८॥

जात्लाँ दुस्त्र्याक मारक ।
कश्शी कळ्णा हँ विषाक ।
आनी धारेच्या शस्त्राक ।
दुस्त्र्यागॅलँ मरण ॥४३९॥

अश्शी दिस्ता की तूं नॅण ।
तुगेलँ हँ उग्रपण ।
न्हइ जाल्यारी हँ मरण ।
यॅत्ल्शिलँ वॅ सांग ॥४४०॥

म्हणोन् घॅत्ता तूंचि अेकु ।
तॉचि आत्मा विश्वात्मकू ।
तरी सर्व संहारकू ।
अश्शी जात्ता इत्त्याक ॥४४१॥

हांवँ जीवा आशा सॉळ्या ।
सांग तूं मनानॅं मॉक्ळ्या ।
कस्लँ कोर्का म्हुणू लॅक्ल्यां ।
हाज्मुखारी दयाघना ॥४४२॥

अश्शी इत्त्या वाड्त वत्ता ।
उग्रता ही भगवंता ।
विश्वपाळा तूंची त्राता ।
मगेल् पुणी जाश्शी वॅ ॥४४३॥

वर्णन कर्ताती वेदांतूं ।
आदिनाथ तूं त्रैलोक्यांतूं ।
वंदनीय तूं ह्या विश्वांतूं ।
आय्क विनंती ही अेकी ॥४४४॥

धनुर्धरानॅं अश्शी म्हळ्ळँ ।
मस्तक पाय्यांरी दव्वँर्ले ।
आनी मुरारी निम्गीलँ ।
दॅवा आय्कलँ न्हवॅं ॥४४५॥

समाधान करी म्हळ्ळँ ।
रूप तुवँ हँ दाकैलँ ।
त्रैलोक्य तँ गिळू लाग्लँ ।
अश्शी अकस्मातची ॥४४६॥

सांग तूं कोणू हीं इत्ली ।
भयानक रूपं घेत्लीं ।
इत्त्याक हीं शस्त्रं धर्लीं ।
ह्या सग्ळ्याई हात्तांतूं ॥४४७॥

ज्या ज्या वॅळारी तूं कॉप्ता ।
तूं आकाशाकै होंडु जात्ता ।
दॉळॅ हॉळ्हॉळ्ळॅ तूं कर्ता ।
आनी इत्त्या भिस्डाय्ता ॥४४८॥

ज्या वॅळारी नाशु कर्ता ।
यमाक तूं मेलाड्सूय्ता ।
अश्शी इत्त्या तूं कर्ता ।
सांग हाज्जॉ तूं हेतू ॥४४९॥

कृष्णु हाक्का जवाब् दित्ता ।
आप्पण् कोणू म्हुणू सांग्ता ।
आनि अश्शी इत्त्याक् कॉप्ता ।
सर्वै हँ त्या पार्थाक ॥४५०॥

काळु हांवं हँ खरेंची ।
कोर्चो हांवँ संहारूची ।
सग्ली सृष्टी गिळ्च्याकची ।
इत्लीं ताँडं पस्नैलीं ॥४५१॥

संहार जांव्चॉ हॉ पोळोनू ।
राब्बै म्हणालॉ अर्जुनु ।
सांग्लँ तान्नॅ शरण येव्नू ।
जाल्यार् जाल्लॉ चडची ॥४५२॥

आप्णाल्या अस्ल्या उत्रानॅ ।
निराश जाव्नयॅ पार्थानॅ ।
म्हुणू मुखार् म्हळ्ळँ तान्नॅ ।
पळॅ की रॅ हँवै तूं ॥४५३॥

जळ्ताती हीं लाक्के घरं ।
तुम्मी मात्र सर्वै भाय्र ।
पळैलँ दीव्नू नदर ।
आय्कुनू हँ पार्थानॅ ॥४५४॥

मृत्यूचँ हॉड थैमान ।
तांत्थाव्नू पात्लॉ उत्थान ।
म्हणता पार्थू दीव्नू मन ।
आय्कूंचँ बरँ आत्तं ॥४५५॥

देवु मुखार् अश्शी सांग्ता ।
समजुन् घॅ रॅ तूं हँ पार्था ।
हांवं तुम्कां मगेल् म्हण्तां ।
गिळ्तां बाकी सर्वांकै ॥४५६॥

प्रचंड वज्राग्नींतूं पड्ता ।
लोण्या गॉळॉ कर्गुन् वत्ता ।
तश्शी जग नष्ट जात्ता ।
पळॅ तूं ह्या ताँडांतूं ॥४५७॥

कस्लेंइ तांतुलँ ऊरश्ना ।
हांतूं कांईं संशयू ना ।
तरी तांतुल् थॉ । जणां ।
आस्स पॉक्कळ् घमेंडी ॥४५८॥

चारदळी ह्या सैन्यांचॉ ।
भर्वसॉ बा कित्लॉ धर्चॉ ।
कृतांताक झुंज दिंव्चॉ ।
मदोन्मादू दँवश्ना ॥४५९॥

हॅ सग्ळॅ अॅक्डॅ मॅळ्ताती ।
शौर्या प्रौढी गाज्जैताती ।
चाळोंच्याक दाकैताती ।
हस्त्यॉ यमामुखारी ॥४६०॥

प्रतिसृष्टी निर्माण कोर्यां ।
पेज मार्नू मरण जिंक्यां ।
अेक्क घॉटांतूंची गिळ्यां ।
जग अश्शी म्हणताती ॥४६१॥

सग्ळ्या पृथ्वीक गिळ्तलॅं ।
वैरी आकाश लास्तलॅं ।
वारयाकई बसैतलॅं ।
बाण मार्नू जाग्यारी ॥४६२॥

शस्त्राप्रेक्षांई हीं तीक्ष्ण ।
उज्जापेक्षांई हीं उष्ण ।
काळकूट जाय्द सुन्न ।
अस्लीं उत्रं आय्कूनू ॥४६३॥

मॉडं ऊर्नाती अढळ ।
नळ्यॉ भित्तरी पॉवकाळ ।
चिलांत्लीं फळं निष्फळ ।
तश्शी पळॅ हॅं वीर ॥४६४॥

मृगजळ वॅ उस्सळ्द ।
सर्पू की चाब्बद ।
खेळ् कश्शी बा हाल्द ।
मांडैलेलॉ शंगार्नू ॥४६५॥

तांगेल् पूरा हालचाल ।
कोर्च्यो माक्षीचँ तँ बल ।
काण्णु घॅत्ल्यां म्हुणू दळ ।
बाँब्यांवारी निर्जीव ॥४६६॥

बाँब्यांक् नांचोव्ंती जी दोरी ।
अकस्मात ती थुंटल्यारी ।
सग्ळीं बोंबीं लकैल्वारी ।
जाल्नू उग्ती पड्तीद ॥४६७॥

तश्शी सैन्याची ही रचना ।
मोडूक वेळ् लाग्गश्ना ।
उट्टा वग्गी ह्याचि क्षणा ।
बुद्वतपण दाकई ॥४६८॥

कौरव गाय्यॉ चोरुक् आय्लॅ ।
तांचेर् मोहनारन्न सॉळ्ळँ ।
वैराटांक धैर्य दिल्लँ ।
पशइ मॅळ्ळँ तुज्मितीं ॥४६९॥

ताज्जाकै ससार् आत्तं ।
युध्दा संधी जाल्या प्राप्त ।
अॅक्ळॉची तूं यशवंत ।
मार्नू तूं ह्या शत्रूंक ॥४७०॥

नुस्तेंची हँ यश न्हई ।
सांगाती सग्ळँ राज्यई ।
पळॅ व्हई की हँ न्हई ।
निमित्त जा तूं मात्र ॥४७१॥

द्रोणागेली पर्वा नाक्का ।
भीष्माक कस्ल्याक भिंव्का ।
सोडूं की नाक्का म्होणक्का ।
शस्त्र तूं ह्या कर्णारी ॥४७२॥

जयद्रथाक ह्या मार्चें ।
कारण ना चिंता कोर्चें ।
बाकी उर्लेल्या वीरांचँ ।
कस्लँ कोरूं म्होणक्का ॥४७३॥

चित्रांतूं हॅं सोडैलेलॅं ।
सिंह अेकेक की सग्ळॅं ।
हात चिक्कॅ कोर्नू वल्लॅं ।
का`द की पुरसूनू ॥४७४॥

अॅक्डॅ मॅळ्ळ्याती युध्दाक ।
भूल्नक्का तूं ह्या दृश्याक ।
आभासू हॉ ह्या सर्वांक ।
कॅल्यां हांवँ निष्प्राण ॥४७५॥

मगेल् ताँडांतूं हॅ पळ्ळॅ ।
कॅर्ना तुवँ पळैल् पळॅ ।
तॅर्नाची निष्प्राण जाल्लॅ ।
आत्तं जाल्यां सलीस ॥४७६॥

म्हुणु उट्टा धनुर्धारी ।
तूं निमित्त हांकां मारी ।
कोर्नका नी हाज्मुखारी ।
निरर्थकु हॉ शोकू ॥४७७॥

लक्ष्य खुशालेक धोर्चें ।
तँची आप्णॅ विंदुन् मार्चें ।
आत्तंइ तुवँ तश्शी कोर्चें ।
जाइ न्हवॅ निमित्त ॥४७८॥

हांवँ तुगेल्या वैरयांक ।
उब्जलेल्याची क्षणाक ।
मार्ल्यां पळॅ सांगिल् आय्क ।
घॅ हँ यश, अैश्वर्य ॥४७९॥

अॅक्ळाकची हॅ उध्दट ।
जाल्याती दुष्ट उन्मत्त ।
मारी जाव्नू तूं निश्चिंत ।
कांइं कष्ट नास्तना ॥४८०॥

अश्शी तुवँ हांकां मार्नू ।
रणांगणारी जिंकूनू ।
विश्वांतूं विख्यात जाव्नू ।
पार्था तुवँ आस्काज ॥४८१॥

सांग्लँ सग्ळँ विस्तारानॅ ।
धृतराष्ट्राक संजयानॅ ।
तरी समाधान जाय्नॅ ।
ज्ञानदेवु हँ म्हण्ता ॥४८२॥

गंगा सत्यलोकांत्थाव्नू ।
आय्ली खळ्खळ् व्हाव्नू ।
तश्शी आय्ली दुमुदुमूनू ।
वाचा धीरगंभीर ॥४८३॥

की गुड्गूडूसॉ मॉडांचॉ ।
खौलॉ फिर्ता मंदाराचॉ ।
घुम्घुम् क्षीरसमुद्राचॉ ।
की हॉ घुम्लॉ आवाजू ॥४८४॥

अनाद्यनंतू  अनंतवेषी ।
जगदारंभू तॉ हृषिकेषी ।
पार्थाक म्हणालॉ अश्शी ।
उच्च घोषरवांतूं ॥४८५॥

थॉडँशँ कान्नारी पळ्ळँ ।
सुख जाल्लँ भय्य दिस्लँ ।
कळ्णा खरँ जाल्लँ कस्लँ ।
थर्थरेलँ सर्वांग ॥४८६॥

वंट्न कोर्नू पाय धर्लॅ ।
मस्तक् पाय्यारी दर्व्लँ ।
अश्शी कित्ल्की फंतां कॅल्लँ ।
अति नम्रभावानॅ ॥४८७॥

कस्लँ उल्लोंया म्हुणु वत्ता ।
ताळॉ धर्लेंल्वारी जात्ता ।
पळया हँ कश्शी दिस्ता ।
सुखानॅ की भय्येनॅ ॥४८८॥

दॅवान् जश्शी उल्लैल्मितीं ।
अर्जुनागेली ही स्थिती ।
जाल्ली सांग्तां ही संगती ।
पोळोनू ह्या श्लोकाची ॥४८९॥

तशीची तॉ भित्त भित्त ।
दॅवागेले पाय धर्त ।
आस्स नॅवानॅ निम्गित ।
अश्शी कश्शी म्हणता तूं ॥४९०॥

म्होण्येशिलँ तूंचि काळू ।
पोळोनू संहारा खेळूं ।
कश्शी धोर्चो बा निश्चळू ।
विश्वासू ह्या उत्तारी ॥४९१॥

हॉ आत्तं स्थितीचॉ वेळू ।
मद्दँ हॉ मृत्यूचॉ घोळू ।
ह्या दॉग्गांचॉ कश्शी मेळू ।
घाल्चॉ हँचि कळणा बा ॥४९२॥

प्रायी तर्नी ही आस्तना ।
म्हांतारपण हाडू जाय्ना ।
कर्तां म्हळ्ळेल्तरी जाय्श्ना ।
कोरूक हॉ  संहारू ॥४९३॥

सांज पूरा जाय्तस्तना ।
धॉन्पारै चल्त आस्तना ।
कॅर्नाइ कॉणाकै दिस्स्सश्ना ।
अस्ता वत्लॉ तॉ सूर्यू ॥४९४॥

काळु अखंडितु व्हई ।
तिन्नी अवस्था तांतूंई ।
राक्कुन् घेव्नू आस्सत् न्हई ।
तांग्तांगॅला समयू ॥४९५॥

जाय्त आस्तना उत्पत्ती ।
स्थिती लयू आस्सनाती ।
स्थितीवॅळारी यॅनाती ।
उत्पत्ती नी प्रळयू ॥४९६॥

चल्त आस्तना प्रळयू ।
उत्पत्ती स्थितीचॉ क्षयू ।
जाल्लेल् आस्ता ना उपायू ।
बदल कोर्चो कस्लॉई ॥४९७॥

वर्तमान कालु स्थिती ।
सर्वै भोगांतूं आस्सती ।
बरँ न्हई मद्देगती ।
अश्शी हाड्चॉ प्रळयू ॥४९८॥

देवु म्हणता फक्त हींची ।
दोन्नी सैन्यं मर्तलींची ।
अन्यांकई गती हीची ।
यथाकाल आस्तली ॥४९९॥

अश्शी आस्तना उल्लैत ।
पार्थूई आस्स पळैत ।
सर्व लोकु यथास्थित ।
तांग्तांगेल्या जाग्यारी ॥५००॥

म्हणता दॅवा तूं कृपाळू ।
सूत्रधारू विश्वपाळू ।
लाग्गनेची तुक्का वेळू ।
पूर्वस्थिती हाडूक ॥५०१॥

दु:खसागरांतूं पळ्ळॅ ।
तांकां तुवँ भाय्र काळ्ळँ ।
हँची उग्डासांतूं आय्लँ ।
दयालुत्व तुगेलँ ॥५०२॥

ज्या ज्या वॅळार् उग्डास् जात्ता ।
सुखोत्सवु भोग्गू मॅळ्ता ।
आनी अश्शी दिस्सू लाग्ता ।
पाँव्तां ब्रह्मनंदातूं ॥५०३॥

जीवा धैर्य मेळू लाग्ता ।
नी तुज्जेरी प्रीती बस्ता ।
दुष्टांक मात्र दिस्सू लाग्ता ।
भोची भय्यभय्यशँ ॥५०४॥

त्रैलोक्यांत्ल्या राक्षसांक ।
भयानक तूं भक्षक ।
भीव्नू तॅं धाई दिशांक ।
धूर धांव्न सुट्ल्याती ॥५०५॥

सुरनरकिन्नर सिध्द चराचर ।
सुदर्शनानॅं सहर्ष सत्वर ।
चरणांचेरी दव्वोर्नू शिर ।
नमस्कार हॅं कर्ताती ॥५०६॥

नारायण इत्खात्तीर ।
धाव्नु गॅल्लॅं अश्शी धूर ।
कर्नस्तना नमस्कार ।
तुक्का कश्शी राक्षस ॥५०७॥

तुक्का निम्गूंका कस्ल्याक ।
कळ्ता मगेल्या मनाक ।
सूर्यू उदेंव्च्या वॅळाक ।
राब्बद वॅं काळोकू ॥५०८॥

दॅवा तूंची तेजोनिधी ।
मेळ्ळी दर्शनाची संधी ।
राक्षसागेली उपाधी ।
चुक्ली पळॅ आप्याप ॥५०९॥

इत्लॅं दीस कांईं कळ्णॅं ।
महात्म्य दॉळ्यां दिस्सनॅं ।
आत्तं मात्र विरगयानॅं ।
पळैतां हँ सर्वई ॥५१०॥

तुगेल्या इच्छेचँ फळ ।
इत्लॅं महद्ब्रह्म गोळ ।
असंख्य हॅं सृष्टीमॅळ ।
जीवजंतू विस्तारू ॥५११॥

तत्त्व अगाध शाश्वत ।
गुणवंतू अगणित ।
समदर्शी कालातीत ।
दॅवा तूंची देवेंद्रू ॥५१२॥

त्रैलोक्याचॉ तूं आधारू ।
सदाशिवा तूं अक्षरू ।
सत्यासत्य निरंतरू ।
पेल्दीकाकै तूंची रॅं ॥५१३॥

आदिबीज तूं जिवाशिवाचँ ।
विश्रांतीस्थळ तूं मायेचँ ।
पुराणपण कित्लँ कॅर्नाचें ।
कळश्ना हँ कॅर्नाकै ॥५१४॥

तूंची प्राणु ह्या विश्वाचॉ ।
आश्रयुई तुगेलॉ मेळ्चॉ ।
भूतभविष्य सर्व पोळोंचॉ ।
अधिकारू हॉ तुगेलॉची ॥५१५॥

श्रुतींकै स्वानंद धन ।
आत्मसुख निरंजन ।
त्रैलोक्याक हँ जँ स्थान ।
अधिष्ठान तांज्जेंई ॥५१६॥

म्हुणू तूंची दैवत परम ।
दॅवा तूंची परमधाम ।
प्रळयांतूं महद्ब्रह्म ।
लीन जात्ता तुज्ज्यांतूं ॥५१७॥

विश्वाच्या ह्या विस्ताराक ।
तूंची रॅं कारण एक ।
इत्लीं हीं रूपं मेज्जूक ।
कॉणामितीं जाय्द बा ॥५१८॥

खंच्यांतूं बा तूं ना म्होण्चँ ।
हांगा ना हँ कश्शी साग्चँ ।
कळ्णा खंईं कश्शी आस्चँ ।
कर्ता हांवं वंदन ॥५१९॥

तूंची वायू रॅं अनंता ।
तूंची यमू एकू शास्ता ।
तूंची अग्नी जॉ धग्धग्ता ।
सर्वै प्राणीमात्रांतूं ॥५२०॥

वरुणु तूंचि तूं तारानाथू ।
सृष्टीप्रसवता ब्रह्मदेवु तूं ।
तागेलॉई पितावर्य तूं ।
वंदन कर्ता जगत्पते ॥५२१॥

कस्लेंई तँ कश्शी आस्सॉ ।
मूर्तिमंत वा अमूर्त आस्सॉ ।
विनम्र मगेलॉ प्रणामु आस्सॉ ।
सदैव तुक्का श्रीनाथा ॥५२२॥

अश्शी म्होण्णू आदरानॅं ।
प्रेमयुक्त भावनेनॅं ।
वंदन कॅल्लँ अर्जुनानॅं ।
नमस्ते नमस्ते ॥५२३॥

निय्याळणू माक्षी मुखारी ।
धर्ली श्रीमूर्ती इद्रारी ।
म्हणता हरी हरी हरी ।
नमस्ते नमस्ते ॥५२४॥

प्रत्यांग तँ एकएक ।
पळैतना जाल्लँ सुख ।
समाधानई चित्ताक ।
जाव्नू म्हणता नमस्ते ॥५२५॥

चराचर ह्या सृष्टींतूं ।
सर्वई जीवजंतूंतूं ।
पोळोनू हॉ भगवंतू ।
तांकां म्हणता नमस्ते ॥५२६॥

रूपं विचित्र अद्भूत ।
अनंतालीं अगणित ।
पोळोनू जात्ता विस्मित ।
म्हणता प्रभो नमस्ते ॥५२७॥

स्तुती कश्शी कोर्ची कळ्णा ।
नोळीतई बैसू जाय्ना ।
प्रेम भर्ल्यां जागॉ मॅळ्णा ।
मन जात्ता सद्गद ॥५२८॥

अश्शी नमन् हजारफतां ।
कोर्नुइ ताक्का आनी दिस्ता ।
पोळोंयां हँ मुख म्हणता ।
नॅव्नॅवानॅं नमस्ते ॥५२९॥

फाटीपॉट आस्स की ना ।
कस्ल्याक पोळोंका म्हणा ।
फाटी राक्ता तूं चिंता ना ।
म्हणता स्वामी नमस्ते ॥५३०॥

तुवँ सर्वत्र आस्तना ।
माक्षी मुखारी म्होण्चँ ना ।
आम्कां राक्ता तूं दिस्सना ।
म्हुणू तूं फाट्टीमाक्षी ॥५३१॥

विंग्विंगड अवयव ।
वर्णूंच्याक असंभव ।
तूंची दॅवा तॅची सर्व ।
सर्वात्मका नमस्ते ॥५३२॥

सर्वशक्तिशाली तूंची ।
पराक्रमू अगाधची ।
उपाधी नाना रूपांची ।
घेव्नुइ सॉण्णॅ अेकत्व ॥५३३॥

रितेपणानॅची भर्ता ।
आकाश भर्लेलँ आस्ता ।
नाना रूपांतूं तूं दिस्ता ।
जाव्नू तश्शी स्वरूप ॥५३४॥

अश्शी म्होण्येद केवल ।
निःशेष तूंची सकळ ।
समुद्राचँ अेक जळ ।
कश्की पाळं अनेक ॥५३५॥

सर्वांतूं सम आस्तना ।
तांच्यांत्थाव्नू वॅग्ळॉ जाय्श्ना ।
हीची साक्ष मेळ्ळी मना ।
आत्तं तूं हे सर्वेशा ॥५३६॥

इत्लॉ अश्शी आस्सूनूई ।
कळ्णॅ माक्का आजिथाई ।
आम्च्यांत्लॉ अेकु तुवई ।
समंदीकू म्हणतालाँ ॥५३७॥

अरे हॉड पाप कॅल्लँ ।
अमृतानॅ नॅल घुल्लँ ।
पिश्श्यावारी तट्टू घॅत्लँ ।
दीव्नू कामधेनूक ॥५३८॥

परीसाचॉ पर्वत मॅळ्ळॉ ।
फुट्टोव्नु ताज्जॉ नेल्गट कॅल्लॉ ।
कल्पवृक्षु खांडुन् लाय्लॉ ।
वई म्हणू गाद्द्याक ॥५३९॥

चिंतामणी हात्ता मॅळ्ळॅ ।
चॉर गोर्वांक् विंदुन् काळ्ळॅ ।
सांगातु सामान्य म्हळ्ळँ ।
तश्शी अॅक्डॅ मेळणूई ॥५४०॥

प्रत्यक्षची पळैता तूं ।
परमात्म्याक ह्या युध्दांतू ।
सारथी म्हुणू रथांतूं ।
हांवँ तुक्का बसैला ॥५४१॥

युध्दसंधी चुक्कोवं्च्याक ।
आम्चखात्तीर कौरवांक ।
मेळ्णू आय्लॉ, ह्या कामाक ।
लाय्लॉ तुक्का जगदीशा ॥५४२॥

सौख्यनिधी तूं योग्यांक ।
कश्शी माक्का ह्या मूर्खाक ।
कळ्णॅ हांवं झग्गड्च्याक ।
येव्नू राब्लाँ इद्वारी ॥५४३॥

विश्वाचॉ तूं आदि अंतू ।
तरी हांवँ चारचौगांतूं ।
धोर्नू समंदू लक्षांतूं ।
चेष्टा केल्ली तुगेली ॥५४४॥

ज्या ज्या वॅळार् मेळूक आय्लॉ ।
समाधान कोर्च्या यॅत्ना ।
शिष्टाचारू मनांत् धर्ला ।
पायइ धर्लॅ । तुंवँ कृष्णा ।
मेळणे जाल्यार् तुज्जेर् कॉप्लाँ ।
तरी लाज मगेल् मना ।
आश्शिल्मितीं सलगी ॥५४५॥
कश्शी कांई दिस्सनॅ ॥५४६॥

हांवंची बुद्वंतू लॅक्लँ ।
लाठीकाठी झुंज घेत्ली ।
आनी ताँड फिराव्न् घॅत्लँ ।
तुज्सांगाती कुस्ती खेळ्ळी ।
कळ्णॉ कश्शी चल्काशीलँ ।
झग्गोण्णूई पैज मार्ली ।
चुक्लाँ हांवं भगवंता ॥५४७॥
सारीपाटु खॅळ्तना ॥५४८॥

बरँ ॲक्ळाक दी माक्का ।
अस्लॅ अपराध कित्लॅ ।
बुद्वंत्पण सांग्लँ तुक्का ।
घळ्ळॅ, कळ्णाशीलँ कस्लँ ।
न्हइ जाल्यारी दव्वोर्न् घेंव्का ।
आण घेव्नू सांग्तां सग्ळँ ।
कस्ल्याक हॉ समंदू ॥५४९॥
तुगेल्या ह्या पाय्यांची ॥५५०॥

जेंव्च्याक तूं येव्नू बस्ता ।
विश्रामधामांतू आय्लाँ ।
नी मगेलॉ उग्डास् कर्ता ।
भीड धर्नस्तना भाँव्लाँ ।
हांवं मात्र कोप्पुन् बस्तां ।
येव्नू तुल्यागी निद्दलाँ ।
लाज सोण्णू गर्वानॅ ॥५५१॥
तुगेल्याची शय्येरी ॥५५२॥

यॉ रॅ कृष्णा यॉ रॅ म्होण्चँ ।
तुंवँ बश्शिल्कडॅ बस्चँ ।
यादवु तूं अश्शी लेक्चँ ।
तुगेल् उत्तर काण्णू घाल्चँ ।
वच्चु लाग्ल्यारी आड्डांव्चँ ।
भोची सलगीनॅ चल्चँ ।
आण घाल्नू तुगेली ॥५५३॥
कित्ल्कीफंतां हँ घळ्ळँ ॥५५४॥

आत्तं आनी सांग्गूं कित्लँ ।
समक्ष वा अपरोक्ष ।
अपराध हँ जाय्त गॅल्लॅ ।
अपराध कॅल्लॅ लक्ष ।
हाज्जँ वज्जँ जड जाल्लँ ।
कोर्नू संर्व तॅ दुर्लक्ष ।
मगेल्याची मात्त्यारी ॥५५५॥
क्षमा करी भगवंता ॥५५६॥

न्हंइ अशी व्हांव्त आस्ता ।
प्रीति जाव्नू वा कोप्पूनू ।
चिक्ला होळ्ड घेव्नु यॅत्ता ।
कॅल्लॉ हावँ अपमानू ।
सामावुनु घेंव्का पड्ता ।
कश्शी म्हळ्ळेल्तरी कोर्नू ।
समुद्रानॅ तिक्काई ॥५५७॥
बस्लां चूकी क्षमस्व ॥५५८॥

क्षमा तुगेली पळैता ।
पृथ्वी क्षमाशील जात्ता ।
भूतां भारू व्हांव्च्या लाग्ता ।
सांग्का म्हुणू ना तुक्का ॥५५९॥

तरी तूं ह्या अपराध्याक ।
आनी शरणागताक ।
कृपावंतु जाव्नू आय्क ।
क्षमा कोर्का अनंता ॥५६०॥

नि:संशय आत्तं कळ्ळँ ।
महात्म्य दॅवा तुगेलँ ।
चराचर जन्मा आय्लँ ।
तुगेल्याची सत्तेनॅ ॥५६१॥

शिव विष्णु सर्वै दॅव ।
हांकां तूंची अेकमेव ।
वेदांकई तूंची स्तब्ध ।
आदि गुरुवर्य तूं ॥५६२॥

हे श्रीरामा गंभीरू तूं ।
सर्वै समची तुज्ज्यांतूं ।
सकलगुणनिधी तुज्वारी तूं ।
कॉणै नाती तुज्जस्लॅ ॥५६३॥

तुज्जाकै ना हॉड कॉणै ।
सांग्का म्हुणू ना हँ कॉणै ।
सान जात्ता आकाश न्है ।
तुक्का पांग्रोन् घेंव्च्याक ॥५६४॥

म्होण्चँ दुस्त्रॉ तुज्वारीची ।
म्हळ्ळ्यारी लाज दिश्चीची ।
म्हुणू बस्चँ नोळीतची ।
आत्तं हँची भो बरँ ॥५६५॥

तुज्जस्लॉ ना अलौकीकू ।
त्रैलोक्यांतूं तूंची अेकू ।
दॅवा हांवं अगतिकू ।
कोरूक हँ वर्णन ॥५६६॥

अश्शी अर्जुनु उल्लैलॉ ।
तान्नॅ दंडवतु घाल्लॉ ।
आनी तागेल् उक्कून् आय्लॉ ।
भावू अष्टसात्विकू ॥५६७॥

कृपा करी म्हणतां म्हणतां ।
गळॉ तागेल् भोर्नू यॅत्ता ।
आनी वांचै वांचै म्हणता ।
कर्मांत्थाव्नू आप्णाल्या ॥५६८॥

विश्वाचॉ तूं प्राणसखा ।
पोळोनू आश्चर्य माक्का ।
जाल्लँ जाल्यार् हांवँ तुक्का ।
लक्लँ अेकु सॉयॅची ॥५६९॥

तुगेल् स्तुती कोर्काशिली ।
तुवँची केल्ली मगेली ।
चारचौगांतूं आनी लाग्ली ।
मगेल् गुर्मी वाड्डूक ॥५७०॥

अस्ल्या अपराधांचॉ आत्तं ।
सोद्दू जाय्श्ना बा रॅ अंत ।
जीवाक ही लाग्ल्या खंत ।
सोडै माक्का हांत्थाव्नू ॥५७१॥

हँ सुद्दां सांग्ची योग्यता ।
ना रॅ मज्ज्यांतूं अनंता ।
कश्की बाप्सूक लाल्लैता ।
चेर्डूं तश्शी सम्ज हँ ॥५७२॥

कश्की चुवक्यॉ सुधार्न् व्हर्ता ।
बाप्पुस् पुत्ताक् सांभाळ्ण घॅत्ता ।
तश्शी दॅवा दयावंता ।
घॅ तूं माक्का सांभाळ्णू ॥५७३॥

कस्लोइ जबाबॉ दिल्यारी ।
सन्मित्रु घॅना मनारी ।
तश्शी सर्व सहन करी ।
अपराध मगेलॅ ॥५७४॥

परस्पर प्रीती आस्ता ।
थंईं ना उच्चनीचता ।
उष्टँ काळ्ळँ भगवंता ।
म्हुणू क्षमा कोर्काज ॥५७५॥

जिव्हाळ्याचॅ समंदीक ।
मॉग्ल्यां जँ जँ सुखदुःख ।
सांग्ताती अेकमेकांक ।
मेळ्णू मोकळ्या मनानॅ ॥५७६॥

काया वाचा आनी मन ।
कॅल्यां पतीक अर्पण ।
ताल्यागी ती मुक्त मन ।
केलेल् वीना राब्बना ॥५७७॥

तश्शी ही विनंती कर्ता ।
अपराधांची क्षमा माग्तां ।
आन्नेक दुस्त्रँई सांग्तां ।
ताक्काइ आस्स कारण ॥५७८॥

ही सलगी आश्शिल्मितीं ।
पोळोंका ही विश्वमूर्ती ।
ह्या ध्यासाची परिपूर्ती ।
केल्ली तुंवँ प्रीतीनॅ ॥५७९॥

तुंवँ जांव्का जाल्लेल् तित्लॅ ।
कल्पवृक्ष आंग्णांत् लायलॅ ।
कामधेनूचेंइ दिल्लँ ।
वास्त्रु अेक खेळूक ॥५८०॥

कॅल्यॉ नक्षत्रांच्यॉ गुल्लॉ ।
चेंडू चंद्राचॉई दिल्लॉ ।
छंदू अेकु अेकु अस्लॉ ।
पूर्ण कॅल्लॉ गे माये ॥५८१॥

मेळचँ कष्ट अमृतांशू ।
ताज्जॉ चारी म्हैनॅ पाव्सू ।
सर्व भुंईं हॉ निवासू ।
कॅल्लॉ चिंतामणीचॉ ॥५८२॥

म्हळ्म्हळ्ळेलँ सर्वै दिल्लँ ।
जन्माचँ सार्थक जाल्लँ ।
आय्कनॅशीलँ दाकैलँ ।
जँ ब्रह्मामहेशांनीं ॥५८३॥

पळैतलॅ पुणी कश्शी ।
उपनिषदं उपाशी ।
गूढ अंतरंग अश्शी ।
तुंवँ माक्का दाकैलँ ॥५८४॥

कल्पादीच्या कालाधोर्नू ।
कित्लीं जन्मांतरं जाव्नू ।
गेल्लीं आजिथाई म्हुणू ।
उग्डासांतूं यॅनाती ॥५८५॥

त्या त्या जन्मांतूं पळैलँ ।
अथवा हँ कान्नार् आय्लँ ।
लक्षांतूंची कांईं अस्लँ ।
कश्शी बा हँ यॅनाची ॥५८६॥

बुध्दीबल थंइं पाव्ना ।
विश्वरूप नद्रे पण्णा ।
मनाक तँ साध्यची ना ।
दिस्चँ कल्पनॅनेई ॥५८७॥

थंईं दॉळ्यांनीं पोळोंची ।
खब्बरीची कश्शी काड्ची ।
माक्षी कॅर्नां आय्कनेची ।
आजीथाई पळैनॅ ॥५८८॥

विश्वरूप हँ तुगेलँ ।
माक्का आजीची दाकैलँ ।
पोळोनू संतृप्त जाल्लँ ।
कित्लँ मन मगेलँ ॥५८९॥

जाल्यार् आत्तं ध्यासु माक्का ।
तुल्यागी उल्लैत बस्का ।
तुवँ मल्यागीची आस्का ।
तुक्का पोट्टोळ्णु घेंव्काज ॥५९०॥

ह्या रूपाचॉ भो विस्तारू ।
कश्शी हाक्का पोट्टोळ्ण् धरूं ।
संभाषण कश्शी कोरूं ।
अमित तूं अपार ॥५९१॥

वारयासांगातीची धांव्चँ ।
आकाशाक पोट्टोळ्ण् घेंव्चँ ।
समुद्रांतूं खॅळ खेळ्चँ ।
साध्य कश्शी बा जाय्द ॥५९२॥

पुरॉ जाल्लँ पळैलेलँ ।
विश्वरूप हँ तुगेलँ ।
भय्य दिस्सू लाग्ल्यां पळॅ ।
पूर्ण करी ही इच्छा ॥५९३॥

भाय्लँ जग भोव्नु येंव्चँ ।
माग्गिर् घारा स्वस्थ बस्चँ ।
तश्शी आत्तं शांत जांव्चँ ।
चतुर्भुज रूपांतूं ॥५९४॥

आम्मी योगाभ्यासु कोर्चो ।
शास्त्रांचॉ सारांशु काड्चॉ ।
अनुभवु सिध्द जांव्चॉ ।
हँची रूप पोळोनू ॥५९५॥

आम्मी यज्ञयाग कोर्चे ।
तीर्थाटण कोर्नु येंव्चँ ।
कड्डेर् हाज्जँ फळ मेळ्चँ ।
हँची श्यामसुंदरा ॥५९६॥

आनी ह्या दानधर्मांचँ ।
कॅल्लेल्या पुण्यकर्मांचँ ।
फळ अेकची पोळोंचँ ।
चतुर्भुज तँ रूप ॥५९७॥

आनी वेळू रॅ काण्णक्का ।
ताळ्वीक ऊर्नि रॅ माक्का ।
कित्लॅ फंतां सांगूं तुक्का ।
आय्क मनमोहना ॥५९८॥

दॅवा अंतर्ज्ञानी तूंची ।
रचना केल्ली विश्वाची ।
सर्वै दॅव रॅ तुक्काची ।
भज्ताती कृपा करी ॥५९९॥

नीलवर्ण कमलाक ।
निळ्या निळ्या आकाशाक ।
इंद्रनीळ माणिक्याक ।
नीळकांती तुगेली ॥६००॥

पच्छाक सुगंधु मॅळ्ळॉ ।
आनंदाक हर्षु जाल्लॉ ।
लावण्चसुंदरु कॅल्लॉ ।
मदनाक खेळोनू ॥६०१॥

घाल्लँ किरीट मात्त्याक ।
शोभा आय्ली किरीटाक ।
गॉम्टाई अलंकाराक ।
दिल्ली की ह्या देहानॅ ॥६०२॥

इंद्रधनुष्या मद्देंतूं ।
शोभिवंत, मेधनाथू ।
तश्शी ह्या वैजयंतींतूं ।
शोभुन् दिस्ता हॉ श्यामू ॥६०३॥

गदा कित्ली ही उदार ।
मुक्त जाल्लॅ तॅ असुर ।
कश्शी सुदर्शन चक्र ।
फिर्ता सौम्य तेजांतूं ॥६०४॥

तँचि रूप पोळोंच्याक ।
हांवं जाल्लां भो उत्सूक ।
अजूनीकै तूं इत्त्याक ।
दाकैना रॅ तँ रूप ॥६०५॥

विश्वमूर्तीचॉ उत्साहू ।
मॉग्लॉ निव्लॉ ताज्जॉ दाहू ।
आर्त जाल्ला आत्तं जीवू ।
कृष्णरूप दाकई ॥६०६॥

दुस्त्रँ ह्याची रूपावीना ।
पोळोंका म्हुणू दिस्तना ।
दिस्सनॅ जाल्यारी कृष्णा ।
व्यर्थ पळॅ हॅ दॉळॅ ॥६०७॥

भोगमोक्षाची आशा ना ।
सोडी तूं ह्या भयानना ।
दाकई तूं सुदर्शना ।
आनी नाक्का कस्लेंई ॥६०८॥

आय्कूनू हँ श्रीकृष्णानॅ ।
म्हळ्ळँ ताक्का आश्चर्यानॅ ।
तुज्जस्लॉ हांवँ पळैनॅ ।
इत्लॉ कोणुइ अज्ञानी ॥६०९॥

दुर्लभ हँ मॅळ्ळँ तुक्का ।
हाज्ज्यानॅ संतुष्ट जांव्का ।
अश्शी भीन्नू वॅ उल्लोंका ।
हिताहित कळ्णा वॅ ॥६१०॥

आमीची मुखार्सुय्ताती ।
आनी कृपाई कर्ताती ।
देहूई हॉ झिजैताती ।
सांग कॉणाखात्तीर ॥६११॥

इच्छा तुगेल् जावॉ पूर्ण ।
म्हुणू आत्मयोगदान ।
कोर्नू धर्लँ हँची ध्यान ।
हँ घॅ पार्था लक्षांतूं ॥६१२॥

कस्लॉ तुवँ ध्यासु घॅत्लॉ ।
हांवै तुज्जेर पिस्सॉ जाल्लाँ ।
आनी गौप्यस्फोटु कॅल्लॉ ।
विश्वरूप दाकोनू ॥६१३॥

तँ हँ रूप अगोचर ।
आनी तँवै परात्पर ।
थैंथाव्नूची अवतार ।
जाल्लॅ कृष्ण इत्यादी ॥६१४॥

तेजोमय पूर्ण ज्ञान ।
विश्वात्मक हँ तूं जाण ।
अनंत अढळ स्थान ।
आदिकाला धोर्नूची ॥६१५॥

पार्था हँ तुज्वीना कॉणं ।
आय्कनॅ आनी पळैनॅ ।
जाय्नॅ खंचेइ साधनानॅ ।
साध्य हँ आजीकई ॥६१६॥

खंईं आस्स सोट्टू लाग्लॅ ।
आनी वेद मूक जाल्लॅ ।
याज्ञिकई परत फिर्लॅ ।
स्वर्गाथाई वच्चूनू ॥६१७॥

साधनेचॉ त्रासु जाल्लॉ ।
योगाभ्यासू सोण्णू दिल्लॉ ।
उत्साहूई आट्टून् गॅल्लॉ ।
पूरा अध्ययनांत्लॉ ॥६१८॥

उत्तमोत्तम सत्कर्म ।
धांव्ताती गांटूक व्योम ।
येव्नू कर्ताती विश्राम ।
थक्कुन् सत्यलोकांतूं ॥६१९॥

पळैली तपाची सिध्दी ।
धर्नॆ लॅक्काक उपाधी ।
तड्वता अर्दारी विधी ।
फलप्राप्ती धूरची ॥६२०॥

कष्ट पण्णस्तना अस्लॅ ।
विश्वरूप तुक्का दिस्लँ ।
मुत्यूलोकांतूं हँ अस्लँ ।
भाग्य मॅळ्णॅ कॉणाकै ॥६२१॥

पळैतलॉ हँ वैभव ।
जगांतूं तूं अेकमेव ।
ब्रह्मदॅवालँ दुर्दैव ।
म्होण्का पड्ता व्हय्की न्है ॥६२२॥

विश्वरूपाचँ दर्शन ।
मॅळ्ळँ तुक्का तूंची धन्य ।
हाण्णक्का मनांतूं अन्य ।
सोडी सोडी हँ भय्य ॥६२३॥

अमृंताच्या समुद्रांतु ।
बुड्तलाँ म्होण्णू मनांतूं ।
भीव्नू धांव्तलॉ दिगंतू ।
सांग कोणुइ आस्सद् वॅ ॥६२४॥

भांगाराची राशि मेळ्णू ।
हाल्ना ती जाग्यारी थाव्नू ।
म्हुणू ती तरशीची सोण्णू ।
सांग कोणुइ वच्चद् वॅ ॥६२५॥

चिंतामणी नशीबानॅ ।
मेळ्णू वज्जँ व्हांव्चँ कॉणं ।
किंवा कामधेनू घॅनॅ ।
करशी पोस्चँ बा म्हुणू ॥६२६॥

घराभित्तर् आय्लँ चांदणँ ।
धग्गू जात्ता म्हण्णॉ कॉणं ।
आनी साव्ल्येच्या नॅव्नानॅ ।
वच रॅ म्हण्णॉ सूर्याक ॥६२७॥

महातेजाचँ वैभव ।
हात्ता लाग्ल्यां हँ सुदैव ।
सोण्णू दी हँ अपंगत्च ।
धनुर्धरा मनाचँ ॥६२८॥

पिस्सॉ तूं हँ कस्लँ कर्ता ।
देह सोण्णू साव्ली धर्ता ।
तुज्जेरी कॉप्काशँ दिस्ता ।
आत्तं ह्याचिखात्तीर ॥६२९॥

जँ स्वरूप खरँ न्हई ।
तँची म्हणता तूं दाकई ।
तत्कालीक रॅ तँवई ।
रूप अवताराचँ ॥६३०॥

आत्तं पुणी हॉ विचारू ।
सोण्णू दी अहितकरू ।
सोडि अस्लॉ हॉ प्रकारू ।
ध्यासु धर्चॉ हटानॅ ॥६३१॥

अक्राळ विक्राळ जरी ।
आत्तांचँ हँ रूप तरी ।
दृढ श्रध्दा तूं हाज्जेरी ।
दव्वर्चें श्रेयस्कर ॥६३२॥

द्रव्य दव्वर्लेलँ स्थान ।
ध्यानांतूंची रात्रंदिन ।
जाल्यारी भाँव्ता आप्पण ।
हिम्टॉ चारिचौगांतूं ॥६३३॥

मोट्टीं आस्ताती घूडांतूं ।
पक्षिणीलॉ जीवू तांतूं ।
तरी वत्ता आकाशांतूं ।
संचार कोर्नू येंव्च्याक ॥६३४॥

गाई चर्ता गुड्ाचेरी ।
कॉट्ग्यांतूल्या वास्त्राचेरी ।
ध्यासु धर्ता दिवसभरी ।
तश्शी निष्ठा दव्वरी ॥६३५॥

चतुर्भुज त्या रूपांतूं ।
मित्रत्वाचँ सुख घॅ तूं ।
जाल्यारी धरी लक्षांतूं ।
आचारू हॉ लौकिक ॥६३६॥

नॅव्नॅवानॅ सांग्तां तुक्का ।
पार्था हँ तूं विस्सोर्नक्का ।
विश्वरूप हँची धोर्का ।
सत्स्वरूप सदैव ॥६३७॥

पळैनॅ तुंवँ हँ माक्षी ।
म्हुणू भय्य दिस्लँ अश्शी ।
प्रेमानॅ नित्य पळैशी ।
करी मन तुगेलँ ॥६३८॥

आत्तं सांगिल्वारी कर्ता ।
चतुर्भुज रूप धर्ता ।
निय्याळी तँ कुंतीसुता ।
संतृप्ती जावरेक ॥६३९॥

अश्शी म्हणत आस्तनाची ।
जाल्लॉ मूर्ती मानवाची ।
विशेष कस्लँ हँ नाची ।
प्रेमाचॉ हॉ प्रभावू ॥६४०॥

प्रत्यक्ष कैवल्य कृष्णू ।
विश्वरूप पूर्णधनू ।
जाल्लेल्तरी हॉ अर्जुनु ।
घाल्ता गांव्यॉ निड्ळाक ॥६४१॥

वस्तू मेळ्णू ती उड्डोंव्चँ ।
रत्न घेव्नू न्यून सोदचँ ।
चल्ली मना पण्णॉ म्होणचँ ।
पोळोनू हँ ताज्वारी ॥६४२॥

वैभव विश्वरूपाचँ ।
कित्लँ कौतुक प्रेमाचँ ।
मर्मई ब्रह्मज्ञानाचँ ।
दाकैलँ कौंतेयाक ॥६४३॥

घट्टी भांगार मोडैलँ ।
करोन्नू जांव्का जाल्लेलॅ ।
अलंकार तॅ आट्टैलॅ ।
सम जाय्नेती म्होण्णू ॥६४४॥

शिष्याचेरी प्रीती म्हुणू ।
विश्वरूप जाल्लॉ कृष्णू ।
आनी तागेल् मर्जी म्हुणू ।
जाल्लॉ कृष्णु नॅवार्ने ॥६४५॥

अश्शी मन राक्कुन् घॅत्लॅ ।
अस्लॅ गुरु सोद्का जात्लॅ ।
कळ्णा पळॅ प्रेम कित्लँ ।
अश्शी म्हणता संजयू ॥६४६॥

दिव्य तेज प्रगटलँ ।
विश्वांतू विस्तार पाव्लँ ।
तँचि आत्तं अॅक्डॅ जाल्लँ ।
चतुर्भुज कृष्णांतू ॥६४७॥

'तँ'पण हँ 'तं' पणांतू ।
कश्की मॅळ्ता अेकत्वांतू ।
वृक्षाकारू वा बीजांतू ।
तश्शी जाल्लँ 'अेक' तँ ॥६४८॥

सॉप्नं पळ्ळेलीं निद्देंतू ।
सर्ली जागृतावस्थेंतू ।
विलीन योगलीलेंतू ।
जाल्लँ तश्शी तँ विश्व ॥६४९॥

बिंदू तेजाचॉ सूर्यांतू ।
मॉडं विर्ताती नभांतू ।
पाळं कश्की समुद्रांतू ।
तश्शी विश्व कृष्णांतू ॥६५०॥

श्रीकृष्णूची घडी जाव्नू ।
आश्शिलॉ हँ विश्व धोर्नू ।
प्रीतीखात्तीर मेक्कोळ्णू ।
दाकैली ती पार्थाक ॥६५१॥

लांबी रुंदी रंगू सूत ।
घॅत्लॉ पळैता समस्त ।
पण्णॅ जाल्यारी पसंत ।
दित्लॉ घॅत्ता परत ॥६५२॥

विश्वरूपाचॉ विस्तारू ।
गिळ्ता सग्ळॉची संसारू ।
तॉची लावण्यसुंदरू ।
कृष्णु जालॉ साकार ॥६५३॥

रूप अनंत भीषण ।
जाव्नू सुस्वरूप सान ।
दित्ता धैर्य आश्वासन ।
भिल्लेल्या ह्या पार्थाक ॥६५४॥

स्वर्गू सॉप्नांतू पळैता ।
अचानक जागी जात्ता ।
नी कोणुइ कश्की म्हणता ।
हॉ कस्लॉ चमत्कारू ॥६५५॥

कश्की गुरु कृपा कर्ता ।
नी संसारू मिथ्या दिस्ता ।
आत्मबोधु सुरू जात्ता ।
तश्शी पाव्लॉ श्रीकृष्णू ॥६५६॥

अश्शी दिस्लँ अर्जुनाक ।
विश्वमूर्ती ही कस्ल्याक ।
आड येव्नू पोळोंच्याक ।
दीनाशिली कृष्णाक् ॥६५७॥

कश्की काळाक जिंकूनू ।
वारयाकई माक्षी घाल्नू ।
सात्तै समुद्र दांटूनू ।
आयलॉ पोव्नू सुखरूप ॥६५८॥

विश्वरूप तँ पोळोनू ।
भय्य त्रासू सहन कोर्नू ।
तश्शी कृष्णाक पोळोनू ।
हर्षू जाल्लॉ पार्थाक ॥६५९॥

सांज जात्ता यॅत्ता राती ।
नक्षत्रं दिस्सू लाग्ताती ।
तश्शी पृथ्वी सर्व सृष्टी ।
दिस्सू लाग्ली पार्थाक ॥६६०॥

हँची रॅ तँ कुरुक्षेत्र ।
समंदीकई समस्त ।
सिध्द जाव्नू तॅ सहस्त्र ।
उब्रल्याती झुंजाक ॥६६१॥

बाणांचे मांट्वाभितरी ।
रथू थंईं त्या जाग्यारी ।
कृष्णु सारथी मुखारी ।
तग्गू हांवं अर्जुनु ॥६६२॥

कश्शी आश्शिल्की अॅक्ळाक ।
तश्शी दिस्लँ अर्जुनाक ।
आनी म्हणालॉ स्वताक ।
मर्ता मर्ता वांच्लाँ की ॥६६३॥

जाण्ची शक्ती ना जाल्लेली ।
बुध्दी ताळ्यारी नाशीली ।
मन जाल्लेलँ चुळ्बुळी ।
मगेल् मगेल् म्हण्तना ॥६६४॥

इंद्रियं कामं तांगेलीं ।
कोर्चें विस्सोर्नू गेलेलीं ।
अश्शी दुर्दशा जालेली ।
सर्वई ह्या देहाची ॥६६५॥

इंद्रियांतूं जाल्लॉ सुरू ।
प्रकृतीचॉ व्यवहारू ।
जीवनाचँ चक्र फिरू ।
लाग्ल्यां आत्तं तुज्मितीं ॥६६६॥

कृष्णरूपांतूं पळैलँ ।
म्हुणू सुख प्राप्त जाल्लँ ।
अश्शी पार्थानॅ हँ म्हळ्ळँ ।
वसुदेवसुताक ॥६६७॥

चॅर्डागेली चूकी जात्ता ।
आव्सू कश्की सहन कर्ता ।
आनी पिंव्च्याकई दित्ता ।
तश्शी दिल्लँ दर्शन ॥६६८॥

विश्वरूप समुद्राचीं ।
पाळं पोव्नू होळ्होळ्ळींची ।
येव्नू पाव्लाँ दणूतची ।
ह्या मूर्तीच्या तीरारी ॥६६९॥

झाड हांवं बाव्च्या लाग्लाँ ।
मेघश्यामा पाव्सू पळ्ळॉ ।
सुदैवानॅ भोरू आयलॉ ।
नव्या तन्र्या पान्नांचॉ ॥६७०॥

तान्नेँ हाँ ताळाँ सुक्लाँ ।
अमृताचाँ घोटु मॅळ्ळाँ ।
वांचुन् वर्चाँ दिस्सू लाग्लाँ ।
आत्तं माक्का भर्वसाँ ॥६७१॥

ह्रुदयाचँ हँ आंगण ।
हर्षाचँ हँ उपवन ।
फुल्नापुडॅ समाधान ।
जाव्त आस्स मोहना ॥६७२॥

आय्कून् हँ म्हणता हरी ।
पार्था अॅक्ळाक दव्वरी ।
प्रीती विश्वरूपाचेरी ।
कड्डेरी ती मज्जेरी ॥६७३॥

माक्षीची हँ तुक्का सांग्ल्यां ।
विस्सर्लेल्वारी वँ जाल्यां ।
आस्साँ चिक्कँ राब मेळ्यां ।
दिंन्च्याक आलिंगन ॥६७४॥

कुर्डाँ गुड् ाक आप्पुड्द ।
इत्लाँची सानू म्हणद ।
स्पर्शा प्रमाण चुक्कद ।
कित्लाँ होडू कळद् वँ ॥६७५॥

विश्वरूप जँ दाकैलँ ।
त्या खात्तीर तप कॅल्लँ ।
शंकरानॅ पुण्य जॉळ्ळँ ।
पोळोंच्याक मॅळ्णॅची ॥६७६॥

कर्ताती अष्टांग योग ।
लाव्नू समाधी अभंग ।
तांकां जाल्यां वँ तूं सांग ।
विश्वरूपदर्शन ॥६७७॥

दिस्साँ रूप थॉडँ तरी ।
पोळोंच्याक क्षणभरी ।
पाळी यॅत्ता दॅवांचेरी ।
अश्शी म्हणत बोस्चीची ॥६७८॥

थेंबु अेकु पूराँ म्हुणू ।
मनांतूं ही आशा धोर्नू ।
चातकू बस्ता राक्कूनू ।
आकाशांतूं पळैत ॥६७९॥

तश्शी दॅव ध्यासु धोर्नू ।
पोळोंच्याक मॅळाँ म्हुणू ।
सुक्त बस्ताती राक्कूनू राती आनी
दिवसू ॥६८०॥

विश्वरूप हँ कॉणॅई ।
पळैनॅ रँ साप्नांत्थाई ।
बश्शिल्कडॅ तुवँ सर्वई ।
कष्टावीना पळैलँ ॥६८१॥

खंचॅ उपाय चल्नाती ।
वेदथाई माक्शेताती ।
सांगाताक घेव्नूई तीं ।
सई शास्त्रं पांडवा ॥६८२॥

आय्क रँ हँ धनुर्धारी ।
ह्या विश्वरूपा इद्रारी ।
तपांच्वाई कोटीवैरी ।
राशी नप्राँ पड्तीद ॥६८३॥

कित्लोइ दानधर्मु करी ।
कित्लेइ यज्ञयाग करी ।
कष्टांवीना जँ तुज्वारी ।
मंळश्ना तँ कॉणाकै ॥६८४॥

ताक्का उपायू अेक्कूची ।
चित्तांतूं वस्ती भक्तीची ।
जाल्यार् मात्र ह्या प्राप्तीची ।
खात्री घॅ हँ लक्षांतूं ॥६८५॥

तीवै भक्ती अश्शी आस्का ।
कश्की पाव्सा धार येंव्का ।
थेट पृथ्वीचेरी पड्का ।
खंईं वच्चनस्तना ॥६८६॥

प्रवाहु गंगेचॉ सग्ळॉ ।
समुद्राक येव्नू मॅळ्ळॉ ।
मॅळ्ळॉ आनी मॅळ्त उर्लॉ ।
धर्ने वाट विंगड ॥६८७॥

सर्वभाव मेळोन् घेव्नू ।
अनावर प्रेम धोर्नू ।
मज्ज्यांतूंची हांवं जाव्नू ।
तश्शी माक्का मेळ्काज ॥६८८॥

पृष्टभागू आनी तळ ।
तीर आनी मध्यस्थळ ।
दूद अेक तॉ केवळ ।
क्षीराब्धी तश्शी हांवं ॥६८९॥

मूईं आनी हांवं धोर्नू ।
चराचर अेक जाव्नू ।
भक्तीचॉ आधारू म्हुणू ।
हांवंची ना रॅ अन्यू ॥६९०॥

अश्शी ज्या क्षणाक दिस्ता ।
आनी माक्का जाण्णू घॅत्ता ।
मगेलँ ताव्वळी घड्ता ।
दर्शनई आप्याप ॥६९१॥

जश्शी राक्कुड् जळू लाग्ता ।
तँची अग्नी म्हणोव्न् घॅत्ता ।
राक्कुड् म्हुणू खंईं वर्ता ।
मूर्तीमंत अग्नीची ॥६९२॥

सूर्योदयू जा वरेक ।
काळोकू सर्व दीकाक ।
उदेय्ना पुडॅ प्रत्येक ।
कणुकणु प्रकाशू ॥६९३॥

जात्ता मगेल् साक्षात्कारू ।
सर्ता पूरा अहंकारू ।
द्वैतभावाचॉ संचारू ।
जांव्चॉ राब्ता मनांतूं ॥६९४॥

हांवं तूं आनी तँ सर्व ।
हांतूं जात्ता अेक भाव ।
सर्वांगेलँई सर्वस्व ।
दिस्सू लाग्ता मज्ज्यांतूं ॥६९५॥

जॉ कोणू माक्का पोळोनू ।
सर्वै कर्मं अर्पण कोर्नू ।
मज्वीना ना प्रिय म्हुणू ।
माक्काची भज्त आस्ता ॥६९६॥

इहपर हँ सकळ ।
कॉणाक हांवं केवळ ।
जन्माचँ सार्थकफळ ।
मज्वीना ना कोणूई ॥६९७॥

भूतभेदाची भावना ।
मनांतूं जॉ कोणु धर्ना ।
वैरत्व खंईं सोद्दीना ।
दिस्तां हांवं सर्वत्र ॥६९८॥

अस्लॉ मगेलॉ जॉ भक्तू ।
जाव्नू त्रिधातूरहितू ।
ताव्वळीची तॉ मज्जांतूं ।
समरस जात्ता रँ ॥६९९॥

अश्शी तॉ भुवनत्रयधारी ।
म्हण्ता गोवर्धनगिरिधारी ।
जाव्नू करुणारसमय भारी ।
सांग्ता हँ तॉ संजयू ॥७००॥

आय्कुनु हँ तॉ कुंतिकुमारू ।
भक्तशिरोमणि सेवातत्परु ।
जाल्लॉ पूर्णानंद निर्क्षरू ।
श्रीकृष्णाल्या चरणांतूं ॥७०१॥

दोन्नी रूपं दॅवागेलीं ।
तान्नॅ सम पोळोन् घेत्लीं ।
तांतूं ताक्का अनुकुल दिस्ली ।
चित्ताकर्षक श्रीमूर्ती ॥७०२॥

पोळोनू पार्थालँ चित्त ।
सोण्णू दीव्नू व्यापकत्व ।
जाल्यां अश्शी संकुचित ।
वाय्ट दिस्लँ कृष्णाक ॥७०३॥

दोन्नी थरेनॅ सम्जाव्नू ।
दाकैता तॉ स्पष्ट कोर्नू ।
अनुचित सोड्का म्हुणू ।
अर्जुनाक श्रीकृष्णू ॥७०४॥

हँ सगळँ तॉ आय्कुन् घॅत्ता ।
आनी मनांतूंची म्हण्ता ।
दोन्नीपैकी बरँ दिस्ता ।
खंचँ हँ सांगॉ तॉची ॥७०५॥

आत्तं अश्शी विचार कोर्नू ।
निम्गितलॉ हँ अर्जुनू ।
आय्कयाती लक्ष दीव्नू ।
तँची सांग्तां मुखारी ॥७०६॥

सांग्तां हांवं नम्र जाव्नू ।
बॅजार जाय्श्नाशी पोळोनू ।
आय्कया आनंदु घेव्नू ।
अश्शी म्हण्ता ज्ञानेशू ॥७०७॥

सद्भावाचीं फुल्लं मोक्ळीं ।
ओवीच्या सूत्रांतूं गांत्लीं ।
तीं पाय्यारी अर्पण केल्लीं ।
वं विश्वरूपाल्या ॥७०८॥

**॥ ज्ञानदेवु सांग्ता गीता । मधु अनुवादु कर्ता ।**
**इक्रावॉ अध्यायु बोरोन् जात्ता । विश्वरूपदर्शनयोगाचॉ ॥**

# बारावॉ अध्यायू

जयजयकारु तुगेलॉ शुध्दे ।
स्वयंसिध्द जयजय प्रतिष्ठिते ।
सदैव राक्ता तूं खानंदे ।
आम्कां कृपाकटाक्षानॅ ॥१॥

विषयभुजंगाचॉ बँटाळॉ ।
गच्च बिग्दुनू घाल्ता गळॉ ।
निर्विष जाव्नू गळणू वत्लॉ ।
कृपादृष्टिनॅ तुगेल्याची ॥२॥

तापग्रस्त गे कॉण जाय्द ।
कश्शी खंती बा लास्सद ।
अश्शी जरी व्हांव्त यॅद ।
प्रसादगंगा आम्त्ल्यागी ॥३॥

योगसुखाचॉ आनंदोत्सवु ।
तुगेल्या प्रीतीचॉची गौरवु ।
मॅळ्ता इच्छित सोहंभावू ।
भोग्गुक आम्कां भक्तांक ॥४॥

जीवाक आधारू दित्ता ।
पाय्यार् घेव्नू तूं धॉल्लाय्ता ।
नी कौतूकानॅ विंदुळ्ता ।
चित्ताकाशा पाळ्ळ्यांतूं ॥५॥

सत्यस्वरूपाची आर्ती ।
मन तत्वदर्शनार्थी ।
खेळैता तूं चित्तवृत्ती ।
अश्शी आत्मानंदांतूं ॥६॥

चंद्रामृत पिंव्च्या दित्ता ।
ॐकारानॅ तूं सांबैता ।
शांती समाधान मॅळ्ता ।
अश्शी ह्या समार्धांतूं ॥७॥

तूंची आव्सू साधकांक ।
विद्यानिधी पाल्पाल्लाक ।
म्हुणू तुगेल्या साव्लीक ।
सोण्णू वच्चना हांवं ॥८॥

सद्गुरू कृपा करीद ।
प्रसादू शाश्वत मॅळ्द ।
तरी पारंगत जाय्द ।
तॉ सर्वई विद्येंतूं ॥९॥

म्हुणु हे विद्याधनश्रीमंते ।
स्वजनभक्तगण सत्संकल्पलते ।
आज्ञा दी तूं माक्का माते ।
ग्रंथनिरूपण कोरूक ॥१०॥

नवरसभर्ती भॉरॉ सागरु ।
तांतूं भावार्थाचॉ गिरिवरु ।
रत्नालंकाराचँ आगरु ।
जावॉ मगेलँ विवेचन ॥११॥

साहित्यसुवर्णाची खाण ।
निवेकवारयांचँ उद्यान ।
जावॉ ह्या देशाचँ प्रांगण ।
ह्या रीतीनॅ समृध्द ॥१२॥

जावॉ फलदायकु संवादु ।
सिध्दांतांचॉ जॉ गूढार्थू ।
सुगम जाव्नु तॉ मॅळॉ बोधू ।
सर्वइ काळ सर्वांक ॥१३॥

अर्थशून्य तॉ वितंडवादू ।
तर्कदुष्ट श्र्वापदसंबंधू ।
नष्ट जाव्नु सद्‌विचार पंणू ।
मॅळॉ ह्या कथनांत्थाव्नू ॥१४॥

लाग्गॉ माक्का कृष्ण–आवडी ।
श्रोत्यांक श्रवणाची गोडी ।
गुरो उरॉ ही अेकी जोडी ।
सर्वांगेली सर्वत्र ॥१५॥

नगर अेक हँ देशु मराठी ।
ब्रह्मविचारू पावॉ ख्याती ।
हांगा घॅवोती दीवोती ।
हॉचि सुखानॅ परस्परां ॥१६॥

आत्तं माक्का तूं कृपेनॅ ।
पांग्रई आप्लेपणानॅ ।
कर्ता पळॅ हँ खत्रीनॅ ।
परिपूर्ण आख्यान ॥१७॥

आय्किली नम्र विनंती ।
केल्ली गुरुकृपावृष्टी ।
म्हण्ता सांग तूं सट्सटी ।
हांतूं वेळु काण्णक्का ॥१८॥

मॅळ्ळॉ निवृत्तिप्रसादू ।
म्हुणू जाल्लॉ भो आनंदू ।
म्हणता आय्कया प्रबंधू ।
सम ध्यान दिंव्काज ॥११॥

सर्वश्रेष्ठु जॉ नरवीरां तूं ।
विजयपताका सोमकुलां तूं ।
म्हण्ता तॉ हॉ पांडुनृपतिसुतु ।
आय्क आय्क श्रीकृष्णा ॥२०॥

तुंवँ जँ सांग्लँ तँ कळ्ळँ ।
विश्वरूप विचित्र पळैलँ ।
आजिचि अद्‌भुत दर्शन घळ्ळँ ।
म्हुणू भय्य दिस्लँ रॅ ॥२१॥

कृष्णमूर्ति तुगेली नित्याची ।
परिचित जाल्ली ती प्रीतीची ।
खरी न्हई म्हुणु ती तुंवँची ।
रूप विलक्षण दाकैलँ ॥२२॥

व्यक्त आनी तँ अव्यक्त ।
दोन्नी हीं नाती विभक्त ।
भक्ताक हँ आस्ता व्यक्त ।
योग्याक तँ अव्यक्त ॥२३॥

दोन्नी भिन्न दिश्शिल्तरी ।
वैकुंठाच्या तॅ मॅट्टारी ।
अॅक्डॅ मॅळ्ताती माग्गीरी ।
दॉगै अॅक्डॅ पाव्ताती ॥२४॥

सुवर्ण जँ ह्या गुंज्येंतूं ।
तँची आस्स ह्या घाट्व्येंतूं ।
गुणवत्ता ही हांतूं तांतूं ।
सुवर्णाची अेवकीची ॥२५॥

अमृताचॉ अपार सिंधू ।
तांतुलॉचि हॉ अेकु बिंदू ।
परिणामू तॉ अेकविधू ।
पळैल्यारी सामर्थ्य ॥२६॥

आय्ली प्रत्यक्ष प्रचीती ।
तरी निम्मितां श्रीपती ।
कारण योगाधिपती ।
आय्कूनू घॅ ताज्जँ तूं ॥२७॥

अॅक्ळाक कॅल्लँ प्रगट ।
रूप तुगेलँ विराट ।
प्रासंगिक की शाश्वत ।
हँवै माक्का कळ्काज ॥२८॥

तूंची अेक साध्य म्होण्णू ।
मन पूर्ण तुक्का दीव्नू ।
तुज्खात्तीर कर्म कोर्नू ।
आस्ता जॉ भक्तू अेकू ॥२९॥

चित्तांतूं तुक्का बसोव्नू ।
नित्य उपासना कोर्नू ।
पूर्ण समर्पित जाव्नू ।
अश्शी आस्ता जॉ भक्तू ॥३०॥

जँ ॐकारा पेल्दीकार्नॅ ।
सांगू जाय्ना जँ वाचेनॅ ।
वा कस्लेंइं दिस्सुन् यॅनॅ ।
आजिथाई हाज्वारी ॥३१॥

आस्सूनूइ जँ सर्वत्र ।
अव्यक्त जँ अेकमात्र ।
तँची सोऽहं म्होण्णू मंत्र ।
ज्ञानी ध्यान धर्ताती ॥३२॥

अश्शी ज्ञानी आनी भक्तू ।
तत्त्वतः ह्या दॉग्गांतूं ।
खरॉ कोणु योगयुक्तू ।
सांग माक्का अनंता ॥३३॥

पार्थागेल्या ह्या प्रश्नार्नॅ ।
खुषी जाव्नू श्रीकृष्णार्नॅ ।
ताक्का म्हळ्ळँ कौतुकार्नॅ ।
योग्य तँची निम्मिलँ ॥३४॥

गुड् ामाक्षी सूर्यू दँव्ता ।
ताज्माक्षी उज्वाडू वत्ता ।
सूर्यांतूं तॉ मेळ्णू आस्ता ।
चुक्कश्ना रॅ सांगातू ॥३५॥

पाव्साडींतूं न्हंई भर्ता ।
भर्ता भर्ता उव्वारु यॅत्ता ।
नित्यनेमु कर्ता कर्ता ।
श्रध्दाइ वाड्ता सांगाती ॥३६॥

धारेक् धार लाग्गुन् यॅत्ता ।
गंगा समुद्राक मॅळ्ता ।
अखंड ती मॅळ्त उर्ता ।
प्रेमइ वाड्ता हँ तश्शी ॥३७॥

इंद्रियांक शिस्त लाव्नू ।
मगेलँची ध्यान धोर्नू ।
राती दीसू सम म्होण्णू ।
निष्ठेनॅ जॅ चल्ताती ॥३८॥

मज्ज्यांतूंची समर्पित ।
जाव्नू आस्ताती जॅ भक्त ।
तांकांइ हांवं योगी श्रेष्ठ ।
म्हुणु मान्तां कौंतेया ॥३९॥

निराकार जॉ ॐकारु ।
ताज्जॉ जाव्नु साक्षात्कारु ।
आस्ता जॉ ताँ योगेश्वरू ।
तॉवै भक्तू मगेलॉ ॥४०॥

मनानॅ तँ जाणू जाय्ना ।
बुध्दी थंईंथाई पाव्ना ।
साध्य जांव्चे सारखेंइ ना ।
इंद्रियांक हँ जाण ॥४१॥

ध्यान हाज्जँ धरू जाय्ना ।
तँवै अॅक्डॅची आस्सना ।
हाज्वारी कोणुइ दिस्सना ।
करुशी कोर्चें चिंतन ॥४२॥

सर्वत्र तँ सर्वात्मक ।
सर्वकाळ तँची अेक ।
विराट तँ विश्वात्मक ।
पोळोंचेंइ अशक्य ॥४३॥

आस्सूनूई जँ दिस्सना ।
नात्तिल्वारी जँ आस्सना ।
ह्यान्मितीं कांईं सुच्वना ।
अेकु सुद्दां उपायू ॥४४॥

जाग्यार् थाव्नू जँ हाल्लना ।
खर्चना जँ भुर्शँ जाय्ना ।
त्या तत्त्वाची उपासना ।
जॉ कर्ता तॉची धन्य ॥४५॥

वैराग्याचॅ अग्नि बाण ।
लास्ताती विषयसैन्य ।
योगी कर्ताती धारण ।
कर्पलेलीं इंद्रियं ॥४६॥

निग्रहानॅ इंद्रियांक ।
कर्ताती तॅ अंतर्मुख ।
नी तांगेल्या प्रवृत्तींक ।
वश कोर्नू घॅत्ताती ॥४७॥

अपानाक भित्तर घाल्नू ।
आसनाचँ बागिल लाव्नू ।
मूळबंध जागृत कोर्नू ।
थंईं स्थिर जात्ताती ॥४८॥

धैर्य मनाक दित्ताती ।
आशापाश थुंटैताती ।
काळ्की नीद हरैताती ।
अरुशी जागी उर्ताती ॥४९॥

मूळबंधाचॅ ज्वालेंतूं ।
जळ्ताती तॅ सप्तधातू ।
आनी पड्ता षड्चक्रांतूं ।
सर्व व्याधींचँ मूळ ॥५०॥

कुंडलिनी जागैताती ।
आधार्चक्रारी यॅत्ताती ।
मस्तकांत्थाई शिर्ताती ।
घेव्नू तिगेलँ तेज ॥५१॥

संयमाचॉ चिळ्कॉ घाल्नू ।
नव्वइ बाग्लं बंद कोर्नू ।
सुषुम्नेक मोक्ळी कोर्नू ।
ध्यान साध्य कर्ताती ॥५२॥

संकल्पाचॅ बॉक्कड मार्नू ।
मना रड् ाक खांडूनू ।
तुष्टैताती बळी दीव्नू ।
प्राणशक्ती चामुंडा ॥५३॥

इडापिंगला सम मेळोव्नू ।
नादु अनाहत अखंड धोर्नू ।
अमृतसिध्दी प्राप्त कोर्नू ।
वगिवगि घॅत्ताती ॥५४॥

सुषुम्नेचॅं निस्णेर्थान्नू ।
हळू हळू वैरि चण्णू ।
मस्तकांतूं प्रवेश कोर्नू ।
ब्रह्मरंध्र गांट्ताती ॥५५॥

निसणी ही दांटुय्ताती ।
मायाकोश तुडुय्ताती ।
खाक्यां मार्नू तॅं भॉग्ताती ।
ब्रह्मानंदु शाश्वतू ॥५६॥

तॉची हांवं तॅं लॅक्ताती ।
मेळोन्नू ही सोहंसिध्दी ।
जाल्यारी घोर उपाधी ।
लान्नु घेन्नू योगाची ॥५७॥

मगेलँ घॅ तुगेलँ दी ।
व्यवहारू हॉ अस्ली रीती ।
जाल्यारी तॅवै जात्ताती ।
मगेलँची स्वरूप ॥५८॥

कस्लँ चडावत मेळचँ ।
अश्शी कांइं ह्या योगाचँ ।
सामर्थ्य ना, तँ क्लेशांचँ ।
मात्र जात्ता साधन ॥५९॥

प्राणीमात्राचँ जीवन ।
अव्यक्त जँ खयंपूर्ण ।
पळैताती भक्तीवीण ।
आकलन कोरूक ॥६०॥

इंद्रादिक आपैताती ।
ऋध्दीसिध्दी भुलैताती ।
वच्ची वाट आड्डाय्ताती ।
येन्नू मद्देगतीची ॥६१॥

घेन्नू रूपं नानाविध ।
यॅत्ताती तॅ कामक्रोध ।
चुक्कैताती लक्ष्यवेध ।
अश्शी दीन्नू उपद्र ॥६२॥

तान्नेनेची तान निंव्का ।
भुक्केनॅची पॉट भोर्का ।
वारॉ जांव्का जाल्यार् घेंव्का ।
स्वता हातु हाल्लौन्नू ॥६३॥

दीसा वत्तांतूं निद्दोंचँ ।
रान्नावनांतूची फिर्चँ ।
इंद्रियनिरोधु कोर्चँ ।
हांतूं मन खेळोंन्चँ ॥६४॥

शिंयाकची पांग्रोन् घेंन्चँ ।
वस्त्र आंगारी धग्गाचँ ।
घर राब्बुक पाव्साचँ ।
हॉ योगू भो खडतर ॥६५॥

विधवेनॅ सती वच्का ।
म्हुणू नित्य उज्ज्यांत् उड्का ।
ताज्वारी हॉ योगु म्होण्का ।
व्हय्की न्हई  धनुर्धरा ॥६६॥

बाम्णाखात्तीर हँ न्हई ।
वा ना पित्रांखात्तीरई ।
नुस्तें कोर्ची ही लडाई ।
नित्य मृत्यूसांगाती ॥६७॥

मृत्यूपेक्षांई भीषण ।
कश्शी गिळ्चॉ घोटु हून ।
गिळ्त बस्ल्यारी पाषाण ।
पिंदश्ना वॅ हँ तॉंड ॥६८॥

भाग्र सर्लँ ह्या मार्गारी ।
तांकां आय्क धनुर्धारी ।
क्लेशांवीना ना रॅ दुस्त्री ।
गती पळॅ सर्वथा ॥६९॥

सांग दांत नात्तिल्यानॅं ।
खाव्येद् वॅ लॉखंडा चणॅ ।
पॉट भरद् वॅ ताज्ज्यानॅं ।
की तॉ प्राणु सोडीद ॥७०॥

समुद्र वच्येद् वॅ पोव्नू ।
भूजांचॉ भर्वसॉ धोर्नू ।
दांटुव्येद् वॅ चम्कूनू ।
आकाश हँ सांग तूं ॥७१॥

पळैनॅ रक्ताचॉ पाटू ।
अेक्कुइ पण्णॅ शस्त्राघातू ।
अस्लॉ सूर्यूमंडळांतूं ।
सांग कश्शी वच्चद ॥७२॥

माँव्यानॅ वल्यामुखारी ।
धांव्तां म्हळ्ळेली खब्बरी ।
तश्शी जीवु देहधारी ।
लाग्ता अव्यक्तामाक्षी ॥७३॥

उश्नँ धैर्य धोर्नू जरी ।
आकाश धरू गॅल्यारी ।
क्लेश मात्र जात्लॅ भारी ।
दव्वरी हँ लक्षांतूं ॥७४॥

म्हुणू भक्तीमार्गार्थाव्नू ।
वत्ल्यांक हॉ त्रासु घेव्नू ।
गोत्तूची ना हँ सम्जूनू ।
घॅ तूं कुंतीनंदना ॥७५॥

वर्णाश्रमाचँ पालन ।
कोर्नू तीं तीं कर्म पूर्ण ।
पावैताती समाधान ।
सर्वै कर्मेंद्रियांक ॥७६॥

शास्त्रोचित तँ कर्ताती ।
निषिध्द तँ तॅ कर्नाती ।
निरिच्छ जाव्नू दित्ताती ।
कर्मफल माक्काची ॥७७॥

अश्शी कर्म तॅ कर्ताती ।
आपणॅ कॅल्लँ हँ म्हण्णाती ।
कर्मबंधनं सुट्ताती ।
तॅ संन्यासी खरॅची ॥७८॥

कायावाचामनोभावू ।
ह्या सर्वांकै हांवं ठावू ।
दुस्त्रॉ खंचॉ तरणोपावू ।
नाची हँवै म्हण्ताती ॥७९॥

तांकां मगेलँची ध्यान ।
तँची हांवँ राब्चँ स्थान ।
आम्च्यांतूं ना वॅग्ळॅपण ।
तॅ नी हांवं अेकची ॥८०॥

भोग मोक्ष तुच्छ तांकां ।
कॅर्नाइ हांवँ लाग्गी आस्का ।
खंइं वत्ताती थंईं वच्का ।
इत्ली प्रीती मज्जेरी ॥८१॥

तनमनजीवु घाल्नू ।
भज्ताती अनन्य जाव्नू ।
हांवंची रॅ मुखार्सूनू ।
कर्ता सर्वै तांगेलँ ॥८२॥

आव्सूगेल्या उदरांतूं ।
वाड्डुन् उब्जलेलॉ पूतू ।
कश्की तिक्का तॉ अत्यंतू ।
सदोदित प्रियूची ॥८३॥

कॉणै कश्शी वॅ आस्सोती ।
मृत्यूंत्थाव्नू तांकां भुक्ती ।
दिंव्ची मगेली प्रवृत्ती ।
तश्शीची ती सहज ॥८४॥

माग्गद वॅ खंची राणी ।
दिय्या शॅळँ शीत पुणी ।
तश्शी मगेल्या भक्तांनीं ।
कोर्का पण्णा याचना ॥८५॥

सायॅर पळॅ तॅ मगेलॅ ।
तांकां जरी कष्ट आय्लॅ ।
ताज्जँ लांछन लाग्तलँ ।
माक्का न्हवॅ सर्वथा ॥८६॥

जन्ममृत्यूचीं हीं पाळं ।
गिळ्ताती सृष्टी सकळ ।
पोळोनू हँ कळवळ ।
जांव्च्या लाग्लँ पोट्टांतूं ॥८७॥

भवसिंधूचॉ रणकल्लोळू ।
लाग्ला सग्ळ्यांक हॉ गीळू ।
भीद मद्भक्तांचॉ मेळू ।
हँची आय्लँ मनांतूं ॥८८॥

म्हुणू हांवं साकार जाल्लाँ ।
धांव्त हांगा आय्लाँ ।
तांगेल् गांवां येव्नू पाव्लाँ ।
धनुर्धरा तत्काळ ॥८९॥

सहस्त्र दोण्यॉ यॅत्ना हाळ्ळ्यॉ ।
नामाच्यॉ ह्यॉ तुवँ पळैल्यॉ ।
संसारांतूं निश्चित जाल्यॉ ।
तारक तुम्कां सर्वांक ॥९०॥

कस्लेंइ जंजाळ नात्तिल्यांक ।
बसैलँ हांवँ ध्यानाक ।
संसारांतू आश्शिल्यांक ।
ह्या दोण्यांतूं बसैलँ ॥९१॥

काईं जणांक पोट्टोळ्णू ।
घॅत्लँ हांवँ प्रेम दीव्नू ।
सायुज्यपदाक हाण्णू ।
बसौव्नु घॅत्लँ मल्यागी ॥९२॥

जाय्नापुडॅ मगेल् भक्त ।
चतुष्पाद भूतजात ।
पात्रता सर्वांक प्राप्त ।
करैतां वैकुंठाची ॥९३॥

म्हुणू भक्तांक अर्जुना ।
कस्ली चिंता कोर्का पण्णा ।
तारकू हांव् आस्तना ।
सर्वकाळ सर्वत्र ॥९४॥

कॅर्ना भक्तु माक्का दित्ता ।
चित्त तागेलँ सर्वथा ।
ताव्वळीची बांदुन् घॅत्तां ।
माक्का तागेल् कार्याक ॥९५॥

हॉचि अेकु मार्गु जरी ।
धोर्कांज म्हुणू दिस्ल्यारी ।
'चित्त समर्पण करीं' ।
विस्सोर्नक्का हॉ मात्र ॥९६॥

छंदु लाग्गॉ रॅं मनाक ।
धरी दृढ तूं बुध्दीक ।
मगेल्या तूं स्वरूपाक ।
विस्सोर्नक्का क्षणैक ॥९७॥

मन मेळोन्नू बुध्दींतूं ।
रीग प्रेमानॅं मज्ज्यांतूं ।
अश्शी मेळ्शी माक्काची तूं ।
राब पार्था निश्चिंत ॥९८॥

मनबुध्दी दृढ धर्शी ।
तांकां मगेल्ँ घर कशी ।
सांग तूं नी हांवं कश्शी ।
दोनि म्हुणू उर्तीद ॥९९॥

दिवॉ निव्ता नी सांगाती ।
जात्ता निस्तेज ती वाती ।
सूर्यू बुड्तां बुड्तां राती ।
येंन्च्या लाग्ता काळ्काची ॥१००॥

तश्शी ह्या प्राणासांगाती ।
इंद्रियैं भाग्र सर्ताती ।
अहंकारु आत्मघाती ।
रिग्ता मनबुध्दींतूं ॥१०१॥

म्हुणू ह्या मनबुध्दींतूं ।
स्थान निरंतर दी तूं ।
त्यान्मितीं सर्व विश्वांतूं ।
हांवं जान्नू तूं उर्शी ॥१०२॥

भास दीन्नू सांग्तां सग्ळँ ।
म्हळ्ळेल्प्रमाणॅंची जात्लँ ।
हाज्वीना ना दुस्त्रँ कस्लँ ।
जाय्श्ना जाण हँची तूं ॥१०३॥

अथवा जरी हँ चित्त ।
तुगेल् मनबुध्दीसहित ।
दिंन्च्याक तूं असमर्थ ।
ॲखाद्वॅळ रॅं जाश्शी ॥१०४॥

तरी तूं हँ अेक करी ।
निमिष तँ अेक तरी ।
आठ प्रहरांत्लँ धरी ।
केवळ मज्खात्तीर ॥१०५॥

तँ जँ सुख तुक्का दित्लँ ।
तँ पोळोनू क्षुद्र जात्लँ ।
आजिवरेक भोग्गिलँ ।
विषयांचँ तँ सुख ॥१०६॥

शरदऋतु लाग्गी यॅत्ता ।
न्हंई कश्की आट्टू लाग्ता ।
तश्शी हळूहळू सुट्ता ।
प्रपंचाची आसक्ती ॥१०७॥

पुन्वेउप्रांतँ तूं जाण्ता ।
चंद्र क्षीण जाय्त वत्ता ।
आनी दिस्सनाशी जात्ता ।
अमासेक संपूर्ण ॥१०८॥

विषयांत्थान्नू सुट्तां सुट्तां ।
तँचि चित्त रिग्गू लाग्ता ।
मज्ज्यांतूंची कुंतीसुता ।
आनी जाश्शी हांवंची ॥१०९॥

आरे हाक्काची म्हण्ताती ।
अभ्यासू जाण्णू घॅ रीती ।
साध्य जाय्श्ना जँ हाज्मितीं ।
अस्लँ कांईं सुद्दां ना ॥११०॥

सामर्थ्य ह्या अभ्यासांतूं ।
फिरू जात्ता आकाशांतूं ।
वाघु, सर्पू हँ मनांतूं ।
धरिशनाती शत्रुत्व ॥१११॥

विषई आहारू जात्ता ।
समुद्रुई वाट सॉड्ता ।
वेदशास्त्र कळू लाग्ता ।
ह्याचि अभ्यासामितीं ॥११२॥

नाची असाध्य सर्वथा ।
अभ्यासाक कांईं सुद्दां ।
म्हुणू अभ्यासानॅ पार्था ।
येन्नु मॅळ मज्ज्यांतूं ॥११३॥

अभ्यास कोर्चे इत्लँ जरी ।
सामर्थ्य ना हँ दिस्ल्यारी ।
जश्शी आस्स तूं ताज्वारी ।
ऊर अत्मान् कोर्नक्का ॥११४॥

इंद्रियं कामं कोरोती ।
तांगेल् भोगु तीं भोग्गोती ।
स्वधर्मु आनी स्वजाती ।
हीन दीन म्होण्णक्का ॥११५॥

धरी कुलधर्माचारू ।
कोर्नू शास्त्रांचॉ विचारू ।
जात्लॉ सलीसू संसारू ।
हॉ तुगेलॉ सहज ॥११६॥

काया वाचानी मनाचॉ ।
करी व्यवहारू नित्याचॉ ।
हांवं कर्ता म्होण्णू हाज्जॉ ।
रंगु मात्र लान्नक्का ॥११७॥

आम्मी कोर्चें कर्ना जांव्चँ ।
सर्वै तान्नॅची करौंचँ ।
व्यवहार विश्वाचॅ चल्चॅ ।
परमात्म्याल्या सत्तेनॅ ॥११८॥

चड उणॅ वा कोर्च्यांतूं ।
जात्ता ही खंती मनांतूं ।
धोर्नक्का तूं चरणांतूं ।
दव्वरी वँ मगेल्या ॥११९॥

माळी वाट कोर्नू दित्ता ।
उद्दक तांत्थान्नू वत्ता ।
कस्ल्याकै तुवँ सर्वथा ।
राजी जान्नू आस्काज ॥१२०॥

प्रपंचु नी परमार्थू ।
गोंदोळ् घाल्ताती चित्तांतूं ।
म्हुणू तुगेलँ चित्त तूं ।
मज्ज्यांतूंची दव्वरी ॥१२१॥

रस्तॉ वांक्डॉ की तॉ नीठू ।
हाज्जी चर्चा कर्ना रथू ।
चल्त उर्चें इत्लँ गोत्तू ।
क्षणाक्षणा मुखारी ॥१२२॥

जँ जँ कर्म घड्त वत्ता ।
चडउणॅ इत्त्या म्हण्ता ।
चित्ताक तूं दी स्वस्थता ।
दीन्नू तीं सर्वै माक्का ॥१२३॥

देह सोण्णू वत्ता प्राणू ।
ताव्वळी येन्नू शरणू ।
मगेलॉ भक्तू अनन्यू ।
भॉग्ता सायुज्य मुक्ती ॥१२४॥

कोर्चीं कामं माक्का जरी ।
दींव्याक साध्य ना तरी ।
हँ अेक तूं धनुर्धारी ।
घॅ रॅ सम सम्जूनू ॥१२५॥

कर्माचॉ संकल्पू विधी ।
आनी जात्ना ताज्जी सिध्दी ।
मॅळ्णा अॅखाद् वॅळ संधी ।
मगेल् उग्डास् कोर्च्याक ॥१२६॥

अेक्सां इत्लॉ उग्डास् कोर्ची ।
गरजै ना सव्यसाची ।
इंद्रियांक नेमु लांव्ची ।
बुध्दी मात्र ती ऊरॉ ॥१२७॥

जँ जँ कर्म घड्त वत्ता ।
ताज्जँ फल मॅळ्त आस्ता ।
तीं तीं सर्व फलं पार्था ।
सोण्णू दित्त आस्काज ॥१२८॥

रुक्कारी वा वाल्लीचेरी ।
फळफूल तँ धर्ल्यारी ।
दव्वोर्न् घॅनाती आंगारी ।
आप्णागेलँ हँ म्होण्णू ॥१२९॥

मगेल् उग्डासू कोर्काज ।
कॅल्लेंल् माक्का तँ दिंव्काज ।
हाज्जी ना पळॅ गरज ।
सर्वै जावॉ सहज ॥१३०॥

पाव्सु पळ्ळ्यारी फात्रारी ।
बीज उज्जांतूं घाल्यारी ।
सॉप्पन् पळैलँ ताज्चारी ।
सम्ज तश्शी तूं कर्मं ॥१३१॥

धुव्वेविषंयांतूं भोगाची ।
ना अपेक्षा पितयाची ।
इच्छा ही कर्मफलाची ।
सोण्णू कर्मं तूं करी ॥१३२॥

उज्ज्या लोळू आकाशांतूं ।
वीर्नू वत्ता निमिषांतूं ।
तश्शी अहंता कोर्च्यांतूं ।
काण्णू घाली निःशेष ॥१३३॥

फलत्यागू धनुर्धारी ।
अश्शी ससार् दिश्शिल्तरी ।
हॉची खरँ पळैल्यारी ।
श्रेष्ठु सर्वै योगांतूं ॥१३४॥

वेळूझाड अॅक्कफंतां ।
बीज दीव्नू निर्भय जात्ता ।
फ्लत्यागु तश्शी कर्ता ।
मुखार् कर्म निष्काम ॥१३५॥

तश्शी ह्या देहाउप्रांतँ ।
दुस्त्रँ धोर्का पडश्ना तँ ।
जन्ममरणाचँ दांतँ ।
फिरश्ना रॅ नॅवानॅ ॥१३६॥

अभ्यासू हॉ कर्ता कर्ता ।
ज्ञानालाग्गी तॉ पावैता ।
ज्ञान मुखार् मेळूक् वत्ता ।
पांडुपुत्रा ध्यानाक ॥१३७॥

सर्वभाव जाव्नू लीन ।
ध्यानाक वॅ आलिंगन ।
दित्ता ती कर्मबंधन ।
गळ्णू पड्ता सर्वथा ॥१३८॥

कर्मभावु लोप पाव्ता ।
थंइं फलत्यागु घड्ता ।
त्यागु जालेल्मितीं मॅळ्ता ।
सुखशांती चित्ताक ॥१३९॥

ही शांती जांव्का जाल्यारी ।
लक्ष दीव्नू अभ्यासारी ।
चल्का ह्याचि मार्गाचेरी ।
निर्धारानॅ धनुर्धरा ॥१४०॥

अभ्यासाकै कष्ट ज्ञान ।
ज्ञानाकै गूढगहन ।
विशेषत्वानॅ हँ ध्यान ।
जाण्णू घॅ हँ तूं पार्था ॥१४१॥

माग्गिर् कर्मफलत्यागू ।
ध्यानापेक्षांई तॉ चांगू ।
त्यागाकै बरॉ हॉ भोगू ।
पळॅ शांतीसुखाचॉ ॥१४२॥

येव्नू जॉ ह्या मार्गाचेरी ।
अनुसर्ता ह्या क्रमारी ।
ह्या शांतीचॉ अधिकारी ।
निःसंशय जात्ता तॉ ॥१४३॥

कॉणागेलोइ द्वेषु कंर्ना ।
भेदभावु धोर्नू चल्ना ।
चैतन्यावारी भावना ।
अेकी प्राणीमात्रांतूं ॥१४४॥

उत्तमाक लाग्गी धोर्का ।
अधर्म धूर लकोंव्का ।
कश्की कळ्णा अश्शी चल्का ।
भारवाही पृथ्वीक ॥१४५॥

रायाक चेतना दिंव्का ।
की रंकाक सोण्णू वच्का ।
पड्ता वॅ हॉ विचार् कोर्का ।
त्या कृपाळू प्राणाक ॥१४६॥

गाय्यिगेली तान नीवॉ ।
वाघाक् हांव् विष जावॉ ।
अस्लॉ भावु उज्वॉ डावॉ ।
हाण्णा उद्दाक् मनांतूं ॥१४७॥

तश्शी सर्व प्राणीमत्र ।
तागेलेची इष्टमित्र ।
समतेचँ अेकछत्र ।
धर्ता तॉ कृपावंतू ॥१४८॥

हांवं हांवं हांवं म्हण्णा ।
म्हण्ता मगेलँ कस्लैं ना ।
आनी मनाची धारणा ।
सुखदुःखांतूं सम ॥१४९॥

सहन कर्ता पृथ्वीवारी ।
धॉल्लय्ता घेव्नू पाय्यारी ।
बैसूनू घरा जग्लेरी ।
शांतीसमाधानाक ॥१५०॥

पाव्सू नात्तिल्तरी भोर्नू ।
समुद्र तॉ परिपूर्णू ।
कॉणँ कस्लँ ताक्का दीव्नू ।
कोर्का पण्णा संतृप्त ॥१५१॥

आपणॅ घाल्नु घेव्नू आण ।
धर्लँ दृढ अंतःकरण ।
तॉची निश्चित तूं जाण ।
मूर्तिमंत निर्धारू ॥१५२॥

अंतरंगांतूं त्या जाण ।
जीवशिव हँ दॉग्जण ।
घेव्नू थंईं अेक स्थान ।
अद्वैतांतूं रम्ताती ॥१५३॥

सदैव योगसंपन्न ।
अश्शी जाव्नू तॉ अर्पण ।
कर्ता बुध्दी आनी मन ।
चरणांतूं मगेल्या ॥१५४॥

अंतर्बाह्य सिध्द योगी ।
शुध्द कैवल्याचॉ भोगी ।
तरीकै तॉ सदारंगी ।
मगेल्याची प्रेमांतूं ॥१५५॥

अर्जुना तॉ मगेल् भक्तू ।
तॉची योगी तॉची मुक्तू ।
तॉ लक्ष्मी हांवं श्रीकांतू ।
अश्शी प्रेम अपार ॥१५६॥

इत्लँ न्हई कश्शी सांगूं ।
जीवाकची दिस्ता चांगू ।
जीवाकै तागेलॉ संगू ।
वर्णन कोर्च्या जाय्ना हँ ॥१५७॥

प्रीतीची खब्बरी इत्ली ।
जाल्यार् तिन्नॅ माक्का कित्ली ।
चित्ताक ही घाछया भूली ।
तीची हँवै उछैता ॥१५८॥

उपमा त्या आवेगानॅ ।
भाग्र पळ्ळी ह्या मुखानॅ ।
सांग जाय्द वॅ शब्दानॅ ।
व्यक्त कोर्नू वर्णन ॥१५९॥

प्रिय व्यक्तीविषयांतूं ।
उछैतना द्विगुणितू ।
मोगु जात्ता उत्साहितू ।
पुरॉ आत्तं हँ पार्था ॥१६०॥

तांतुल्तांतूं चुक्कुन् जरी ।
तस्लॉ श्रोताई मॅळ्ळ्यारी ।
प्रेमकथेची माधुरी ।
आनीकई वाड्तली ॥१६१॥

प्रिय तूं नी तूंचि श्रोता ।
प्रिय विषयुई मॅळ्ता ।
अश्शी उलोंच्याक पार्था ।
नॅवानॅ ह्या नॅव्नानॅ ॥१६२॥

आत्तं इत्लँची रॅ सांग्तां ।
अश्शी देवु म्हणतां ।
सुखसमाधींतूं वत्ता ।
थंईं लाग्लॉ घोळूक ॥१६३॥

थॉडॅ वॅळानॅ तो म्हणता ।
भक्तागेलँ लक्षण सांग्तां ।
ज्या भक्ताक बैसुक् दित्तां ।
मगेलँ हँ ह्रदय ॥१६४॥

समुद्र जरी खवळ्ळॉ ।
जलचरांक कळ्वळॉ ।
सुट्टना तावै कंटाळॉ ।
कर्ना तांगेल् सुद्दांई ॥१६५॥

उन्मतांगलॅ उपद्र ।
लाव्नु घॅना तिळमात्र ।
आस्स हागेलॉ सर्वत्र ।
मित्रभावु लोकांतूं ॥१६६॥

अेकु आत्मा ह्या सर्वांतूं ।
म्हुणू मित्रत्व लोकांतूं ।
गात्रं कर्तीद वॅं टांटूं ।
सांग परस्परांतूं ॥१६७॥

जगची हँ देह जाल्लँ ।
भेदभाव लोप पाव्लॅं ।
म्हुणू प्रियाप्रिय गॅल्लँ ।
ऊर्न सुख वा दु:ख ॥१६८॥

अश्शी द्वंद्वांत्थाव्नू सुट्ला ।
भवभयमुक्त जाल्लॉ ।
आनी माक्का येव्नू मॅळ्ळॉ ।
जाव्नू भक्तु मगेलॉ ॥१६९॥

कश्शी माक्का मोहु पळ्ळॉ ।
कश्शी मॉग्गाचॉ तॉ जालॉ ।
जीवांज्जीवू कॅर्ना मॅळ्ळॉ ।
सांग्चँ पुणी कश्शी रॅं ॥१७०॥

समाधान स्वरूपाचँ ।
जालँ सार्थक जीवाचँ ।
जीविताच्या पूर्ततेचँ ।
मॅळ्ळँ ताक्का स्वामित्व ॥१७१॥

पूर्णत्वाक पाव्विल्मितीं ।
आशाआकांक्षा ऊर्नाती ।
शांतिसमाधानवृत्ती ।
वत्ता नित्य वाड्डत ॥१७२॥

खरेंची काशी उदार ।
क्षेत्र तँ मोक्षाचँ द्वार ।
तरी थंईं हँ शरीर ।
कोर्का पड्ता विसर्जन ॥१७३॥

हिमगिरीचँ दर्शन ।
कर्ता पापांचँ क्षालन ।
सुट्टना देहाचँ भान ।
सुख संतां सांगाती ॥१७४॥

पावन ती गंगा सुरसरिता ।
बहु पापांचँ निरसन कर्ता ।
तरी अचानक प्रसंगु यॅत्ता ।
बुड्वॉ कॉणाचेरीई ॥१७५॥

संतसमागमु अपार कंतू ।
बुड्चँ भय्य ना रॅं हांतूं ।
जीवन्मुक्ती प्रत्यक्षांतूं ।
मॅळ्ता मगेल्या भक्तांक ॥१७६॥

ज्या सत्संगानॅं गंगा ही ।
पावन जाव्नू ती पाप्यांकई ।
पावन कर्ता ती पुण्याई ।
कित्ली पवित्र आस्काज ॥१७७॥

तीर्थांकई पावन कोर्चें ।
सामर्थ्य ह्या पावित्र्याचँ ।
तँ कर्ता ह्या सकल जगाचँ ।
धूर मनाचँ मालिन्य ॥१७८॥

निर्मळ भाग्रभित्तरी ।
शुध्द स्वच्छ सूर्यावारी ।
गूढ तत्त्वज्ञानार्थारी ।
दृष्टी लाव्नू आस्ताती ॥१७९॥

आकाशावारी सर्वत्र ।
व्यापक नी अनासक्त ।
तश्शी तांगेलँ रॅं चित्त ।
आस्ता मग्न आप्णांतूं ॥१८०॥

संसारांत्थाव्न् भाग्र पळ्ळॅ ।
आशापाशांत्थाव्नुइ सुटलॅ ।
जश्शी नेम चुवकोव्न् घॅत्लॅ ।
व्याधागॅलॅ पक्षानॅ ॥१८१॥

आत्मानंदांत् आश्शिल्मितीं ।
कस्ल्याय्ची ना तांकां खंती ।
कश्की कस्ली लाजभीती ।
आस्सना रॅ म ाक ॥१८२॥

काम खंचेंई कर्तना ।
अहंकारूई आस्सना ।
कश्की उज्जॉ जळ्त ऊर्ना ।
राक्कुड् नात्तिल्जाग्यारी ॥१८३॥

चित्त शांत समाधानी ।
वृत्ती ही मोक्षदायिनी ।
आत्मानंद प्रवाहिनी ।
तांतूंची तॅ तल्लीन ॥१८४॥

सोहंभावु दृढ जात्ता ।
द्वैतभावु खंइं ऊर्ता ।
साधनची साध्य जात्ता ।
तॅची सिध्दारूढ की ॥१८५॥

भक्तु आनी भगवंतू ।
जरी भेदू ना दॉग्गांतूं ।
विंगड जाव्नू ऊर्ता भक्तू ।
भक्तीसुख भोग्च्याक ॥१८६॥

दुस्त्र्याक तॉ देवु म्हणता ।
स्वता भक्तीभावु धर्ता ।
आनी वाट दाकोन् दित्ता ।
अभक्ताक भंक्तीची ॥१८७॥

अस्ल्या भक्तागॅलॉ छंदू ।
लाग्ता माक्का अनिर्बंधू ।
आनी तॉ आनंदकंदू ।
ध्यानई तॉ मगेलॅं ॥१८८॥

ताज्खात्तीर रूप धर्ता ।
ताल्यागीची येव्नु राब्तां ।
प्रेमानॅ आर्ती दाकैतां ।
पंचप्राणज्योतींची ॥१८९॥

आत्मानंदलाभाकई ।
ना दुस्त्रॅं बरॅं कांईई ।
अश्शी भोगु भोग्गूनूई ।
जाय्ना पळॅ संतृप्त ॥१९०॥

विश्वरूप जाव्नू उर्ता ।
भेदभावु तॉ विस्सर्ता ।
द्वेषभावु गळ्णु पड्ता ।
सहजची धनुर्धरा ॥१९१॥

आप्णागेलॅं आत्मतत्त्व तॅंची ।
तॉ धर्ता शाश्वत ।
जॅं जॅं आस्ता यॅत्तवत्त ।
ताज्जॉ तांक्का ना बाधू ॥१९२॥

आत्मतत्त्वाव्यतिरिक्त ।
दुस्त्रॅं कस्लेंइ ना श्रेष्ठ ।
जाण्णू आप्णांतूं संतृप्त ।
जात्ता तॉ निरपेक्ष ॥१९३॥

हॅं बरॅं तॅं वाय्ट म्हण्णा ।
तॅं जाई हॅं नाक्का म्हण्णा ।
राती दीसू विंगड ना ।
कश्की पार्था सूर्याक ॥१९४॥

दृष्टी धोर्नू ह्या बोधाची ।
घॅत्ता प्रचिती ज्ञानाची ।
तरी मगेल्या भक्तीची ।
आवड तागेल् सुट्टना ॥१९५॥

ताज्जस्लॉ ना दुस्त्रॉ कोणू ।
मगेलॉ तॉ जीवुप्राणू ।
सांग्तां हांवं आण घेव्नू ।
तुगेली हँ सत्यची ॥१९६॥

मनांतूं ना वांक्डेपण ।
खंईं कर्ना विंगड्तन ।
सम तागेलँ वर्तन ।
शत्रू वा मित्रा लाग्गी ॥१९७॥

आम्गेल्यांक उज्वाड् दिंव्का ।
पर्क्यांक काळ्कांव्तूं सोड्का ।
कश्की कर्ना दिवॉ तांकां ।
तश्शी चल्ता तॉवई ॥१९८॥

बीज लाव्नू पॉस्तल्थाक ।
आनी धावु घाल्तल्याक ।
साव्ली अेक्कीची दॉग्गांक ।
रूकू दित्त आस्ताची ॥१९९॥

अॅक्ळॉ सम साग्वड कर्ता ।
दुस्त्रॉ ताक्का पीळ्णु काड्ता ।
तरी दॉग्गांकइ दित्ता ।
कब्बू अेकी गॉड्साणी ॥२००॥

शत्रूमित्रालाग्गी अश्शी ।
हॉचि भावु समदर्शी ।
मानु अपमानु तश्शी ।
लेक्कुन् घेव्नू तॉ चल्ता ॥२०१॥

ऋतू यॅत्ताती वत्ताती ।
आकाशाची अेकी स्थिती ।
तश्शी तागेली रॅ मती ।
शिंय्यांतूं वा घग्गांतूं ॥२०२॥

खंईं थाव्नु यॅवॉ वारॉ ।
मेरूचॉ अढळू थारॉ ।
तश्शी वेळु वाय्टू बरॉ ।
यॅवॉ दुःख ना सुख ॥२०३॥

चंद्रू चांदणँ पांग्रैतना ।
हॉ रायू तॉ रंकू म्हण्णा ।
सर्वांकई सम दित्ना ।
जात्ता ताक्का संतोषू ॥२०४॥

जगांतुल्या ह्या सर्वांक ।
कश्की जीवन उद्काक ।
तशीची हॅ तिन्नी लोक ।
तॉची जाई म्हणताती ॥२०५॥

अंतर्बाह्य संगु सोण्णू ।
जीवु शिवांतूं मेळोव्नू ।
आनंदस्वरूप जाव्नू ।
भॉग्ता तॉ हॉ अेकांतू ॥२०६॥

निंदेनॅ तॉ जाय्ना खिन्न ।
वा स्वुतीनॅ तॉ प्रसन्न ।
निर्लेप तँ तारांगण ।
तश्शी जाव्नु आस्ता तॉ ॥२०७॥

भोव्नू भोव्नू जनवन ।
निंदास्तुती हीं समान ।
लेक्कून् तॉ कर्ता मन ।
प्राणावारी निःसंग ॥२०८॥

सत्यासत्य जाण्णु घेव्नू ।
चित्तांतूं सुस्वस्थ जाव्नू ।
आनी मौनव्रत धोर्नू ।
भॉग्ता सौख्य उन्मनी ॥२०९॥

इष्ट मॅळ्ळँ म्हुणू तुष्ट ।
मॅळ्णॉ म्हुणुइ जाय्ना रुष्ठ ।
पाव्सू पण्णॉ म्हुणू सुक्त ।
यॅना करकी समुद्र ॥२१०॥

वारॉ अेक्कू जागॉ धोर्नू ।
बैसना बिडार् मोडोव्नू ।
तरशी तॉ अंक्डॅची म्हुणू ।
खंईं येव्नू राब्बना ॥२११॥

आकाशा इत्लीची व्याप्ती ।
तांतूं वारयागेली बस्ती ।
तरशी घॅत्ता तॉ विश्रांती ।
खंईं जावॉ विश्वांतूं ॥२१२॥

आप्पण विश्वांतूं म्हणता ।
तॉ तँ आप्णांतूं पळैता ।
तँची मगेल्ँ घर म्हणता ।
धोर्नू दृढ विश्वासू ॥२१३॥

आय्क पार्था इत्लँ न्हई ।
कर्ता आस्थेनॅ भजनई ।
म्हुणू धर्ता रॅ ताक्काई ।
किरिटावारी मात्त्यारी ॥२१४॥

सुप्रतिष्ठिता मुखारी ।
मातँ बग्सूंचँ वॅ भारी ।
त्रैलोक्य धर्ता शिरारी ।
पाद तीर्थ हागेलँ ॥२१५॥

अस्ल्या श्रेष्ठ भक्तागॅलॉ ।
आदर करशी कोर्का जात्लॉ ।
श्रीशंकरू हँ सांग्तलॉ ।
ताक्का गुरु कॅल्यारी ॥२१६॥

तॉ सांग्तलॉ अरशी म्हळ्ळँ ।
जाल्यारी हांवँची सांग्लँ ।
महिमान हँ मगेलँ ।
अरशी जाय्द पुरॉ हँ ॥२१७॥

नाक्का बा ही आत्मस्तुती ।
अरशी म्होण्णू रमापती ।
सांग्ता हांवं मात्त्याचेरी ।
धर्ता पाय हागेलॅ ॥२१८॥

चौथी सिध्दी पुरुषार्थाची ।
मेळ्णुइ पद्वी मोक्षपदाची ।
भक्तिमार्गा उपासनेची ।
शिकवण दित्ता सर्वांक ॥२१९॥

मोक्षमार्गु दाकोन् दित्ता ।
वाट्टेर् सांगातावै यॅत्ता ।
समर्थागेली नम्रता ।
सरल उद्कावारी ॥२२०॥

नमस्कारू कर्ता ताक्का ।
शिरोधार्यु तॉची माक्का ।
तागेलॉ चरणु जांव्का ।
भूषण ह्या हॅर्द्यारी ॥२२१॥

स्तुती ही तागेली कोर्ची ।
वाचेचॉ शृंगारू तॉची ।
कीर्ती तागेली आय्कूंची ।
कान्नाचॉ हॉ शृंगारू ॥२२२॥

ताक्का निय्याळ्काज म्हुणू ।
आय्लाँ हांवं दॉळ्ॅ घेव्नू ।
तागेल् पूजा कोर्का म्हुणू ।
कमळं जाल्लॅ हॅ हात ॥२२३॥

ताक्का पोट्टोळ्काज म्हुणू ।
दोनि हात नप्रॉ जाव्नू ।
आनी दोनि हात घेव्नू ।
आय्लां ताक्का मेळूक ॥२२४॥

इत्लीथाई की ही प्रीती ।
राब्यां तागेल्या सांगाती ।
आनी भोग्यां सुखशांती ।
म्हुणू धर्लॉ हॉ देहू ॥२२५॥

आम्च्यांतुलँ हँ मित्रत्व ।
हांतूं कांईं ना विचित्र ।
जाल्यार् तागेलँ चरित्र ।
श्रवण जॅ कर्ताती ॥२२६॥

आवडीनॅ आय्कताती ।
कौतुकई जॅ कर्ताती ।
तॅवै माक्का आवडताती ।
प्राणापेक्षांई चड ॥२२७॥

हांवँ तुक्का अेद्दोळ्थाई ।
सविस्तर जँ जँ कांईं ।
सांग्लँ ती योगरूपी ही ।
भक्ती जाण धनंजया ॥२२८॥

अश्शी इत्ली थोर भक्ती ।
मगेली तिज्जेरी प्रीती ।
म्हुणू शिरसावंद्य मात्ती ।
भक्तागेल्या चरणांची ॥२२९॥

सेव्य सुधारसु हॉ भक्तीचॉ ।
योगु प्रशस्तू निजधर्माचॉ ।
आत्मसुखाच्या अनुभूतीचॉ ।
रम्य सुलभु हॉ मार्गु खरॉ ॥२३०॥

श्रध्देचॉ आदरु कर्ता ।
भक्तीभावु वाड्डैत वत्ता ।
चित्तांतूं जॉ दृढ धर्ता ।
अनुष्ठाना सिध्दीक ॥२३१॥

निरूपण केल्लेल्वारी ।
आचरणई आस्ल्यारी ।
जात्लँ समाधान भारी ।
बीज नाट्ल्यां भुंईंतूं ॥२३२॥

सर्व सुखाचँ हांवं निधान ।
म्होण्णू सर्वस्वाचँ दान ।
दीव्नू अश्शी धर्ता ध्यान ।
जॉ प्रेमानॅ निरंतर ॥२३३॥

तॉची सर्वश्रेष्ठ भक्तू ।
तॉची योगी प्रतिष्ठितू ।
अस्लॉ पार्था ह्या जगांतूं ।
मेळ्का म्हुणू उत्कंठा ॥२३४॥

तॉची तीर्थ तॉची क्षेत्र ।
तॉची जगांतूं पवित्र ।
रुची आनी प्रीती फक्त ।
ताक्का भक्तीकथांतूं ॥२३५॥

तागेलँची माक्का ध्यान ।
मगेलँ तॉ देवस्थान ।
आवडी हीची अनन्य ।
दुस्त्रँ कांईं रुच्चना ॥२३६॥

निवृत्ती गुरुमाऊली ।
तिन्नॅ शिकवण दिल्ली ।
ही की पाव्लं संतांगेलीं ।
शिरसावंद्य धराती ॥२४७॥

ताज्विना अशांत मन ।
तॉची सर्वस्वनिधान ।
जात्ता मनासमाधान ।
मॅळ्णापुडॅ तॉ माक्का ॥२३७॥

कोणुइ अेकू जॉ सज्जन ।
भक्तागेलँ गुणगान ।
मज्मुखारी कर्ता जाण ।
तॉ मगेलँ दैवत ॥२३८॥

जॉ विश्वाचॉ आदिवंद्यू ।
भक्तांगेलॉ परमानंदू ।
अश्शी म्हणालॉ मुकुंदु ।
हँ सांग्ता तॉ संजयू ॥२३९॥

रायांनु तॉ निष्कलंकू ।
कृपावंतू तॉ पालकू ।
शरणार्थींगेलॉ तारकू ।
विश्वाधारू तॉ अेकू ॥२४०॥

दॅवांगेलॉ सहाय्यकू ।
वात्सल्याचँ तॉ प्रतीकू ।
दीनपतितोध्दारकू ।
खेळू सर्वै हॉ ताक्का ॥२४१॥

धर्माचँ पावित्र्य राक्ता ।
सम भोर्नू दान कर्ता ।
बलिष्ठांकै तॉ लाज्नैता ।
बळीलॉ प्रेमदासू ॥२४२॥

भक्तांगेलॉ मायबापू ।
सत्वर प्रेमळांक प्राप्तू ।
परमात्माप्राप्तीचॉ सेतू ।
विद्याधीशू कलानिधी ॥२४३॥

वैकुंठाचॉ सार्वभौमू ।
भक्तांगेलॉ तॉ परमात्मू ।
सांग्ता आनी पूर्णकामू ।
अर्जुनु हँ आय्कता ॥२४४॥

आत्तं मुखावेली कथा ।
कृष्णु अर्जुनाक सांग्ता ।
आय्कयाती अश्शी म्हणता ।
संजयू धृतराष्ट्राक ॥२४५॥

रसाळ तँ निरूपण ।
मराठींतूं प्रवचन ।
आय्कयाती सर्वजण ।
लक्ष दीव्नू तँ सर्व ॥२४६॥

**॥ ज्ञानदेवु सांग्ता गीता । मधु अनुवादु कर्ता ।**
**बारावॉ अध्यायु बोरोन् जात्ता । भक्तीयोगाचॉ ॥**

# तॅरावॅ अध्यायू

आत्मरूप गजानन ।
सकल विद्यांचँ निधान ।
कोर्यां तागेलँ चरणवंदन ।
तँचि पाव्तलँ सद्‌गुरुक ॥१॥

तांगेलँ हँ मंगलस्मरण ।
कॅल्यार् वाग्देवी प्रसन्न ।
जात्ली विद्यांकई स्थान ।
मॅळतलँ ह्या जिव्हेरी ॥२॥

सुरुचिर जात्लँ हँ व्याख्यान ।
आय्कुनु जात्लँ अमृत खिन्न ।
नी शब्दांचॅ धर्तिद चरण ।
नवरस सेवाभावानॅ ॥३॥

गीतेच्या पाव्लांची वाट ।
धोर्नू जात्लॉ आशयु स्पष्ट ।
तांतूल्यानॅ जात्लँ प्रगट ।
सारभूत तत्त्वज्ञान ॥४॥

धोर्नू सद्‌गुरुलॅ हॅ चरण ।
दिल्यां ह्रदयांतूंची स्थान ।
प्रतिभेकै यॅत्लँ संस्फुरण ।
महद्‌भाग्य हँ म्होण्काज ॥५॥

तांकां नमस्कार कोर्नू ।
सांग्तां कस्लँ नारायणू ।
म्हणता तँची लक्ष दीव्नू ।
सर्वजण आय्कया ॥६॥

तरी पार्था हँ तूं आय्क ।
क्षेत्र म्हणताती देहाक ।
आनी तँ चलैतल्याक ।
क्षेत्रज्ञू अश्शी सम्ज ॥७॥

क्षेत्रज्ञू रॅ तॉ हांवंची ।
पॉस्तां क्षेत्रांक ॲक्ळॉची ।
सर्वथरेनॅ समची ।
जाण तूं हँ ॲक्ळाक ॥८॥

ह्या क्षेत्रांक क्षेत्रज्ञाक ।
सर्वार्थानॅ जाणतल्याक ।
तॉची म्हण ज्ञानी अेक ।
हँची मत मगेलँइ ॥९॥

क्षेत्र म्हणतां ह्या देहाक ।
सांग्तां तुक्का तँ इत्त्याक ।
स्पष्ट कोर्नू भावार्थाक ।
कळ्तलँ हँ ताव्वळी ॥१०॥

कश्शी खंईं तँ उब्जता ।
कॉण इत्त्याक वाड्डैता ।
नाना विकारई भर्ता ।
इत्खात्तीर हँ सर्व ॥११॥

साडेतीनी हात दिस्ता ।
की तँ आनी हॉड आस्ता ।
कस्लँ पिक्कना की पिक्ता ।
कोणु हाज्जॉ मालकू ॥१२॥

सर्वई हँ स्पष्ट कोर्नू ।
सांगतां अेकेक सोडोनू ।
सांगिलँ तँ लक्ष दीव्नू ।
समची आय्कूंकाज ॥१३॥

चर्चा क्षेत्राविषयाची ।
श्रुती कर्त आस्सतीची ।
तर्कवितर्क तॅ चालूची ।
निर्णय जाय्ना घेंव्च्याक ॥१४॥

वादु प्रतिवादु कोर्नू ।
गेल्लीं दर्शनं थक्कूनू ।
अेकमेकांक सम्जूनू ।
अजूनिकै घॅनाती ॥१५॥

मॅळामेळी निश्चयाची ।
शास्त्राशास्त्रांतूं जाय्नाची ।
मात्र अैक्याखात्तीरची ।
वादु चल्ता जगांतूं ॥१६॥

कॉणालेंई उत्तर चल्ना ।
अेकमेकांकै पट्टना ।
युक्तिवादुई राब्बना ।
गव्जी आनी गोंदोळू ॥१७॥

कोणु हाज्जॉ रॅ मालकू ।
सांग्ता प्रतिअॅक्ळॉ हक्कू ।
प्रतिअॅक्डॅ हॉचि अेकू ।
दुराग्रहु चाळ्वला ॥१८॥

नास्तिकांगॅलॉ किर्कीरू ।
बंद कोरुक् चळवळ् सुरू ।
केल्ली वैदिकांनीं जोरू ।
चड जाल्लॉ कल्लोळू ॥१९॥

म्हणताती तॅ वैदि्कांक ।
अर्थू ना अस्ल्या उत्रांक ।
दाकयाती आम्गेल् चूक ।
आम्मी पैज लाय्ताती ॥२०॥

वादार्थाव्नू तॅ निस्सर्लॅ ।
थॉडॅ दिगंबर जाल्लॅ ।
थॉ ंनीं मुंडन कॅल्लँ ।
जालँ साध्य इत्लेंची ॥२१॥

मॅळ्ळॅलँ व्यर्थ वच्चद् ।
मृत्यूमुखांतू पडद ।
म्हुणु क्षेत्ररक्षणार्थ ।
लाग्लॅ तॅ योगामाक्षी ॥२२॥

विस्सोरूक महामृत्यू ।
थॉडॅ यमनियमांतूं ।
कांईंजण अेकांतांतूं ।
बुड्डूनू तॅ गॅल्याती ॥२३॥

हाज्जॉ धोर्नू अभिमानू ।
शंकरानॅ राज्य सोण्णू ।
नाक्का ती उपाधी म्होण्णू ।
राब्लॉ तॉ स्मशानांतूं ॥२४॥

अश्शी घेव्नू हँ आव्हान ।
धर्लँ दिगंबरध्यान ।
आय्लॉ छळूक मदन ।
कॅल्लँ तागेल् दहन ॥२५॥

सत्यलोकनाथु ब्रह्मा ।
चतुर्मुख हॉ महिमा ।
खंचेंइ अेक यॅनॅ कामा ।
जाण्णू ताक्का घेंव्च्याक ॥२६॥

अॅक्ळॉ आग्रहानॅं म्हणता ।
जीवाचॅंची हॅं मूलतः ।
फक्त कारभारू पळैता ।
प्राणु सर्व क्षेत्राचॉ ॥२७॥

चारी भाव मदतीक ।
आस्सती पळॅ प्राणाक ।
मन कर्ता देखरेख ।
ह्या सर्वजणांचेरी ॥२८॥

जीवाल्या आज्ञेनुसार ।
कर्ताती सॅवा समग्र ।
क्षेत्राची आट्टै प्रहर ।
ज्ञान नी कर्मेंद्रिंयं ॥२९॥

विधियुक्त कर्मं सोण्णू ।
अविहित कर्मं कोर्नू ।
ताज्जेंची बीज पोस्स्सूनू ।
अस्ली सॅवा कॅल्यारी ॥३०॥

तस्ल्याच् कुकर्मांचॅं पीक ।
लागतलॅं भोर्भोन् येंव्च्याक ।
जीवू त्या पापांचॅं दुःख ।
कोटी जन्म भॉग्तलॉ ॥३१॥

विधियुक्त सत्कर्माची ।
प्राप्ती ही पुण्यफलाची ।
सुखसमाधान भोग्ची ।
शतजन्मवरेक ॥३२॥

दुस्त्रॉ अॅक्ळॉ न्हई म्हणता ।
निम्गियाती आप्पण सांग्ता ।
क्षेत्राची ह्या सग्ळी वार्ता ।
आप्णाकची गोत्तस ॥३३॥

जीवू केवळ यान्त्रिकू ।
प्राणु तागेलॉ हस्तकू ।
कर्ताती तॅ क्षण अेकू ।
वस्ती वत्ना वाट्टेरी ॥३४॥

प्रकृती जी पुरातन ।
तिगेलॅंची क्षेत्र जाण ।
ज्ञानी तिगेलॅं स्तवन ।
आनीकई कर्ताती ॥३५॥

श्रमिक हॅ तिगेलॅची ।
जांव्चीं कामं जीं नित्याचीं ।
घरांतुल्या घरांतूंची ।
सहजची जात्ताती ॥३६॥

व्यवहारू हॉ दीसराती ।
त्रिगुण जॅ पळैताती ।
तॅवैं हिगेली संतती ।
निश्चित हॅं जाणाती ॥३७॥

रजोगुणु बीज घाल्ता ।
तॅंची सत्त्वगुणु पॉस्ता ।
आनी तमोगुणु व्हर्ता ।
अॅक्डॅ कोर्नू तॅं पीक ॥३८॥

महत्तत्वाचॅं आंगण ।
काळाचॅं थैं घुंव्ता घाण ।
घुंव्ता घुंव्ता जात्ता लीन ।
अव्यक्ताच्या रात्रींतूं ॥३९॥

बुध्दीवाद्यांनीं आय्कलॅं ।
मुखार् येव्नू तॅ म्हणालॅ ।
सर्वई हॅं कल्पनेंत्लॅं ।
आर्तांकिळ्ळॅं अपक्व ॥४०॥

निःसंग ह्या परतत्त्वांतूं ।
प्रकृतीचॉ हॉ सांगातू ।
जाय्द वॅ आत्तं वृत्तांतू ।
क्षेत्राचॉ हॉ आय्कया ॥४१॥

स्वस्थ जाव्नू पलंगारी ।
शून्यरूपी हांतुळारी ।
संकल्पू समर्थ भारी ।
निद्दांतूंची आश्शीलॉ ॥४२॥

जागी जाल्लॉ अचानक ।
तॉवै तत्पर कार्याक ।
त्यानुसार धन अेक ।
मॅळ्ळँ ताक्का तत्काळ ॥४३॥

त्या सत्तेनॅ कॅल्लँ काम ।
निराश्रित परब्रह्म ।
हाळ्ळँ आकाराक धाम ।
गॉम्टँ हँ त्रैलोक्याचँ ॥४४॥

मुखारी कल्पना आय्ली ।
पांचै भूतं अॅक्डॅ हाळ्ळीं ।
चारी योनींतूं घडैली ।
उत्पत्तीची व्यवस्था ॥४५॥

पंचभूतांतूलॅ भेद ।
कोर्नू सग्ळॅ तॅ विशद ।
कॅल्लॅ सर्वै गटबध्द ।
संलग्नता साध्पूनू ॥४६॥

कर्माकर्माचॅ पागार ।
घाल्नू दव्वर्लँ अंतर ।
तांतूं नाना पशूकीर ।
राब्बैलॅ त्या रान्नांतूं ॥४७॥

पागाराबाजूनॅ सोळ्ळी ।
येंन्च्यावच्चुक् वाट दिल्ली ।
येरझार सुरू जाल्ली ।
थंई जन्ममृत्यूची ॥४८॥

मुखारी तॉची संकल्पू ।
अहंकारांतूं तद्रूपू ।
जाव्नू बुध्दीकई वोपू ।
ताज्जॉ दिंन्च्या पळैता ॥४९॥

अश्शी त्या चिदाकाशांतूं ।
संकल्पूची हॉ मूळांतूं ।
कस्ल्याकई प्रपंचांतूं ।
तॉची मूळ कारण ॥५०॥

दर्पोक्ती ही आय्कुन् सग्ळॅ ।
स्वभाववादी उटाय्लॅ ।
म्हणालॅ हॅं विचार कस्लॅ ।
ना मूळ वा ना तूरी ॥५१॥

परतत्त्व स्वसंवेद्य ।
ताक्का संकल्पु जागैद ।
वा प्रकृती चाळ्वैद ।
असंभव निश्चित ॥५२॥

ना तँ तुम्मी लेक्किल्वारी ।
ना तँ तुम्मी म्हळ्ळेल्वारी ।
आय्कयाती आत्तं तरी ।
आम्मी जँ जँ सांग्चँ तँ ॥५३॥

आकाशांतू कश्शी आय्ली ।
मेघमाला कॉणँ हाळ्ळी ।
ग्रहनक्षत्रं अंत्राळी ।
कॉण धर्ता सांभाळ्णू ॥५४॥

कॉणॅ कॅर्नां मांटव् घाल्लॉ ।
आकाशाचॉ होडु इत्लॉ ।
वारयाक ह्या कॉणॅ सॉळ्ळॉ ।
अश्शी भाँव्त पोड्च्याक ॥५५॥

रॉम हँ कॉण चिग्रैता ।
समुद्र उदकानॅ भर्ता ।
पाव्साच्यॉई सर्यां कर्ता ।
कॉण इत्ल्यॉ असंख्य ॥५६॥

तश्शी क्षेत्र स्वाभाविक ।
कोणुइ ना हाज्जॉ मालक ।
हाज्जेर् कष्ट कर्तल्याक ।
मॅळ्ता फल इच्छित ॥५७॥

अश्शी सांग्त आस्तनाची ।
निम्गिता अॅक्ळॉ मद्देंची ।
तरी इत्त्याक काळाची ।
सत्ता ह्या क्षेत्राचेरी ॥५८॥

नित्याक हँ पळैताती ।
तरी हँ मान्य कर्नाती ।
आप्णागॅलँची धर्ताती ।
मत दुराग्रहानॅ ॥५९॥

गुंथ्येंतुल्या सिंहावारी ।
मृत्यू हॉ प्राणसंहारी ।
चलद वॅ ताज्मुखारी ।
कित्लेंई उलैल्तरी ॥६०॥

गिळ्ता हॉ महाकल्पाक ।
विस्सर्ना सत्यलोकाक ।
यॅत्ता म्हणतां त्या क्षणाक ।
थर्थरिता सर्वांग ॥६१॥

देवलोकांतूलॅ राय ।
सार्वभौम महोदय ।
ह्या सर्वांगॅलॉ विलय ।
कोर्नू सॉड्ता तत्काळ ॥६२॥

वारँ हागेल् आंगार्थान्नू ।
यॅत्ता तँवै व्हर्ता प्राणू ।
जीव असहाय जान्नू ।
पड्ताती ह्या भॉव्य्रांतूं ॥६३॥

थप्रॉकॉ दिंव्च्याक हातू ।
उब्बार्ला तॉ जमीनदोस्तू ।
कोर्च्याक पळॅ समर्थू ।
जगद्रूप हस्त्येक ॥६४॥

म्हुणू काळाचीची सत्ता ।
क्षेत्राचेरी चल्त आस्ता ।
अस्लॅ वाद पांडुसुता ।
जान्नूई तॅ सर्नाती ॥६५॥

ऋषींनीं ह्या संदर्भारी ।
कॅल्लँ विवेचन भारी ।
निमिषारण्यस्थळारी ।
सांग्ल्यां हँ पुराणांतूं ॥६६॥

अनुष्टुभ छंदांतूल्या ।
वेदांतूं ही चर्चा जाल्या ।
अजुनीकै चल्त आय्ल्या ।
नानाविध ग्रंथांतूं ॥६७॥

हँ जँ बृहत्सामसूत्र ।
विचारयुक्त पवित्र ।
ताक्काइ कळ्णाची हँ क्षेत्र ।
स्पष्ट सर्वथरेनॅ ॥६८॥

तशीचि आनी कित्येकांनीं ।
प्रतिभाशाली महाकवींनीं ।
बुध्दि चलैली तरिकै येनी ।
तँ तांगेल्या नद्रेक ॥६९॥

कित्लँ हॉड कश्शी आस्स ।
वा तँ कॉणागॅलँ खास ।
ध्यासु घेव्नू रात्रंदीस ।
कळ्णॉ कांईं निश्चित ॥७०॥

तँची तुक्का जश्शी आस्स ।
तश्शी सांग्तां सावकाश ।
गळ्णू संदेहाचॅ पाश ।
अेकअेक पड्तलॅ ॥७१॥

पांच महाभूतां पंक्ती ।
दशेंद्रियांची संयुती ।
अहंकारू नी प्रकृती ।
सांगाताक ही बुध्दी ॥७२॥

तांतूं आनी मन अेक ।
द्वेषु सुख आनी दुःख ।
वासनांचॅ समंदीक ।
संघर्षाचॉ गोंदोळू ॥७३॥

चेतना आनी धारणा ।
अश्शी सम्यक् संवेद्ना ।
सांग्ल्यॉ क्षेत्राच्यॉ अर्जुना ।
तुक्का आत्तं सर्वई ॥७४॥

महाभूतं तीं खंच्खंचीं ।
खंचॅ विषय नी खंचीं ।
इंद्रियं हीं अेकेकची ।
सर्वै सांग्तां सोडोनू ॥७५॥

पृथ्वी वायू आनी तेज ।
आप आकाश हीं पांच ।
महाभूतं अश्शी सम्ज ।
धर्मानुजा पांडवा ॥७६॥

कश्की जागृतावस्थेंतूं ।
यॅना सॉप्पन नद्रेंतूं ।
आनी रात्ती आकाशांतूं ।
अमासेक चंद्रमा ॥७७॥

आनी कश्की सान्पणांतूं ।
यॅना यौवन देहांतूं ।
पर्मळू यॅना पाक्ळ्यांतूं ।
कळॉ फुल्चे अॅक्ळाक ॥७८॥

राक्डांतूंची अंतर्गत ।
जाव्नु आस्ता उज्जॉ स्वस्थ ।
तश्शी प्रकृतींतूं गुप्त ।
आस्ता पळॅ जॉ पार्था ॥७९॥

घातूंचॉची अंगभूत ।
जाव्नु आस्ता ज्वरु शांत ।
जांव्चेभित्तरी अपथ्य ।
ताप्ता भाग्रभित्तरी ॥८०॥

तश्शी पंचमहाभूतं ।
अॅक्डॅ येव्नू जात्ता क्षेत्र ।
ताक्का ताव्वळी सर्वत्र ।
अहंकारू नांचैता ॥८१॥

अज्ञान्याक तित्लँ छळ्णा ।
ज्ञान्यागेली फाटी सॉण्णा ।
हँची कस्लँ म्हुणू कळ्णा ।
कित्लँ पळॅ विचित्र ॥८२॥

सांग्तां बुध्दी कश्शी आस्ता ।
लक्षणांवॅल्यानॅ कळ्ता ।
अश्शी यदुनाथु म्हण्ता ।
तॅंची आत्तं आय्कया ॥८३॥

वासना प्रबळ जात्ता ।
इंद्रियांचँ साह्य घॅत्ता ।
विषयांक घेव्नू बस्ता ।
आप्णागेल्या ताब्यांतू ॥८४॥

भोग बरॅ आनी वाय्ट ।
जात्ता सुखदुःख प्राप्त ।
तांतूलँ जँ जँ उचित ।
आनी जँ अनुचित ॥८५॥

सुख दुःख पाप पुण्य ।
निर्मळ आनी मलिन ।
हांतूं खंच्याक प्राधान्य ।
दिंव्का हँ जी पळैता ॥८६॥

उत्तम हँ तँ सामान्य ।
हँ हॉड आनी तँ सान ।
अश्शी ह्या दोन्नींतूं ध्यान ।
दीव्नू घॅत्ता जाग्रता ॥८७॥

ज्ञानाचँ बीजारोपण ।
सत्त्वगुणांचँ वर्धन ।
जीव – शिवाचँ मीलन ।
अश्शी जी ही घडैता ॥८८॥

तीची रॅ बुध्दी अर्जुना ।
हांतूं कांईं संशयू ना ।
अव्यक्ताची संभावना ।
कर्ता थंईं लक्ष दी ॥८९॥

प्रगल्भ म्हुणू प्रख्यातू ।
ज्ञान्यांगॅलॉ हॉ सिध्दांतू ।
की जी प्रकृती भूतांतूं ।
तँची सम्ज अव्यक्त ॥९०॥

दोन्नी विचार वॅग्वॅग्ळॅ ।
सांख्यांगॅलॅ योग्यांगॅलॅ ।
प्रकृतीचॅ सांगुन् जाल्लॅ ।
विस्तारानॅ माक्षीची ॥९१॥

प्रकृतीची दुस्त्री पार्था ।
ही जी जीवदशा आस्ता ।
पर्यायानॅ म्होण्का पड्ता ।
तिक्का सुद्दां अव्यक्त ॥९२॥

रात्ती काळोकू निव्वळ्ता ।
नक्षत्रांची माळ निव्ता ।
सूर्यास्ताउप्रांतँ राब्ता ।
दिनचर्या आप्याप ॥९३॥

काळु देह घेव्नु वत्ता ।
देहोपाधी सर्वै सुट्ता ।
संचितरूपानॅ उर्ता ।
कर्म दुस्त्र्या जन्मांतूं ॥९४॥

बीज धोर्येद चिम्व्येंतूं ।
रूकू ना वॅ सांग तांतूं ।
तंतू भर्ल्याती वस्त्रांतूं ।
तँ तांगेलॉ विस्तारू ॥९५॥

तश्शी स्थूळधर्मु सोण्णू ।
पंचमहाभूतं वीर्नू ।
खंच्यांतूं तीं सूक्ष्म जाव्नू ।
उर्ताती तीं सर्वई ॥९६॥

वत ताप्ता पाव्सु पड्ता ।
समुद्रु आट्ता की भर्ता ।
चित्ताचँ समत्व राक्ता ।
हॉवै लाभहानींतूं ॥६०१॥

दिसांतूल्या त्रिकालांतूं ।
बदलू जाय्ना सूर्यांतूं ।
तश्शी हॉ सुख दुःखांतूं ।
समदृष्टी दव्वर्ता ॥६०२॥

सर्वदा आकाशावारी ।
समदृष्टी सर्वांचेरी ।
खंईं दिस्ता धनुर्धारी ।
ज्ञान आस्ता थंईंची ॥६०३॥

दुस्त्रँ कस्लेंइ नाक्का दिस्ता ।
हांवंचि हाक्का जाइ जात्तां ।
हॉची अेकु निश्चय आस्ता ।
धनंजया हागेलॉ ॥६०४॥

आनी कायावाचामन ।
कोर्नू माक्काची अर्पण ।
कर्ता हॉ आश्रयस्थान ।
आप्णागॅलँ माक्काची ॥६०५॥

इत्ली जात्ता जवळीक ।
समरसतेचँ सुख ।
दॉगै लाग्ताती भोग्गूक ।
अश्शी ॲक्क सांगाती ॥६०६॥

प्रियकरालाग्गी वत्ना ।
प्रिया भय्यभीड धर्ना ।
आनी अेकरूप जात्ना ।
घॅत्ता सुखाचँ सुख ॥६०७॥

कश्की पार्था गंगोदक ।
मॅळ्त उर्ता समुद्राक ।
हांवंची हॉ जाव्नू अेक ।
मॅळ्त आस्ता मज्ज्यांतू ॥६०८॥

सूर्यासांगातीची यॅत्ता ।
सूर्या सांगातीची वत्ता ।
सांगातीपणांतूं शॉभ्ता ।
कश्की प्रभा तागेली ॥६०९॥

खॅळ्त आस्ता हँ उद्दाक ।
आप्णांतूं आप्णाइत्ल्याक ।
दिस्ताती मात्र लोकांक ।
भिन्न पाळं उद्कारी ॥६१०॥

अश्शी हॉ हांवंची जात्ता ।
मज्ज्यांतूंची मॅळ्त आस्ता ।
तॉची मूर्तीमंत पार्था ।
ज्ञान म्हुणू जाण तूं ॥६११॥

घाट तीर्थाचॅं पावन ।
शांत रम्य तपोवन ।
ध्यानाखात्तीरई स्थान ।
आस्ता प्रिय कॉणाक ॥६१२॥

गुय्यांतूं पर्वताचेरी ।
सरोवराच्या तीरारी ।
थंचीची आवडी भारी ।
जॉ यॅना नगरांतूं ॥६१३॥

अेकांतांतूं राब्ची प्रीती ।
जनसंपर्काची खंती ।
जाण तूं हॉ साक्षात् मूर्ती ।
धनंजया ज्ञानाची ॥६१४॥

आनी लक्षणं आस्सती ।
ज्ञानाचीं सांग्तां तुक्का तीं ।
स्पष्ट कळॉ ताज्जी व्याप्ती ।
म्हुणू आत्तं आय्क तूं ॥६१५॥

ह्या ॲक्कची ज्ञानामितीं ।
जात्ता परमात्म्याची प्राप्ती ।
अश्शी हाज्जी आय्क ख्याती ।
जी ही आस्स सर्वत्र ॥६१६॥

संसाराचॅं नी स्वर्गाचॅं ।
कित्लँ म्हुणू माक्षी लाग्चँ ।
खरँ पळैल्यारी म्होण्चँ ।
तँची हॉड अज्ञान ॥६१७॥

स्वर्गा खब्बरी तूं सोडी ।
संसारा कान फाप्पूडी ।
अध्यात्मज्ञानांतूं गोडी ।
धरी जीवाभावानॅं ॥६१८॥

वाट्टेर् लाग्ताती मुखारी ।
चारी दिका मार्ग चारी ।
आडमार्ग सोण्णू धरी ।
राजमार्गू खात्रीचॉ ॥६१९॥

अश्शी हँ सर्वई सोण्णू ।
मनबुध्दी अेक कोर्नू ।
अध्यात्मांतूं लक्ष घाल्नू ।
धरी मार्गू ज्ञानाचॉ ॥६२०॥

ह्याची मार्गारी सद्गती ।
अन्यथा जाय्द दुर्गती ।
धरी हीची रॅं सन्मती ।
मेरूवारी अढळ ॥६२१॥

ध्रुव अढळपदारी ।
तश्शी राब ह्या मॅट्टारी ।
रीग मुखारी भित्तरी ।
फिराव्नाक्का पाऊल ॥६२२॥

अश्शी ज्ञान प्राप्त जात्लँ ।
उलैतां हँ खरँ जात्लँ ।
दृढ जाव्नू तँची यॅत्लॅं ।
हांवं नी तूं ॲक्डॅची ॥६२३॥

जालँ आप्णाक हँ ज्ञान ।
लेक्कू नावका समाधान ।
ज्ञेयाचेरी आस्का भान ।
दव्वर्का हँ लक्षांतूं ॥६२४॥

ज्ञानाचँ अेक्कची फळ ।
तत्त्व निर्मळ सरळ ।
हाज्जेरी दृष्टी निश्चळ ।
धोर्का पड्ता सदैव ॥६२५॥

जाव्नूई जरी हँ ज्ञान ।
ज्ञेयाक विस्सर्लँ मन ।
तरी कस्लँ प्रयोजन ।
सांग तूं त्या ज्ञानाचँ ॥६२६॥

दिवॉ धर्ल्यारी कु र्नॅं ।
लाभु ना ताक्का ताज्जानॅं ।
मेळैलेलँ साधनेनॅं ।
ज्ञान तश्शी हँ व्यर्थ ॥६२७॥

ज्ञाना प्रकाशांतूं जरी ।
तत्त्व दिस्सने जाल्यारी ।
म्होण्का पड्तलँची तरी ।
जाल्या दृष्टी ही कुर्डी ॥६२८॥

म्हुणू ज्ञान जँ दाकैता ।
तँची तँ तत्त्व वस्तुता ।
जाल्यारी पोळोंका पड्ता ।
शुध्द बुध्दीनॅ ज्ञेय ॥६२९॥

बुध्दीचोई हातु धोर्नू ।
ज्ञेयाक जॉ घॅत्ता जाण्णू ।
तॉची ज्ञान प्राप्त कोर्नू ।
जात्ता ज्ञानसंपन्न ॥६३०॥

कश्कश्शी हँ ज्ञान वाड्ता ।
तश्शी बुध्दी विकास पाव्ता ।
हँ शब्दांनीं सांग्का पड्ता ।
अश्शी कांइं दिस्सना ॥६३१॥

ह्या ज्ञानाच्या प्रकाशांतूं ।
बुध्दी ही मॅळ्ता ज्ञेयांतूं ।
म्हण्तां परतत्त्वांतूं ।
जात्ता हॉ रॅ विलीन ॥६३२॥

हॉची ज्ञान हँ म्हळ्ळ्यारी ।
आश्चर्य ना धनुर्धारी ।
सूर्याक सूर्यू म्हळ्ळ्यारी ।
कश्की जाय्श्ना विप्रीत ॥६३३॥

श्रोते म्हण्ताती हँ कळ्ळँ ।
सांग आत्तं मुखावॅलँ ।
व्याख्यानाचँ सूत्र वत्लँ ।
न्हइ जाल्यारी सुट्टूनू ॥६३४॥

निरूपण ज्ञानाचेरी ।
कर्त आस्स गॉम्टायेरी ।
उपकारु हॉ आम्चेरी ।
जाय्त आस्स भो होडू ॥६३५॥

कवींगॅलॉ हॉ संकेतू ।
घेव्नू अश्शी बस्ल्यारी तूं ।
अतिशयोक्तीनॅ घातू ।
जात्लॉ शिलॉ तुगेलॉ ॥६३६॥

जॅव्णाक येय्याती म्होण्चँ ।
संभ्रमारी स्वागत कोर्चें ।
रांद्पा तय्यारीक लण्चँ ।
वळ्सवळ्स कोर्नू वॅ ॥६३७॥

गायी दुद्दाळ भो बरी ।
धार काडूक बस्ल्यारी ।
तिन्नॅ मार्ल्यी लात्तॉ जरी ।
कॉण तिक्का पोश्शीद ॥६३८॥

सांग्चँ सम सांगनाती ।
अस्लेई ज्ञानी आस्ताती ।
तांच्वारी तूं नात्तिल्मितीं ।
जाछॉ मना संतोषू ॥६३९॥

ह्या ज्ञाना प्राप्तीखात्तीर ।
योग कर्ता ती खड्तर ।
ताज्जँ आम्मी सर्वसार ।
तुल्याग्थाव्नू आय्कलँ ॥६४०॥

अमृताची लाग्ल्या धार ।
सुखाचँ हँ संवत्सर ।
कॅर्ना हाज्जी बा अखेर ।
जाय्द कॉण म्हणद ॥६४१॥

युगान्युग पुन्वे राती ।
उल्यारी बा कस्ली खंती ।
जात्ली निरंतर प्राप्ती ।
चकोराक चंद्राची ॥६४२॥

ज्ञानावॅलँ हँ व्याख्यान ।
तँवै भोची रसपूर्ण ।
पुरॉ म्हणद बा कॉण ।
हँ जँ इत्लँ सुश्राव्य ॥६४३॥

भाग्यवानु जॉ अतिथी यॅत्ता ।
अन्नदान सुगृहिणी कर्ता ।
पॉटभरी ती ताक्का वाड्ता ।
तश्शी तुगेलँ व्याख्यान ॥६४४॥

तश्शी तूंवै उदार दाता ।
ज्ञानभूकई तूं नीवैता ।
तुक्काइ ज्ञानाचेरी आस्था ।
अतोनात निरंकुश ॥६४५॥

पळ्ळी साकर दुद्दांतूं ।
रसरंगु व्याख्यानांतूं ।
नित्य नाविन्य रूचींतूं ।
ज्ञानई अपरंपार ॥६४६॥

आम्कां मुखारी तूं आत्तं ।
सांग ज्ञान विपरीत ।
आय्कताती दिव्नू चित्त ।
पूर्ण ज्ञानावतारा ॥६४७॥

उत्तर हँ संतांगॅलँ ।
ज्ञानदेवानॅ आय्कलँ ।
आनी म्हळ्ळँ हँची आय्लँ ।
मगेल्याई मनांतुं ॥६४८॥

तुम्गेल्या आज्ञेनुसार ।
आत्तं मगेलॅ विचार ।
कर्नस्तना भो विस्तार ।
सांग्तां तॅची आय्कया ॥६४९॥

अश्शी ज्ञानाचीं अेकूण ।
अष्टादश हीं लक्षणं ।
सांग्लीं कोर्नू विवेचन ।
श्रीकृष्णानॅ पार्थाक ॥६५०॥

ज्ञानाचीं जीं जीं लक्षणं ।
त्या नांवांनीं तँ तूं जाण ।
सर्वत्र हँची प्रमाण ।
प्रज्ञावंतांक मान्य ॥६५१॥

दिस्ता स्पष्ट तळहात्तारी ।
कश्की आवाळॉ दिल्यारी ।
तश्शी तुक्का धनुर्धारी ।
ज्ञान कॅछँ दिस्सशी ॥६५२॥

जाणशी तूं आश्शिल्मितीं ।
अज्ञानाच्यॉ नाना रीती ।
कश्शी प्रगट जात्ताती ।
सांग्तां आत्तं हँ तुक्का॥६५३॥

ज्ञान कश्शी आस्ता कळ्ळँ ।
तश्शी जँ आस्सनात्तिलँ ।
तँची अज्ञान आस्तलँ ।
हँ कळ्तलँ सहज ॥६५४॥

कश्की दीसु सर्ता सर्ता ।
थंईं राती सुरु जात्ता ।
ह्याविना रॅ कॉण आस्ता ।
सांग तिस्त्रँ मद्देंतूं ॥६५५॥

खंईं ज्ञानाचॉ अभावू ।
थंईं अज्ञानाक वावू ।
तस्तश्शी वाड्ता प्रभावू ।
पोळोनू घॅ हीं चिन्हं ॥६५६॥

चौगांतूं स्थान दिल्यारी ।
मानसन्मानू कॅल्यारी ।
संतोषु जात्ता भो भारी ।
अश्शी पळॅ कॉणाक ॥६५७॥

गर्वानॅ पर्वत–शिखर ।
पळैता वैरी अंबर ।
जाय्ना सोडूक तय्यार ।
आप्पागॅलँ हॉड्पण ॥६५८॥

केलीं पुण्यकर्म इत्लीं ।
वाज्जैता आप्णाली पिंप्ळी ।
साळणी दॅव्ळामुल्यांतूली ।
कश्की निठी उब्रता ॥६५९॥

कर्ता विद्येचॉ पसारॉ ।
वाजैत उर्ता नगारॉ ।
की ह्या सत्कर्माचॉ कॉरॉ ।
जग नित्य प्रशंसा ॥६६०॥

चंदना उटी देहाक ।
आपणागॅलँची कौतुक ।
दुस्त्रॅं पण्णाती दृष्टीक ।
हाक्का म्होण्का अज्ञानी ॥६६१॥

कश्की रान्ना उज्जॉ लाग्ता ।
आनी सर्वै लास्सुन् वत्ता ।
तश्शी हॉ उपद्र दित्ता ।
वच्वच्चू गॅलॅल्कडॅ ॥६६२॥

जरी सहज उलैद ।
पॅस्काती मर्मा लाग्गद ।
कस्लँ मनांतूं हाडीद ।
तँची विष घातक ॥६६३॥

भल्याँ ताज्ज्यांतूं अज्ञान ।
तॉची हिंसेचँ कारण ।
आयुष्य तागेलँ जाण ।
दुस्त्र्यागॅलँ मरण ॥६६४॥

भात्तॉ फुंक्ल्यारी जॉ फुग्ता ।
वारॉ काळ्यार् चिर्मुटेता ।
तश्शी लाभु हानी पाव्ता ।
नी तॉ भॉग्ता सुखदुःख ॥६६५॥

वारयासांगातीची उब्ता ।
धूळी वैरी वैरी चड्ता ।
स्तुती आप्णाली आय्कता ।
जात्ता हर्षनिर्भर ॥६६६॥

निंदा आय्ल्यारी कान्नारी ।
मार्नु घॅत्ता तॉ निड्ळारी । आट्टून्
वत्ता चिक्लावारी ।
बस्ता सुक्कूनू बाव्नू ॥६६७॥

जावॉ मानु अपमानु ।
संयमू घॅना राक्कूनू ।
बुड्ता आनी वत्ता व्हाव्नू ।
अश्शी सुखदुःखांतूं ॥६६८॥

वैल्यानॅ दृष्टी मॉव्वाळ ।
आनी वाचाई रसाळ ।
मन मात्र ना सरळ ।
कळू दीना कॉणाक ॥६६९॥

मृग धरूक शिकारी ।
चरूक घाल्ता नॅलारी ।
सज्जनांकै कर्ता वैरी ।
अस्ल्या फटिंग्पणानॅ ॥६७०॥

मोव्वूशॅळॉ फात्राचेरी ।
बॅवा फळ पिक्किल्तरी ।
कश्शी नंबूंचँ तांचेरी ।
सर्व भाय्ल्यॉ गॉम्टायॉ ॥६७१॥

अस्लॅ कडॅची अज्ञान ।
ताज्विना कांईं ना जाण ।
मगेलँ सत्यवचन ।
हँ तूं सम्ज निश्चित ॥६७२॥

गुरुकुल सांगू लाज्ता ।
गुरुसेवा वज्जँ लॅक्ता ।
गुरुलाग्गी विद्या शिक्ता ।
बस्ता तागेल् मात्त्यारी ॥६७३॥

अस्ल्यालँ नांव घॅत्ल्यारी ।
शूद्रागेरी खालेल्वारी ।
कस्लँ कोर्चें प्रसंगारी ।
नांव घेंव्का पळ्ळेंची ॥६७४॥

नांव घॅत्तां गुरुभक्ताचँ ।
तँची प्रायश्चित वाचे ।
पापविनाशक सर्व थरेचँ ।
सूर्यावारी तिमिरहरू ॥६७५॥

पापमुक्त ही वाचा जात्ली ।
निंदेचँ हँ दुरितई धुत्ली ।
खयें शारदा येव्नु बस्तली ।
निर्मळ पावन स्थानारी ॥६७६॥

चुक्ती घळ्ळँ पाप सान ।
जाल्लँ ताज्जँ परिमार्जन ।
हींवै आय्कयाती चिन्हं ।
मुखारी अज्ञानाचीं ॥६७७॥

वाग्ण्यांतूं ना कस्ली शिस्त ।
चित्त कॅर्नाई अस्वस्थ ।
रान्नांतूली दुर्लक्षित ।
गाळग्रस्त बांयींशँ ॥६७८॥

तॉंडारीची कांव्यां झाडं ।
भित्तर् मेलेल्यांलीं हाड्डं ।
तश्शी हॉ अभद्र खॉड ।
अंतर्बाह्य सदैव ॥६७९॥

कश्की सुणँ भुक्केलॅलँ ।
पळैना बरँ, बुर्शेलँ ।
तश्शी स्वतालँ दुस्त्र्यालँ ।
पळैना घॅत्ना धन ॥६८०॥

सूणँ संभोगावॅळारी ।
पळैना आड इद्रारी ।
जात्ता निर्लज्ज ताज्वारी ।
कर्तना हॉ स्त्रीसंगू ॥६८१॥

चुक्लँ स्वधर्माचरण ।
नैमित्तिकाचँ पालन ।
म्हुणु कांईं हागेल् मन ।
जाय्ना खिन्न लज्जित ॥६८२॥

पापाचाराची ना लाज ।
कर्ना सत्कर्म हर्गिज ।
वाय्ट विचारू सहज ।
यॅत्ता हाक्का ॲक्ळाक ॥६८३॥

हॉची केवळ तूं जाण ।
मूर्तिमंत तँ अज्ञान ।
धोर्नू बस्ता रात्रंदिन ।
दॉळॉ द्रव्यार्जनारी ॥६८४॥

थॉ ३शा स्वार्था खात्तीर ।
भोची जात्ता हॉ अधीर ।
क३की तण थरथर ।
जात्ता मूई चर्तना ॥६८५॥

स्वप्नरंजनांतूं मन ।
हागेलँ सदैव मग्न ।
क३की व्हांव्त वत्ता पान ।
व्हॅछॅल्कडॅ हॉळानॅ ॥६८७॥

वारॉ जाग्यारी तड्वना ।
त३शी हॉ अॅक्डॅ राब्बना ।
मन खईं स्थिर जाय्ना ।
तीर्थारी वा नगरांतूं ॥६८९॥

मूर्छा यॅत्ताना निद्दता ।
ताव्वळी जाग्यारी दिस्ता ।
न्हखे चारी दिका उर्ता ।
घुंव्त घुंव्त भिंग्रीशी ॥६९१॥

ना निग्रहू ना संयमू ।
ना खंचोई नित्यनेमू ।
घाल्ना मनाक लगामू ।
स्वैर सॉड्ता मनाक ॥६९३॥

व्रत घेव्नू मद्दँ सॉड्ता ।
स्वधर्माक लात मार्ता ।
नित्यनेमूई चुक्कैता ।
अ३शी चल्ता हॉ नित्य ॥६९५॥

कुलाचार सोण्णू दित्ता ।
वेदाज्ञेक धूर कर्ता ।
कर्तना हॉ दॉळॅ धांप्ता ।
कस्लोइ कर्ना विचारू ॥६९७॥

घाल्चेभित्तरी पाऊल ।
जात्ता उद्दाक गढूळ ।
त३शी कर्ता तळमळ ।
संकटाच्या भय्येनॅ ॥६८६॥

धुव्वरू वारयासांगातू ।
धोर्नू फिर्ता धा दिशांतूं ।
त३शी बुड्ता आक्रांतांतूं ।
दु:खवार्ता आय्कूनू ॥६८८॥

मातुलॅलॉ सर्डॉ वैरी ।
चड्ता दँव्ता रुक्काचेरी ।
त३शी घाल्ता वारयावारी ।
यॅरादारयॉ हॉ व्यर्थ ॥६९०॥

क३की हांगाथंईं ऊड ।
कर्तची पड्ता मांकड ।
त३शी खंचेंई ना धड ।
भल्याँ घोर अज्ञान ॥६९२॥

हॉळा आयिलॉ उव्वारू ।
लकैता रेंवे बंधारू ।
विधिनिषेधू आचारू ।
त३शी दांटुय्ता भीना ॥६९४॥

पापकर्मांचॉची छंदू ।
पुण्यकर्मांक निर्बंधू ।
लाजमर्यादेक खांदू ।
दिंव्च्याक हॉ तय्यारू ॥६९६॥

बैलू उन्मत्तू जालेलॉ ।
वारॉ तूफान सुट्टिलॉ ।
हॉळा उव्वारू रान्नांत्लॉ ।
त३शी हॉ बेदर्कारू ॥६९८॥

मदोन्मत्त कुर्डों हस्ती ।
गुड् ारी उज्ज्याची खस्ती ।
तश्शी विषयांक मस्ती ।
चळ्ळ्या हागेल् मनांतूं ॥६९९॥

कस्लेंइ घाणींतूं घाल्तीद ।
उन्मत्तू सोण्णू दित्तीद ।
कोणुइ गांवांतूं रिग्गद ।
कस्ल्याकै ना मर्याद ॥७००॥

अन्नछत्रांतूं भोजन ।
सामान्यू जात्ता प्रधान ।
वाण्यागेरी सांग कॉण ।
आस्स वच्चनात्तिलॉ ॥७०१॥

अश्शी खंई कस्लँ मॅळ्ता ।
हांतूंची हॉ लक्ष घाल्ता ।
अज्ञानाची पूर्णावस्था ।
पाव्लॉ म्हुणू म्होण्येद ॥७०२॥

भोग जांव्काती आत्तंई ।
मॅळ्काती तॅ स्वर्गांतूंई ।
हागेली ही इत्लीथाई ।
विषयांची आसक्ती ॥७०३॥

भोग्गूनूई समाधान ।
जाय्ना ताज्जँची व्यसन ।
आनी कर्ता शुध्दीस्नान ।
विरक्ताक पोळोनू ॥७०४॥

कुष्ठी स्वहस्तानॅ खात्ना ।
रॉगाचॉ विचारू कर्ना ।
भोग्चँ कांईं सर्नू सर्ना ।
भोगु सर्त येन्नूई ॥७०५॥

गाड्डव कामांधु जात्ता ।
गाड्वीगॅल्या माक्षी लाग्ता ।
मार्लेल् तित्ल्यॉ लात्तॉ खात्ता । तरी
वच्चना धूर ॥७०६॥

तश्शी सॉण्णा विषयांक ।
भीना उज्जांतूं उड्च्याक ।
लॅक्ता तॉ ह्या घाडसाक ।
आप्णागॅलॉ गौरवू ॥७०७॥

मृगजळ नद्रे पड्ता ।
उस्त्रमेटी काड्त धाव्ता ।
मायेंतू ह्यां नुस्तँ फस्ता ।
हँची कळणा मृगाक ॥७०८॥

आयुष्य सरवरेक ।
दीना सोण्णू विषयांक ।
मॅळ्णा जालेल्तरी सुख ।
वाड्त वत्ता आसक्ती ॥७०९॥

गुंतुन् पड्ता सान्पणांतूं ।
आव्सुबाप्सूल्या मायेंतूं ।
आनी यौवनावस्थेंतूं ।
युवतील्या मोहांतूं ॥७१०॥

हगुर्हगुर् हँवै सर्ता ।
म्हांतारपण सुरु जात्ता ।
चेर्ड्वांचेरी मोगु धर्ता ।
सुट्टनाती हॅ पाश ॥७११॥

कुर्डँ चेर्डूं जन्मा आय्लँ ।
कोर्काज सर्वै तागेलँ ।
तश्शी कु ा संसारांत्लॅ ।
विषय पोस्का पड्ताती ॥७१२॥

अश्शी जॉ कोणू आस्सद ।
तॉची अज्ञानी अगाध ।
आनी स्पष्ट जी दिस्तीद ।
तींवै सांग्तां लक्षणं ॥७१३॥

देह हॉची आत्मा म्हणता ।
मनांतूंई हँची लॅक्ता ।
त्यानुसार सुरु कर्ता ।
सर्वै कामं आप्पालीं ॥७१४॥

चडउणॅ जँ जँ घड्ता ।
चारीचौगांक दाकैता ।
कौतूकई कोर्नू घॅत्ता ।
आनी जात्ता उन्मत्त ॥७१५॥

मंत्रक्षत मस्तकारी ।
पळ्ळ्यॉ की यॅत्ता आंगारी ।
यौवन–विद्ये जॉरारी ।
तश्शी चल्ता बेभान ॥७१६॥

दुस्त्रॉ कोणु बुध्दिवानू ।
धनवैभवसंपन्नू ।
आचारांतूं सर्वमान्यू ।
आस्सद वॅ मज्वारी ॥७१७॥

मज्ज्याकै ना होडु कोणु ।
हांवंची अेकू सर्वज्ञू ।
प्रख्यातू प्रवीणु म्हुणू ।
फुग्ता अश्शी गर्वानॅ ॥७१८॥

कश्की पळॅ रोगी म्हणता ।
कस्लँ चेंव्चँ नाक्का दिस्ता ।
दुस्त्र्यालँ जँ बरँ जात्ता ।
तश्शी तँ हॉ पळैना ॥७१९॥

दिवॉ वाती लास्त वत्ता ।
तॅलै पूरा गीळू लाग्ता ।
थंथंईची मशी मांड्ता ।
दव्वर्लेल्या जाग्यारी ॥७२०॥

उद्का थँबार्नॅ तिड्तिड्ता ।
वारयार्नॅ तॉ नीव्नू वत्ता ।
लाश्यां म्हळ्ळ्यार् घरै लास्ता ।
सॉण्णा काड्डी सुद्दांई ॥७२१॥

प्रकाशू हुन्साणी थोडी ।
इत्लीची दिव्याली जोडी ।
तित्लीची विद्वत्ता होडी ।
सम्ज पार्था हागेली ॥७२२॥

दूद अपथ्य तापांतूं ।
दिल्यारी रोग्यालॉ घातू ।
अर्थू ना दूद दिंव्च्यांतूं ।
सर्पा दंशू विषाचॉ ॥७२३॥

गुणज्ञांगॅलॉ मत्सरू ।
विद्वत्तेचॉ अहंकारू ।
तपोज्ञानाचॉ हॉ भारू ।
नुस्तँ व्हांव्ता मात्त्यारी ॥७२४॥

अकुलीनू रायू जात्ता ।
उन्मत्तू जाव्नू तॉ चल्ता ।
अजगरू खांवॉ गिळ्ता ।
जात्ता ताज्वारी नीठू ॥७२५॥

लाट्ची नळी वॅ बग्गूद ।
की फात्तरू मोव्वू जाय्द ।
वैद्यु कश्शी बा देव्रैद ।
विष काळसर्पालँ ॥७२६॥

अज्ञानारी वाडी मॅळता ।
अश्शी तँवै वाड्त वत्ता ।
खात्रीनॅ हँ तुक्का सांग्तां ।
दव्वरी तूं विश्वासू ॥७२७॥

आप्णागॅलँ घरदार ।
आयुष्य क्षणभंगूर ।
अस्लॅ मनांतूं विचार ।
कॅर्नाकई यॅनाती ॥७२८॥

उपकारु कृतघ्नाक ।
कॅल्लॉ विश्वस्तू चॉराक ।
दिल्लॉ मानु निर्लज्जाक ।
हँ सर्वै जॉ विस्सर्ता ॥७२९॥

सूणँ गोंदोळू घाल्तालँ ।
म्हुणु घराभाग्र घाल्लँ ।
खालेलॉ मारु विस्सर्लँ ।
आनी आय्लँ परत ॥७३०॥

मांड्काक सर्पा ताँडांतूं ।
वत्त आस्स हँ लक्षांतूं ।
यॅना तॉ दंग गिळ्च्यांतूं ।
मेळ्ळेल्तित्ल्या मूसांक ॥७३१॥

देह क्षीण जाय्त यॅत्ता ।
ताक्का नाना व्याधी लाग्ता ।
अश्शी इत्खात्तीर जात्ता ।
विचारू हॉ कर्माची ॥७३२॥

नव्व म्हैनॅथाई जाल्लॉ ।
बंदिवासु गर्भांतूलॉ ।
नरकू हॉ भॉग्त राब्लॉ ।
कश्शी तॅदम्हणसरी ॥७३३॥

कश्शी जावॅ जन्मा आय्लॉ ।
नाना यातना ह्यॉ सग्ळ्यॉ । सर्वथा
विस्सोर्नू गॅल्लॉ ।
सुरु जात्ल्यॉ नव्यानॅ ॥७३४॥

चेर्डूं घॅत्ताती पाय्यारी ।
हाग्ता मुत्ता तँ आंगारी ।
तांतूंची तँ लॉळ्ळेल्तरी ।
कस्लेंइ कश्शी दिस्सना ॥७३५॥

अशीची हॉ जन्मू गॅल्लॉ ।
येंव्चॉ तॉवै अशी वत्लॉ ।
यॅना वॅ विचारू अस्लॉ ।
कॅर्नाई हॉ मनांतूं ॥७३६॥

जीवा भर्वशारी बस्ता ।
शाश्वत हॉ देह लॅक्ता ।
कश्शी अकल्पित यॅत्ता ।
मृत्यू हँ तॉ पळैना ॥७३७॥

जीवु आस्स अेद्दोळच्याक ।
कस्लँ जाय्श्ना मज्जस्ल्पाक ।
वाय्टु विचारु कस्ल्याक ।
हाड्का नुस्तँ आत्तंची ॥७३८॥

उद्का फाँडारयांत्ली मास्ली ।
आट्टश्ना हॉ म्हणत बस्ली ।
आनी तांतूंची ती फस्ली ।
तळँ आस्सुन् बाजूक ॥७३९॥

जाव्नू मृग गानलुब्ध ।
जात्ता तँ बल्यांतूं बध्द ।
सांग कश्शी बा सुट्टद ।
गळा लागिली मास्ली ॥७४०॥

दिव्या झग्मगू पोळोनू ।
ताज्जेरीची भिर्भिरेनू ।
आखेरीक सॉड्ता प्राणू ।
पळॅ कश्की पतंगू ॥७४१॥

घर लास्त आश्शिल्तरी ।
आल्सी निद्दता भित्तरी ।
घॅनॅ जरी खबरदारी ।
पड्द विष अन्नांतूं ॥७४२॥

जन्मु आय्ला मृत्यू जाव्नू ।
कॉणाकै हँ यॅना कळ्णू ।
वैल्यानॅ घाछा पांग्रोनू ।
राजसी हॉ संसारू ॥७४३॥

देहा बल वाड्त वत्ता ।
विषयांचँ सुख भॉग्ता ।
रान्नंदीस तांतूं रम्ता ।
म्हण्ता अशी चल्तलँ ॥७४४॥

वेश्या दाकैता जिव्हाळॉ ।
फस्ता थंईंची हॉ भॉळॉ ।
हीची अड्चीतली गळॉ ।
कळ्णा आत्तं हँ हाक्का ॥७४५॥

कॅर्ना चॉरालॉ सांगातू ।
कळ्णाची करीद घातू ।
न्हाणैल्यारी क्षणार्धांतूं ।
मात्ये बाँबँ चिक्कोलू ॥७४६॥

स्थूलता पंडुयोगाची ।
दित्ता सूचना मृत्यूची ।
चिन्हं हीं अनारोग्याचीं ।
अति निद्रा भोजन ॥७४७॥

दिंव्च्या व्हर्ताती शूलारी ।
पाव्लं हगूर मुखारी ।
पड्ताती दिस्ता इद्रारी ।
आप्णागॅलॅ मरण ॥७४८॥

दिसामाक्षी दीसु वत्ता ।
देह अनुकूल जात्ता ।
विषय भोग्ची क्षमता ।
तीवै वाड्ता सांगाती ॥७४९॥

हळुहळू हँवै सर्ता ।
देह मृत्यूपंथा लाग्ता ।
कश्की मीट विर्घळेता ।
नकळतां उद्कांतूं ॥७५०॥

तश्शी आयुष्य हँ सर्ता ।
काळु वाट राक्स्त आस्ता ।
दॉळ्यां इद्रारी हँ घड्ता ।
तरी यॅना मनांतूं ॥७५१॥

आयुष्य क्षणाक्षणाक ।
मृत्यू घेव्नू सांगाताक ।
चल्ता तरी हँ कॉणाक ।
कळ्णा ह्या मोहामितीं ॥७५२॥

अज्ञान्यांगॅलॉ हॉ रायू ।
ह्या उन्नाक ना पर्यायू ।
अेक्कूची हॉ अभिप्रायू ।
सर्वांगॅलॉ खात्रीनॅ ॥७५३॥

भोगतृप्त जाय्त वत्ता ।
आनी नवॅ सोद्दू लाग्ता ।
प्रायेभरांतूं विस्स्सर्ता ।
येंव्चँ तँ म्हांतारपण ॥७५४॥

देव्णेरी लकोंका पण्णा ।
पळें गाडी चलैतना ।
फात्तरू गड्गडेनू यॅत्ना ।
मद्दँ खंईं राब्बना ॥७५५॥

मातुलेल्या रड् ा जोरू ।
हॉळाक आय्लॉ उव्वारू ।
तश्शी तारुण्याचॉ भोरू ।
कर्ता हाक्का बेभान ॥७५६॥

हळूहळू भाग्गू लाग्ता ।
ताँडावॅलँ तेज दँव्ता ।
गल्गलेंच्या सुरु जात्ता ।
नीठ धर्लेलँ मात्तँ ॥७५७॥

खाड आत्तं पिक्कू लाग्ता ।
मान्नेक थर्थरॉ सुट्ता ।
तरी धोर्नु घेव्नु बस्ता ।
आनी तॅची तॅ भोग ॥७५८॥

कश्की कु कि हँ कळ्णा ।
मुखार् कस्लँ आस्स की ना ।
की आल्शी कस्लँ सोद्दीना ।
घेव्नु बस्ता आश्शिलँ ॥७५९॥

सर्तलँ आय्चँ तारुण्य ।
यॅत्लँ फाई म्हांतारपण ।
सम्जून् घॅना हँ जॉ कॉण ।
तॉची पार्था अज्ञानी ॥७६०॥

कोणुई जॉ दुब्ळॉ दिस्ता ।
ताक्का पाप जॉ वँगाय्ता ।
येत्ली फाई ही अवस्था ।
कळ्णा कश्शी हँ हाक्का ॥७६१॥

म्हांतारपण येव्चँ यॅत्ता ।
मुखार् जांव्चँई सुच्चैता ।
जाल्यारी हॉ चल्त उर्ता ।
तारुण्याच्या गुर्मीतूं ॥७६२॥

हॉची जाण तूं अज्ञानी ।
उलैना हँ नुस्तेंपुणी ।
आय्क मुखारी तूं आन्नी ।
हागेलीं हीं लक्षणं ॥७६३॥

म्हणता बैलू हँ मनांतूं ।
पळैनॅ वागू रान्नांतूं ।
आनी जाव्नू तॉ निश्चिंतू ।
वत्ता थंईं चरूक ॥७६४॥

सर्पू राक्ता गुप्तधन ।
तँ जॉ हाड्ता ताक्का मान्य ।
जाय्श्ना, म्हण्ता कश्शी यॅन ।
सुखरूप तँ घेव्नू ॥७६५॥

नशीबानॅ अेक्दोन्फंत्तां ।
रॉगांत्थाव्नू हॉ उटाय्ता ।
म्हुणु वॅ हॉ सांग सुट्ता ।
ताँडांत्थाव्नू मृत्यूच्या ॥७६६॥

पळ्ळ्या की वैरयाक नीद ।
अश्शी म्हळ्ळ्यार् कश्शी जाय्द ।
उटाव्नू मार्नू काडीद ।
हाक्का हागेल् चेर्ड्वांक ॥७६७॥

आहारनिद्रेचँ सुख ।
मॅळ्त आस्ता जोवरेक ।
लाग्गना हागेल् मनाक ।
कस्ली चिंता व्याधीची ॥७६८॥

बाय्लचेर्ड्वांक सांगाती ।
घेव्नू भॉग्तना संपत्ती ।
दॉळॅ धुंदींतूं आस्ताती ।
फाय्चँ कांईं दिस्सना ॥७६९॥

पड्द सुट्टूनू कॅर्नांतूं ।
कॉण्कॉणागॅलॉ सांगातू ।
कॅर्ना खंच्या संकटांतूं ।
पण्ण हँ हॉ पळैना ॥७७०॥

अस्लॉ आनी हॉ जॉ कोणू ।
इंद्रियांक स्वैर सोण्णू ।
मॅळ्मॅळ्ळॅ लँ तांका दीव्नू ।
चल्ता तॉवै अज्ञानी ॥७७१॥

आनी प्रायेच्या भरांतूं ।
वैभवाच्या विलासांतूं ।
खंचँ घेंव्चँ सोड्चँ हांतूं ।
कांईं कर्ना विचारू ॥७७२॥

कोर्नयॅ जँ तँची कर्ता ।
मेळचँ ना तँ धोरू वत्ता ।
जँ नाक्का तँ मनांत् हाड्ता ।
अस्ली पाडी बुध्दी ही ॥७७३॥

रिग्गू नज्ज थंईं रिग्ता ।
माग्गू नज्ज तँची माग्ता ।
देह आनी मन लाय्ता ।
खंईं लाव्नयॅ थंईं ॥७७४॥

वच्चू नयॅ थंईं वत्ता ।
पोळोनयॅ तँ पळैता ।
खांव्च्या नज्ज तँची खात्ता ।
तांतूं लॅक्ता संतोषू ॥७७५॥

वर्ज्य सांगातू हॉ घर्ता ।
हात्ताभाय्लँ काम घॅत्ता ।
त्याची वाट्टेनॅ हॉ वत्ता ।
धोरू नज्ज जी वाट ॥७७६॥

आय्कू नयॅ तँ आय्कता ।
उलो नयॅ तँ उछैता ।
पळैना की दोषु लाग्ता ।
आप्णाल्या वर्तनाक ॥७७७॥

देहाक मनाक जाय्शी ।
चल्त उर्ता स्वैर अश्शी ।
कश्शी चल्का पळॅ तश्शी ।
चल्ना, कर्ता कांइंपुणी ॥७७८॥

कस्लँ पाप वॅ घडद ।
नरकु भोग्का पडद ।
कश्शी बा हँ चुवकोच्येद ।
हॉ विचारू कर्नाची ॥७७९॥

अज्ञान इत्लँ मातूता ।
त्या धुंदींतूं पैज लाय्ता ।
संघर्षाक व्यर्थ दित्ता ।
हँ ज्ञानाक आव्हान ॥७८०॥

आस्सॉ आनी हींनै आय्क ।
चिन्हं ॲक्का मुखार् एक ।
तुक्का तीं सम्जून् घेंव्च्याक ।
जात्लँ पळॅ सलीस ॥७८१॥

फुल्तल्या फुल्ला पर्मळू ।
घुंव्त घॅत्ता घाल्नू घोळू ।
भ्रमरी तश्शी हॉ वेळू ।
घाल्ता घरादारांतूं ॥७८२॥

साक्रेर् बश्शिल् मूसू हाल्ना ।
तश्शी दुस्त्रँ हाँ पळैना ।
रात्रंदीस स्त्रियेविना ।
ध्यानमन तिज्ज्यांतूं ॥७८३॥

कूपची विश्व मांड्काक ।
पिण्सॉची सुख मूसाक ।
चिक्ला फोंडूची रड् ाक ।
कश्की सुखसर्वस्व ॥७८४॥

तश्शी घराभाग्र पण्णा ।
प्राणु गॅलॅल्तरी सॉण्णा ।
सर्पावारी ही सुट्टना ।
घरावेली आसक्ती ॥७८५॥

हात काण्णा आप्णागॅलॅ ।
वलभाल्या गळ्यांतूलॅ ।
तश्शी मनई हागेलँ ।
बंदिवान घरांतूं ॥७८६॥

सॉत्त सॉत्तची फिर्ताती ।
थेंबूथेंबू मेळैताती ।
म्होवु भर्तची उर्ताती ।
म्हॉवामूस माल्यांतूं ॥७८७॥

अेक्क चेर्डूं वंशांतूलँ ।
म्हांतारपणांतूं उब्जलँ ।
म्हुणु मॉग्गानॅ वाड्डैलँ ।
कश्की आव्सुबाप्सूनॅ ॥७८८॥

तित्ली प्रीती घराचेरी ।
घरांतुल्या चेर्ड्वांचेरी ।
खास कोर्नू बाय्लेचेरी ।
जाण्णा दुस्त्रँ कस्लेंई ॥७८९॥

बाय्लॅगॅलँ गॉम्टेपण ।
हांतूंची हागेलँ मन ।
पड्ता, कळ्णा की आप्पण ।
कोणू कस्लँ कर्काज ॥७९०॥

चित्त महानुभवालँ ।
निजस्वरूपांतूं मॅळ्ळँ ।
की बाह्य आचार सग्ळॅ ।
कश्की सर्त यॅत्ताती ॥७९१॥

लाज नुक्सान पळैना ।
कॉणालँ कस्लँ आय्कना ।
बाय्लेक सर्वस्व दित्ना ।
कर्ना माक्षीमुखारी ॥७९२॥

बाय्लेगॅलँ मन राक्ता ।
तिन्नॅ म्हळ्ळेल्वारी नांच्ता ।
सांगिल्वारी कश्की कर्ता ।
गारु ालँ मांकड ॥७९३॥

आप्पणई त्रासु पाव्ता ।
आप्तेष्टांकई दुक्कैता ।
रुव्व रुव्व अॅक्डॅ कर्ता ।
लोभु कांईं सुट्टना ॥७९४॥

कांईं दानधर्मु कर्ना ।
समंदीकांकई पाव्ना ।
कस्लँ उणॉ पडू दीना ।
मात्र आप्णा बाय्लेक ॥७९५॥

दॅवा पूजेचोई खेळू ।
गुरुभक्तीचोई डौलू ।
दुड्वामट्टाक दुर्बळू ।
आव्सुबाप्सूमुखारी ॥७९६॥

जाल्यारी बाय्लेखात्तीर ।
भोग्यवस्तूंचँ भांडार ।
घेव्नु यॅत्ता प्रतिवार ।
कश्शी विस्सर्नस्तना ॥७९७॥

सॅवा कुलदेवतेक ।
दित्ताती प्रेमपूर्वक ।
तश्शी आप्णाल्या बाय्लेक ।
भज्ता जाव्नू अनन्यू ॥७९८॥

अनुकुल सर्वोत्तम ।
तिक्का दिस्सद जँ सम ।
तँ तँ दित्ता हॉ सप्रेम ।
दुस्त्रॅ नद्रे पण्णाती ॥७९९॥

हिक्का कॉणॅ पळैल्यारी ।
हिगेल् मन दुक्कैल्यारी ।
युगांतूची आयिल्वारी ।
हाक्का लाग्ता दिस्सूक ॥८००॥

भय्य चर्त्याचँ सोडूक ।
पूजा दित्ताती नागाक ।
मन तिगेलँ राक्कूक ।
ती जँ माग्ता तँ दित्ता ॥८०१॥

इत्लँची हँ तुक्का सांग्तां ।
बाय्लची सर्वस्व लॅक्ता ।
तिक्का उव्जलॅलँ जात्ता ।
चेर्डूं हागेल् मॉग्गाचँ ॥८०२॥

तिगेल् दिकाचॅ जॅ कॉण ।
हाक्का तॅ जीवूकी प्राण ।
तांकांची हॉ दित्ता मान ।
इत्लँ प्रेम तिज्जेरी ॥८०३॥

अश्शी हॉ अज्ञानाचँ मूळ ।
ताक्काई हाज्मितीं बळ ।
मूर्तिमंत हॉ केवळ ।
अज्ञानची जाण तूं ॥८०४॥

खौदळ्ळेल्या समुद्रारी ।
सोण्णू दिल्ली दोणी जरी ।
वैरी तग्गू पाळांचेरी ।
नांचैल्वारी जात्ली ती ॥८०५॥

जांव्का जाल्लेलँची मॅळ्ळँ ।
आनंदानॅ मन उब्लँ ।
नाक्शिलँ तँ घेंव्का पळ्ळँ ।
म्हुणू दँव्लँ नॅलारी ॥८०६॥

चित्ताची ही विषमता ।
सुखदुःख हँ जॉ भॉग्ता ।
तॉची जाण रॅ तूं पार्था ।
मूर्तिमंत अज्ञान ॥८०७॥

घॅत्ता विरक्तीचॉ वेसू ।
धर्ता धनाचॉची ध्यासू ।
तश्शी फलाचॉ उद्देशू ।
हान्नॅ कोर्च्या भक्तींतूं ॥८०८॥

कश्की स्त्री स्वैराचाराक ।
वच्खात्तीर ती बाम्णाक ।
भुलौनू वत्ता मेळूक ।
आप्णागेल्या जाराक ॥८०९॥

कोर्का म्हुणू कर्ता प्रीती ।
दाकैता मज्जेरी भक्ती ।
मनांतूं विषयासक्ती ।
धोर्नू आस्ता हॉ तश्शी ॥८१०॥

अश्शी हागेली ही भक्ती ।
जाय्ना इष्टफलप्राप्ती ।
म्हुणु सॉड्ता तीवै भक्ती ।
म्होण्णू सर्वै व्यर्थची ॥८११॥

विंग्विंगड बीजोत्पत्ती ।
कश्की शॅत्तांतूं कर्ताती ।
पॉर्नि बग्लेक पड्ताती ।
नवॅ दॅव बस्ताती ॥८१२॥

थाटु लौकिकु पळैता ।
ताक्काची हॉ गुरु कर्ता ।
तागेलॉची मंत्रु घॅत्ता ।
बाकी सर्व सामान्य ॥८१३॥

प्राण्यांक हॉ वळ्वळाय्ता ।
पाषाणाची पूजा कर्ता ।
ताळतंत्र सोण्णु दित्ता ।
आचाराचँ सर्वथा ॥८१४॥

मूर्ती मगेली घडैता ।
माक्का मुल्यांतूं बसैता ।
आनी भाग्र सोर्नु वत्ता ।
धूर तीर्थयात्रेक ॥८१५॥

ह्या मूर्तीची पूजा कर्ता ।
कुलदैवतई भज्ता ।
खास प्रसंगारी मान्ता ।
इतरई दॅवांक ॥८१६॥

माक्का घरांतूं बसौनू ।
ह्या दॅवांलाग्गी माग्गूनू ।
घॅत्ता आनी श्राध्द कोर्नू ।
जात्ता पितरांगॅलॉ ॥८१७॥

तश्शी ॲकादशी दीसू ।
जात्ता मगेलॉ उग्डांसू ।
दिता पंचमीचॉ दीसू ।
खास नागदॅवाक ॥८१८॥

यॅत्ता मुखारी चवती ।
गजाननु अधिपती ।
महानवमींतूं भक्ती ।
सुरु दुर्गामातेची ॥८१९॥

नित्यनैमित्तिक चुक्ता ।
नौचंडी हॉमाक बस्ता ।
आय्तारा हॉ खिच्डी वांट्ता ।
भैरवालॉ प्रसादू ॥८२०॥

सॉमारा धांव्ता माळूक ।
विल्वपत्र शंकराक ।
अश्शी ह्या सग्ळ्या दॅवांक ।
पाव्तलॉ हॉ ॲक्ळॉची ॥८२१॥

पूजा ह्या ना त्या दॅवाली ।
चालू आस्ताची हागेली ।
कश्की वेश्या गांवांतूली ।
फिर्ता हांगा वा थंई ॥८२२॥

अश्शी चारीकडॅ वत्ता ।
ह्या थरेची भक्ती कर्ता ।
अस्ल्याकची म्होण्का पड्ता ।
अज्ञानाची ही मूर्ती ॥८२३॥

खंईं अेकांतू पावन ।
खंईं तीर्थ तपोवन ।
थंय्थाव्नू कॉणालँ मन ।
ढळ्ता तॉवै तस्लॉची ॥८२४॥

चारिचौगांगॅलॉ मेळू ।
तांगेलॉ गव्जीगोंदोळू ।
हांतूं जॉ घालैता वेळू ।
तॉवैं पळॅ तस्लॉची ॥८२५॥

आत्माई जाणूक जात्ता ।
म्हळ्ळयारी कुचेष्टा कर्ता ।
आप्णागेलीची विद्वत्ता ।
बस्ता हॉ दाकैतची ॥८२६॥

उपनिषदं पळैना ।
योगशास्त्रांतूं रुची ना ।
अध्यात्मांतूंई लाग्गना ।
मन कांइं कॅल्यारी ॥८२७॥

आत्मविचारूई कोर्का ।
अेकाग्र चिंतन जांव्का ।
हँ सोण्णू हॉ चारी दिका ।
मन व्यर्थ धांव्डाय्ता ॥८२८॥

कर्मकांड सम्जून् घॅत्ता ।
पुराणं बाय्पाठ कर्ता ।
भविष्य अचूक सांग्ता ।
बुद्वंत्पण न्है वॅ हँ ॥८२९॥

प्राविण्य शिल्पशास्त्रांतूं ।
नैपुण्य पाकशास्त्रांतूं ।
चातुर्य तंत्रमंत्रांतूं ।
हस्तगत हँ सर्व ॥८३०॥

कम्मी ना कामशास्त्रांतूं ।
मुखारी शिष्टाचारांतूं ।
शास्त्री निगमागमांतूं ।
मूर्तिमंत पंडितू ॥८३१॥

न्यायनीतींतूं निष्णातू ।
वैद्यकींतूं पारंगतू ।
काव्यनाट्य इत्यादींतूं ।
अेकमेव विख्यातू ॥८३२॥

स्मृतींचेरी चर्चा कर्ता ।
दंशु विषाचॉ देव्रैता ।
वेदु हागेल् पाय धर्ता ।
बहुश्रुतु विद्वानू ॥८३३॥

व्याकरण शास्त्रशुध्द ।
तर्कशास्त्रई अगाध ।
जाल्यारी करशी जन्मांध ।
पळॅ आत्मज्ञानांतूं ॥८३४॥

ह्या खंच्याई विषयांत्लँ ।
वचन हागेलँ जात्लँ ।
प्रमाण जाल्यारी वत्लँ ।
हाज्विना सर्व व्यर्थ ॥८३५॥

दॉळॅ मॉरा पिसांचेरी ।
दृष्टी ना तांकां जाल्यारी ।
आस्सूनू तॅ नात्तिल्वारी ।
तश्शी विद्या ह्यॉ सर्व ॥८३६॥

कित्ली सानी आश्शिल्तरी ।
संजीवनी मेळ्ळी जरी ।
कस्ल्याक बा भॉरॉभरी ।
वक्दामूळं जांव्काती ॥८३७॥

मृत्यूनंतर कळ्ळँ कारण ।
नररुंडाक घाल्लँ भूषण ।
वधुवर नात्तिल्तरी हॉराण ।
व्यर्थचि करकी हँ सर्व ॥८३८॥

आदर्श विद्याशास्त्रांतूं ।
जाव्नूई ना कांई अर्थू ।
जरी एक अध्यात्मांतूं ।
धरीश्ना हॉ आवडी ॥८३९॥

म्हुणू लक्षांतूं घँ पार्था ।
की अध्यात्मज्ञानाची आस्था ।
कॉणाक ना तॉ सर्वथा ।
जाण मूर्ख पंडितू ॥८४०॥

हाज्सांगाती जन्मा आय्लँ ।
अज्ञानबीज चिग्रलँ ।
पांडित्थई हँ तागॅलँ ।
अज्ञानाचँची फल ॥८४१॥

कस्कश्शी हॉ जँ उलैता ।
अज्ञानची फुल्त वत्ता ।
पुण्यई जँ हाक्का मॅळता ।
तँवै शुध्द अज्ञान ॥८४२॥

अध्यात्मची जॉ मानीश्ना ।
ताक्का ज्ञान प्राप्त जाय्श्ना ।
हँवै सांग्का म्हुणुइ ना ।
कळ्ता पळॅ आप्याप ॥८४३॥

येव्नू पाव्नॅ ह्या तीरारी ।
माक्षी फीर्नू यँद जरी ।
कॅर्ना पैलतीराचेरी ।
वच्चुनू हॉ पावद ॥८४४॥

शिरच्छेदू बाग्लांतूंची ।
जाल्यारी कश्शी बा कळ्ची ।
भित्तरी जँ आश्शिल्याची ।
भाग्रथाव्नु खब्बरी ॥८४५॥

अध्यात्म कस्लँ हँ गोत्ना ।
सांगूनूई तँ कळश्ना ।
मर्मई लक्षांतू यॅश्ना ।
विषयुची अगम्य ॥८४६॥

तत्त्वार्थू कळश्ना हाक्का ।
भविष्य कस्ल्याक सांग्का ।
ॲक्ळाकची कळ्ळ्यां तुक्का ।
हांवँ सांगनास्तना ॥८४७॥

गुर्बीणीगॅलॉ आहारू ।
तॉची गर्भाक आधारू ।
तश्शी ज्ञानाचॉ विचारू ।
कॅल्लॉ अज्ञानाचॉई ॥८४८॥

हांतूं वॅग्ळँ सांग्का पण्णा ।
कु कि आमंत्रण दित्ना ।
सांगाती हाड्तलॉ यॅत्ना ।
दिस्तल्याक सहज ॥८४९॥

अश्शी ज्ञानासांगातीची ।
सांगुन् सोळ्ळीं अज्ञानाचीं ।
लक्षणं अमानित्वाचीं ।
तींवै सांग्लीं ॲक्ळाक ॥८५०॥

ज्ञानाचीं अठ्रा लक्षणं ।
सांग्तना सांगाती खूण ।
अज्ञानाचीई संपूर्ण ।
दाकैली तुक्का पार्था ॥८५१॥

श्लोकाच्या दुस्त्र्या चरणांतूं ।
सांग्ता श्रीकृष्णू भगवंतू ।
की ज्ञानाच्या विरोधांतूं ।
आस्ता थंई अज्ञान ॥८५२॥

ह्यान्मितीं कॅल्लॉ विस्तारू ।
हाडैनस्तना बॅजारू ।
इत्त्याक पात्तळ कोरूं ।
घाल्नू उद्दाक दूद ॥८५३॥

बड्बडूसॉ हँ दिस्सद ।
तरी सॉण्णॅ मूळपद ।
विषयु हॉ स्पष्ट जाय्द ।
हॉचि हेतू मगेलॉ ॥८५४॥

म्हणताती श्रोते आय्कूनू ।
अश्शी घेव्नक्का लेक्कूनू ।
कवि वर्या दी ही सोण्णू ।
शंका व्यर्थ मनांत्ली ॥८५५॥

मुरारीगेली ही तुक्का ।
विनंती की तुवँ सांग्का ।
हांवँ म्हळ्ळेल्याचॉ जांव्का ।
गूढार्थू हॉ कळशी ॥८५६॥

दॅवागॅल्या मनांतूलँ ।
तुवँ आम्कां स्पष्ट सांग्लँ ।
म्हुणु जाय्नॅ वॅ तुगेलँ ।
मन शांत गद्गद ॥८५७॥

म्हुणु हँ तूं लेक्कू नाक्का ।
जाल्ला भो संतोषु आम्कां ।
मेळ्ळी ही ज्ञानाची नौका ।
सुखासुखी आय्कूनू ॥८५८॥

आत्तं सांग हाज्मुखारी ।
कस्लँ म्हणालॉ श्रीहरी ।
आतुर जाल्पाती भारी ।
आम्मी तँ आय्कूंच्याक ॥८५९॥

वचन हँ श्रोत्यांगॅलँ ।
ज्ञानदेवानॅ आय्कलँ ।
आनी लक्ष दिय्या म्हळ्ळँ ।
दॅवागॅल्या म्हण्ण्याक ॥८६०॥

अज्ञानाचीं हीं जीं सांग्लीं ।
लक्षणं तुवँ आय्क्लीं ।
लक्षांतूं तीं पूरा आय्लीं ।
न्हवॅ सांग अर्जुना ॥८६१॥

फाटी फिराई तूं थंईं ।
धरी ज्ञानाचीं सर्वई ।
तीं लक्षणं नी चलई ।
दृढतेनॅ हॉ योगू ॥८६२॥

शुध्द ज्ञान प्राप्त जात्लँ ।
ज्ञेय जँ तँवै मॅळ्तलँ ।
आय्कूनू पार्थाक दिस्लँ ।
तँची जाण्णू घेंव्काज ॥८६३॥

श्रीकृष्णु तॉची सर्वज्ञु ।
मन पार्थागॅलँ कळ्णू ।
म्हणता सांग्तां कस्लँ म्हुणु ।
ज्ञेय तँची तूं आय्क ॥८६४॥

परतत्त्व हँची ज्ञेय ।
अज्ञान्यांक तँ अज्ञेय ।
तँ जाणच्याक अेक ध्येय ।
धोर्का ज्ञानसाधना ॥८६५॥

तँ अेक जाण्णू घॅत्ल्यारी ।
दुस्त्र्या कस्ल्याची जरूरी ।
पण्णा तांतूंची मागिरी ।
जाव्नु वत्ता तद्रूप ॥८६६॥

मोहपाशु संसाराचॉ ।
सुट्टुनू नित्यानंदाचॉ ।
अनुभवु घॅत्त उर्चॉ ।
अश्शी पार्था शाश्वत ॥८६७॥

तँ ज्ञेय हँ अश्शी उर्ता ।
अनादि आश्शिलँ आस्ता ।
सहजचि नाम पड्ता ।
परब्रह्म म्हुणु हँ ॥८६८॥

दिस्सू पण्णा हँ म्हळ्ळ्यारी ।
विश्वरूपांतूं इद्रारी ।
प्रगट हँ जाल्लेल्तरी ।
हीवै अेकी मायाची ॥८६९॥

अव्यक्त ना रूपरंगू ।
दिस्चँ पोळोंचो ना योगू ।
कॉणामितीं जाय्द सांगू ।
कश्शी बा हँ आस्सद ॥८७०॥

जरी हँ कस्लँ ना म्हळ्ळँ ।
तरी विश्व कश्शी जाल्लँ ।
व्यवहार सुरु जाल्लॅ ।
कॉणागॅल्या सत्तेरी ॥८७१॥

आस्स की ना इत्त्या म्होण्चँ ।
पोळोनू हँ स्वस्थ बोस्चँ ।
विस्मयांतूं विचाराचॅ ।
मार्ग बंद जात्ताती ॥८७२॥

चराचरांतूं जँ दिस्चँ ।
तँची स्वरूप पृथ्वीचँ ।
तश्शी सर्वाभूतीं आस्चँ ।
रूप आदि तत्त्वाचँ ॥८७३॥

सर्वत्र हँ सर्वकाळ ।
जाव्नु आस्ता स्थूळास्थूळ ।
व्यवहार तॅ सकळ ।
तागॅलॅची हॅ हात । ॥८७४॥

ह्याचिखात्तीर रॅ हाक्का ।
विश्वबाहू अश्शी म्होण्का ।
सर्वकाळ सर्व कोर्का ।
पड्ता हाक्का सर्वथा ॥८७५॥

सर्वांतुंई अेकु जाव्नू ।
सर्वदा सर्वत्र भोर्नू ।
राब्बिलँ आस्ता हँ म्हुणू ।
म्हणताती हँ विश्वांध्री ॥८७६॥

सर्वांगची सूर्यागॅलँ ।
दॉळॅ नाती तॅ वॅगळॅ ।
पळैता दाकैता पळॅ ।
सृष्टीचँ हँ स्वरूप ॥८७७॥

जरी हाक्का दॉळॅ नाती ।
विश्वतश्चक्षू म्हणताती ।
चतुराईनॅ कर्ताती ।
वेद अश्शी वर्णन ॥८७८॥

सर्वांपेक्षां श्रेष्ठ जाव्नू ।
उर्ता हँ मात्तँ उब्बार्नू ।
अश्शी विश्वमूर्धा म्हुणू ।
पळॅ हाक्का जाणताती ॥८७९॥

मूर्त ज्वाला हँची अेक ।
कश्की अग्नीचँ तँ मुख ।
तश्शी हँ सर्वभक्षक ।
गिळ्णु काड्ता निःशेष ॥८८०॥

नांव हँ विश्वतोमुख ।
दिंव्यां दिस्लँ हँ श्रुतींक ।
जाल्लँ तँ सर्वतोमुख ।
पळॅ ह्याचि खात्तीर ॥८८१॥

विश्वव्यापी हँ आकाश ।
सामावैता नाद घोष ।
तश्शी हँवै जाव्नु आस्स ।
कान दीव्नू सर्वत्र ॥८८२॥

सग्ळॅ कड्चँ हँ आय्कता ।
सर्वांगॅलँ आय्कू पड्ता ।
म्हुणु हाक्का विश्वश्रोता ।
अश्शी सुद्दां म्हणताती ॥८८३॥

अश्शी इत्त्या वेदश्रुती ।
हाक्का पार्था गौराय्ताती ।
हागेल्या सत्तेची व्याप्ती ।
कळ्का म्हुणु सर्वांक ॥८८४॥

शून्य म्हुणु म्हळ्ळेल्तरी ।
हँचि अेक सूत्रधारी ।
सांग हातपाय तरी ।
लांव्चॅ कश्शी शून्याक ॥८८५॥

अेक पाळ यॅत्ता वत्ता ।
त्या जाग्यारी दुस्त्रँ यॅत्ता ।
सांग कॉणा कॉण गिळ्ता ।
दोन्नी अेक उद्दाक ॥८८६॥

व्याप्त जात्ता की व्यापक ।
दोनी नाती दोन्नी अेक ।
उल्लैतना हँची अेक ।
विंगड जाल्यां की दिस्ता ॥८८७॥

म्होणू गॅल्यारी हँ शून्य ।
दाकोंकाज अेक चिन्ह ।
तश्शी हँ अद्वैतपण ।
दिस्सू लाग्ता द्वैतांतूं ॥८८८॥

गुरुशिष्य ना जाल्यारी ।
पडश्ना पळॅ कान्नारी ।
अद्वैतांतुली माधुरी ।
आनी ताज्जी महती ॥८८९॥

म्हुणु ह्या द्वैताची स्पष्ट ।
कोर्नु दाकैली ही वाट ।
आनी व्होर्नू सोळ्ळी थेट ।
द्वैतालाग्गी श्रुतींनीं ॥८९०॥

तरी लक्ष दीव्नु आय्क ।
हँ ज्ञेय जँ विश्वात्मक ।
कश्शी गोचर नेत्रांक ।
जाल्यां येव्नू आकारा ॥८९१॥

आकाश निराश्रयांतूं ।
वस्त्र तांतुलॅची तंतू ।
तश्शी धनुर्धरा हँ तूं ।
जाण ज्ञेय सृष्टींतूं ॥८९२॥

कश्की उद्काकची आस्ता ।
उद्कांतूली रसवत्ता ।
तेजोमय जाव्नु जळ्ता ।
वाती कश्की दिव्याची ॥८९३॥

परिमळुची कर्पूरू ।
जाव्नु धर्ता तॉ आकारू ।
शरीराचॉची आधारू ।
सर्व कर्मेंद्रियांक ॥८९४॥

सुवर्णाचँ संपूर्णत्व ।
कणाकणांतूं अस्तित्व ।
तश्शी हाज्जँई पूर्णत्व ।
भोर्नू आस्स सर्वांतूं ॥८९५॥

भांग्रा कण विंगड्सूनू ।
पळैल्तरी तँची म्हुणू ।
खात्री आस्ता यॅना अन्यू ।
विचारूई मनांतूं ॥८९६॥

होळु वत्ता वक्रगती ।
उद्‌काची सरळ वृत्ती ।
लोहाक उज्ज्याची दीप्ती ।
उज्जॉ जायना लॉखंड ॥८९७॥

आकाश हँ मड्क्यांतूलँ ।
ताज्वारी वाट्कूळँ जाल्लँ ।
आनी तँची मठांतूलँ ।
मठावारी चौकोनी ॥८९८॥

अश्शी दिश्शिल्वारी जायना ।
किंवा तँ तश्शी आस्सना ।
आकार हँ जरी नाना ।
स्वरूप निराकार ॥८९९॥

मन इंद्रियं त्रिगुण ।
हांगेल्या हँ ना आधीन ।
स्वयमेव नी संपूर्ण ।
आस्ता आप्णाइत्ल्याक ॥९००॥

सांग गॉड्साणी गॉड्डाची ।
आकारांतूं वॅ ती आस्ची ।
तश्शी हाक्का उपाधींची ।
जांव्का पण्णा संगत ॥९०१॥

तूप दुद्दाच्या रूपांतूं ।
आस्ता की त्याची दुद्दांतूं ।
मॅळद वॅ त्या तुप्पांतूं ।
सांग दूद अॅक्ळाचँ ॥९०२॥

नाना आकार विकार ।
हँचि मात्र एकाकार ।
कॅल्लॅ नाना अलंकार ।
कश्की अॅक्क भांग्राचॅ ॥९०३॥

हँ जँ दिस्चँ वॅग्ळेपण ।
ताक्का उपाधी कारण ।
आय्ली न्हवॅ तुक्का जाण ।
सांगल्यां कोर्नू सुस्पष्ट ॥९०४॥

नामरूपाचॉ समंदू ।
जातिकुलाचारा भेदू ।
आकाराकची हॉ बाधू ।
ना ह्या परतत्त्वाक ॥९०५॥

सगुण हँ जाव्नु ऊर्ना ।
गुणांकई बांदुन् घॅना ।
हागेल्या आधाराविना ।
तॅची दिस्सू पण्णाती ॥९०६॥

जाल्यारी मूढ मनांतूं ।
लाव्नू विपरीत अर्थू ।
सास्पीत पड्ता भ्रमांतूं ।
निजसुख शाश्वत ॥९०७॥

मॉडाक आकाश लेक्चँ ।
ताँड कान् ेंतूं-पोळोंचँ ।
आनी पिश्श्यावारी म्होण्चँ ।
निजरूप पळैलँ ॥९०८॥

दिस्चॉ सूर्यू उद्कांतूलॉ ।
सांग खरॉ वॅ आस्तलॉ ।
मृगजळामाक्षी धाव्लॉ ।
सांग निव्ली वॅ तान ॥९०९॥

आस्सूनूई हँ निःसंग ।
खॅळ्ता नानाविध रंग ।
जाल्यार् पळॅ चड्ता भांग ।
व्यर्थ मिथ्या दृष्टीची ॥९१०॥

रंकु जात्ता पृथ्वीपती ।
सॉप्नांतूं भॉग्ता संपत्ती ।
तश्शी जाव्नु अधिपती ।
हँवै भॉग्ता गुणांक ॥९११॥

गुणांचॉ सांगातू धर्ता ।
किंवा हँ तांतूंची रम्ता ।
अश्शी हँ म्होण्चँ सर्वथा ।
अविहित न्है वॅ हँ ॥९१२॥

उज्जॉ नानाविध आस्ता ।
जाल्यार् अेक्कीची उष्णता ।
तश्शी समत्वानॅ धर्ता ।
हँवै चराचराक ॥९१३॥

सूक्ष्मरूपानॅ शाश्वत ।
जाव्नु आस्स सर्वगत ।
हँ जँ भल्याँ तंतोतंत ।
हँची पार्था तँ ज्ञेय ॥९१४॥

हँ आस्स भाय्रभित्तरी ।
दृष्टीआड नी इद्रारी ।
दुस्त्रँ पळॅ ना हाज्वारी ।
खंईं सुद्दां कस्लेंई ॥९१५॥

गोडी क्षीरसमुद्राची ।
खंईं चडउणॅ नाची ।
तश्शी सर्वत्र समची ।
भोर्नू आस्स संपूर्ण ॥९१६॥

योनीप्रकारांतूं चारी ।
न्यून मॅळश्ना सॉद्ल्यारी ।
अंतर्यामी बाह्यात्कारी ।
सर्वांतूंईं हँ सम ॥९१७॥

जलाशयांतूं नद्रेक ।
पड्ताती चंद्र अनेक ।
आय्कयाती तॉ शशांक ।
अविच्छिन्न नभांतूं ॥९१८॥

मिट्टा राशी होडी सानी ।
तरी अेक्कीची मिट्साणी ।
किंवा अेक्कीची गॉड्साणी ।
अेकराशी कब्बांतूं ॥९१९॥

नानाविध प्राणीमात्र ।
तांतूं हँची अेकसूत्र ।
विश्व व्यापाराचँ तंत्र ।
हागेलीची ही सत्ता ॥९२०॥

जाल्लँ भूतांतूं साकार ।
हँची तांगेलॉ आधार ।
कश्की पाळांक सागर ।
तॉची अेकु आश्रयू ॥९२१॥

बाल्य थौवन वृध्दत्व ।
अॅक्क देहांतूं अस्तित्व ।
तश्शी आदि मध्य अंत ।
हाज्ज्यांतूंची शाश्वत ॥९२२॥

सूर्योदयु नी सूर्यास्तू ।
जाय्त आस्ता सदोदितू ।
तरीसुद्धां आकाशांतूं ।
जाय्ना कांईं बदलू ॥९२३॥

हँची जाल्लँ आदि ब्रह्म ।
मध्य धर्ता विष्णु नाम ।
त्या त्या वॅळाचँ जँ काम ।
तँवै चल्त आस्ताची ॥९२४॥

आकाशाचॉ अंतु यॅत्ता ।
ताव्वळी हँ रुद्र जात्ता ।
हांतूंई हँ लोप पाव्ता ।
उर्ता शून्य केवळ ॥९२५॥

आकाशाचँ रितेपण ।
त्रिगुणांचेंई कारण ।
ना कोर्नू जी उर्ता खूण ।
श्रुतिमान्य तँ ज्ञेय ॥९२६॥

अग्नीक ही दाहकता ।
चंद्राक सुशीतलता ।
सूर्याक प्रकाशकता ।
खंईंथाव्नू रॅ मॅळ्ता ॥९२७॥

कॉणागॅल्या भर्वश्यारी ।
नक्षत्रं हीं जरतारी ।
जात्ताती नी प्रलयंकारी ।
तेजा क्रॉण आधारू ॥९२८॥

आदीचेंई मूलस्थान ।
वृध्दीचेंई जँ पोषण ।
बुध्दीचेंई संस्फुरण ।
जीवाचँ जँ जीवन ॥९२९॥

मनाची जी मनोवृत्ती ।
दॉळ्यांक जी आस्ची दृष्टी ।
कान्नांची श्रवणशक्ती ।
वाचॅचँ उच्चारण ॥९३०॥

प्राणाचोई प्राणु जाव्नु ।
चल्तना चरण जाव्नु ।
क्रियेचँ कर्तृत्व जाव्नु ।
आस्ता पळॅ जँ पार्था ॥९३१॥

आकाराक मेळ्ची स्फूर्ती ।
विस्ताराक मेळ्ची गती ।
संहाराक मेळ्ची शक्ती ।
एक जाव्नु जँ आस्ता ॥९३२॥

पृथ्वीचँ जँ पृथ्वीपण ।
उद्काचँ संतृप्तपण ।
तेजाचेंई उद्दीपन ।
स्वता जाव्नु जँ आस्ता ॥९३३॥

वारयाचॉ जँ श्वासोश्वासू ।
आकाशाचॉई जँ पैसू ।
विश्वरूपाचॉ हॉ भासू ।
जाय्त आस्ता ज्यान्मितीं ॥९३४॥

आनी कित्लँ सांगूं आय्क ।
नित्य जँ सर्वव्यापक ।
हँची एक सर्वात्मक ।
द्वैतभावु खंईं ना ॥९३५॥

पोळोंचँ नी पळैतलॉ ।
भावु सांग खंईं उर्लॉ ।
पळ्पळैतनाची जाल्लॉ ।
समरस एकांतूं ॥९३६॥

हँची ज्ञान हँची ज्ञाता ।
हँची ज्ञेय रॅ सर्वथा ।
ज्ञानानॅची पांञ्च्या जात्ता ।
अर्जुना ह्या स्थानारी ॥९३७॥

जाय्नापुडॅ लॅख्खाचारू ।
जात्ता हिसाबू तय्यारू ।
तश्शी जात्ता अेकाकारू ।
साध्यसाधनादिक ॥९३८॥

द्वैताची ना यॅरादारी ।
निरंतर सर्वांतरीं ।
आस्ता जँ हँ धनुर्धारी ।
परब्रह्म जाण तूं ॥९३९॥

क्षेत्रादी हॅ विषय अश्शी ।
सांग्लॅ तुक्का हँ कळशी ।
विवेचन सर्वदर्शी ।
कोर्नू पळॅ अॅक्ळाक ॥९४०॥

हांवँ ज्ञान हँ माग्गिरी ।
सांग्लँ तुक्का धनुर्धारी ।
दिस्सश्शी ह्या तळहात्तारी ।
दव्वर्लेलॉ आवाळॉ ॥९४१॥

हँ सर्व तुक्का सांग्तना ।
अश्शी दिस्लँ की अर्जुना ।
हींवै सांगुन् सो ां नाना ।
अज्ञानाचीं लक्षणं ॥९४२॥

थंथंई दीञ्नू दृष्टांत ।
कॅल्लँ आत्तं ज्ञेय स्पष्ट ।
जँ अव्यक्त तँची व्यक्त ।
जाल्लँ निरूपणांतूं ॥९४३॥

सर्वै हँ लक्षांतूं घेञ्नू ।
माक्का मेळची इच्छा धोर्नू ।
तश्शी आराधना कोर्नू ।
भक्तु जात्ता मद्रूप ॥९४४॥

प्रपंचांतूंई राब्बूनू ।
भोगाची आसक्ती सोण्णू ।
जीवभावु अर्पण कोर्नू ।
येञ्नू राब्ता मज्ज्यांतूं ॥९४५॥

आप्णागॅलँ हॉ विस्सर्ता ।
मगेलँची ध्यान धर्ता ।
अश्शी आम्च्यांतूं हँ जात्ता ।
दीणँघॅणँ अर्जुना ॥९४६॥

दाकैली सलीस वाट ।
येञ्नु मॅळ्ता माक्का थेट ।
सोण्णक्का ही वहिवाट ।
विस्सोर्नक्का हँ अेक ॥९४७॥

मॅट्टांर्थाञ्नु गुड् ाचेरी ।
निस्णेर्थाञ्नु चड्का वैरी ।
न्हंई दांटुका जाल्यारी ।
बस्का पड्ता दोणीरी ॥९४८॥

आत्मतत्त्व साकारता ।
विश्वांतूं प्रगट जात्ता ।
तुक्का हँ कळ्णा की कळ्ता ।
अश्शी आय्लँ मनांतूं ॥९४९॥

परब्रह्म विश्वात्मक ।
हँ तुक्का सम कळूक ।
चारि वांट्टॅ हॅ अॅक्ळाक ।
कॅल्लॅ हांवँ कौंतेया ॥९५०॥

कश्की लाय्तना चॅर्डाक ।
घास सान्सान्न अनेक ।
कोर्नू लांव्का पड्ता आय्क ।
तश्शी कॅल्लँ हँ चारी ॥९५१॥

अेक क्षेत्र ज्ञान दुस्त्रँ ।
सांग्लँ अज्ञान हँ तिस्त्रँ ।
सांग्लँ ज्ञेय की चौथँ रॅ ।
तुक्का सम सोडोनू ॥९५२॥

हँवै जरी तुक्का कळ्णॅ ।
सांग्तां की दुस्त्र्या थरेनॅ ।
अेक्फंतां हँची नॅवानॅ ।
सर्वई तुक्का पार्था ॥९५३॥

सोडि विचारू चारींचॉ ।
आनी तॉवै रॅ अॅक्काचॉ ।
आत्मानात्मविवेकाचॉ ।
कर्ता आत्तं प्रपंचु ॥९५४॥

जाल्यारी तूं इत्लँ करी ।
सांग्तां हँ जँ धनुर्धारी ।
आय्क तँ सर्वतोपरी ।
कोर्नू मन अेकाग्र ॥९५५॥

आय्कूनू हँ कुंतीसुतू ।
जाल्लॉ हर्षरोमांचितू ।
पोळोनू देवकीसुतू ।
जाल्लॉ तॉ सगद्गद ॥९५६॥

आयिल्या उमाळ्यासर्शी ।
आय्क म्हणता हृषीकेशी ।
प्रकृती पुरुषु अश्शी ।
सांग्तां कोर्नु विभाग ॥९५७॥

घेव्नू कपिलावतारू ।
सांग्लॉ हांवँ सविस्तरू ।
सांख्ययोगु हॉ प्रकारू ।
ज्ञात जॉ मुमुक्षूंक ॥९५८॥

आय्क आय्क सव्यसाची ।
सुलभ वाट योगाची ।
आदिशक्ती ह्या विश्वाची ।
पुरुष प्रकृतीची ॥९५९॥

कश्की दीसु आनी राती ।
हांगेली सदैव युती ।
तश्शी पुरुष प्रकृती ।
हीं अनादिकालाचीं ॥९६०॥

रूप आस्ल्यारीची साव्ली ।
ती ताज्माक्षीची आस्तली ।
कश्की फोली कण्सांतूली ।
आस्ता कणांसांगाती ॥९६१॥

तश्शी दॉग्गई सांगाती ।
आस्ताती दिवसराती ।
दॉगै प्रगट जाल्यांती ।
अनादि कालाधोर्नू ॥९६२॥

माक्षी तँ जँ क्षेत्र म्हळ्ळँ ।
आनी विस्तारानॅ सांग्लँ ।
तँची तुवँ जाण्का जात्लँ ।
आत्तं प्रकृती म्हुणू ॥९६३॥

क्षेत्रज्ञु ज्या कॉणा म्हळ्ळँ ।
तॉची पुरुषु हँ इत्लँ ।
सांगनस्तनाची कळ्ळँ ।
व्हई न्हवॅ हँ तुक्का ॥९६४॥

नांवंभिन्न दिश्शिल्वरी ।
वर्ण्य विषयू अखेरी ।
तॉची आस्स हंची धरी ।
अेक्कची तूं मनांतूं ॥९६५॥

सूत्रधारी सत्ताधीशु ।
जाण तॉची र्‍ पुरुषू ।
तागेल्या लीलेचॉ पैसू ।
जाण तीची प्रकृती ॥९६६॥

बुध्दी इंद्रियंनी मन ।
हांगेलँ प्रगटीकरण ।
गुणांचँ त्रिविधपण ।
नाना रीती वर्तन ॥९६७॥

ह्या सर्वांनीं अ‍ॅक्डॅ मेळ्चँ ।
तिक्काची प्रकृती म्होण्चँ ।
आनी तिक्काची सम्जूंचँ ।
मूळ हेतू कर्माचॉ ॥९६८॥

इच्छा बुध्दी अहंकारू ।
हांन्नीं घॅत्लॉ हॉ आकारू ।
जाल्लीं कारण साकारू ।
इंद्रियप्रवृत्तींक ॥९६९॥

तांगेल्या तृप्तीखात्तीर ।
जँ घड्ता भित्तरी भाय्र ।
सर्व शुभाशुभकर ।
तँची कार्य कौंतेया ॥९७०॥

इच्छा ही उन्मत्त जात्ता ।
मनाक ही हुट्कार्सुय्ता ।
इंद्रियांक तँ चलैता ।
हँची पार्था कर्तृत्व ॥९७१॥

कर्तृत्व कार्य कारण ।
ह्या तिन्नींचँ अधिष्ठान ।
हीची प्रकृती तूं जाण ।
अश्शी म्हण्ता सिध्देशू ॥९७२॥

तिन्नींचॉ संयोगु जाव्नू ।
रूप कर्माचँ ती घेव्नू ।
जाछयारी धोर्नू तॉ गुणु ।
जॉ प्रभावी ताव्वळी ॥९७३॥

प्राबल्य सत्त्वगुणाचँ ।
आस्ल्यारी सत्कर्म म्होण्चँ ।
जरी तँ रजोगुणाचँ ।
आस्ल्यारी तँ मध्यम ॥९७४॥

तमोगुणाचँ आस्सद ।
तरी कर्म तँ निषिध्द ।
म्हुणु तँ धर्माविरुध्द ।
सर्वथा हँ जाण तूं ॥९७५॥

अश्शी कर्मं बरीं वाय्ट ।
घड्त उर्ताती सतत ।
सुखद किंवा दुःखद ।
त्या त्या प्रकृतीमितीं ॥९७६॥

दुष्कर्माचँ फल दुःख ।
सत्कर्मा मॅळ्ता सुख ।
दोन्नींचोई पुरुषाक ।
भोगु हॉ घेंव्का पड्ता ॥९७७॥

प्रकृती हीं कर्मं कर्ता ।
पुरुषु तीं भॉग्गत उर्ता ।
अश्शी अखंड ही चल्ता ।
कर्म भोगाची वीण ॥९७८॥

दॉग्गांगलॉ हॉ समंदु ।
पळैल्यारी असंबध्दु ।
बाय्लेक हॉ कर्मबंधू ।
हॉ मात्र सदा भुक्तु ॥९७९॥

आनी संगु घण्णात्तिलँ ।
कस्लँ हँ विचित्र जाछँ ।
जग कश्शी जन्मा घाल्लँ ।
हिन्नॅ कांइं कळणाची ॥९८०॥

अॅक्ळॉची हॉ उदासीनू ।
निराकारू नी निर्धनू ।
वृध्दांपेक्षा वृध्द जाव्नू ।
आस्स हॉ पुरातनू ॥९८१॥

पुरुषु हॉ नामधारी ।
ना हॉ नरू ना ही नारी ।
कोरू जायना धनुर्धारी ।
अेक्कू खंचॉ निश्चयू ॥९८२॥

नाती दॉळॅ नाती कान ।
नाती हात ना चरण ।
ना रूप हॉ वर्णहीन ।
नाम मात्र पुरुषु ॥९८३॥

कस्लँ ना जाव्नुई अश्शी ।
प्रकृतीचॉ पती कश्शी ।
वैल्यानॅ हॉ भॉग्ता अश्शी ।
सुखदुःख कस्ल्याक ॥९८४॥

हॉ कस्लेंई कर्म कर्ना ।
फल ताज्जँ जाई म्हण्णा ।
भोग लायिल्शिवाय सॉण्णा ।
ही आप्णाल्या कर्मांचॉ ॥९८५॥

थॉ ाशा सौंदर्याचेरी ।
कांइं गुणां सामर्थ्यारी ।
कश्की सामान्य सुंदरी ।
नांचू लाय्ता बाम्णाक ॥९८६॥

गुणखानी ही तॅमई ।
सार्थ नांव गुणमयी ।
हिज्ज्यांतूं नांवांतू खंईं ।
उणॅ कांईं दिस्सना ॥९८७॥

नित्य नी क्षणाक्षणाक ।
रूप गुण ही अेकेक ।
दाकौनू पळॅ जडाक ।
काम दीव्नू बसैता ॥९८८॥

नामरूपांतूंची खॅळ्ता ।
हीची माया नी ममता ।
इंद्रियांक ही दव्वर्ता ।
निरंतर जागृत ॥९८९॥

मन निःसत्व मूळांतूं ।
हाक्का ही स्वाधिकारांतूं ।
भिर्भिराय्ता त्रैलोक्यांतूं ।
पळॅ कस्लँ आश्चर्य ॥९९०॥

सर्व भ्रमांचँ कुळार ।
हिक्काची आप्णालँ घर ।
कर्ताती नाना विकार ।
पळॅ हिगेली व्याप्ती ॥९९१॥

मांटोवू ही कामनांचॉ ।
वसंतू मोहवनाच्चॉ ।
दैवी माया ह्या नामाचॉ ।
तिळॉ आस्स निड्ळारी ॥९९२॥

वाड्मयाक प्रोत्साहन ।
आकाराक मुक्तांगण ।
प्रपंचाक आमंत्रण ।
दित्ता ही सदोदित ॥९९३॥

कलांचँ ही स्फूर्तिस्थान ।
ही विद्येचँ अधिष्ठान ।
करैता ही परिपूर्ण ।
ज्ञानाक नी कामाक ॥९९४॥

हीची ध्वनीचँ मुद्रण ।
चमत्कारांचँ निधान ।
सर्व कर्मांचँ तोरण ।
बांद्ता ही ह्या विश्वांतूं ॥९९५॥

उत्पत्ती हॉ प्रातःकाळू ।
प्रळयू हॉ सांजे वेळू ।
सर्वकाळ अश्शी खेळू ।
घाल्त आस्ता मोहिनी ॥९९६॥

दुस्त्रँ रूप अद्वैताचँ ।
की हँ सॉग्रँ निःसंगाचँ ।
घर शून्य आकाशाचँ ।
कॅल्लँ की हिन्नॅ अश्शी ॥९९७॥

सर्वत्र कर्ता संचारू ।
सौभाग्याचॉ हॉ विस्तारू ।
कस्लेंई ना अनावरू ।
हिक्का खंईं कॅर्नाई ॥९९८॥

तँ निःसंग निराकार ।
ही ताक्काई स्वाहाकार ।
कोर्नू शून्यांतूं बिडार ।
मांडैता आप्णागॅलँ ॥९९९॥

पळैल्यारी अश्शी दिस्ता ।
अजन्माक जन्मा घाल्ता ।
निराकाराक घडैता ।
हीची ताक्का आधारू ॥१०००॥

निरिच्छाची इच्छा जात्ता ।
पूर्णाची पूर्तता कर्ता ।
अकुलाक हाण्णु लाय्ता ।
खंचॉपुणी समंदू ॥१००१॥

अवर्णनीयालँ चिन्ह ।
अपाराचँई प्रमाण ।
निर्मनागॅलँई मन ।
जात्ता बुध्दी आप्पण ॥१००२॥

निराकाराचॉ आकारू ।
व्यापार नात्तिल्यालॉ व्यारू ।
निगर्व्यालॉ अहंकारू ।
जाव्नु बस्ता आप्पण ॥१००३॥

जात्ता नाम अनाम्याचँ ।
म्हणता मूळ स्वयंभाचँ ।
आप्पणची अकर्म्याचँ ।
लाव्नु घॅत्ता ही कर्म ॥१००४॥

निर्गुणागॅलॅ ही गुण ।
अचरणालॅ चरण ।
कान नात्तिल्यालॅ कान ।
दॉळॅ तॅ नात्तिल्यालॅ ॥१००५॥

भावागीतागॅलॅ भाव ।
अनंगालॅ अवयव ।
सर्वथा आप्पण सर्व ।
पुरुषालँ जात्ता ही ॥१००६॥

अश्शी लाय्ता ही प्रकृती ।
हाक्का आप्णागेली व्याप्ती ।
आनी हाडैता विकृती ।
हागेल्या स्वरूपांतूं ॥१००७॥

चंद्रु कश्की अमासेक ।
आस्सूनू आप्णाइत्ल्याक ।
पण्णा कॉणाल्या नद्रेक ।
तश्शी स्थिती हागेली ॥१००८॥

सुवर्णांतूं शंभर नंब्री । वालाइत्ली
लाक जरी ।
तँचि जात्ता मेळैल्यारी ।
कश्की पळॅ अशुध्द ॥१००९॥

दुष्ट संगती साधूक ।
तत्काळ लाय्ता कलंक ।
कश्की स्वच्छ आकाशाक ।
खत्त लाग्ता मॉडाचँ ॥१०१०॥

दूद गायिल्या पान्यांतूं ।
उज्जॉ भित्तरी राक्डांतूं ।
वज्रू गुड्लाय्ला वस्त्रांतूं ।
थंथंईंची हँ कश्की ॥१०११॥

रायु परतंत्रु जाल्लॉ ।
सिंहु रोगग्रस्तु जाल्लॉ ।
तश्शी हॉ पुरुषु जाल्लॉ ।
प्रकृतींतूं निस्तेज ॥१०१२॥

जागी आश्शिलॉ हॅर्शांतूं ।
नीद लाग्गुनू सॉप्नांतूं ।
विस्सोर्नू आप्णाक तांतूं ।
कश्की जात्ता तद्रूप ॥१०१३॥

कश्की दार्ली उदासीनू ।
चल्ता बाय्ले अनुसर्नू ।
तश्शी प्रकृती स्वाधीनू ।
जाव्नु चल्ता पुरुषु ॥१०१४॥

अजन्मा नी हॉ शाश्वतू ।
तरी भॉग्ता जन्ममृत्यू ।
हिगेल्या गुणांसांगातू ।
मेळ्णू जाल्लँ विप्रीत ॥१०१५॥

तश्शी न्हई हँ जाल्यारी ।
उज्ज्यांतूल्या लॉखंडारी ।
घालेल् घाव उज्जाचेरी ।
पळ्ळेल्वारी दिस्ताती ॥१०१६॥

चंद्रु उद्का पाळांवॅलॉ ।
कित्लॉ छिन्नभिन्न जाल्लॉ ।
अश्शी म्हणतलॉ फस्तलॉ ।
पळैल्यारी आकाश ॥१०१७॥

कान्डी मुखारी धर्ल्यारी ।
तांतूंई दुस्त्रँ ताज्वारी ।
दिस्ता रक्तरंगाचेरी ।
स्फटिकू त्या रंगाचॉ ॥१०१८॥

अजन्मा हॉ आस्सूनूई ।
चुक्क्ना यॅरादारी ही ।
संगदोषु हॉ हाक्काई ।
लाग्ला की अश्शी दिस्ता ॥१०१९॥

लॅक्ता उच्चनीच योनी ।
अेक्क समची ह्यॉ दोन्नी ।
वाय्ट वा बरया सॉप्नांनीं ।
ढळ्णा कश्की संन्यासी ॥१०२०॥

म्हुणु हान्नॅ जांव्चँई ना ।
वा कस्लेंई भोग्चेंई ना ।
नि:संगाक ह्या लाग्गना ।
संगदोषु गुणांचॉ ॥१०२१॥

प्रकृतीक पुरुषाक ।
पृथ्वीक नी आकाशाक ।
जाई फुलाक मांट्वाक ।
कस्लोई ना समंदू ॥१०२२॥

तीरारी मेरू पर्वतू ।
दिस्ता जलप्रवाहांतूं ।
वच्चद वॅ व्हाव्नू तांतूं ।
कित्लँ लकैल्तरीई ॥१०२३॥

प्रकृती ही यॅत्ता वत्ता ।
आश्शिल्कडॅची हॉ आस्ता ।
म्हुणु आधारू नियंता ।
हॉची ह्या ब्रह्मांडाचॉ ॥१०२४॥

हॉची हिगेलँ जीवन ।
मॅळ्ळँ हिक्का प्रोत्साहन ।
जन्मा आय्लँ त्रिभुवन ।
हॉची भर्ता हिगेलॉ ॥१०२५॥

कालांतरानॅ कल्पांतूं ।
यॅत्ता ताव्वळी हाज्ज्यांतूं ।
तिन्नी अॅक्डॅ मेळ्णू तांतूं ।
विलीन हीं जात्ताती ॥१०२६॥

अश्शी स्वामी प्रकृतीचॉ ।
खेळु खॅळ्ता ब्रह्मांडाचॉ ।
प्रपंचू नाना थरेचॉ ।
अंतू ना वा ना पारू ॥१०२७॥

परमात्मा तॉ हॉची पार्था ।
जॉ ह्या देहांतूंई आस्ता ।
जाण्णू घॅ हँ हांवं सांग्तां ।
धरी हँची मनांतूं ॥१०२८॥

प्रकृतीच्या पेल्दिकानॅ ।
आस्ता अेकु समत्वानॅ ।
पुरुषु तॉ ह्या नांवानॅ ।
जात्ता ताज्जॉ उल्लेखू ॥१०२९॥

हागेल्या शुध्द स्वत्वाचँ ।
हिगेल्याई प्रवृत्तीचँ ।
कॉणा कळ्ळ्यां ह्या दॉग्गांचँ ।
रूप पळॅ सुस्पष्ट ॥१०३०॥

जॉ ही साव्ली नी ही मूर्ती ।
हँ जल ही जलभ्रांती ।
अश्शी धर्ता दृढ मती ।
कोर्नू स्वच्छ निर्णयू ॥१०३१॥

अश्शी विवेचन कोर्नू ।
विवेकू जागी दव्वोर्नू ।
ह्या दॉग्गांक समज्जून् घेव्नू ।
त्याप्रमाणॅ जॉ चल्ता ॥१०३२॥

तॉ जरी हॉ देह धर्ता ।
कर्म कोर्नुइ धूर उर्ता ।
जश्शी की आकाश आस्ता ।
धूळी सोण्णू वैरीची ॥१०३३॥

ह्या देहाचॉ मोहु धर्ना ।
तॉची आप्पण हँ म्हण्णा ।
गॅल्लॉ म्हण्णापुडॅ यॅना ।
पर्तुनु तॉ जन्माक ॥१०३४॥

अश्शी हॉ सदसद्विवेकू ।
जात्ता भवउध्दारकू ।
पळॅ लाभु अलौकिकू ।
त्या सच्चिदानंदाचॉ ॥१०३५॥

विवेकाचॉ हॉ सवितू ।
उदैतलॉ ह्रदयांतूं ।
उपाय हाज्जॅ आय्क तूं ।
आस्सती जॅ अनेक ॥१०३६॥

कर्ता कोणु अेकु नरु ।
आत्मानात्माचॉ विचारु ।
भांगार कश्की सॉन्नारु ।
शुध्द कर्ता ताप्पोन्नू ॥१०३७॥

कोणु अेकु छत्तीसांचॉ ।
पड्दॉ सरैता कायम्चॉ ।
आनी त्या शुध्द तत्त्वाचॉ ।
घॅत्ता तॉ अनुभवु ॥१०३८॥

कोणु अेकु चिंतनानॅ ।
स्वरूपाच्या दर्शनानॅ ।
आप्णांतूंची अेकत्वानॅ ।
पाव्ता तॉ समाधान ॥१०३९॥

कोणु अेकु सांख्ययोगु ।
म्हणता हॉची योग्य मार्गु ।
कोणु अेकु कर्मयोगु ।
म्हणंता हितकारकू ॥१०४०॥

अश्शी हॅ नाना प्रकार ।
पार कर्ताती दुस्तर ।
भवभ्रमाचॉ सागर ।
पार्था सर्व थरेनॅ ॥१०४१॥

सोण्णु सर्व अभिमानु ।
दाकैलेली वाट धोर्नु ।
मनाचॉ निर्धारु कोर्नु ।
विश्वासानॅ चल्ताती ॥१०४२॥

दु:ख कष्ट जॅ जाण्ताती ।
हिताहित पळैताती ।
क्लेश हरण कर्ताती ।
सौख्य शांती दित्ताती ॥१०४३॥

तांन्नीं सांगिलँ आय्कूनू ।
त्या उत्रांक मानु दीव्नू ।
हॅवै तनमन लाव्नू ।
त्याप्रमाणॅ चल्ताती ॥१०४४॥

उपदेशु तॉ प्रमाण ।
मान्नूनू तॉची अनन्य ।
कोरूकई प्राणार्पण ।
तय्यार हॅ जात्ताती ॥१०४५॥

जन्माचँ सार्थक कोर्नू ।
मरणाकई हॅ मार्नू ।
परमगतीक पाव्नू ।
धन्य धन्य जात्ताती ॥१०४६॥

अश्शी नानाविध पळॅ ।
उपाय हॅ तुक्का सांग्लॅ ।
जाण्णु घेंव्च्या जांव्चॅ तस्लॅ ।
त्या अेक्कची वस्तूक ॥१०४७॥

आस्सॉ हॉ बोधु ससार ।
कर्ता आय्क हँ उत्तर ।
मॅळ्तलँ तँ तत्त्वतीर ।
ह्या सारसिध्दांतानॅ ॥१०४८॥

आधारू हॉ थंईंथाई ।
पावैतलॉ तुक्का कांईं ।
न्नासु जाय्श्ना पळॅ खंईं ।
धनंजया वाट्टेरी ॥१०४९॥

ऊरश्ना मनबुध्दींतूं ।
तुगेल्या कस्लोई किंतू ।
सांग्तां फक्त हॉ सिध्दांतु ।
सोण्णू बाकी विचार ॥१०५०॥

क्षेत्रज्ञाचँ विवरण ।
कर्तना आत्मदर्शन ।
घडैलँ कॅल्लँ वर्णन ।
सविस्तर क्षेत्राचँ ॥१०५१॥

दॉग्गांगेल्या संयोगानॅ ।
सर्व विश्वाच्या रूपानॅ ।
कश्की वारयाच्या योगानॅ ।
उद्काचेरी तरंग ॥१०५२॥

सूर्यप्रकाशूनी बॅण ।
कर्ताती भासु निर्माण ।
जलाशयाचॉ महान ।
ताज्वारीची हँ सर्व ॥१०५३॥

कश्की पाव्साच्या धारांनीं ।
भिज्जुन् वत्ता ही धरणी ।
नी विविध अंकुरांनीं ।
कर्ता रूप प्रगट ॥१०५४॥

चराचर ह्या सृष्टींतूं ।
जन्मा आय्लॅ जीवजंतू ।
दॉग्गांगॅलॉ हॉ सांगातू ।
ह्या सर्वांचँ कारण ॥१०५५॥

जरी भिन्न ह्यॉ दिस्ताती ।
विश्वांतुल्या भूतव्यक्ती ।
तरी अेक्कीची संतती ।
पार्था ह्या दॉग्गांगेली ॥१०५६॥

सूत कांईं वस्त्र न्हई ।
मात्र सुत्तांतूं खंच्याई ।
आनी पळॅ तूं कॅर्नाई ।
वस्त्रपण आस्ताची ॥१०५७॥

सर्व हीं अेक आस्ताती ।
तरीई भिन्न दिस्ताती ।
अेकत्वाची घॅ प्रचीती ।
जँ आस्ता अंतर्भूत ॥१०५८॥

नांवं हांगेलीं विभिन्न ।
विंगड वस्त्रावरण ।
अेकविध ना वर्तन ।
पळॅ ह्या सर्वांगॅलँ ॥१०५९॥

भेदबुध्दीनॅ पळैशी ।
तरी होडी चूकी कर्शी ।
भाग्र हांतुल्यानॅ कश्शी ।
पड्शी जन्मांतरांतूं ॥१०६०॥

फळं दुद्यावाल्लिश्वेलीं ।
भिन्न रीती वापर्तलीं ।
भिन्न जातीचीं वॅ जात्लीं ।
इत्ल्यावॅल्यानॅची की ॥१०६१॥

सरळ की वांक्डॅ घॅल्लॅ ।
सर्व बोरीचॅची पळॅ ।
जरी प्राणी भिन्न दिस्लॅ ।
अंतरात्मा अेक्कूची ॥१०६२॥

किट्ल्या उज्जांतूं अनेक ।
सर्वै उष्ण अेकलॅक ।
तश्शी ह्या भूतांतूं आय्क ।
अेक्कूची तॉ परमात्मा ॥१०६३॥

सान्न हॉड्ड पाव्सा धारॉ ।
तांकां उद्काचॉची थारॉ ।
तश्शी सर्व हॉ पसारॉ ।
तॉची जगन्निवासू ॥१०६४॥

घरांतूं नी कलशांतूं ।
अेक्क आकाश दोन्नींतूं ।
तश्शी ह्या भूतमात्रांतूं ।
अेक तत्त्व अभिन्न ॥१०६५॥

अलंकार मोडैताती ।
सॉण्णा भांगार स्वस्थिती ।
जीव यॅत्ताती वत्ताती ।
आत्मरूप शाश्वत ॥१०६६॥

सर्व भूतांतूं समान ।
जँ जीवांचँ अधिष्ठान ।
ताज्जँ घॅत्ता जॉ दर्शन ।
आत्मज्ञानी तॉ जाण ॥१०६७॥

ज्ञानदृष्टी धनुर्धारी ।
मॅळ्ता ही कॉणाक जरी ।
ताक्का खरॉ नेत्रधारी ।
हॉची मानु दिंव्काज ॥१०६८॥

त्रिगुणांचँ हँ शरीर ।
तीनी धातूंचँ आगर ।
पंचतत्त्वांचँ कुळार ।
भोची पळॅ दुस्तर ॥१०६९॥

विषारी त्या विच्वावारी ।
आस्स पंचदंशकारी ।
अस्ल्या ह्या मृगामुखारी ।
दीन जाय्द वॅ सिंहु ॥१०७०॥

अस्लॉ हॉ देह धोर्नूई ।
अशाश्वत तॉ जाण्णूई ।
शाश्वत सॉण्णस्तनाई ।
चल्ता तॉ जीवन्मुकु ॥१०७१॥

अशाश्वतांतूं गुंतना ।
आत्मघातु कोर्नु घॅना ।
अस्लॉ हॉ जाण अर्जुना ।
पाव्ता ब्रह्मपदाक ॥१०७२॥

थॉडॅ योगसामर्थ्यारी ।
यत्न कोर्नू जन्मांतरीं ।
पाव्ताती ज्या स्थानाचेरी ।
तँची तॅवै जात्ताती ॥१०७३॥

आकाराच्या पेल्दिकार्नॅ ।
शब्दातीत सर्वार्थार्नॅ ।
घर कॅल्लँ जँ तुर्येनॅ ।
तँची हँ परब्रह्म ॥१०७४॥

मुक्तीसांगाती सद्गती ।
घॅत्ताती हांगा विश्रांती ।
गंगादि न्हंय्यॉ मॅळ्ताती ।
कश्की त्या समुद्राक ॥१०७५॥

प्राणी हॅ विचित्र नाना ।
पोळोनू कॉणाक जाय्ना ।
भेदभ्रमु तॉ अर्जुना ।
पाव्ता सुखधामाक ॥१०७६॥

दिवॅ कित्लॅई आस्सोती ।
अेक्कीची तांगेली दीप्ती ।
ईश्वरागेली ही व्याप्ती ।
तश्शी सर्वत्र सम ॥१०७७॥

अश्शी तॉ आनी आप्पण ।
विंगड नाती दॉग्जण ।
म्हणतलॉ जन्ममरण ।
भॉग्गना हाज्मुखारी ॥१०७८॥

समाधी साम्यावस्थेची ।
लाग्ता हाक्का सव्यसाची ।
भाग्यवानु जाण तॉची ।
कित्लँ करूं कौतुक ॥१०७९॥

मनबुध्दीच्या मुखांत्रीं ।
सर्वै करैता प्रकृती ।
जाण्णु आस्ता वस्तुस्थिती ।
हीची ज्ञानी निश्चित ॥१०८०॥

कामं घरांतूं चल्नूई ।
घर करैना कस्लेंई ।
मॉडं येव्नू वच्चूनूई ।
अलिप्त की आकाश ॥१०८१॥

तश्शी धोर्नू ह्या आत्म्याक ।
सुत्वांतूं खॅळता अनेक ।
खॅळ ही आप्णाइत्ल्याक ।
हाज्जँ भान ना हाक्का ॥१०८२॥

अश्शी निश्चयू कॉणालॉ ।
जाल्ला पळॅ ताक्का जात्लॉ ।
परमात्मस्वरूपालॉ ।
साक्षात्कारू यथार्थ ॥१०८३॥

भूतांतूं ह्या भिन्नभिन्न ।
अेकत्वाचँ जॉ दर्शन ।
घॅत्ता तॉ ज्ञानमंपन्न ।
जाल्लॉ म्हुणु जाण तूं ॥१०८४॥

कश्की कल्लोळ उद्कारी ।
परमाणू पृथ्वीचेरी ।
आदित्यबिंबाभित्तरी ।
किरणई असंख्य ॥१०८५॥

पळैता पार्था देहांतूं ।
अवयव हँ नाना तूं ।
भिन्न भावई तांच्यांतूं ।
किट्व्या कश्की उज्जांतूं ॥१०८६॥

मूळ अेक निराकार ।
दिस्ताती नाना आकार ।
हँ जाण्णू घॅत्ल्यारी तार ।
लाग्ता ब्रह्मथडीक ॥१०८७॥

अनेकत्वांतूं ब्रह्मैक्य ।
पड्ता सर्वत्र नद्रेक ।
आनी अपरंपार सुख ।
मॅळ्ता आत्मानंदाचँ ॥१०८८॥

इत्ल्यावॅल्यानॅची तुक्का ।
जाल्ली की ना सांग माक्का ।
प्रकृती पुरुष व्याख्या ।
पूर्ण आनी सुस्पष्ट ॥१०८९॥

कश्की घोटु भोरू वच्का ।
आनी अमृतची मेळ्का ।
किंवा अकस्मात पड्का ।
धनाराशी दृष्टीक ॥१०९०॥

# पंध्रावॉ अध्यायु

आत्तं फूट कोर्नु मन ।
पात्लोनु स्वच्छ आसन ।
श्रीगुरुंगॅलॅ चरण ।
कोर्यां थंइं स्थापन ॥१॥

सर्वेंद्रियांचॉ सांगातु ।
धोर्नु बुध्दींतुं अेकांतु ।
भावपुष्पं चरणांतुं ।
कोर्यां तीं समर्पण ॥२॥

अनन्य भावाचँ स्नान ।
घाल्नु कोर्यां अभ्यर्चन ।
अेकनिष्ठेचँ चंदन ।
लाव्यां अनामिकेनॅ ॥३॥

शुध्द प्रीतीचँ भांगार ।
ताज्जॅ घुंगुर सुंदर ।
कोर्नु बांध्यां सुकुमार ।
त्या पदकमलांक ॥४॥

भक्ती निर्मळ सोज्वळ ।
जाल्नु उरॉ ती अढळ ।
ताज्जॅ कोर्नु सुतुंगुल ।
घाल्यां पदांगुलींक ॥५॥

अष्ट सात्त्विक भावांचँ ।
कमल आट दळांचँ ।
पर्मळी सुखानंदाचँ ।
तँवै कोर्यां अर्पण ॥६॥

अहंतेचॉ धूप लात्यां ।
अेकत्वाची आर्ति धोर्यां ।
अेकरूप जाल्नु उर्यां ।
तांतूंची निरंतर ॥७॥

हॉ देहु आनी हॉ प्राणु ।
हाज्ज्योची खडावॉ कोर्नु ।
भोग मोक्ष दिंव्या सोण्णु ।
ह्या पादपद्मांचेरी ॥८॥

श्रीगुरुपादसेवेनॅ ।
प्राप्त जावॉ सुदैवानॅ ।
पुरुषार्थ सर्वार्थानॅ ।
जाल्नु गुरु प्रसन्न ॥९॥

ब्रह्मस्थिति यॉवरेक ।
स्फूर्ति मॅळॉ प्रतिभेक ।
प्राप्त जावॉ ह्या वाचेक ।
अमृताचँ सामर्थ्य ॥१०॥

पुन्वेवारीची शीतल ।
शब्द मधुर मॉव्वाळ ।
यॅत्त उरोती सकळ ।
उल्लैतना जिव्हेरी ॥११॥

सूर्यु उदैता पूर्वेक ।
प्रकाशु दित्ता विश्वाक ।
जावॉ ही वाचा श्रोत्यांक ।
तश्शी ज्ञाना दिवाळी ॥१२॥

आय्कूंच्याक शब्द नादू ।
स्तब्ध जात्लॉ ब्रह्मनादु ।
कैवल्याचॉई आनंदू ।
बग्ले सर्नू बस्तलॉ ॥१३॥

मधुमास सुरु जात्ता ।
गूंजगान आय्कू यॅत्ता ।
फुल्तली ही वाचालता ।
श्रवणाच्या माट्वारी ॥१४॥

हॅर्शांतु वाचामनाक ।
परमात्मा मेळ्चॉ अशक्य ।
मात्र कश्शी शब्दांक ।
जाल्यां प्राप्त सामर्थ्य ॥१५॥

ज्ञानाक जँ हात्ता मेंळ्णा ।
ध्यानाकई धोरू जाय्ना ।
तँ कॅर्नाई सोण्णु दीना ।
ह्या शब्दांचॉ सांगातु ॥१६॥

गुरुपादधूलीकण ।
कर्ताती वाचेक पूर्ण ।
अश्शी ऐश्वर्यसपन्न ।
स्मरणानॅ केवळ ॥१७॥

आनी कस्ल्याक उल्लोंचँ ।
सामर्थ्य अस्ल्या वाचेचँ ।
आनी खंईं ना हँ मेळ्चँ ।
इत्खात्तीर आय्कया ॥१८॥

हांवं मगेल्या गुरुंक ।
अेक्क तृषित अर्भक ।
म्हुणु कृपाप्रसादाक ।
जाल्लाँ अॅक्लॉची पात्र ॥१९॥

चातकाली कित्ली तान ।
वर्षावु कित्लॉ महान ।
तश्शी कृपावरदान ।
माक्का श्रीगुरुंगॅलँ ॥२०॥

उल्लोंयां म्हुणु उघ्घळँ ।
ताँड तांतुं येव्नु पळ्ळँ ।
अचानक गीतेंतुलँ ।
सुमधुर अमृत ॥२१॥

कश्शी आस्ता कळ्णा दैव ।
रत्नं जाव्नु पड्ता रँव ।
आयुष्य आस्ल्यारी कींव ।
येत्ली खास काळाक ॥२२॥

जरी जाय्द जगन्नाथु ।
क्षुधितारी कृपावंतु ।
फात्रांच्याई त्या आद्णांतुं ।
शिज्जुन् यॅत्लॅ तांदुळ ॥२३॥

श्रीगुरुकृपा आस्सद ।
संसारु सुसह्य जाय्द ।
मोक्षपदई मॅळद ।
ताक्का ह्याचि जन्मांतुं ॥२४॥

पळैताती श्रीकृष्णानॅ ।
पांडवांक सोण्णु दीनॅ ।
तांकां कस्लँ उणॅ कर्नँ ।
पुराण हँ प्रमाण ॥२५॥

तश्शी निवृत्तीनाथांनीं ।
पळैनॅ की हॉ अज्ञानी ।
अस्ल्या माक्का श्रीगुरुंनीं ।
हाळ्ळा ज्ञानमार्गारी ॥२६॥

आस्सॉ उल्लैतां उल्लैतां ।
प्रेम हँ वाड्तची वत्ता ।
गुरुस्तुती कर्तां कर्तां ।
ज्ञान जात्ता सोज्वळ ॥२७॥

तांगेल्याची प्रसादानॅं ।
श्रीगीतेच्या व्याख्यानानॅं ।
हांवं विनम्र भावानॅं ।
धर्तां संतचरण ॥२८॥

चौदाव्या अध्याया अंतु ।
कर्तना श्रीभगवंतु ।
सांग्ता हॉ अेकु सिध्दांतु ।
आय्कयाती नॅवानॅं ॥२९॥

जॉ शंभरी यज्ञ कर्ता ।
ताक्का स्वर्गप्राप्ती जात्ता ।
तश्शी जॉ प्रज्ञानी जात्ता ।
मॅळ्ता ताक्काची मुक्ती ॥३०॥

शंभर फंत्तां जन्म घॅत्ता ।
आनी ब्रह्मकर्म कर्ता ।
तॉचि ब्रह्मदेवु जात्ता ।
ना अन्य तॉ कोणुई ॥३१॥

ज्या कॉणाक दॉळ्यां दिस्ता ।
सूर्या तेज तॉ पळैता ।
तश्शी ह्या ज्ञान्याक मॅळ्ता ।
जीवन्मुक्ती सहज ॥३२॥

तस्लँ तँ ज्ञान मेळच्याक ।
आस्स योग्यता कॉणाक ।
पळैल्यारी दिस्ता कैक ।
लोकांतुं तॉ अॅक्ळॉची ॥३३॥

घाल्नु दॉळ्यांतुं अंजन ।
पळैताती गुप्तधन ।
नव्ज तॉ पायाळूवीण ।
अन्य कोणु आस्सूक ॥३४॥

ज्ञानानॅंची मोक्षु प्राप्त ।
जात्ता हांतुं ना दुमत ।
जाल्यारी तँ चित्त स्थित ।
जाव्नु उर्का निर्मळ ॥३५॥

मन विरक्त जाल्यारी ।
ज्ञान उर्तलँ जाग्यारी ।
हॉवै सुविचार हरी ।
सांग्त आस्स मुद्दाम ॥३६॥

ही विरक्ती कश्शी यॅत्ता ।
चित्तांतुं ती दृढ जात्ता ।
हँवै तॉ सर्वज्ञु सांग्ता ।
सर्व कांइं सम्जाव्नु ॥३७॥

विष पळ्ळ्यां मिष्टान्नांतुं ।
जॉ कोणु जाणता मनांतुं ।
बश्शिल्तरी तॉ पंग्तींतुं ।
ताट सोण्णु उटाय्ता ॥३८॥

कोणु सग्ळॉ हॉ संसारु ।
अशाश्वतु नी अस्थिरु ।
म्हणता ताक्का हॉ विचारु ।
वैराग्याचॉ यॅत्ताची ॥३९॥

रुक्काचँ रूपक घेव्नु ।
अशाश्र्वत कश्शी म्हुणु ।
तँची सांग्ता भगवानु ।
पंध्राव्या अध्यायांतुं ॥४०॥

समूळ पळ्ळेलॉ रूकु ।
लाग्ता वग्गी वग्गी सुक्कू ।
ताज्वारी हॉ जाय्ना लेक्कू ।
पळॅ थॉडॉ विंगडु ॥४१॥

जावॉ कश्शी आश्शिल्तरी ।
चुक्कैता हॉ नरहरी ।
जन्ममरणाची वारी ।
भारी गॉम्टायेचेरी ॥४२॥

सरूक भवमिथ्यत्व ।
गळ्णु पडूक ममत्व ।
मेळूकई स्वरूपत्व ।
वाटई हॉ दाकैता ॥४३॥

गीतेचँ हँ सर्व सार ।
सांगुनु तँ सविस्तर ।
कर्ता तुम्कां तँ सादर ।
पूर्ण जीवाभावानॅ ॥४४॥

महानंदाचॉ समुद्रु ।
पौर्णिमेचॉ पूर्णचंद्रु ।
द्वारकेचॉ जॉ नरेंद्रु ।
तॉ उल्लैता आय्क्या ॥४५॥

जॉ हॉ विश्र्वाभासु जात्ता ।
तॉ तॉ पूरा आड यॅत्ता ।
स्वरूपाक धांपुन् घाल्ता ।
माया ह्या संसाराची ॥४६॥

विश्वांतुं हाज्जॉ विस्तारु ।
कर्ता सर्व व्यवहारु ।
अश्शी आस्स बलवत्तरु ।
अनावरु सर्वांक ॥४७॥

मूळं नाती जमिनींतुं ।
घॅल्लॅ नाती आकाशांतु ।
आश्शिल्मितीं हॉ विप्रीतु ।
सट्णॅ कळ्णा कॉणाकै ॥४८॥

मूळारी घावु घाल्यारी ।
थंईंची तँ कर्पैल्यारी ।
कित्ली जावॉ वाडी वैरी ।
रूकू आड पड्तलॉ ॥४९॥

मूळासमेत सुक्तलॉ ।
मात्येंतु तॉ मेळ्णु वत्लॉ ।
हॉ मात्र अश्शी ना इत्लॉ ।
सलीस पाडोंच्याक ॥५०॥

कस्लँ सांग्चँ धनुर्धरा ।
हागेली उप्राटी थरा ।
तग्गू दीकाक्वी पूरा ।
जात्ता वाडी विस्तारू ॥५१॥

सूर्यू कित्लॉ वैरी कळ्णा ।
सर्वत्र प्रकाशु जात्ना ।
विचित्र वाड्ता अर्जुना ।
रूकू ह्या संसाराचॉ ॥५२॥

आय्यिल्वॅळारी कल्पांतु ।
मॉड भर्ता आकाशांतुं ।
तश्शी हॉ दशदिशांतुं ।
जाव्नु आस्स व्यापक ॥५३॥

सूर्यास्ता उप्रांतँ कश्की ।
सुरु जात्ता राती काळ्की ।
जागॉ भोर्चें खंई बाकी ।
दव्वर्ना हॉ तश्शीची ॥५४॥

खांव्यां म्हळ्ळयारी ना फळ ।
हुंग्यां म्हळ्ळयारी ना फूल ।
रूकु म्हुणु हॉ केवळ ।
जाव्नु आस्स रूकूची ॥५५॥

मूळं दिस्ताती हीं वैरी ।
हांकां निक्ळाय्ने जाल्यारी ।
वाड्त वच्चुनु तर्तरी ।
उर्तलॉ हॉ सदैव ॥५६॥

मूळं वैरी म्हळ्ळँ व्हई ।
रिग्ल्यांती रॅ तीं तग्गूई ।
कित्लीं म्हुणु तीं लॅकई ।
कोरूकची जाय्नाती ॥५७॥

रूकू वटवृक्षावारी ।
ताज्ज्यॉ पारंब्यॉ नॅलारी ।
त्यॉवै रिग्ताती भित्तरी ।
आनी जात्ताती मूळं ॥५८॥

अश्शी हाक्का तग्गू वैरी ।
हॅग्लॅ सर्व आंगाचेरी ।
पळैलॉ वॅ धनुर्धारी ।
संसाराचॉ हॉ रूकू ॥५९॥

वैल्या दिकानॅ तूं पळॅ ।
हॅग्ल्यां भित्तरीची हॅग्लॅ ।
कश्शी घुस्पलपाती सग्ळॅ ।
मेळ्णु अेकमेकांतुं ॥६०॥

आप्पण आकाश जात्ता ।
वारॉ जाव्नुई सळ्सळ्ता ।
ॲक्डॅची तिन्नी अवस्था ।
मॅळ्ताती ह्या रुक्कांतुं ॥६१॥

ऊर्ध्वमूळ विलक्षण ।
रूप हँ घेव्नु आप्पण ।
उब्रला विश्वासमान ।
हातपाय पस्सोर्नु ॥६२॥

ऊर्ध्व खंचँ हँ पोळोंका ।
मूळ खंईं हँवै सोद्का ।
विस्तारूई सम्जून् घेंव्का ।
ह्या रुक्काच्या हॅग्ल्यांचॉ ॥६३॥

तग्गु दीकाक हीं अश्शी ।
मूळं कॉण नी तीं कश्शी ।
आस्ताती आनी तॅ कश्शी ।
हॅग्लॅ वैल्या दिकाक ॥६४॥

अश्व्वत्थु नांव इत्त्याक ।
पळ्ळँ म्हणशी ह्या रुक्काक ।
तत्त्ववेत्त्यांगॅलॉ आय्क।
सांग्तां तुक्का निर्णयू ॥६५॥

स्पष्ट तॉ कळ्चॅ खात्तीर ।
विवेचन सविस्तर ।
कर्तां ताज्जँ प्रत्यंतर ।
आप्णाइत्ल्याक यॅत्लँ ॥६६॥

अर्जुना तूं भाग्यवंतु ।
आय्कूंच्याक हँ सत्पात्रु ।
आय्क म्हणता लक्ष्मीकांतु ।
जा तूं शांत अेकाग्र ॥६७॥

प्रेमरस परिपूर्ण ।
आय्कूनुची हँ वचन ।
मूर्तिमंत अवधान ।
जाल्लॉ कुंतीतनयू ॥६८॥

दशदिशा जाव्नु अेक ।
पोट्टोळ्ताती आकाशाक ।
तश्शी हँवै त्या उन्नांक ।
घॅत्ता घट्टी पोट्टोळ्णु ॥६९॥

समुद्र जाल्लँ वचन ।
अ:गस्ति जाल्लॅ हॅ कान ।
अॅक्क घॉटांतु प्राशन ।
पळैताती कोरूक ॥७०॥

आय्कूंची आसक्ती इत्ली ।
दॅवाक लक्षांतु आय्ली ।
सांगिल्याची पाव्ती मेळ्ळी ।
म्हुणु जाल्लॉ संतोषु ॥७१॥

म्हणता आय्क तूं मुखारी ।
ब्रह्म तँ हाज्ज्याकै वैरी ।
दांटुनु ह्या रुक्का तूरी ।
आस्स आप्णाइत्ल्याक ॥७२॥

सम्जूनू घॅ हँ अर्जुना ।
वैरी तग्गू तँ आस्सना ।
सर्वत्र भोर्नु आस्तना ।
नित्य अेकरूपांतुं ॥७३॥

ताज्जॉ नादु आय्कू यॅना ।
पर्मळुई नांका कळणा ।
पोट्टोळ्णुई घॅनस्तना ।
मॅळ्ता मेळ्चॉ आनंदु ॥७४॥

हांगा थंईं म्हुणु ऊर्ना ।
माक्षी मुखारी दिस्सना ।
आस्सूनुइ देक्कू पण्णा ।
तागेलँ तँ स्वरूप ॥७५॥

उपाधींचॉ हॉ सांगातु ।
नि:संगाक संसारांतुं ।
शिर्कैल्तरी तॉ अलिप्तु ।
उर्ता निजरूपांतुं ॥७६॥

सम्जून् घॅत्लॉई आस्सना ।
सम्जून् घेंव्चेंइ कांइं ना ।
अन्य ना त्या ज्ञानाविना ।
कश्की स्वच्छ आकाश ॥७७॥

कार्य वा न्हई कारण ।
अेकमेव तँ अनन्य ।
आप्णांतुंची जँ आप्पण ।
जाण्णु आस्ता आप्णाक ॥७८॥

परब्रह्म तँची पार्था ।
रुक्का तूरी तँ दाटुय्ता ।
ती ही तूरी मूळ जात्ता ।
धरु लाग्ता चिगुरु ॥७९॥

जन्मा यॅना जँ संतान ।
व्यर्थ ताज्जँ गुणगान ।
तश्शी उस्नँ महिमान ।
मॅळ्ळ्यां पार्था मायेक ॥८०॥

आस्स म्हळ्ळ्यारी दिस्सना ।
ना ती अश्शी म्होणु जाय्ना ।
विचार कॅलेल्तरी कळणा ।
मूळ खंई हिगेलँ ॥८१॥

आकाशांतु मॉड फिर्ता ।
तश्शी अेकु घेव्नु भाँव्ता ।
कळ्ळॉ विश्वांतुं नांचैता ।
भ्रमविभ्रमांचॉ ही ॥८२॥

संसाराचँ बीज वैता ।
रूकू प्रपंचाचॉ वाड्ता ।
खरया ज्ञानाक पळैता ।
धांपुक हॉ विस्तारु ॥८३॥

ब्रह्मासांगाती जी दिस्ता ।
दिस्चँ ताज्मितींची आस्ता ।
सत्य हँ जॉ जाण्णु घॅत्ता ।
जाण्ता तॉ त्या ब्रह्माक ॥८४॥

ज्यावॅळारी नीद यॅत्ता ।
विश्वाचेरी पड्दॉ पड्ता ।
दिव्याचेरी काज्ळी मांड्ता ।
मंद जात्ता  प्रकाशु ॥८५॥

बाय्ल बाम्णाक जागोव्नु ।
घॅत्ता सॉप्नांतुं पोट्टोळ्णु ।
समागमु जाल्लॉ म्हुणु ।
म्होण्येद वॅ प्रत्यक्ष ॥८६॥

ब्रह्मस्वरूप ही जाण्ता ।
तरी नद्रेआड कर्ता ।
आप्णालींची हटं धर्ता ।
मूळ हँ ह्या रुक्काचँ ॥८७॥

सत्यवस्तूचँ अज्ञान ।
ब्रह्मत्वाक आवरण ।
हाक्का प्रसिध्द प्रमाण ।
वेदशास्त्रं दित्ताती ॥८८॥

घोर अज्ञान सुषुप्ति ।
ह्या रुवकाची मूलोत्पत्ति ।
लॅक्ल्यारी स्वप्न जागृति ।
फल हाज्जँ म्होण्येद ॥८९॥

अश्शी ही सम्जूनु घेंव्ची ।
परिभाषा वेदांताची ।
हँ आस्सॉ हँ अज्ञानची ।
भवरुवकाचँ मूळ ॥९०॥

मायेचँ उद्दाक मॅळ्ता ।
तूरी हाज्जी वैरी पाव्ता ।
आनी धांपुक पळैता ।
शुध्द परमात्म्याक ॥९१॥

नाना योनींचॅ प्रकार ।
तग्गू दिकाक चिगूर ।
धोर्नु जात्ता दृढतर ।
विस्तारु भो जॉरारी ॥९२॥

मूळाचॉ वैरी संचारु ।
तग्गू पाळांचॉ विस्तारु ।
दोन्नी दिकाथाव्नु भारु ।
घाल्ता हॉ भवरूकू ॥९३॥

पैलँ माया जागी जात्ता ।
शक्ति आप्णाली ती जाण्ता ।
लुस्लुशी अेक चिग्रता ।
तर्नँ सानशँ पान ॥९४॥

अहंकाराचँ स्फुरण ।
सत्त्वरजतमोगुण ।
घेव्नु कर्ता संवर्धन ।
त्या पान्नाच्या दँटयाचँ ॥९५॥

बुध्दीचॉ धोर्नु आधारु ।
कर्ता भेदाचॉ प्रसारु ।
मनाचॅ हॅग्लॅ शृंगारु ।
नानाविध कर्ताती ॥९६॥

मूळ विकल्पांतु वाड्ता ।
तश्शी बुध्दी नी अहंता ।
मन चित्त हांकां पॉस्ता ।
घेव्नु आप्पासांगाती ॥९७॥

व्योम वायु तेज आप ।
पृथ्वी सर्व हीं स्वरूपं ।
विस्सोर्नु जाव्नु तद्रूप ।
हिज्ज्यांतुंची उर्ताती ॥९८॥

तश्शी पंच ज्ञानेंद्रियं ।
सॉत्ताती हॅं मोहमय ।
उपभोगाचॅं विषय ।
घॅल्यांतुं नी हॅग्ल्यांतु ॥९९॥

कान्नांतु जॉ शब्दांकुरु ।
ताक्का फुट्टुनु चिगुरु ।
आय्कूंचॉ लोभु अपारु ।
वाड्त वाड्त वत्ताची ॥१००॥

त्वचा रोमांचित जात्ता ।
सुख जाल्लँ म्हुणु कळ्ता ।
स्पर्शाखात्तीर उटाय्ता ।
नित्य नवॉ विकारु ॥१०१॥

गॉम्टँ रूप दृष्टी पड्ता ।
तँची निय्याळ्काशँ दिस्ता ।
मोहमुग्ध जाव्नु वत्ता ।
पळैतल्याली वृत्ती ॥१०२॥

जिब्बेक रुच्कर लाग्ता ।
आनी तँ खाव्यांशँ दिस्ता ।
खाल्लेल्तरी नप्रॉ दिस्ता ।
जात्ता जिब्बे गुलामु ॥१०३॥

नांकाक पर्मळु कळ्ता ।
वृत्ती प्रफुलित जात्ता ।
तॉ घॅत्त राब्यांशँ दिस्ता ।
सर्तलॉ हँ कळ्णुई ॥१०४॥

अहंकार मन बुध्दी ।
पंचमहाभूताची सिध्दी ।
हांच्मितीं जात्ता समृध्दी ।
सर्व ह्या संसाराची ॥१०५॥

वाड्डूनू कित्लॉ वाड्डद ।
वाड्च्याकै आस्स मर्याद
शिंप्लयेइत्लँची दिस्सद ।
रुप्पँ की सांग चड ॥१०६॥

समुद्राचॉ जॉ आकारु ।
तित्लॉ पाळांचॉ विस्तारु ।
अज्ञानमूळ साकारु ।
रुक्काइत्लँ तँ ब्रह्म ॥१०७॥

जॉ कोणु आस्ता निद्रिस्त ।
ॲक्क फंतांची समस्त ।
आप्पण आप्पालॅं आप्त ।
पळैता तॉ सॉप्नांतुं ॥१०८॥

हँ आस्सॉ अस्लॉ हॉ अेकु ।
आश्चर्यकारक रूकू ।
विपरीत अलौकिकु ।
पाळंची माये मूळ ॥१०९॥

आश्शी इत्त्याक अश्वत्थु ।
जाव्नु आस्स संबोधितु ।
ह्या सर्व ज्ञानी जनांतुं ।
सांग्तां तँवै आत्तंची ॥११०॥

तरी श्वा म्हळ्ळ्यारी फाई ।
आय्च्वारी आस्सश्ना फाई ।
आस्सद की ना हँवई ।
कळ्णा म्हुणु अश्र्वत्थु ॥१११॥

पळ्पळेतां वॉड वत्ता ।
रंगु आकारु बदल्ता ।
वीजु वांक्डीतिंक्डी वत्ता ।
लखलखेनु क्षणांतुं ॥११२॥

हाल्तल्या पद्मपत्रारी ।
ऊर्ना जळ क्षणभरी ।
कोणु व्याकुळ जाल्यारी ।
चित्तांतुं तॉ अस्वस्थ ॥११३॥

तश्शी ह्या रुक्काची गती ।
कांईं सुद्दां ना शाश्र्वती ।
म्हुणुची हाक्का म्हणताती ।
की हॉ अश्र्वत्था रूकू ॥११४॥

पिंपळाक सहजची ।
पध्दती अश्र्वत्थु म्होण्ची ।
जाल्यारी ना मति हीची ।
नंदनंदतागेली ॥११५॥

नित्यांतुं चारिचौगांतुं ।
म्हणताती हाक्का अश्वत्थु ।
कस्लँ आस्स रॅ नांवांतुं ।
तत्त्व कळ्ळ्यारी जाल्लँ ॥११६॥

ह्या ग्रंथाच्या संदर्भांतुं ।
रूकू हॉ जॉ अशाश्र्वतु ।
म्हुणु म्होण्यां हॉ अश्वत्थु ।
निरूपणाखात्तीर ॥११७॥

ह्या रुक्काची हीवै ख्याती ।
अव्ययु हँवै म्हणताती ।
गूढ विचारा उप्रांतीं ।
अश्शी दिस्सुन् यॅत्ता की ॥११८॥

जलनिधि तॉ शोषितु ।
यॅत्ता तॉ मॉडांरूपांतुं ।
जात्ता भर्ती सुपोषितु ।
तॉ न्हय्यांच्या रूपानॅ ॥११९॥

दॅणँ घॅणँ जोवरेक ।
समुद्राचँ रूप अेक ।
म्हुणु दिस्ता तॉ जगाक ।
परिपूर्ण शाश्र्वत ॥१२०॥

आस्चँ ना जांव्चँ जँ घड्ता ।
क्षणार्धांतुं घण्णु यॅत्ता ।
गति इत्लॉ वेगु घॅत्ता ।
तीचि दिस्ता अखंड ॥१२१॥

कोणु कर्ता धनार्जन ।
तॉची कर्त आस्ता दान ।
म्हुणु सदैव सुसंपन्न ।
तश्शी रूकू अक्षयू ॥१२२॥

रथु वेगानॅ धांव्तना ।
चाक घुंव्ता की ना कळ्णा ।
अश्शी स्थित्यंतर जात्ना ।
अव्ययुसॉ तॉ दिस्ता ॥१२३॥

सुक्ता गळ्ता ह्या दिकाक ।
चिग्रता दुस्त्र्या-दिकाक ।
घड्ता हँ क्षणाक्षणाक ।
कालगती अखंड ॥१२४॥

कॅर्ना तँ अेक ना जाल्लँ ।
दुस्त्रँ थंईं कॅर्ना आय्लँ ।
कश्की मॉड आय्लँ गॅल्लँ ।
कळ्णाची पाव्साडींतुं ॥१२५॥

प्रळयांतुं जीर्ण सृष्टी ।
लय पाव्ता नी उत्पत्ति ।
नव्या सृष्टीची आवृत्ती ।
जाय्त उर्ता अखंड ॥१२६॥

प्रळयाचॉ झंझावतु ।
सर्वत्र कर्ता उत्पातु ।
थंई नवीन रूपांतुं ।
सृष्टी जात्ता निर्माण ॥१२७॥

युगांतर जाय्त उर्ता ।
वंशावळी सुरु आस्ता ।
कब्बू कांडकांड वाड्ता ।
कालचक्र राब्बना ॥१२८॥

कलियुगा अंतकांलु ।
थंईं कृतयुग चालू ।
सकळांतर्गत काळु ।
अवथिचॉची भेदु ॥१२९॥

दीसु यॅत्ता आनी वत्ता ।
वरसई सर्त यॅत्ता ।
वत्ना नव्याक यॉ म्हण्ता ।
कालु धांव्ता मुखारी ॥१३०॥

वारॉ व्हांव्त व्हांव्त यॅत्ना ।
ताज्जॉ सांद्दॉ खंईं कळ्णा ।
तकुई कोरुक जाय्ना ।
कश्शी घॅत्ता जोड्सूनू ॥१३१॥

हांगा अेक देह पड्ता ।
थंईं जन्मोत्सवु जात्ता ।
संसारु हॉ चल्त उर्ता ।
अश्शी जन्ममृत्यूचॉ ॥१३२॥

उद्दाक तँ व्हांव्त गॅल्लँ ।
वत्ल्या उद्‌कांतुं हँ मॅळ्ळँ ।
गॅल्लँ कित्लँ आय्लँ कित्लँ ।
हँ कळ्णुई तँ कळ्णा ॥१३३॥

पाळं वैरी निरंतर ।
तींची पाळं हॉ सागर ।
नित्यरूप सत्यसार ।
म्होणु जाय्द वॅ तांकां ॥१३४॥

काय्ळ्याक बुब्बुळं दोनी ।
अेक्कु दॉळॉ क्षणोक्षणी ।
फिराय्ता जाग्यारी दोन्नी ।
म्होण्येद वॅ तॉ दुस्त्रॉ ॥१३५॥

वेगु घेव्नु भॉवरॉ फिर्ता ।
नॅलारी उब्रलासॉ दिस्ता ।
वेगु सर्नू आड पड्ता ।
सत्य कळ्ता ताव्वळी ॥१३६॥

पळॅ कोल्ती हात्तातुली ।
वर्तुळाकार घुंव्डाय्ली ।
झपाझप ती फिराय्ली ।
दिस्ता चक्र ज्वलंत ॥१३७॥

भवरूकू चिरंतन ।
म्होण्चँ हँची पिश्शेपण ।
वाड्चॉ मोड्चॉ विलक्षण ।
वेगु जाण हँ सत्य ॥१३८॥

हँ जॉ जाणता ताक्का कळ्ता ।
किल्लॅ फंतां यॅत्ता वत्ता ।
क्षणाभित्तरी हँ घड्ता ।
दोन्नी क्षणभंगुर ॥१३९॥

अज्ञानची हाज्जँ मूळ ।
अस्तित्वई हाज्जँ फोल ।
अश्शी भवाचॉ सकळ ।
रूकू जाण्णु घेंव्काज ॥१४०॥

हांवं सर्वज्ञु हँ म्हणतां ।
जॉ हँ जाणता तॉची ज्ञाता ।
वंदनीय तॉ वेदार्था ।
लक्षांतु घॅ धनंजया ॥१४१॥

फल योगसाधनेचँ ।
पार्था ताक्काची तँ मेळ्चँ ।
ज्ञानानॅई धन्य जांन्चँ ।
हागेल्याची कृपेनॅ ॥१४२॥

उलैले लँ चड जाल्लँ ।
आय्क हँ अेक सांगिलँ ।
कौतुक ह्या ज्ञात्यागॅलँ ।
कॅलेलिल्याक नप्रॉ ॥१४३॥

रुक्कायॉ पळॅ आकारु ।
किल्लॉ पाळांचॉ प्रसारु ।
वैरी तुर्वेचॉ विस्तारु ।
सर्व प्रमाणा भाग्र ॥१४४॥

हॅग्लॅ तग्गू बग्गूताती ।
नॅलाभित्तरी रिग्ताती ।
थंई तॅ मूळं जात्ताती ।
तींवै आनी वाड्ताती ॥१४५॥

हँची तुक्का सांग्ल्यां माक्षी ।
आत्तं तँची स्पष्ट जाय्शी ।
सलीस कोर्नु कळशी ।
सांग्तां हँवै तूं आय्क ॥१४६॥

पैलँची मूळ नॅवन ।
आनी प्रभावी कारण ।
सर्वांपेक्षां बलवान ।
अज्ञान ह्या रुक्काचँ ॥१४७॥

आय्क स्वेदज जारज ।
आनी उद्भिज अंडज ।
हॅ चारी हॅग्लॅ सहज ।
मूळालाग्गीची शिर्लँ ॥१४८॥

आय्लॅ हॅग्लॅ हॅग्ल्थांत्थान्नु।
लक्षगट्लेनॅ उब्जुनु ।
वाडी गेल्ली गच्च भोर्नु ।
त्या मूळाच्या सुत्वांतु ॥१४९॥

तांतुल्यानॅ भाग्र पळ्ळॅ ।
अनेक जातींचॅ घॅल्लॅ ।
उपजातींचॅ चिग्रलॅ ।
अगणित अंकुर ॥१५०॥

स्त्रीपुरुषनपुंसक ।
व्यक्ती प्रत्येक जातीक ।
मेळ्णु गॅल्लॅ अेकमेक।
विषय विलासांतु ॥१५१॥

वर्सान्वर्स पाव्साडींतु ।
मेघमाला आकाशांतु ।
तश्शी भर्ता संसारातु ।
मॉड ह्या अज्ञानाचँ ॥१५२॥

हॅग्लॅ हॅग्लॅ घुस्पताती ।
संघर्ष सुरु कर्तातीं ।
त्रिगुणांतुं शिर्कताती ।
सुट्ता वारँ क्षोभाचँ ॥१५३॥

त्रिगुणांचॉ हॉ संधातु ।
रूकू त्रिविध रूपांतुं ।
वाड्डूक जात्ता निमित्तु ।
कश्की वारॉ उज्ज्याक ॥१५४॥

राजस गुणासांगाती ।
वाड्ता मानवाची जाती ।
चड जाय्त वत्ता गती ।
तागेल्या विस्ताराची ॥१५५॥

तग्गू नाती ना तॅ वैरी ।
मद्दँ मेळ्ळेल्या जाग्यारी ।
वाड्ताती वर्णांचॅ चारी ।
आड थंथंई घॅल्लॅ ॥१५६॥

विधिनिषेधाचॅ नॅम ।
वेदोक्त आचारधर्म ।
हांगेलॅ पल्लवद्रुम ।
डौलानॅ थैं घॉल्ताती ॥१५७॥

चुळ्बुळ्ताती अर्थकाम ।
ना फुर्सती ना आराम ।
रिग्गैताती रॉम रॉम ।
त्या त्या रित्त्या जाग्यारी ॥१५८॥

मेळ्ळेल्तिलँ नप्रॉ जात्ता ।
नुस्तँ लोभु वाड्डत वत्ता ।
सारासार विचार सुट्ता ।
कर्मं घड्त वत्ताती ॥१५९॥

माक्षी जन्माचँ जँ उर्ता ।
हांगाची तँ भोग्गुन् सर्ता ।
ह्या जन्मांतुं जँ मेळैता ।
मॉग्ता पुनर्जन्मांतुं ॥१६०॥

शब्द रूप । रसादिक ।
भॉग्तां भॉग्तां वाड्ता भूक ।
फुट्ताती ह्या विषयांक ।
नित्य नवॅ चिगूर ॥१६१॥

राजसी हॉ झंझावातु ।
दशसहस्त्रगुणितु ।
कर्ता ह्या मर्त्यलोकांतुं ।
ह्या मनुष्यजातीक ॥१६२॥

मागिरी हॉ रजोवातु ।
राब्ता क्षणैक निवांतु ।
ताव्वळी जात्ता जागृतु ।
तामसाचॉ हॉ वारॉ ॥१६३॥

कीडी लाग्ता सन्मतीक ।
ऊर्ना जाग्यारी विवेक ।
घड्च्या लाग्ताती अनेक ।
पापं तनमनाचीं ॥१६५॥

हीची मनुष्याली जाती ।
धरू लाग्ता अधोगती ।
दुष्ट विचार यॅत्ताती ।
घड्ताती दुराचार ॥१६४॥

ऋग् यजुः नी सामवेद ।
म्हणताती जँ जॅ निषिध्द ।
तँची हॅ कोरूक सिध्द ।
कटिबध्द जात्ताती ॥१६६॥

माटमोडी हँ कर्ताती ।
दुःख दुस्त्र्यांक दित्ताती ।
हीची वासना धर्ताती ।
हँची सुख लॅक्ताती ॥१६७॥

दुष्कृत्यं जाय्त उर्ताती ।
मुखारीई हीचि गती ।
वासनांचीं वच्चनाती ।
गळ्णु अस्लीं बंधनं ॥१६८॥

अस्ल्या ह्या कर्मभ्रष्टाचॉ ।
पुनर्जन्मु चांडाळाचॉ ।
वा त्या खंप्याई योनीचॉ ।
निकृष्ट हँ निश्चित ॥१६९॥

पशु पक्षी विच्चू वागू ।
वा डुक्कार वा भुजंगु ।
जाव्नु येंव्चॉ हॉ प्रसंगु ।
कृतकर्मानुसार ॥१७०॥

ह्या अस्ल्या जन्मांची भास ।
सोडी पार्था फाव आस्स ।
मेळूकई ताक्का खास ।
नरकांतुं निवासू ॥१७१॥

थंईं ताक्काई मुखारी ।
भोग्का पड्ता जन्मांतरीं ।
त्या कुकर्मांचँ अघोरी ।
फळ बीजन्याथानॅ ॥१७२॥

तश्शी झाड वाली तण ।
लॉखंड मात्ती पाषाण ।
जन्मोजन्मीं हँची रीण ।
पावैतची बस्काज ॥१७३॥

मनुष्य जन्माव पार्था ।
अघोगती प्राप्त जात्ता ।
अचेतन जाव्नु पड्ता ।
पळॅ कर्मानुसार ॥१७४॥

हॅग्लॅ हॅ मानवा जाती ।
देव्नु तॅ मूळं जात्ताती ।
तांतुल्यानॅची उत्पत्ती ।
जाव्नु वाड्ता संसारु ॥१७५॥

हाज्जँ मूळ अज्ञानांतुं ।
दिस्सू पण्णा वैली वस्तु ।
देव्नु आस्ता जी मद्देंतुं ।
तँची मूळ म्होण्काज ॥१७६॥

सात्त्विक तामसी कृत्यं ।
जात्तची उर्ताती नित्य ।
संसारांतुं तीं सर्वत्र ।
वैरी तग्गू दिस्ताती ॥१७७॥

तिन्नी वेद हँ सांग्ताती ।
विधिनिषेध पाळाती ।
पाळ्का म्हुणु तॅ आस्सती ।
मानवानॅची फक्त ॥१७८॥

अश्शी नरदेह जरी ।
तग्गू वैरी आश्शिल्तरी ।
कर्माचॉ तॉ अधिकारी ।
ह्या खात्तीर तँ मूळ ॥१७९॥

पळॅ खंचोई रूकू तूं ।
वाडी कस्कश्शी मूळांतुं ।
वाड्त वत्ता आकाशांतुं ।
वैरी चारी बाजूंनीं ॥१८०॥

संसारांतुं कर्म जांव्का ।
त्याखात्तीर देह धोर्का ।
नाक्का नाक्का ना म्होण्णक्का ।
जांव्कातीची हीं कर्मं ॥१८१॥

संसाराक मूळ जांव्चँ ।
ह्या देहानॅं हँ ना घुवचँ ।
अश्शी येंव्चँ आनी वच्चँ ।
चल्ता म्हणता श्रीनाथु ॥१८२॥

शांत तमाच वादळ ।
धर्ता सच्चगुणु बळ ।
लाग्ता दाकोंच्याक खॅळ ।
नानाविध आप्णालॅं ॥१८३॥

सद्वासना मूळ धर्ता ।
तांतुं सत्कृत्य चिग्रता ।
मनुष्यरूपानॅं लाग्ता ।
वाड्डूक हॉ संसारु ॥१८४॥

मूर्त जात्ता आविष्कारु ।
मॅळ्ता बुध्दीचॉ आधारु ।
वत्ता वाड्तची विस्तारु ।
भोर्नु चारी दीकाक ॥१८५॥

विवेकाचॉ धोर्नु हातु ।
सॉण्णा विचारु सांगातु ।
मेळोनु पाव्लं पाव्लांतुं ।
चलु लाग्ता आचारु ॥१८६॥

ज्ञानरसाचँ सिंचन ।
सद्वृत्तीक उत्तेजन ।
मॅळ्ता श्रध्देक ठिकाण ।
निश्चित नी निर्वेध ॥१८७॥

फुल्ता सुस्वरांचॉ कोषु ।
मधुर ध्वनि विकासु ।
जात्ता सामवेद घोषु ।
आय्कू यॅत्ता सर्वत्र ॥१८८॥

संयमित शिष्टाचार ।
यज्ञयागाचॅं प्रकार ।
चल्ताती नाना अपार ।
सर्व परिसरांतुं ॥१८९॥

कोर्नु यमनियमन ।
कर्ताती तपाचरण ।
निराग्रही संवर्धन ।
वैराग्याचँ सुशांत ॥१९०॥

नानाविध सांग व्रतं ।
अविरत अगणित ।
नित्यानित्य तीं करैत ।
आनी कर्त उर्ताती ॥१९१॥

जोवरेक हॉ अर्जुना ।
झंझावातु स्वस्थ जाय्ना ।
वेदोक्त ही आराधना ।
चल्त उर्ता अश्शीची ॥१९२॥

हँची स्वकर्मपालन ।
स्वर्गसुखाचँ साधन ।
जात्ता हँची अेक ध्यान ।
ह्या सर्व सक्रियेंतुं ॥१९३॥

यथाकाळ उपशमु ।
सुट्टु लाग्ता हॉ विभ्रमु ।
परमपावन धर्मु ।
मोक्ष हँ कळू लाग्ता ॥१९४॥

तरी सूर्यचंद्रादिक ।
ग्रह विशेष अनेक ।
दिस्ता ऋषि पितरांक ।
लाव्येद की पूजेक ॥१९५॥

इत्ल्यारीची ही कल्पना ।
तागेली अश्शी तड्वना ।
इंद्रादिकांकई सॉण्णा ।
पळॅ धोर्चें लॅख्खाक ॥१९६॥

हँवै नप्रॉ जात्लँ म्हण्ता ।
ज्ञानी तपस्व्यांक मान्ता ।
आनी आनी बांदुन् घॅत्ता ।
मरीचि कश्यपाक ॥१९७॥

अश्शी वैरीवैरी पाव्ली ।
चाडौनु माळ्येरी माळी ।
तग्गू दिका सानि मूळी ।
वैरी होड्डु विस्तारु ॥१९८॥

तांतुल्यानेई पळैता ।
वैरी आनिकई दिस्ता ।
ब्रह्मलोकांतुंई वत्ता ।
थंईं पाव्ता विस्तारु ॥१९९॥

फळां भारु जात्ता भारी ।
हॅग्लॅ दँव्ताती भुंय्यिरी ।
थंईं रिग्गुनु भित्तरी ।
तॅवैं मूळं जात्ताती ॥२००॥

खंच्याई रुक्काचॅं हॅग्लॅ ।
फळांनीं जड जालेलॅ ।
दिस्ताती तग्गू देव्विलॅ ।
धनुर्धरा नॅलारी ॥२०१॥

ह्यावै रुक्काचॉ विस्तारु ।
खंईंथाव्नु जात्ता सुरु ।
थंईंची बग्गूता भारु ।
त्या प्रपंचज्ञानाचॉ ॥२०२॥

ब्रह्मा अथवा महेशु ।
हांत्लाग्थाईची प्रवेशु ।
जी वा जात्ता परदेशु ।
वासु परब्रह्मालॉ ॥२०३॥

ब्रह्माशिवादिक लोक ।
रुक्का तुर्ये पेल्दिकाक ।
यत्न कर्ताती वाड्डूक ।
पाव्नाती तॅ ताज्वैरी ॥२०४॥

सनकादि जॅ निवृत्त ।
फळमूळादिची वाट ।
सोण्णु धर्ताती तॅ थेट ।
ब्रह्म सुखधामाची ॥२०५॥

अश्शी मनुष्याक धोर्नु ।
ब्रहयालाग्गीथाई पाव्नु ।
संसारू वाड्त वच्चुनु ।
राब्ला रुक्का रूपानॅं ॥२०६॥

मनुष्यु हॉ बीजांकुरु ।
आनी ताज्जॉ हॉ विस्तारु ।
जाव्नु आस्स परिवारु ।
ह्या संसारा रुक्काचॉ ॥२०७॥

अश्शी हाज्जँ रूप वॅग्ळँ ।
वैरी मूळ तग्गू हॅग्लॅ ।
शब्दचित्र हँ रंगैलँ ।
तुज्मुखारी मूलाग्र ॥२०८॥

आत्तं हाज्मुखारी आय्क ।
हाक्का समूळ खांडूक ।
उपायु खात्रीलायक ।
खंचॉ कोर्येद पार्था ॥२०९॥

तुक्का मनांतुं हँ यॅद ।
कस्लॉ की बा तॉ आस्सद ।
इत्लॉ होडु वॅ पडद ।
मूळासमेत आड ॥२१०॥

हॅग्लॅ हॅ वैरी पाव्ल्याती ।
ब्रह्मलोकु घुडाळ्ताती ।
तुर्थो घोरु पळैताती ।
परब्रह्म ताज्वैलँ ॥२११॥

राब्बुनु अॅक्क जाग्यारी ।
वाड्ता रूकू तग्गू वैरी ।
मनुष्यांगेल्या रूपारी ।
दुस्त्रीं मूळं धर्ताती ॥२१२॥

प्रभावी विस्तारु इत्लॉ ।
कश्शी बा तॉ पाडैतलॉ ।
सोडि तूं हॉ मनांतुलॉ ।
निर्मूलक संशयु ॥२१३॥

पाडोंका हॉ हेतू जरी ।
कष्ट पांव्काती वॅ भारी ।
घाँगॉ धांव्डांव्यां म्हळ्ळ्यारी ।
आस्ता वॅ तॉ जाग्यारी ॥२१४॥

मॉड वॅ हाल्लोंका पड्ता ।
सशाशिंग मोड्का पड्ता ।
फुल्लं कॉण वेंचू वत्ता ।
सांग तूं आकाशांतुं ॥२१५॥

खरँ पळैल्यारी नाची ।
संसारु हॉ सव्यसाची ।
भय्य कस्ल्याक नुस्तेंची ।
धर्ताती तँची कळ्णा ॥२१६॥

चेर्ड्व जाय्नातिल्येगेरी ।
आस्ताती वॅ तीं घरभरी ।
तश्शीची हॉवै ताज्वारी ।
दिस्त आस्ता अपार ॥२१७॥

सॉप्नांतुं उत्रं जात्ताती ।
कॉण तीं खरीं लॅक्ताती ।
तश्शी काण्यॉ आय्कताती ।
संसाराच्यॉ असार ॥२१८॥

म्हळ्ळेल्वारी हाज्जँ मूळ ।
जरी निब्बर अचळ ।
तरी सांग कॉण बल ।
घालीद निक्ळांव्च्याक ॥२१९॥

सांग जन्मा आय्ला कोणु ।
हावका घालूक निक्ळाव्नू ।
आकाश सांग उब्बुनु ।
वच्चद वॅ फुंक्ल्यारी ॥२२०॥

कासवीचँ तूप वाण्णु ।
लेकचँ रायु राजी म्हुणु ।
तश्शी मायावी हँ जाव्नु ।
आस्स रुक्का वर्णन ॥२२१॥

तळीं ह्या मृगजळाचीं ।
धूर थाव्नुची पोळोंचीं ।
त्या उद्कारी शॅत कोर्ची ।
काडयेद वॅ खब्बरी ॥२२२॥

अज्ञान हँची असत्य ।
तांतु कांइंची ना तत्थ्य ।
कॅल्लँ म्हुणु दिस्चँ फक्त ।
माया ही संसाराची ॥२२३॥

म्हणताती जँ कांइं लोक ।
अंतु ना ह्या संसाराक ।
यॅत्ता पळॅ प्रत्ययाक ।
आम्कां तँ प्रसंगारी ॥२२४॥

जागी जावरेक नीद ।
सांग कॉणाली सरद ।
की राती आस्तना जाय्द ।
अंव्सरारी फाल्फालँ ॥२२५॥

जोवरेक जागी जाय्ना ।
विवेकु मात्तँ उब्बार्ना ।
तॅदम्हणसरी अर्जुना ।
चिरंजीव संसारु ॥२२६॥

वारॉ जोवरेक व्हांव्ता ।
आस्स म्हुणु तॅर्ना कळ्ता ।
निवांत जाय्सरी उर्ता ।
व्हांव्त आप्णाइत्ल्याक ॥२२७॥

सूर्यासांगातीची बुड्ता ।
उद्काभासु तॉ सर्वथा ।
वाती नीव्नापुडॅ वत्ता ।
दिव्लेचोई उज्वाडु ॥२२८॥

संसारा मूळ अज्ञान ।
वच्चुनु तँ यॅद ज्ञान ।
तरीची उपशमन ।
जाय्द सर्व व्यथेचँ ॥२२९॥

अनादि हॉ जँ लॅक्ताती ।
चुक्कीची ना ही सम्जुती ।
दीर्घकाला धोर्नु स्थिती ।
आशिल्मितीं हाज्जी ही ॥२३०॥

मूळांतु जरी ना अश्शी ।
सुरु जाल्लॉ म्होण्चँ कश्शी ।
हँ जरी तूं सम्जुन् घेश्शी ।
कळ्तलँ जँ शाश्र्वत ॥२३१॥

जँ शाश्वत सनातन ।
तँची तूं अनादि म्हण ।
लागू पण्णा हँ वचन ।
ह्या संसारा रुक्काक ॥२३२॥

जँ रॅ येनेची जन्माक ।
सोद्येद वॅ त्या आव्सूक ।
नात्तिल्याच्या आभासाक ।
म्होण्का पड्ता अनादि ॥२३३॥

अगर्भिणील्या चॅर्डालँ ।
जातक वॅ कोर्का जात्लँ ।
आकाश नित्य उर्तलँ ।
निळँ कस्ल्या वॅल्यानॅ ॥२३४॥

आकाशांतुल्या फुल्लाचॉ ।
कश्शी बा थुंटोंव्चॉ ।
मायावी ह्या संसाराचॉ ।
आदिकालु तॉ नाची ॥२३५॥

टेंटु मड्क्याच्या त्या अभावांतुं ।
दिस्ता तँची कल्पनेंतुं ।
तश्शी आस्स ह्या मायेंतुं ।
संसाराचॉ विस्तारु ॥२३६॥

मायेक ना आदि अंतु ।
स्थिती दिस्ता जी मद्देंतुं ।
तीवै पूरा कल्पनेंतुं ।
घुस्पुन् पळ्ळ्या झांटींतुं ॥२३७॥

ब्रह्मगिरींतुं उगमु ।
वा समुद्रांतुं संगमु ।
जाय्ना, मद्दँ दृष्टीभ्रमु ।
मात्र जात्ता उद्‌काचॉ ॥२३८॥

आदि अंतु दोन्नी नाती ।
मद्दँ दिस्ता तीवै भांती ।
व्यर्थत्वाची चमत्कृती ।
पळॅ कित्ली अगाध ॥२३९॥

सप्तरंगी इंद्रधनु ।
ताज्यारी हॉ रूकू म्होण्णू ।
हॉ पिस्सॉ रंगांक भुल्नू ।
रिग्ता मायाजालांतुं ॥२४०॥

बहुरूपी वेषधारी ।
अज्ञान ह्याचि वॅळारी ।
नांच्ता येव्नु हाज्मुखारी ।
हाक्काई तँ नांचैता ॥२४१॥

मूळरंगु आकाशाचॉ ।
निळॉ न्हई दॉळ्यां दिस्चॉ ।
तॉवै पळॅ ना नित्याचॉ ।
बदल्ता तॉ क्षणांतुं ॥२४२॥

सॉप्नांतुं हॉ जँ पळैता ।
ताव्वळी तँ मान्य कर्ता ।
तूंचि सांग ही मान्यता ।
अस्ली म्होण्ची की नक्ली ॥२४३॥

चंद्रबिंब तळ्यांतुलँ ।
धर्तना मर्कट बुड्‌लँ ।
पोळोनु हँ रूप वैलँ ।
अश्शी पड्‌ता फस्सुनु ॥२४४॥

उद्‌का पाळ वीजे लोळु ।
येंव्च्या वच्च्या कित्लॉ वेळु ।
ताज्ज्याकै वग्गी हॉ खेळु ।
संसाराचॉ कव्वळ्ता ॥२४५॥

वारॉ वसंतऋतुंतुं ।
व्हांव्त उर्ता सदोदितु ।
तश्शी संसारु अस्वस्थु ।
कॅर्नाई पळैल्तरी ॥२४६॥

आदि ना म्हुणु ना अंतु ।
आकारूई ना शाश्वतु ।
कष्ट नाती पाडोंच्यांतुं ।
यॅच्ना कोर्का कस्ल्याक ॥२४७॥

आप्पण कोणु म्हुणु कळ्णा ।
रुक्का वाडी नद्रे यॅना ।
म्हुणु आत्मज्ञानाविना ।
जाय्श्ना हाक्का खांडूक ॥२४८॥

अन्य उपाय जॅ कर्शी ।
तॅ तूं हाक्का खांव्च्या घाल्शी ।
आनी चडची शिर्कशी ।
तूं तागेल्या आळ्यांतुं ॥२४९॥

सांग कित्लॅ फंतां अश्शी ।
वैरी तग्गू फिर्त उर्शी ।
आत्मज्ञान कोर्नु घेश्शी ।
पड्‌तलॉ हॉ तत्काळ ॥२५०॥

सर्पु लेक्कुनु राज्वाक ।
दॉण्णाॅ हाड्का वॅ मारूक ।
व्यर्थ शीणु तॉ कस्ल्याक ।
कोर्का म्हुणु कळ्णाची ॥२५१॥

मृगजळ दांटुंच्याक ।
वच्का वॅ दोणी सोहूक ।
की व्हांव्त वत्ल्या राक्डाक ।
धोर्नु बुड्का हॉळांतुं ॥२५२॥

मायावी ह्या संसाराक ।
त्रासु म्हुणु लॅक्तल्याक ।
सुट्टूकै पळैतल्याक ।
पोड्का पड्ता शिर्कुनु ॥२५३॥

सॉप्नांतुं जॉ घायु जात्ता ।
घायु न्हई तॉ हँ कळ्ता ।
ज्यावॅळारी हॉ पळैता ।
जागी जाव्नु हँ सत्य ॥२५४॥

त्यावॅळारी जात्लँ ज्ञान ।
ज्यावॅळारी बुध्दी मन ।
वैराग्याचँ अधिष्ठान ।
मेळ्णु जात्लीं सुद्दढ ॥२५५॥

सर्व भोग त्रैलोक्यांत्लॅ ।
ऩाक्काती तॅ म्हुणु सॉळ्ळॅ ।
सुण्यानॅ वकारॅ काळ्ळॅ ।
कश्की शॅळ्या शित्ताचॅ ॥२५६॥

भोग्य विषयु जॉ दिस्ता ।
ताज्जी हॉ आसक्ती सॉड्ता ।
आनी निवृत्तीचँ धर्ता ।
अेक ध्रुव नक्षत्र ॥२५७॥

विस्सोर्नु हॉ देहभावु ।
घॅत्ता स्वरूपानुभवु ।
अमूर्त सुखाचॉ ठावु ।
धर्ता तळहात्तारी ॥२५८॥

तॉ विवेकाच्या साणेरी ।
झरोनु चंदनावारी ।
तिळॉ ताज्जॉ भ्रूमध्यारी ।
सोहं अस्मीचॉ लाय्ता ॥२५९॥

निर्धाराचँ धैर्य घेव्नु ।
दृढता निश्चित कोर्नु ।
प्रचीती शुध्द दव्वोर्नु ।
स्थिर धर्ता चित्तांतुं ॥२६०॥

निदिध्यासानॅ हँ ज्ञान ।
जात्ता सूक्ष्म आनी तीक्ष्ण ।
पाडोंचोई पण्णा शीण ।
पड्ता रूकू आप्याप ॥२६१॥

आत्मज्ञानाचँ अद्वैत ।
प्रभावु हाज्जॉ सर्वत्र ।
जाय्नापुडॅ प्रस्थापित ।
उर्लॉ खंईं संसारु ॥२६२॥

शरदांतुं वारॉ व्हांव्ता ।
आकाश निरभ्र कर्ता ।
सूर्यु उदयाक यॅत्ता ।
गिळ्णु काड्ता काळोकू ॥२६३॥

नाना खॅळ सॉप्नांतुलॅ ।
जागी जाय्नापुडॅ सर्लॅ ।
तश्शी नामशेष जात्लॅ ।
भेद आत्मस्थितींतुं ॥२६४॥

दीसा जांव्चॉ तळ्या भासु ।
हरैता चंद्रा प्रकाशु ।
नष्ट जात्ता हॉ आभासु ।
तश्शी ह्या संसाराचॉ ॥२६५॥

अश्शी वीरशिरोमणी ।
आस्स ह्या रुक्काची काणी ।
आय्कुनु ती आत्मज्ञानी ।
सांग कश्शी घाब्रेद ॥२६६॥

हॉ नी तॉ ना भेदभावु ।
नी अहंतेचॉ अभावु ।
तरी स्वरूपानुभवु ।
येव्नु जात्लॉ हॉ ज्ञानी ॥२६७॥

कानडी इद्रारी धोर्नु ।
आप्णालँ तॉंड पोळोनु ।
म्हण्शी ज्ञानी जाल्लाँ म्हुणु ।
ह्या रूपदर्शनानॅ ॥२६८॥

बांयि खळ्ळेल्मितीं दिस्लँ ।
उद्दाक जँ वैरी आय्लँ ।
अश्शी म्होण्चँ की आश्शिलँ ।
ॲक्ळाक तँ भुय्यिंतूं ॥२६९॥

रूप आस्ता वॅ उद्कांतुं ।
की तँ आकाश मड्क्यांतुं ।
रूप आकाश आप्णांतुं ।
परिपूर्ण स्वयंभू ॥२७०॥

राक्कूड जळ्ता ज्वालेंतुं ।
उर्ज्जॉ नीव्नु जात्ता शांतु ।
आप्णाइत्ल्याक आप्णांतुं ।
तश्शी धोर्का स्वरूप ॥२७१॥

जीब रूची आप्णागेली ।
घॅत्ता जी जांव्का जाल्लेली ।
दॉळ्ळॉ दृष्टी आप्णागेली ।
धोर्नु आस्ता आप्णांतुं ॥२७२॥

उज्वाडु मॅळ्ता तेजांतुं ।
धाई दिशा आकाशांतुं ।
भर्ता उद्दाक कळ्शांतुं ।
कश्की अेकपणानॅ ॥२७३॥

जीव शिव जाव्नु अेक ।
मेळ्चँ आप्णॉची आप्णाक ।
अद्वैत अनुभवाक ।
येव्नु जांव्चँ तद्रूप ॥२७४॥

पळैनात्तिल्तरी दिस्चँ ।
कळ्णा म्हुणु तँ जँ जाण्चँ ।
मूळ आदि बीज जांव्चँ ।
तँची आत्मस्वरूप ॥२७५॥

सांग त्या निरुपाधिक ।
नुस्तेंची लाय्ता कस्ल्याक ।
श्रुति नामरूपादिक ।
व्यर्थ जीब शिणैता ॥२७६॥

नाक्का स्वर्गु हॉ संसारु ।
सॉड्ताती येव्नु बॅजारु ।
योगज्ञानाचॉ विचारु ।
कर्ताती ह्यामुखारी ॥२७७॥

वैराग्य हँ इत्लँथाई ।
मेळ्चँ तँ ब्रह्मपदई ।
सोण्णु दीव्नु ताज्ज्याकई ।
पेल्दिकानॅ पाव्ताती ॥२७८॥

सॉण्णापुडॅं अहंभाव ।
विषयविकार सर्व ।
निजधाम अेकमेव ।
शुध्दिपत्र हॅं मॅळ्ता ॥२७९॥

कामविकारांच्यॉ वाल्यॉ ।
बेसुमार वाड्त गॅल्यॉ ।
संसाराच्यॉ जाय्त आय्ल्यॉ ।
परंपरा अनेक ॥२८०॥

अेक्कची हाज्जॅं कारण ।
स्वरूपाचॅंची अज्ञान ।
विस्तार पाव्ल्यां संस्थान ।
हॅं हांवं तूं पणाचॅं ॥२८१॥

आप्णांतुं आप्पाण जांञ्चॅं ।
शिंय्यानॅं शिंय्यांतुं आस्चॅं ।
तश्शी पार्था जाव्नु उर्चॅं ।
अेकरूप आत्म्यांतुं ॥२८२॥

आनी हॅंवै अेक जाण ।
तॅंची रॅं शाश्वत स्थान ।
जाय्श्ना पुनरागमन ।
थंईंथाव्नु कल्पांतुं ॥२८३॥

यॅत्ता प्रळ्यसमय ।
जात्ता सर्व जळमय ।
ज्ञानई अद्वैतमय ।
हॅं समग्र सर्वत्र ॥२८४॥

पाव्सु पूरा पोण्णु वत्ता ।
आकाश निरभ्र जात्ता ।
तश्शी जॅं मनई सॉड्ता ।
मोह नी अभिमान ॥२८५॥

अस्ल्या ह्या मनादिकाक ।
घुब्नाती हॅं कामादिक ।
जश्शी दीन दरिद्रक ।
मेळू यॅना अतिथी ॥२८६॥

फलोत्पत्ति जात्तां जात्तां ।
कश्की केळी सुक्कू लाग्ता ।
आत्मलाभु घॅत्तां घॅत्तां ।
कर्मं गळू लाग्ताती ॥२८७॥

रूकू जळू सुरू जात्ता ।
घुडांत्थाव्नु पक्षी उब्ता ।
तश्शी विकल्पुई राब्ता ।
चारि हात धूरची ॥२८८॥

बुध्दी भेदाभेदशून्य ।
मन निर्मळ प्रसन्न ।
चिग्रना निकृष्ट तण ।
निर्दोष भुय्यिंत्थाव्नु ॥२८९॥

कीं फाल्फालॅं जाय्त आस्ता ।
राती पायु माक्षी घॅत्ता ।
अज्ञानासांगाती वत्ता ।
तश्शी देहाहंता ही ॥२९०॥

आयुष्य यॅत्ता सरत ।
वत्ता देह अकस्मात ।
कश्शी आनी कॅर्ना द्वैत ।
गळ्णु पड्ता तॅं कळ्णा ॥२९१॥

लॉखंड ना परिसांतुं ।
काळोकूई ना सूर्यांतुं ।
तश्शी ह्या आत्मज्ञानांतुं ।
द्वैतभावु मॅळश्ना ॥२९२॥

सुखदुःखाच्या रूपांतुं ।
झटापटी संसारांतुं ।
हँ मात्र पण्णा द्वंद्वांतुं ।
सदोदित अलिप्त ॥२९३॥

सॉप्नांतुलँ सिहासन ।
अथवा देहावसान ।
हर्षशोकाक कारण ।
जागी जावरेकची ॥२९४॥

सुखदुःख पापपुण्य ।
द्वंद्वं हीं हाक्का अगण्य ।
गरुडालँ आगमन ।
सर्पु रिग्ता बीळांतुं ॥२९५॥

असार तँ नीर सोण्णु ।
सार क्षीर मात्र पिव्नु ।
राजहंसु तृप्त जाव्नु ।
रम्ता आत्मानंदांतुं ॥२९६॥

सूर्यु जलबाष्प घेव्नु ।
पृथ्वीचेरी पाव्सु हाण्णु ।
तँची जलाशयांत्थाव्नु ।
पर्तुन् घॅत्ता आप्णांतुं ॥२९७॥

आत्मवस्तूक विस्सर्ता ।
प्रपंचाक धोर्नु बस्ता ।
मन भिर्भिर्तची उर्ता ।
ज्ञान कर्ता तँ शांत ॥२९८॥

गंगा सागराक मॅळ्ता ।
प्रवाहु तद्रूप जात्ता ।
तश्शी विवेकुई धर्ता ।
आत्मरूप प्रशांत ॥२९९॥

सर्वस्व आय्लँ आप्णांतुं ।
इच्छा कस्ली ना मनांतुं ।
वत्ता वॅ सान्नीमुल्यांतुं ।
सर्वव्यापी आकाश ॥३००॥

बीज खंचेंइ भाज्जिलँ ।
सांग कश्शी चिग्रतलँ ।
कश्शी बा विकार यॅत्लॅ ।
ज्ञान्यागॅल्या मनांतुं ॥३०१॥

काळ्ळ्यारी मंदारा खौलॉ ।
क्षीराब्धि निश्चळु जात्लॉ ।
कामाक जरी निक्ळाय्लॉ ।
मन जात्लँ सुस्थित ॥३०२॥

पुन्नव आस्सॉ चतुर्थी ।
चंद्राक ना ताज्जी खंती ।
त्या त्या वॅळारी ती स्थिती ।
पूर्ण जाव्नु आस्ताची ॥३०३॥

उदाहरणं हीं कित्लीं ।
सांगिल्तरी नप्रॉ जात्लीं।
विषयवासना सग्ळी ।
उब्बुन् वत्ता धुळीशी ॥३०४॥

अलंकार सुवर्णांतुं ।
तश्शी ज्ञानी परमात्म्यांतुं ।
मेळ्णु भॉग्ता तॉ एकांतु ।
नित्य एकतत्त्वांतु ॥३०५॥

निम्गिशी सुभद्रापती ।
कश्शी जात्ता हाज्जी प्राप्ती ।
निरंतर ही सद्गती ।
कळ्ळँ न्हवॅ हँ आत्तं ॥३०६॥

सग्ळ्यांक तँ दिस्सू पण्णा ।
सॉद्ल्यारी तँ हात्ता मेळ्णा ।
अंतरंगची अर्जुना ।
हाज्जँ अेक प्रमाण ॥३०७॥

दिव्यांच्या जँ झग्मगांतुं ।
वा चंद्राच्या प्रकाशांतुं ।
किंवा सूर्याच्या तेजांतुं ।
दृश्य तँ तँ आभासु ॥३०८॥

सर्वै दिस्चँ विश्वाभासु ।
कल्पनेचॉची विलासु ।
असत्याचॉ प्रतिभासु ।
सत्य निप्ल्यां भासांतुं ॥३०९॥

झळाळी न्हई मोत्यांची ।
किमया की ही शिंप्ल्यांची ।
सर्पु न्हई ही दोरीची ।
हँ कळ्ता तँची सत्य ॥३१०॥

चंद्रसूर्यादींचँ तेज ।
कॉणामितीं हँ आस्काज ।
कळ्ता की तँ मूळ ।
ओज त्या अनादि वस्तूचँ ॥३११॥

तेजोराशी ती जी वस्तू ।
आस्ता सर्व भूतात्म्यांतूं ।
समत्वानॅ त्या सर्वंतूं ।
तश्शी चंद्रसूर्यांतुं ॥३१२॥

हांगेलँ तेज ताज्वारी ।
पड्ता सम सर्वांचेरी ।
कारण भाय्रभित्तरी ।
त्या तेजाचॅं हॅं अंश ॥३१३॥

जाय्नापुडॅ सूर्योदयु ।
तारागण पाव्ता लयु ।
तेजोनिधि लाय्ता न्यायु ।
हॉचि सूर्यचंद्राक ॥३१४॥

जागी जाव्नु सॉप्नांतुलँ ।
सर्वै विस्सर्ता जँ जाल्लँ ।
सांज्वॅळारी वॅ उर्तलँ ।
सांग तँ मृगजळ ॥३१५॥

खंईं कस्लॉ ना आभासु ।
तॉची मगेलॉ निवासु ।
प्रथम श्रेणीचॉ खासु ।
जाण हँ तूं कौंतेया ॥३१६॥

थंईं येव्नु जॅ पाव्ताती ।
माग्गिरी तॅ पर्तनाती ।
समुद्राक जॅ मॅळ्ताती ।
हॉळ माक्षी फिर्नाती ॥३१७॥

कश्की हस्तिनी मिट्टाची ।
कर्गता समुद्रांतूंची ।
तिक्का मूलावस्थेंतूंची ।
जाय्ना भाय्र येंञ्च्याक ॥३१८॥

अग्निज्वाला आकाशांतुं ।
विर्ता दॅव्ना ती कुंडांतुं ।
ताप्पैलेल्या लॉखंडांतुं ।
जिर्नु वत्ता उद्काक ॥३१९॥

माक्का येव्नु मेळ्का म्हुणु ।
आय्लॅ जॅ ती वाट धोर्नु ।
ज्ञानसंपन्न तॅ जाव्नु ।
मज्ज्यांतुंची राब्ल्याती ॥३२०॥

आय्कुनु सुभद्राकांतु ।
म्हणता की तॉ प्रज्ञावंतु ।
आय्ल्या शंका ही मनांतुं ।
जरी मॅळ्ळा प्रसादु ॥३२१॥

दॅवा तुक्का जॅ मॅळ्ताती ।
तुल्यागीची जॅ राब्ताती ।
तॅ तूंची जाव्नु आस्ताती ।
की तॅवी तॅ विंगड ॥३२२॥

भ्रमरु फुल्लारी बस्ता ।
मधुसेवनई कर्ता ।
तांतूंची तल्लीन जात्ता ।
म्हुणु जात्ता वॅ फूल ॥३२३॥

बाणु भात्थांतुलॉ भिन्नु ।
वेधु लक्ष्याचॉची धोर्नु ।
ताक्काची तॉ स्पर्शु कोर्नु ।
यॅना की तॉ परत ॥३२४॥

किंवा तॅची तूं आस्ल्यारी ।
कॉणॅ कॉणा मेळ्ळेल्वारी ।
जाय्द सांग शस्त्राचेरी ।
उटाय्द वॅ शस्त्रची ॥३२५॥

अवयव ह्या देहाचॅ ।
भिन्न की अभिन्न लेक्चॅ ।
जीवाक नी तुक्का म्होण्च ।
भिन्न की तॅ अभिन्न ॥३२६॥

परस्पर तुम्मी भिन्न ।
कश्शी जाय्द हँ मीलन ।
मॅळद कॉणाक कॉण ।
निम्गूंकाज कस्ल्याक ॥३२७॥

तुक्का मेळ्णु जॅ राब्ताती ।
परत माक्षी यॅनाती ।
तॅ कॉण हँ लक्ष्मीपती ।
सांग माक्का सम्जाव्नु ॥३२८॥

केवळ जिज्ञासा म्हुणु ।
कॅल्ला शिष्यानॅ हॉ प्रश्नु ।
म्हुणु तॉ सर्वज्ञु कृष्णु ।
म्हणता पाव्नु संतोषु ॥३२९॥

माक्का मेळ्णु जॅ मज्ज्यांतु ।
कश्शी राब्ताती आय्क तूं ।
भिन्नाभिन्न विचारांतुं ।
दोनि दृष्टी आस्सती ॥३३०॥

पळैल्यारी विवेकानॅ ।
अेक आम्मी स्वभावानॅ ।
पळॅ आम्कां स्थूलत्वानॅ ।
भिन्न तॅची दिस्तलॅ ॥३३१॥

उद्कारी जँ दिस्ता पाळ ।
पार्था तँ केवळ जळ ।
स्वरूप तँची तँ मूळ ।
कश्की त्याचि उद्काचँ ॥३३२॥

नानाविध अलंकार ।
सुवर्णाचॅची आकार ।
जरी जाल्लँ रूपांतर ।
तरी तँची सुवर्ण ॥३३३॥

ज्ञानदृष्टी ही आस्ल्यारी ।
अभिन्न तॅ धनुर्धारी ।
तीचि जरी ना जाल्यारी ।
भिन्न दिस्तलॅ सर्व ॥३३४॥

परमात्मा सर्व भूतांतुं ।
आस्का भावु हॉ मनांतुं ।
दुजाभावु व्यवहारांतुं ।
सांग करशी ऊरद ॥३३५॥

विस्तारु आकाशा इत्लॉ ।
जरी जाय्द सूर्यागॅलॉ ।
खंईं ताक्का रॅ मॅळ्तलॉ ।
दुस्त्रॉ जागॉ शिरूक ॥३३६॥

न्हंय्यॉ सरोवरं हॉळ ।
तींचि वॅ प्रळयजळ ।
अंशरूप तीं केवळ ।
तांकां हांवं सर्वस्व ॥३३७॥

उद्का स्वभावु सरळ ।
होळु मात्र उत्शृंखळ ।
सूर्याक दाकैता जळ।
प्रतिबिंब तागेलँ ॥३३८॥

आकाश हँ चौकोनी ना ।
अथवा हँ वाट्कुळँ ना ।
मठाघटांतुं आस्तना ।
घॅत्ता तॉ तॉ आकारु ॥३३९॥

सॉप्नाचॉ घेव्नु आधारु ।
जाव्येद की विश्र्वंभरु ।
वा सम्राटु सर्वेश्वरु ।
सत्यासत्य तूं जाण ॥३४०॥

सुवर्णांतु जरी लाख ।
कोणुइ म्हण्णा की तँ चॉख ।
तरशी शुध्द स्वरूपाक ।
मायेचॉ हॉ कलंकु ॥३४१॥

अज्ञान कॉणाक सॉण्णा ।
आप्पण कॉण हँ कळ्णा।
विभ्रमांतुंची आस्तना ।
म्हणता हांवं हॉ देहु ॥३४२॥

फक्त देहाचॉ विचारु ।
पळ्ळा आत्म्याचॉ विस्सरु ।
धर्ना विशेष आदरु ।
अंशात्मक जीवाचॉ ॥३४३॥

वारयामितीं हॉ सागरु ।
धर्ता पाळांचॉ आकारु ।
म्हुणु तागेलॉ विस्तारु ।
तांचित्लॉची म्होण्चॉ वॅ ॥३४४॥

जीवु जॉ मृत्युलोकांतुं ।
भर्ता चैतन्य देहांतुं ।
सांगाती अहंताई तांतूं ।
तॉ मगेलॉची अंशु ॥३४५॥

जीवा इत्पतची ज्ञान ।
धोर्नु तित्लँ देहभान ।
कर्ताती वेव्हारु जान ।
ह्या रॅ मृत्युलोकांतुं ॥३४६॥

देह घेव्नु जन्मा येंव्चँ ।
हांगाची तॉ सोण्णु वच्चँ ।
हंचि  अेक सत्य लेक्चँ ।
हॉ हांगाचॉ संसारु ॥३४७॥

चंद्रु दिस्ता जॉ तळ्यांतुं ।
आस्सना तॉ त्या जळांतुं ।
हांवै ह्या जीवसृष्टींतुं ।
दिश्शिल्तरी आस्सना ॥३४८॥

दव्वर्लेलॉ कुंक्माचेरी ।
स्फटिकाचॉ मणी जरी ।
तांब्डा म्हुणु दिश्शिल्तरी ।
तश्शी खरँ आस्सना ॥३४९॥

मगेलँ अनादिपण ।
भंगना वा क्रियमाण ।
कर्ता वा भोक्ता हँ जाण ।
केवळ अेक भ्रमु ॥३५०॥

की पार्था अश्शी म्होण्येद ।
आत्मा स्वयमेव शुध्द ।
प्रकृतींतु जाव्नु बध्द ।
व्हांव्ता भारु तिगेलॉ ॥३५१॥

मनादि हीं सइंद्रियं ।
जाव्नु हॉ प्रकृतिमय ।
त्तांन्तान्नी कोर्चें तीं कार्यं ।
कोरु लाग्ता आप्पण ॥३५२॥

कश्की संन्यासी सॉप्नांतु ।
धाव्नु खॅळ्ता संसारांतु ।
परिवारासमवेतु ।
हॉवै तश्शी हिज्मितीं ॥३५३॥

कोणु आप्पण विस्सर्ता ।
हिन्नॅ सांगिल्वारी कर्ता ।
हिज्वारीची चलू लाग्ता ।
पड्ता मोहपाशांतुं ॥३५४॥

मन गॅल्लेल्कडॅ वत्ता ।
कान्नार् पळ्ळेलँ आय्कता ।
जँ जँ उल्लोंकाशँ दिस्ता ।
तँ तँ सॉड्ता उल्लोनु ॥३५५॥

खंईं कस्ल्याक आप्पुड्का ।
स्पर्शसुख कश्शी घेंव्का ।
हँवै कळू लाग्ता हाक्का ।
ह्या त्वचेच्या संज्ञेनॅ ॥३५६॥

विश्वाचीं हीं चित्रविचित्र ।
रूपं पोळोंच्याक नेत्र ।
धांव्च्या लाग्ताती सर्वत्र ।
स्वैर स्वच्छंदांतुंची ॥३५७॥

तिक्शँ आम्शँ मिट्शँ गॉड्शँ ।
दिस्सू लाग्ता तँ खांव्यांशँ ।
लागिल्वारी जात्ता पिश्शँ ।
जिब्बेक ह्या रुचीचँ ॥३५८॥

विविध गंध घेंव्च्याक ।
नांक लाग्ता हुळ्हुळ्च्याक ।
लाग्ता सर्वत्र सोद्दूक ।
विषय त्या गंधांचॅ ॥३५९॥

देहेंद्रियांचॉ हॉ पती ।
जीवु मनाक सांगाती ।
घेव्नु फिर्ता दीसा रात्ती ।
विषयांच्या कूडांतुं ॥३६०॥

जोवरेक हँ शरीर ।
उर्ता जीवागॅलँ घर ।
कर्ता भोक्ता व्यवहार ।
तागेलॅ तोवरेक ॥३६१॥

राजाश्रयु जोवरेक ।
मॅळ्ता अैश्वर्य भोग्गूक ।
आनी विलासाची भूक ।
निव्वाई तित्ल्यारीची ॥३६२॥

नरदेह प्राप्त जात्ता ।
कर्तृत्वाहंकारु वाड्ता ।
यॅरादारी सुरु जात्ता ।
विषयवासनांची ॥३६३॥

जीवु शरीर सॉड्तना ।
घॅत्ता इंद्रियवासना ।
सांगाती चुक्कनस्तना ।
मुखावेल्या यात्रेक ॥३६४॥

अतिथिलॉ अपमानु ।
माग्गिर् भॉग्ता यजमानु ।
दोरयांचॉ आधारु काण्णु ।
घॅत्लॉ की जाल्लॉ खेळु ॥३६५॥

जाल्लॉ म्हळ्ळँ की सूर्यास्तु ।
कस्लँ दिस्सना काळ्कांतुं ।
व्हर्ता व्हाव्नु दिगंतांतुं ।
वारॉ फुल्लां पर्मळु ॥३६६॥

तश्शी षडिंद्रियं मन ।
जीवुई हांकां हरण ।
कोर्नु व्हर्ता हँ सदन ।
सोण्णु वत्ना कौंतेया ॥३६७॥

जीवु हांगा वा स्वर्गांतुं ।
नव्या खंच्याई देहांतुं ।
यॅवॉ तॉ त्या बंधनांतुं ।
अॅक्ळाच्याची शिर्कता ॥३६८॥

दिवॉ नीव्नु गॅल्लॉ म्हुणु ।
पळॅ तूं नॅवानॅ लाव्नु ।
माक्षीवारीची तॉ जळ्णु ।
दित्लॉ तॉची प्रकाशु ॥३६९॥

पार्था अश्शी आश्शिल्तरी ।
पण्णा उज्वाडु भित्तरी ।
अश्शी जन्मजन्मांतरी ।
यॅत्ता वत्ता अज्ञानी ॥३७०॥

म्हणता आत्मा जन्मा यॅत्ता ।
सुख दुःख दोन्नी भॉग्ता ।
आनी देह सोण्णु वत्ता ।
हँची प्रत्यक्ष सत्य ॥३७१॥

येंव्चँ भोग्चँ आनी वच्चँ ।
सर्वै प्रकृतीनॅ कोर्चें ।
हान्नॅ मात्र अेक्क म्होण्चँ ।
की हँ खॅळ्ता आत्माची ॥३७२॥

देहपिंड सचेतनु ।
म्हणता हॉ की तॉ पोळोनु ।
आत्मा आय्लॉ जन्मु घेव्नु ।
कस्ली पळॅ ही भ्रांती ॥३७३॥

इंद्रियांनीं कोर्चीं कर्मं ।
पोळोनु हॉ देहधर्म ।
म्हणता माक्का कळ्ळँ मर्म ।
संसारांत्ल्या भोगांचँ ॥३७४॥

भोगु क्षीण जाय्त यॅत्ता ।
देह दृष्टीआड वत्ता ।
गॅल्लॉ गॅल्लॉ आत्मा म्हणता ।
खंईं कश्शी तँ गोत्ना ॥३७५॥

रूकू धॉल्तना पळैता ।
वारॉ आय्लॉ-आय्लॉ म्हणता ।
रूकु नात्तिल्कडॅ पार्था ।
आस्सना वॅ तॉ सांग ॥३७६॥

कान्‌डी इद्रारी धर्ल्यारी ।
रूप दिस्ता त्या वॅळारी ।
ॲक्ळाकची धनुर्धारी ।
आश्शिलँ तँ व्है की ना ॥३७७॥

कान्‌डी दव्वर्ली बग्लेक ।
जाल्लँ खंईं तँ मायिक ।
दिस्सना म्हुणु ॲक्ळाक ।
नाशिलँची म्होण्चँ की ॥३७८॥

आकाशाचँ तत्त्व शब्दु ।
न्हंई मेघांचॉ तॉ नादु ।
धांव्ता आकाशांतुं चंद्रु ।
की धांव्ताती तीं मॉडं ॥३७९॥

ह्या देहांतुं येंञ्चँ वच्चँ ।
सर्वै हँ आत्म्यानॅ कोर्चें ।
विचार कर्नस्तना म्होण्चँ
हँचि अेक मूढांनीं ॥३८०॥

आप्‌णाइत्ल्याक आप्णांतुं ।
आत्मा ना तॉ ह्या व्यापांतुं ।
धर्मु देहाचॉ देहांतुं ।
हँ म्हणतलॅ थॉडॅची ॥३८१॥

अश्शी जॅ जाण्णु आस्ताती ।
देहातीत तॅ जात्ताती ।
आत्मतत्त्व पळैताती ।
प्रखर प्रकाशांतुं ॥३८२॥

सारासार विवेकानॅ ।
शुध्द स्वयंप्रेरणेनॅ ।
जागृत ज्ञानदृष्टीनॅ ।
पळैताती आत्म्याक ॥३८३॥

आकाश तारयांनीं भर्लँ ।
ताज्मितीं तँ जड जाल्लँ ।
म्हुणु समुद्रांतुं पळ्ळँ ।
अश्शी दिस्ता वॅ तुक्का ॥३८४॥

आकाश वॅ देव्नु यॅत्ता ।
आत्मा आश्शिल्कडॅ आस्ता ।
देही जाल्लेल्वारी दिस्ता ।
दिस्चँ सर्वै आभासु ॥३८५॥

तळ्यांतुल्या पाळाँवैलॉ ।
चंद्रु जरी थर्थरेलॉ ।
तॉ थंईं स्थिर आस्तलॉ ।
आकाशांतुं हँ सत्य ॥३८६॥

मॅळॉ ना मॅळॉ सूर्याक ।
तळँ रूप पोळोंच्याक ।
तश्शी देह ह्या आत्म्याक ।
मॅळॉ ना मॅळॉ चल्ता ॥३८७॥

मड्‌कँ कॅल्लँ भोत्तुन् गॅल्लँ ।
आकाशई ताज्भित्तर्लँ ।
सीमित विस्तार पाव्लँ ।
तँ महदाकाशांतुं ॥३८८॥

देह अश्शी यॅत्ता वत्ता ।
हँचि ओक दॉळ्यां दिस्ता ।
शाश्वत आत्मयाली सत्ता ।
ती मात्र कश्शी कळ्णा ॥३८९॥

चैतन्याक यॅना भर्ती ।
आनी लाग्गनाई सुक्ती ।
कार्य जाय्नाती ताज्मितीं ।
वा तॉ करैनाई तीं ॥३९०॥

कळ्ता हँ आप्णाइत्ल्याक ।
बुध्दीई पारदर्शक ।
जाव्नु सर्व शास्त्रादिक ।
अवगत जात्ताती ॥३९१॥

मन जरी ना विरक्त ।
सर्व विद्वत्ता ही व्यर्थ ।
कश्शी जात्लॉ सांग मुक्त ।
सर्वात्मका मेळूक ॥३९२॥

सर्व शास्त्रं मुखोद्गत ।
मन विषयांतुं लिप्त ।
जाय्श्ना ताक्का हांवं प्राप्त ।
कॅर्नाकई कौंतेया ॥३९३॥

उपदेशु संतांगॅलॉ ।
सॉप्नांतुं बड्बड्त पळ्ळॉ ।
ग्रंथु पूजेक दव्वर्लॉ ।
भवपाशु थुंटश्ना ॥३९४॥

दोन्नी दॉळॅ धांपुन् घेव्नु ।
मोती नांकालाग्गी धोर्नु ।
अश्शी ही परीक्षा कोर्नु ।
सांगू जाय्द वॅ मॉल ॥३९५॥

अहंकारग्रस्त चित्त ।
मुखांतुं शास्त्रसिध्दांत ।
कल्पांतांतुंई निश्चित ।
माक्का येव्नु मॅळश्ना ॥३९६॥

हांवं ह्या भूतमात्रांतुं ।
एकु व्यापकु सर्वांतु ।
कश्शी हँ सांग्तां आय्क तूं ।
लक्ष दीव्नु सन्मित्रा ॥३९७॥

सूर्यासांगाती हँ विश्व ।
जाल्यां प्रकाशित सर्व ।
तँ जँ तेज एकमेव ।
आदि अंतीं मगेलँ ॥३९८॥

सूर्यु उद्काक शोषण ।
कोर्नु पाव्ता अंतर्धान ।
शीतल चंद्रकिरण ।
जाव्नु यॅत्तां माग्गिरी ॥३९९॥

आनी ज्वलन पचन ।
हँ ज्या अग्नीचँ लक्षण ।
त्या तेजाचँ संक्रमण ।
कर्त उर्तां अखंड ॥४००॥

रिग्लां हांवं भूगर्भांतुं ।
मात्ये गॉळॉ व्यवस्थितु ।
राव्लां महासागरांतुं ।
कर्गनस्तना पार्था ॥४०१॥

चराचराचॉ सर्वथा ।
भारु हीची पृथ्वी धर्ता ।
तीवै शक्ती हांवं कर्ता ।
प्रभावित तिज्ज्यांतुं ॥४०२॥

आकाशाचँ सरोवर ।
भर्त उर्तां निरंतर ।
सोण्णु अमृताची धार ।
हांवं चंद्ररूपानॅ ॥४०३॥

ह्या अमृताचँ सिंचन ।
कर्ता औषधी-पोषण ।
सर्वांकई संजीवन ।
दित्तां हांवं प्रेमानॅ ॥४०४॥

धनधान्य उत्पादन ।
कोर्नु निर्माण हँ अन्न ।
सर्वांगॅलँ संवर्धन ।
कर्ता जीवभावानॅ ॥४०५॥

अन्नाचँ पचन जाव्नु ।
समाधान मॅळॉ म्हुणु ।
व्यवस्था अेकी येव्जूनु ।
कॅल्या ताज्जी सिध्दता ॥४०६॥

तांगेल्या देहाभित्तरी ।
जठराग्नी नाभिचेरी ।
जाव्नु हांवं धनुर्धारी ।
कर्ता अन्नपचन ॥४०७॥

प्राणापानाच्या क्रियेनॅ ।
फुंकुनु नित्य नेमानॅ ।
पचैलँ सहजतेनॅ ।
कित्लँ अन्न हँ कळणा ॥४०८॥

सुक्किलँ अथवा वल्लँ ।
शिज्जैलेलँ वा भाज्जिलँ ।
खंचेंई ह्या चारींतुलँ ।
अन्न हांवं पचैतां ॥४०९॥

अश्शी हांवंची हँ जन ।
आनी तांगेलँ जीवन ।
जीवनाचँई साधन ।
मुख्य जँ तॉ अग्निई ॥४१०॥

कित्लँ वर्णन रॅ कोर्चें ।
ह्या व्याप्तीच्या हॉड्पणाचँ ।
अेकमात्र ह्या विश्वाचँ ।
हांवंची रॅ सर्वस्व ॥४११॥

आत्तं माक्का तूं निम्गिशी ।
थॉडॅ सदा सुखी कश्शी ।
थॉडॅ उद्विग्न निराशी ।
सर्वांतुं तूं आस्तना ॥४१२॥

ॲक्क जातीच्या दिव्यांचॉ ।
प्रकाशु अेक्कूची आस्चॉ ।
थंईं अस्ल्या भिन्नत्वाचॉ ।
प्रश्नु यॅत्लॉ वॅ सांग ॥४१३॥

अस्लॅ हॅ तर्कवितर्क ।
यॅत्लॅ मनांतुं अनेक ।
मन कोर्नु घॅ निःशंक ।
आय्क निरसन तूं ॥४१४॥

सर्वस्व नी सर्वात्मकु ।
निःसंशय हांवं अेकु ।
हॉ पूर्वसंचितात्मकु ।
प्रवाहु त्या बुध्दीचॉ ॥४१५॥

ध्वनि गुणु आकाशाचॉ ।
नाना नमुन्या वाद्यांचॉ ।
मात्र आय्कूंच्याक मेळ्चॉ ।
नादु कश्की विविध ॥४१६॥

सूर्यागेल्या प्रकाशांतुं ।
तांग्तांगेल्या उद्योगांतुं ।
मग्न जाल्लेलॅ लोक तूं ।
पळैताची की नित्य ॥४१७॥

बीजधर्मानुसारची ।
वाडी वृक्षवल्लरींची ।
तश्शी जीवानुरुपची ।
जात्ता तँ तँ स्वरूप ॥४१८॥

अज्ञ सूज्ञ हँ दॉग्जण ।
दॉग्गांगेली दृष्टी भिन्न ।
हारांतुली सर्पावीण ।
दिस्ची तांकां तद्वत ॥४१९॥

स्वाती नक्षत्रा उद्दाक ।
जात्ता शिंप्लेंतुं मौक्तिक ।
तँचि विष भुजंगाक ।
ज्ञानाज्ञानाचॉ खेळु ॥४२०॥

सर्वांगेल्या ह्रदयांतुं ।
राब्ता जाव्नु जँ सुस्वस्थु ।
तँ जँ जाणता बुध्दिमंतु ।
तँची हांवं अर्जुना ॥४२१॥

विषयांत्थाव्नु जॉ विरक्तु ।
धर्ता संतांलॉ सांगातु ।
मग्न ज्ञानसाधनेंतुं ।
आनी गुरुभक्तींतुं ॥४२२॥

सत्कर्मं हीं कर्त उर्ता ।
अज्ञान आप्याप सर्ता ।
अहंकारु लीन जात्ता ।
आय्क आत्मस्थितींतुं ॥४२३॥

आत्मस्थिती हाज्जॉ अर्थु ।
आनी ताज्जॉ एेक्कु हेतु ।
येव्नु मेळचँ नी मज्ज्यांतुं ।
राव्चँ नित्य सुखांतुं ॥४२४॥

सूर्यु पोळोंका तेजांतुं ।
अर्थु आस्स हँ म्होण्च्यांतुं ।
तश्शी ज्ञानसाधनेंतुं ।
सोद्का पड्ता माक्काची॥४२५॥

लॅक्ता मॅळ्ळेल्या देहाक ।
संसाराचँ हँ सार्थक ।
म्होण्णु ह्या देहा हंतेक ।
वाड्डैतची वत्ता हॉ ॥४२६॥

स्वर्गाचँ नी संसाराचँ ।
सुख घेंव्यां म्हुणु धांव्चँ ।
माग्गिरी फाँडांतुं पोड्चँ ।
क्लेशाच्या नी दुःखाच्या ॥४२७॥

जागी आश्शिलॉ निद्दता ।
आनी सॉप्पन पळैता ।
तश्शी हँ अज्ञान आस्ता ।
हांवं मॅळवरेक ॥४२८॥

दीसा मॉड भोर्नु यॅत्ता ।
काळोकु जाछॉशँ दिस्ता ।
तश्शी हांवं ना हँ लॅक्ता ।
आनी पड्ता मोहांतुं ॥४२९॥

जागी आस्सॉ वा निद्देंतुं ।
आस्था आस्काज मनांतुं ।
की मेळचँ आस्स मज्ज्यांतुं ।
जॉ ह्या जीवांचँ मूळ ॥४३०॥

राज्जू वा तूं सर्पु म्हण ।
दोन्नींक राज्जू कारण ।
तश्शी हांवं अधिष्ठान ।
ज्ञानाचँ अज्ञानाचँ ॥४३१॥

मगेलँ स्वरूप कस्लँ ।
जाण्णु घॅर्न वेद फस्लॅ ।
हँवै न्हई म्हणत बस्लॅ ।
हॅग्लॅ फुट्लॅ मतीक ॥४३२॥

तिन्नी हॅग्ल्यांवॅलँ रूप ।
मगेलँची तँ स्वरूप ।
न्हंय्यॉ व्हांत्तची आप्याप ।
सागराक मॅळ्ताती ॥४३३॥

कश्की सुगंधित वायू ।
विर्ता जाव्नु निरुपायू ।
सिध्दांतां मुखारी पायू ।
घालू जाय्ना श्रुतींक ॥४३४॥

मॅळ्णाती यथार्थ शब्द ।
लाज्जूनु बस्ताती स्तब्ध ।
सोडोन् घेव्नु हॅ निर्बंध ।
स्वता जात्तां प्रगट ॥४३५॥

श्रुती सिध्दांतां सांगाती ।
जात्ता जगाची समाप्ती ।
उर्ता शुध्द आत्मस्थिती ।
हांवं ज्ञान स्वरूप ॥४३६॥

सॉप्नांथाव्नु जागी जात्ता ।
जँ पळैलँ तँ विस्सर्ता ।
जाल्यारी हँवै तॉ जाणता ।
पळैलँ तँ आप्णॉची ॥४३७॥

अद्वितीयत्व मगेलँ ।
अद्वैतपण ॲक्ळ्यालँ ।
कळ्ता पळॅ आप्णागॅलँ ।
आप्णाकची हँ माक्का ॥४३८॥

काज्ळी मांडैना जळ्तना ।
निव्तना कस्लँ दव्वर्ना ।
कर्पूरु कश्की अर्जुना ।
ताज्वारीची हँ सर्व ॥४३९॥

ज्ञान अज्ञानाक गिळ्ता ।
स्वता अंतर्धान पाव्ता ।
कस्लँ आस्सना की आस्ता ।
कांई जाय्ना सांगूक ॥४४०॥

विश्वाची ह्या चोरी केल्ली ।
वत्ना वाटई ती व्हेल्ली ।
खब्बरी कळ्णा हागेली ।
तॉ चोरूई हांवंची ॥४४१॥

जडाजडांतुली व्याप्ती ।
सांग्तां सांग्तां लक्ष्मीपती ।
आप्णागेली आत्मस्थिती ।
तीवै सांग्ता पार्थाक ॥४४२॥

आकाशांत्लॉ निशिकांतु ।
दिस्ता क्षीरसमुद्रांतुं ।
अर्जुनागेल्या मनांतुं ।
हाज्जॉ पळ्ळॉ प्रभावु ॥४४३॥

चित्र अेक ह्या वण्तीरी ।
दिस्ता कानॆतुं इद्रारी ।
तश्शी दॉग्जणांभित्तरी ।
जाल्लॉ हॉ तत्त्वबोधु ॥४४४॥

तरी म्हणता धनुर्धरु ।
वस्तुविचारु हॉ थोरु ।
जावॉ कित्लोई विस्तारु ।
उणी जाय्श्ना ही गोडी ॥४४५॥

आय्क अेक जनार्दना ।
व्याप्ती नॅवानॅ सांग्तना ।
वस्तुचीई संभावना ।
कोर्का जात्ली अवश्य.. ॥४४६॥

नॅवानॅ तुंवँ सांग्तना ।
हँची आनीकई कृष्णा ।
स्पष्ट जावॉ हँ म्हणतना ।
सांग्ता देवु पार्थाक ॥४४७॥

माक्काई हाज्जीची गोडी ।
सांग्चीई आस्स आवडी ।
मॅळ्णा माक्का अस्ली जोडी ।
निम्गितलॉ अप्रूब ॥४४८॥

आजि मात्र साध्य जाल्लँ ।
मनाप्रमाणॅ हँ घळ्ळँ ।
जिज्ञासेनॅ निम्गुन् घॅत्लँ ।
सर्वै तुंवँ मल्यागी ॥४४९॥

अद्वैतांतुं भोग्गु मेळ्चँ ।
सुख हँ द्वैतभावाचँ ।
मगेलँ माक्का निम्गूंचँ ।
सांग्चँ तँवै हांवेंची ॥४५०॥

इदूर कान् ेंतुं दिस्ता ।
दॉळॉ दॉळ्याक पळैता ।
तश्शी हांवं तूंचि जात्तां ।
संवादानॅ ह्या पार्था... ॥४५१॥

गोत्ना म्हुणु तूं निम्गिता ।
कळ्का म्हुणु तुक्का, सांग्तां ।
अश्शी मात्र न्हई पार्था ।
तूं नीं हांवं एेक्कची ॥४५२॥

अश्शी म्होण्णु श्रीकृष्णानॅ ।
पळैलँ कृपादृष्टीनॅ ।
घॅत्लँ पोट्टोळ्णु प्रेमानॅ ।
अर्जुनाक ताव्वळी ॥४५३॥

एेक भास दोनि वट ।
दोनि पाय एेक्की वाट ।
निम्गूंचॅ नी सांग्चॅ कष्ट ।
दॉग्गांकई पण्णाती... ॥४५४॥

पळैतल्याक दिस्सूनु ।
यॅद तूं कुंतीनंदनु ।
नी हांवं विंगडु कृष्णु ।
तरी दॉगै एेक्कची ॥४५५॥

प्रीतीचॉ उम्माळॉ आय्लॉ ।
पार्थाक पोट्टोळ्णु घॅत्लॉ ।
तरी मनांतुं म्हणालॉ ।
आत्तं इत्लेंची पुरॉ ॥४५६॥

गॉड  नास्सु नज्ज म्हुणु ।
दव्वर्ताती मीट घाल्नु ।
घेंव्का अद्वैत सांभाळ्णु ।
तश्शी थॉ । द्वैतानॅ ॥४५७॥

मूळांतूची हॅ अभिन्न ।
नर आनी नारायण ।
प्रीतीचँ हँ उत्स्फुरण ।
आत्तंची जिरौंकाज ॥४५८॥

अश्शी मनांतुं हँ हाण्णु ।
निम्गिता पार्थाक कृष्णु ।
कस्लॉ तुंवँ कॅल्लॉ प्रश्नु ।
सांग्शी वॅ तॉ नॅवानॅ ॥४५९॥

कृष्णरूपांतुं तल्लीनु ।
जांव्च्या लाग्गिलॉ अर्जुनु ।
आय्क्नु तॉ परिप्रश्नु ।
येंव्च्या लाग्लॉ भानारी ॥४६०॥

गळॉ भोर्नु येव्नु म्हणता ।
सांग तूं हे भगवंता ।
उपाधिरहित आस्ता ।
कश्शी तुगेलँ रूप ॥४६१॥

जाल्यारी देवु अॅक्ळाक ।
आय्क म्हणता अर्जुनाक ।
दोनि थरॉ उपाधीक ।
ज्यॉ आस्ताती त्यॉ सांग्तां ॥४६२॥

निरुपाधी रूप सोण्णु ।
उपाधींक बस्ला घेव्नु ।
इत्याक अश्शी हॉ कृष्णु ।
कोणुई हँ म्हणद ॥४६३॥

धय्यांतुलँ ताक काळ्ळँ ।
तांतुंथाव्नु लोणी मॅळ्ळँ ।
भांगारई शुध्द जाल्लँ ।
कीडी काण्णापुर्डॅची ॥४६४॥

शॅळॉ काण्णु स्वच्छ कॅल्लँ ।
जळ भुर्शा तळ्यांतुलँ ।
आकाश निरभ्र जाल्लँ ।
दिस्सू लाग्लँ सुनीळ ॥४६५॥

कुंडॉ तुस्सू कण्सावॅलॉ ।
काण्णु दाणॉ फूटु कॅल्लॉ ।
हँ कोर्च्यांतुं दोषु कस्लॉ ।
सांग कोणु दाकैद ॥४६६॥

उपाधी जात्ता निर्दोष ।
निरुपाधी सावकाश ।
दिस्सू लाग्ता ती सवेष ।
थंई आप्णाइत्ल्याक ॥४६७॥

लग्न जाल्लँ सानिचल्ली ।
नांवई घेंव्च्याक लाज्ली ।
तश्शी श्रुती मोन्नी जाल्ली ।
निरुपाधी मुखारी ॥४६८॥

कोरूक जाय्ना वर्णन ।
हाज्जँ म्हुणु धर्लँ मौन ।
नी उपाधींचीं लक्षणं ।
सांग्ता देवु अॅक्ळाक ॥४६९॥

पाड्व्या दीसु चंद्ररेखा ।
ओ त्या रुक्कारी दाकोंका ।
उपाधी सोण्णु पोळोंका ।
तश्शी ही निरुपाधी ॥४७०॥

देवु म्हणता धनंजया ।
आस्सती संसारांतु ह्या ।
दोनि तॅ पुरुष राया ।
तांकां घॅ तूं सम्जूनु ॥४७१॥

आकाशांतुं दीसु राती ।
दॉग्गजणची दिस्ताती ।
तश्शी राज्य हॅ कर्ताती ।
संसारांतु दॉग्गई ॥४७२॥

आनि आस्स तिस्त्रॉ अॅक्ळॉ ।
दॉग्गांकै निम्गिनात्तिलॉ ।
तांकां पूरा गीळ्णु खात्लॉ ।
सर्वस्वई लुट्टूनु ॥४७३॥

आस्सॉ दॉग्गांगेली आय्क ।
हीची काणीं तूं अॅक्ळाक ।
आय्ल्याती हांगा राब्बूक ।
दॉगै ह्या संसारांतुं ॥४७४॥

अॅक्ळॉ कुर्डां पिस्सॉ पंगु ।
आन्नेक्ळॉ सुदृढु चांगु ।
जम्लॉ हॉ विषम संगु ।
मॅळ्ळॅ अॅक्क गांवांतुं ॥४७५॥

अॅक्ळ्याक म्हणताती क्षरु ।
नांव दुस्त्र्यालँ अक्षरु ।
दॉग्गांनींई हॉ संसारु ।
कोर्नु घॅत्ला आप्णालॉ ॥४७६॥

क्षरु म्हळ्ळ्यारी हॉ कोणु ।
अक्षरु हॉ कोणु जाव्नु ।
आस्स हँ विस्तारु कोर्नु ।
सर्व सांग्का पड्तलँ ॥४७७॥

अहंकारु महाघोर ।
तणाचॅं सान शीगर ।
स्थूल सूक्ष्म वा सपूर ।
जॅं जँ दिस्ता धनंजया ॥४७८॥

सान जावॉ वा तँ थोर ।
सृष्टींतुलँ चराचर ।
मन बुध्दीक गोचर ।
तँ तँ सर्वै जँ आस्स ॥४७९॥

पंचभूतांमितीं घड्ता ।
जँ जँ नामरूप धर्ता ।
खैं खंईं जँ तूं पळैता ।
कार्य त्रिगुणात्मक ॥४८०॥

नाना आकृतींचॅं होन ।
कर्ता कौ ांवारी दान ।
जुगाराचँ हँ व्यसन ।
सोडू जाय्ना काळाक ॥४८१॥

ज्ञाना नमुनॉ विप्रीत ।
जँ जँ दिस्ता जाल्लँ ज्ञात ।
सर्वै जात्ता कालग्रस्त ।
पार्था क्षणाक्षणाक ॥४८२॥

रान सर्वत्र भ्रांतीचँ ।
स्वरूप हँ ह्या सृष्टीचँ ।
जग हाक्काची रॅं म्होण्चँ ।
क्ळ्णु आस्का येद्दोळु ॥४८३॥

सांग्ल्यां माक्षी स्पष्ट कोर्नु ।
अष्टधा प्रकृती म्हुणु ।
क्षेत्रई दिल्यां दाकोनु ।
छत्तीस प्रकारांनीं ॥४८४॥

इत्लँ माक्षी इत्त्या वच्का ।
सद्यांतुंची सांग्ल्यां तुक्का ।
आनी ऊर्ध्वमूल रुक्का ।
वारी म्हुणु हँ जग ॥४८५॥

तॅ हॅ सर्वई आकार ।
आप्णागेलींची हीं घरं ।
लेक्कुनु तदनुसार ।
घॅत्ता रूपं चैतन्यु ॥४८६॥

रूप आप्णालँ उद्कांतु ।
द्वैता भासु जाव्नु तांतुं ।
सिंहु तॉ कॉप्पा भरांतुं ।
उड्की मार्ता बाय्यिंतुं ॥४८७॥

व्यापक आकाश अेक ।
खैं खंईं आस्ता उद्दाक ।
थंड तँ जाव्नु अनेक ।
आश्शिल्वारी दिस्ता न्है॥४८८॥

आत्मा आकारांतुं रिग्ता ।
स्वरूपस्थिती विस्सर्ता ।
कुरुणी काडूक लाग्ता ।
थंइं आशिल्कडेची ॥४८९॥

सॉप्नांतुं हांतुळच्या मॅळ्ता ।
गॉम्टँ कोर्नु तँ पात्लैता ।
ताज्जेरीची आड सर्ता ।
घॅरेंच्याकई लाग्ता ॥४९०॥

सॉप्नांतुलँ सुखदुःख ।
तँवै तॉ लाग्ता भोग्गूक ।
हांवं मगेलँ म्होणूक ।
सुरु कोर्नु झग्गड्ता ॥४९१॥

आव्सू बाप्पूसू मगेलीं ।
बाय्ल चल्लॉ आनी चल्ली ।
विद्या संपत्ती मेळ्ळैली ।
जाल्लाँ हांवं कृतार्थु ॥४९२॥

ह्या नी अस्ल्याची सॉप्नांतुं ।
दंग जात्ता संसारांतुं ।
पायु दव्वर्ता स्वर्गांतुं ।
तॉ हॉ क्षर पुरुषु ॥४९३॥

पार्था हँवै एक आय्क ।
क्षेत्रज्ञु हँ ज्या कॉणाक ।
म्हणताती ताक्काची लोक ।
जीवुइ अश्शी म्हणताती ॥४९४॥

स्वरूपाक तॉ विस्सर्ता ।
जी उपाधी ताक्का लागता ।
त्यानुसारई तॉ चल्ता ।
हॉची क्षर पुरुषु ॥४९५॥

शयन देहपुरांतुं ।
परिपूर्णुई अशांतु ।
ह्याचि पुरुष नामांतुं ।
दोन्नी गुणविशेष ॥४९६॥

उपाधी सांगातु धर्लॉ ।
तिन्नॅ म्हळ्ळेल्वारी नांच्लॉ ।
क्षरत्वाचॉ दोषु लाग्लॉ ।
व्यर्थ नित्यरूपाक ॥४९७॥

चंद्रु उद्का पाळांचेरी ।
थर्थर्तासॉ दिस्ता जरी ।
तॉ त्या तागेल्या स्थानारी ।
शांतचित्त सुस्थिर ॥४९८॥

कश्की पाळ येंव्चँ राब्ता ।
चंद्रु स्थिर शांत जात्ता ।
तश्शी उपाधी ही सुट्ता ।
नी तॉ जात्ता स्वरूप ॥४९९॥

तश्शी ह्या उपाधींमितीं ।
धोर्का पड्ता अशाश्वती ।
न्यूनत्व न्यूनासांगाती ।
घेव्नु जात्ता हॉ क्षरु ॥५००॥

चैतन्य हँ जीवु जाव्नु ।
क्षर पुरुषु म्हणौनु ।
वत्ता देहांतुं राब्बुनु ।
आय्क आत्तं अक्षरु ॥५०१॥

पर्वतांतुं मद्दँ मेरु ।
तश्शी पुरुषु अक्षरु ।
परमात्मु ती हॉ संसारु ।
हांतु मद्देगतीचॉ ॥५०२॥

पाताळ पृथ्वी नी स्वर्गु ।
हांतु मेरु खंईं सांगूं ।
तश्शी ज्ञानाज्ञाना संगु ।
खंईं हाक्का हँ कळ्णा ॥५०३॥

ब्रह्मैक्याचँ जाय्नॅ ज्ञान ।
वा द्वैतांतु जाय्नॅ लीन ।
अश्शी खैंकी अेक स्थान ।
घेव्नु राब्ता मद्देंची ॥५०४॥

मात्ती दव्वल्र्या ही मळ्णू ।
मड्कँ आस्स येंन्चँ घण्णू ।
तश्शी अर्दारीची येव्नु ।
राब्बिल्वारी दिस्ता हॉ ॥५०५॥

समुद्र वत्ता आट्टुनु ।
जळ ना वा पाळ म्हुणु ।
पड्ता अनामिक जाव्नु ।
हाज्जॉ शुष्क विस्तारु ॥५०६॥

जागी बैसूकई जाय्ना ।
नीद कश्की तीवै पण्णा ।
दॉळॅ धांपिल्मितीं कळ्णा ।
निद्दला की हॉ जागी ॥५०७॥

विश्वाचेरी पड्दॉ पड्ता ।
आत्मबोधु जांव्चॉ आस्ता ।
मद्देगतीची अवस्था ।
तिक्का म्होण्चँ अक्षरु ॥५०८॥

चंद्रबिंब अभासेक ।
दिस्सू पण्णा तँ कॉणाक ।
चित्कळा प्रति दीसाक ।
वाड्ता यॅत्ता पुन्नव ॥५०९॥

बीज सोण्णु भाग्र पळ्ळॉ ।
रूकु सुप्तावस्थेंतुलॉ ।
तश्शी जीवु जागी जाल्लॉ ।
सर्व उपाधींत्थाव्नु ॥५१०॥

चैतन्य उपाधींतुलँ ।
तद्रूप जाव्नु आश्शिलँ ।
नद्रेक जँ पण्णाशिलँ ।
तँचि म्होण्चँ अव्यक्त ॥५११॥

अज्ञान तँ गाढ नीद ।
बीजभावु तॉ म्होण्येद ।
नीद्दांत्थाव्नु जागी जाय्द ।
ज्ञान फल धरद ॥५१२॥

जीवाची ही सुप्तावस्था ।
तिक्काची वेदांतु म्हणता ।
बीजभावु नी तँ आस्ता ।
अक्षरागॅलँ स्थान ॥५१३॥

नीद सॉप्पन जागृती ।
विक्षिप्त ज्ञानाची स्थिती ।
बुध्दीई ही नाना रीती ।
पाव्ता तांतु विस्तारु ॥५१४॥

हांगा जीवु जागी जात्ता ।
शिवुइ ताक्का येव्नु मॅळ्ता ।
भेदशून्य अैक्य जात्ता ।
तँ तॉ अक्षर पुरुषु ॥५१५॥

नीद आश्शिल्तरी हाक्का ।
म्हणता आत्तं जागी जांव्का ।
दोन्नी अवस्थांतु आस्का ।
अेकु मेळ्चॉ संकेतु ॥५१६॥

निर्विकल्प शांत नीद ।
सृषुप्ती म्हुणु प्रसिध्द ।
अेक्कची न्यून म्होण्येद ।
तांतुं ब्रह्मभावाचँ ॥५१७॥

तांतुं जरी आस्तल्शिलॉ ।
जीवु जागी जाय्श्नाशिलॉ ।
तरी तॉची पाव्तल्शिलॉ ।
ब्रह्मत्वाक आप्याप ॥५१८॥

प्रकृति पुरुषु योगु ।
क्षेत्र क्षेत्रज्ञ विभागु ।
जाव्नु तन्मूलक भोगु ।
लाग्ता जीवु भोग्गूक ॥५१९॥

अश्शी रूकु संसाराचॉ ।
तग्गु तग्गु वाड्त वच्चॉ ।
मूलाधारु ह्या रुक्काचॉ ।
पुरुषु हॉ अक्षरु ॥५२०॥

पुरुषु हॉ इत्खात्तीर ।
सदैव उशारी शिर ।
नी कॅछयां आप्णालँ घर ।
हँची मायानगर ॥५२१॥

विकांरांचॉ ना गोंदोळु ।
जाय्ना ज्ञान उत्शृंखळु ।
जॉ ह्या अवस्थांचॉ मेळु ।
तॉ अक्षर पुरुषु ॥५२२॥

आप्पण् जाव्नु तॉ ना जाय्ना ।
दुस्त्रॉ कोणुइ ताक्का मार्ना ।
ज्ञान जार्य्ने म्हुणुइ पाव्ना ।
ह्या खंतीनॅ तॉ नाशु ॥५२३॥

सिध्दांतांनीं वेदांतुल्या ।
हँचि नांव ताक्का दिल्यां ।
आनी गौरवार्ने कॅल्यां ।
अश्शी गुणवर्णन ॥५२४॥

धोर्नु मायेचॉ सांगातु ।
चलैता जॉ सदोदितु ।
जीवाल्या कार्याचॉ रथु ।
तॉचि रॅ तँ चैतन्य ॥५२५॥

दोन्नी अवस्था दांटुनु ।
अज्ञात स्थानारी येव्नु ।
पाव्ता तांतुं लीन जाव्नु ।
थंचँ थंईं तँ उर्ता ॥५२६॥

अज्ञाताचँ ज्ञान जात्ता ।
अज्ञान ज्ञानांतुं बुड्ता ।
कश्की उज्जॉ स्वता जळ्ता ।
नी राक्डाकै जळैता ॥५२७॥

ज्ञानानॅ अज्ञान गिळ्ळँ ।
ज्ञान आत्मरूप जाल्लँ ।
जाण्चँ ऊर्नँ दुस्त्रँ कस्लँ ।
जाण्णस्तना हँ जाण्चँ ॥५२८॥

हँ तॉ पुरुषु उत्तम ।
हीची अवस्था अंतिम ।
सांग्ल्याती आदि मध्यम ।
तिस्त्री ही जाण पार्था ॥५२९॥

सॉप्पन नी सुषुप्तींतुं ।
बोधु जॉ जात्ता दोन्नींतुं ।
तांच्याकईं जागृतींतुं ।
जांव्चॉ बोधु अधिक ॥५३०॥

मृगजळ नी किरण ।
सूर्यामुखारी तीं गौण ।
सूर्यमंडळ प्रधान ।
तेजाचँ तँ आगर ॥५३१॥

जळचँ राक्कूड नी वन्ही ।
सांग अेक्कची वॅ दोन्नी ।
उत्तम पुरुषु आनी ।
तॅ दॉग्गई विंगड ॥५३२॥

समुद्र सीमा दांटुनु ।
कल्पांतांतुं न्हैंय्यॉ गिळ्ळ्णु ।
सर्व जलमय कोर्नु ।
कश्की सॉड्ता तॉ अॅक्ळॉ ॥५३३॥

कश्की प्रळयाची दीप्ती ।
गिळ्ता दीसु आनी राती ।
स्वप्न सुषुप्ती जागृती ।
विलीन हीं ताज्ज्यांतुं ॥५३४॥

थंईं अद्वैत की द्वैत ।
आस्स की ना हँ निश्चित ।
जाय्ना अनुभवु गुप्त ।
खंईं जाल्लॉ हँ कळ्णा ॥५३५॥

अश्शी यॅत्ता ही अवस्था ।
थंईं ताव्वळी तॉ आस्ता ।
उत्तम पुरुषु पार्था ।
परमात्मा तॉची रॅ ॥५३६॥

जीवत्वारी माक्षी येव्नु ।
अनुभवु घेंव्का जाण्णु ।
कश्की अॅक्ळॉ तीरार्थाव्नु ।
सांग्ता बुड्ला कोणु की ॥५३७॥

विचाराच्या तीराचेरी ।
बैसुनु हॅ वेद चारी ।
सांग्ताती भाग्र भित्तरी ।
परमात्मा हॉ आस्ता ॥५३८॥

पुरुषु क्षरु अक्षरु ।
ह्या दॉग्गांगॅलॉ विचारु ।
कोरु जात्ता परात्परु ।
मात्र तॉ वाचातीतु ॥५३९॥

अश्शी पार्था प्रियोत्तमा ।
म्हणताती जॉ परमात्मा ।
ताक्का तूं हे वीरोत्तमा ।
म्हण पुरुषोत्तमु ॥५४०॥

उल्लैनस्तना सम्जूंचँ ।
कळ्णा म्हुणु हँ जँ कळचँ ।
जाय्नातिल्तरी जँ आस्चँ ।
अश्शी आस्ता जी वस्तु ॥५४१॥

सोहंभावुई विस्सोर्नु ।
सांगतनाची कथा जाव्नु ।
दृश्य पळैतना वीर्नू ।
वच्चँ तँ पोळोंच्यांतुं ॥५४२॥

मूळ रूप आश्शिल्विना ।
प्रतिरूपई दिस्सना ।
अनुभवाक तँ यॅ ।
ना वॅ तँ खंईं ॥५४३॥

फूल नी ताज्जॉ पर्मळु ।
हांकां आंतरिक मेळु ।
दिस्सनात्तिल्मितीं आळु ।
घेव्नयॅ तॉ ना म्हुणु ॥५४४॥

पळैतलॉ नी पोळोंचँ ।
दोन्नींचेंइ भान सर्चँ ।
कॉणॅ कॉणाक निम्गूंचँ ।
थंईं आस्स तँ कस्लँ ॥५४५॥

तँ स्वयंभू स्वप्रकाशु ।
स्वयंपूर्ण परमेशु ।
सर्वव्यापी अवकाशु ।
जाव्नु आस्स आप्पण ॥५४६॥

आप्पा आप्पण आय्कता ।
स्वता रुची स्वता घॅत्ता ।
स्वानंदु आप्पण भॉग्ता ।
सर्व सुख आप्णांतुं ॥५४७॥

सर्वथा तँ परिपूर्ण ।
पुरुषोत्तमु तॉ जाण ।
तँची विश्रांतीचँ स्थान ।
विश्रांतीक आरामु ॥५४८॥

सुख सुखाकई मॅळ्ळँ ।
तेज त्या तेजांतुं रिज्लँ ।
शून्य महाशून्यांतुं बुड्लँ ।
अेकपण सर्वत्र ॥५४९॥

विकास जाव्नुई जँ उर्ता ।
गिळ्तल्याकै पूरा गिळ्ता ।
भरपूराकै चड आस्ता ।
अेकमेव जँ तत्त्व ॥५५०॥

शिंप्लॉ झगझग जात्ता ।
जाण नात्तिल्याक दिस्ता ।
तँ तॉ रुप्पँ म्हुणु लॅक्ता ।
भूली पड्ता दृष्टीक ॥५५१॥

सुवर्ण आप्पण जाव्नु ।
निप्पना रूप बदोल्नु ।
तश्शी विश्वरूप धोर्नु ।
निप्पिल्वारी तॉ दिस्ता ॥५५२॥

उद्दाक नी पाळ दोनी ।
नाती जॉ जाणता तॉ ज्ञानी ।
प्रकाशु दिस्ता तॉ मानी ।
तॉची तॉ म्हुणु पार्था ॥५५३॥

ह्रासु विकासु चंद्राचॉ ।
ताज्जित्ल्याक जाय्त आस्चॉ ।
प्रतिबिंबाचोइ दिस्चॉ ।
तॉ आकारु जळांतुं ॥५५४॥

राती की दीसु पोळोनु ।
रूप बदल्ता वॅ भानु ।
विश्व आस्स की ना म्हुणु ।
तॉ यॅना की वच्चना ॥५५५॥

खंच्यांतुंइ तॉ आस्सना ।
कस्लँ जांव्का म्हुणुइ ना ।
ताज्वारीची तॉ अर्जुना ।
परमात्मस्वरूप ॥५५६॥

आप्णांतुंची तॉची स्वता ।
उज्वाडु कोर्नु घेव्नु आस्ता ।
चड कस्लँ सांगूं पार्था ।
हाज्वारी नाची दुस्रॉ ॥५५७॥

अस्लॉ निरुपाधिक परमेशु ।
वेदोक्तु हॉ उत्तम पुरुषु ।
क्षराक्षराक हॉ आदर्शु ।
तॉची हांवं श्रीकृष्णु ॥५५८॥

अश्शी ज्ञानोदयु जात्ता ।
हांवं ताक्का दिस्सू लाग्ता ।
आनी ताक्का गुर्तु मॅळ्ता ।
पुरुषोत्तमु हॉ म्हुणु ॥५५९॥

सॉप्नांत्थाव्नु जागी जात्ता ।
कोणु आप्पण हँ कळ्ता ।
त्रिभुवन दिस्सू लाग्ता ।
मिथ्या अेकु आभासु ॥५६०॥

धर्ता हात्तांतुं तॉ हारु ।
कळ्ता की तँ न्हई हैरू ।
जाय्श्ना बाधक संसारु ।
माक्का जाण्णु घॅत्ल्यारी ॥५६१॥

अलंकार भांग्राचॅची ।
जाण्ता जॉ की सत्य हँची ।
जाय्श्ना बाधा ह्या भेदाची ।
माक्का जाण्णु घॅत्ल्यारी ॥५६२॥

जात्ता ताक्का सम्यक् ज्ञान ।
की दुस्त्रॉ न्हई आप्पण ।
सच्चिदानंदु आप्पण ।
स्वयंसिध्दु सर्वत्र ॥५६३॥

तॉची जाल्लॉ पूर्ण ज्ञानी ।
जाण्चँ ऊर्नँ कस्लँ आनी ।
चित्त जाल्लँ समाधानी ।
नांवं नांची द्वैताचँ ॥५६४॥

भक्तु मगेलॉ जांव्च्याक ।
तॉची योग्य पार्थाआय्क ।
आकाशची आकाशाक ।
पोट्टोळूक समर्थ ॥५६५॥

कॉर्णॅ क्षीरसागराची ।
सांग पर्गुणाई कोर्ची ।
जाई क्षीरसागरुची ।
हँ सर्वई कोरूक ॥५६६॥

अेकरूप जावॉ म्हुणु ।
शुध्द सुवर्ण पोळोनु ।
तँची शुध्दांतुं मेळोनु ।
घेंव्का पड्ता अवश्य ॥५६७॥

गंगा उद्काकची म्हुणु ।
गेल्ली समुद्रांतुं मेळ्णू ।
तश्शी उर्का हांवं जाव्नु ।
तीची मगेली भक्ती ॥५६८॥

कश्की समुद्राचँ पाळ ।
समुद्राचँची तँ जळ ।
तश्शी तॉ भक्तु केवळ ।
हांवंची म्हुणु जाण ॥५६९॥

सूर्यू नी तागॅलँ तेज ।
कश्की आस्ता अविभाज्य ।
तश्शी भक्तु आनी भज्य ।
अेकरूप सदैव ॥५७०॥

अेद्दोळ्थाई जँ जँ सांग्लँ ।
तँ तँ शास्त्रांत्थाव्नु घॅत्लँ ।
उपनिषदांनी कॅल्लँ ।
गीतापुष्प पर्मळी ॥५७१॥

प्रतिभा श्रीव्यासांगेली ।
साररूप वेद जाल्ली ।
तीची पोळोंच्याक मेळ्ळी ।
हांगा विनासायास ॥५७२॥

गंगा ही ज्ञानामृताची ।
पूर्ती आनंदचंद्राची ।
नवलक्ष्मी विचारांची ।
आय्ली क्षीराब्धींत्थान्‌ु ॥५७३॥

शब्दांतुं वा वर्णनांतुं ।
अर्थांतुं वा आशयांतुं ।
स्तुती वा भक्ती कोर्च्यांतुं ।
मज्विना ना विषयु ॥५७४॥

क्षराक्षर हॅं पुरुष ।
बग्ले कॅल्लॅं सावकाश ।
उत्तम पुरुषु ईश ।
पदाचेरी बसैलॉ ॥५७५॥

जाल्ली अश्शी पतिव्रता ।
आत्मारामागेली सीता ।
गीता जी आय्कली पार्था ।
ध्यान दीव्नु आस्थेनॅं ॥५७६॥

उल्लोचॅं मात्र ना शास्त्र ।
जाण हॅं अमोघ शस्त्र ।
संसाराक कर्ता त्रस्त ।
मंत्रु आत्मप्राप्तीचॉ ॥५७७॥

आजि नवल हॅं जाल्लॅं ।
गुप्तधन हॅं मगेलॅं ।
तुज्खात्तीर भाग्र काळ्ळॅं ।
पळैलॅं वॅं समची ॥५७८॥

शंभूगेल्या जटेंतुली ।
गंगा गौतमानॅं हाळ्ळी ।
तश्शी तुंवॅं प्रगटैली ।
आत्मज्ञान गंगा ही ॥५७९॥

स्वच्छ कान्ॅतुं इद्रारी ।
दिस्ता रूप पळैल्यारी ।
तश्शी तूं त्या कान्ॅवारी ।
आत्मरूप दाकैता ॥५८०॥

आकाश नक्षत्रांकित ।
समुद्रांतुं तॅं मुद्रित ।
तुक्काई गीतेसहित ।
भोर्नु वॅत्ल्यां चित्तांतुं ॥५८१॥

त्रिगुण तुगेलॅं गळ्ळॅं ।
नी चित्त निर्मळ जाल्लॅं ।
म्हुणु हांवं दॉग्गांगॅलॅं ।
जाल्लॉं निवासस्थान ॥५८२॥

हिगेली महती इत्ली ।
हीची साक्षात्‌ ज्ञानवल्ली ।
हिक्का कॉणॅ जाण्णु घेत्ली ।
मोहमुक्त तॉ जात्ता ॥५८३॥

कॅल्यारी अमृतपान ।
जात्ता रोगनिवारण ।
वैल्यानॅं अमरपण ।
तँवै मॅळ्ता सहज ॥५८४॥

मोहमुक्ती मॅळ्ता खास ।
न्हई नवल विशेष ।
आत्मज्ञान तॅं प्रत्यक्ष ।
ताक्का जात्ता संप्राप्त ॥५८५॥

म्हणता बरॅं जन्मा घाल्लॅं ।
कृतार्थ जांव्च्याक मॅळ्ळॅं ।
रीणई सर्व पावैलॅं ।
आत्तं ना बयॉ वच ॥५८६॥

गुरु निवृत्ती नायाक ।
स्वामी ह्या विश्वात्मकाक ।
विनंती की वाक्पूजेक ।
मान्य कोर्नु घेंव्काज... ॥५९९॥

मॅळ्ळँ जँ सॉत्त आश्शिलाँ ।
आय्यिली वाटै विस्सर्लाँ ।
ज्ञान कळसू चडैलॉ ।
ह्या कर्ममंदिरारी ॥५८७॥

अश्शी ज्ञानी पुरुषालँ ।
कृत्यकर्मई सर्तलँ ।
अनाथनाथानॅ म्हळ्ळँ ।
अश्शी धनंजयाक ॥५८८॥

श्रीकृष्णवचनामृत ।
व्हांव्च्या लागलँ भोर्नु पात्र ।
संजयाक जाल्ली प्राप्त ।
व्यासकृपा आप्याप ॥५८९॥

संजयानॅ सर्व सांग्लँ ।
धृतराष्ट्रानॅ अय्कलँ ।
पुण्य हँ रायाक पाव्लँ ।
अंतसमयाचेरी ॥५९०॥

गीता सांग्तना पार्थाक ।
दिस्त आश्शिलँ मनाक ।
की हॉ रायु आय्कूंच्याक ।
सत्पात्रु आस्स की ना ॥५९१॥

द्राक्षावाल्लीक जँ दूद ।
घाल्लँ तँ व्यर्थ वच्चद ।
दिस्लँ मागिरी तँ जाय्द ।
फलप्रद लॅक्कॅ ॥५९२॥

तश्शी श्रीकृष्णालीं उत्रं ।
संजयु आदरयुक्त ।
जाव्नु सांग्ता अश्शी पात्र ।
नी सुखी जाल्लॉ रायु ॥५९३॥

मराठींतुं आविष्कारु ।
कोर्नु कॅल्लॉ हॉ विस्तारु ।
यथामति हॉ सादरु ।
कर्तां तुम्कां संतांक ॥५९४॥

कश्की अशी पळैतना ।
शॅवंतँ गॉम्टँ दिस्सना ।
जाल्यारी तॉ रसपाना ।
यॅत्लॉ जाणता भ्रमरु ॥५९५॥

तश्शी जँ सुसव्य तुम्कां ।
तँची तित्लँ तुम्मी घेंव्का ।
अग्राह्य जँ सोण्णु दिंव्का ।
तँ पूराई मज्जेरी ॥५९६॥

कळ्णा समची चॅर्डाक ।
तरी त्या आव्सुबाप्सूक ।
कॅल्कॅल्लॅलँ तँ कौतुक ।
नप्रॉ जाल्लँशँ दिस्ता ॥५९७॥

**॥ ज्ञानदेवु सांग्ता गीता । मधु अनुवादु कर्ता ।**
**पंध्रावॉ अध्यायु बोरोनु जात्ता । पुरुषोत्तमयोगाचॉ ॥**

# सॉळावॉ अध्यायु

सूर्यु बोधाचॉ उदैता ।
विश्वाभासु अस्ता वत्ता ।
अद्वैत कमळ फुल्ता ।
त्या सूर्याक वंदन ॥१॥

सर्ता राती संमोहाची ।
ज्ञानाज्ञान नक्षत्रांची ।
सुप्रभात स्वबोधाची ।
दिस्ता सूज्ञजनांक ॥२॥

सर्वत्र प्रकाशु जात्ता ।
दृष्टी अंतर्मुख जात्ता ।
जीवपक्षी सोण्णु उब्ता ।
घुडु देहाहंतेचॉ ॥३॥

देहकमलदलांतुं ।
चिद्‌भ्रमरु जॉ बंदिस्तु ।
आश्शिलॉ तॉ जाल्लॉ मुक्तु ।
पाक्ळयॉ फुल्लेनापुडॅ ॥४॥

शास्त्रांतुलॅ दोनि तट ।
काळ्कांतुं ही ताटातूट ।
करैताती विरहार्त ।
बुध्दीक नी बोधाक ॥५॥

चिदाकाशाचॉ प्रकाशु ।
कर्ता सफल उद्देशु ।
भेटीचॉ दीव्नु संतोषु ।
चक्रवाक पक्ष्यांक ॥६॥

सर्वत्र उज्वाडु जात्ता ।
भेदु चॉरावारी निप्ता ।
अत्मैक्यबुध्दीची धर्ता ।
वाट नीठ हॉ योगी ॥७॥

धर्ता विवेकु सांगाती ।
प्रखर जात्ता निवृत्ती ।
आनी जळूक लाग्ताती ।
रान्नं ह्या संसाराचीं ॥८॥

महातेज हँ प्रखर ।
राब्ता स्वरूपांतुं स्थिर ।
मृगजळ महाघोर ।
तँवै आट्‌टैता पूर्ण ॥९॥

यॅत्ता मध्यान्ह समयु ।
सोहंसिध्दीचॉ प्रत्ययु ।
स्वरूप साव्लीचॉ लयु ।
ताव्वळी पाय्मुळांतुं ॥१०॥

जाल्लँ मायानिरसन ।
सांग मूढ जाय्द कॉण ।
पळैद कॉण सॉप्पन ।
अशाश्वत विश्वाचँ ॥११॥

म्हुणु हँ अद्वैतनगर ।
थंईं आत्मानंदु थोर ।
सुखदु:खाचॉ अस्थिर ।
कॉण घॅद आस्वादु ॥१२॥

आत्मबोधाचॉ प्रकाशु ।
दित्ता प्रत्येक दिवसु ।
मोक्ष कैवल्य विश्वासु ।
सर्वकाळ सर्वत्र ॥१३॥

आत्मबोधाचॉ हॉ सूर्यु ।
आत्मप्रकाशाचॉ रायु ।
नित्य नवॉची उदयु ।
जात्ता दशदिशांतुं ॥१४॥

ज्ञानाज्ञान धांपुन् घाल्ता ।
तॉची तीं दोन्नी दाकैता ।
उषःकालु यॅत्त उर्ता ।
करशी कोर्चॅं वर्णन ॥१५॥

राती दीसा पेल्दिकाचॉ ।
कॉणॅ बा ताक्का पोळोंचॉ ।
सुर्यु हॉ आत्मबोधाचॉ ।
तेजोनिधी स्वयंभू ॥१६॥

ह्या चित्सूर्यु निवृत्तीली ।
वारंवार स्तुती केल्ली ।
हाज्मितीं बाधा की जात्ली ।
हाक्का कळ्णा स्तुतीची ॥१७॥

सद्गुरूलॅं महिमान ।
कर्ता जॉ ताज्जॅं स्तवन ।
कर्तां कर्ता वाचा मौन ।
जात्तां ती खरी स्तुती ॥१८॥

सर्व लयाचॉ जॉ साक्षी ।
स्तुती कित्ली कोर्ची करशी ।
कस्लॉ कोणुई जाय्नाशी।
आप्णांतुंची जॉ आस्ता ॥१९॥

करशी स्तुती जांव्ची पुणी ।
वैखरी पश्यंती आनी ।
मध्यमा नी परावाणी ।
सग्ळ्यॉ स्तब्ध जात्ताती ॥२०॥

सेवाभावु धोर्नु कर्तां ।
स्तुतीचॅं भूषण घाल्तां ।
दिंव्काज हाक्का मान्यता ।
हॅंवै म्होण्चॅं सॉब्बरना ॥२१॥

दरिध्राक मेळ्ता येव्नु ।
अमृताचॉ कुंभ घेव्नु ।
बाव्डॉ सर्बराई म्हुणु ।
धांव्ता वाळी हाडूक ॥२२॥

वाळी म्हुणु हास्सु नज्ज ।
हर्षोन्मादु पोळोंकाज ।
आर्ती कर्तना आस्काज ।
भक्ती त्या सूर्यागेली ॥२३॥

कळ्णा अजुनी चॅर्डाक ।
गोत्तु आस्ता त्या आव्सूक ।
तरी कर्ता भो कौतुक ।
कस्लॅं कॉरॉ उल्लोवॉ ॥२४॥

गांव्तुली घाणी तॉ व्हांव्ता ।
होळु गंगे मेळू यॅत्ता ।
माक्षी फीर वॅ ती म्हणता ।
वच येव्नक्का ताक्का ॥२५॥

भृगुली लात हॅर्द्यारी ।
ती गुरुप्रसादावारी ।
श्रीभगवंतु मुरारी ।
धर्ता अत्यादरानॅं ॥२६॥

राती काळी काज्ळावारी ।
आय्ल्यारी सूर्या इद्वारी ।
तिक्का तान्नँ मज्मुखारी ।
येन्नक्का तूं म्हळ्ळ्यां वॅ ॥२७॥

आस्सची तूं परिपूर्णु ।
तरी त्या सूर्याक हाण्णु ।
केल्ली तुळणा चुक्कुनु ।
माक्का क्षमा कोर्काज ॥२८॥

ध्यानातीता जॉ ध्यानांतुं ।
वाचातीता जॉ वाणींतुं ।
तुक्का पळैता ताक्का तूं ।
क्षमा कर्ता तश्शी ती ॥२९॥

तुगेलँ हँ गुणगान ।
कोर्चें सुट्टना व्यसन ।
अपराधु हॉ सहन ।
करी दीनदयाळा ॥३०॥

गीतार्थु सांग्चँ नॅवन ।
कर्ता कृपामृतपान ।
जात्ता स्तवन संपन्न ।
सद्भाग्य हँ भाग्याचँ ॥३१॥

सत्यभाव ह्रदयांतुं ।
तँची तप उच्चारांतुं ।
ताज्जँ फल हँ सद्यांतुं ।
माक्का मॅळ्ता सद्गुरो ॥३२॥

पुण्य कॅल्लँ असामान्य ।
तँची तुम्कां जाव्नु मान्य ।
मॅळ्ता सामर्थ्य अनन्य ।
म्हुणु कर्ता स्तवन ॥३३॥

देहभावु जीवदशा ।
जन्ममृत्यूची दुर्दशा ।
आजिथाई परमेशा ।
भोग्ली जाल्लाँ उन्मुक्त ॥३४॥

गीतेअस्लॉ हॉ प्रसिध्द ।
ग्रंथु समर्थ समृध्द ।
मूढांकई मोक्षप्रद ।
जाल्लाँ सिध्द सांगूक ॥३५॥

अचानक लक्ष्मी यॅत्ता ।
निर्धनागेरी ती राब्ता ।
अस्ल्याक वॅ म्होणु जात्ता ।
आत्तंई तॉ दरिद्री ॥३६॥

काळ्का जाग्यारी उदेलॉ ।
सूर्यु थंईं भोर्नु गॅल्लॉ ।
सर्वत्र उज्वाडु जाल्लॉ ।
नांवंची ना काळ्काचँ ॥३७॥

विश्वाचँ व्यापकपण ।
परमाणुकई सान ।
परेशालँ महिमान ।
जाण्येद की भक्तीनँ ॥३८॥

आकाशांतुल्या फुल्लांचॉ ।
पर्मळु कश्शी बा घेंव्चॉ ।
सांग्तां भावार्थु गीतेचॉ ।
इच्छा पूर्ण करी तूं ॥३९॥

तुगेल्याची प्रसादानँ ।
गीतापद्यं सर्वार्थानँ ।
स्पष्ट कोर्नु विस्तारानँ ।
सांग्तां म्हणता ज्ञानेशु ॥४०॥

तरी माक्षी पंध्राव्यांतुं ।
संपूर्ण शास्त्रसिध्दांतु ।
सांगुनु कॅल्लॉ विज्ञातु ।
श्रीकृष्णानॅ पार्थाक ॥४१॥

निष्णातु वैद्यु पुराण ।
रॉगाचँ सॉत्ता कारण ।
कर्ता ताज्जँ निवारण ।
तश्शी भवव्यथेचँ ॥४२॥

क्षर अक्षर पुरुष ।
जॅ दॉग्गई मायावश ।
चैतन्याचँई विशेष ।
कॅल्लँ तांतुं वर्णन ॥४३॥

शब्दांचँ सहाय्य घेव्नु ।
कॅल्लॉ सानुसॉ प्रयत्नु ।
दाकैलँ वर्णन कोर्नु ।
शुध्द जँ आत्मतत्त्व ॥४४॥

अंतरंग आत्मयाचँ ।
जाणच्याक साधन खंचँ ।
अमोघ अचूक आस्चँ ।
ज्ञान तँवै सांग्लँ की ॥४५॥

ह्या अध्यायांतुं त्यामितीं ।
कस्लँ सांग्ची ऊर्नँ स्थिती ।
गुरुशिष्यांगेली प्रीती ।
म्हुणु सांग्तां तीपुणी ॥४६॥

पंध्राव्यांतुं जँ जँ सांग्लँ ।
चतुर जनांक कळ्ळँ ।
इतर मुमुक्षु उर्लँ ।
तशीची तॅ तृषार्त ॥४७॥

रहस्य मगेलँ जाण्णु ।
तॉ पुरुषोत्तमु म्होण्णु ।
जात्ता सहज सर्वज्ञु ।
आनी श्रेष्ठ मद्भक्तु ॥४८॥

अश्शी हॉ त्रैलोक्यनाथु ।
सांग्ता त्याचि अध्यायांतुं ।
ज्ञानमहिमा प्रख्यातु ।
विशेष संतोषानॅ ॥४९॥

प्रपंचु घासांतुं गिळ्ता ।
ब्रह्मदर्शनई घड्ता ।
पळैतलॉ दृश्य जात्ता ।
आनंदाचॉ सम्राटु ॥५०॥

हॉ स्वात्मोध्दारुची श्रेयु ।
मेळोंचॉ अेक्कु उपायु ।
सम्यक् ज्ञानाचॉ आश्रयु ।
घेत्तिल्विना गति ना ॥५१॥

आत्मबोधाचॅ जिज्ञासु ।
तांन्नीं कॅल्लॉ हॉ प्रयासु ।
आदरु आनी संतोषु ।
दव्वोर्नु ह्या मार्गारी ॥५२॥

कॉणाली खंईं आवडी ।
थंची लाग्ता ताक्का गोडी ।
प्रेम वाड्ता घडिघडी ।
कालक्रमानुसार ॥५३॥

जिज्ञासूंतुं थॉडॅ जण ।
जाय्ना तांकां सम्यक् ज्ञान ।
ताव्वळी कस्लँ साधन ।
तांकां योगक्षेमाचँ ॥५४॥

म्हुणु तँची आत्मज्ञान ।
कोर्नु घेंव्च्याक स्वाधीन ।
कस्लॅ कोर्येद प्रयत्न ।
ताज्ज्या वृध्दीखात्तीर ॥५५॥

इत्मितीं तँची उव्जना ।
उव्जल्तरी सम ऊर्ना ।
वाड्तनाई अड्डी नाना ।
हँची सर्वै कळ्काज ॥५६॥

ज्ञानाक जँ प्रतिकूल ।
सोण्णु दीव्नु तँ सकळ ।
ताक्का जँ जँ सानुकुल ।
घेंव्काज तँ सर्वथा ॥५७॥

जिज्ञासूंगॅलॉ हॉ हेतू ।
आनी भाव जॅ समस्तु ।
पूर्ण कर्ता भगवंतु ।
दित्ता हँ आश्वासन ॥५८॥

ज्यामितीं उत्तम ज्ञान ।
मेळ्णु जात्लँ समाधान ।
कर्ता ताज्जँ गुणगान। की
जी दैवी संपत्ती ॥५९॥

ज्ञानार्जनाच्या नॅव्नानॅ ।
रिग्ताती माज्रा पाव्लानॅ ।
रागद्वेषादि जुल्मानॅ ।
ती आसुरी संपत्ती ॥६०॥

दैवी आसुरी संपत्ती ।
इष्टानिष्ट ह्यॉ प्रवृत्ती ।
सांग्ली तांगेली संगती ।
नव्वाव्या अध्यायांतुं ॥६१॥

कोर्नय्यॅ विषयांतरु ।
म्हुणु नुस्तँ हॉ विचारु ।
सांग्लॉ ताव्वळी विस्तारु ।
कोरु जाय्नॅ तॉ कर्ता ॥६२॥

दिस्ता अध्यायु सॉळावॉ ।
विचारु माक्षीचॉ यॅवॉ ।
विवेचन पूर्ण जावॉ ।
धर्लेल्या विषयाचँ ॥६३॥

दैवी नी आसुरी गुण ।
हॅची कर्ताती प्रदान ।
अेक हितकर ज्ञान ।
दुस्त्रँ अहितकर ॥६४॥

यॅत्ता मोहा काळी राती ।
स्वधर्मा दिवॉ दित्ताती ।
मोक्षमार्गु दाकैताती ।
जॅ ती दैवी संपत्ती ॥६५॥

सहाय्य परस्परांक ।
कर्ताती गुण हिताक ।
मेळ्णु जात्ताती तँ अेक ।
जाण हीची संपत्ती ॥६६॥

सुखसमाधान दित्ली ।
संधि ज्या कॉणाक मेळ्ळी ।
म्होण्येद तॉ भाग्यशाली ।
जाल्लॉ ह्या जीवनांतुं ॥६७॥

ह्या दैवी गुणांतुं आय्क ।
जाव्नु आस्स जॉ प्रमुख ।
अभय हँची सुर्वेक ।
नांवं गुणवर्याचँ ॥६८॥

उव्वारांतु उड्की मार्ना ।
ताक्का बुड्चँ भय्यई ना ।
पथ्यशीलाक आस्सना ।
भय्य अनारोग्याचँ ॥६९॥

कर्माकर्माचॉ व्यापारु ।
तांतु हाण्णा अहंकारु ।
जात्ता तागेलॉ संसारु ।
भयचिंतेविनाची ॥७०॥

द्वैतभाव निर्मूलन ।
सोहंभावाचँ स्फुरण ।
थंईं त्या भीतीचँ विघ्न ।
कश्शी येव्नु आड्डाय्द ॥७१॥

उद्काक मिट्टाक गिळ्ता ।
की मीट तांतु कर्गता ।
अद्वैतावस्थेंतु जात्ता ।
भयनाशु आप्याप ॥७२॥

हॉची तॉ अभयगुणु ।
सम्यक् ज्ञानाक सांभाळ्णु ।
घॅत्ता आनी यॅत्ता धाव्नु ।
धैर्य ताक्का दिंव्च्याक ॥७३॥

सत्वसंशुध्दी कश्शी ती ।
आस्ता सांग्तां आय्कयाती ।
गॉब्रांक वॅ जळैताती ।
की तॉ निवोंका पड्ता ॥७४॥

अमासेचॉ क्षयु जाय्नॅ ।
पाड्वॉ तॉवै सुरु जाय्नॅ ।
चंद्रमा सूक्ष्म रूपानॅ ।
उर्ता संधिकालांतुं ॥७५॥

पाव्सु राब्लॉ धग्गु पण्णॅ ।
चण्णॅ उद्काक आट्टनॅ ।
स्वयंपूर्ण शुध्दतेनॅ ।
गंगा अश्शी ही व्हांव्ता ॥७६॥

संकल्प विकल्प नाती ।
रजतम आप्पुण्णाती ।
स्वधर्मानुसार वृत्ती ।
दव्वोर्नु चल्ता बुध्दी ॥७७॥

इंद्रियं कर्म कर्ताती ।
बरँ वाय्ट दाकैताती ।
जाल्यारी चित्ताची शांती ।
तिळभरीई ढळणा ॥७८॥

पति आस्स परगांवांतुं ।
पतिव्रता विरहांतुं ।
मन घाल्ना संसारांतुं ।
चड उणॅ जाल्यारी ॥७९॥

आवडी सत्स्वरूपाची ।
रम्ता बुध्दी जी तांतूंची ।
सत्वसंशुध्दी ही तीची ।
अश्शी सांग्ता श्रीकृष्णु ॥८०॥

सोहंभाव साक्षात्कारु ।
कोर्नु घेंव्च्याक आधारु ।
जांव्का जात्लॉ सोयिस्करु ।
ज्ञानाचॉ वा योगाचॉ ॥८१॥

कश्की यज्ञांतु दित्ताती ।
अग्नीक संपूर्णाहुती ।
साधनेंतु चित्तवृत्ती ।
आस्का तश्शी निष्काम ॥८२॥

कर्ता कुलीन गृहस्थु ।
कन्यादान सत्कुलांतुं ।
वा ती हरीचरणांतुं ।
लीन करकी पद्मजा ॥८३॥

धर्लेल्या ह्या साधनेंतुं ।
संकल्पु वा कस्लॉ हेतु ।
आस्सूक नज्ज मनांतुं ।
तिस्त्रॉ हॉ दैवी गुणु ॥८४॥

कायावाचामानसानॅ ।
कष्टार्जित स्वधनानॅ ।
तृप्त कोर्का आर्तु तान्नॅ ।
जांव्या नज्ज निराश ॥८५॥

दीव्नु साव्लीचॉ आधारु ।
पत्र पुष्प फलाहारु ।
रूकु अतिथी सत्कारु ।
कर्ता वाट्टेर् वत्ल्यालॉ ॥८६॥

तश्शी प्रसंगु पोळोनु ।
दणुलेल्याक बसोव्नु ।
श्रमपरिहार कोर्नु ।
समाधान दिंव्काज ॥८७॥

हाक्काची म्हणताती दान ।
हँची मोक्षाचँ साधन ।
आत्तं मुखारी ही खूण ।
आय्कयाती दमाची ॥८८॥

घाल्नु शस्त्राचॉ प्रहारु ।
कर्ता शत्रूंचॉ संहारु।
इंद्रियकामाविष्कारु ।
संयमानॅ जिंकाज ॥८९॥

चळवळ इंद्रियांची ।
सुरु जांव्याक ना दिंव्ची ।
तीं सर्व ताब्यांतु घेंव्चीं ।
नित्य प्रत्याहारानॅ ॥९०॥

वैराग्यानॅ धग्धगेनु ।
दशेंद्रियां बाग्लांत्थाव्नु ।
भाय्र पळ्ळी कूड सोण्णु ।
विषयाची प्रवृत्ती ॥९१॥

गणना जाय्द श्वासांची ।
असंख्य व्रतं कष्टाचीं ।
फुर्सती मॅळ्णा घ`ची ।
रात्रंदीस तांतुंची ॥९२॥

सांग्लँ स्वरूप दमाचँ ।
संक्षिप्त रूप यज्ञाचँ ।
हँ करशी सम्जूनु घेंव्चँ ।
आय्कयाती सांग्तां तँ ॥९३॥

ब्राह्मण क्षत्रिय वैश्य ।
नी बाय्लांकई अवश्य ।
जीं जीं अधिकारवश ।
तीं तीं कर्म जांव्काती ॥९४॥

तांकां दिस्ता जँ उत्तम ।
विधिशास्त्रोक्त स्वकर्म ।
तँ तॉ लेक्कुनु स्वधर्म ।
ताज्जँ कोर्का पालन ॥९५॥

ब्राह्मणु षट्कर्म कर्ता ।
शूद्र ताक्का पांयिं पड्ता ।
दॉग्गांकई सम मॅळ्ता ।
पुण्य यज्ञकर्माचँ ॥९६॥

अधिकारु सम्जून् घेन्‌ु ।
फलाशेचँ विष काण्णु ।
अवश्य उचित म्हुणु ।
तीं तीं कर्म कोर्काती ॥९७॥

देहाभिमानु सोड्काज ।
हावँ कॅल्लँ म्होणु नज्ज ।
वेदाज्ञेवारी चल्काज ।
जाव्नु स्वतः वेदाज्ञा ॥९८॥

अश्शी हॉ शास्त्रोक्त यज्ञु ।
तॉची खरॉ जाण यज्ञु ।
मोक्षसिध्दीचॉ हॉ प्रज्ञु ।
यॅत्ता आम्चे सांगाती ॥९९॥

चेंडू मार्लेलॉ नॅलारी ।
उड्ता हात्तांतु तॉ वैरी ।
भुय्यिंतु बीज पॅल्यारी ।
पीक मॅळ्ता भर्पूर ॥१००॥

दिस्का म्हुणु दिवॉ लांव्का ।
रूकु फलदायी जांव्का ।
तरी उद्दाक जँ घाल्का ।
तँ मेळ्का ताज्मूळांक ॥१०१॥

प्रतिबिंब स्पष्ट दिस्का ।
म्हुणु कान्डी स्वच्छ कोर्का ।
आनीं समाधान जांव्का ।
निय्यांळ्णु तँ स्वरूप ॥१०२॥

वेदवर्णितु परेशु ।
तद्दर्शनाचॉ संतोषु ।
मेळ्का जाल्यारी अभ्यासु ।
कोर्का नित्य श्रुतींचॉ ॥१०३॥

ब्राह्मण ब्रह्मसूत्रानॅ ।
इतर नाममंत्रानॅ ।
त्या त्या तॅ निदिध्यासानॅ ।
पाव्लॅ धाम पावन ॥१०४॥

हॉची रॅ स्वाध्यायु पार्था ।
मुखारी आय्क जँ सांग्तां ।
तप म्हळ्ळ्यारी तँ आस्ता ।
कश्शी तँ दीव्नु लक्ष ॥१०५॥

सर्वस्व दिंव्चँ तँ दान ।
व्यर्थ खर्चु तँ ग्रहण ।
कडू फळं खाय्ना कॉण ।
पड्ता रूकु सुक्कूनु ॥१०६॥

धूप कनक अग्नींतु ।
उत्कर्ष पाव्ता गुणांतु ।
व्हासु चंद्राचॉ पक्षांतुं ।
वृध्दी वनस्पतींची ॥१०७॥

प्राण इंद्रियांचॅ क्लेश ।
सह्य कॅल्यारी सहर्ष ।
निजरूपांतुं प्रवेश ।
जात्ता हँची तँ तप ॥१०८॥

अन्य तपई आस्सद ।
सांग्गु जाय्ना शुध्दाशुध्द ।
थंईं हंसालॉ लाव्येद ।
क्षीरनीराचॉ न्यायु ॥१०९॥

प्राण इंद्रियांचॉ मेळु ।
कोर्का मूळांतु विस्कळु ।
हँ कोरूक तॉ निर्मळु ।
सोडु नज्ज विवेकु ॥११०॥

जागी जात्ता नीद सर्ता ।
सॉप्पनई थंईं थुंट्ता ।
बुध्दी अंतर्मुख जात्ता ।
घड्ता आत्मदर्शन ॥१११॥

आत्मप्राप्तीच्या इच्छेनॅं ।
यत्न बुध्दीनिष्ठतेनॅं ।
जात्ताती तॅं ताज्वॅल्यानॅं ।
तँची तप म्होणकाज ॥११२॥

दूद तँ करशी चॅर्डाक ।
चैतन्य प्राणीमात्राक ।
हितप्रद आवश्यक ।
सौजन्य तँ आर्जन ॥११३॥

कायावाचा आनी मन ।
लाव्नु जॉ व्यापारु जाण ।
जात्ता तँ लोककल्याण ।
अहिंसेचेंची रूप ॥११४॥

बाणावारी उद्कांत्थाव्नु ।
कोमल कमळ फुल्नु ।
वा शीतल तेज घेव्नु ।
करकी यॅत्ता चंद्रमा ॥११५॥

पळैनापुडॅ तत्क्षण ।
जात्ता रोगनिवारण ।
वक्कद की तँ रसाय्ण ।
अनुपम हँ सर्व ॥११६॥

इत्लँ मोव्वु की अर्जुना ।
दॉळ्यांथाई तँ तॉप्पना ।
फात्राभाग्र झरॉ यॅत्ना ।
करकी ती उद्का धार ॥११७॥

कर्ता शंकासमाधान ।
निर्भीड लोहवचन ।
तरी कर्तना श्रवण ।
कळ्ता ताज्जँ माधुर्य ॥११८॥

अस्लँ हँ सत्यवचन ।
आय्कतल्यागॅलॅ कान ।
म्हणताती ब्रह्मदर्शन ।
गौण तँ हाज्मुखारी ॥११९॥

प्रिय मृदु संभाषण ।
स्पष्ट यथार्थ कथन ।
दीना कॉणाक दूषण ।
फसैनाई कॉणाक ॥१२०॥

मधुर ध्वनि भुलैता ।
सावज पाशांतुं फस्ता ।
अस्लँ भाषण सर्वथा ।
नाक्का ताज्जॉ भग्भगु ॥१२१॥

उत्रं कान्नाक मॉव्वाळ ।
अर्थु कॅल्यारी तँ फाळ ।
चिर्ता मनाचँ भूतळ ।
क्रूर मायाविनीशी ॥१२२॥

जांव्चँ अहित चुक्कूक ।
कोपु दाकोनु चॅर्डाक ।
पोर्सुनु कर्ता फुल्लाक ।
आव्सु सद्‍उपदेशु ॥१२३॥

उत्रांतुं चातुर्य आस्का ।
सांग्चँ निष्कपट उर्का ।
आय्कतलॉ सुखी जांव्का ।
तँची म्होण्काज सत्य ॥१२४॥

घाला कित्लेंई उद्दाक । पायु सर्पा कातेचेरी ।
चिगूरु यॅश्ना फात्राक । पड्ता फॉणॉ काण्णा वैरी ।
पॅज घाट्काज कस्ल्याक । फूल फुल्ना आकाशारी ।
खात्री मॅळश्ना लोणी ॥१२५॥ आय्यिल्तरी वसंतु ॥१२६॥

नांचॉ रंभा विलासांतुं । नाकनाक्जालेलँ उलोंचँ ।
कामु ना शुकमनांतुं । अमंगळ सर्व घाल्चॅ ।
घालाती तूप गॉब्रांतुं । आय्कनापुडॅ तॅ कोण्चँ ।
जाय्श्ना उज्जॉ लांव्च्याक ॥१२७॥ सान्नानॅई सहज ॥१२८॥

बह्ययागॅलॅ पाय धरी । ब्रह्ययागॅलॅ पाय धरी ।
उटाय्ना मॅलेलॉ तरी । उटाय्ना मॅल्लेलॉ तरी ।
तश्शी कित्लँ हिण्सुय्ल्तरी । तश्शी कित्लँ हिण्सुय्ल्तरी ।
क्रोधु यॅना उस्सोळ्णु ॥१२९॥ अक्रोंधत्व हँ जाण ॥१३०॥

मात्तीची ना मड्कँ खंचँ । वणती नास्तना जात्ली ।
सूतची ना कश्शी विण्चँ । काडूक वॅ चित्रावली ।
बीजची ना कश्शी धोर्चें । निद्दनस्तना दिस्तलीं ।
रूप वटवृक्षानॅं ॥१३१॥ कश्शी सॉप्तं विविध ॥१३२॥

जळ ना थंईं ना पाळ । तश्शी देहात्मता सोळ्ळी ।
पाव्सु ना नभ सुनीळ । अहंताई गळ्णु गेल्ली ।
ना धन ना भोगजाळ । विवेकवंताली सर्ली ।
तुक्काई हँ गोत्तस ॥१३३॥ भवमाया सर्वथा ॥१३४॥

म्हण्ता परमात्मा भोक्ता । दॅवा सांग स्पष्ट कोर्नु ।
हॉची हांवं त्यागु म्हण्तां । शांती कश्शी आस्ता म्हुणु ।
मुखारी ताक्का निम्गिता । देवु म्हण्ता लक्ष दीव्नु ।
भाग्यवानु तॉ पार्थु ॥१३५॥ सम आय्क जँ सांग्तां ॥१३६॥

ज्ञाता ज्ञेय जाण्णु घॅत्ता । प्रळयांतुं वाड्ता जळ ।
ज्ञान प्राप्त जाय्त यॅत्ता । गिळ्ता विश्व हँ सकळ ।
तॅग्गांगेली अेकात्मता । सर्वत्र पळैता जळ ।
जी अवस्था ती शांती ॥१३७॥ आप्णाकची आप्पण ॥१३८॥

उगमु ओघु जलधी ।
कॉण खंई भेदबुध्दी ।
ऊर्ना ही सर्व समृध्दी ।
सर्वत्र ह्या अैक्यांतु ॥१३९॥

ज्ञेय जाण्णु घॅत्तां घॅत्तां ।
ज्ञान आलिंगन दित्ता ।
अेकत्वानॅ थंई उर्ता ।
सर्व अेक शांतींतु ॥१४०॥

व्याधी त्रासु घूर कोर्का ।
व्याधी तीवै बरी जांव्का ।
सेवा समभावी उर्का ।
चिंता ही सद्वैद्याक ॥१४१॥

चिक्लांतुं ही गाई पळ्ळ्या ।
व्यथा सह्य जाय्ना दॉळ्यां ।
म्हण्णा दुभ्ती की आक्कुळ्ळ्या ।
भाग्र काड्ची तळमळ ॥१४२॥

बुड्ता शूद्र की ब्राह्मणु ।
आस्सॉ कोणुइ जावॉ म्होण्णु ।
दयार्द्र ॲक्ळाक जाव्नु ।
बुड्तल्याक वांचैता ॥१४३॥

पाप्यानॅ रान्नांतु हाण्णु।
सोळ्ळी तिक्का नग्न कोर्नु ।
सभ्य तिक्का वस्त्र दीव्नु ।
लाज राक्ता तिगेली ॥१४४॥

अजाणतां वाट चुक्लॅ ।
दुर्दैवानॅ दोषी ठर्लॅं ।
लोकनिंदेक बॅजार्लॅं ।
अस्लॅं हॅं जॅं आस्ताती ॥१४५॥

तांकां स्वतः साह्य कोर्चें ।
दुःख विस्त्रोंच्याक लांव्चँ ।
मनांतुलँ शल्य काड्चँ ।
आनी कोर्चें सांत्वन ॥१४६॥

जॉ मॅळ्ता तागेलॅ दोष ।
तॅक्कडॅ कोर्नु दुर्लक्ष ।
धोर्चॉं सांगातु विशेष ।
तागेल्या सद्गुणांचॉ ॥१४७॥

प्रसादु पूजेचॉ घेंव्का ।
भोरु शॅत्ताचॉ पोळोंका ।
शुभाशिर्वादु मेळोंका ।
तुष्ट अतिथिगॅलॉ ॥१४८॥

आप्णालाग्चॉ बरॉ गुणु ।
दुस्त्र्यालागी तॉ ना म्हुणु ।
ताक्काई तॉ गुणु दीव्नु ।
कोर्का अश्शी भरौणी ॥१४९॥

दोषवैगुण्यांक हास्चँ ।
मना लाग्गशी उलोंचँ ।
कॉरॉ ना कॉरॉ दुरूंचँ ।
अस्लँ सर्व कोर्नयॅ ॥१५०॥

कॉर्णॅ जावॉ आप्णागॅलॉ ।
भर्भराटु कोर्नु घॅत्लॉ ।
पूर्वेतिहासु तागेलॉ काण्णु ।
घावु घाल्नयॅ ॥१५१॥

श्रेष्ठाक म्होण्काची उच्च ।
तरी कनिष्ठु ना नीच ।
तागेलॅ तॅं गुण तुच्छ ।
कश्शी लेक्कू जात्तीद ॥१५२॥

धनुर्धरा हँ सौजन्य ।
सांगलीं हीं ताज्जीं लक्षणं ।
मुख्य सुलभ साधन ।
जाण मोक्षप्राप्तीचँ ॥१५३॥

आत्तं दया करशी आस्ता ।
हँवै हांवं तुक्का सांग्तां ।
पौर्णिमेची शीतलता ।
करकी अेकी सर्वांकै ॥१५४॥

परपीडा निवारण ।
कर्तना सर्व समान ।
अविचल वृत्ती जाण ।
ह्या दयेची सदैव ॥१५५॥

उदकावारी आस्स कॉण ।
कर्तलॉ सर्वस्व दान ।
आनी दित्लॉ संजीवन ।
सुक्तल्या तणाकई ॥१५६॥

परदु:ख तॉ निवैता ।
सर्वस्वाचँ दान कर्ता ।
तरी सुद्दां हाक्का दिस्ता ।
दिंव्चँ कस्लँ ऊर्नँ म ॥१५७॥

फाँडारॉ अॅक्ळाक भर्ता ।
माग्गिरी उद्दाक व्हांव्ता ।
अॅक्ळाक ही सॅवा कर्ता ।
यॅना दुस्त्रॉ विचारु ॥१५८॥

कांटॉ तोप्पिलॉ पाय्याक ।
चैन ना काडवरेक ।
तरशी हागेल्या जीवाक ।
सेवेविना ना चैन ॥१५९॥

पाव्लांक थंडाई दिल्ली ।
तीची दॉळ्यांकई पाव्ली ।
कळ्ळँ दुस्त्रीं सुखी जाल्लीं ।
सुखी जात्ता हॉवई ॥१६०॥

निवोंचे खात्तीर तान ।
उद्दाक जाल्लँ उत्पन्न ।
तरशी हागेलँ जीवन ।
परहिताखात्तीर ॥१६१॥

हॉ पुरुषु सव्यसाची ।
मूर्ती प्रत्यक्ष दयेची ।
जन्मा वेळ्घडेधोर्नूची ।
हांवं तागेलॉ ऋणी ॥१६२॥

कमळाक सूर्याचेरी ।
अनन्य भावु जाल्यारी ।
सूर्यु त्या भ्रमरावारी ।
जाय्ना गंधलोलुप ॥१६३॥

वसंतु हासैत यॅत्ता ।
सृष्टीदेवीक सज्जैता ।
नी तॉ घॅनस्तना वत्ता ।
कस्लँ आप्णॉ दिल्लेलँ ॥१६४॥

महासिध्दी लक्ष्मीलाग्गी ।
नी ती यॅत्ता विष्णुलाग्गी ।
पळैना हॉ आप्णालाग्गी ।
म्हुणु धर्ता चरण ॥१६५॥

संसारस्वर्गाचँ सुख ।
आय्ल्यां बाग्लांतुं दिंव्च्याक ।
जाय्ना तय्यार भोग्गूक ।
मन कस्लँ कॅल्यारी ॥१६६॥

इच्छा विषयभोगाची ।
तीवै मनांतुं यॅनाची ।
अलोलुप्त दशा हीची ।
जाण तूं धनुर्धरा ॥१६७॥

म्हॉवा मूसांक बहारु ।
जलचरांक सागरु ।
जाई पक्ष्यांक विहारु ।
कोरूक हँ आकाश ॥१६८॥

चॅर्डाक पोळोंची प्रीती ।
आव्सुगेली नित्य वृत्ती ।
धर्ता वासंतिक द्रुती ।
मलयावॅलँ वारँ ॥१६९॥

प्रियदर्शनाचँ सुख ।
कुर्मी पळैता पिछांक ।
तश्शी प्रीती हॉ सर्वांक ।
दीव्नु जात्ता संतृप्त ॥१७०॥

स्पर्शु कॅल्यारी मृदुल ।
रुची घॅत्ल्यारी रसाळ ।
हुंग्ल्यारी यॅत्ता पर्मळ ।
शुध्द स्वच्छ दिस्सूक ॥१७१॥

अस्लॉ हॉ कर्पूरु जरी ।
घेव्नु खाछॉ पॉटभरी ।
अपायु जायश्ना जाल्यारी ।
दिव्ये शिली उपमा ॥१७२॥

महाभूतांतु जे आस्ता ।
परमाणुंतुंई दिस्ता ।
आकाशावारी जँ कर्ता ।
विश्र्वरूप धारण ॥१७३॥

अश्शी विश्र्वाचँ कल्याण ।
कोर्चें दीव्नु तनमन ।
हँची धनंजया जाण ।
मार्दवाचँ लक्षण ॥१७४॥

रायु पराजित जात्ता ।
ताँडावॅलँ तेज दँव्ता ।
उपेक्षेची खंती कर्ता ।
स्वाभिमानी पुरुषु ॥१७५॥

अकस्मात वाट चुक्ता ।
चांडाळ्याला घारा यॅत्ता ।
लाज काण्णु घेत्ली म्हण्ता ।
आर्प्णॉची तॉ संन्यासी ॥१७६॥

रगत क्षत्रियागॅलँ ।
क्षेत्रारी पावन जात्लँ ।
महासतीक म्हण्तलँ ।
कॉण की ही विधवा ॥१७७॥

कुष्ट रूपसंपन्नाक ।
अपवादु वा सभ्याक ।
क्लेशकारक मनाक ।
जात्ता करकी तागेल्या ॥१७८॥

काया साडेतीनी हात ।
कस्ली जात्ली हिज्गी गत ।
जन्ममरणाचँ भूत ।
बस्ल्यां गच्च मान्नेरी ॥१७९॥

गॉळॉ हॉ रक्तमांसाचॉ ।
आकारु गर्भाशयाचॉ ।
घॅत्ता नी निर्लज्ज जांव्चॉ ।
वेळु यॅत्ता जीवारी ॥१८०॥

अश्शी देह घेव्नु येंव्चँ ।
मिथ्या नामरूप धोर्चँ ।
ह्यापेक्षां निर्लज्ज जांवचे ।
आनी दुस्त्रँ कांइं ना ॥१८१॥

जन्ममरणाची खंती ।
साधुसज्जन घेत्ताती ।
निर्लज्जाक मात्र प्रीती ।
बहु दृढ हाज्जेरी ॥१८२॥

दोरयां आधारुची थुंटता ।
बोंव्यांगॅलॉ खेळु जात्ता ।
प्राणु देह सोण्णु वत्ता ।
कर्मेंद्रियं निकामी ॥१८३॥

रश्मीजाल काण्णु घॅत्ता ।
आनी सूर्यु अस्ता वत्ता ।
मन हँ स्ववश जात्ता ।
बुध्दींद्रियं ताव्यांतुं ॥१८४॥

मनोजयु प्राणायामु ।
दशेंद्रियांरी संयमु ।
दव्वर्ताती उपशमु ।
चांचल्याचाँ कर्ताती ॥१८५॥

जावॉ म्हुणु ईशप्राप्ती ।
ज्ञानमार्गु जॅ धर्ताती ।
धैर्यानॅ वत्त उर्ताती ।
प्रतिदीसु मुखारी ॥१८६॥

धर्ना मरणाची भीती ।
ज्वालेंतुं पतीसांगाती ।
वत्ता पतिव्रता सती ।
प्रीती धैर्य अतुक्त ॥१८७॥

आत्मलाभु जावॉ म्हुणु ।
विषय हॅ सोण्णु दीव्नु ।
शून्यांतुं समाधी लाव्नु ।
बोस्ची सुद्दां तय्यारी ॥१८८॥

विधि निषेधु ना भान ।
म्हण्ता दोन्नी तीं समान ।
महासिध्दीचँ सॉप्पन ।
सुद्दांई तॉ पळैना ॥१८९॥

उद्देशु ईश्वरप्राप्ती ।
स्वाभाविक जी प्रवृत्ती ।
तिक्काची पार्था म्हण्ताती ।
तेज तँ अध्यात्मिक ॥१९०॥

रॉमाचँ भान आस्सना ।
देह गणनाई कर्ना ।
सहन कर्ताई म्हण्णा ।
तीची निगर्वी क्षमा ॥१९१॥

इंद्रियांचॉ क्षोभु जावॉ ।
कर्मप्राप्त व्याधी यॅवॉ ।
प्रियाप्रिय प्राप्त जावॉ ।
वा तँ जावॉ विन्मुख ॥१९२॥

सर्वई अॅक्क सांगाती ।
अॅक्क वेळेरी यॅवोती ।
उब्रता जाव्नु अगस्ती ।
तांच्मुखारी धैर्यानॅ ॥१९३॥

कित्लॉई धुव्वरु भॉरॉ ।
सुट्ता आकाशांतुं वारॉ ।
दीना धुव्राक तॉ थारॉ ।
खंईं धांव्डाय्ता कळ्णा ॥१९४॥

पीडा दैविक भौतिक ।
अथवा त्याँ आध्यात्मिक ।
ह्या सर्वांक जँ गीळुक ।
यॅत्ता अैन वॅळारी ॥१९५॥

चित्ताक यर्थरॉ सुट्ता ।
कस्लँ सुच्चनाशँ जात्ता ।
धैर्य दीन्नु स्थिर कर्ता ।
बुध्दीक तीची घृतीं ॥१९६॥

स्वच्छ कलशु भांग्राचॉ ।
गंगोदकानॅ तॉ भोर्चा ।
पूज्य भावनेनॅ धोर्चा ।
तश्शी शौच जाण तूं ॥१९७॥

जँ शुध्द विवेक पूर्ण ।
निषकाम सदाचरण ।
अंतर्बाह्य तँ लक्षण ।
शुचित्वाच्‌ँ साकार ॥१९८॥

पापताप निवैतची ।
वृक्ष तीसरी पॉस्तची ।
गंगा कश्की समुद्राची ।
धर्ता वात सरळ ॥१९९॥

काळोकू धूर कर्तची ।
तेजालयं उध्घड्तची ।
सर्वत्र साक्ष दित्तची ।
कश्की सूर्यु उदेता ॥२००॥

बंधमुक्त कर्त वत्ता ।
बुड्तल्यांक भाग्र काड्ता ।
दु:ख कष्ट धूर कर्ता ।
पीडित जनांगॅलॅ ॥२०१॥

इतरांक सुखी कोर्चें ।
उध्दारु जाय्शी पोळोंचँ ।
हँ कर्त आस्तनाची दिंव्चँ ।
लक्ष स्वहिताकडॅ ॥२०२॥

जावॉ काम आप्णागॅलँ ।
पाड पॉडॉ दुस्त्र्यागॅलँ ।
चुक्कून विचार अस्लॅ ।
मनांतुंई यॅनाती ॥२०३॥

तुंवँ आस्काज आय्कूनु ।
अद्रोहत्व आस्ता म्हुणु ।
तॉची सांग्लॉ तुक्का गुणु ।
आत्तं सम कळशी ॥२०४॥

स्वर्गांत्थान्नु देव्ली जरी ।
नी बस्ली उच्चरस्थानारी ।
थंई शंभूल्या मात्त्यारी ।
तरी जाल्ली ती सानी ॥२०५॥

हँची अमानित्व पार्था ।
सांग्ल्यां माक्षी मस्तफंतां ।
पुरॉ अश्शी माक्क दिस्ता ।
कस्लँ सांग्चँ तँतँची ॥२०६॥

सव्वीस हँ दैवी गुण ।
अश्शी दिल्याती आंदण ।
मोक्षसम्राटाक जाण ।
उपभोगु घेंन्च्याक ॥२०७॥

नित्य नूतन हँ गुण ।
दुस्त्रँ गंगावतरण ।
जाल्लँ कोरूक पावन ।
सगराल्या पुत्रांक ॥२०८॥

गुणपुष्पांची ही माळ ।
हिगॅलॅ दैवी पर्मळ ।
सॉत्ता जॉ गळॉ निर्मळ ।
निरपेक्ष विरक्त ॥२०९॥

सव्वीस गुणांच्यॉ ज्योती ।
लाव्नु गीता कर्ता आर्ती ।
आत्मरचरूप जॉ पती ।
तागेली आदरानॅ ॥२१०॥

की गीतेच्या समुद्रांत्लीं ।
मेळ्ळीं मोतीं शिंप्ल्येतुलीं ।
तांचेरी दिस्ता झळाळी ।
ह्या दैवी ऐश्वर्याची ॥२११॥

दैवी गुण हॅ संपक ।
कित्लँ तांगेलँ वर्णन ।
कोरूक जात्ता तँ पूर्ण ।
कोर्नु कॅल्लँ सुस्पष्ट ॥२१२॥

अंतर्बाह्य जी दोषांनीं ।
भर्ल्या क्लेशाच्या कांट्यांनीं ।
आय्क जी दुःखदायिती ।
आसुरी ही संपत्ती ॥२१३॥

त्याज्य म्हळ्ळ्यारी तँ सोड्का ।
घेंव्का कस्ल्याक जँ नाक्का ।
जाल्यारी जँ कस्लँ सोडूका ।
तँवै कळ्का आय्क तँ ॥२१४॥

ज्या दोषांनीं प्राप्त जात्ता ।
घोर ती नरकावस्था ।
तॅं तूं आय्क आत्तं पार्था ।
जी आसुरी संपत्ती ॥२१५॥

सर्व विषं अेकवट ।
कॅल्यारी तँ कालकूट ।
दोषांचॉ कुटिल गट ।
ती आसुरी संपत्ती ॥२१६॥

तांतुलॉ पळॅ हॉ अेकु ।
हाक्का हॉड्पणाचॉ झोकु ।
आप्णावारी ना आन्येकु ।
अश्शी म्होण्चँ हॉ दंभु ॥२१७॥

आव्सूलँ पुण्यस्मरण ।
कर्ता संतान पावन ।
कॅछ्यारी दोषदर्शन ।
पतनाक कारण ॥२१८॥

गुरुमंत्रु गूढ आस्ता ।
तोवरेक मुक्तिदाता ।
चौरस्त्यारी जरी पड्ता ।
भवपाशु सुट्टश्ना ॥२१९॥

महापूरांतुं वांचैता ।
तीराचेरी जी पावैता ।
दोणी जॉ मात्त्यारी धर्ता ।
बुड्डश्ना वॅ तॉ तांतुं ॥२२०॥

जीवनावश्यक अन्न ।
घेंव्च्यांतुं आस्का प्रमाण ।
तँ चुक्ल्यारी तँ सेवन ।
जात्लँ विषसमान ॥२२१॥

जॉ इहपरहितांतुं ।
स्वधर्मु दित्ता सांगातु ।
उल्लैल्यारी तॉ चौगांतुं ।
चुक्कश्ना वॅ सद्गती ॥२२२॥

कोर्का स्वधर्माचरण ।
ताज्जेंची वाक्प्रसारण ।
जात्लँ तँ वामगमन ।
हॉची दंभु म्होण्काज ॥२२३॥

जाल्लॅ चारि शब्द गोत्तु ।
लॅक्ता आप्पण पंडितु ।
विद्वानांगेल्या सभेंतुं ।
कांइं अर्थु ना म्हण्ता ॥२२४॥

आप्पालॉ घॉडॉ शिपाई ।
म्हण्ता होडु गजेंद्राकै ।
वईवॅलॉ तॉ शिर्लाँई ।
लॅक्ता स्वर्गु तग्गूची ॥२२५॥

उज्जॉ जॉ तणाक लाग्ता ।
आकाश धोरूक धांव्ता ।
तळ्यांतुली मास्ली म्हण्ता ।
कॉणा जाई समुद्रु ॥२२६॥

मॅळ्ळँ कांता नी कांचन ।
विद्या स्तुती नी सन्मान ।
अेकु दिवसु परान्न ।
सोक्कूलॉची दरिद्री ॥२२७॥

मॉडा साव्ली मॅळ्ता म्हुणु ।
घाल्येद वॅ घर मोण्णु ।
लाग्गिचँ हँ तळँ सोण्णु ।
मृगजळ पिंव्का वॅ ॥२२८॥

अश्शी धनमानु मेळ्चँ ।
ताज्ज्यानॅ मातुनु वच्चँ ।
हाक्काची रॅ दर्पु म्होण्चँ ।
हँ सांग्काज म्हुणु ना ॥२२९॥

वेदची विश्वसनीय ।
ईश्वरूची पूजनीय ।
अेकमेव तेजोमय ।
सूर्युची ह्या जगाक ॥२३०॥

जगाची इच्छा अेक्कीची ।
सार्व भौमपद घेंव्ची ।
पाव्लं पण्णाशी पोळोंचीं ।
आप्पालाग्गी मृत्यूचीं ॥२३१॥

वेदस्तुती ईशभक्ती ।
जॅ कॉण कर्त आस्ताती ।
व्यर्थ तांचेरी कॉप्ताती ।
नी कर्ताती मत्सरू ॥२३२॥

ईश्वराक मार्नु खांव्का ।
वेदांचॉ विध्वंसु कोर्का ।
वांचोंच्याक यॅत्लॅ तांकां ।
धांव्डांव्काज म्हण्ताती ॥२३३॥

पतंगु पाक्कं फाप्पुड्ता ।
दिव्ली निव्ता की पळैता ।
काज्जुळॉ सूर्याक सव्ता ।
टिटवी समुद्राक ॥२३४॥

आत्मगौरवामुखारी ।
ईश्वरूई हाक्का वैरी ।
वच येव्नक्का इद्रारी ।
बाप्सुकई भिस्डाय्ता ॥२३५॥

इत्लँ निब्बर हॉड्पण ।
तँची तॉ हॉ अभिमान ।
नरकांतुं अेक स्थान ।
हाज्खात्तीर दव्वर्ता ॥२३६॥

इतरांगॅलँ जँ सुख ।
तँ हाक्का परमदुःख ।
जळता जळैता मनाक ।
व्यर्थ मत्सराग्नीनॅ ॥२३७॥

सळ्सळॉ आय्लॉ तॅलाक ।
मेळैलँ थंड उद्दाक ।
तड्तड्ता तँ नी कॉल्याक ।
जळैता चंद्रोदयु ॥२३८॥

यॅत्ता पूर्वेक भास्करु ।
विश्र्वाचॅ व्यापार सुरु ।
ताव्वळी घुध्घुमु चोरू ।
बस्ता दॉळॅ धांपुनु ॥२३९॥

प्रातःसमयु सुखद ।
तॉची पाप्यांक दुःखद ।
पिवैलँ सर्पाक दूद ।
तँ जात्ता काळकूट ॥२४०॥

अगाध समुद्रजळ ।
तरी नीव्ना वडवानळ ।
भग्भगु तॉ सर्वकाळ ।
शांत जाय्ना कॅर्नाई ॥२४१॥

पोळोनु दुस्त्रॉ संतुष्ट ।
जात्ता नुस्तेंपुणि रुष्ट ।
ताव्वळी कळ्ता की स्पष्ट ।
हॉची तॉ क्रोधु म्हुणु ॥२४२॥

मन सर्पागॅलॉ हुत्तु ।
बाण तागेल्या दृष्टींतुं ।
शब्दांचीं कँडं उत्रांतुं ।
अस्लँ हँ व्यक्तिमत्व ॥२४३॥

कस्लँ कॉरॉ तॅ कर्कर ।
चिर्त वत्ता खरखर ।
करशकी कर्वतीची धार ।
तरशी हागेलीं कर्मं ॥२४४॥

अस्ल्या अधमांतुं जाण ।
साकार निष्ठुरपण ।
आत्तं सांग्तां आय्क खूण ।
अर्जुना अज्ञानाची ॥२४५॥

फात्राक स्वताली जाण ।
आस्सना थंड की उष्ण ।
जात्यंधा रजनी दिन ।
कळ्णा हांतुलॉ भेदु ॥२४६॥

भुक्केमुखारी सुच्चना ।
हँ की तँ खाव्येद की ना ।
परिसाक करशकी कळ्णा ।
लोहालोहांत्लॉ भेदु ॥२४७॥

विविध अन्नरसांतुं ।
बुड्ता दौलॉ आय्दानांतुं ।
अजाण तॉ आस्वादांतुं ।
रुची भेदु कळ्णाची ॥२४८॥

भान आस्सना वारयाक ।
व्हांव्का ह्या की त्या दिकाक ।
वाट मॅळ्णा विवेकाक ।
सारासार कृत्याची ॥२४९॥

चॅर्डाक कस्लेई कळ्णा ।
फूट की भुर्शँ पळैना ।
हात्ता मॅळ्ता जँ तँ सॉण्णा ।
घाल्ता सर्वे ताँडांतुं ॥२५०॥

मनांतुं जँ येव्नु गॅल्लँ ।
बुध्दीक कोर्यांशँ दिस्लँ ।
बरँ की वाय्ट तांतुलँ ।
पळैनॅ केल्ली खिच्डी ॥२५१॥

पार्था सर्व हीं लक्षणं ।
अज्ञानाचीं हँ तूं जाण ।
अश्शी तुक्का सांग्लीं चिन्हं ।
ह्या सर्व स दोषांचीं ॥२५२॥

सची म्हुणु हॅ दिस्ताती ।
बल सम्म दाकैताती ।
सर्पु सानु हॉ म्हणताती ।
विष ताज्जँ बाधक ॥२५३॥

तश्शी अग्नि हॅ तिन्नीची ।
जाल्यारी तॅ ह्या विश्वाची ।
क्षणांतुं आहुती घेंव्ची ।
कश्शी तँ हॅ जाणताती ॥२५४॥

भीव्नु ब्रहयाक शरण ।
वत्ता चुक्कना मरण ।
द्विगुणित हॅ सजण ।
त्या तॅग्जणांमुखारी ॥२५५॥

अश्शी ह्या स दोषांमिती ।
सिध्द आसुरी संपत्ती ।
पावद हिगेली गती ।
खंईं थाई हँ कळ्णा ॥२५६॥

क्रूर ग्रह अॅक्डॅ मॅळ्ळॅ ।
नी अॅक्क राशीरी बस्लॅ ।
निंदा कर्तल्यानॅ सॉद्लॅ ।
सर्व दोष सांगाती ॥२५७॥

मोर्चँ सग्ळ्यॉ घेव्नु व्याधी ।
संकटांक अेक्की संधी ।
साध्धुन् येंव्ची जात्ता बुध्दी ।
ह्या कुमुहुर्ताचेरी ॥२५८॥

चोरूई अॅक्ळ्याक धर्ता ।
ताक्का विश्वासु दाकैता ।
श्रांतु उव्वारांतुं सॉड्ता ।
कस्लँ पळॅ दुर्दैव ॥२५९॥

सर्ता बोक्डेलँ आयुष्य ।
विच्चू कर्ता तिक्का दंस ।
तश्शी सग्ळॅ सई दोष ।
उचापत्यॉ कर्ताती ॥२६०॥

मोक्षाचँ नांवं आय्कनॅ ।
त्या दिकाकई पळैनॅ ।
आजिथाई भाग्र पण्णॅ ।
जॉ ह्या संसारांत्थाव्नु ॥२६१॥

तॉ नीच योनींतुं वत्ता ।
निरसर्त निस्सर्त दँव्ता ।
जड अवस्थेंतुं पड्ता ।
पळॅ ही अधोगती ॥२६२॥

अॅक्डॅ येव्नु हॅ स दोष ।
पळैताती रात्रंदीस ।
कश्शी जाय्द परिपोष ।
आसुरी संपत्तीचॉ ॥२६३॥

दैवी नी आसुरी दोन्नी ।
गुणी आनी अवगुणी ।
युक्त त्या त्या लक्षणांनीं ।
ती ती सांग्ली संपत्ती ॥२६४॥

दोन्नींतुली ही जी पैली ।
दैवी म्हुणु हांवँ सांग्ली ।
ती ह्या मोक्षसूर्यागेली ।
सुप्रभात सम्जूंची ॥२६५॥

मोहांतुं लकोनु दुस्त्री ।
वच्चूक सॉण्णा मुखारी ।
पाय्यांतुं बेडी बळजब्री ।
घाल्नु बांद्ता जीवाक ॥२६६॥

भीव्नक्का तूं हँ आय्कूनु ।
बस्ला वॅ रात्तीक भीव्नु ।
दीसु कॅर्ना माक्षी सर्नु ।
भींव्चेंची ना कारण ॥२६७॥

आसुरी गुणसंपन्न ।
ताक्काची रॅ हँ बंधन ।
कॉणॅ पळॅ तनमन ।
दिल्यां ह्या स दोषांक ॥२६८॥

तूं दैवी गुणसंपन्न ।
सद्गुणांचँ तूं निधान ।
जाव्नु जन्मा आय्ला जाण ।
निश्चित हँ पांडवा ॥२६९॥

स्वामी दैवी संपत्तीचॉ ।
धरी मार्गु तूं मोक्षाचॉ ।
तुक्का सुलभ सुखाचॉ ।
जात्लॉ हँची निश्चित ॥२७०॥

हॉ अनादिकालाधोर्नु ।
व्यवहारु आय्ला चल्नु ।
तांक्तांका तॉ सम जाव्नु ।
त्या त्या गुणांनुसार ॥२७१॥

रात्तीचॉ समयु सम ।
निशाचरा तॅर्नो काम ।
चल्ता संतसमागम ।
सज्जनांगॅलॉ दीसा ॥२७२॥

दैवी आसुरी प्रवृत्ती ।
त्यात्यानुसार चल्ताती ।
हांगा त्यॉ आम्कां दिस्ताती ।
दोन्नी ॲक्क सांगाती ॥२७३॥

माक्षी ज्ञानविवेचन ।
कर्तना कॅल्लॅ वर्णन ।
सर्व तॅ दैवी सद्गुण ।
सविस्तर कौंतेया ॥२७४॥

आत्तं दोषास्पद गुण ।
तॅ जीं आसुरी लक्षणं ।
सांग्तां करी तीं श्रवण ।
जाव्नु तूं सावधान ॥२७५॥

वाद्यं नाती ना निनादु ।
पुष्पं नाती ना सुगंधु ।
कार्यकारण संबंधु ।
अतूट हॉ सर्वत्र ॥२७६॥

देहाचॉ आधारु मॅळ्णा ।
आसुरी प्रवृत्ती यॅना ।
आप्णा इत्ल्याक आस्सना ।
जाव्नु ॲक्ळी आप्पण ॥२७७॥

राक्कूड आस्ल्यारी लाग्गी ।
थंई उज्जॉ लाग्ता वग्गी ।
हिक्का तश्शी मॅळ्ता रीगी ।
प्राणसंगी देहांतुं ॥२७८॥

कब्बू कश्की वाड्त वता ।
भित्तरी रस्सूई भर्ता ।
तश्शी हीवै वाड्त वत्ता ।
देहासांगाती पार्था ॥२७९॥

आसुरी दोषांसांगाती ।
जॅ अश्शी वाड्त वत्ताती ।
तांगेली आचारवृत्ती ।
कश्शी आस्ता तँ सांग्तां ॥२८०॥

पुण्यमार्गु धोर्नु चल्ना ।
पापमार्गु सोण्णु दीना ।
सावधानई आस्सना ।
मन जागी दव्वर्ना ॥२८१॥

घर बांद्चीची धांदल ।
दव्वर्ना ताक्का बागील ।
कष्ट जात्ताती तॅ फोल ।
बंदिवासु सदैव ॥२८२॥

परत मॅळद की ना ।
मुखावॅलँ हँ पळैना ।
आप्णालँ चॉराक दित्ना ।
पिश्शेपण न्है वॅ हँ ॥२८३॥

प्रवृत्ती ना निवृत्ती ना ।
माक्षी मुखारी पळैना ।
शुचितेचँ नांवं घॅना ।
सॉप्नांत्थाई आसुरी ॥२८४॥

काळॉ कॉळ्सॉ धंवॉ जाय्द ।
काय्ळॉई शुभ्र दिस्सद ।
मांसभक्षणाची यॅद ।
राक्षसाकई अब्की ॥२८५॥

आसुरीजनांक यॅना ।
शुचित्वाची रॅ कल्पना ।
मद्यपात्र मद्याविना ।
यॅता दुस्त्र्या कामाक ॥२८६॥

विधियुक्त आचरण ।
परंपरेचँ पालन ।
हांतुं पूर्ण उदासीन ।
कॅर्नाई तॅ आस्ताती ॥२८७॥

बोक्कडीशी चर्त वच्चँ ।
वारयावारी खंईं रिग्चँ ।
उज्ज्यावारी लास्सु लाग्चँ ।
लाग्गी जँ मॅळद तँ ॥२८८॥

कॅर्नाई स्वैर वर्तन ।
सत्यई जाय्ना सहन ।
नित्य हँची आचरण ।
आसुरी जनांगॅलँ ॥२८९॥

विच्चू नांगी हुळ् हुळाय्ता ।
आंगाक गुद्गुली जात्ता ।
असत्य वचनै दिस्ता ।
सत्यावारी तांगेलँ ॥२९०॥

अपानवायूक यॅद ।
जरी अत्यल्प सुगंध ।
तरी असत्यत्व जाय्द ।
तांगेलँ पूर्ण सत्य ॥२९१॥

कॉणालँ तॉ काम कर्ना ।
कॉणाक तॉ जाई हँ ना ।
कस्लँ तान्नॅ उल्लैतना ।
दिस्ता सांग्तां तँवई ॥२९२॥

उंटागेली देहाकृती ।
सग्ळ्यांनीं की पळैल्या ती ।
तश्शी तागेली ती रीती ।
उन्नांची आय्कूंकाज ॥२९३॥

धुव्वरु वैरी वच्चूक ।
दव्वर्ताती वाट अेक ।
तिज्वारी त्या वै ताँडाक ।
लागता धुव्राचॉ लोटु ॥२९४॥

विश्र्व हँ अनादि पार्था ।
ईश्र्वरु ताज्जॉ नियंता ।
निर्णयु वेदुची दित्ता ।
पळॅ धर्माधर्माचाँ ॥२९५॥

धर्माविरुध्द जॉ वर्त्लॉ ।
नरकांतु तॉ पड्तलॉ ।
धर्माक अनुसर्तलॉ ।
ताक्का स्वर्गु मॅळ्तलॉ ॥२९६॥

कर्मानुसार व्यवस्था ।
लाय्ल्या ही विश्वाची पार्था ।
अनादरु नी अनास्था ।
कर्ता हाज्जी तॉ व्यर्थ ॥२९७॥

देवु यज्ञांतुं हॉ म्हणता ।
दुस्त्रॉ तॉ मूर्तींतुं सॉद्ता ।
तिस्त्रॉ ध्यानयोगु कर्ता ।
तांतुं तॉ मॅळॉ म्हुणु ॥२९८॥

स्वाधिकारानॅ जँ मॅळ्ता ।
समर्थ्यानुसार भॉग्ता ।
तँची पुण्यफल पार्था ।
दुस्त्रँ सोद्का म्हुणु ना ॥२९९॥

हात्ताभाग्र जॅ दिस्ताती ।
म्हणता तॅ भोग मेळ्काती ।
जाय्श्ना म्हण्णापुडॅ प्राप्ती ।
जात्ता दु:ख तँ पाप ॥३००॥

श्रीमंतालॅ प्राण घेंव्चँ ।
जरी तँची पाप म्होण्चँ ।
तागेलँ अैश्र्वर्य भोग्चँ ।
म्होण्येद की तँ पुण्य ॥३०१॥

बळीनॅ दुर्बळाक गिळ्चँ ।
हँची जरी पाप म्होण्चँ ।
तरी इत्त्याक मास्ल्यांचँ ।
त्या जाय्नॅ नि:संतान ॥३०२॥

कुलशील पोळोनूची ।
गांटी घाल्ताती लग्नाची ।
ती तँ अेक निमित्तची ।
म्हणा प्रजोत्पत्तीचँ ॥३०३॥

सांग पशुपक्ष्यांगेली ।
कश्शी प्रजोत्पत्ती जाल्ली ।
खंच्या मुहुर्तारी लाय्लीं ।
कॉणॅ तांगेलीं लग्नं ॥३०४॥

चोर्नु हाळ्ळेलँ तँ धन ।
विष जाल्लँ मॅल्लँ कॉण ।
कोर्नु परस्त्रीगमन ।
जाल्ला वॅ गुप्तरोगु ॥३०५॥

दॅवागेली चल्ता सत्ता ।
बरँ वाय्ट भोग्गु लाय्ता ।
त्यानुसार तॉची दित्ता ।
परलोकांतुं गती ॥३०६॥

देवु तॉ खंईं दिस्सना ।
कस्ली गती तँवै कळणा ।
कर्ता करैतलॉची ना ।
व्यर्थची तॉ भोगुई ॥३०७॥

इंद्र तॉ भॉग्ता स्वर्गांतुं ।
उर्वशीगॅलॉ सांगातु ।
तश्शी कीडॉई चिक्लांतुं ।
भॉग्ता की सर्वसुख ॥३०८॥

नरकु मॅळ्णा पापानॅं ।
वा स्वर्गु पुण्यकर्मानॅं ।
खंईं वॉ वॉ तॉ सुखानॅं ।
राब्ता कामभोगांतुं ॥३०९॥

हँ स्त्री–पुरुषमीलन ।
कामवासना कारण ।
वाड्ता तांगेलँ संतान ।
जन्मा यॅत्ता हँ विश्व ॥३१०॥

स्वार्थु पॉस्ता ह्या कामाची ।
इच्छा सुखोपभोगाची ।
भॅळ्शॅता इच्छा सुखाची ।
बाव्ता कामवासना ॥३११॥

म्हुणु जगाचँ कारण ।
ही अेकी इच्छाची जाण ।
अश्शी हॅ आसुरीजन ।
म्होण्णु तश्शी चल्ताती ॥३१२॥

नाक्का हो विषयु आत्तं ।
चड उलोंचेंई व्यर्थ ।
इत्लँची घेंव्चँ की तथ्य ।
सोड्काती हॅ विचार ॥३१३॥

दॅवाक हॅ उलैताती ।
कर्त बस्ताती पंचाय्ती ।
इत्लँ न्हई बुध्दी मती ।
सर्वकाळ चंचल ॥३१४॥

दुरभिमानु दोषांचॉ ।
धोर्चॉं नी गौरवु कोर्चॉं ।
नेल्गटु नास्तिकतेचॉ ।
घाल्नु दिंव्चॉ जीवाक ॥३१५॥

धर्लेली स्वर्गाची प्रीती ।
तश्शी नरकाची भीती ।
दोन्नी कर्पुनु वत्ताती ।
अस्ल्या परिस्थितींतुं ॥३१६॥

फोंडु विषयचिक्लाचॉ ।
तांतुं बुड्बुडॉ देहाचॉ ।
नित्यानित्य येंव्चॉ फुट्चॉ ।
इत्लँ उर्ता केवळ ॥३१७॥

दिव्रांगॅलॉ तंडु यॅत्ता ।
मास्ली निःसंतान जात्ता ।
रॉगाचॉई जोरु वाड्ता ।
आनी पड्ता शरीर ॥३१८॥

धूमकेतूचँ दर्शन ।
विश्वाक अनिष्ट चिन्ह ।
तश्शी आय्ल्यारी हॅ जाण ।
त्रासु जात्ता लोकांक ॥३१९॥

पाप चिग्रलँ नी वाड्लँ ।
पापाचॅची रूक जाल्लॅं ।
आनी तांकां पाय फुट्लॅं ।
संचाराक लोकांतुं ॥३२०॥

उज्जॉ कस्लेंई लास्तना ।
माक्षी मुखारी पळैना ।
कस्लँ कॉरॉती तँ जाय्ना ।
अनुकुल कॉणाक ॥३२१॥

तरी तँची तँ कर्ताती ।
तॉची उत्साहु धर्ताती ।
तीची तांगेली ती रीती ।
सांग्तां म्हणता श्रीकांतु ॥३२२॥

कस्लँ करी बलँ धर्ना ।
उद्दाक तांतुं तड्दना ।
उज्जॉ काष्ठ पुरॉ म्हण्णा ।
भूक वत्ता वाड्तची ॥३२३॥

विषयेच्छेचँ सिंचन ।
कर्त वत्ता संगोपन ।
दंभमानाचँ पोषण ।
जाय्त उर्ता आप्याप ॥३२४॥

कश्की उन्मत्त हस्त्येक ।
मद्य पिवोंव्चँ घातक ।
तश्शी दोषांक वाड्डूक ।
दिंव्चँ प्रायेसांगाती ॥३२५॥

तॉची आग्रहाची मूर्ती ।
मूढता ताज्जेसांगाती ।
सांग कित्ली जाय्द नस्ती ।
तस्ल्या दुराग्रहाचो ॥३२६॥

कर्ताती तॅ जबरदस्ती ।
त्रासु दीव्नु सताय्ताती ।
जन्मतः ही प्रवृत्ती ।
आनी चल्ची रीतीई ॥३२७॥

आप्णाली बढाई मार्चँ ।
दुस्यांलॉ धिक्कारु कोर्चँ ।
आनी स्तुती कोर्नु घेंव्चँ ।
आप्णागेली चौगांतु ॥३२८॥

अस्लॉ हॉ दुरभिमानु ।
दव्वर्ता पापं पोस्सुनु ।
गांव्तुली गायी भुक्केव्नु ।
कश्की चर्ता खैंखंईं ॥३२९॥

पापकर्मांची प्रवृत्ती ।
तांतु तांकां गति मति ।
आजन्म चिंता कर्ताती ।
हाज्जी जावॉ वा ताज्जी ॥३३०॥

पाताळाकै तग्गु दँव्ता ।
आकाशाकै वैरी चड्ता ।
त्रिभुवन सान म्हण्ता ।
सर्वव्यापी ही चिंता ॥३३१॥

खंच्याई योगाक नेमु ।
आस्ता हिक्का ना संयमु ।
सॉण्णा पतिव्रताधर्मु ।
कड्डेर्थाई सांगाती ॥३३२॥

असार विषयध्यान ।
तँची चिंतेचँ कारण ।
तरी ताज्जेंची चिंतन ।
चल्त आस्ता सदैव ॥३३३॥

आय्कूंयां स्त्रियेलँ गान ।
घडॉ स्त्रियेलँ-दर्शन ।
मॅळॉ सर्वांगालिंगन ।
हीची अेकी कामना ॥३३४॥

तिक्का इद्रारी बसोंव्का ।
अमृत उव्वाळ्णु घाल्का ।
इतर विषय सोड्का ।
हॉची अेकु निश्चयु ॥३३५॥

तँ स्त्रीसुख मेळोंच्याक ।
आकाश पाताळ अेक ।
कोर्नु तॅ धाई दिकाक ।
जीवु सोण्णु धांव्ताती ॥३३६॥

आमिषाक भुल्ता फस्ता ।
मास्ली भक्ष्य म्होण्णु गिळ्ता ।
विषयुई घावु घाल्ता ।
तश्शी ह्या अस्ल्यांचेरी ॥३३७॥

इच्छिलेलँ सुख मॅळ्णा ।
हात्तांतुंई कस्लँ ऊर्ना ।
आशेकई सोडू जाय्ना ।
विषयांतुं लॉळ्ताती ॥३३८॥

अभिलाषा पूर्ण जाय्ना ।
आसक्ती कांइं सुट्टना ।
क्रोधु चित्तांतुलॉ नीव्ना ।
हॉची वॅ पुरुषार्थु ॥३३९॥

दीसा घाल्च्यॉ यॅरादारयॉ ।
रात्ती दव्वोर्चॉ पहारॉ ।
विश्रांति घेंव्च्याक थारॉ ।
शिपायाक मॅळ्णाची ॥३४०॥

गुड् र्थाव्नु गड्गडेता ।
आशा क्रोधारी आद्दळ्ता ।
तरी आनीकई वाड्ता ।
प्रीती विषयांचेरी ॥३४१॥

नाना विषयांचँ सुख ।
दिस्त आस्ता ह्या मनाक ।
मात्र तँ सर्व भोग्गूक ।
द्रव्यई जाई तश्शी ॥३४२॥

तँ भोग्गूक वळ्वळ्ताती ।
धन झोंबुनु घॅत्ताती ।
पुरॉ जाय्शी पळैताती ।
मेळैलेलँ हँ सर्व ॥३४३॥

ॲक्ळ्याक कात्र्येंतुं धोर्नु ।
दुस्त्र्याक पूरा नागोव्नु ।
तिस्त्र्यागेली हत्या कोर्नु ।
ॲक्डॅ कर्ताती धन ॥३४४॥

बलीं चिल्लं पाश आनी ।
ससार्णॅ हुंग्तलीं सुणीं ।
भालॅ आदि आयुधांनीं ।
सज्ज जात्ता शिकारी ॥३४५॥

कश्की हॉ प्राण्यांक मार्ता ।
आनी पॉट भोर्नु घॅत्ता ।
तश्शी विषय तॉ भॉग्ता ।
पीडा दीव्नु दुस्त्र्यांक ॥३४६॥

जीवु घेंव्च्याक माक्षेना ।
तस्लँ धनई भॉग्तना ।
संतोषाक पुरॉ पण्णा ।
तागेल्या त्रिभुवन ॥३४७॥

म्हणता इत्ल्या लोकांगॅलँ ।
धन आजि हांवँ लुट्लँ ।
धन्य हँ जीवन कॅल्लँ ।
पळॅ हांवँ मगेलँ ॥३४८॥

आत्मस्तुती कोर्नु घॅत्ना ।
मन तित्ल्यारी तड्वना ।
म्हणता तांकांई सोडीश्ना ।
आनीकै जॅ उल्यांती ॥३४९॥

आत्तं आश्शिलॉ अैवज ।
ताज्जंरीई मॅळ्ता व्याज ।
खैं खैं आनी जँ घेंव्काज ।
तँवै सोडू जाय्नाची ॥३५०॥

ताव्वळी विश्वाचँ सर्व ।
मॅळ्तलँ माक्का वैभव ।
ताज्जॉ स्वामी अेकमेव ।
हांवं जाव्नु आस्तलाँ ॥३५१॥

स्पर्धकु खंईं आस्सश्ना ।
वैरयागॅलँ नांवं यॅश्ना ।
दिग्विजयी ना मज्विना ।
दुस्त्रॉ कोणु जगांतुं ॥३५२॥

माक्का कामं कोर्नु दित्लॅ ।
मगेलॅ तॅ दास जात्लॅ ।
बाकी पड्ड्याआड वत्लॅ ।
हांवंची सर्वेश्वरु ॥३५३॥

जग भोगभूमी जात्ली ।
सर्व सुखं प्राप्त जात्लीं ।
इंद्राक लाज दिस्तली ।
पोळोनु हँ साम्राज्य ॥३५४॥

माक्का जँ कोर्यांशँ दिस्ता ।
तँ सहज जाव्नु वत्ता ।
कॉण कस्लँ कोरु शक्ता ।
आज्ञेविना मगेल्या ॥३५५॥

काळुई माक्का पोळोनु ।
भीव्नु वत्लॉ तॉ पर्तुनु ।
सग्ळीं सुखं हात जोण्णु ।
मज्मुखारी यॅत्ताती ॥३५६॥

कुबेरागेली संपत्ती ।
श्रीविष्णुगेली श्रीमंती ।
दॉगै लाज्जुनु बस्ताती ।
मगेल्या भांडारांतुं ॥३५७॥

मगेलॉ नांवलौकिक ।
नी पोळोनु समंदीक ।
उणेपण ब्रह्मथाक ।
आप्णांतुलँ दिस्तलँ ॥३५८॥

मगेलॉ नांवलौकिक ।
नी पोळोनु समंदीक ।
उणेपण ब्रह्मयागॅलँ ।
गुणगान कोर्काज ॥३५९॥

माटमोडी आचरण ।
विस्सर्ल्याती सर्वजण ।
ताज्जँ पुनरुत्थापन ।
कोर्का जात्लँ सांप्रत ॥३६०॥

ताव्वळी गुणगायन ।
मगेलँ मनरंजन ।
जात्लँ तांकां हांवं दीन ।
जँ जँ जाई तँ सर्व ॥३६१॥

खाव्नु पीव्नु घुंद जाव्नु ।
युवतींक आलिंगुनु ।
आनंदस्वरूप जाव्नु ।
भरीन त्रिभुवन ॥३६२॥

अस्लँ आनी कित्लँ सांग्चँ ।
हान्नॅ आकाशांतु उब्चँ ।
पर्मळ त्या खपुष्पांचॅ ।
घेंन्च्याक पिश्शयावारी ॥३६३॥

तापा भॉरांतु बड्बड्ता ।
रोगी ताज्ज्यांतु वॅ आस्ता ।
तश्शी हागेलॉ हॉ चल्ता ।
मेळु नात्तिलॉ खेळु ॥३६४॥

धूळी घेव्नु चक्रवातु ।
घुंव्ता वैरी आकाशांतुं ।
तश्शी आशा संकल्पांतुं ।
अज्ञानाक घुंव्डाय्ता ॥३६५॥

आषाढांतुं पाव्सा धार ।
समुद्र तरंगाकार ।
कश्की आस्ता निरंतर ।
तश्शी कामसंकल्प ॥३६६॥

कम्ळा वाली वाड्डत वत्ता ।
तळँ तग्गु धांपुन् घाल्ता ।
जीवाकई घुस्मुटाय्ता ।
विषयांची ही वाली ॥३६७॥

कश्की फात्राचेरी पड्ता ।
मड्कँ चूरचूर जात्ता ।
तश्शी चित्तशांती ढळ्ता ।
बिषयांच्या संगार्नॅ ॥३६८॥

राती लाग्गी लाग्गी यॅत्ता ।
काळोकु वाड्डत वत्ता ।
तशी विषयांचॉ वाड्ता ।
मोह अंतरंगांतुं ॥३६९॥

कस्कश्शी हॉ मोह वाड्ता ।
पापवासना चिग्रता ।
आनी सांगातीची वाड्ता ।
तिगेल् तिक्काची कळ्णा ॥३७०॥

पापांचॉची मेळु घड्ता ।
तांगेलॉ उन्मादु चड्ता ।
आनी भोग्ची पाळी यॅत्ता ।
नरकु ह्या जन्मांतु ॥३७१॥

म्हुणु लक्षांतु घॅ पार्था ।
जॉ ह्यॉ कुवासना पॉस्ता ।
आसुरी तॉ जाव्नु यॅत्ता ।
नॅव्नॅवार्नॅ जन्माक ॥३७२॥

तान्नॅ आश्शिल्या जाग्यारी ।
रुक्का पान्नं कोय्त्येवारी ।
फात्रा गुंडॅ कँडांवारी ।
ताप्पिलँ तॅल समुद्र ॥३७३॥

नित्य नव्यॉची यातना ।
सर्तीद कॅर्ना तँ कळ्णा ।
आत्तं चुक्कोंन्च्याकै जाय्ना ।
घोर नरकवासु ॥३७४॥

पळॅ कर्मं कित्लीं कस्लीं ।
फळं मेळ्चीं तित्लीं तस्लीं ।
कश्शी चुक्कोंन्च्याक जात्लीं ।
यज्ञयाग कोर्नु तीं ॥३७५॥

कोर्कोज म्हुणु तॉ कर्ता ।
तँ सगळँ नाटक जात्ता ।
हाज्जँ मेळ्चँ तँवै चुक्ता ।
व्यर्थ वत्ता हँ सर्व ॥३७६॥

हातु धर्तल्याली जात्ता ।
वेश्या बाय्लेवारी चल्ता ।
समाधान खंईं मॅळ्ता ।
तिक्का पतिव्रतेलँ ॥३७७॥

आप्णालँची तॉ आप्पण ।
भोची वाड्डैता हॉड्पण ।
म्हणता हांवं असामान्य ।
गर्वु चड्ता मात्त्यारी ॥३७८॥

विनय नम्रता सॉड्ता ।
लॉखंडा खांबॉसॉ राब्ता ।
की पर्वतु जाव्नु लाय्ता ।
मात्तँ हॉ आकाशाक ॥३७९॥

अश्शी पार्था तॉ आसुरी ।
आत्मगौरवामुखारी ।
पाय्मुळांत्ल्या तणावारी ।
तुच्छ लॅक्ता सर्वांक ॥३८०॥

आम्शेलेल्या धना सॉरॉ ।
म्हणता तॉ जीवाक बरॉ ।
कस्ल्याक जाई तॉ मॉरॉ ।
सारासार विवेकु ॥३८१॥

साक्षात् मूढतेची मूर्ती ।
धर्ना यज्ञाचेरी प्रीती ।
पिश्श्यावारी घातपाती ।
जाव्नु भाँव्ता सर्वत्र ॥३८२॥

पित्तां पित्तां चड्त वत्ता ।
यज्ञुई कोरूक बस्ता ।
सांगू जाय्ना रॅ तॉ पार्था ।
कॅर्ना कस्लँ करीद ॥३८३॥

यज्ञकुंड ना की वेदी ।
समिधा साहित्य आदि ।
मान्नना वेदोक्त विधी ।
पळॅ कित्लॉ उर्मट ॥३८४॥

दॅवागॅलँ नांवं घॅना ।
ब्राह्मणु लॅख्खाक धर्ना ।
कॉणागेली संभावना ।
करीद वॅ तॉ सांग ॥३८५॥

पेंडी बाँबँ वास्त्रागॅलँ ।
हाण्णु गाय्येइद्रारी बांद्लँ ।
हिक्मतेरी दूद काळ्ळँ ।
कश्शी पळॅ गौळ्यानॅ ॥३८६॥

तश्शी यज्ञ कर्ता म्होण्णु ।
लोकांक घारा आपोव्नु ।
उड्गॅरँ वसूल कोर्नु ।
घॅत्ता कित्लॉ बुद्वंतु ॥३८७॥

सॉत्ता कस्लेंई नॅवन ।
लुट्चँ सोज्वळ साधन ।
तांज्ल्याग्थाव्नु बरेपण ।
मॅळॉ म्हणता तँवई ॥३८८॥

वाजैता ढोलु तुतारी ।
नांचैता ध्वजु मुखारी ।
कोर्नु घॅत्ता जगभरी ।
आप्णाली हॉ प्रसिध्दी ॥३८९॥

नीचालॉ लौकिकु वृथा ।
गर्वु हागेलॉ वाड्डैता ।
काजळानॅ लँप्लासॉ दिस्ता ।
अमासेचॉ काळोकु ॥३९०॥

मूढताई वाड्त वत्ता ।
उध्दय्पण निब्बर जात्ता ।
अविवेकु नी अहंता ।
बेसुमार वाड्ताती ॥३९१॥

आप्णा पेक्षां बलवानु ।
दुस्त्र्यानॅ जाव्नयॅ म्हुणु ।
आप्णाल्या बलाची कोर्नु ।
घॅत्त आस्ता परीक्षा ॥३९२॥

सामर्थ्य नी अहंकारु ।
जात्ताती तॅ अेकाकारु ।
उस्सळ्ता महासागरु ।
दर्पाचॉ आकाशारी ॥३९३॥

दर्पु मदोन्मत्त जात्ता ।
कामविकारु सळ्सळ्ता ।
क्रोधाग्नी लास्सूक लाग्ता ।
अंतर्बाह्य सर्वांग ॥३९४॥

रखकी म्हैनॉ वैशाख ।
उज्जॉ तॅल्ला वखारीक ।
लाग्लॉ नी हुक्की वारयाक ।
आय्ली घुंन्ची सर्वत्र ॥३९५॥

अहंकार बल दर्प ।
जात्ताती तॅ अेकरूप ।
कामक्रोधई आपयाप ।
येव्नु हांकां मॅळ्ताती ॥३९६॥

हांकां जॉ मुखारी दिस्ता ।
तॉ हांगेलँ भक्ष्य जात्ता ।
हिंसेचँ हँ भूत लाग्ता ।
चारी दीक भोंव्च्याक ॥३९७॥

अॅक्ळाक तॅ आप्णागॅलँ ।
रक्तभांस जिरैतलॅ ।
प्राप्त जांव्का म्हुणु अस्लँ ।
मंत्रतंत्राचँ ज्ञान ॥३९८॥

देहदंडण कर्ताती ।
अंतरात्मा पळैनाती ।
हांवंयी तॉ हँ जाण्णाती ।
त्रासु ताज्जॉ माक्काई ॥३९९॥

माटमोडी जीं कर्ताती ।
माक्का चैतन्याकई तीं ।
क्लेशकारक जात्ताती ।
कश्शी कळ्णा हँ तांकां ॥४००॥

वांच्ताती जॅ सुदैवानॅ ।
धनुर्धरा हांतुल्यानॅ ।
तांकां हॅ नाना थरेनॅ ।
पशुवारी छळ्ताती ॥४०१॥

सती अथवा सज्जन ।
तपस्वी विरक्त जन ।
याज्ञिक वा महाजन ।
अथवा दानशूर ॥४०२॥

मगेलॅ हॅ भक्तजन ।
मगेलँ निवासस्थान ।
यज्ञयागानॅ पावन ।
जाल्याती जॅ हॅ मुनी ॥४०३॥

सॉड्ताती हॅ अस्ल्यांचेरी ।
द्वेषाचॅ बाण विषारी ।
दुर्जन हॅ दुराचारी
आसुरी महामारी ॥४०४॥

चल्ताती सर्व थरेनॅं ।
मल्यागी हॅ वैरत्वानॅं ।
त्या पाप्यांक अशी सॉण्णॅ ।
कर्ता हांवं शासन ॥४०५॥

मनुष्यालॉ जन्मु घेव्नु ।
देहधर्माक विस्सोर्नु ।
चल्तल्याक शिक्षा म्हुणु ।
दव्वर्ता ह्या स्थितींतुं ॥४०६॥

खंईं क्लेश बुज्बुज्ताती ।
जन्ममरणासांगाती ।
मोहमूढतेंची राती ।
खंईं आस्ता सदैव ॥४०७॥

पॉट्टापुर्तेंई मॅळश्ना ।
खंईं तणई चिग्रश्ना ।
वागु विच्चू कोर्नु रान्ना ।
व्होर्नु घाल्तां अस्ल्यांक ॥४०८॥

भुक्के संक्टाक हॅ तॅची ।
पिस्सुण खाल्लॅ आप्णाकची ।
मोर्नु नॅवानॅ तॅ त्याची ।
योनींतुं जन्मा यॅत्लॅ ॥४०९॥

आप्णाल्याची पॉट्टांतुलॅं ।
विष सर्वांगा लास्तलॅं ।
अस्लॅं रूप सर्पागॅलॅं ।
दीव्नु घाल्तां बीळांतुं ॥४१०॥

श्वासोश्वासाक जॉ वेळु ।
लागता तित्लॉई तॉ वेळु ।
कोर्नु दीश्ना अनुकूलु ।
घेंव्च्याकई विश्रांती ॥४११॥

युगं असंख्य वचोती ।
हीची आस्तली दुर्गती ।
मॅळ्णा क्लेशांत्थाव्नु मुक्ती ।
जन्म मृत्यु हांतुंची ॥४१२॥

इत्ल्यारीची पार्व्नॅ धाम ।
मुखारी आनी दुर्गम ।
वाट हॅं सानशॅं ग्राम ।
लाग्ल्यां अेक वाट्टेरी ॥४१३॥

अश्शी आसुरी संपत्ती ।
कर्ता दुर्दशा दुर्गती ।
आय्क ही सूभद्रापती ।
शोकांतिका जन्माची ॥४१४॥

जीव तामसी आसुरी ।
अस्ल्यांक तूर्ताक तरी ।
आस्स देहाची वासरी ।
आश्रयाक अर्जुना ॥४१५॥

तॉवै हांव काण्णु घॅत्तां ।
काळ्कांतुंची भाग्र घाल्तां ।
तॅर्ना तांकां वच्का पड्ता ।
नीच तमोयोनींतुं ॥४१६॥

पापई नांक कव्वळ्ता ।
नरकुई धूर सर्ता ।
श्रमु मूर्छा येव्नु पड्ता ।
थंचॅ क्लेश पोळोनु ॥४१७॥

चिक्लाक चिक्कोलु लाग्ता ।
कॉप्पाक संतापु यॅत्ता ।
महाभय्य थर्थरेता ।
आय्कुनुची नांवं रॅ ॥४१८॥

पाप म्हण्ता जाय्द भारी ।
अशुभ घॅना भित्तरी ।
नाक्का म्हण्ता भ्रष्टाचारी ।
आनी हांगेलॉ संगु ॥४१९॥

नीच तामसी योनींतुं ।
जन्मा यॅत्ताती जगांतुं ।
आनी त्या दुखस्थेंतुं ।
नाना क्लेश भॉग्ताती ॥४२०॥

रण्णँ यॅत्ता हँ सांग्तना ।
मना जात्ताती यातना ।
कित्लॅ मूढ कश्शी कळ्णा ।
कोर्नु घॅत्ला दुर्दशा ॥४२१॥

आसुरी गुण पॉस्ताती ।
नाना दुष्कृत्यं कर्ताती ।
कड्डेरी ही अधोगती ।
प्राप्त कोर्नु घॅत्ताती ॥४२२॥

दुष्ट संपत्तीक म्हुणु ।
पोळोनाक्का तूं दुंकुनु ।
नांवंई तिगेलँ सोण्णु ।
दिंव्काज धनुर्धरा ॥४२३॥

दंभादि हॅ सदुर्गुण ।
सोण्णु दिंव्काती संपूर्ण ।
हाज्जी तुक्का आय्ल्या जाण ।
सांग्का म्हुणु नाची हँ ॥४२४॥

काम क्रोध आनी लोभ ।
तॅग्गई हॅ जॅ अशुभ ।
तांगेलॉ जात्ता प्रक्षोभ ।
आम्चेरी तॉ कॅर्नाई ॥४२५॥

तॅग्गांगॅलँ हँ संकुल ।
आम्गेल्या दुःखांचँ मूळ ।
अनुभवाक सकळ ।
यॅत्ताची हँ आम्गेल्या ॥४२६॥

नरकवासु पाप्याक ।
लाय्ताती हॅची भोग्गूक ।
पापांच्या महासभेक ।
आपैताती आम्कांई ॥४२७॥

नरकवासु हॉ भोग्चॉ ।
पुराणांतुंची आय्कूंचॉ ।
प्रवेशु हांगेलॉ नांव्चॉ ।
उर्ता तोवरेकची ॥४२८॥

क्षण विलंबु कर्नाती ।
घाय घाव हॅ घाल्ताती ।
हानी कर्तली त्रिमूर्ती ।
साक्षात् हीची म्होण्येद ॥४२९॥

आनी कस्लँ चड सांग्चँ ।
महाद्वार नरकाचँ ।
तॅग्गजणांनीं उध्घोड्चँ ।
आनी आम्मी वत्त राव्चँ ॥४३०॥

जीवाभावानॅ जॉ जात्ता ।
दासु हांगेलॉ सर्वथा ।
तॉची नरकांतु पाव्ता ।
होडु मानसन्मानु ॥४३१॥

म्हुणु प्रयत्नानुसार ।
दव्वरी त्रिदोष धूर ।
जॅ सर्व पापांचँ घर ।
आनी द्वार नर्काचँ ॥४३२॥

पार्था पुरुषार्थ चारी ।
साध्य जात्तीद तॅं जरी ।
तॅग्गजण हॅं जॅं वैरी ।
नामशेष जात्तीद ॥४३३॥

तॅग्गई हॅं जोवरेक ।
सॉण्णाती पळॅ जीवाक ।
आय्कनॅं की तोवरेक ।
मॅळ्ळ्यां सुख जीवाक ॥४३४॥

कॉणाक जाई स्वहित ।
आनी नाक्का आत्मघात ।
तान्नॅं हांगेली संगत ।
सोड्का जाग्रतेचेरी ॥४३५॥

बांद्लॅं फात्तर पॉट्टाक ।
कश्शी जात्लॅं रॅं पोंन्च्याक ।
अन्न जीवनावश्यक ।
विष कॉण काल्लैद ॥४३६॥

धोर्नु हांगेलॉ सांगातु ।
कोणु जाल्ला रॅं कृतार्थु ।
म्हुणु हांचे दिकाक तूं ।
पोळोंचेंची सोण्णु दी ॥४३७॥

नशिबानॅं तीन पेडी ।
सुट्ली पाय्यांतुली बेडी ।
चम्कूंच्याक कस्ली अड्डी ।
येत्ली वत्ना मुखारी ॥४३८॥

देह त्रिदोषरहित ।
मन त्रितापविमुक्त ।
नगरांतुं ना त्रिकूट ।
तरी सर्वई सुखी.. ॥४३९॥

कॉणॅं कामादिकांगेली ।
ही संगती सोण्णु दिल्ली ।
ताक्का मॅळ्ता सज्जनांली ।
वाट मोक्षसुखाची ॥४४०॥

संतसंग दृढ धोर्नु ।
चल्ता शास्त्राधारु घेन्नु ।
वत्ता रान तॉ दांटुनु ।
जन्मजरामृत्यूचँ ॥४४१॥

गुरुकृपेचँ पट्टण ।
जात्ता तागेलँ स्वस्थान ।
तॉ आत्मानंदभुवन ।
जान्नु उर्ता सदैव ॥४४२॥

परमानंदाची जॉ सीमा ।
तॉ ताक्का मॅळ्ता परमात्मा ।
विर्धळ्ता प्रपंचप्रतिमा ।
आनंद सागरांतुं ॥४४३॥

जॉ कामक्रोधलोभाक ।
सॉण्णा लाग्गीची येंन्च्याक ।
आय्ल्यारी झाड्ता सर्वांक ।
तॉची धनी मोक्षाचॉ ॥४४४॥

धैर्य अश्शी जॅं धर्नाती ।
तॅंची गुलाम जात्ताती ।
आत्मवंचना कर्ताती ।
आप्पणची आप्णाली ॥४४५॥

समभावु जॉ सर्वांतुं ।
दव्वोर्नु तॉ कृपावंतु ।
वाट दाकैता काळ्कांतुं ।
तॉ वेदु नाक्का तांकां ॥४४६॥

दीनाती विधीक मान ।
विषयांतु तॅ तल्लीन ।
सांग कश्शी यॅद भान ।
तांकां आत्मबोधाचँ ॥४४७॥

तॅ त्या तॅग्गांक सॉण्णाती ।
व्हॅल्लेल् वाट्टेनॅ वत्ताती ।
थंथंई घुंव्त पड्ताती ।
स्वैराचारा रान्नांतुं ॥४४८॥

प्रवाहांतुं शिर्कताती ।
भाग्र पोड्चँ पळैनाती ।
हॉ विचारु तॅ हाण्णाती ।
मनांतु वा सॉप्नांतुं ॥४४९॥

ना तांकां संसारा सुख ।
धूरची तॉ परलोक ।
धड ना आश्शिलँ एक ।
वत्ता व्यर्थ आयुष्य ॥४५०॥

ब्राह्मणाक इच्छा जाल्ली ।
आजि धोर्नु खांव्यां मास्ली ।
वेष्टी सोण्णु काष्टी मार्ली ।
ना खार्वी ना ब्राह्मणु ॥४५१॥

सोण्णु दीव्नु आत्मज्ञान ।
धर्लँ विषयांचँ ध्यान ।
भॉग्तना आय्लँ मरण ।
तँ सॉळ्ळँ हँ जुग्गुळ्ळँ ॥४५२॥

चारि हात स्वर्गु धूर ।
नी हॉ संसारु दुस्तर ।
कस्ली अवस्था ही घोर ।
सॉप्नांतुंई ना मोक्ष ॥४५३॥

विषयेच्छेच्या बळारी ।
सुखांतुं राब्यां म्हळ्ळयारी ।
साध्य जाय्ना धनुर्धारी ।
ना स्वर्गु ना उध्दारु ॥४५४॥

कोर्नु घेंव्का आत्मोध्दारु ।
कोरु नज्ज अनादरु ।
वेदांचॉ जॅ सर्वाधारु ।
जीवनाक आम्गेल्या ॥४५५॥

पती सांग्ता तश्शी चल्ता ।
भाग्यवती पतिव्रता ।
सहजचि प्राप्त जात्ता ।
हित तिक्का तिगेलँ ॥४५६॥

शिष्य सद्गुरुवचन ।
सदैव कर्ता पालन ।
तॉवै पाव्ता चिरंतन ।
निजसुखसदन ॥४५७॥

जरी वस्तु दव्वर्लेली ।
तीची रात्ती सोद्का पळ्ळी ।
तरी खात्रीनॅ मॅळ्तली ।
ती दिव्या उज्वाडांतुं ॥४५८॥

जरी चारी पुरुषार्थ ।
कोर्नु घेंव्काती तॅ प्राप्त ।
तरी जांव्का अवनत।
श्रुतीस्मृतीं मुखारी ॥४५९॥

शास्त्रानॅ जँ सांग्ल्यां सोड्का ।
तँ राज्यई तण म्होण्का ।
विष जरी सांग्ल्यां घेंव्का ।
तँवै पळॅ घेंव्काज ॥४६०॥

दृढ निष्ठा वेदांचेरी ।
सर्वकाळ दव्वर्ल्यारी ।
वेळु यॅश्ना कॉणाचेरी ।
अनिष्ट पोळोंचॉची ॥४६१॥

अहिताचँ निवारण ।
नी हिताचँ संवर्धन ।
कर्तलँ ना दुस्त्रँ कॉण ।
श्रुती माऊलीविना ॥४६२॥

कॉण वा हिक्का सॉडद ।
जी दित्ता तँ ब्रह्मपद ।
म्हुणु विशेष सावध ।
जाव्नु दी तूं मर्याद ॥४६३॥

तुगेलँ पुण्य फळाक ।
येव्नु आय्ला तूं जन्माक ।
शास्त्रार्थु सिध्द कोरूक ।
अश्शी दिस्तची आस्स ॥४६४॥

धर्मागेली फाटी धोर्नु ।
आय्लॉ ताक्का सार्थ जाव्नु ।
स्वधर्माक अनुसर्नु ।
धर्मानुज जा आत्तं ॥४६५॥

शास्त्राधारानुसारची ।
परीक्षा कार्याकार्याची ।
दृष्टी घाल्नु विवेकाची ।
तुंवँ पार्था कोर्काज ॥४६६॥

ताव्वळी जँ योग्य दिस्ता ।
करी तँ उचित पार्था ।
कौशल्यानॅं तूं सर्वथा ।
आनी अत्यादरानॅं ॥४६७॥

तूंची सामर्थ्य सद्‌बुध्दी ।
तूंची शुध्द चित्तवृत्ती ।
लोकसंग्रहाची सिध्दी ।
आस्स पळॅ तुज्ज्यांतुं ॥४६८॥

अश्शी आसुरी दुर्गुण ।
कोर्नु विस्तृत वर्णन ।
कॅल्लॉ सारांशु कथन ।
श्रीकृष्णानॅं पार्थाक ॥४६९॥

आत्तं निम्गिलँ पार्थानॅं ।
जँ कस्लँ तँ सद्‌भावानॅं ।
आय्कया अेक चित्तानॅं ।
तँ सर्व हाज्मुखारी ॥४७०॥

निरूपण व्यासागॅलँ ।
संजयानॅं राया सांग्लँ ।
आत्तं आय्कया मगेलँ ।
सांग्तां गुरुकृपेनॅं ॥४७१॥

तुम्मी कृपाळु जाय्याती ।
प्रेमवर्षावु कराती ।
माक्का पात्रता दिय्याती ।
तुम्गेल्या त्या प्रेमाची ॥४७२॥

तुम्गेलँ हँ अवधान ।
तँ माक्का पसायदान ।
सत्य हँ सता य जाय्न ।
म्हणता हॉ ज्ञानदेवु ॥४७३॥

**॥ ज्ञानदेवु सांगता गीता । मधु अनुवादु कर्ता ।
सॉळावॉ अध्यायु बोरोनु जात्ता ।
दैवासुरसंपद् विभाग योगाचॉ ॥**

# सत्रावॉ अध्यायु

सोडि समाधी कृपाकटाक्षु ।
घाली जात्लॉ संशयनाशु ।
विश्वरूप तूं तूचि गणेशु ।
घॅ हॅं वंदन गुरुराया ॥१॥

आत्मशंकरु जॉ त्रिगुणांकित ।
तीनि अवस्थांतुं जॉ कुंठित ।
हान्नॅ तांकां कॅल्लॅं अवनत ।
केवळ तुगेल्या स्मरणानॅ ॥२॥

श्रीशंकरु जाल्लॉ त्रिपुरारी ।
म्हुणु तूं ताज्पेक्षांई भारी ।
पावैता तूं पैलतीरारी ।
हगूर तरि त्या नौकेकै ॥३॥

जॅ तुक्का जाण्णु घॅत्ताती ।
तॅ तूं उल्लैना म्हण्ताती ।
जॅ गुर्तु कोर्नु घॅत्ताती ।
तांत्ल्यागी तूं हळ्बळी ॥४॥

दृष्टी सपूर नी सानी ।
धांप्चॅं उघ्घोड्चॅं पात्त्यांनीं ।
कर्तना घड्ताती दोन्नी ।
उत्पत्ती नी प्रळयु ॥५॥

प्रवृत्तीचॉ कानु हाल्ता ।
गंडस्थ गंधु पस्सर्ता ।
जीवभृंगु थंईं सॉब्ता ।
पूजा नीलोत्पलाची ॥६॥

निवृत्तीचॉ कानु हाल्ता ।
कमळ तॅं गळ्णु पड्ता ।
पूजा अंतर्मुख जाता ।
घड्ता आत्मदर्शन ॥७॥

वामांगी विश्वमोहिनी ।
माया कलाविलासिनी ।
ती तांडवानुगामिनी ।
तुगेलीची छाया ती ॥८॥

धर्ता तुगेलॉ सांगातु ।
मेळ्णु वत्ता ती तुज्ज्यांतुं ।
कस्ली किमया कर्ता तूं ।
मोक्षदाता उदारा ॥९॥

बंधनांत्थाव्नु सोडैता ।
तूंची जगद्बंधु जात्ता ।
जॉ तुक्का शरण यॅत्ता ।
तुज्वारी तॉ स्वानंदु ॥१०॥

हांवं तूं हॉ विचारु ना ।
द्वैत देहभावु ऊर्ना ।
हांवंची पोळोंच्याक ना ।
करशी आस्ता अेकत्व ॥११॥

तुक्का सोद्दूक धांव्ताती ।
खैं खैं धूर तॅ वत्ताती ।
पाय तुगेलॅ यॅत्ताती ।
माक्षी तांकां राक्कूक ॥१२॥

ध्यानानॅं मनांतुं मूर्ती ।
हाण्णुई तांकां मॅळ्णा ती ।
कॉण उन्मन जात्ताती ।
तांकां घड्ता दर्शन ॥१३॥

अशी कॉणाक मॅळ्णा तूं ।
मेळोंच्वारी वस्तु ना तूं ।
स्वयंसिध्द स्वतंत्र तूं ।
थक्लॅ सर्वज्ञ वेद ॥१४॥

स्तुती तुक्का जाई नाक्का ।
मायेक मान्का की नाक्का ।
सांगश्ना तूं कांइं माक्का ।
मौन राशी तुगेली ॥१५॥

सेवकु जाव्यां म्हळ्ळ्यारी ।
द्वैत दिस्ता की इद्रारी ।
म्हुणु खंचै समंदारी ।
ऊर्ना आत्तं तुल्यागी ॥१६॥

अस्लॅ समंद जुळ्तना ।
द्वैत विस्सोरूक जाय्ना ।
रहस्य हँ निरंजना ।
कळ्ळँ माक्का तुगेलँ ॥१७॥

मीट उद्कांतुं कर्गता ।
अेक रसरूप जात्ता ।
तश्शी हँ नमनै नाथा ।
मेळ्णु वचॉ तुज्ज्यांतुं ॥१८॥

रित्तॉ कलशु उद्कांतुं ।
बुड्ता भर्ता तॉ क्षणांतुं ।
धोर्नु तेजाचॉ सांगातु ।
ज्योती जात्ता ती वाती ॥१९॥

तश्शी हे श्रीगुरुनाथा ।
ह्या नमनाची पूर्तता ।
पावॉ तुज्ज्यांतुं सर्वथा ।
आत्तं सांग्तां गीतार्थु ॥२०॥

सर्तना षोडशोध्यायु ।
दॅवानॅं दिल्लॉ निर्णयु ।
जावॉ सफल स्वाध्यायु ।
म्हुणु आम्कां सर्वांक ॥२१॥

त्याखात्तीर कृत्याकृत्य ।
कस्लँ आस्स तँ अगत्य ।
कोर्काज हँ सांग्लँ सत्य ।
ताक्का शास्त्र प्रमाण ॥२२॥

अर्जुना तुक्का दिस्सद ।
कश्शी हँ मान्य कोर्येद ।
शास्त्राधारानॅंची जाय्द ।
हॉ स्वाध्यायु सफल ॥२३॥

सर्पागॅल्या फॉ ंतुलॉ ।
मणी काडूक वॅ जात्लॉ ।
सिंहागॅल्या नांकां तुलॉ ।
केसु कॉण थुंटैद ॥२४॥

की तॉ मणी त्या कॅसांतुं ।
गांतुनु तॉची गळ्यांतुं ।
घाल्नु घेंव्काज हॅर्शांतुं ।
गळॉ रित्तॉ सोड्काज ॥२५॥

शास्त्रं अनेक अनंत ।
विविध तांगेलीं मतं ।
कोणु आस्स वा समर्थ ।
पोळोंच्याक वीं सर्व ॥२६॥

सम्ज तँवै साध्य जाल्लॅं ।
कॉण त्यानुसार चल्तलँ ।
आयुष्य मॅळद तित्लँ ।
खात्री आस्स वॅ सांग ॥२७॥

शास्त्र, द्रव्य, देश काल ।
चारीई हॅं अनुकुल ।
जात्तीद वॅ ह्या सकल ।
लोकांकई सहज ॥२८॥

अश्शी हॉची शास्त्राधारु ।
आस्तना इत्लॉ अस्थिरु ।
जात्लॉ ताज्जॉ अनुसरु ।
साध्य वॅ मुमुक्षूंक ॥२९॥

पार्थगॅल्या ह्या शंकेचँ ।
आत्तं समाधान कोर्चें ।
हँ सत्राव्या अध्यायाचँ ।
अेकची प्रयोजन ॥३०॥

तरी विषयविरक्त ।
सर्वकला पारंगत ।
अर्जुनु हॉ जाल्लॉ मूर्त ।
दुस्त्रॉ की हॉ श्रीकृष्णु ॥३१॥

शौर्याक हॉची आधारु ।
सोमवंशाचॉ श्रृंगारु ।
कोर्चो पर उपकारु ।
हीची हागेली लीला ॥३२॥

बुद्धिमत्तेक भो प्रियु ।
ब्रह्मविद्येक आश्रयु ।
ईश्वरागॅलॉ स्वकीयु ।
धनुर्धरु कौंतेयु ॥३३॥

म्हणता पार्थु मेघश्यामा ।
मूर्तरूप तूं परमात्मा ।
शांत करी ह्या विभ्रमा ।
जॉ सताय्ता मनाक ॥३४॥

अन्यथा ह्या शास्त्रांविना ।
मोक्षु कॉणाकई मॅळणा ।
इत्याक हँ सांग्लँ कळणा ।
इत्लँ तुवँ निक्षूनु ॥३५॥

सम्ज मॅळ्णॅ अनुकुल ।
काळु वा अॅखादँ स्थळ ।
शिकैतलॉई दुर्मिळ ।
अभ्यसनीय शास्त्रं ॥३६॥

साह्य कॉणागॅलँई ना ।
लाग्चँ साहित्य लाग्गी ना ।
खईंथाव्नु हाड्चँ कळणा ।
अस्ल्या अैन वॅळारी ॥३७॥

संचिताचँई बल ना ।
तित्ली बुध्दिमत्ताई ना ।
क्षमता जरी आस्सश्ना ।
कष्ट घेंन्ची शिक्तना ॥३८॥

मनांतुं विचार अस्लॅं ।
ॲक्ळाकची जरी आय्लॅं ।
तरी अध्ययन जाल्लँ ।
म्हळ्ळेल्वारीची दॅवा ॥३९॥

जाल्यारी निर्धारु कोर्नु ।
अश्शी शास्त्रसिध्द जाव्नु ।
परलोक तॅ गांट्टुनु ।
थंई क्षेम पाव्ताती ॥४०॥

मनांतुं ही आशा धोर्नु ।
जांव्यां तांच्वारीची म्हुणु ।
तांन्नीं चल्लेल्वारी चल्नु ।
दुस्त्रॅं यत्न कर्ताती ॥४१॥

पुस्ती पोळोनु अक्षर ।
कश्की काड्ता निरक्षर ।
फाटि धोर्नु कर्ता पार ।
वाट कश्की कुर्डांई ॥४२॥

शास्त्रप्रवीण जॅं कॉण ।
तांगेलँ तँ आचरण ।
पोळोनु अनुकरण ।
तॅं श्रध्देनॅं कर्ताती ॥४३॥

हरी वा शिवपूजन ।
विद्या अथवा भूदान ।
कर्ताती होमहवन ।
तश्शी हींवै श्रध्देनॅं ॥४४॥

त्या सत्त्वरजतमांतुं ।
कॉणा कस्ली गती हांतुं ।
मॅळद हँ श्रीकृष्णा तूं ।
सांग आम्कां सर्वई ॥४५॥

देह आधारु साव्लीक ।
परागु वेदप्रभाक ।
तश्शी हॉ वैकुंठनायक ।
सूत्रधारु विश्वाचॉ ॥४६॥

काळु अनादि अनंतु ।
सर्वश्रेष्ठ त्रैलोक्यांतुं ।
अेकमेव नी अव्यक्तु ।
आनंदधननीळु ॥४७॥

अश्शी जॉ गुणसंपन्नु ।
हॉ श्रीकृष्णु दयाघनु।
सांग्ता सुप्रसन्न जाव्नु ।
अेक अेक सर्वई ॥४८॥

कळ्ता तुगेली ही आस्था ।
ह्या विषयांतुली पार्था ।
शास्त्रसाधनेची व्यथा ।
मात्र तुक्का भिस्डाय्ता ॥४९॥

श्रध्देच्याची बळाचेरी ।
पाव्तलाँ मोक्षपदारी ।
म्होण्णक्का हँ धनुर्धारी ।
इत्लँ ना तँ सुलभ ॥५०॥

चड विश्वासु धोर्नाक्का ।
हिगेलॉ तूं उपासका ।
कस्ल्याक सांगातु घेंव्का ।
ब्राह्मणानॅं शूद्रालॉ ॥५१॥

मद्यपात्रांतुं भर्लेलँ ।
गंगोदक जरी जाछँ ।
तीर्थ म्हुणु कॉण घॅत्लँ ।
तँ तूं सांग्शी वॅ माक्का ॥५२॥

चंदन शीतल स्वता ।
उज्ज्या सांगाती तँ जळ्ता ।
आप्पुळ्यारी हातु लास्ता ।
गोत्तु ना वॅ हँ तुक्का ॥५३॥

कीड भांगार आट्टैलँ ।
थॉडँ चॉखई मेळैलँ ।
तँ चॉख मॉछानॅं घॅत्लँ ।
जात्लँ की ना नुक्सान ॥५४॥

मूळ स्वरूप श्रध्देचँ ।
निर्विकल्प जाव्नु आस्चँ ।
जाछयारी तिक्का जीवाचँ ।
गुणदोष लाग्ताती ॥५५॥

प्रभावु आदिमायेचॉ ।
जीवारी सदैव आस्चॉ ।
खेळु चल्ता त्रिगुणांचॉ ।
स्वाभाविक त्यामितीं ॥५६॥

दॉग्गजणांक नीद यॅत्ता ।
अॅक्ळॉ तॅर्नां जागी आस्ता ।
ताज्वारीची वृत्ती जात्ता ।
जीवाची त्या वॅळारी ॥५७॥

वृत्तीवारी मन जात्ता ।
मना दिश्शिल्वारी घड्ता ।
मेल्लेल्तरी सुरु जात्ता ।
नॅवार्नॅ हँ दुश्चक्र ॥५८॥

बीज वाड्डुन् रूकु जात्ता ।
रुक्कांत्थाव्नु बीज मॅळ्ता ।
युगान्युग अशी चल्ता ।
बीज बदल्ना जाती ॥५९॥

तश्शी जन्म अगणित ।
जाय्त उर्ताती सतत ।
त्रिगुणत्व तँ खंडित ।
जाय्ना पळॅ जीवाचँ ॥६०॥

श्रध्दा जीवागेली आस्ता ।
त्या गुणांवारी ती जात्ता ।
अश्शी त्रिविध ती मॅळ्ता ।
पोळोंच्याक जगांतुं ॥६१॥

वाड्ता शुध्द सत्त्वगुणु ।
ज्ञानाक प्रवृत्त जाव्नु ।
तॅर्नां तॉंड हॅं फिराव्नु ।
बस्ताती दॉग्गजण ॥६२॥

सत्त्वालॉ सांगातु घॅत्ता ।
श्रद्धा मोक्षमार्गु धर्ता ।
सांग बस्तीद वॅ पार्था ।
दॉग्गजण नोळीत ॥६३॥

रज सत्त्वाक धांव्डाय्ता ।
आनी आकाशांतुं उब्ता ।
श्रध्दा कर्ममार्गु धर्ता ।
कर्ता नाना संकल्प ॥६४॥

हांगा तम जाळ पाव्ता ।
श्रध्देक तँ ताण्णु हाड्ता ।
विषय भोग्गूक लाय्ता ।
तिक्का नाक्नाक्जाल्लेलॅ ॥६५॥

अश्शी ह्यॉ तीनी आस्सती ।
आनी दुस्त्र्यॉ खंच्यॉ नाती ।
तीनी थरेनॅ चल्ताती ।
ह्या जीवाच्या सांगाती ॥६६॥

श्रध्देचीं हीं स्वाभाविक ।
रूपं जीं त्रिगुणात्मक ।
अश्शी तुक्का एक एक ।
विंग्विंगड कळ्तलीं ॥६७॥

जल जीवनावश्यक ।
विष घाल्यारी मारक ।
मिरीं घाल्यारी तँ तीक ।
कब्बा रस्सांतुं गॉड ॥६८॥

मन तमोगुणाधीन ।
जात्ता श्रध्दा तत्समान ।
तँ तँची रूप धारण ।
कोर्नु उर्ता सदैव ॥६९॥

काज्ळांतु आनी मशींतु ।
भेदु दिस्ता वॅ सांग तूं ।
श्रद्धेंतु तमोगुणांतु ।
भेदु ऊर्ना रॅ तश्शी ॥७०॥

राजस रजोगुणांतुं ।
सात्त्विक सत्त्वगुणांतुं ।
तुक्का त्या त्या स्वरूपांतुं ।
दिस्ता पळॅ ही श्रध्दा ॥७१॥

अश्शी जगांतुं सर्वत्र ।
खेळु चल्ता अहोरात्र ।
श्रध्देचॉची अेकमात्र ।
ह्या त्रिविध रूपांतुं ॥७२॥

श्रध्देची तीत्ती दर्शनं ।
त्रिगुणांचीं तीं लक्षणं ।
हँची अेक सत्य जाण ।
पार्था ह्या विषयांतुलँ ॥७३॥

कस्ल्या रूकु फूल सांग्ता ।
मना साक्ष वाचा दित्ता ।
भोगांवॅल्यानॅई कळ्ता ।
पूर्वजन्मांचीं कृत्यं ॥७४॥

तश्शी श्रध्देचीं लक्षणं ।
सांग्ताती हॅ खंचॅ गुण ।
आय्क ताज्जँ हँ वर्णन ।
कोर्नु सांग्तां जँ तुक्का ॥७५॥

जॅ सत्त्वशील आस्ताती ।
दॅवा दिवत्र तॅ वळ्ताती ।
बुध्दिनिष्ठ तॅ कर्ताती ।
स्वर्गाचॉई विचारु ॥७६॥

सर्व विद्या तॅ शिक्ताती ।
उचित यज्ञ कर्ताती ।
आनी वच्चुनु पाव्ताती ।
अश्शी देवलोकाक ॥७७॥

रजोगुणी जॅ आस्ताती ।
राक्षसांक तॅ मान्ताती ।
वशाई कोर्नु घॅत्ताती ।
पिशाच्चांक सर्वथा ॥७८॥

तमोगुणी आस्ता कश्शी ।
केवळ तॉ पापराशी ।
निष्ठुर नी भो कर्कशी ।
कळ्ळँ न्हवॅ हँ तुक्का ॥७९॥

प्राण्यागॅलॉ जीवु घॅत्ता ।
आनी ताक्का बळी दित्ता ।
सांजॅ स्मशानांतुं कर्ता ।
पूजा भूतप्रेतांची ॥८०॥

ह्या अस्ल्या नरदेहांतुं ।
तमोगुण तंतोतंतु ।
भर्ल्याती ना कस्लॉ हांतुं ।
तीळमात्र संसयु ॥८१॥

त्रिविध ह्यॉ श्रध्दा सग्ळ्यॉ ।
हांचँ विस्तारानॅ सांग्ल्यॉ ।
इत्खात्तीर सांग्का पळ्ळ्यॉ ।
तुक्का सांग्तां तँवई ॥८२॥

जी आस्स श्रध्दा सात्त्विक ।
राक्कूनु घॅ सहेतूक ।
उर्लेल्याँ दोनी सोडूक ।
वेळू काइका म्हूणु ना ॥८३॥

सात्त्विकतेचॉ आधारु ।
घॅत्त्यारी जात्ता उध्दारु ।
कश्शी जात्लॉ हॉ बॅजारु ।
कोर्का म्हुणु ना तुंवँ ॥८४॥

ब्रह्मसूत्र वाच्काजची ।
सर्व शास्त्रं कळ्कातीची ।
मुखोद्गत जांव्कातीची ।
अश्शी कांइं ना पळॅ ॥८५॥

जाल्यारी जॅ बहुश्रुत ।
तॅची वेद मूर्तीमंत ।
आचरणानॅ दाकैत ।
आस्ताती मोक्षमार्गु ॥८६॥

कॉण वाट ती धर्नाती ।
सत्त्वशील तॅ जात्ताती ।
तांकांई तीची सदगती ।
भेदु नाची कर्स्लॉई ॥८७॥

अॅक्ळ्यानॅ खट्पट कोर्नु ।
दव्वर्लँ लाटण लाव्नु ।
थंईं दुस्त्रॉ बस्लॉ येव्नु ।
आय्लॉ वॅ तॉ काळ्कांतुं ॥८८॥

अॅक्लॉ मस्त खर्च कोर्नु ।
घर घॅत्ता रॅ बांदुनु ।
यॅत्ता आश्रयाक कोणु ।
ताक्का जाय्श्ना वॅ सुख ॥८९॥

तळँ जॉ बांदोव्नु घॅत्ता ।
वा जॉ पाकसिध्दी कर्ता ।
सांग तानभूक निव्ता ।
नांग्तांगेलीची मात्र ॥९०॥

परिश्रम कोर्नु हाळ्ळी ।
गौतमाल्नी गंगा जाल्नी ।
ती दुस्र्यांक होळु जाल्नी ।
अश्शी म्होणु जाय्द वॅ ॥९१॥

आचरणानॅ शास्त्रोक्त ।
कोर्नु घॅत्ता जॉ स्वहित।
ताक्का अनुसर्नु मुक्त ।
जात्नॉ मूर्खुई पार्था ॥९२॥

ताळॉ साफ कोरू कळ्णा ।
पुराण सांगूक जाय्ना ।
अस्लॉ शास्त्रज्ञाक दीना ।
मानु तान्नॅ आय्ल्यारी ॥९३॥

म्हाल्गाडॅ कश्शी चल्ताती ।
पोळोनु तांकां हास्ताती ।
पंडितांक वॅंगाय्ताती ।
कित्लॉ हॉ अनादरु ॥९४॥

बुद्वंतपण विक्रैनाती ।
घनाचॉ गर्वु धर्ताती ।
दांभिकांगेल्या कर्ताती ।
स्तुती यज्ञयागांची ॥९५॥

तांच्छदारी जॅ यॅत्ताती ।
तांकां शस्त्रानॅ मार्ताती ।
यज्ञपात्रं तॅ घॅत्ताती ।
भोर्नु रक्तमांसानॅ ॥९६॥

दुष्ट दैत्यांक भज्ताती ।
चेर्ड्वांक बळी दित्ताती ।
अग्निकुंडांतु घाल्ताती ।
पावैताती आंग्वण ॥९७॥

क्षुद्र देवतांक खुष ।
कोरूक आट् आट दीस ।
वत्तायेचेरी उपास ।
कर्ताती कांइंजण ॥९८॥

स्वता त्रासु कोर्नु घेंन्चॉ ।
दुस्त्र्यांकई इत्त्या दिंन्चॉ ।
जन्मजन्मांतु हॉ येंन्चॉ ।
आस्स पळॅ प्रसंगु ॥९९॥

भुजांतुं कांइं बळ ना ।
दोणीचॉ आधारु घॅना ।
करशी वत्लॉ तॉ अर्जुना ।
समुद्र हॉ दांटुनु ॥१००॥

वैद्याचेरी घुस्फुसेनु ।
वक्कद घाल्लँ विक्रोनु ।
रोगी उरद वांचुनु ।
की तॉ सांग मरद ॥१०१॥

निरोगी दॉळॅ दुस्त्र्यालॅ ।
पोळोनु जॉ आप्णागॅलॅ ।
खोंचुन् घॅत्ता बरॅ दॉळॅ ।
कुर्डा जात्लॉ की ना तॉ ॥१०२॥

असुर हॅ मूढ जाव्नु ।
शास्त्रशुध्द मार्गु सोण्णु ।
पड्ताती रान्नांतुं येव्नु ।
घोर स्वैराचाराच्या ॥१०३॥

इच्छा सांग्ता तँ कर्ताती ।
क्रोधु सांग्ता हॅ मार्ताती ।
माक्काइ पुर्नु घाल्ताती ।
ही अेकी पीडा म्होण्णु ॥१०४॥

हॅ स्वताक नी दुस्त्र्यांक ।
दीत आस्ताती जँ दुःख ।
ताज्जॉ त्रासु परमात्म्याक ।
जाछेल्शिवाय राब्बना ॥१०५॥

नांवं अस्ल्या पाप्यांगॅलँ ।
घेंन्च्या नज्ज घेंव्का पळँ ।
गुर्तु मॅळ्का म्हुणु सांग्लँ ।
तुंवँ तांकां सोड्च्याक ॥१०६॥

प्रेत घराभाय्र हाड्का ।
हात्तानॅ चिक्कोलु काड्का ।
शूद्राक तूं वच म्होण्का ।
चुक्कोंन्च्याक सांगातु ॥१०७॥

शुध्द निर्मलत्व जांव्का ।
हॉची अेकु भावु आस्का ।
अमंगळ सोण्णु दिंव्का ।
हॉची सांग्चोई हेतू ॥१०८॥

अस्लॅ जरी तुक्का दिस्लॅ ।
करी स्मरण मगेलँ ।
प्रायाश्चित्त दुस्त्रँ कस्लँ ।
घेंव्का म्हुणु पडश्ना ॥१०९॥

आत्तं श्रध्दा जी सात्त्विक ।
सांग्तां तुक्का-ती तूं आय्क ।
करी तिगेलँ सम्यक ।
पालन तूं सर्वथा ॥११०॥

धरी सांगातु की अस्लॉ ।
सात्त्विक गुणु वाड्तलॉ ।
सत्त्ववृत्तीक पॉस्तलॉ ।
घॅ तस्लॉची आहारु ॥१११॥

आहारु जॉ घेंव्चॉ आस्ता ।
ताज्ज्यानॅ स्वभावु घड्ता ।
जाण्णु घॅत्ल्यां आस्का पार्था ।
तुंवँ अनुभवानॅ ॥११२॥

हॅर्शांतु सावध आस्ता ।
तॉची जरी मद्य पित्ता ।
धुंद जाव्नु झांकु लाग्ता ।
पळैल्यां न्हवॅ तुंवँ ॥११३॥

हाळीत सोण्णु जॉ जॅव्ता ।
ताक्का वात कफ जात्ता ।
की दूद पिल्यारी निव्ता ।
तापु सांग तूं माक्का ॥११४॥

कॅल्यारी अमृतपान ।
चुक्ता आयिलँ मरण ।
कॅल्यारी विषप्राशन ।
चुक्कद वॅ तँ सांग ॥११५॥

आहारु जॉ कस्लॉ आस्ता ।
तश्शी ती धारणा जात्ता ।
मनोवृत्ती तश्शी घड्ता ।
स्वभावुई तिज्वारी ॥११६॥

आय्दान भाय्ल्यानॅ ताप्ता ।
उद्काकई हून जात्ता ।
तश्शी चित्तवृत्ती घड्ता ।
त्या त्या अन्नाक धोर्नु ॥११७॥

सत्त्वाक सात्त्विक अन्न ।
रजाक राजसी खाण ।
तमाकै तामसी खाण ।
पॉस्ता आनी वाड्डैता ॥११८॥

सात्त्विक आनी राजसी ।
तश्शी आहारु तामसी ।
कस्लॉ आनी आस्ता कश्शी ।
हँ सांग्तां तूं लक्ष दी ॥११९॥

तांकां तँ तँ अेक अन्न ।
जँ तांग्तांगेलँ पोषण ।
कर्ता जाल्यारी हॅ तीन ।
जाल्लॅ कश्शी प्रकार ॥१२०॥

जॅव्तल्यागॅल्या जीवाची ।
कस्ल्या नमुन्याची रुची ।
अन्नई जाई तस्लँची ।
जीवु गुणांचॉ दासु ॥१२१॥

जीवु गुणाधीन आस्ता ।
तीनी रूपांतु तॉ दिस्ता ।
तीनी प्रकारांनीं चल्ता ।
जँ कर्ता तँची भॉग्ता ॥१२२॥

म्हुणु त्रिविध आहार ।
यज्ञाचॅ तीनी प्रकार ।
तपदानादि आचार ।
तॅवै सर्व त्रिविध ॥१२३॥

अॅक्ळाक विषयु घॅत्तां ।
आहाराचॉ तॉची सांग्तां ।
लक्षणं ताज्जीं हीं पार्था ।
आय्क तूं लक्ष दीव्नु ॥१२४॥

मधुर सुरस अन्न ।
ताज्जेरीची वत्ता मन ।
तांव्वळी तॉ सत्त्वगुण ।
थंईं आस्स सम्जूंचँ ॥१२५॥

पार्था तांतुलॅं पदार्थ ।
परिपक्व रसयुक्त ।
गॉड्शॅ आनी भो मायस्त ।
अस्लॅंची तॅं आस्ताती ॥१२६॥

हॉड भॉड्बॅ आस्सनाती ।
मोव्वु मॉव्वाळ लाग्ताती ।
जिब्बेरीची कर्गताती ।
स्वादपूर्ण आस्ताती ॥१२७॥

शॉळॅं अथवा सुक्किलॅं ।
वत लाग्गुनु बाव्विलॅं ।
रस्सा अंशुई नात्तिलॅं ।
अश्शी तॅं आस्सनाती ॥१२८॥

प्रमाणांतु तॅं आस्ताती ।
जात्ता मात्र सम तृप्ती ।
गुरूपदेशाचीं मोतीं ।
कश्की बहु मॉलाचीं ॥१२९॥

कित्लॅं जिब्बेक रुच्कर ।
तित्लॅं जीवा सुखकर ।
अस्ल्याची प्रीती अपार ।
त्या सात्त्विक लोकाक ॥१३०॥

अस्लँ सात्त्विक भोजन ।
हींची ताज्जीं जाण चिन्हं ।
आयुष्याचँ संजीवन ।
नित्यानित्य नवँची ॥१३१॥

सत्त्वरसाचँ सेवन ।
दीर्घायुषी कर्ता जाण ।
कश्की पाव्सु जीवदान ।
दित्ता जीर्ण न्हैयांक ॥१३२॥

अस्लॉ पार्था हॉ आहारु ।
सात्त्विकतेचॉ आधारु ।
दिता दाता दिनकरु ।
दिवसाक उज्वाडु... ॥१३३॥

शरीराक नी मनाक ।
आस्तना हॉ सांभाळूक ।
सांग खंच्याई रॉगाक ।
रिग्चँ धैर्य जाय्द वॅ ॥१३४॥

हॉची आहारु सात्त्विक ।
जीवा आरोग्यदायक ।
जात्ता देहाचँ सार्थक ।
हँची म्होण्का सद्भाग्य ॥१३५॥

घेंन्चॅ दिंन्चॅ व्यवहार ।
निश्चिंत पड्ताती पार ।
आनंदु उत्तरोत्तर ।
वाड्त वत्ता सहज ॥१३६॥

अस्लॉ सात्त्विक आहारु ।
दाता हॉ थोर उदारु ।
करी आत्तं उपकारु ।
तूं तनमनाचेरी ॥१३७॥

आहारु राजसागॅलॉ ।
भो प्रीतीचॉ नी तॉ कस्लॉ ।
हांवं मुखारी सांग्तलाँ ।
ह्या प्रसंगानुसार ॥१३८॥

इत्लेंची यॅना मरण ।
दुस्त्रँ काळकूट जाण ।
लास्ता हाज्जँ आम्शेंपण ।
चुन्याकई चडची ॥१३९॥

चोग्रू आड्कँ आनी मिट्शँ ।
ॲक्डॅ मेळोनु तँ सर्शं ।
दिस्चँ गॉळाय्त बोस्यांशँ ।
पळॅ अस्ली ही रुची ॥१४०॥

हाज्जीची ताक्का आवड ।
दिस्ता उज्जॉ गिळ्ता तॉंड ।
इत्लॉ हूनु की विंगड ।
लेक्चँ सार्खँ ना हांतुं ॥१४१॥

त्या भग्भग्त्या उज्ज्याचेरी ।
वात्त्यॉ जळोव्येद चारी ।
खत्खतीची दिलेल्तरी ।
जात्ता खुषी चडची ॥१४२॥

तुफानापेक्षां वेगार्नॅ ।
पारायेकै तीक्ष्ण मॉनॅ ।
कळ्णा तॉप्लँ की तॉप्पनॅ ।
अश्शी हास्त जिरैता ॥१४३॥

खरखशीसॉ गॉब्रावारी ।
स्पर्शु जिब्बेक जाल्यारी ।
ताज्जँ सुखई भो भारी ।
जालेल्वारी लॅक्ता तॉ ॥१४४॥

कस्लँ खात्ना दांतादांत ।
आद्दळ्ळ्यारी जात्ता तृप्त ।
बरँ मॅळ्ळँ म्हणत म्हणत ।
गिळ्ता घासु गुळ्कनॅ ॥१४५॥

ॲक्ळाकची सणण जात्ता ।
खात्ना मिर्या फणण घाल्ता ।
माग्गिरी तॉ शिंक्त बस्ता ।
आनी काड्ता किलोण्यॉ ॥१४६॥

भुग्भुग् जात्ता जँ खाल्यारी ।
अस्लेंची रायँ मॅळ्ळ्यारी ।
प्राणापेक्षां प्रिय भारी ।
दिश्शिल्वारी कर्ता तॉ ॥१४७॥

कित्लँ खावॉ पॉट भर्ना ।
तॉंड जीब खाली सॉण्णा ।
केवळ उज्जॉ अर्जुना ।
घॅत्ता भोर्नु पॉट्टांतुं ॥१४८॥

सुंटी लवंग चाब्डाय्ता ।
नॅलारी मांच्यारी लॉळ्ता ।
थंड जावॉ म्हुणु पित्ता ।
पॅल्यार् पॅलॉ उद्दाक ॥१४९॥

हाक्का वॅ आहारु म्होण्चँ ।
नात्तिलॅ रॉग आपोंव्चॅ ।
नुस्तेंपुणि हँ जागोव्चँ ।
निद्दलेल्या सर्पाक ॥१५०॥

रॉग सांगाती यॅत्ताती ।
कॉण प्रबळु म्हणताती ।
ह्या आहाराची दुर्गती ।
जांच्ची पळॅ अश्शीची ॥१५१॥

आहारु हॉ कश्शी आस्ता ।
नी हाज्मितीं कस्लँ जात्ता ।
हॉ विचारु तुक्का पार्था ।
सांग्लॉ कोर्नु वर्णन ॥१५२॥

तामसी आहारु अश्शी ।
आस्ता हँ आय्कुनु म्हण्शी ।
अस्लॉ कस्लॉ बा हॉ इश्शी ।
म्होण्णु नांक कव्वळशी ॥१५३॥

उष्टँ नी कुश्शिलँ खात्ना ।
खाल्यारी तँ हित जाय्श्ना ।
अश्शी हँ मनांतु यॅना ।
म्हैशी खाय्ना वॅ तस्लँ ॥१५४॥

सकाळींची जँ शिज्जैता ।
धॉन्पाराक तँ दव्वर्ता ।
आनी भो प्रीतीनॅ खात्ता ।
तँ मात्र दुस्त्रॅ दीसु ॥१५५॥

अर्दारीची शिज्जैलेलँ ।
अथवा कर्पुन् गॅलेलँ ।
वा नि:सत्त्व जालेलँ ।
तँवै खात्ता प्रीतीनॅ ॥१५६॥

सम शिज्जैलेलँ अन्न ।
आनी तँवै रसपूर्ण ।
आहाराचँ हँ लक्षण ।
आस्ता हँवै तॉ जाण्णा ॥१५७॥

तस्लॉ आहारु मॅळ्ळ्यारी ।
दव्वर्ता तॉ दीस चारी ।
शॅळॉ जान्नु गॅलेल्तरी ।
खात्तां तॉ वाघावारी ॥१५८॥

मस्त दीस मद्दँ गॅल्लॅ ।
म्हुणु रुचिहीन जाल्लँ ।
भॅळशेलँ किंवा बुर्शेलँ ।
तरी तँ तॉ सोडिश्ना ॥१५९॥

चेर्डूं चिक्कोलु चिर्डिता ।
तश्शी तॉ अन्न मर्दिता ।
कालौनु तँ राडी कर्ता ।
खात्ता बाय्ले सांगाती ॥१६०॥

अस्लँ घाण्यार्डँ तॉ खात्ता ।
मिष्टान्नची मॅळ्ळँ म्हणता ।
तृप्त जाय्ना आशा धर्ता ।
नित्य मेळची तॉ पापी ॥१६१॥

पळॅ कस्लॉ चमत्कारु ।
अस्लॉ निषिध्द आहारु ।
शास्त्रानॅ कॅल्ला अव्हेरु ।
ताज्जीची ताक्का भूक ॥१६२॥

शास्त्र जँ पीव्नयॅ म्हणता ।
जँ अखाद्य त्याज्य म्हणता ।
तँ त्या तामसाक दिस्ता ।
तँची पिव्यां खाव्यांशँ ॥१६३॥

हॉची आहारु जॉ घॅत्ता ।
ताक्का ताज्जँ फल मॅळ्ता ।
परिणामु भोग्का पड्ता ।
त्याची क्षणाक पार्था ॥१६४॥

अहितकारक अन्न ।
ज्या वॅळारी तॉ सेवन ।
कर्ता तॅर्नां अकल्याण ।
कोर्नु घॅत्ता जन्माचँ ॥१६५॥

जेंव्ची रीतीची ना गोत्तु ।
भर्त वत्ता तॉ पॉट्टांतुं ।
चॅप्ताती गोणी चिल्लांतुं ।
कश्की सर्व सामानु ॥१६६॥

शिरच्छेदु कोर्नु घेंव्का ।
अॅक्ळाक उज्जांतुं रिग्का ।
माग्गिरी ताज्जॉ पोळोंका ।
की सांग परिणामु ॥१६७॥

परिणामु ह्या अन्नाचॉ ।
आनीक ना दुस्रॉ जांव्चॉ ।
परीक्षेचँ भाण मेच्चॉ ।
प्रसंगुची ना हांगा ॥१६८॥

आत्तं आहारावारीची ।
रीती आस्स यज्ञ कोर्चीं ।
तीवै तीनी प्रकाराची ।
आय्क तॅं तूं अर्जुना ॥१६९॥

पळॅ पैलॉ हॉ प्रकारु ।
शुध्द सात्त्विक आचारु ।
जीवनाचॉ जॉ आधारु ।
ख्यातनाम अर्जुना ॥१७०॥

पति अेकु प्रियोत्तमु ।
तॉची अेकु कल्पद्रुमु ।
कश्की हॉची मनोधर्मु ।
आस्ता पतिव्रतेलॉ ॥१७१॥

गंगा समुद्राक मॅळ्ता ।
मुखारी वच्चँ विस्सर्ता ।
आत्म्याक पोळोनु बस्ता ।
वेदु कश्की नोळीत ॥१७२॥

तश्शी स्वहिताखात्तीर ।
चित्तवृत्ती कोर्नु स्थिर ।
कर्तृत्वाचॉ अधिकार ।
आनी फल सॉड्ताती ॥१७३॥

झाडा घाल्लेलँ उद्दाक ।
पाव्ता ताज्ज्याची मूळांक ।
मेळ्णु वत्ता सर्वांगाक ।
कश्शी यॅत्लँ पर्तुनु ॥१७४॥

कोर्चेंची यज्ञानुष्ठान ।
म्होण्णु तनमनधन ।
कर्ताती जॅ समर्पण ।
नी जात्ताती तद्रूप ॥१७५॥

विषयविरक्त जाव्नु ।
फलाची अपेक्षा सोण्णु ।
स्वधर्मपालन कोर्नु ।
सजैताती यज्ञाक ॥१७६॥

कान् ॅतुं आप्णालँ रूप ।
दॉळ्यां दिस्ता की आप्याप ।
कळ्ता रत्नाचँ स्वरूप ।
तळहात्तारी धल्र्यारी ॥१७७॥

सूर्यप्रकाशांतुं स्पष्ट ।
दिस्ता कश्की वच्ची वाट ।
वेदार्थु पावैता थेट ।
मूढाक सन्मार्गारी ॥१७८॥

कुंडं वेदी मंडपादि ।
साधनांची ही समृध्दी ।
पोळोनु दिस्ता की विधि ।
स्वता कर्ता सिध्दता ॥१७९॥

यथायोग्य अलंकार ।
घाल्नु देहाक श्रृंगार ।
कर्ताती तश्शी भांडार ।
साहित्याचँ मांडैता ॥१८०॥

यज्ञाचँ हँ रूप घेव्नु ।
आयल्या सालंकृत जाव्नु ।
साक्षात् यज्ञविद्या म्हुणु ।
आनी चड उल्लैना ॥१८१॥

यज्ञु यथासांग जात्ता ।
कॅल्लॉ आण्णॉ हँ विस्सर्ता ।
सर्वथा विनम्र आस्ता ।
अश्शी चारि चौगांतुं ॥१८२॥

तोडु वत्ता त्या जाग्यारी ।
लाय्ता तुळशी झाडं चारी ।
फूल फळ साव्ल्येचेरी ।
आशा धोर्नु बैसना ॥१८३॥

दित्ता यज्ञु निरपेक्ष ।
सत्त्वगुणाची हॉ साक्ष ।
अश्शी हँ तॉ सहस्त्राक्ष ।
सांग्ता धनुर्धराक ॥१८४॥

आस्ता रॅ अस्लोई एकु ।
मेळोंका म्हुणु लौकिकु ।
आपैता रायाक बकु ।
द्विजु म्हुणु श्राध्दाक ॥१८५॥

रायु घारा यॅत्लॉ पळॅ ।
श्राध्दई पार पड्तलँ ।
माग्गुन् घेंव्च्याक मॅळ्तलँ ।
जात्ली कीर्ती लोकांतुं ॥१८६॥

हीची आकांक्षा मनांतु ।
यज्ञु जात्लॉ सुरळितु ।
यॅत्लॉ स्वर्गुई हात्तांतुं ।
जात्लाँ ख्यात दीक्षितु ॥१८७॥

अश्शी फलापेक्षा धोर्नु ।
सुप्रसिध्द जांव्का म्हुणु ।
जात्ता जॉ केवळ यज्ञु ।
राजस तॉ म्होण्येद ॥१८८॥

लग्नं पशुपक्षांगेलीं ।
सांग कॉणॅ येव्नु लाय्लीं ।
तामसी यज्ञाक जाल्लीं ।
हटं तश्शी कारण ॥१८९॥

वारॉ वाट सॉत्त पण्णा ।
मृत्यु मुहुर्तु पळैना ।
लास्तना विचारु कर्ना ।
उज्जॉ शुभाशुभाचॉ ॥१९०॥

अश्शी जरी हीं कर्तीद ।
तामसी विधी मानीद ।
जाल्यारी तॉ अनिर्बंध ।
तश्शी कांइं चलश्ना ॥१९१॥

कर्ना विधींचँ पालन ।
ना वेदमंत्रोच्चारण ।
मूसाथाई अन्ना कण ।
दीना तॉंडा लाग्गुक ॥१९२॥

ब्राह्मणालँ नांवं काण्णा ।
दीद व सांग दक्षिणा ।
वैर आनी धनतृष्णा ।
वारॉ नी उज्ज्यावारी ॥१९३॥

यज्ञु कर्ता श्रध्देवीण ।
खर्चैता नुस्तेंची धन ।
निपुत्रिकालँ सदन ।
कश्की कोणइ बळकाय्ता ॥१९४॥

यज्ञु केलेल्वारी दिस्ता ।
तॉ तामसी यज्ञु जात्ता ।
आय्क श्रीनिवासु म्हणता ।
हँ तूं कुंतीतनया ॥१९५॥

अेकची तँ गंगाजळ ।
अेकु प्रवाहु निर्मळ ।
दुस्त्रॉ व्हान्नु व्हर्ता मळ ।
अश्शी मार्ग हॅ भिन्न ॥१९६॥

त्रिगुणाचीं तीनी तपं ।
ताज्जीं तीनी भिन्न रूपं ।
अेक दित्ता पापताप ।
आन्येक सुखशांती ॥१९७॥

तपाचॅ तीन्नी प्रकार ।
म्हणशी सांग सविस्तर ।
कोर्नाक्का रॅ अंव्सर ।
आय्क तप अॅक्ळाक ॥१९८॥

तप कस्ल्याक म्हणताती ।
लक्षणं ताज्जीं सांग्काती ।
माग्गिरी त्यॉ तिन्नी रीती ।
आय्क तूं सावकाश ॥१९९॥

दैहिक वाचिक आनी ।
मानसिक अश्शी तीनी ।
नमुन्याचीं शिरोमणी ।
पळॅ आस्सती तपं ॥२००॥

हांतुल्या पैल्या दैहिक ।
तपाविषयांतुं आय्क ।
कर्तलॉ तॉ उपासक ।
आस्सॉ शैवु वैष्णवु ॥२०१॥

त्या दॅवालीं क्षेत्रस्थानं ।
थंईं वच्चुनु दर्शन ।
घेव्नु कर्ता तीर्थस्नान ।
यात्रा कर्तची उर्ता ॥२०२॥

स्थान तँ स्वच्छ दव्वर्ता ।
कर्ता पूजेची व्यवस्था ।
प्रतिमेकईं श्रृंगार्ता ।
कर्ता करसेवा ही ॥२०३॥

रूप मूर्तीलँ पळैता ।
प्रेमदंडवत घाल्ता ।
दिस्ता की लाठीची पड्ता ।
नीठी दॅवाइद्रारी ॥२०४॥

विद्याविनयसंपन्न ।
गुणी वरिष्ठ ब्राह्मण ।
दीव्नु हांकां बहुमान ।
कर्ता सॅवा तांगेली ॥२०५॥

प्रवासानॅ जॅ थक्किलॅ ।
अन्यथा कष्ट पाव्विलॅ ।
जॅ आस्सती तॉ तांगेलँ ।
कर्ता दुःखहरण ॥२०६॥

सर्व तीर्थांतुं पावन ।
मातपित्त्यांलॅ चरण ।
तांकां देहसमर्पण ।
कर्ता सेवेखात्तीर ॥२०७॥

दुस्तर भवसागरु ।
पार व्हर्ता जॉ सद्गुरु ।
तागेलॉ तॉ अनुचरु ।
जात्ता सेवेखात्तीर ॥२०८॥

कर्ता स्वधर्माचरण ।
जाग्रतेनॅ अनुदिन ।
देहाचँ चपळपण ।
घॅत्ता अश्शी राक्कुनु ॥२०९॥

आत्मा तॉ भूतांतुं आस्ता ।
तांकां तॉ वंदन कर्ता ।
परोपकारांतुं रम्ता ।
स्त्रीकथेची ना गोडी ॥२१०॥

जन्मा यॅत्ना स्त्रीलॉ स्पर्शु ।
ताज्उप्रांतँ घॅना पाशु ।
वा कॅर्नाई कर्ना दंशु ।
राब्ता जाव्नु अन्वाळॉ ॥२११॥

पळॅ कित्ली ही करुणा ।
तण मस्तीना थुंटैना ।
कस्लँ चीर्ना भिन्न कर्ना ।
संयमित वर्तन ॥२१२॥

हँ तागेलँ आचरण ।
तँची देहाक वळण ।
पड्ता ताव्वळी तूं जाण ।
की हँ तप दैहिक ॥२१३॥

हांतुं देहाव्यॉची क्रिया ।
चड मुखारी कौंतेया ।
आस्ताती म्हुणु हँ म्होण्यां ।
प्रामुख्यानॅ दैहिक ॥२१४॥

अश्शी ह्या तपाचँ पैलँ ।
रूप दैहिक दाकैलँ ।
आत्तं सांग्तां मुखावॅलँ ।
आय्क वाचिक तप ॥२१५॥

मूळ आकारु वजन ।
बदल्नस्तना तत्क्षण ।
कर्ता लोहाचँ सुवर्ण ।
कश्की परीसु पार्था ॥२१६॥

तश्शी तॉवै शेजांरयांक ।
वा जॅ लाग्गी आस्तल्यांक ।
मॉव्वाळ सौजन्य सुख ।
दित्त आस्ता उल्लोनु ॥२१७॥

झाडाक म्हुणु उद्दाक ।
घाल्यारी मॅळ्ता तणाक ।
तश्शी ॲक्ळ्याक जँ सुख ।
बाकी आय्कतल्यांकै ॥२१८॥

गंगेच्या ओघांतुं मॅळ्ता ।
झरी अमृताची पार्था ।
जॉ स्नान कर्ता तॉ जात्ता ।
पावनु नी अमरु ॥२१९॥

आय्कुनु अज्ञान सर्ता ।
आत्मदर्शनई घड्ता ।
आनी आय्कूंकाशँ दिस्ता ।
जाय्ना अमृत शॅळँ ॥२२०॥

कॉणॅ कस्लँ निम्गिल्यारी ।
दित्ता भारी गॉम्टायेरी ।
जबाब तॉ ना जाल्यारी ।
स्वाध्यायांतुं निमग्न ॥२२१॥

तिन्नी वेद मुखोद्गत ।
वाचेरी तॅ प्रतिष्ठित ।
विद्यालय की स्थापित ।
जाल्यां ब्रह्मज्ञानाचँ ॥२२२॥

शिव अथवा तॉ विष्णु ।
हागेलँ स्मरण कोर्नु ।
नाम तँ मुखानॅ घेव्नु ।
आस्चँ तँ वाचातप ॥२२३॥

आत्तं तप मानसिक ।
कश्शी आस्ता तँवै अेक ।
सांग्तां तुक्का तँ तूं आय्क ।
म्हण्ता त्रिलोकनाथु ॥२२४॥

पाळांविना सरोवर ।
मॉडांविना की अंबर ।
सर्पाविना तरुवर ।
चंदनाच्या वनांतुं ॥२२५॥

लांच्छनाविना तॉ चंद्रु ।
की चिंतेविना नरेंद्रु ।
जाय्द की क्षीरसमुद्रु ।
मंदराचलाविना ॥२२६॥

संकल्पविकल्प  सगळॅ ।
मनांतुलॅ गळ्ळु गल्लॅ ।
बंधमुक्त मन जाल्लँ ।
दंग निजरूपांतुं ॥२२७॥

वत पळ्ळ्यां धग्गु जाय्ना ।
खाव्नुई जडत्व यॅना ।
आकाशांतुंई दिस्सना ।
रित्तेपणई खंईं ॥२२८॥

तश्शी ही उपाधी सुट्ता ।
आनी निजरूप दिस्ता ।
शिंयाचॉ कल्कलॉ यॅत्ता ।
अश्शी म्हणद वॅ शीं ॥२२९॥

चंद्रबिंब निष्कलंक ।
दिस्ता कश्की तँ पुन्वेक ।
शुध्दतेची ह्या मनाक ।
मॅळ्ता नवी गॉम्टाई... ॥२३०॥

वैराग्य चिक्कॅ माक्षेता ।
मन सुप्रसन्न जात्ता ।
आनी तांतुंची चिग्रता ।
निजबोधाचँ बीज ॥२३१॥

मुखारी शास्त्राध्ययन ।
आनी ताज्जँ विवेचन ।
कोरूक हँ जाय्ना मन ।
प्रवृत्त त्यावॅळारी ॥२३२॥

आत्मबोधांतुं हँ मन ।
विर्घळेनु वत्ता पूर्ण ।
कश्की कर्गता लवण ।
मूळ जलरूपांतुं ॥२३३॥

नाना भाव उब्जनाती ।
विषयविकार नाती ।
इंद्रियं स्वस्थ बस्ताती ।
थंईं तीं तांचित्ल्याक ॥२३४॥

पळॅ तळहातु पार्था ।
कश्की रॉमाविना आस्ता ।
तश्शी भावशुद्ध जात्ता ।
मन हँ परिपूर्ण ॥२३५॥

मनाच्या ह्या अवस्थेक ।
म्होण्चँ तप मानसिक ।
आनी मुखारी कस्ल्याक ।
सांग हांवं उल्लोवूं ॥२३६॥

कशी आस्सॉ हँ सांगिलँ ।
कळ्ळँ की ना सम सग्ळँ ।
तुक्का लक्षण हँ इत्लँ ।
मानसिक तपाचँ ॥२३७॥

तप कायिक वाचिक ।
आनी तिस्त्रँ मानसिक ।
सांग्लँ अेद्दोळु कळूक ।
साधारण स्वरूप ॥२३८॥

आत्तं त्रिगुणांसांगाती ।
कश्शी हीं जाय्त आस्ताती ।
हांगेली विशिष्ट रीती ।
तीवै सांग्तां लक्ष दी ॥२३९॥

तीन्नी तपं हीं कर्तना ।
दव्वरी श्रध्दा अर्जुना ।
सोडी फलाची कामना ।
हँ नॅवानॅ सांग्का वॅ ॥२४०॥

सत्त्वशील शुध्द जाव्नु ।
दॅवाचेरी सर्व सोण्णु ।
जात्ता तँ सात्त्विक म्हुणु ।
ज्ञानीजन म्हणताती ॥२४१॥

तप कर्तना जॉ कोणु ।
म्हणता हांवं असामान्यु ।
आनी उच्चासन घेव्नु ।
बैसुंक तॉ पळैता ॥२४२॥

बश्शिल्कडॅची बैसुनु ।
घॅत्ता त्रैलोक्याचॉ मानु ।
सर्वां अॅक्ळाक वच्चुनु ।
जॅव्णा बस्ता आप्पण ॥२४३॥

सर्वांनीं येंव्का मेळूक ।
ह्याचि जाग्यारी आप्णाक ।
तांन्नीं केल्लेल्या स्तुतीक ।
आय्कतची बस्ता तॉ ॥२४४॥

लोक ज्यॉ पूजा कर्ताती ।
त्यॉ सर्व माक्का मेळ्ळकाती।
महत्त्वाचॅ जॅ आस्सती ।
तॅ भोगई माक्काची ॥२४५॥

कुरुपु गॉम्टॉ दिस्सूक ।
कर्ता उपाय अनेक ।
तश्शी स्वरूप धांपूक ।
तपं घॅत्ता पांग्रोनु ॥२४६॥

कर्ता तप कष्ट काण्णु ।
घेंव्च्याक धन सन्मानु ।
तँची तूं राजस म्हुणु ।
सम्ज कुंतीतनया... ॥२४७॥

दूदची गॅल्यां आट्टुनु ।
अर्थु नाची वास्त्रं घाल्नु ।
शॅतची गोर्वांनीं चर्नु ।
काळ्ळ्यां पीक गॅल्लँची ॥२४८॥

प्रसिध्दीखात्तीर कॅल्लँ।
व्यर्थची तँ तप वत्लँ ।
फलई मॅळ्ळाशी जात्लँ ।
विस्सोर्नाक्का हँ अेक ॥२४९॥

ह्या तपाचँ फळ गॅल्लँ ।
म्हुणु दुस्त्रँ अेक धर्लँ ।
तँवै जाय्शना म्हुणु सॉळ्ळँ ।
ना अेकाग्र ना स्थिर ॥२५०॥

मॉड आय्लँ आड्वॅळारी ।
कॅल्लॉ गड्गडाटु भारी ।
लॅक्लँ पड्ता ब्रह्मांडारी ।
गॅछँ खैंकी उब्बुनु ॥२५१॥

तश्शी राजस तपाची ।
गति पळॅ जात्ता तीची ।
शाश्वती ना फळ भोग्ची ।
चल्नाई तँ सतत ॥२५२॥

आत्तं तप जँ तामस ।
कोर्नु मॅळ्णा स्वर्गवास ।
ना इहलोकांतुं यश ।
ताज्जीं सांग्तां लक्षणं.. ॥२५३॥

लेक्चँ देह पिश्श्यावारी ।
आप्णालँ तँ हाडवैरी ।
आनी चल्चेंई ताज्वारी ।
विलक्षण लक्षण ॥२५४॥

म्होण्णु राक्कूड देहाक ।
पोळोंचँ ताक्का लास्सूक ।
लाव्नु रॅं सर्व बाजूक ।
उज्जॉ तॉ पंचाग्नीचॉ ॥२५५॥

जळ्ता मात्त्यारी गुग्गुळु ।
तॉप्ला फाट्टीकई गळु ।
घॅत्ता सर्वांग विकळु ।
कोर्नु विच्वा दंशानँ ॥२५६॥

श्वासोच्छवासु बंद कोर्नु ।
नाना उपासई धोर्नु ।
आनी अधोमुख जाव्नु ।
गिळ्ता धुव्राचॅ लॉळ ॥२५७॥

थंड उद्कांतुं उब्रोंचँ ।
वत्तांतुं फात्रारी बोस्चँ ।
सर्वांगाक चिम्टॅ लांव्चॅ ।
नुस्तेंपुणि इत्त्याक ॥२५८॥

दुस्र्यालँ वाय्ट येव्जुनु ।
अश्शी आप्णालीची तनु ।
नाना घोर क्लेश दीव्नु ।
इत्खात्तीर झिज्जोंका ॥२५९॥

आप्णालॉ भारु आप्णाक ।
सांभाळू जाय्ना फात्राक ।
गड्गड्तना सांगाताक ।
घॅत्ता दुस्रॅ फात्तर ॥२६०॥

जात्ना नाशु आप्णागॅलॉ ।
ताण्ता हातु दुस्र्यागॅलॉ ।
जॉ ताज्जित्त्याक आश्शिलॉ ।
सुखी जाव्नु आप्णांतुं ॥२६१॥

अस्लँ दुष्ट आचरण ।
कर्ना कॉणालँ कल्याण ।
तँ तामस तप जाण ।
लक्षांतुं घॅ तूं पार्था ॥२६२॥

अश्शी सात्त्विक राजसी ।
आनी तप हँ तामसी ।
सांग्लीं तुक्का तीं कळशी ।
त्या त्या चिन्हांसहित ॥२६३॥

ह्याची प्रसंगाक धोर्नु ।
तीन्नी हीं दानं दाकोनु ।
दित्तां तुक्का तीं पोळोनु ।
घॅ तूं आत्तं अर्जुना ॥२६४॥

दानं ह्या गुणांन्मितींची ।
जाल्लीं तीनी नमुन्याचीं ।
आत्तं सात्त्विक दानाचीं ।
पळॅ हीं तूं लक्षणं ॥२६५॥

स्वधर्मानॅं मेळोंकाज ।
सन्मानानॅं तँ दिंव्काज ।
ताव्वळी तँची म्होण्काज ।
हँची दान सात्त्विक ॥२६६॥

बीज बरँ मेळ्ळेल्तरी ।
भुंईं सुद्दां मेळ्का बरी ।
दानई कोर्चे वॅळारी ।
अस्ली अड्डी यॅत्ताची ॥२६७॥

अेक रत्न मॅळ्ळँ लॅक ।
तँची बांदोनु घेंव्च्याक ।
जाई सुवर्ण घालूक ।
तश्शी साज्जशी आंग ॥२६८॥

धनधान्य घारा आस्का ।
आनी आप्तेष्टानॅं येंव्का ।
तॉची पर्बे दीसु आस्का ।
कित्लँ हॉड हँ भाग्य ॥२६९॥

घड्च्याक सात्त्विक दान ।
स्थळ काळ नी सज्जन ।
तश्शी कष्टार्जित धन ।
सर्वै अॅक्डॅ मेळ्काती ॥२७०॥

काशी अस्लँ तीर्थक्षेत्र ।
पुण्यभूमी कुरुक्षेत्र ।
अथवा स्थळ पवित्र ।
पोळोंकाज अॅक्ळाक ॥२७१॥

घडी सूर्यग्रहणाची ।
वा ती चंद्रग्रहणाची ।
मुहुर्तु खंचॉ शुभची ।
धोर्काज ह्या कार्याक ॥२७२॥

अस्ल्या स्थळारी वॅळारी ।
सुकुलीनु सदाचारी ।
अस्लॉ सोद्का अधिकारी ।
योग्य जाय्शी दानाक ॥२७३॥

सदाचाराचॉ आदर्शु ।
वेदशास्त्रांचॉ कळसु ।
ब्राह्मणत्वाचॉ संतोषु ।
मॅळ्ळ्यारी भो उत्तम ॥२७४॥

द्रव्य अर्पण कोर्काज ।
आप्णालँ तँ म्होणु नज्ज ।
पतीक सर्वस्व निज ।
कश्की दित्ता सुशीला ॥२७५॥

म्होण्का मल्यागी आश्शिलँ ।
तागेलँ तँ ताक्का दिल्लँ ।
कश्की विडॅ कोर्नु दिल्लॅ ।
सेवकानॅं रायाक ॥२७६॥

दिंव्च्या आस्ल्यारी दी भुंईं ।
अथवा दी अन्य कांईं ।
म्हण हँ आप्णालँ न्हई ।
दित्ना लोभु धोर्नाक्का ॥२७७॥

घॅत्ल्याकई दिस्सू नज्ज ।
की हँ रीण फावोंकाज ।
तुंवँई हँ म्होणु नज्ज ।
कॅल्लॉ आप्णॉ उपकारु॥२७८॥

प्रतिध्वनी आकाशांतु ।
उटाय्ना हँ पळैता तूं ।
पळैशी वॅ तुक्काची तूं ।
कान्डी धोर्नु उप्राटी ॥२७९॥

चेंडू उद्कारी माल्र्यारी ।
यॅद वॅ उस्सोळ्णु वैरी ।
धोरु जाय्द वॅ हात्तारी ।
तेलूता तॉ थंईंची ॥२८०॥

बैलु गांव हेक्कूतलॉ ।
वा कृतघ्न कोणु अॅक्ळॉ ।
प्रत्युपकारु कर्तलॉ।
कश्की हँ असंभव ॥२८१॥

तश्शी कॅल्लॅलँ हँ दान ।
पर्तैश्ना दित्ल्याक कॉण ।
ताव्वळी पार्था तूं जाण ।
तँ दान श्रेयस्कर ॥२८२॥

अस्लँ जँ सात्त्विक दान ।
दानांतु हँ श्रेष्ठ दान ।
सर्वकाळ ध्यानमन ।
हाज्जेरीची दव्वरी ॥२८३॥

स्थळ काळ पोळोंकाज ।
घॅत्लॉ सत्पात्र आस्काज ।
दिंव्चँ द्रव्य आस्सू नज्ज ।
अन्यायानॅ घेत्तिलँ ॥२८४॥

दुद्दा व्यापारुई जाय्द ।
गोसेवाई ती घडद ।
म्हणता फाय्दॉ कित्लॉ जाय्द ।
गाद्दँ कोर्चे अॅक्ळाक ॥२८५॥

उड्गेरयाची आशा धर्ता ।
सोय्य्रांक येय्याती म्हणता ।
दित्ना अॅक्ळाकची म्हणता ।
तॉ दीद वॅ आप्णाक ॥२८६॥

लांच खाव्नु काम कर्ता ।
वैधु खर्चु जाल्लॉ म्हणता ।
रोग्यालात्थाव्न् मॉल घॅत्ता ।
वक्दाचँ नी सेवेचँ ॥२८७॥

म्हणत आस्ता दान दित्ना ।
आप्णाक हॉ दीद की ना ।
हाल्याग्थाव्नु मॅळ्द की ना ।
माक्का जांव्का जाल्लेलँ ॥२८८॥

वत्ना ताक्का मॅळ्ता कोणु ।
अॅक्ळॉ विद्वानु ब्राह्मणु ।
दीना जॉ दान पर्तुनु ।
अस्ल्याक तॉ सॉण्णाची ॥२८९॥

कुटुंबाचीं म्हणतां म्हणतां ।
प्रायश्चित्तं धुव्नु घॅत्ता ।
हास्त हास्त तॉ दव्वर्ता ।
रुव्व अेकी हात्तारी ॥२९०॥

आशा धर्ता तॉ स्वर्गाची ।
दित्ता रुप्पयी अेक्कीची ।
भाग्गश्ना भूक वेळेची ।
कित्लँ हॉड हँ दान ॥२९१॥

तँवै बाव्डॉ घेव्नु वत्ता ।
हांगा तॉ बॅजारु लाग्ता ।
पळैल्यारी कश्की व्हर्ता ।
चोरु सर्व लुट्टुनु ॥२९२॥

ह्या थरेनॅ जात्ता दान ।
तँची तूं राजस जाण ।
त्रैलोक्यांतुं सर्वजण ।
हाक्का हँची म्हणताती ॥२९३॥

म्लेंच्छजनांलँ मकाण ।
घनधोर वा अरण्य ।
खंचँ अपवित्र स्थान ।
गांव्तुलॉ वा चव्हाटॉ ॥२९४॥

अस्ल्या जाग्यारी मॅळ्ताती ।
तॅ सांज्चॅळारी वा रात्ती ।
दानई कोर्नु सॉड्ताती ।
चोर्नु हाळ्ळेलँ धन ॥२९५॥

हॅ हांजी हांजी कर्तलॅ ।
जुगारी भूली घाल्तलॅ ।
नी वेसु घाल्नु नांच्तलॅ ।
आयल्यॉ तांतूं वेश्याई ॥२९६॥

तांतुलॅ जॅ रूपवान ।
कर्ताती नृत्यगायन ।
नेत्रकटाक्षानॅ भान ।
विस्सोरूक लाय्ताती ॥२९७॥

भरीक फुल्लां पर्मळु ।
अत्तराचॉई दर्वळु ।
सर्वजण तॅ वॅताळु ।
जात्तांती मूर्तिमंत ॥२९८॥

लुट्टुनु हाळ्ळेलँ धन ।
कोर्नु अॅक्डॅ सर्वजण ।
घाल्ताती तॅ गांव्जॅवण ।
सर्वै चल्ता गौजेरी ॥२९९॥

ह्या थरेनॅ घड्ता दान ।
पार्था तँ तामस दान ।
जाल्यारी हॉ विलक्षण ।
खेळु पळॅ दैवाचॉ ॥३००॥

भोवरु तॉ कॉरांतुय्ता ।
राक्डारी वॅ तॉ तिष्ठुय्ता ।
ताळी वाजैतना मॅळ्ता ।
हात्तां मद्देंतु काय्ळॉ ॥३०१॥

तश्शी योग्य स्थान मॅळ्ता ।
ब्राह्मणुई दान माग्ता ।
पोळोनु हँ गर्वु चड्ता ।
म्हणता कस्लँ दिव्येद ॥३०२॥

मूळांतुंची श्रध्दा धर्ना ।
मात्तँई खंईं बग्सुय्ता ।
स्वता दीना वा दीवैना ।
अर्ध्यादिक दानांतुं ॥३०३॥

बैसू घाल्ना आयिल्याक ।
गंध लांव्चँ ना कौतुक ।
मानु दीना ब्राह्मणाक ।
अश्शी चल्ता तामसी ॥३०४॥

रीण घेंव्च्याक जॉ यॅत्ता ।
ताक्का अरे तुरे कर्ता ।
आनी थॉ ारी पेटैता ।
कश्की तश्शी हाक्काई ॥३०५॥

थॉडँ कस्लँपुणि दित्ता ।
दिलेल्याचॉ गर्वु घर्ता ।
खिस्त्राडुय्ता छी थू कर्ता ।
नी वैल्यानॅ हिण्सुय्ता ॥३०६॥

कर्ता दान कोर्का म्हुणु ।
धनारी लोभु दव्वोर्नु ।
तामस हँ दान म्हुणु ।
तिन्नी लोक म्हणताती ॥३०७॥

तीनी थरेचीं हीं दानं ।
तीं तीं तांगेलीं लक्षणं ।
दीव्नु तुवँ अवधान ।
सर्वई हीं आय्कलीं ॥३०८॥

शंका मनांतुं तुगेल्या ।
आय्ल्या हँवै माक्का कळ्ळ्यां ।
धूर कोर्ची ती हँ ऊल्यां ।
काम अेक मगेलँ ॥३०९॥

अेक तप तँ सात्त्विक ।
आस्स जँ भवतारक ।
नप्रॉ वँ सांग्लीं कस्ल्याक ।
दोषास्पद तीं दोनी ॥३१०॥

पिशाच्च्याक धांव्डाय्ल्यारी ।
मॅळ्ता धन त्या जाग्यारी ।
उज्जॉ धुव्वरू फुंक्ल्यारी ।
लाग्ता सम जळूक ॥३११॥

बंद कर्ता हँ सजोड ।
रजतमाचँ कवड ।
सात्त्विकतेक तँ आड ।
यॅत्ता तँ उघ्घोड्काज ॥३१२॥

श्रध्देधोर्नु दानाथाई ।
त्रिगुणात्मक जँ कांईं ।
सांग्चँ आश्शिलँ सर्वई ।
सांग्लँ कोर्नु वर्णन ॥३१३॥

तिन्नींतुलँ तँ अेक्कची ।
सांग्चँ तीं दोनी बाकीचीं ।
नुस्तेंची कस्ल्याक सांग्चीं ।
अश्शी दिस्लँ अॅक्ळाक ॥३१४॥

पुणी दोनी तिन्नींतुलँ ।
उर्लेलँ तँ स्पष्ट जात्लँ ।
दीस राती काण्णु उर्लँ ।
कश्की रूप सांज्जेचँ ॥३१५॥

रजतमाचॉ विनाशु ।
थंईं सत्त्वाचॉ दिनेशु ।
उदैतना स्पष्ट दिस्सू ।
लाग्ता पळॅ सहज ॥३१६॥

तश्शी रजतम सोण्णु ।
धोर्का तुवँ सत्त्वगुणु ।
घेंव्का स्वहित साध्धुनु ।
म्हुणु सांग्लँ हँ सर्व ॥३१७॥

जरी यज्ञादि तुगेलॅ ।
शुध्द सात्त्विक आस्तलॅ ।
निजरूप दाकैतलॅ ।
तॅची तळहात्तारी ॥३१८॥

सूर्यप्रकाशु आस्ल्यारी ।
दिस्ता ही सृष्टीसुंदरी ।
तश्शी तॉ गुणु आस्ल्यारी ।
इष्ट साध्य जात्लेंची ॥३१९॥

हांतुं इत्लेंची सामर्थ्य ।
इष्टफल जात्ता प्राप्त ।
विंगडची आस्स तंत्र ।
परमार्थ सिध्दीचँ ॥३२०॥

सत्त्वगुणु जरी घॅद ।
हाज्जँ साह्य तरी जाय्द ।
मेळोंच्याक मोक्षपद ।
ताक्का अति सुलभ ॥३२१॥

शंभर नंब्री भांग्राचेरी ।
राजमुद्रा ना जाल्यारी ।
ताज्जँ मॉल आश्शिल्तरी ।
चल्ता तँ व्यापारांतुं ॥३२२॥

शीतळ निर्मळ जळ ।
आस्सई ताक्का पर्मळ ।
मॅळ्सरी गंगाजळ ।
जाय्ना तँवै पवित्र ॥३२३॥

न्हंई होडी आश्शिल्तरी ।
गंगेक मेळ्णे जाल्यारी ।
समुद्रु गांटुक तरी ।
कश्शी जाय्द निज्मितीं ॥३२४॥

मोक्षपदा पाव्यां म्हुणु ।
वत्ना हॉ सन्मार्गु धोर्नु ।
विघ्न येंन्च्या नज्ज म्हुणु ।
ताक्का हॉची उपायु ॥३२५॥

अर्जुनु तॉ आय्कूंच्याक ।
जाल्लॉ ताव्वळी उत्सुक ।
कृपा कोर्नु तॉ आप्णाक ।
सांग सांग म्हणालॉ ॥३२६॥

कृपेचॉ सागरु कृष्णु ।
म्हणता आय्क लक्ष दीन्नु ।
सात्त्विक तॉ प्राप्त कोर्नु ।
घॅत्ता मोक्षु ज्यान्मितीं ॥३२७॥

हँ अनादि परब्रह्म ।
विश्वाचँ विश्रामधाम ।
अेक्कची तागेलँ नाम ।
तांतुं तीनी अक्षरं ॥३२८॥

तत्त्वता तँ अनामिक ।
ना जानी वा ना जातक ।
दिल्या ह्या सर्वाधाराक ।
खूण अेकी श्रुतींनीं ॥३२९॥

उब्जलेलँ चेर्डूं यॅत्ना ।
तँ आप्णालँ नांवं हाण्णा ।
घाल्लेलँ नांव विस्स्सर्ना ।
ताक्का दित्ता हुंकारु ॥३३०॥

संसाख्यथेनॅ भाग्लॅ ।
तांन्नीं वेदाक आपैलँ ।
खूण ही दीन्नु आय्कलँ ।
म्हुणु सांग्लँ श्रोंतांक... ॥३३१॥

परब्रह्म वाचातीत ।
घुन्नु काडूक हँ खत्त ।
नी घडॉ म्हुणु अद्वैत ।
कृपा केल्ली वेदानॅ ॥३३२॥

हॉ मंत्रोच्चारु कॅल्यारी ।
जात्ता ताक्का आपैल्वारी ।
माक्षी आश्शिलँ मुखारी ।
येन्नु उब्रता ब्रह्म ॥३३३॥

उपनिषदं नी वेदु ।
हांगेलॉ कॉणा-समंदु ।
यॅत्ता ताक्काची आनंदु ।
नाममंत्राचॉ कळ्ता ॥३३४॥

ह्या मंत्राचँ उच्चारण ।
कोर्नु ब्रह्मयाक त्राण ।
येव्नु ही सृष्टी निर्माण ।
कर्नँ वॅ सांग ताम्नॅ ॥३३५॥

नवल तूं अेक आय्क ।
सृष्टी जांव्चेई अॅक्ळाक ।
अॅक्ळॉची आप्णाइत्ल्याक ।
ब्रह्मा मात्र आशिलॉ ॥३३६॥

जाण्णाशिलॉ तॉ माक्काई ।
नाशिलँ तँ सामर्थ्यई ।
कोर्यां निर्माण सृष्टी ही ।
नामशक्तीची थोर ॥३३७॥

नामजपाचॉ भावार्थु ।
घॅत्लॉ समची ध्यानांतुं ।
म्हुणु जाल्लॉ हॉ समर्थु ।
सृष्टीच्या उत्पत्तीक ॥३३८॥

कोर्नु ब्राह्मण निर्माण ।
दिल्लँ वेदोक्त शासन ।
नी निर्वाहाचँ साधन ।
म्हुणु दिल्याती यज्ञ ॥३३९॥

ताज्जुप्रांतँ लोक नाना ।
कॅल्लॅ निर्माण लॅक ना ।
त्रैलोक्याचीई रचना ।
दिल्या तांकां इनाम ॥३४०॥

नाममंत्रानॅ हँ इत्लँ ।
प्रचंड सामर्थ्य आय्लँ ।
श्रीरंगानॅ ताज्जँ कॅल्लँ ।
वर्णन हाज्मुखारी ॥३४१॥

आदि वर्णु तॉ ॐ कारु ।
दुस्त्रॉ जाण तॉ तत्कारु ।
तिस्त्रॉ पळॅ तॉ सत्कारु ।
मंत्रु तीनी वर्णांचॉ ॥३४२॥

अश्शी सुंदर त्रिदळ ।
उपनिषदाचँ फूल ।
ताज्जॅ तुंवै घॅ पर्मळ ।
नाममंत्रु ॐ तत् सत् ॥३४३॥

ह्या नामांतुं जाव्नु अेक ।
करी कर्म तूं सात्त्विक ।
तॉ जाव्नु यॅत्लॉ सेवेक ।
मोक्षु तुगेल्या घारा ॥३४४॥

जरी योगु यॅत्ता मेळ्चॉ ।
अलंकारु कर्पूराचॉ ।
तरी कश्शी घाल्नु घेंव्चॉ ।
तॉ अेकु होडु प्रश्नु ॥३४५॥

कित्लिंई सत्कर्मं कर्शी ।
नामजपुई तूं धर्शी ।
जाल्यारी हँ कोर्का कश्शी ।
हाज्जँ मर्मै कळ्काज ॥३४६॥

धारा आय्ल्यारी सज्जनु ।
जरी दिंव्च्या कळ्णॅ मानु ।
तरी तॉ वत्ना कोप्पुनु ।
शापु सुद्दां तॉ दीद ॥३४७॥

शुध्द भांगार पोळोनु ।
अलंकारई करौनु ।
ताज्जी पोट्ली गळ्या घाल्नु ।
दाकोयेद वॅ शोभा॥३४८॥

ब्रह्मनामाचॉ उच्चारु ।
शुध्द सात्त्विक आचारु ।
गोत्ना जाल्यारी प्रकारु ।
रीतीचॉ सर्व व्यर्थ ॥३४९॥

वाळ्ळयां वाट्व्यांतु जेंन्च्याक ।
चॅर्डाकई लागल्या भूक ।
घासुची कळणा घेंन्च्याक ।
जात्लँ ताक्का लंघन ॥३५०॥

आस्स अग्नि तॅल वाती ।
गोत्ना दिवॉ लांन्ची रीती ।
सांग जळद वॅ ज्योती ।
आनी मॅळ्द प्रकाशु ॥३५१॥

कर्मं जाय्तची आस्ताती ।
म्होण्चॅ मंत्रै विस्सर्नेती ।
जाल्यारी कोर्ची पध्दती ।
गोत्ना म्हळ्ळ्यारी व्यर्थ ॥३५२॥

अेक ह्या परब्रह्माचँ ।
नाम हँ तीनी वर्णांचँ ।
तंत्र त्या विनियोगाचँ ।
सांग्तां तँ तूं सम्जुन् घॅ ॥३५३॥

ताज्जॉ कर्मा प्रारंभाक ।
उच्चारु मध्यंतराक ।
तशीचि तॉ आखेरीक ।
कोर्का ह्या तीन्नींचोई ॥३५४॥

ह्या थरेनॅ कर्मं कोर्नु ।
ब्राह्मण कृतार्थ जान्नु ।
ब्रह्मपद प्राप्त कोर्नु ।
घेन्नु जात्ताती धन्य ॥३५५॥

ब्रह्मरूप जांव्का म्हुणु ।
शास्त्रांचॉ आधारु घेन्नु ।
त्यानुसार यज्ञ कोर्नु ।
कृतकृत्य जात्ताती ॥३५६॥

अॅक्ळाक मनांतु हाड्का ।
ॐ काराचँ ध्यान धोर्का ।
मागिरी वाणीनॅ कोर्का ।
ताज्जॉ पार्था उच्चारु ॥३५७॥

ध्यान तँ जात्ता प्रगट ।
भाग्र उच्चारानॅ स्पष्ट ।
ताव्वळी तँ कार्य इष्ट ।
कोरूक तॅ धर्ताती ॥३५८॥

दिवॉ आस्काज काळ्कांतु ।
धैर्य दित्लॉ वा रान्नांतु ।
तश्शी हॉ कार्यारंभातु ।
ॐ कारुई आस्काज ॥३५९॥

इष्ट देवतेप्रीत्यर्थ ।
धन धर्मत्यायार्जित ।
यज्ञ कोर्नु समर्पित ।
कर्ताती ब्राह्मणांक ॥३६०॥

आहवनीय अग्नीक ।
नी तशीची त्या दोन्नींक ।
तृप्त कर्ताती याज्ञिक ।
त्या त्या विधींनुसार ॥३६१॥

होमहवना सांगाती ।
गुणदोष निव्वळ्ताती ।
प्रपंचांतुल्यॉ सुट्ताती ।
निरर्थक उपाधी ॥३६२॥

कष्टार्जित न्यायी धन ।
शुभ स्थळ काळ दिन ।
आनी ब्राह्मण विद्वान ।
पळैताती अवश्य ॥३६३॥

दीसाआड धोर्नु दीसु ।
वा पक्षांतर्गत दीसु ।
कोर्नु नॅमार्नॅ उपासु ।
धातु क्षीण कर्ताती ॥३६४॥

यज्ञ तप आनी दान ।
हांगेलँ पड्ता बंधन ।
जात्ता मोक्षाचँ साधन ।
हॉची आदि ॐ कारु ॥३६५॥

वज्जँ दोणीचँ नॅलारी ।
तीची तेलूता उद्कारी ।
आनी पावैता तीरारी ।
तश्शी कर्ता हॉ मंत्रु ॥३६६॥

अश्शी ह्योंची क्रिया तिन्नी ।
जात्ताती मोक्षदायिनी ।
मंत्रोच्चाराची करणी ।
कित्ली पळॅ अगाध ॥३६७॥

क्रिया जाय्तची आस्ताती ।
फलद्रूप त्यॉ जात्ताती ।
त्यावॅळारी तॅ कर्ताती ।
तत् शब्दाचॉ उच्चारु ॥३६८॥

तँ म्हळ्ळ्यारी परात्पर ।
सर्वसाक्षी विश्वाधार ।
तरी जाछयां जँ साकार ।
तँची हँ परब्रह्म ॥३६९॥

तँयीं पुराण पुरुष ।
तँची मूळ चिदाकाश ।
हाज्जोची धर्ताती ध्यास ।
यॅत्ता तँची वाचेरी ॥३७०॥

म्हणताती हँ फल नाक्का ।
दित्ताती तुगेलँ तुक्का ।
भोग्गूक ऊरु दीव्नाक्का ।
आम्कां घॅ तूं सर्वई ॥३७१॥

तद्रूप परब्रह्मांतुं ।
ऊर्नाती तॅ स्वकर्मांतुं ।
न्हई मगेलँ हँ घॅ तूं ।
तूंची कर्ता करैता ॥३७२॥

ॐ कारानॅ सुरु जाल्लँ ।
तत्कारानॅ फल सॉळ्ळँ ।
अश्शी हँ कर्मई पाव्लँ ।
सहजची ब्रह्मत्व ॥३७३॥

पार्था हँ सर्वई खरँ ।
जाल्लेल्वारी दिस्ता दुस्त्रँ ।
तांतुलॅ हँ सूक्ष्म चरॅ ।
तुक्काई तॅ लाग्तलॅ ॥३७४॥

मीट उद्कांतुं कर्गता ।
तँ उद्काक मिट्शँ लाग्ता ।
तश्शी द्वैतभावु उर्ता ।
ह्यावै ब्रह्मरूपांतुं ॥३७५॥

द्वैतपण खंईं आस्ता ।
थंईं भवभय दिस्ता ।
हँची पळॅ देवु सांग्ता ।
वेदई हँ म्हणताती ॥३७६॥

ब्रह्मत्व तँ आस्ता भिन्न ।
अंतीं आत्मत्चांतुं लीन ।
जांव्च्याक हँ प्रयोजन ।
कॅल्यां ह्या सत् शब्दाचँ ॥३७७॥

कर्म सुरु ॐ कारानँ ।
ब्रह्मत्व तदाकारानँ ।
म्हणताती हँ कौतुकानँ ।
कश्शी जाल्लँ साकार ॥३७८॥

प्रशसनीय हँ कर्म ।
तँची जांव्च्याक सत्कर्म ।
विनियोगु तॉ सुगम ।
आस्स त्या सत् शब्दाचॉ ॥३७९॥

तॉ शब्दु हँची सुच्चैता ।
अशाश्वता तँ आट्टैता ।
सर्वत्र सदैव आस्ता ।
तागेलँची शासन ॥३८०॥

घॅ खंचोई देशु काळु ।
जायना ताज्ज्यांतुं बदलु ।
अविनाशी तँ निश्चळु ।
आप्णांतुं तँ आप्पण ॥३८१॥

आस्स म्हुणु जँ जँ दिस्ता ।
ती माया क्षणैक आस्ता ।
सद्वस्तु दिस्सूक लाग्ता ।
तँची आत्मदर्शन ॥३८२॥

सत्कर्म स्तुत्य जाल्लेलँ ।
ब्रह्मपदाक तँ पाव्लँ ।
सांग मीलन वॅ जाल्लँ ।
अद्वैत भावनेनँ ॥३८३॥

ॐ कारानँ तत्कारानँ ।
कर्म ब्रह्ममय जाय्नँ ।
लीन कोर्का सत्कारानँ ।
तँ अद्वैत भावांतुं..... ॥३८४॥

रहस्य हँ सांग्लँ तुक्का ।
हांवँ सांग्लँ हँ म्होण्णाक्का ।
श्रीरंगानॅची हँ तुक्का ।
सांग्लँ म्हुणुची समज ॥३८५॥

कश्शी म्हळ्ळेल्तरी यॅत्ता ।
द्वैतभावु हांतुं पार्था ।
सूत्रधारु तॉची आस्ता ।
सर्वांगॅलॉ सदैव ॥३८६॥

कर्ता हॉ साह्य आन्येक ।
स्तुत्य सात्त्विक कर्माक ।
कश्शी म्हुणु तँवै आय्क ।
सांग्तां तुक्का दी लक्ष ॥३८७॥

सात्त्विक कर्मं सतत ।
चल्त आस्ताती यथार्थ ।
खंईं पुणि अकस्मात ।
न्यून उर्ता तँ कळ्णा ॥३८८॥

अवयवांतुलँ व्यंग ।
कर्ता देहाक अपंग ।
रथु चल्ता डगमग ।
तांतुं दोषु आस्ल्यारी ॥३८९॥

सत्कर्म कर्तलॉ अश्शी ।
कळ्णा खंईं फस्ता कश्शी ।
यॅत्ता जाव्नु तॉ साव्लीशी ।
सांभाळुक सत्कारु ॥३९०॥

तॉ ॐ कारु नी तत्कारु ।
सांगातीची हॉ सत्कारु ।
हाज्जॉ कॅल्यारी उच्चारु ।
जात्ता सत्कर्म शुध्द ॥३९१॥

स्वसामर्थ्यारी सत्कारु ।
कोर्नु दोषपरिहारु ।
सत्कर्माक पूर्णाकारु ।
दित्ता तॉ सर्वांगारी ॥३९२॥

वक्कद करशकी रोग्याक ।
आश्रयु पराभूताक ।
तरशी हॉवै सत्कर्माक ।
साह्य कर्ता सत्कारु ॥३९३॥

कळ्णा चुकी जात्ता म्हुणु ।
वत्ता तँ कर्मई जाव्नु ।
कड्डेरीची यॅत्ता कळ्णु ।
की कॅल्लँ महत्पाप ॥३९४॥

अॅखाद्वॅळ वाट चुक्ता ।
परीक्षकुई गोंदळ्ता ।
कॅर्ना कॉण खंईं चुक्ता ।
कळ्णा व्यवहारांतुं ॥३९५॥

अरशी कर्मांतुं चुक्ताती ।
जांच्ची जात्ताची दुष्कीर्ती ।
जाय्ता तीवै कॉणामितीं ।
चुक्कोंच्याक अॅक्ळाक ॥३९६॥

ताव्वळी तॉची सच्छब्दु ।
दॉग्गांपेक्षांई सावधु ।
आशिशिल्मितीं दित्ता सादु ।
तॉ ह्या सत्कर्माकई... ॥३९७॥

लोहाक परीसस्पर्शु ।
हॉळॉ गंगेंतु प्रवेशु ।
आनी अमृताचॉ पाव्सु ।
मोरु पळ्ळेल्याचेरी.. ॥३९८॥

निदोषत्व सत्कर्माचँ ।
सच्छब्दानॅची तँ येंच्चँ ।
अरशी ह्या नाममंत्राचँ ।
इत्लँ थोर महात्म्य ॥३९९॥

हाज्जँ मर्म जाणणु घेव्नु ।
तुंवँची विचारु कोर्नु ।
पळैल्यारी तुक्का कळ्णु ।
यॅत्लँ नाम हँ ब्रह्म ॥४००॥

उच्चारु हाज्जॉ कॅल्यारी ।
पावैता तँ त्या जाग्यारी ।
खंईं सर्व सत्ताधारी ।
आस्ता तॉ सर्वसाक्षी ॥४०१॥

शुध्द अव्यक्त निर्लेप ।
परब्रह्माचँ स्वरूप ।
ताज्जेंची हँ नामरूप ।
त्या रूपाचँ हँ चिन्ह ॥४०२॥

आकाश आकाशाकची ।
म्हणता आधारु रॅ तूंची ।
अनामी ह्या नामाकची ।
म्हणता तूंची आश्रयु ॥४०३॥

आप्णालँची तेज जाव्नु ।
यॅत्ता आदित्यु उदेनु ।
तरशी ब्रह्म व्यक्त जाव्नु ।
यॅत्ता नामरूपांतुं ॥४०४॥

अक्षरं तीं न्हई नाम ।
जाण तँची साक्षात् ब्रह्म ।
म्हणु अश्शी जांच्चीं कर्मं ।
तींवै ब्रह्मस्वरूप ॥४०५॥

परीसु परीक्षा कर्ना ।
शुध्द की अशुध्द म्हण्णा ।
ब्रह्मार्पण हीं कर्तना ।
नामई तँ पळैना ॥४०७॥

ब्रह्मनामाचँ सामर्थ्य ।
सांग्लँ तुक्का कोर्नु स्पष्ट ।
दीव्नु थंथंई दृष्टांत ।
सम कळचॅ खात्तीर ॥४०९॥

ब्रह्मनामाचँ महत्त्व ।
अनमोल अनन्यत्व ।
आनी ताज्जँ मूलतत्त्व ।
कळ्ळँ न्हवॅ अर्जुना ॥४११॥

ह्या कर्माचॉ ज्या कर्मांतुं ।
विनियोगु विधियुक्तु ।
जात्ता सांग्ल्यां की शास्त्रांतुं ।
तँची कर्म वेदोक्त ॥४१३॥

अश्र्वमेध कित्लॅ करी ।
रत्नांनीं ही पृथ्वी भरी ।
राब्बुनु करी उंग्व्यारी ।
अस्लीं तपं हजार ॥४१५॥

पाव्सु पळ्ळयारी फात्रारी ।
हवनई तँ भस्मारी ।
आनी पोट्टोळ्णु घॅत्ल्यारी ।
साल्येक तँ व्यर्थची ॥४१७॥

यज्ञ आस्सोती वा दानं ।
वा तपं कित्लीं गहन ।
तांतूं खंईं जावॉ न्यून ।
आस्चँ ना असंभव ॥४०६॥

उणॅ की हँ परिपूर्ण ।
हाज्जँ कर्ना तँ तुळण ।
समुद्रांतुं संमीलन ।
हॉळांचँ नी न्हैंयांचँ ॥४०८॥

घेव्नु अेकेक अक्षर ।
धर्लॉं अेकेकु पदर ।
आनी सांग्ली सविस्तर ।
रीती विनियोगाची ॥४१०॥

आत्तं आनी हाज्मुखारी ।
श्रध्दा दव्वोर्नु नामारी ।
कोर्चीं सर्व कर्मं करी ।
ऊरश्नाची बंधन ॥४१२॥

श्रध्देचॉ आधारु सोण्णु ।
मंत्रविधि वर्ज्य कोर्नु ।
व्यर्थ दुराग्रहु धोर्नु ।
बस्चँ बरँ न्हई रॅ ॥४१४॥

तलाव समुद्रावारी ।
कित्लेई तॅ बांदय्ल्तरी ।
प्रयोजन कांइं तरी ।
आस्स वॅ सांग पार्था ॥४१६॥

आकाशाक तूं गुद्दाई ।
लागगना ताक्का अेक्कुई ।
सांग कस्ल्याक ही जाई ।
बश्शिल्कडॅ उपाधी ॥४१८॥

खडॅ घाण्यांतुं भर्डिलॅ ।
सांग कित्लँ तॅल मॅळ्ळँ ।
कष्ट मात्र व्यर्थ गॅल्लॅ ।
पेंडी तीवै मेळ्णॅची ॥४१९॥

मॅळ्णा अैहिक भोग्गूक ।
धूरची पारलौकिक ।
दोन्नी घच्र्या पाहुण्याक ।
काड्का पड्ता उपासु ॥४२१॥

अश्शी पतितपावनु ।
संसारांधकार भानु ।
नरेंद्र लक्ष्मीरमणु ।
उल्लैलॉ त्यावॅळारी ॥४२३॥

युध्दा प्रसंगु हॉ घोरु ।
रोखठोक व्यवहारु ।
चल्ता प्राणांचॉ संहारु ।
परस्पर पक्षांतुं ॥४२५॥

संजयु म्हण्ता रायाक ।
मान्का शत्रूल्या गुणांक ।
पार्थु दित्ता आम्कां सुख ।
तॉवै आम्गेलॉ गुरु ॥४२७॥

आम्मी अज्ञाना काळ्कांतुं ।
फिर्तालॅ जन्मजन्मांतुं ।
आत्मज्ञाना प्रकाशांतुं ।
हाण्णु सॉळ्ळँ आम्कांई ॥४२९॥

कोर्नु विचारु मुखारी ।
आनी चड उल्लैल्यारी ।
हाक्का जाय्द खोंबिल्वारी ।
पुरॉ इत्लँ सांगिलँ ॥४३१॥

कर्व्यां कुड्कॅ बांद्दुन् घेव्नु ।
गांव परगांव भोव्नु ।
येंव्चँ उपासची काण्णु ।
कस्लॉ कर्मा व्यापारु ॥४२०॥

जॉ हँ सोण्णु ब्रह्मनाम ।
कर्ता नानाविध कर्मं ।
जाल्यारी तॉ पूर्णकाम ।
खंईं अॅक्डॅ जाय्श्ना रॅ ॥४२२॥

चंद्रापेक्षां चांदणँची ।
शीतल लाग्ता चडची ।
तश्शी चड अर्जुनुची ।
सुखी जाल्लॉ आय्कुनु ॥४२४॥

अस्ल्याई परिस्थितींतुं ।
कश्शी बा तॉ स्वानंदांतुं ।
त्या अॅक्ळ्याकची जगांतुं ।
मॅळ्ळ्या अस्लँ सद्भाग्य ॥४२६॥

तॉ जरी निम्गिनाशिलॉ ।
देवुई सांगश्नाशिलॉ ।
कश्शी आम्कां मॅळ्तल्शिलॉ ।
परमार्थाचॉ हॉ योगु ॥४२८॥

तान्नॅ आम्चेरी हॉ थोरु ।
कॅल्लॉ पळॅ उपकारु ।
जाल्लॉ व्याससहोदरु ।
तश्शी आम्गेलॉ गुरु ॥४३०॥

इत्ल्यारीची तॉ तड्वलॉ ।
दुस्रॉची विषयु घॅत्लॉ ।
पार्थु कस्लँ निम्गितलॉ ।
श्रीकृष्णाक तँ सांग्तां ॥४३२॥

संजयानॅ म्हळ्ळेल्वारी ।
सांग्तां आय्कया मुखारी ।
कृपा करा ही मज्जेरी ।
म्हण्ता निवृत्तीदासु ॥४३३॥

**॥ ज्ञानदेवु सांग्ता गीता ।**
**मधु अनुवादु कर्ता ।**
**सत्रावॉ अध्यायु बोरोनु जात्ता ।**

# अठ्रावॉ अध्यायु

जय जय दॅवा गुरो निर्मळा ।
शुभंकरा हे भक्तवत्सला ।
जन्ममृत्युच्यॉ दुष्ट शृंखला ।
स्मरतां गळ्णु पड्ताती ॥१॥

दॅवा तूं सामर्थ्यवानु ।
हरैता अशुभगणु ।
वेदार्थाचँ सार जाव्नु ।
दित्ता फल हात्तांतुं ॥२॥

जय दॅवा तूं सकळु ।
विरक्तांलाग्गी स्नेहाळु ।
कालातीता तूं अकळु ।
परिपूर्ण श्रीगुरो ॥३॥

निश्चळु अश्शी नित्याचॉ ।
उत्पत्तिस्थितीलयाचॉ ।
खेळु चलैता विश्वाचॉ ।
सुट्टश्ना वॅ उदर ॥४॥

जय निर्लेपा निष्कलंका ।
महानंदाच्या प्रेरका ।
त्रैलोक्याच्या संचालका ।
आदिमूळा पुरातना ॥५॥

जयजयजय हे स्वयंप्रकाशा ।
जगद्व्यापका तूं आकाशा ।
जगदाधारा तूं सर्वेशा ।
दॅवा भवभयविनाशका ॥६॥

दॅवा शमदमसहायका ।
जयजय हे स्मरसंहारका ।
अज्ञानवनविध्वंसक ।
दयासागरा गुरुराया ॥७॥

जयजय दॅवा अेकात्मका ।
विषयविषाच्या परिहारका ।
भक्तांतस्थ संदीपका ।
नीवैता तूं भवतापु ॥८॥

दॅवा तूंची अद्वितीयु ।
तुक्का संवजनप्रियु ।
भक्तांकितु तूं भजनीयु ।
मायातीता परात्परा ॥९॥

अकल्पित फल मॅळ्ता ।
तूंची कल्पतरु दाता ।
मनाक सक्षम कर्ता ।
संवित् बीज धरूक ॥१०॥

भावातीतु वाचातीतु ।
अश्शी आस्तना दॅवा तूं ।
कश्शी नी कित्ली शाब्दांतुं ।
स्तुती कोर्ची हँ कळ्णा ॥११॥

अश्शी दृष्टीक पडश्ना ।
इत्लँ कश्शी माक्का कळ्णा ।
आनी हांवं स्तुती कर्ना ।
लाज माक्का मगेली ॥१२॥

शांत समुद्र पोळोनु ।
मुखावॅलँ यॅना कळ्णु ।
जोवरेक चंद्र येन्नु ।
ताक्का थै थै नांचैना ॥१३॥

सोमकांत मणी स्त्रव्नु ।
अर्ध्य दीना आप्पण् जाव्नु ।
चंद्रुची तँ ताज्करौनु ।
घॅत्ता सर्वै करौनु ॥१४॥

वसंतऋतु जॉ यॅत्ता ।
सृष्टी देवीक सज्जैता ।
तूंची दॅवा हँ करैता ।
तुगेलँची स्तवन ॥१५॥

रवि आकाशांतुं यॅत्ता ।
तळ्यांतुं कमळ फुल्ता ।
समदु सहज घड्ता ।
खरँ लाज्का म्हुणु ना ॥१६॥

तुगेलँ स्मरण जात्ता ।
हांवंची माक्का विस्सर्ता ।
पॉट भर्ता आनी यॅत्ता ।
कश्की धेंकू आप्याप ॥१७॥

तश्शी मगेली अहंता ।
घालैली तुंवँ अनंता ।
जाल्ली वाणी ही तत्त्वता ।
तुगेलँची स्वरूप ॥१८॥

आस्तना देहपणांतुं ।
यॅद स्तुती ह्या मुखांतुं ।
जात्ली ती द्वैतभावांतुं ।
तूं नी तुगेलॅ गुण ॥१९॥

आस्स जॉ तूं एकात्मक ।
गुण विभाग कस्ल्याक ।
फुट्टोनु हँ मोती एक ।
जोड् सूंकाती वॅ कुड्कॅ ॥२०॥

मायबाप तूं म्हळ्ळ्यारी ।
चेर्डूं जांव्का हांवँ तरी ।
सांग तुगेल्या आंगारी ।
उपाधी ही घाल्का वॅ ॥२१॥

दॅवा तुगेलॉ चाकरु ।
कोरुं कश्शी हॉ उच्चारु ।
तूं स्वयंभू स्वामी थोरु ।
कर्ना उस्नॉ गौरवु ॥२२॥

तूं सर्वांतर्यामी म्होण्चँ ।
भाग्र ना म्हुणु सुच्चोंव्चँ ।
व्यापकत्वाक हँ लांव्चँ ।
उणेपण नुस्तेंची ॥२३॥

खंईं कस्ली ना जगांतुं ।
स्तुतीयोग्य तुक्का वस्तु ।
म्हुणु मूक जांव्चँ हांतुं ।
दिस्ता हँ श्रेयस्कर ॥२४॥

उल्लैना जांव्चँ ही स्तुती ।
दाकैना जांव्चँ ही आर्ती ।
आस्सना जांव्चँ सांगाती ।
कस्ल्याई समंदानॅ ॥२५॥

उल्लौलाँ भ्रमिष्टावारी ।
बोग्गुळ्ळाँई पिश्श्यावारी ।
स्तुती केल्ली कश्शीतरी ।
सहन कोर्नु घेंव्काज ॥२६॥

आत्तं हँ गीताव्याख्यान ।
जांव्का सज्जनांक मान्य ।
तस्लँ दी तूं प्रोत्साहन ।
मगेल्या ह्या वाचेक ॥२७॥

आय्कुनु म्हळ्ळँ नाथानँ ।
म्होणक्का हँ नॅव्नॅवानँ ।
लॉखंडाक परीसानँ ।
घास्त बस्का पण्णा रँ ॥२८॥

ज्ञानदेवुई म्हणालॉ ।
सद्‌गुरु प्रसन्न जाल्लॉ ।
कथाभागु मुखावॅलॉ ।
आय्कया ही विनंती ॥२९॥

गीता ही राजमंदिर ।
हॉची अध्यायु शिखर ।
हांतुं गीतार्थाचँ सार ।
मॅळ्ता तुम्कां सर्वांक ॥३०॥

म्हणताती की धूर थाव्नु ।
दॅव्ळा कळसु पोळोनु ।
दर्शन जाल्लँ लेक्कुनु ।
थंईं हात जॉड्‌ताती ॥३१॥

म्होण्येद तँची हांगाई ।
गीतेचॉ भावार्थु सर्वै ।
मॅळ्तलॉ हांतुं तुम्काई ।
पोळोंच्याक अॅक्डॅची ॥३२॥

हॉ ह्याखात्तीरची म्हणतां ।
दॅव्ळाचॉ कळसु जात्ता ।
मंदिराचेरी चडैता ।
व्यासमुनी ही शोभा ॥३३॥

कळसु दॅव्ळाचॉ सांग्ता ।
बांदोंचँ काम सर्वथा ।
जाल्लँ तश्शी हॉ सुच्चैता ।
गीता जाल्ली संपन्न ॥३४॥

व्यास महर्षीनँ खळ्ळॅ ।
वेदांचॅ पर्वत सग्ळॅ ।
उपनिषदांचँ दिल्लँ ।
रत्नभांडार खण्णु ॥३५॥

धर्म अर्थ काम तीनी ।
वणती ह्या पाषाणांनीं ।
बांदैली सर्व बाजूंनीं ।
ह्या महाभारताची ॥३६॥

भित्तरी गीता मंदिर ।
परमार्थाचॉ चतुर ।
लाग्ला हॉ संवादी सूर ।
श्रीकृष्णार्जुनांगॅलॉ ॥३७॥

निवृत्तीचँ सूत्र धोर्नु ।
शास्त्रार्थु सम सम्जाव्नु ।
दित्ता हॉ स्पष्ट दाकोनु ।
आम्कां मोक्षाचॉ मार्गु ॥३८॥

पंध्रावॉ अध्यायु सर्ता ।
थंईं घुम्टा काम जात्ता ।
अश्शी सर्व जाय्त यॅत्ता ।
मंदिराचँ हँ काम ॥३९॥

कलशाचँ स्थान पैलँ ।
सॉळाव्यांतुं सिध्द जाल्लँ ।
ताज्खात्तीर हँ मांडैलँ ।
आसन सत्राव्यांतुं ॥४०॥

हांगा अठ्राव्यांतु आत्तं ।
जाल्लॉ कलशु स्थापित ।
व्यासगीतेचॉ समस्त ।
लाय्लॉ विजयध्वजु ॥४१॥

अध्याय सर्व अॅक्ळाचॅ ।
पूर्णतेक चड्त वच्चॅ ।
क्रमेण ह्या मंदिराचॅ ।
थर अश्शी रच्चैलॅ ॥४२॥

खंईं कस्लॅं ऊर्नं न्यून ।
जाछँ हँ काम संपन्न ।
अठ्राव्यांतु विवेचन ।
कॅल्यां पूर्ण गीतेचँ ॥४३॥

शिल्पाकृती ही व्यासाली ।
गीतेंतु साकार जाल्ली ।
नी संसारग्रस्तांगेली ।
नौका जाल्ली तारक ॥४४॥

प्रदक्षिणा घाल्नु कॉण ।
कर्ता कॉण पारायण ।
साव्ल्येंतु हिगेल्या कॉण ।
बस्ताती श्रवणाक ॥४५॥

कॉण दीव्नु अवधान ।
कोर्नु घॅत्ता अर्थज्ञान ।
ताज्जेंची कर्त चिंतन ।
बस्ता तॉ गाभारयांतु ॥४६॥

कॉण आत्मज्ञानी जात्ता ।
तॉ परमपद पाव्ता ।
जाल्यारी सर्वांकै मॅळ्ता ।
मोक्षु ह्या मंदिरांतु ॥४७॥

समर्थांगेरी वाड्तना ।
पंक्तीभेदु कश्की जाय्ना ।
तश्शी कॉणाकै चुक्कना ।
मोक्षपदाचॉ लाभु ॥४८॥

उपासना ह्यॉ सर्वई ।
जरी सर्व मोक्षदायी ।
तरी कळसु म्होण्णुई ।
कॅल्लॉ हाज्जॉ उल्लेखु ॥४९॥

सत्राव्या अध्यायांत्थाव्नु ।
सुरु जाल्लॉ कश्शी म्हुणु ।
समंदु हॉ स्पष्ट कोर्नु ।
सांग्तां तुक्का हांगेलॉ ॥५०॥

गंगा यमुना ह्यॉ दोनी ।
दिस्ताती की प्रवाहिनी ।
जाल्यारी ह्यॉ दॉग्गजणी ।
उद्कादृष्टीनॅ अेक ॥५१॥

उमा आनी महेश्वर ।
अर्धनारीनटेश्वर ।
जाल्लीं अेकची शरीर ।
घेव्नु अंगविशेष ॥५२॥

प्रतिदीसु कळा वाड्ता ।
चंद्रु होडु दिस्सू लाग्ता ।
त्या त्या कळेची वॅ दिस्ता ।
वाड्ची रेषा विंगड ॥५३॥

चारि चरणांचॉ श्लोकु ।
तरी म्हणताती तॉ अेकु ।
तश्शी अॅक्कामाक्षी अेकु ।
अध्यायु ह्या गीतेचॉ ॥५४॥

त्या प्रत्येक अध्यायांतुं ।
आस्स अेक्कुची सिध्दांतु ।
रत्न मण्यांच्या हारांतुं ।
कश्की अेक्कची सूत्र ॥५५॥

अनेक मोत्यांची माळ ।
अेकपोडी ही केवळ ।
तरी शोभा ही सोज्वळ ।
सर्वांगेली अेक्कीची ॥५६॥

फुल्लं आनी फुल्लां सरु ।
दॉग्गांक अेक्कु आकारु ।
सुगंधुई सुरुचिरु ।
अेक्कुची ह्या फुल्लांचॉ ॥५७॥

गीता अठ्रा अध्यायांची ।
जाछी ही सात्शें श्लोकांची ।
सर्वांतु सांग्ल्यां अेक्कची ।
जँ आस्स तँ अेक्कची ॥५८॥

व्यासांगॅलॉ मार्गु सॉण्णॅ ।
बदलु कस्लोई कर्नँ ।
भावार्थु अेकाग्रतेनॅ ।
तांतुलॉ हॉ आय्कया ॥५९॥

आखेरीक सत्राव्यांतु ।
जँ म्हणालॉ भगवंतु ।
तँ आंस्स की उग्डासांतुं ।
आय्कंया तँ नॅवानॅ ॥६०॥

ब्रह्मनामारी श्रध्दा ना ।
तरी कर्ता कर्मं नाना ।
कोर्नुई कस्लेंई जाय्श्ना ।
कोर्चँ सर्व व्यर्थची ॥६१॥

आय्कुनु दॅवालँ म्हण्णँ ।
दिल्लॉ हुंकारु पार्थानॅ ।
कळ्ळु अश्शी कर्मठानॅ ।
चल्चँ ताक्का अमान्य ॥६२॥

ज्ञानदृष्टी हाक्का नाची ।
गोत्तु ना सर्वेश्वरुची ।
कश्शी ह्या ब्रह्मनामाची ।
महती हॉ जाणद ॥६३॥

रजतम गेल्लेल्विना ।
खंची श्रध्दा दृढ जाय्ना ।
अस्ल्या श्रध्देंतुं रुज्जना ।
ब्रह्मनामाचँ बीज ॥६४॥

शस्त्र पोट्टोळ्ळु घॅत्ल्यारी ।
दोरयेरी धांव्च्या लाग्ल्यारी ।
नागिणी घेव्नु खॅळ्ळ्यारी ।
घातु जात्ता निश्चित ॥६५॥

अस्ल्या कर्माचँ तँ फल ।
जन्ममरणाचँ मूळ ।
भोग तॅ सर्व अटळ ।
भोग्काजची पड्ताती ॥६६॥

यथासांग तीं जाल्यारी ।
यॅत्लॉ तॉ ज्ञानमार्गारी ।
उल्र्यारी तीं माक्षीवारी ।
अधोगती चुक्कश्ना ॥६७॥

अश्शी कर्मांतुं येत्लींची ।
विध्नं ह्या ना त्या थरेचीं ।
जाय्द वॅ प्राप्ती मोक्षाची ।
अस्ल्या ह्या कर्मठाक ॥६८॥

नाक्का सांगातु कर्माचॉ ।
दोषुई ना बंधनाचॉ ।
मार्गु बरॉ संन्यासाचॉ ।
मुक्ती मॅळ्ता तत्क्षण ॥६९॥

कर्माची बाधाई जाय्श्ना ।
मय्यई ताज्जँ आस्स्श्ना ।
त्यामितीं रमारमणा ।
जाय्द वॅ आत्मज्ञान ॥७०॥

त्यागु अथवा संन्यासु ।
ज्ञानमार्गाचॉ प्रवासु ।
कोर्नु दित्ताती सलीसु ।
सिध्दीचॅ मूलमंत्र ॥७१॥

ह्या दोन्नींचँ आचरण ।
कॅल्यारी वत्ता अज्ञान ।
कश्शी हँची समाधान ।
जाय्शी सांग तूं माक्का ॥७२॥

त्यागु कस्ल्याचॉ तॉ कोर्का ।
संन्यासु कस्ल्याचॉ धोर्का ।
हँ तूं स्पष्ट सांग माक्का ।
कळॉ आस्ल्यारी भेदु ॥७३॥

अर्जुनानॅ प्रश्नु कोर्चें ।
कृष्णानॅ उत्तर दिंव्चँ ।
जाल्यां रूप संवादाचँ ।
साकार अठ्राव्यांतुं ॥७४॥

ॲक्कांत्थान्नु अेक कळ्ता ।
अेकु सर्ता दुस्न्नॉ मॅळ्ता ।
अध्यायांचॉ क्रमु चल्ता ।
आय्कयाती मुखारी ॥७५॥

माक्षीच्या उत्राक धोर्नु ।
आय्ला मनांतुं अन्मानु ।
निरसन करी म्हुणु ।
सांग्ता पार्थु कृष्णाक ॥७६॥

ना वॅ ताक्का हाज्जँ ज्ञान ।
सॉत्त आश्शिलॉ नॅवन ।
हाक्काची जाय्नॅ सहन ।
बोस्चँ तान्नॅ नोळीत ॥७७॥

पॉटभरी पीन्नु घॅत्ता ।
वास्न्नूं गायीकची खिच्ता ।
अश्शीची ही रीती आस्ता ।
व्हयि की ना प्रीतीची ॥७८॥

खास हेतू नातिल्तरी ।
बोस्का उल्लैत इद्रारी ।
अश्शी प्रीती भोग्गिल्तरी ।
भूक कांईं भाग्गना ॥७९॥

अश्शी पार्थुई तृषार्तु ।
प्रीतीची हॉ मूर्तीमंतु ।
जाय्ना अजुनीकै तृप्तु ।
कर्ता आनी उल्लैशी ॥८०॥

आस्ल्या ह्या प्रश्नोत्तरांतुं ।
साध्य जात्ता परमार्थु ।
आप्णालँ रूप कान् `तुं ।
मॅळ्ता की पोळोंच्याक ॥८१॥

संवादु मद्दँ राब्ल्यारी ।
परमार्थुई तित्ल्यारी ।
अश्शी हॉ बंद पळ्ळ्यारी ।
हाक्का जाय्श्ना सहन ॥८२॥

युक्ती कोर्नु ही निम्गूंची ।
घडी गीतेच्या वस्त्राची ।
मेक्ळैली नी सव्यसाची ।
अर्थशोभ पळैता ॥८३॥

केवळ अठ्रावॉं न्हई ।
अेकाध्यार्थांची गीता ही ।
पोळोनु वास्त्राक गायी ।
सॉड्ता पान्नॅं उत्स्फुर्त ॥८४॥

लॅक्लॅं गीता पूर्ण जाल्ली ।
नॅवानॅं सुरुई केल्ली ।
करकी गुरुशिष्यागेली ।
तत्त्वचर्चा चालूची ॥८५॥

आस्सॉ हॅं उरॉं इत्ल्यारी ।
सांग म्हणता धनुर्धारी ।
करी कृपा तूं मज्जेरी ।
हे श्रीकृष्णा विश्वेशा ॥८६॥

त्यागांतुं नी संन्यासांतुं ।
अेक्कु अर्थू ह्या दोन्नींतुं ।
संघांतु नी सांगातांतुं ।
अॅक्डॅ आस्चॉं संकेतु ॥८७॥

संन्यासु म्हळ्ळयारी सोड्चॅं ।
त्यागु म्हळ्ळेल्तरी सोड्चॅं ।
अश्शी अेक्कची अर्थाचॅं ।
शब्द माक्का दिस्ताती ॥८८॥

भेदु कस्लोई आस्ल्यारी ।
सांग तॉं माक्का मुरारी ।
म्हणता पार्थाक श्रीहरी ।
आस्स भेदु आय्क तूं ॥८९॥

कॉणै अशी पळैल्यारी ।
अेक्कु अर्थु आशिशिल्वारी ।
दिस्चॅं तुक्का दिशिशिल्वारी ।
सहज हॅं ताक्काई ॥९०॥

दोन्नींतुंई सव्यसाची ।
सोड्चॅं हॉं अर्थु आस्सची ।
जाल्यारी सूक्ष्म भेदाची ।
आस्स तांतुंई खूण ॥९१॥

सर्वस्व हॅं सोण्णु दिंव्चॅं ।
ताव्वळी संन्यासु म्होण्चॅं ।
कर्मफल मात्र सोड्चॅं ।
म्होण्चॅं ताव्वळी त्यागु ॥९२॥

खंचॅं कर्म सोण्णु दिंव्का ।
फल खंच्याचॅं तॅं सोड्का ।
हॅंवै स्पष्ट सांग्तां तुक्का ।
मन दीव्नु आय्क तूं ॥९३॥

गुड् ारी रान्नांतुं रूक ।
वाड्ताती आप्णाइत्ल्याक ।
लाव्नु मॅळ्ता फळ–पीक।
बागेंत्लॅं नी शॅत्तांत्लॅं ॥९४॥

तण आप्याप चिग्रता ।
गाद्दॅं मात्र कस्का पड्ता ।
बीज घाल्नु राक्का पड्ता ।
भात्ता पीका खात्तीर ॥९५॥

देह सहजची आस्ता ।
भांगार कोरोंका पड्ता ।
न्हंई तिज्इत्ल्याक व्हांव्ता ।
बांईं खणका पड्ताची ॥९६॥

कर्म नित्यनैमित्तिक ।
जात्ताती तीं स्वाभाविक ।
दित्ता ह्या काम्य कर्मांक ।
खास प्रेरणा इच्छा ॥९७॥

नाना विषयांचॅं भोग ।
भोग्च्याक करैता याग ।
ह्या कर्मांचॉ कार्यभाग ।
इच्छा घॅत्ता सांभाळ्णु ॥९८॥

जलाशयं उपवनं ।
नगरव्यवस्थापन ।
विविध व्रतं महान ।
करैता संभ्रमारी ॥९९॥

इच्छा ही कर्मांचँ मूळ ।
करैल्याचँ दित्ता फळ ।
फळ भॉगैता सकळ ।
आनी घाल्ता बांदुनु ॥१००॥

देह धोर्नु आय्ला जरी ।
जन्ममरणाची फेरी ।
चुक्कोंया ही म्हळ्ळेल्तरी ।
जाय्ना फिर्का तांतूंची ॥१०१॥

नशिबांतुं जँ बरैल्यां ।
सांग तँ कॉणाक चुक्ल्यां ।
काळेपण धुव्नु आय्ल्यां ।
गॉरॅपण कॉणाक ॥१०२॥

तश्शी काम्यकर्मफळ ।
भॉग्का पड्ताची सरळ ।
रीण पावोंची ती वॅळ ।
यॅनापुडॅ पावोंका ॥१०३॥

अनिच्छेनॅं जरी सुट्लॉ ।
बाणु कॉणाकै लाग्तलॉ ।
तॉची परिणामु जात्लॉ ।
अवांछित काम्याचॉ ॥१०४॥

गॉड खाल्लँ गोत्त्नस्तना ।
तँ कांइं कडू लाग्गश्ना ।
गॉब्राभित्तर्लँ दिस्सना ।
लास्तलॉची की पायु ॥१०५॥

काम्य कर्मांतुं हँ ।
अेक बळ आस्स स्वाभाविक ।
त्यामितीं हाज्जँ कौतुक ।
मुमुक्षुनॅ कोर्नयॅ ॥१०६॥

अश्शी काम्य कर्म सोड्का ।
विष म्हुणुची तँ लॅक्का ।
संसर्गु लाव्नु घेव्नक्का ।
पार्था ताज्जॉ सर्वथा ॥१०७॥

दूरदर्शी आत्मज्ञानी ।
म्हळ्ळ्यां ह्या सर्व लोकांनीं ।
की त्या त्यागाक सर्वांनीं ।
जाण्का हॉची संन्यासु ॥१०८॥

हँ कर्म सोड्का म्हळ्ळ्यारी ।
घावु भोगवासनेरी ।
घाल्का निर्धनु जाल्यारी ।
भय्यई ना चोर्येचँ ॥१०९॥

चंद्र वा सूर्यग्रहण ।
ह्या वॅळारी कोर्चें दान ।
सश्रध्द पुण्यस्मरण ।
मातापितरांगेलँ ॥११०॥

बाग्लांतु अतिथी यॅत्ता ।
ताव्वळी जँ कोर्का पड्ता ।
जाण अस्लीं कर्मं पार्था ।
तींची तूं नैमित्तिक ॥१११॥

आकाश वर्षाऋतुंतुं ।
वनदेवी वसंतांतुं ।
नवकांती यौवनांतुं ।
कश्की आस्ता विशेष ॥११२॥

सोमकांतु चांदण्यांतुं ।
पद्म सूर्यप्रकाशांतुं ।
विकसित स्वगुणांतुं ।
सहजची जात्ताती ॥११३॥

तश्शी कर्माकई मॅळ्ता ।
निमित्त तँ नेमु जात्ता ।
प्रसंगा नुसार घड्ता ।
कर्म तँ नैमित्तिक ॥११४॥

सकाळीं धोन्पारां सांज्जॅ ।
जाव्नु वत्ता कोर्चें जँ जँ ।
दिस्ता वॅ दॉळ्यांक वज्जँ ।
पळैतना सहज... ॥११५॥

पाय्यां दिंव्का पण्णा गती ।
नैसर्गिक आस्ता शक्ती ।
ज्योतींतुंई आस्ता दीप्ती ।
तिगेलीची तिज्ज्यांतुं ॥११६॥

चंदनाचॉई सुगंधु ।
आस्ता तॉ स्वभावसिध्दु ।
जन्मासांगाती संबंधु ।
घेव्नु आय्ल्यां हँ कर्म ॥११७॥

अश्शी नित्यनैमित्तिक ।
दोन्नी हीं तुक्का कळच्याक ।
सांग्लीं आत्तं अेक अेक ।
स्पष्ट कोर्नु कौंतेया ॥११८॥

दोन्नी अवश्य कोर्काती ।
जाल्यारी थॉडॅ म्हण्ताती ।
की निष्फळ हीं जात्ताती ।
चुक्कीची ही सम्जुती ॥११९॥

जात्ता सुग्रास भोजन ।
भुक्केचेंई निवारण ।
मॅळ्ता जीवा समाधान ।
हँची हॉड फल की ॥१२०॥

उज्ज्यांतुं भांगार हीन ।
जात्ता तँ शुध्द सुवर्ण ।
तश्शी फल मॅळ्ता जाण ।
नित्यनैमित्तिकाचँ ॥१२१॥

वाड्ता आत्मसंशोधन ।
जात्ता दोषनिवारण ।
मॅळ्ता सद्गतीची खूण ।
हां हां म्हण्तां हात्तांतुं ॥१२२॥

इत्लँ हॉड आश्शिल्तरी ।
फल सोड्का जाग्रतेरी ।
मूळ नक्षत्र आस्ल्यारी ।
कश्की दिंव्का तँ सोण्णु ॥१२३॥

वसंतु वनांतुं यॅत्ता ।
आम्रवृक्षु सग्ळॉ फुल्ता ।
हातु लाय्ना तशी सॉड्ता ।
कश्की तॉ सग्ळीं फळं ॥१२४॥

नित्यनैमित्तिक कोर्का ।
खंचँ कर्म दांटु नाक्का ।
फलाशेची वकी घाल्का ।
मनाभाय्र सर्वथा ॥१२५॥

अश्शी कर्मफल सोड्चँ ।
ताक्का पार्था त्यागु म्होण्चँ ।
दोन्नी विषयांतुं सांग्चँ ।
जँ तँ तुवँ आय्कलँ ॥१२६॥

संन्यासु घड्ता ताव्वळी ।
काम्य कर्म गळ्णु वत्लीं ।
निषिध्द सोड्का पड्तलीं ।
त्याज्य म्हुणु सहज ॥१२७॥

फलाशेचॉ त्यागु जाय्द ।
कर्मविमुक्ती मॅळद ।
जरी जाय्द शिरच्छेद ।
पड्ता कश्की देहची ॥१२८॥

कणीसांतुं सत्त्व भर्ता ।
तीची पीकाची सिध्दता ।
निष्काम कर्म तँ जात्ता ।
आत्मज्ञाना सन्मुख ॥१२९॥

काम्यकर्म सोण्णु दित्ता ।
कर्मफलत्यागु कर्ता ।
तॉ आत्मज्ञानाचॉ जात्ता ।
अधिकारी सत्पात्र ॥१३०॥

त्यागुई कस्ल्याचॉ कोर्का ।
विचारु अवश्य जांव्का ।
न्है जाल्यारी शिर्कुन् पड्का ।
जात्लँ चड त्रासांतुं ॥१३१॥

गोत्ना हुशार ना कस्लँ ।
वक्कद खंचेंई घॅत्लँ ।
भूक जाल्लेल्तरी सॉळ्ळँ ।
अन्न मृत्यु आस्सची ॥१३२॥

म्हुणु आय्क जँ ना वर्ज्य ।
तँ कॅर्नाई सोडू नज्ज ।
आनी सर्वथा जँ त्याज्य ।
ताज्जॉ धोर्नयॅ लोभु ॥१३३॥

गोत्ना जाल्यारी हँ तंत्र ।
त्यागु जात्लॉ वज्जँ मात्र ।
कर्ना कॅर्नाई विरक्त ।
जँ जँ आस्स निषिध्द ॥१३४॥

सॉण्णा फलाशा तॉ म्हणता ।
कर्म हँ बांदुनु घाल्ता ।
निर्लज्जु कश्की झग्गड्ता ।
दोषु दित्ता दुस्त्र्यांक ॥१३५॥

खाव्गी आनी रोगग्रस्तु ।
सोत्ता दोषु पक्वान्नांतुं ।
चर्मरोगानॅ पीडितु ।
व्यर्थ सव्ता मूसांक ॥१३६॥

फलाशा सुट्टना म्हुणु ।
कर्मची बंधन म्होण्णू ।
तँची कोर्चें दिंव्का  सोण्णु ।
अश्शी घॅत्ता निर्णयु ॥१३७॥

यज्ञ अवश्य कोर्काती ।
चित्त शुध्द हँ तांच्मितीं ।
जात्ता ही दीन्नु निश्चिती ।
उलैता हँ आन्येक्लॉ ॥१३८॥

आत्मशुध्दी वग्गी जांव्का ।
म्हुणु कर्म कर्त उर्का ।
आलस्य सर्वथा सोड्का ।
प्राप्त जांव्का विजयु ॥१३९॥

भांगार शुध्द कर्तना ।
उज्ज्याक भिंव्का म्हुणु ना ।
कान्डी स्वच्छ कोर्नु घॅत्ला ।
पुस्का पड्ता धाफंतां ॥१४०॥

दिस्ता वस्त्र फूट आस्का ।
तरी ताँड फिरान्नक्का ।
काळ्या सत्तेलांतुं घाल्का ।
पड्ता तँ शिज्जोंच्याक ॥१४१॥

कष्ट काड्काती कर्मांतुं ।
नाक्काती तॅ म्होण्णक्का तूं ।
त्रासु रांदपै कोर्च्यांतुं ।
चुक्कैल्यारी जाय्द वॅ ॥१४२॥

कर्म कोर्काज म्हण्ताती ।
थॉडॅ सोड्का सांग्ताती ।
वादविवाद चल्ताती ।
अश्शी ह्या कर्माचेरी ॥१४३॥

विसंगती ही सुट्काज ।
कस्लँ निश्चित कळ्काज ।
कर्मत्यागाचँ हँ गूज ।
सांग्ता तुक्का तँ आय्क ॥१४४॥

त्यागाचॅ तीनी प्रकार ।
सांग्तां तॅवै सविस्तर ।
तीन्नींतुं कस्लँ अंतर ।
आस्स तँवै कळ्तलँ ॥१४५॥

तीन्नी दिश्शिल्तरी वॅग्ळॅ ।
तात्पर्य घॅ तूं तांतुलँ ।
तत्त्व त्यागाचँ कळ्तलँ ।
मन जात्लँ निःशंक ॥१४६॥

पार्था मगेलँ हँ ज्ञान ।
अनुभवसिध्द जाण ।
तँची धोर्नु रॅ प्रमाण ।
सांग्तां माक्का दिश्शिलँ ॥१४७॥

थुंट्का संसाखंधन ।
म्हुणु आस्का सावधान ।
त्या मुमुक्षुनॅ दीव्नु ध्यान ।
हँची अेक कोर्काज ॥१४८॥

यज्ञतप आनी दान ।
ह्या कर्मांचँ अनुष्ठान ।
कश्की मार्गानुसरण ।
यात्रिकाक अवश्य ॥१४९॥

वस्तु हॉग्गाणु गॅल्यारी ।
सोद्का जात्ता मॅळसरी ।
तृप्ती जावरेकतरी ।
ना म्होण्णयॅ अन्नाक ॥१५०॥

सॉण्णा दोणी तरसरी ।
काण्णा वाली फुल्लसरी ।
दिवॉ वस्तु मॅळसरी ।
नीवैना तॉ बुद्वंतु ॥१५१॥

आत्मज्ञाना साधनेरी ।
निष्ठा दृढ बैससरी ।
कर्मं हीं कर्त उल्र्यारी ।
ध्येय प्राप्त जात्लेंची ॥१५२॥

अधिकारु नी क्षमता ।
पोळोनु हँ कोर्का पड्ता ।
विधियुक्त हीं सर्वथा ।
जात्ताती की जाय्नाती ॥१५३॥

चम्कल्यारी वगी वगी ।
घारा पाव्येदई वग्गी ।
तश्शी कर्माचरणई ।
पाव्तलँ नैष्कर्म्यांतुं ॥१५४॥

उग्डासार्नॅ रॅ घॅत्ल्यारी ।
वक्कद त्या त्या वॅळारी ।
जात्ली व्याधी वग्गी बरी ।
हँ कश्की सुनिश्चित ॥१५५॥

कर्मं हीं तड्वैनस्तना ।
विधी ती विस्स्सर्नस्तना ।
कॅल्यारी वत्लॅ अर्जुना ।
रजतम तॅ धाव्नु ॥१५६॥

उपर्तुनु वारंवार ।
उज्ज्यांतुं कीड भांगार ।
कर्ताती सुवर्णकार ।
शुध्द शतनंबरी ॥१५७॥

निष्ठेनॅ कॅल्यारी कर्म ।
वत्लॅ धाव्नु रजतम ।
तँची जात्लँ हिमसम ।
शुध्द सत्त्वगुणानॅ ॥१५८॥

कर्म सत्त्वशुध्द अस्लँ ।
पावन तीर्थशँ जात्लँ ।
धनुर्धरा हँ सांगिलँ ।
धोर्का तुवँ ध्यानांतुं ॥१५९॥

देह तीर्थांतुं निर्मळ ।
मन कर्मानॅ सोज्वळ ।
तश्शी सत्कर्म सकळ ।
तीर्थ म्हुणु लेक्काज ॥१६०॥

कु कि सृष्टी दिस्काज ।
तृषार्ताकई मेळ्काज ।
माखाडांतु सहज ।
कश्की अमृता झरी ॥१६१॥

न्हंई तार्ता बुड्तल्याक ।
पृथ्वी धर्ता पड्तल्याक ।
आयुष्यई मर्तल्याक ।
दित्ता कश्की मरण ॥१६२॥

कर्मं कोर्नु कर्ममुक्ती ।
मुमुक्षु हॅ मेळैताती ।
कश्की वत्ता विषा भीती ।
रसायनी वक्दार्नॅ ॥१६३॥

कौशल्यानॅ विधियुक्त ।
कर्मं कोर्काती समस्त ।
तींची तुक्का बंधमुक्त ।
कर्तलीं ना संशयु ॥१६४॥

खूण कर्मकौशल्याची ।
सांग्तां तुक्का सव्यसाची ।
कश्शी आप्णा इत्ल्याकची ।
कर्म जात्लँ नैष्कर्म्य ॥१६५॥

विधियुक्त महायज्ञ ।
कोर्काती तॅ दीव्नु ध्यान ।
मात्र ताज्जँ कर्तेपण ।
घेव्नु गर्वु धोर्नयॅ ॥१६६॥

यात्रा कर्ता घेव्नु रीण ।
मॅळ्णा पूर्ण समाधान ।
यात्रेंतुलँ उणेपण ।
मना सताय्त आस्ता ॥१६७॥

रायागॅल्या सामर्थ्यारी ।
तागेल्याची शत्रूचेरी ।
अॅक्ळॉ कर्ता मात जरी ।
म्हणा तॉ जिंक्लॉं हांवं ॥१६८॥

दुस्त्र्यॉलॉ आधारु घेव्नु ।
यॅत्ता तीरारी जॉ पोव्नु ।
वा कोणु पूजा सांगुनु ।
म्हण्णा कर्ता हांवंची ॥१६९॥

हांवं कर्ता म्हण्णस्तना ।
खंचॉ विधी सॉण्णस्तना ।
कोर्चीं कोर्नु कर्मं नाना ।
जात्ता तॉ कृतकृत्य ॥१७०॥

केल्लेल्याचँ फळ जाई ।
म्हुणु यॅना मनांतुईं ।
अश्शी कर्ता हीं सर्वई ।
कर्मं ह्याची थरेनॅं ॥१७१॥

कर्म सुरु कर्तनाची ।
आशा धोर्नयॅ फळाची ।
दाईं पोळोनु घॅत्ताची ।
दुस्त्र्यॉगॅल्या चॅर्डाकि ॥१७२॥

पिंप्ळा साव्ली मेळ्का म्हुणु ।
घाल्ता वॅ उद्दाक कोणु ।
तश्शी फलाशा ही सोण्णु ।
सर्व कर्मं कोर्काती ॥१७३॥

गोर्वा राक्तलॉ चरूक ।
व्हर्ता गांव्तुल्या गाय्यांक ।
म्हण्णा की मॅळॉ आप्णाक ।
दूद तांगेलँ म्हुणु ॥१७४॥

कर्तेपण सोण्णु दित्ता ।
फलनिरपेक्ष जात्ता ।
ताक्का आत्मलाभु घड्ता ।
ना रॅ हांतुं संशयु ॥१७५॥

ह्या थरेचॉ कर्मयोगु ।
हॉची पळॅ पार्था चांगु ।
हाज्जॉ तूं कॅर्नाई संगु ।
सोण्णयॅ हँची सांग्चँ ॥१७६॥

जाल्ला जीवाक बॅजारु ।
व्हान्नु संसाराचॉ भारु ।
तान्नॅं अवश्य विचारु ।
कोर्नु धोर्का हॉ मार्गु ॥१७७॥

नुस्तँ काळ्कारी कोप्पुनु ।
घँव्चँ बॉट दॉळ्यां घाल्नु ।
नाक्काची बंधन म्होण्णु ।
सोड्काज वॅ कर्मची ॥१७८॥

अश्शी कर्म सोड्चँ जाण ।
तमोगुणाचँ लक्षण ।
शिसारु जाल्यारी कॉण ।
बोडुन् घॅद कपाल ॥१७९॥

रस्तॉ कश्शी आश्शिल्तरी ।
चम्कूंका पड्ता मार्गारी ।
म्हुणु कोप्पुनु ताज्जेरी ।
खांड्काती वॅ पायची ॥१८०॥

भूक लाग्ल्या तुक्का जरी ।
वाळ्ळेलँ हून आस्ल्यारी ।
राब चिक्कं नीववरी ।
वच्चु नाक्का उटाव्नु ॥१८१॥

कर्म कोर्चें वर्म जाण्का ।
त्याची थरेनॅ तँ कोर्का ।
बंधनांत्थाव्नु त्या सुट्का ।
जाण्णा हँ तॉ तामसी ॥१८२॥

स्वधर्मानुसार यॅत्ता ।
तँ कर्म तॉ सोण्णु दित्ता ।
तामसी त्यागु तॉ पार्था ।
मनांतुंई हाण्णक्का ॥१८३॥

विहित कर्तव्य कळ्ता ।
अधिकारुई तॉ जाण्ता ।
कर्म कोरुक माक्षेता ।
त्रासु जाय्द म्होण्णुची ॥१८४॥

वाट्टेरी लागगद भूक ।
म्हुणु कस्लेंई खांव्याक ।
बांदुनु घॅत्ताती आय्क ।
जाय्द वॅ वज्जँ ताज्जँ ॥१८५॥

सुरु कोर्चेई अॅक्ळाक ।
लॅक्ता जाय्श्ना हँ कोरूक ।
निंबुवॉ आड्कॉ जिब्बेक ।
पैलॅ फंतां लाग्ताची ॥१८६॥

दूद नाक्का गायी हाण्ता ।
फूल काण्णा कांटॉ लाग्ता ।
जॅव्ना कॉण कर्त बस्ता ।
शित आनी रांदई ॥१८७॥

सुरु कर्तनाची म्हण्ता ।
कर्म भो कष्टाचँ आस्ता ।
कॉण बा फाँडांतुं पड्ता ।
इद्रारी तॉ दिस्तना ॥१८८॥

अॅखाद् वॅळ सुरु कर्ता ।
यथासांग कर्ता म्हण्ता ।
तरी अर्दारीची सॉड्ता ।
कष्ट येंव्चॅ भित्तरी ॥१८९॥

देह मॅळ्ळा सद्भाग्यानॅ ।
शिणोंका वॅ तॉ कष्टानॅ ।
भोग्गिल्चारी दुष्कर्म्यानॅ ।
प्रायाश्चित्त पापाचँ ॥१९०॥

आजि केल्लेल्या कर्माचँ ।
फल कॅर्नाय्पुणि मेळ्चँ ।
आस्चँ आजि भोग्गुन् सोड्चँ ।
फाय्ची खात्री कॉणाक ॥१९१॥

देहा त्रासु दिंव्च्या भित्ता ।
कर्म कोर्चें सोण्णु दित्ता ।
अस्लॉ कर्मत्यागु पार्था ।
राजस म्हुणु सम्ज ॥१९२॥

जरी अश्शी कर्म सॉळ्ळँ ।
ताज्जँ फलई चुक्तलँ ।
उज्ज्यांतुं वत्तुनु गॅल्लँ ।
म्होण्येद वॅ तॉ होमु ॥१९३॥

मॅल्लॉ उद्कांतुं बुड्डुनु ।
जलसमाधी ती म्हुणु ।
म्हण्शी वॅ विचारु कोर्नु ।
सांग माक्का अर्जुना ॥१९४॥

देहाचेरी मोगु धर्ता ।
कर्मारी उद्दाक सॉड्ता ।
लाग्गश्ना तागेल्या हात्ता ।
फल कस्लेंई सम्ज ॥१९५॥

नक्षत्रांची माळ निव्ता ।
फाल्फाल्यारी दिस्सू लाग्ता ।
तश्शी हँ अज्ञान सर्ता ।
घड्ता आत्मदर्शन ॥१९६॥

कर्म कोर्नु फलत्यागु ।
तॉची खरॉ कर्मत्यागु ।
थंईं सुरु जात्ता मार्गु ।
अश्शी मोक्षधामाचॉ ॥१९७॥

त्यागु अज्ञानमूलक ।
जाय्ना ताज्मितीं सार्थक ।
ह्याची त्यागा आभासाक ।
म्हणतां राजस त्यागु ॥१९८॥

खंच्या थरेनॅ कॅल्यारी ।
त्यागु मोक्षपदाचेरी ।
व्हर्द हँवै ह्या वॅळारी ।
सांगुन् सॉड्तां आय्क तूं ॥१९९॥

जॉ वर्णाश्रमानुसार ।
मॅळ्ता स्वधर्मु साचार ।
घाल्नु कोर्का तॉ साकार ।
विर्धींचॅ अलंकार ॥२००॥

हांवं कर्ता म्होणु नज्ज ।
कर्मा फलई सोड्काज ।
कोर्ची रीती ही आस्काज ।
सुट्ता गांटी कर्माची ॥२०१॥

उपेक्षा अपेक्षा दोन्नी ।
आव्सु विषयांतु सोण्णी ।
पतन हाज्विना आनी ।
दुस्त्रँ खंचँ ना हॉड ॥२०२॥

हीं दोन्नी सोण्णु दिंव्काती ।
आस्का आव्सुचेरी भक्ती ।
गोमाता कश्की भज्ताती ।
निर्मळ भावनेनॅ ॥२०३॥

कात्तॉ नी साली आंब्याक ।
आस्ता म्हुणु तॉ कॉणाक ।
दिस्सना खांव्चॉ कस्ल्याक ।
सोण्णु तीं तॉ खात्ताती ॥२०४॥

कर्तृत्वाचॉ अभिमानु ।
नी कर्मफलाशा सोण्णु ।
कर्म कॅल्यारी बांदुनु ।
घाल्ना कर्म कॉणाक ॥२०५॥

चल्ये लग्न कोर्नु दित्ना ।
बाप्पुसु अपेक्षा कर्ना ।
तश्शी हीं कर्म कर्तना ।
संगु सोड्का दोन्नींचॉ ॥२०६॥

श्रेष्ठ त्यागु हॉ सात्त्विक ।
निश्चित मोक्षदायक ।
सुविख्यात ह्या जगाक ।
जाव्नु आस्स अर्जुना ॥२०७॥

बीज भाज्जिलँ चिग्रना ।
तश्शी अस्ल्या त्यागाविना ।
कृतकर्माचँ सुट्टश्ना ।
बंधन तँ कॅर्नाई ॥२०८॥

गंजु आनी काळेपण ।
लॉखंडाचॅं कश्की गुण ।
काड्ता परीसु तत्क्षण ।
त्यागुई रजतम ॥२०९॥

सांज जाल्की मृगजळ ।
दिस्सना कश्की तत्काळ ।
तश्शी हॅं सत्व सोज्वळ ।
आत्मज्ञान जागैता ॥२१०॥

इत्लॉ विश्र्वाचॉ विस्तारु ।
दिस्सू लाग्ता शून्याकारु ।
सर्वव्यापी निराकारु ।
कश्की आस्स आकाश ॥२११॥

तागेल्या त्या संचिताचॅं ।
भोग जॅं सुख दु:खाचॅं ।
सर्ताती भॉडांनीं वच्चॅं ।
विर्नू जश्शी नभांतुं ॥२१२॥

तागेल्या ज्ञानदृष्टीक ।
सुखदु:ख अेकलॅक ।
अेक हॉड सान अेक ।
भेदु कर्ना कर्मांतुं ॥२१३॥

जरी भेदु आस्तल्शिलॉ ।
शुभ हास्त कर्तल्शिलॉ ।
अशुभ पळैश्नाशिलॉ ।
दुंकुनु त्या दिकाक ॥२१४॥

निद्देंतुं सॉप्पन पड्ता ।
तांतुं बरॅं वाय्ट यॅत्ता ।
जागी जाव्नु सोण्णु दित्ता ।
त्या सॉप्नाचॉ विचारु ॥२१५॥

हॅं कर्म तॅं हांवं कर्ता ।
मनांत्लॉ विचारु वत्ता ।
ताव्वळी सहज घड्ता ।
तॉची त्यागु सात्त्विक ॥२१६॥

कर्मत्यागु ह्या थरेचॉ ।
मोक्षदायकुची जांव्चॉ ।
अन्यथा कॅल्यारी पोड्चॉ ।
प्रसंगु बंधनांतुं ॥२१७॥

जाल्या ह्या देहाची प्राप्ती ।
नुस्तॅं ताज्जी धोर्ची खंती ।
धर्तलॉ तॉ मूढमती ।
अश्शी म्होण्काशॅं दिस्ता ॥२१८॥

मड्कॅं मात्त्येक विस्सर्ना ।
वस्त्र तंतू सोण्णु दीना ।
देहाची अवगणना ।
इत्खात्तीर कोर्काज ॥२१९॥

उज्जॉ धग्गु जात्ता म्हण्णा ।
दिवोई तक्रार कर्ना ।
स्वप्रकाशाची अर्जुना ।
ताज्जॉ ताक्का त्रासु ना ॥२२०॥

वासु हिंगाचॉ वच्चना ।
दुस्त्रॉ ताक्का लांव्च्या जाय्ना ।
द्रवपण सोण्णु जाय्श्ना ।
उद्काकई राब्बूक ॥२२१॥

देह आस्ता जोवरेक ।
जाय्ना रॅ कर्म सोड्रूक ।
सॉड्तां म्होण्चॅं तॅंवै अेक ।
पिश्शेपण व्है की ना ॥२२२॥

पुस्सु जात्ता निड्ळावॅलॉ ।
लाव्नु घेत्तिलॉ तॉ तिळॉ ।
बदल्च्याक बरैलेलॉ ।
भोगु मात्र जाय्ना रॅ ॥२२३॥

विहित कर्म धर्लेलँ ।
मद्देगती सोडू जात्लँ ।
न्हई रॅ हँ कर्म तस्लँ ।
आय्ल्यां देहासांगाती ॥२२४॥

नीद स्वाभाविक यॅत्ता ।
देहाचीची ती अवस्था ।
निद्देंतुंई चल्त उर्ता ।
श्र्वासोच्छ्वासु आप्याप ॥२२५॥

देह हॉ आस्सवरेक ।
कर्म चल्ता अेक्नाअेक ।
विश्रांती मॅळ्ता कर्माक ।
देह पण्णापुडॅची ॥२२६॥

कर्मत्यागु ताव्वळीची ।
जात्लॉ रॅ त्या वॅळारीची ।
सुट्ता कॅलेल्या कर्माची ।
फलाशा ती सर्वथा ॥२२७॥

ईश्र्वराल्या पदांचेरी ।
कर्मफल तूं दव्वरी ।
भवांच्या सर्पभ्रमारी ।
पड्ता ज्ञाना प्रकाशु ॥२२८॥

अश्शी आत्मबोधु जात्ता ।
अज्ञानासांगाती सर्ता ।
केलेल्या कर्माची सत्ता ।
हॉची त्यागु हँ सत्य ॥२२९॥

ह्या थरेनॅ कर्म जात्ता ।
तॉची त्यागु ना अन्यथा ।
रोग्यागेली शुध्दी वत्ता ।
म्होणची वॅ ती विश्रांती ॥२३०॥

अेक कर्म कर्तनाची ।
बॅजार्लीं धर्ता दुस्त्रँची ।
दुकी वत्ता वॅ गुद्यांची ।
दॉण्णॉ मार्नु घॅत्ल्यारी ॥२३१॥

हँची पळॅ सार पार्था ।
जॉ कर्मफलाशा सॉड्ता ।
कर्म कोर्नुई तॉ जात्ता ।
निष्कर्मी त्रैलोक्यांतुं ॥२३२॥

कर्मफल जॅ सॉण्णाती ।
ताज्जँ फल तॅ भॉग्ताती ।
चुक्कोंच्याक नॅ जाय्नाती ।
त्रिविध कर्मा भोग ॥२३३॥

कर्ता पिता कन्यादान ।
पर्तैता जँ परधन ।
जांव्यारी घाल्नु बंधन ।
मुक्त जात्ता आप्पण ॥२३४॥

विषप्राय मद्य विक्ता ।
पैसॉ कोर्नु सुख भॉग्ता ।
पित्लॉ थंई प्राणु सॉड्ता ।
घेव्नु मृत्यु विक्कत ॥२३५॥

सॉडॉ कर्तृत्वाभिमान ।
फल कॉरॉ वा अर्पण ।
आस्ता दोन्नींतुंई जाण ।
कर्म कोर्चँ अवश्य ॥२३६॥

वच्चॅं वाट्टेरीची आस्ता ।
फलवृक्षु फळ मॅळ्ता ।
सामान्य कर्मई दित्ता ।
फळ फलाभिषीक ॥२३७॥

कर्म कोर्नुई जॉ त्यागु ।
कर्ता ताक्का पण्णा लागु ।
त्रैलोक्याचॉं कार्यभागु ।
जँ कर्माचँची फल ॥२३८॥

सुर नर नी स्थावर ।
त्रैलोक्याचॅं हॅं प्रकार ।
कर्मफलची साकार ।
ह्या विश्र्वनिर्मितीचँ ॥२३९॥

इष्ट आनी इष्टा-निष्ट ।
आन्येकई जँ अनिष्ट ।
अश्शी तीनी हीं विशिष्ट ।
फलं जांन्च्या कर्माचीं ॥२४०॥

जाव्नु बुध्दी विषयासक्त ।
कर्ता कर्म अविहित ।
जात्ता कर्मांतुं प्रवृत्त ।
त्याज्य आनी निषिध्द ॥२४१॥

कीडॉ कीटकु नी मात्ती ।
अस्लॅची देह मॅळ्ताती ।
ह्या कर्मांची फलप्राप्ती ।
हँची फळ अनिष्ट ॥२४२॥

स्वधर्माक मानु दित्ता ।
वेदाज्ञेनुसार चल्ता ।
अधिकारु नी क्षमता ।
जाण्णु आस्ता आप्णाली ॥२४३॥

इंद्रादिक दॅवागॅलॉ ।
देह ताक्का प्राप्त जात्लॉ ।
अश्शी साध्य कोर्नु घॅत्लॉ ।
इष्टफळ कर्माचँ ॥२४४॥

गॉड आम्शँ मेळैल्यारी ।
भिन्न रुची जात्ता तिस्त्री ।
नवीन चड माधुरी ।
आस्ता कश्की तिज्ज्यांतुं ॥२४५॥

योगाभ्यासानँ रेचकु ।
जात्ता निश्चळ कुंभकु ।
सत्यासत्य मेळ्णु अेकु ।
शिष्टाचारु तॉ जात्ता.... ॥२४६॥

शुभाशुभ संमिश्रण ।
जाव्नु जात्ता आचरण ।
मॅळ्ता नरदेहपण ।
फळ तँ इष्टानिष्ट ॥२४७॥

अश्शी कर्म हँ त्रिविध ।
फलई ताज्जँ त्रिविध ।
फलाशा घर्तलॉ बध्द ।
जालेल्विना राब्बना ॥२४८॥

जिब्बे स्वादु चड्त वत्ता ।
खांन्चँ हाळीतई सुट्ता ।
आनी पॉट दुक्कु लाग्ता ।
म्हणता माक्का वांचया ॥२४९॥

जाय्ना चॉरा नंबुंच्याक ।
मैत्री रान यॉवरेक ।
आंगा हातु लाय्वरेक ।
दिस्ता वेश्याई साध्वी ॥२५०॥

देह कर्म कर्त आस्ता ।
अभिमानुई भो दिस्ता ।
फळा भोगु फाट्टी लाग्ता ।
हँ ताव्वळी कळ्णाची ॥२५१॥

पठाणु जँ रीण दित्ता ।
वाय्दॉ ताज्जॉ सर्नु वत्ता ।
येव्नु बाग्लांतुं उब्रता ।
कोर्का पड्ता तँ चुक्ती... ॥२५२॥

कण्सांत्लॅ दाणॅ गळ्ताती ।
भुंयींतुं तॅ चिग्रताती ।
दाणॅ पड्तची उर्ताती ।
नॅव्नॅवानॅ नव्यानॅ ॥२५३॥

माक्षी पायु मुखार् घॅना ।
तरी चम्कुंच्याक जाय्ऽना ।
जन्मांतरांतुं चुक्कना ।
भोग्चँ माक्षी जन्माचँ ॥२५४॥

जरी दोणी पार व्हर्ता ।
येंव्चँ वच्चँ चालू आस्ता ।
भॉग्त आस्तना हँ दिस्ता ।
की जन्मु ना मुखारी ॥२५५॥

कर्म कोर्चँ फल भॉग्चँ ।
क्रमानॅ हँ चल्त उर्चँ ।
तागेंलँ हँ येंव्चँ वच्चँ ।
सर्ना जॉ सॉण्णा फल ॥२५६॥

जाई फुल्ता ज्या क्षणाक ।
ताव्वळी लाग्ता बांव्च्याक ।
कर्तना सॉड्ता फलाक ।
म्हण्ता हांवं कर्ना तॉ ॥२५७॥

बीज कऽकी दव्वर्लेलँ ।
खाव्नु विक्कुनु खर्चैलँ ।
तऽशी कोर्नु तॉ आप्णालँ ।
कर्म जात्ता विमुक्त ॥२५८॥

शुध्द सात्त्विक तँ मन ।
गुरुकृपेचँ सिंचन ।
आत्मबोधाचँ पोषण ।
कर्ताती वत्ता द्वैत ॥२५९॥

प्रपंचु मिथ्या हँ कळ्ता ।
ज्यान्मितीं हॉ भोगु घड्ता ।
भोग्य भोक्ता भावु सर्ता ।
कर्म जात्ता नैष्कर्म्य ॥२६०॥

संन्यासु ज्ञानाधिष्ठित ।
जाय्ना फलभोगग्रस्त ।
कर्मांतुं तॉ अेकचित्त ।
जाव्नु रम्ता तांतुंची ॥२६१॥

अस्लॉ संन्यासु तूं जाण ।
घडैता आत्मदर्शन ।
त्या कर्माचँ खास चिन्ह ।
दाकोंकाज वॅ तुक्का ॥२६२॥

पड्ता कोस्सोळ्णु वणती ।
वैलँ चित्र जात्ता मात्ती ।
ऊरद वॅ काळ्की राती ।
जाय्नापुडॅ फाल्फालँ ॥२६३॥

जरी आकृती ना थंईं ।
साव्ली पड्तली ती खंई ।
कान्डीची ना जाल्यारी ही ।
तॉंड कऽशी पळैशी ॥२६४॥

सॉप्पन तँ निद्देंतुलँ ।
खरँ शिलँ की तँ जात्लँ ।
कॉण रँ कर्त बस्तलँ ।
चर्चा उटाय्नापुडॅ ॥२६५॥

संन्यासांतुं ह्या तूं जाण ।
नाची अज्ञानाक स्थान ।
करीद बा करशी कॉण ।
तन्मूलक तँ कर्म ॥२६६॥

अर्जुना ह्या संन्यासांतुं ।
कर्म पात्ता नैष्कर्म्यांतुं ।
कर्तल्यानॅ हँ मनांतुं ।
दव्वोर्नयॅ अज्ञान ॥२६७॥

कर्तृत्वाचॉ अभिमानु ।
तॉची कर्माक लाग्गुनु ।
कर्म नी कर्तलॉ म्हुणु ।
भेदु उर्ता मनांतुं ॥२६८॥

ही पूर्व नी ती पश्चिम ।
तरशी आत्मा आनी कर्म ।
हांतुलॉ भेदु मुद्दाम ।
जॉ उर्ता तॉ दाकैलॉ ॥२६९॥

आकाश नी मेघमाळ ।
सूर्यु आनी मृगजळ ।
वायु आनी भूमंडळ ।
हांतुं भेदु आस्सची ॥२७०॥

करकी न्हंईत्लॅ फात्तर ।
उद्कांतुंची निरंतर ।
तरी जुळ्णा परस्पर ।
समंदु तॅ विंगड ॥२७१॥

उद्कारी शॅवाळ मांड्ता ।
तँवै वॅ उद्दाक जात्ता ।
वाती जळ्तना जँ मांड्ता ।
ज्योती वॅ तँ काज्जळै ॥२७२॥

कलंकु जरी चंद्रारी ।
चांदणँ शुभ्रची तरी ।
दॉळॅ दृष्टी अॅक्डॅ जरी ।
भेदु आस्स तांतुंई ॥२७३॥

वाट आनी वाट्टेर् वत्लॉ ।
होळु नी ओघु व्हांव्तलॉ ।
बिंब प्रतिबिंबांतुलॉ ।
भेदु तॉ तूं जाण्ताची ॥२७४॥

अज्ञानामितीं हँ पार्था ।
दोन्नी हीं अेकची दिस्ता ।
मूलतः भेदु आस्ता ।
आत्म्यांतुं नी कर्मांतुं ॥२७५॥

फुल्नु यॅत्ता फाल्फाल्यारी ।
कमळ जलाशयारी ।
सेवन कर्ता भ्रमरी ।
परागाचॉ पर्मळु ॥२७६॥

हीं कर्मं आप्णाइत्ल्याक ।
जाय्त आश्शिलीं नित्याक ।
दिस्ताती जाल्यारी आय्क ।
आस्चीं पांच कारणं ॥२७७॥

तुक्का गोत्तु आस्तलींची ।
शास्त्रांनीं तीं सांग्ल्यां तीची ।
ज्या कारणांमितीं जांव्चीं ।
बहुविध हीं कर्मं ॥२७८॥

वेदांच्या राजधानींतुं ।
ध्वज लाव्नु गजरांतुं ।
सांग्तना सांख्य सिध्दांतु ।
आय्ला हॉवै विषयु ॥२७९॥

सिध्दी सर्वई कर्मांची ।
जात्ता पार्था हांच्मितींची ।
ह्या व्यापांतुं आस्सनाची ।
आत्मा पूर्ण निःसंगु ॥२८०॥

घोषु हाज्जॉ दुम्दुमेला ।
सर्वांक हॉ आय्कू गॅल्ला ।
आस्काज कान्नारी आय्ला ।
तुगेल्याई हॉ घोषु ॥२८१॥

तँ आत्तं आस्सॉ कस्लेंई ।
दुस्त्र्या कॉणॅ सांग्च्याकई ।
हांवं स्वता जाव्नु तूंई ।
सांग्चँ आस्स तँ सांग्तां ॥२८२॥

कान्डी  मुखारी धर्ल्यारी ।
दिस्ता तुक्का तूं इद्रारी ।
दुस्त्र्यांनीं सांग्ची जरुरी ।
पण्णा पळॅ अर्जुना ॥२८३॥

भक्तु खंईं करशी म्हण्ता ।
थंईं तरशी हांवं जात्तां ।
आजी माक्का तूं नांचैता ।
बाँब्यांवारी हात्तांत्ल्या ॥२८४॥

प्रीतीच्या ह्या कल्लोळांतु ।
बुड्डुन् गॅल्ला लक्ष्मीकांतु ।
आनी हॉ सुभद्राकांतु ।
आनंदांतुं तल्लीन ॥२८५॥

उटे्ता पुन्वेचॉ शशी ।
सोमकांत मण्यां राशी ।
कर्गुनु सरोवरशी ।
जात्ता करकी आप्याप ॥२८६॥

सुख आनी अनुभवु ।
हांतुलॉ तॉ द्वैतभावु ।
सर्नु जात्ता एकजीवु ।
सुखरूप अर्जुनु ॥२८७॥

अंतर्यामी तॉ सर्वज्ञु ।
क्षणांतुं सावध जाव्नु ।
पार्थाक समाधींत्थाव्नु ।
हाड्ता देहभानारी ॥२८८॥

पार्थु इत्लॉ बुध्दीवानु ।
विस्सर्लॉ आप्पण कोणु ।
आनंदस्वरूप जाव्नु ।
आनंदाक निय्याळ्ता ॥२८९॥

देवु म्हण्ता बा अर्जुना ।
तुज्ज्यांतुं तूं आस्स की ना ।
आस्स आस्स रॅ श्रीकृष्णा ।
म्होण्णु सॉड्ता तॉ श्वासु ॥२९०॥

म्हण्ता दॅवा एक आय्क ।
बॅजार्नु भो ह्या द्वैताक ।
एकरूपची जांव्च्याक ।
पळैतालाँ तुज्ज्यांतुं ॥२९१॥

दाकैलँ तुवँ ॲक्ळाक ।
अद्वैत माक्का कस्ल्याक ।
नी तूंची हाड्ता इत्त्याक ।
आत्तं द्वैतभावारी ॥२९२॥

देवु म्हणता पिस्सॉ वॅ तूं ।
चांदण्यांतु नी चंद्रांतु ।
द्वैत आश्शिलँ दॉग्गांतु ।
पळैल्यां वॅ कॅर्नाई ॥२९३॥

कोप्शी म्हुणु भय्य दिस्लँ ।
तरी परस्परांतुलँ ।
प्रेम हँ वाड्तची वत्लँ ।
आस्लँ प्रेम आम्गेलँ ॥२९४॥

भेदु द्वैत जोवरेक ।
प्रेमसुख तोवरेक ।
आस्सॉ ह्या अेकात्मतेक ।
दिव्यां आत्तं विरामु ॥२९५॥

नाना नमुन्या कर्मांचॉ ।
आनी पार्था ह्या आत्म्याचॉ ।
ना रॅ कस्ल्याई थरेचॉ ।
परस्पर समंदु ॥२९६॥

पार्थु म्हणता कश्शी कळ्ळँ ।
दॅवा तुक्का मनांतुलँ ।
माक्का ह्याची विषयांत्लँ ।
निम्गुन् घेंव्चँ आश्शिलँ ॥२९७॥

पांच कारणं तीं मूळ ।
कर्माक जीं अनुकुल ।
सांग्तां तुक्का तीं सकळ ।
अश्शी माक्का सांगिलँ ॥२९८॥

तश्शी हँवै सांग अेक ।
कर्मांक आनी आत्म्याक ।
आस्सना कार्यकारक ।
कश्शी कस्लॉ समंदु ॥२९९॥

दॅवाक आनंदु जाल्लॉ ।
आनी मुखारी म्हणालॉ ।
मॅळ्णा अश्शी रॅ तुज्जस्लॉ ।
निम्गितलॉ आस्थेनॅ ॥३००॥

सलीस कोर्नु तँ सग्ळँ ।
सांग्तां तुवँ जँ निम्गिलँ ।
निम्गुनु माक्काची घॅत्लँ ।
कोर्नु ऋणी तुगेलॉ ॥३०१॥

अर्जुनु दॅवाक म्हणता ।
हांवं तूं इत्त्याक कर्ता ।
माक्षीचँ कश्शी विस्सर्ता ।
तुंवँची तँ म्हळ्ळेलँ ॥३०२॥

कृष्णाक उग्डासु जाल्लॉ ।
म्हणालॉ हांवं विस्सर्लॉं ।
पूर्ण अवधान मॅळ्ळॉ ।
हांवं जँ सांग्तां ताक्का ॥३०३॥

कर्म जात्ताती साकार ।
भाय्र्ल् भाग्र परस्पर ।
निमित्त सत्य त्रिवार ।
की तीं पांच कारणं ॥३०४॥

ह्या पांच कारणान्मितीं ।
कर्म जीं जाव्नु वत्ताती ।
तांगेलॅई रॅ आस्सती ।
हेतुई पांच खास ॥३०५॥

आत्मा खंच्याई कर्मांतु ।
उर्ता सर्वथा अलिप्तु ।
आस्सना तागेलॉ हातु ।
बा ह्या ना त्या थरेनॅ ॥३०६॥

शुभाशुभ हीं घड्ताती ।
कित्लीं कर्मं दीसा रात्ती ।
आकाश जाय्ना तांच्मितीं ।
स्वच्छ किंवा मलीन ॥३०७॥

मॅळ्ता तेजांतुं तँ आप ।
वैरी वत्ता जाव्नु बाष्प ।
यॅवॉ वा वचॉ मळप ।
आकाश थंचँ थंईं ॥३०८॥

दोणी राक्डा फळीं जोण्णु ।
वारयागॅलँ साह्य घेव्नु ।
व्हर्ता नाविकु चलौनु ।
न्हंई उदास साक्षी ॥३०९॥

कुंभारगॅल्या चाक्कारी ।
मात्ये गॉळॉ घुंव्डाय्ल्यारी ।
मड्कँ वाट्कुळँ गर्गरी ।
जाव्नु यॅत्ता तय्यार ॥३१०॥

कुंभाराल्या करामती ।
विना कस्लँ कर्ना मात्ती ।
आधारभूत मात्र ती ।
जाव्नु आस्ता मड्क्याक ॥३११॥

पळॅ सूर्योदयु जात्ता ।
जॉ तॉ त्या त्या कामा लाग्ता ।
सांगं खंचँ कोर्का पड्ता ।
ताक्का हांतुलँ काम ॥३१२॥

तश्शी कारणं पांचई ।
आनी तॅ पांच हेतुई ।
कर्ताती सर्व कामं हीं ।
आत्मा ना ह्या व्यापांतुं ॥३१३॥

सांग्तां कोर्नु विवरण ।
प्रत्येकागॅलँ वर्णन ।
कश्की वेंचुनु वजन ।
कोर्नु घॅत्ताती मोतीं ॥३१४॥

आय्क कर्माचँ कारण ।
जँ हँ प्रथम लक्षण ।
देहची प्रधान जाण ।
अर्जुना ह्या पांचांतुं ॥३१५॥

कर्माचँ हँ अधिष्ठान ।
हँची निमित्त प्रधान ।
आनी जात्ताई साधन ।
सर्व भोग भोग्गुक ॥३१६॥

धाई इंद्रियं भॉग्ताती ।
सुखदुःख दीसराती ।
भॉग्तां भॉग्तां हीं भाग्ताती ।
दुस्त्री हांकां ना गती ॥३१७॥

सुखदुःख हँ भोग्गूक ।
अन्य साधन जीवाक ।
ना म्हुणु म्हणतां देहाक ।
प्रमुख हँ कारण ॥३१८॥

चोवीस तत्त्वांचँ कुळ ।
राब्ता हांतुं सर्वकाळ ।
बंधमोक्षाचँ केवळ ।
हँची अेक कारण ॥३१९॥

जागृती स्वप्न सुषुप्ती ।
तिन्नी हांतुंची मॅळ्ताती ।
ह्या खात्तीरई म्हणताती ।
देह हँ अधिष्ठान ॥३२०॥

दुस्त्रँ कारण कर्माचँ ।
जँ कर्ता ताक्काची म्होण्चँ ।
कौंतेया तॉ चैतन्याचँ ।
प्रतिबिंब म्होण्येद ॥३२१॥

आकाशांत्थाव्नु जॉ पड्ता ।
पाव्सु सान्न तळीं जात्ता ।
आकाशाक जांव्च्या लाग्ता ।
तांतुं आप्णालॉ भासु ॥३२२॥

रायुची तॉ निद्दल्तरी ।
सॉप्नांतुं आप्णाक जरी ।
पळैता जाल्लां भिकारी ।
तशीची तॉ लॅक्ताई ॥३२३॥

देहांतुं आस्सवरेक ।
विस्सोर्नु वत्ता आप्णाक ।
लॅक्ता चैतन्यं देहाक ।
आप्णलँची स्वरूप ॥३२४॥

स्वतालॉ विसरु पड्ता ।
देहांत्लॉ तँ जीवु जात्ता ।
देहची सर्वस्व म्हण्ता ।
आनी देह आप्पण ॥३२५॥

प्रकृतीची कर्मं कर्ता ।
आप्णॅची तीं केल्लीं म्हणता ।
जीवु ह्या भ्रमांतु आस्ता ।
घॅत्ता हँ कर्तेपण ॥३२६॥

दॉळ्यां पात्त्यां कॅसांमितीं ।
दृश्यारी गॅरॅ पण्णाती ।
व्यारै यॅना दृष्टीक ती ।
अेकी स्वच्छ सुस्पष्ट ॥३२७॥

दित्ता कुडांत्लॉ दीपकु ।
प्रकाशु अेक्कु व्यापकु ।
विंगड उज्वाडा चौकु ।
किट्ग्यांचॉ नी बाग्लांचॉ ॥३२८॥

कश्की अेक्कुची मनुष्यु ।
घॅत्ता विंग्विंगड वेसु ।
त्या त्या वॅसांचॉ तॉ भासु ।
जात्ता पळैतल्यांक ॥३२९॥

कळ्ता अेकत्व बुध्दीक ।
अनुभवु इंद्रियांक ।
मात्र यॅत्ता प्रत्ययाक ।
पांच नमुत्यांचेरी ॥३३०॥

भेद हॅ इंद्रियजन्य ।
कर्माचँ तिस्त्रँ कारण ।
अनुभवांचँ दर्शन ।
पंचविध घडैता ॥३३१॥

मूळ अेक्कची उद्याक ।
नांवं हॉळांक न्हैयांक ।
दित्ताती पळॅ हॅ लोक ।
कश्की तीं विंग्विंगड ॥३३२॥

क्रियाशक्ती ह्या वायूची ।
चल्त आस्ता सदैवची ।
त्या स्थानारी त्या रूपाची ।
त्या विशिष्ट थरेनॅ ॥३३३॥

तीची वाचेंतुं आय्ल्यारी ।
जात्ता पार्था ती वैखरी ।
कर्ता हात्तांतुं दॅव्ल्यारी ।
घेंव्चा दिंव्चॉ वेव्हारु ॥३३४॥

दित्ता ती गती पाय्यांक ।
वाटई मलमूत्राक ।
उघ्घोण्णु भाग्र येंव्च्याक ।
दोन्नी तीं अधोद्वारं ॥३३५॥

नाभींत्थान्नु हृदयांतुं ।
स्थिर जात्ता ॐकारांतुं ।
ताव्वळी हीची देहांतुं ।
प्राणरूपानॅ उर्ता ॥३३६॥

थंइंथान्नु वैरी चण्णु ।
बस्ता कंठांतुं ती येन्नु ।
ताव्वळी तीची उदानु ।
नांवं कर्ता धारण ॥३३७॥

भाग्र गुदद्वारांत्थान्नु ।
पड्ता ताव्वळी अपानु ।
उर्तो देहव्यापी जान्नु ।
तीची ताव्वळी व्यानु ॥३३८॥

कर्ता हँ अन्नसेवन ।
पोषक रस निर्माण ।
ताज्जँ जात्ता वितरण ।
शरीराच्या सांधांतुं ॥३३९॥

जात्ताती ह्यॉ क्रिया पूर्ण ।
ताव्वळी स्थिती समान ।
पाव्तां वायुशक्ती जाण ।
अश्शी ही धनुर्धरा ॥३४०॥

धेंकु जांब्बई नी शिंक ।
क्रिया प्राणाच्यॉ अेकेक ।
कूर्म कृकर नी नाग ।
तश्शी उपप्राणाच्यॉ ॥३४१॥

अेक्कीची ही वायुशक्ती ।
तिगेली ही अभिव्यक्ती ।
जाय्त आस्ता नाना रीती ।
अर्जुना ह्या देहांतुं ॥३४२॥

अश्शी तिगेलँ वर्तन ।
प्रसंगानुसार भिन्न ।
वायुशक्ती ही तूं जाण ।
चौथँ कर्मकारण ॥३४३॥

उत्तम तॉ शरद्ऋतु ।
चंद्रुई शुक्लपक्षांतुं ।
आस्काज नी त्या कालांतुं ।
राती पूर्ण चंद्राची ॥३४४॥

वसंतांतुलँ उद्यान ।
थंईं प्रियालँ मीलन ।
उपचारोचँ साधन ।
अनुकुल जांव्काज ॥३४५॥

पद्म प्रफुल्ल जांव्काज ।
शोभा पाक्ळ्यांची दिस्काज ।
नी सुगंधु दर्वकाज ।
परागांचॉ सर्वत्र ॥३४६॥

वाचेंतुं आस्का कवित्व ।
काव्यांतुंई रसिकत्व ।
रसांतुंई परतत्त्व ।
अंतर्भूत आस्काज ॥३४७॥

इंद्रियांच्या प्रवृत्तींक ।
बुध्दी जाल्यारी प्रेरक ।
दॉग्गई परस्परांक ।
कर्ताती सुसंपन्न ॥३४८॥

प्रतिष्ठा इंद्रियांगेली ।
आनीकई चड जात्ली ।
देवता त्या स्थानावेली ।
जरी जाय्द प्रसन्न ॥३४९॥

दॉळ्यांक सूर्यदेवता ।
कश्की अनुकुल जात्ता ।
तश्शी इतर देवता ।
इतर इंद्रियांक ॥३५०॥

अश्शी हॉ देवतागण ।
कर्माचँ पांच्वँ कारण ।
धनुर्धरा हँ तूं जाण ।
अश्शी म्हणता श्रीकृष्णु ॥३५१॥

कर्माचीं पांच कारणं ।
तीं जांव्काती आकलन ।
म्हुणु तुक्का विवरण ।
कोर्नु सांग्लीं हीं सर्व ॥३५२॥

ज्या हेतुंमितीं उत्पन्न ।
जात्ताती हींची कारणं ।
वाड्ता कर्मई क्रमेण ।
तींवै पांच तूं आय्क ॥३५३॥

वसंताचँ आगमन ।
सुच्चैता पर्ण नवीन ।
पुष्पफळांचँ नर्तन ।
वृक्षवल्लीरींचेरी ॥३५४॥

पाव्साडींतुं मॉड यॅत्ता ।
वर्षावांतु शॅत पिक्ता ।
धनधान्या लाभु जात्ता ।
मॅळ्ता सुख नी शांती ॥३५५॥

पूर्व दिशेंतुं अरुणु ।
यॅत्ता सूर्युई उदेनु ।
सर्वत्र प्रकाशु भोर्नु ।
उर्ता सग्ळॉ दिवसु ॥३५६॥

मन हँची पार्था हेतु ।
यॅत्ता संकल्पु मनांतुं ।
जात्ता प्रगट वाचेंतुं ।
राब्बना तॉ भित्तरी ॥३५७॥

जात्ता संकल्पु विचारु ।
कर्ता वाचेनॅ उच्चारु ।
आनी प्रत्यक्ष आचारु ।
कोरुक सर्ता भाय्र ॥३५८॥

लोहत्व कश्की लोहांतुं ।
तश्शी कर्म संकल्पांतुं ।
जात्ता साकार क्रियेंतुं ।
तँ इंद्रियांनुसार ॥३५९॥

हेतु वस्त्राचॉ हँ सूत्र ।
आड उब्बँ तँ अेकत्र ।
विण्णु घॅत्ल्यारी तँ वस्त्र ।
जात्ता कश्की तय्यार ॥३६०॥

वज्त्रारी घास्सुनु वज्त्रु ।
कर्ताती तॉ तेजःपुंजु ।
उब्बार्ताती कर्मध्वजु ।
काया वाचा नी मन ॥३६१॥

जीं हीं कायावाचामन ।
पार्था कर्माचँ कारण ।
तँची तांकां उत्तेजन ।
दित्ता म्हण्शी हँ कश्शी ॥३६२॥

सूर्यु तेज आप्पणची ।
उज्वाडा कारण तॉची ।
लांव्का कांडी कब्बाचीची ।
दुस्त्र्या कब्बाखात्तीर ॥३६३॥

शारदादेवीली स्तुती ।
पळॅ वाचेनॅ कर्ताती ।
कळ्ता वेदांची महती ।
वेद घोषांत्थाव्नुची ॥३६४॥

तश्शी जरी देहादिक ।
हींची कारण कर्माक ।
तरी तींवै तांचित्ल्याक ।
कार्यशील आस्ताती ॥३६५॥

देहादिक अॅक्डॅ येव्नु ।
हेतु कारण मेळोव्नु ।
कर्माक साकार कोर्नु ।
इद्रारी राब्बैताती ॥३६६॥

तँ शास्त्रमान्य आस्ल्यारी ।
तँची जात्लँ धनुर्धारी ।
विधिपूर्वक कॅल्यारी ।
न्याय्य नी पुण्यकर्म ॥३६७॥

पाव्सु पळ्ळेलॉ शॅत्तांतु ।
जिर्नु वत्ता तॉ भुय्यिंतुं ।
जाल्यारी भात घरांतुं ।
येव्नु पड्ता माग्गिरी ॥३६८॥

कॉप्ता घराभाग्र पड्ता ।
जी मॅळ्ता ती वाट धर्ता ।
अकस्मात येव्नु पाव्ता ।
द्वारकेंतुं तॉ थेट ॥३६९॥

अकारण अहेतुक ।
जरी कर्म घळ्ळँ अेक ।
तरी तँ विधिपूर्वक ।
आस्ल्यारी मॅळ्ता पुण्य ॥३७०॥

रान्नीरी दूद दव्वर्लँ ।
नजर ना वत्तुन् गॅल्लँ ।
तित्लँची तँ व्यर्थ जाल्लँ ।
अश्शी म्होण्का पड्ताची ॥३७१॥

शास्त्रबाह्य कर्म कॅल्लँ ।
निष्कारण व्यर्थ गॅल्लँ ।
धन चॉरांनीं लुट्टिलँ ।
म्होण्येद वॅ तँ दान ॥३७२॥

बावन्नांतुल्या वर्णांचॉ ।
खंचॉ अेकु मंत्रु जांव्चॉ ।
उच्चारु ह्या बावन्नांचॉ ।
कर्नातिलॉ आस्सश्ना ॥३७३॥

त्या मंत्राचँ उच्चारण ।
कश्शी कोर्का ही ना जाण ।
तरी तँ जपसाधन ।
सर्व व्यर्थ वच्चेंची ॥३७४॥

सकारण सहेतुक ।
जात्ता स्वैर कर्म अेक ।
जरी आमान्य शास्त्राक ।
ताज्जँ मॅळश्ना फल ॥३७५॥

ताव्वळीई तँ कर्मची ।
मान्यता ताक्का शास्त्राची ।
नात्तिल्मितीं तँ व्यर्थची ।
जात्ता पापा कारण ॥३७६॥

पांच हेतू नी कारणं ।
अश्शी कर्तना श्रवण ।
तुक्का आत्म्याचँ दर्शन ।
खंईं जावॉ जाल्यां की ॥३७७॥

सूर्यप्रकाशांतुं दिस्ता ।
ही सर्वई सृष्टी पार्था ।
आत्मा पड्‌धा आड राब्ता ।
दाकैता कर्मा खेळु ॥३७८॥

कान्‌डी पळैना स्वताक ।
अथवा प्रतिबिंबाक ।
तिज्‌इद्रारी बस्तल्याक ।
दोन्नी कश्की दिस्ताती ॥३७९॥

दिवसु वा राती जांन्चँ ।
सूर्यानँ हँ न्हई कोर्चें ।
ह्या दोन्नींकई दाकोंचँ ।
साक्षी राब्बुनु तान्नॅ ॥३८०॥

आप्पण हॉ देहु म्हणता ।
ताज्जोची विचारु कर्ता ।
आत्म्याविषयांतुं आस्ता ।
निद्देंतुं तॉ मद्रात्ती ॥३८१॥

देहापेल्दिकानॅ अन्य ।
ईश ब्रह्म वा चैतन्य ।
आस्ता हाज्जँ उर्ना भान ।
म्हणता कर्ता आत्माची ॥३८२॥

अश्शी हँ सर्व म्हणतना ।
हाज्जॉई विश्वासु धर्ना ।
मनांतुलँ तॉ हँ सॉण्णा ।
कर्म कर्ता देहची ॥३८३॥

जँ शाश्वत देहातीत ।
सर्व कर्मां साक्षीभूत ।
आत्मा आप्पण हँ सत्य ।
आय्कूंच्याक माक्षेता ॥३८४॥

अमर्याद आत्मा तॉची ।
आस्सुनु आप्पण देहची ।
म्हणता घुघ्घुमु दीसुची ।
राती न्हई ही कश्की ॥३८५॥

आकाशांत्लॉ सूर्यु कॉर्ण ।
आजिथाई तॉ पळैनॅ ।
सहजची लेक्चँ तान्नॅ ।
तळ्यांतुंची तॉ आस्ता ॥३८६॥

पाळ यॅनापुडॅ म्हणता ।
पळॅ उद्‌कांतुं तॉ पाँव्ता ।
तळँ आट्‌ल्यारी तॉ लॅक्ता ।
नाशु जाल्लॉ सूर्यालॉ ॥३८७॥

निद्दलेलॉ जागी जाय्ना ।
सॉप्पन असत्य म्हण्णा ।
राज्जु म्हुणु गोत्‌नस्तना ।
सर्पु म्हुणु भिंन्चेंची ॥३८८॥

कावीळ जाल्लेलॉ म्हणता ।
चंद्रु हळ्‌दुवॉसॉ दिस्ता ।
मृग थंईं जळ दिस्ता ।
म्हुणु धांव्ता पिंन्च्याक ॥३८९॥

गुरु शास्त्र नांव काण्णा ।
तांगेल्‌ वारयाक उब्रना ।
मूर्तिमंत तॉ अर्जुना ।
मूढपण जाण तूं ॥३९०॥

मुखारी तँ मॉड वत्ता ।
कॉल्लॉ म्हणता चंद्रु धांव्ला ।
आत्म्याचेरी देहाहंता ।
कर्ता देहा आरोपु ॥३९१॥

अश्शी आत्मा तॉ देहांतुं ।
कैदी ह्या बंदीवासांतुं ।
शृंखला हात्तांपाय्यांतुं ।
कर्माच्चोई पड्ताती ॥३९२॥

शुक बस्ला नळ्येचेरी ।
कश्शीई ती घुव्विल्तरी ।
उब्तलॉ धैर्य धर्ल्यारी ।
पाय बांदुन् घाल्नेती ॥३९३॥

मुक्त तँ आत्मस्वरूप ।
ताज्जेरी कर्मा आरोप ।
घाल्यारी वॉचोती कल्प ।
देहांत्थाव्नु सुट्टश्ना ॥३९४॥

बाधा जाय्श्नाशी कर्मांची ।
कर्मं कर्त आस्काजची ।
कश्की बाधा समुद्राची ।
जाय्ना वडवानलाक ॥३९५॥

अश्शी कोर्चों कर्मं कोर्नु ।
जॉ आस्ता अलिप्त जाव्नु ।
ताक्का कश्शी सोद्का म्हुणु ।
सांग्तां तुक्का आय्क तूं ॥३९६॥

कश्की दीव्या उज्वाडांतुं ।
सॉद्ल्यारी आम्गेली वस्तु ।
मॅळ्ता । दिस्ल्यारी तॉ मुक्तु ।
मॅळ्ता मुक्तीचॉ मार्गु ॥३९७॥

कान्डी पुस्सुनु तूं पळॅ ।
स्वरूप स्वच्छ दिस्तलँ ।
मीटई कर्गुनु जात्लँ ।
उद्कांतुं अेकरूप ॥३९८॥

प्रतिबिंब म्हणता कश्शी ।
मॅळ्ळँ रूप माक्का अश्शी ।
कळ्ता कारण सर्वांशीं ।
इद्रावॅलँ बिंबची ॥३९९॥

आप्णांतुंची जाव्नु आस्ता ।
तँ ना जाल्लँ अश्शी लॅक्ता ।
संतसंगतींतुं मॅळ्ता ।
म्हुणु धरी सत्संगु ॥४००॥

तॉ कर्म कर्त आस्तना ।
समंदु ताज्जॉ दव्वर्ना ।
कश्की कस्लँ पळैतना ।
दॉळ्यांचॉ नी दृष्टीचॉ ॥४०१॥

अश्शी जाल्ला कर्मातीत ।
तुक्का तागेलँ चरित ।
सांग्तां दृष्टांतासहित ।
घॅ तूं सम सम्जुनु ॥४०२॥

इत्लॅ दीस जॉ निद्देंतुं ।
आश्शिलॉ त्या अज्ञानांतुं ।
पळैतालॉ त्या भ्रांतींतुं ।
विश्वाचँ हँ सॉप्पन ॥४०३॥

तॉ आजी गुरुकृपेनॅ ।
महामंत्रोपदेशानॅ ।
जागी जाल्ला नीद ऊर्नँ ।
विस्सर्ला तँ सॉप्पन ॥४०४॥

जीवुई सावध जात्ता ।
शिवाक तॉ मेळु वत्ता ।
अद्वैतानंदांतुं रम्ता ।
अश्शी तॉ धनंजया ॥४०५॥

सांज जात्ता चंद्रु यॅत्ता ।
मृगजळा भासु वत्ता ।
तश्शी ही मायाई सर्ता ।
जागी जाय्नापुडॅची ॥४०६॥

चेर्डुं हॉड जाय्त यॅत्ता ।
घाँग्यागॅलँ भय्य वत्ता ।
राक्कुड तँ जळ्णु वत्ता ।
नीव्नु वत्ता उज्जॉई ॥४०७॥

ऊर्नं तागेली ही नीद ।
सॉप्पन कश्शी पडद ।
अहंममता  चाळ्वद ।
वॅ आत्तं त्या मनांतुं ॥४०८॥

सूर्यानॅ काळ्काक मेळ्चँ ।
खंईं कॅर्ना साध्य जांव्चँ ।
नशिबांतुंची ना म्होण्चँ ।
तागेल्या कश्की पार्था ॥४०९॥

सर्वांतुं आप्पण जात्ता ।
आप्णांतुं सर्व पळैता ।
आत्मबोधांतुंची आस्ता ।
तॉ सदैव सर्वत्र ॥४१०॥

उज्जॉ राक्डाक जॉ लाग्ता ।
तॉ त्या आकारांतुं जळ्ता ।
जळ्तां जळैतां विस्सर्ता ।
जळ्चँ मात्र जाण्ता तॉ ॥४११॥

विंगड आत्मा नी कर्म ।
तॉची आत्मा कर्ता कर्म ।
हॉ जॉ धर्लेलॉ विषम ।
भावु दित्ता जॉ सोण्णु ॥४१२॥

ऊर्ना तॉ देहभावांतुं ।
रम्ता अद्वैतानंदांतुं ।
कश्की जळप्रळयांतुं ।
सर्व जळ अेकत्र ॥४१३॥

देहांतुं विदेही जात्ता ।
विश्व जाव्नु तांतुं उर्ता ।
सूर्यबिंब सान दिस्ता ।
प्रकाशु त्रैलोक्यांतुं ॥४१४॥

ताक घाट्लँ लोणी आय्लँ ।
जरी तांतुंची तँ उर्लँ ।
कर्गुनु वॅ ताक जात्लँ ।
नॅवानॅ तँ सांग तूं ॥४१५॥

सुप्त अग्नि राक्डांतुलॉ ।
चेतैल्यारी तॉ जळ्तलॉ ।
कश्शी तशीची उर्तलॉ ।
सांग तॉ ताज्भित्तरी ॥४१६॥

राती गर्भांत्थाव्नु आय्ला ।
त्या सूर्यानॅ वॅ पळैला ।
काळोकु वा तॉ आय्कला ।
तान्नॅ कान्नानॅ शब्दु ॥४१७॥

वेदु जाण्णु वेदमूर्ती ।
जाल्ला जॉ सुभद्रापती ।
ताक्का ह्या देहाची भ्रांती ।
सांग कश्शी छळ्तली ॥४१८॥

रित्तॉ जागॉ खंईं मॅळ्णा ।
आकाशाक रिग्गू जाय्ना ।
आप्णाइत्ल्याक अर्जुना ।
भर्ल्यां की तँ सर्वत्र ॥४१९॥

तश्शी तॉ जँ कर्म कर्ता ।
तँची तॉ सहज जात्ता ।
सांग हांगा कोणु कर्ता ।
बांद्ता कर्म कॉणाक॥४२०॥

आकाश तँ वत्लँ खंईं ।
प्रवाही ना समुद्रुई ।
जाय्ना पळॅ हाल्लुकई ।
जागॉ सोण्णु ध्रुवाक ॥४२१॥

आत्मज्ञान जाल्लेल्मितीं ।
सर्ता कर्तेपणा भ्रांती ।
जालयारी कर्मं कोर्काती ।
देह आस्सवरेक ॥४२२॥

वारया पाळ व्हान्नु वत्ता ।
रूकु मात्र धॉल्त उर्ता ।
क ंत्लॉ कर्पूरु सर्ता ।
उर्ता ताज्जॉ पर्मळु ॥४२३॥

गायन समाप्त जात्ता ।
नादु कान्नांतुंची घुम्ता ।
उद्दाकं तँ व्हान्नु वत्ता ।
थंईं उर्ता वल्साणी ॥४२४॥

सूर्यु अस्ता पाव्विल्तरी ।
आस्ता पळॅ सांज्वॅळारी ।
उज्वाडु ह्या भूतलारी ।
नक्षत्रं यॉवरेक ॥४२५॥

लक्ष्य भेदु जाल्लेल्तरी ।
बाणु तड्वना तित्ल्यारी ।
वेगा बळ सरसरी ।
उर्ता तँ ताज्भित्तरी ॥४२६॥

कुंभारालँ चाक घुंव्लँ ।
मड्कँ अेक तय्यार जाल्लँ ।
तान्नॅ तँ भित्तरी व्हॅल्लँ ।
चाक घुंव्तची उर्ता ॥४२७॥

तश्शी हॉ देहाभिमानु ।
गॅल्लेल्तरी वत्ता घण्णु ।
स्वभावाक अनुसर्नु ।
तँ तँ कर्म देहाचँ ॥४२८॥

संकल्पाविना सॉप्पन ।
आप्णाइत्ल्या वाड्ता रान ।
आकारु दित्ता वॅ कॉण ।
आकाशांतुं मॉडांक ॥४२९॥

तश्शी आत्मा कस्लँ कर्ना ।
कॉणाकै कोरु सांगना ।
कारण क्रियांक नाना ।
देहादिक हँ पांच ॥४३०॥

तांकांई पूर्वजन्मांचॅ ।
तॅ तॅ संस्कार कर्माचॅ ।
प्रेरक सहज जांव्चॅ ।
क्रियेक ह्या जन्मांतुं ॥४३१॥

ह्या जगाक त्या कर्मांनीं ।
जावॉ लामु जावॉ हानी ।
लॅक्काक हीं नाती दोन्नी ।
आत्म्यागॅल्या हँ जाण॥४३२॥

कमळ हँ कश्शी फुल्ता ।
अथवा तँ कश्शी बाव्ता ।
सूर्यु उदासीन आस्ता ।
ह्या दोन्नींतुं सर्वथा ॥४३३॥

मॉडांत्थाव्नु वीज पोण्णु ।
वचॉ ही भुंईं भेत्तुनु ।
वा ही पाव्सांतुं भिज्जुनु ।
नांचॉ की वनराणी ॥४३४॥

ह्या दोन्नींतुंई आकाश ।
अलिप्त आनी उदास ।
तश्शी उर्ना लवलेश ।
हाक्का देहभावाचॉ ॥४३५॥

कर्मं जाय्तची आस्ताती ।
सृष्टी बदल्त उर्चीची ।
लॅक्कना हॉ सत्य हँची ।
कश्की जागी सॉप्नाक ॥४३६॥

अशी कॉणॅ पळैल्यारी ।
ताक्का दिस्ता की हॉ तरी ।
कर्मं चारिचौगांवारी ।
कर्ता हँ ना विशेष ॥४३७॥

तणा बाँबँ राब्बैल्यारी ।
नीठ गाडया मेरेचेरी ।
दिस्ता कोण्की उब्रल्वारी ।
राक्कूक तँ कॉलयाक ॥४३८॥

पिस्सॉ निस्ला की तॉ नग्नु ।
लोक सांग्ताती पोळोनु ।
घॅत्ताती घाय मेज्जुनु ।
लोक रणधीरालॅ ॥४३९॥

सतीलॅ सौभाग्यालंकार ।
पळैताती हॅ इतर ।
पतीलँ मृत शरीर ।
आनी अग्नि ती जाण्ता ॥४४०॥

तश्शी स्वरूप पळैता ।
दृश्य द्रष्टा अेक जात्ता ।
इंद्रियांली क्रिया घड्ता ।
कश्शी हँ हॉ जाण्णाची ॥४४१॥

यॅत्ता हॉड पाळ अेक ।
तीरारी म्हणताती लोक ।
गिळ्तलँ हँ त्या सान्नाक ।
हां हां म्हण्तां पळया ॥४४२॥

जालयारी हँ कश्शी जांव्चॅ ।
उद्कानॅ उद्काक गिळ्चँ ।
पूर्णांत्थाव्नु पूर्ण काड्चँ ।
तरी उर्चँ पूर्णची ॥४४३॥

महिषासुरु भांग्राचॉ ।
त्रिशूळुई तॉ भांग्राचॉ ।
भांग्रा चंडिकेनॅ कोर्चो ।
वधु दिस्ता खरॉसॉ ॥४४४॥

भांग्रा मूर्ती ही पोळोनु ।
मनांतुं तॉ यॅत्ता घण्णु ।
जरी हँ भांगार म्हुणु ।
मनाकै कळ्ळेल्तरी ॥४४५॥

पड्द्यावॅल्या ह्या चित्रांतुं ।
उद्काक दिस्ता न्हंईंतुं ।
अग्नि ऋषील्या कुंडांतुं ।
तरी भिज्जना जळणा ॥४४६॥

पूर्वसंस्कारानुसार ।
जात्ता मुक्तालॉ वेव्हार ।
मूढ कस्लोई विचार ।
कर्ना म्हणता तॉ कर्ता ॥४४७॥

कर्म घड्ता स्वाभाविक ।
कष्ट जात्तीद जगाक ।
तरी हाज्मितीं दोषाक ।
पात्र तॉ हँ म्होण्णयँ ॥४४८॥

प्रकाशु कॅर्ना तॉ यॅत्ता ।
काळोकु आप्याप वत्ता ।
नाशु कोर्चें खंईं उर्ता ।
तश्शी पळॅ हॉ ज्ञानी ॥४४९॥

भेदाभेद पापपुण्य ।
हांकां बुध्दींतुं ना स्थान ।
गंगेक दोन्नी समान ।
न्हंई आनी होळुई ॥४५०॥

उज्ज्या–लाग्गी उज्जॉ व्हॅल्लॉ ।
कोणु कॉणाक लास्तलॉ।
सांग घायु कश्शी जात्लॉ ।
शस्त्राकची शस्त्राचॉ ॥४५१॥

आस्ता तॉ आत्मरूपांतुं ।
घण्णा कर्मांचॉ सांगातु ।
बुध्दी पण्णा ह्या व्यापांतुं ।
उर्ता स्वस्थ अलिप्त ॥४५२॥

कर्म क्रिया आनी कर्ता ।
तिन्नी एकरूप जात्ता ।
देहभावु सर्व सर्ता ।
उर्ना कर्मबंधन ॥४५३॥

जीवात्मा आप्पण जान्नु ।
पंचांलँ सहाय्य घेन्नु ।
दशेंद्रियांक मेळौनु ।
भाग्र सर्ता कोरुक ॥४५४॥

हँ सर्व कर्त आस्तना ।
उचितानुचित म्हण्णा ।
हँवई लक्षांतुं घॅना ।
राशी जाल्ली कर्मांची ॥४५५॥

आत्मा ह्या हॉड्ड कामाक ।
आय्ला आस्का सहाय्याक ।
अश्शी कॉणॉई लेक्चाक ।
आधारुची ना कांईं ॥४५६॥

आत्मा तॉ ज्ञानस्वरूप ।
कर्ना कर्माचॉ संकल्प ।
ताज्जॉची भव्य प्रकल्प ।
साक्षी जान्नु पळैता ॥४५७॥

कर्म कोर्ची ती प्रेरणा ।
तान्नॅ दिंव्का म्हुणु पण्णा ।
जीवात्मा कर्त आस्तना ।
सर्व घेन्नु आंगारी ॥४५८॥

आत्मस्वरूप जॉ जाल्ला ।
कर्मनिवृत्ती तॉ पाव्ला ।
म्हुणुची ताज्जी शृंखला ।
पण्णा हात्तापाय्यांतुं ॥४५९॥

अज्ञानाच्या पड्द्याचेरी ।
चित्र ज्ञानाचँ जाल्यारी ।
विपरीत तँ चितारी ।
ताज्जॅ तँ हँ त्रिकूट ॥४६०॥

ज्ञेय ज्ञाता आनी ज्ञान ।
निःसंशय हॅं तॅग्जण ।
कार्य जांव्च्याक कारण ।
जाव्नु आस्सती जाण ॥४६१॥

तांग्तांगॅलँ रूप पार्था ।
स्पष्ट कोर्नु तुक्का सांग्तां ।
कळ्तीद सहज दिस्ता ।
तरी लक्ष दिंव्काज ॥४६२॥

जीवाचॉ सूर्यु उद्देता ।
इंद्रियरश्मी परत्रैता ।
पंचविषय फुल्लैता ।
कमळदळावारी ॥४६३॥

ह्या रायालँ स्वैर मन ।
बेबंद अश्वासमान ।
भाँव्त पड्ता त्रिभुवन ।
विषयांक सॉद्तची ॥४६४॥

इंद्रियांक जँ जँ दिस्ता ।
तँ तँ तांकां घेंव्च्या सॉड्ता ।
त्या सुखदुःखांचँ बुड्ता ।
ज्ञान तँ सुषुप्तिंतुं ॥४६५॥

जीवु हॉची ज्ञाता जाण ।
भोगांचँ भान तँ ज्ञान ।
हांतुं कांइं अनुमान ।
कोर्का म्हुणु ना पार्था ॥४६६॥

अविद्येंतुलँ हँ ज्ञान ।
प्रगट जात्ता तत्क्षण ।
तीनी स्वरूपांतुं भिन्न ।
आप्णाइत्त्याक अश्शी ॥४६७॥

विषयांचॉ उपभोगु ।
म्हणता हॉ ज्ञेयाचॉ भागु ।
जीवाल्या तॉंडाक रंगु ।
लाग्ता हॉ ज्ञाता म्हुणु ॥४६८॥

दॉग्गांमद्दँ हॉ राब्बुनु ।
दॉग्गांक जोड्सुनु घेव्नु ।
तांच्यांतुं मेळ्णु वच्चुनु ।
जात्ता तॉ एकरूप ॥४६९॥

ज्ञेयामाक्षी धांव्चँ सॉण्णा ।
जोवरेक मेळ्चँ मॅळ्णा ।
मॅळ्णापुडॅ नांवं नाना ।
दित्ता त्या त्या भोगाक ॥४७०॥

अश्शी विपरीत ज्ञान ।
म्होण्का पड्ता तँ सामान्य ।
आत्तं त्या ज्ञेयाचँ चिन्ह ।
सांग्तां तुक्का तँ आय्क ॥४७१॥

तरी शब्दु आनी स्पर्शु ।
रूप गंधु आनी रसु ।
भुलैताती रातीदिसु ।
मनाक हॅ विषय ॥४७२॥

पळॅ की हँ आम्रफळ ।
आय्कुनु स्पर्शु मॉव्वाळ ।
रूप रुची नी पर्मळ ।
हाज्जॉ जात्ता उग्डासु ॥४७३॥

ज्ञेय एक आश्शिल्तरी ।
भोग पांच नमुन्यांरी ।
घेंव्का पड्ता धनुर्धारी ।
त्या इंद्रियांनुसार ॥४७४॥

होळु समुद्राक मॅळ्ता ।
थंईं तान्नॅ व्हांच्चँ सर्ता ।
वृक्षा वाडी पूर्ण जात्ता ।
फलप्राप्तीनंतर ॥४७५॥

इंद्रियं धांव्त उर्ताती ।
जाय्सरी विषयप्राप्ती ।
तश्शी ज्ञानलालसा ती ।
ज्ञेय मॅळवरेक ॥४७६॥

ज्ञेय ज्ञाता आनी ज्ञान ।
पार्था हॅं तॅग्गई जण ।
कर्माचँ जाव्नु कारण ।
आस्सती हँ जाण तूं ॥४७७॥

हॅं पांच भोगविषय ।
जॅं जाव्नु आस्सती ज्ञेय ।
प्रिय तॅं किंवा अप्रिय ।
आस्सु फाव आस्ताती ॥४७८॥

स्पष्ट कळ्णा जोवरेक ।
मॅळद सुख की दुःख ।
जाय्ना पळॅ ठरौंच्याक ।
धोर्येद की सो`द ॥४७९॥

बग्ळ्यालाग्गी मास्ली यॅत्ता ।
दुर्बळ्याक धन दिस्ता ।
कामांधाक नारी मॅळ्ता ।
मुखावॅलँ घड्ताची ॥४८०॥

उद्काक धांव्ता देव्ण्येरी ।
भोवरू घुंव्ता फुछारी ।
धार काड्चॅ समयारी ।
धेनुलाग्गी वत्सई ॥४८१॥

यज्ञाची निसणी लाव्नु ।
यॅत्ताती स्वर्गारी चण्णु ।
घॅत्ताती संधि साघ्घुनु ।
उर्वशीक पोळोंची ॥४८२॥

पार्वां मादीक पोळोनु ।
उब्ता सर्व शक्ति घाल्नु ।
तिगेली तॉ फाटी धोर्नु ।
वत्ता तिक्का धरूक ॥४८३॥

मेघगर्जना आय्कता ।
मोरु उल्हासानॅ  नांच्ता ।
ज्ञेय पळैलँ की धांव्ता ।
थंईं ज्ञाता तत्क्षण ॥४८४॥

म्हुणु ज्ञेय ज्ञाता ज्ञान ।
हॅ पळॅ तॅग्गई जण ।
मेळ्णु दित्ताती तूं जाण ।
कर्म कोर्चीं प्रेरणा ॥४८५॥

ज्ञात्याक तँ ज्ञेय जरी ।
जांव्का जाल्लेलँ आस्ल्यारी ।
त्वरा कोर्नु कश्शीतरी ।
जाण्णु घॅत्ता विषयु ॥४८६॥

तँची जरी नाक्का दिस्ता ।
कॅर्ना सोडीनशँ जात्ता ।
कश्शी सुटचँ बा तॉ म्हणता ।
हांतुल्यानॅ वग्गीची ॥४८७॥

सर्पु दिस्ल्यारी भिंव्च्याक ।
हारु हर्षानॅ घेंव्च्याक ।
वेळु लाग्गना दोन्नींक ।
घड्ता हँ क्षणार्धांतुं ॥४८८॥

सॉद्‌ता प्रियाप्रिय खंचँ ।
ठरैता धर्चँ की सोड्‌चँ ।
कर्म कोर्चैं कर्ना जांच्चँ ।
त्यानुसार घड्‌ता रॅ ॥४८९॥

युध्दाक रथारी बस्ता ।
समतुल्य मल्लु दिस्ता ।
कुस्तीगीरु तग्गु दँव्ता ।
युध्द सोण्णु कुस्तीक ॥४९०॥

पळॅ जँ कोर्काशँ दिस्ता ।
तँची ज्ञाता कोर्नु बस्ता ।
जॅव्तनाई दिस्सू लाग्ता ।
रांदपै कोर्येशिलँ ॥४९१॥

भ्रमरु उद्यान कोर्ची ।
सराफु हेमशुध्दीची ।
देवु दॅवळ बांदोंची ।
इच्छा जरी करीद ॥४९२॥

अश्शी त्या इच्छेनुसार ।
जात्लॅ इंद्रियां व्यापार ।
कर्मंईं जात्लीं साकार ।
ज्ञाताई जात्लॉ कर्ता॥४९३॥

ज्ञेयाखात्तीर हॉ ज्ञाता ।
इंद्रियांक कामा लाय्ता ।
ह्या थरेनॅ ज्ञेय जात्ता ।
स्वाभाविक कार्यची ॥४९४॥

जात्ता ज्ञाता ज्ञान ज्ञेय ।
कर्ता कारण नी कार्य ।
कश्की जाव्नु निरुपाय ।
दृष्टी बदल्ता रात्ती ॥४९५॥

अथवा संचित सर्ता ।
श्रीमंतीचॉ थाटु दँव्ता ।
पुन्वेउप्रांतँ बदल्ता ।
चंद्रबिंब क्रमेण ॥४९६॥

इंद्रियांक भोग्गु लाय्ता ।
आनी ज्ञाता कर्ता जात्ता ।
ताव्वळी तॉ कश्शी दिस्ता ।
हँवै आय्क तूं आत्तं ॥४९७॥

बुध्दि मन अहंकार ।
आनी चित्त अश्शी चार ।
आस्सती हँ आविष्कार ।
पार्था अंतरंगाचॅ ॥४९८॥

रूप रस श्रुति गंध ।
नी स्पर्शु ह्या पंचविध ।
बाह्य विषयांतुं बध्द ।
जात्ताती हीं इंद्रियं ॥४९९॥

जीवु मुखार्सुनु यॅत्ता ।
अंतरंगाक जागैता ।
इंद्रियांकई चाव्वैता ।
सुखा सॉप्नं दाकोनु ॥५००॥

बाह्य पंचज्ञानेंद्रियं ।
आनी पांच कर्मेंद्रियं ।
हीं जागी जाव्नु सक्रिय ।
जात्ता ती क्षणार्धांतुं ॥५०१॥

धोर्नु तांग्तांगेली रीती ।
कर्म कोरूक लाग्ताती ।
जोवरेक फलप्राप्ती ।
जाय्ना त्या त्या कर्माची ॥५०२॥

नी तँची जरी दिस्सद ।
कोर्चें जात्लँ दुःखप्रद ।
ताँड फिराव्नु घेत्तीद ।
थंईंथाव्नु अर्दारी ॥५०३॥

रायु सारॉ भरी म्हणता ।
कृषिवलाक छळ्सुय्ता ।
तश्शी जीवु हांकां धर्ता ।
सुख दिय्याती म्हुणु ॥५०४॥

हागेली इंद्रियांचेरी ।
सत्ता चल्ता जन्मभरी ।
ह्या रायानॅ सांगिल्वारी ।
तांकां कोर्का पड्ताची ॥५०५॥

हागेलँ हँ कर्तेपण ।
सर्व क्रियांचँ कारण ।
जाव्नु राब्ताती साधनं ।
इंद्रियं हाज्खात्तीर ॥५०६॥

कर्तेपण कर्तल्यालँ ।
कर्म तँ इंद्रियांगॅलँ ।
जात्ता अश्शी हँ जँ सांग्लँ ।
आय्कलँ की ना तुंवँ ॥५०७॥

अलंकार हॅ समस्त ।
सॉन्नाराली करामत ।
चांदर्णॅ पड्ता सर्वत्र ।
वाली भर्ता मांट्वारी ॥५०८॥

व्यापक सूर्यप्रकाशु ।
कब्बांतुं मधुर रस्सु ।
आकाशातुं अवकाशु ।
जश्शी आस्ता तॉ भोर्नु ॥५०९॥

क्रिया ह्यॉ कर्तल्यागॅल्या ।
सर्वत्र परसर्नु उल्यां ।
कर्म म्हुणु त्यॉची जालयॉ ।
साकार धनुर्धरा ॥५१०॥

कर्ता कर्म नी करण ।
तांग्तांगेलीं हीं लक्षणं ।
सांग्लीं कोर्नु विवेचन ।
तुक्का हे वीरश्रेष्ठा ॥५११॥

ज्ञेय ज्ञान आनी ज्ञाता ।
तॅग्गई प्रेरक पार्था ।
कार्य करण नी कर्ता ।
हॅ कर्माचँ स्वरूप ॥५१२॥

धुव्वरु कश्की उज्ज्यांतुं ।
रुक्का उद्भवु बीजांतुं ।
आनी कामना मनांतुं ।
हीं कॅर्नाई आस्चींची ॥५१३॥

भांग्राक भांग्राची खाण ।
तश्शी कर्माचँ जीवन ।
क्रियाकर्ता नी करण ।
निरंतर हीं पार्था ॥५१४॥

कार्य हँ हांवंची कर्ता ।
हँची जीवु नित्य म्हणता ।
आत्मा अलिप्तुची आस्ता ।
ह्या सर्व व्यापांत्थाव्नु ॥५१५॥

म्हुणु नॅव्नॅवानॅ सांग्तां ।
आत्मा आप्णांतुंची आस्ता ।
ह्या खंच्यांतुं ना तॉ पार्था ।
घॅ हँ सम जाण्णु तूं ॥५१६॥

तरी कर्म कर्ता ज्ञान ।
आस्सती हॅ तॅग्गजण ।
त्रिगुणांनुसार भिन्न ।
जाव्नु तांकां अंकित ॥५१७॥

हांचेरी तूं नंबू नाक्का ।
रजतमा दीकु सोड्का ।
सत्त्वगुणु अनुसर्का ।
तॉची तुक्का तार्तलॉ ॥५१८॥

गुणभेदु हॉ सात्त्विक ।
सांग्तां तुक्का सम आय्क ।
भेदा विचारु सम्यक ।
जाल्ला सांख्य–शास्त्रांतुं ॥५१९॥

हॅंची, विचारउदधी ।
आत्मकमल कौमुदी ।
अेकमेव ज्ञाननिधी ।
राजपदारी सॉब्ता ॥५२०॥

सूर्यानॅ दिवसु राती ।
तश्शी पुरुष–प्रकृती ।
कॅलया हांगेली नियुक्ती ।
पार्था सांख्यशास्त्रानॅ ॥५२१॥

साह्य चोवीस तत्त्वांचॅं ।
घेव्नु दमन मोहाचॅं ।
करी नी परात्पराचॅं ।
सुख तुक्का मॅळतलॅं ॥५२२॥

सांख्यशास्त्राची महती ।
ताज्जी ही स्तुती कर्ताती ।
तांतुं वर्णन कॅलयाती ।
हॅ सर्व गुणभेद ॥५२३॥

दाकैताती तिन्नी गुण ।
आप्णालीं विशिष्ट चिन्हं ।
परस्पर जीं विभिन्न ।
जाव्नु आस्सती पार्था ॥५२४॥

अश्शी सत्त्वरजतम ।
ख्याती पाव्लॅ अनुपम ।
कर्नाती हॅ तारतम्य ।
ब्रह्मंतुं नी कृमींतुं ॥५२५॥

ज्या ज्ञानामितीं हॅ सगळॅ ।
गुण भिन्न दिस्सू लाग्लॅ ।
तॅंची ज्ञान तुक्का पैलॅं ।
हांवॅं सांग्का पड्तलॅं ॥५२६॥

निर्मळ दृष्टी आस्ल्यारी ।
कस्लेंई दिस्ता ताज्वारी ।
तश्शी ज्ञान शुध्द जरी ।
दिस्तलॅं सर्व शुध्द ॥५२७॥

आत्तं हॅं सात्त्विक ज्ञान ।
जॅं कैवल्याचॅं निधान ।
कर्तां तुक्का तॅं कथन ।
थंईंची तूं दी ध्यान ॥५२८॥

शुध्द ज्ञान जॅं सात्विक ।
यॅनापुडॅ उदयाक ।
ज्ञेय घेव्नु सांगाताक ।
ज्ञाता बुड्ता तांतूंची ॥५२९॥

काळ्कांतुं सूर्यु उदेता ।
न्हंईची समुद्रु जात्ता ।
सांगातीची साव्ली आस्ता ।
धोर्नु देहाकृतीक ॥५३०॥

कैलासनाथु नी तृण ।
दोन्नी लॅक्ता हीं अभिन्न ।
अश्शी धर्ता शुध्द ज्ञान ।
समदृष्टी सर्वत्र ॥५३१॥

चित्रांतुं दॅवळ दिस्ता ।
तँची तँ दॅवळ म्हणता ।
सॉप्नाक सॉप्पन लॅक्ता ।
मिट्टा उद्काक मिट्शँ ॥५३२॥

अश्शी ह्या ज्ञानाची दृष्टी ।
पळैता अभिन्न सृष्टी ।
ज्ञेयज्ञानादि त्रिपुटी ।
उर्ता अनुभवांतुं ॥५३३॥

पोळोनुची अलंकारु ।
भांगार जाण्ता सॉन्नारु ।
पित्ता कोणु सांग नीरु ।
पाळंधूर सारौनु ॥५३४॥

वैल्यानॅ जँ दिस्ता भिन्न ।
तँ दीद समदर्शन ।
जरी हँ सात्विक ज्ञान ।
जाय्द सार्थ सर्वत्र ॥५३५॥

कान्डी इद्रारी सहज ।
धर्ल्यारी हँ रूप निज ।
ज्ञेय यॅत्ता जाव्नु सज्ज ।
ज्ञात्याल्या स्वरूपांतुं ॥५३६॥

जात्ता हँ सात्त्विक ज्ञान ।
मुक्तीवैभवाचँ स्थान ।
मुखारी तूं आय्क चिन्ह ।
रजोगुणी ज्ञानाचँ ॥५३७॥

भेदभावु जॉ दृश्यांतुं ।
तॉची यॅत्ता पोळोंच्यांतुं ।
द्वैत अश्शी ज्या ज्ञानांतुं ।
तँची ज्ञान राजस ॥५३८॥

विविध हॅं भूतमात्र ।
वृत्ती तांगेली विचित्र ।
पोळोनु संभ्रमानॅ त्रस्त ।
जाव्नु फस्ता आप्पण ॥५३९॥

विस्मृतीचँ कुड बंद ।
कोर्नु थंईं काड्ता नीद ।
जात्ता सॉप्नांतुं तँ घुंद ।
नित्यसत्य स्वरूप ॥५४०॥

आत्मबोधाचँ मंदिर ।
सुव्वांतुं मायेचँ घर ।
खेळू दित्ता निरंतर ।
जीवा अवस्थात्रय ॥५४१॥

चॅर्डा आंगारी भांगार ।
ताक्का एकु अलंकार ।
नामरूपानॅ साकार ।
जाव्नु पड्ता द्वैतांतुं ॥५४२॥

मात्ये मड्कँ हँ म्हणताती ।
मूळ पृथ्वी विस्सर्ताती ।
दिवॉ पोळोनु म्हणणाती ।
की हॉ अग्नि स्वरूप ॥५४३॥

वीण वस्त्राची पळैना ।
तंतू तांतुलॉ दिस्सना ।
कस्ल्यारी हँ काळ्ळ्यां म्हण्णा ।
चित्र मात्र पळैता ॥५४४॥

पोळोनु व्यक्ती विविध ।
ज्ञान जात्ता बहुविध ।
ऐक्य भावनेचॉ बोध ।
बुड्ता तग्गु तळाक ॥५४५॥

राक्डा काप्प्यांरी अनलु ।
फुल्लाफुल्लांत्लॉ पर्मळु ।
चंद्रुई दिस्ता विस्कळु ।
जालेलॉ पाळांचेरी ॥५४६॥

पदार्थ हॅ नानाविध ।
तश्शी हॅ बहुत भेद ।
ताज्वारी जरी आस्सद ।
जँ ज्ञान तँ राजस ॥५४७॥

कश्की म्हारागॅलँ घर ।
आस्का चारि हात धूर ।
तश्शी जाग्रतेखात्तीर ।
आय्क तामस ज्ञान ॥५४८॥

कस्लेंई कर्म कर्तना ।
विधीचँ वस्त्र निस्सना ।
म्हुणु पार्था श्रुति यॅना ।
लाज्जेनॅ ताज् इद्रारी ॥५४९॥

शास्त्रांनीं हँ दोषास्पद ।
म्हुणु ठरैलँ निषिध्द ।
कोर्नु बहिष्कृत हद्द ।
पार हाक्का हाक्लैलँ ॥५५०॥

मात्तेरीची बस्ल्यां गच्च ।
तमोगुणाचँ पिशाच्च ।
हांगा वच थंईं वच ।
कोर्नु सॉण्णा ज्ञानाक ॥५५१॥

कस्लोई पदार्थु चल्ता ।
खंचोई विषयु भॉग्ता ।
खंखंई हेक्कुत वत्ता ।
गांव्तुल्या सुण्यावारी ॥५५२॥

गिळुकची जँ मॅळश्ना ।
तॉंड लास्सद की कळ्णा ।
तित्ल्याक हँ स्पर्शु कर्ना ।
बाकी सग्ळँ बळ्चुय्ता ॥५५३॥

भांगार चॉर्ता उंदुरु ।
ग्राह्याग्राह्य ना विचारु ।
मांस खात्ल्याक बॅजारु ।
ऊर्ना पळॅ कस्ल्याचॉ ॥५५४॥

वण्वॉ जळत आस्तना ।
वल्लँ सुक्किलँ पळैना ।
मूसु बस्तना पळैना ।
मॅलयां की हँ जिवंत ॥५५५॥

वक्किलँ की हँ वाळ्ळेलँ ।
ताजँची आस्स की शॅळँ ।
अस्लॅ विचार काय्ळ्यालॅ।
आस्सनाती तँ खात्ना ॥५५६॥

वर्ज्य तँ सर्वस्वी सोड्का ।
ग्राह्य आदरानॅ घेंव्का ।
हॉ हिताहिताचॉ कोर्का ।
विचारु विषयांचॉ ॥५५७॥

मॅळ्मॅळ्ळॅलँ धन वँच्ता ।
उदरभरण कर्ता ।
वा कामोपशमु कर्ता ।
हेतु विषयभोगु ॥५५८॥

केवळ तान निंव्याक ।
सांग पिंव्का वॅ उद्दाक ।
तीर्थ म्हुणु तँ घेंव्याक ।
कस्ली अड्डी यॅत्ता रॅ ॥५५९॥

कस्लँ खाव्नयॅ खाव्येद ।
खचँ निंद्य खंचँ वंद्य ।
खाव्यांशँ दिश्शिलँ खाध ।
इत्लॉची वॅ विचारु ॥५६०॥

लॅक्ता की स्त्रियेलँ तन ।
स्पर्शसुखाचँ साधन ।
जॉण्णा इत्त्याक तँ मन ।
अन्य बरॉ समंदु ॥५६१॥

स्वार्थु साध्य खंई जाय्द ।
थंई समंदु जो`द ।
देहा गरज भाग्गद ।
इत्लीची वॅ जाणीव ॥५६२॥

हँ सर्व मृत्यूक अन्न ।
म्हण्ता अग्नि सर्व गिळण ।
तश्शी हँ जग स्वधन ।
म्हण्ता तामस ज्ञान ॥५६३॥

विश्वाचँ सर्व वैभव ।
मगेलॅ विषय सर्व ।
ताज्जँ फल अेकमेव ।
दिंव्चँ देहाक भोग ॥५६४॥

आकाशांत्थाव्नु उद्दाक ।
पड्ता मॅळ्ता समुद्राक ।
तश्शी ह्या देहाची भूक ।
निवोंव्ची कार्योद्देशु ॥५६५॥

स्वर्गप्राप्ती कोर्नु घेंव्का ।
नरकवासु चुक्कोंव्का ।
ना ह्या विषयाची हाक्का ।
तिळमात्रई जाण ॥५६६॥

देह हाची आत्मा लॅक्ता ।
देवु पाषाणाचॉ म्हण्ता ।
इत्लीची ही बुध्दिमत्ता ।
ना सद्गति मुखारी ॥५६७॥

जीवु वत्ता देह पड्ता ।
जीवनाचॉ खेळु सर्ता ।
थंई आत्मा खंई उर्ता ।
कॉण आस्ता भोग्गूक ॥५६८॥

देवु कर्ता परिपोषु ।
कश्शी दव्वोर्चा विश्र्वासु ।
सोडूक घड्चॉ उपासु ।
दॅवाकची विक्ताती ॥५६९॥

जरी फात्रा देवु दित्ता ।
आनी प्रशासन कर्ता ।
तरी गुड्डॉ इत्त्या बस्ता ।
जाव्नु जडभरित ॥५७०॥

देवु आस्स म्हळ्ळेल्तरी ।
आस्तलॉ तॉ फात्रावारी ।
देह हॉ आत्मा म्हळ्ळ्यारी ।
जाय्श्ना तँ विपरीत ॥५७१॥

पापपुण्य हँ कस्लँ ना ।
सर्व व्यर्थची कल्पना ।
जँ जँ मॅळ्ता तँ भॉग्तना ।
गिळ्ता तँ उज्जॉ कश्की ॥५७२॥

जँ हॅ दॉळॅ पळैताती ।
विषयेंद्रियं माग्ताती ।
त्या त्या भोगा अनुभूती ।
हँची सत्य म्हणताती ॥५७३॥

अश्शी बुध्दि विपरीत ।
जाय्त आस्ता वृध्दिंगत ।
कश्की आकशांतुं चड्त ।
वत्ताती धुव्रा लॉट ॥५७४॥

वल्लँई ना वा सुक्किलँ ।
भेंडु झाड वाड्त गॅल्लँ ।
अेक दीसु मोण्णु पळ्ळँ ।
कश्की वाड्लँ व्यर्थची ॥५७५॥

कब्बा तण मात्र वाड्ता ।
नपुंसकु जन्मा यॅत्ता ।
निव्डुंगाचँ रान जात्ता ।
कश्की तापदायक ॥५७६॥

चॅर्डागॅलँ मुग्ध मन ।
चॉरालँ संचित धन ।
अथवा बोक्डयेलॅ स्तन ।
कश्की पार्था निष्क्रिय ॥५७७॥

जँ निष्फल निरर्थक ।
तश्शी उद्वेगजनक ।
तँची जाण तूं निःशंक ।
अस्लँ ज्ञान तामसी ॥५७८॥

दृष्टी नात्तिल्या दॉळ्याक ।
दॉळॉची म्हणताती लोक ।
तश्शी तामस ज्ञानाक ।
ज्ञान म्होण्का पड्ताची ॥५७९॥

जाग्यारी आस्सुनु कान ।
कॅप्प्पॉ वॅ हॉ म्हणता जान ।
अपेय पीव्नु प्राशन ।
कॅल्लँ हँची म्हणताती ॥५८०॥

आनी तुक्का सांग्गुं कित्लँ ।
जँ जँ अश्शी नद्रे यॅत्लँ ।
तँ तूं अज्ञानांधागॅलँ ।
जाण ज्ञान तामस ॥५८१॥

त्रिगुणांकित जँ ज्ञान ।
त्यांनुसार तिन्नी भिन्न ।
प्रकारांचँ विवेचन ।
पार्था तुंवँ आय्कलँ ॥५८२॥

त्या त्रिप्रकारांनुसार ।
कर्तल्यागॅलॅ विचार ।
प्रगटताती साकार ।
त्या त्या भिन्न क्रियेंतुं ॥५८३॥

जश्शी कोर्नु दिल्ली वाट ।
तश्शीची उद्दाक थेट ।
आप्णाइत्ल्याकची व्हांक्त ।
वत्ता कश्की नोळीत ॥५८४॥

तश्शी त्या त्या ज्ञानावारी ।
कर्म जात्ताती इद्रारी ।
आय्क आत्तं धनुर्धारी ।
सात्त्विक तीं ॲक्ळाक ॥५८५॥

यॅत्ता स्वधर्मानुसार ।
ताज्जॉ प्रीतीनॅ स्वीकार ।
कोर्का पतिव्रता नार ।
कश्की कर्ता पतीलॉ ॥५८६॥

सांवळ्या रूपा चंदन ।
सुंदरीक नेत्रांजन ।
तश्शी स्वधर्माचरण ।
दित्ता शोभा जन्माक ॥५८७॥

उचित नित्यकर्माक ।
जरी मॅळ्द नैमित्तिक ।
परिमल सुवर्णाक ।
आयिल्वारीची सम्ज ॥५८८॥

चॅर्डागॅलँ अनुदिन ।
कर्ता आव्सु संगोपन ।
तरी मना समाधान ।
जाय्ना कष्ट काण्णुई ॥५८९॥

तश्शी स्वकर्म कर्तना ।
कष्ट जात्ताती हँ म्हण्णा ।
फलासक्तीई आस्सना ।
ब्रह्मार्पण सर्वस्व ॥५९०॥

यॅत्ता आजि अचानक ।
जीवाभावाचॉ मेळूक ।
पड्ता स्वकर्म बाजूक ।
जाण तश्शी सत्संगु ॥५९१॥

काम जार्यॅ म्हुणु खेदु ।
जालयारी ताज्जॉ आनंदु ।
दोन्नींचॉ ऋणानुबंधु ।
पण्णा मन प्रसन्न ॥५९२॥

ह्या रीतीरी कर्म जात्ता ।
तँ हांवं सात्त्विक म्हणतां ।
धरी लक्षांतुं हीं पार्था ।
ह्या कर्माचीं लक्षणं ॥५९३॥

आत्तं राजस कर्माचीं ।
लक्षणं हीं सव्यसाची ।
लक्ष दीव्नु तीं समची ।
आय्कूंकाज सर्वई ॥५९४॥

घारा हॉ आव्सुबाप्सुक ।
म्हणता बैसाती मुलयाक ।
भाग्र हॉ चारि चौगांक ।
आदरानॅ गौराय्ता ॥५९५॥

जात्ता म्हारग उद्याक ।
तुळशी झाडाक घालूक ।
दूद सौरग इत्त्याक ।
जात्ता द्राक्ष्या वालयेक ॥५९६॥

कर्मं नित्यनैमित्तिक ।
जीं आस्ताती आवश्यक ।
नित्यनॅमानॅ कोरूक ।
धर्ता हाक्का आलस्य ॥५९७॥

मात्र काम्य कर्म कोर्ची ।
उमेदी बेसुमारची ।
कर्ना गणना कष्टांची ।
तँ साध्य जावरेक ॥५९८॥

खईं देड्पटीनॅ मॅळ्ता ।
थंईं धन व्याजा लाय्ता ।
म्हणता फाई राशी मॅळ्ता ।
आजि बीज घालयारी ॥५९९॥

परिसु पोळोनु म्हणता ।
लॉखंड विक्कत घॅत्तां ।
साधनेनॅ साध्य जात्ता ।
आत्मोन्नत्ति निश्चित ॥६००॥

काम्य कर्मांचीची प्रीती ।
धर्ता फलाची आसक्ती ।
कष्ट कित्लेई पडोती ।
कोर्चें कांइं सॉण्णा तॉ ॥६०१॥

विषयवासनातृप्ती ।
जावॉ म्हुणु कर्म तीं तीं ।
यथाविधी सांग्य रीती ।
कोर्चेंई तॉ विस्सर्ना ॥६०२॥

अश्शी आप्णॅ कॅल्लँ म्हणता ।
सर्वांकई सांगत वत्ता ।
हाज्जँ स्मृतिचिन्हई वांट्ता ।
कर्मयोगी म्हणौनु ॥६०३॥

कर्मा अहंकारु वाड्ता ।
मान्यं म्हण्णा गुरु पिता ।
कश्की काळज्वरु म्हणता ।
की वकदांक मानिश्ना ॥६०४॥

कतृत्वाचॉ अभिमानु ।
आनी फलापेक्षा धोर्नु ।
कर्ता सर्व मन लाव्नु ।
काम्य कर्म केवळ ॥६०५॥

कश्की हॅ तमासगीर ।
केवळ पॉट्टा खात्तीर ।
गांवोगांव निरंतर ।
फिर्त फिर्त उर्ताती ॥६०६॥

गुड् ारी उंदुरु वत्ता ।
सॉद्ता खंईं कस्लँ मॅळ्ता ।
शॅळॉ मॅळद की म्हणता ।
समुद्रांतुं मांडुकु ॥६०७॥

गारुडी घेव्नु सर्पाक ।
भाँव्ता शर्मोंञ्च्याक भूक ।
आवडी थॉडॅ जणांक ।
व्यर्थ श्रम कोर्च्यांतुं ॥६०८॥

चरूक मेळ्तली मात्ती ।
म्हुणु पाताळांतुं वाळ्ती ।
रिग्ता तश्शी वळ्बताती ।
पिश्शॅ स्वर्गसुखाक ॥६०९॥

ज्या क्रियेंतुं व्यर्थ क्लेश ।
कर्म तँ जाण राजस ।
आत्तं कर्म जँ तामस ।
कश्शी आस्ता तँ सांग्तां ॥६१०॥

पार्था सर्वथा जँ निंद्य ।
शास्त्रा दृष्टीनॅ निषिध्द ।
नी केवळ अज्ञानांध ।
तँची कर्म तामस ॥६११॥

उद्काचेरि गिटी काळ्ळी ।
थंची थंईं ती ना जाल्ली ।
तश्शी कोर्नुई जीं गेल्लीं ।
कर्नातिल्वारी जाव्नु ॥६१२॥

पॅज घाटी 'लोणी यॅश्ना ।
गोब्बोर फुंकी उज्जॉ नीव्ना ।
तॅल्ला थँबोई गळश्ना ।
रँव घाल्नु घाण्यांतुं ॥६१३॥

तुस्सु वाटय्ल्यारी कणु ।
पण्णा आकाश विंदुनु ।
वारयाकई पाश घाल्नु ।
धरु जाय्ना जाग्यारी ॥६१४॥

अश्शी कश्की हँ कोर्नुई ।
जाय्नाची निष्पन्न कांईं ।
तश्शी हीं कर्म जाव्नुई ।
जाल्लँ कस्लँ दिस्सना... ॥६१५॥

नरदेहाचँ हँ धन ।
खर्चता जँ क्षणक्षण ।
जात्ता तँची रँ कारण ।
दुःखाक ह्या जगांतुं ॥६१६॥

कमलांचॉ वेलु पार्था ।
कांव्या पाशु घाल्नु ताण्ता ।
ताज्जॉ सर्वनाशु जात्ता ।
ताण्तलॉई दणूता ॥६१७॥

पतंगु दिव्यारी घुंव्ता ।
पाक्कं फाप्पुण्णु निवैता ।
आप्पणई जळ्णु पड्ता ।
काळ्कांतुं तॉ थंईंची ॥६१८॥

ह्या देहाक त्रासु जाय्द ।
स्वहिताक बाधा यॅद ।
कष्ट जगाकै जात्तीद ।
हॉ विवेकु आस्सना ॥६१९॥

पॉट्टांतुं जॉ वत्ता मूसु ।
गिळ्तल्याक दित्ता त्रासु ।
वक्कींतुं विना सायासु ।
पड्ता मृतावस्थेंतुं ॥६२०॥

अस्लँ कर्म दोषास्पद ।
कोरू जाय्श्ना की तँ जाय्द ।
अश्शी विचारु करीद ।
हाज्जॉई ना संभवु ॥६२१॥

कोरूक आस्स वॅ शक्ती ।
उपाय कित्लॅ आस्सती ।
जाय्द वॅ कामनापूर्ती ।
पोळोंकाज अॅक्ळाक ॥६२२॥

जाणीवची ही आस्सना ।
पायु मुखारी घाल्तना ।
खंची वाट धर्का कळ्णा ।
थंईंची तॉ गोंदळ्ता ॥६२३॥

जळ्चँ पूराई तॉ लास्ता ।
उज्जॉ चारी दिका धांव्ता ।
समुद्र मर्यादा सॉड्ता ।
आनी गिळ्ता गांवाक ॥६२४॥

अल्प वा हँ अति म्हण्णा ।
माक्षी मुखारी पळैना ।
गतीचँ भान आस्सना ।
धर्ता मार्गु खंचोई ॥६२५॥

उचित की अनुचित ।
स्वहित की परहित ।
हँ पळैना तँ निश्चित ।
कर्म जाण तामस ॥६२६॥

भिन्न त्रिगुणांनुसार ।
कर्मं जात्ताती साकार ।
त्रिविधई आविष्कार ।
सांग्लॅ कोर्नु वर्णन ॥६२७॥

ह्या गुणांक अनुसर्ता ।
त्या त्या कर्मांचॉ जॉ कर्ता ।
तॉ जीवु आकारा यॅत्ता ।
ह्या तीनी प्रकारांनीं ॥६२८॥

चारि आश्रम आस्सती ।
त्यांनुसार कर्म तीं तीं ।
चतुर्विध तीं जात्ताती ।
तश्शी हॅवै त्रिविध ॥६२९॥

सांगतां जीवु तॉ सात्त्विक ।
कश्शी आस्ता हँ तूं आय्क ।
दीव्नु अवधान अेक ।
कोर्नु कान नी मन ॥६३०॥

चंदनु फलाशा सॉड्ता ।
सुवासानॅ भोर्नु वाड्ता ।
सरलतेनॅ पस्त्रैता ।
हॅग्लॅ चारि दिकानॅ ॥६३१॥

धर्ना फल नागवल्ली ।
तरी कृतकृत्य जाल्ली ।
तश्शी कर्ता आप्णागेलीं ।
तॉ नित्यनैमित्तिकं ॥६३२॥

फलाशा ही नात्तिल्मितीं ।
फलद्रूप तीं जात्ताती ।
सांग कस्ल्याक जांव्काती ।
दुस्त्रीं खंचीं तीं फलं ॥६३३॥

कर्मं तॉ अत्यादरानॅ ।
कर्ता म्हण्णा केल्लीं आप्णॉ ।
कश्की मॉडं नम्रतेनॅ ।
दँव्ताती पाव्साडींतुं ॥६३४॥

परमात्म्याक सप्रेम ।
कर्ता अर्पण स्वकर्म ।
शुध्द कोर्नु तँ परम ।
शास्त्रविधीनुसार ॥६३५॥

फाई कोर्येद हँ म्हण्णा ।
शास्त्रादेशुई विस्सर्ना ।
खंईं कर्ता ही साधना ।
स्थळ तँवै पावन ॥६३६॥

तनमन अेकवट ।
फलाशाई विन्मूळित ।
नेमधर्मु अविरत ।
चल्ता सदासर्वदा ॥६३७॥

हँ कोर्च्याक संयमन ।
ताक्काई असाधारण ।
धैर्य जांव्का हाज्जी जाण ।
आस्ता ताक्का सदैव ॥६३८॥

देहसुखाची ना वडी ।
आत्मसुखाचीची गोडी ।
साधनेंतुं मद्दँ अड्डी ।
येंव्च्या सॉण्णा साधकु ॥६३९॥

आलस्य नी नीद भागता ।
तानभुक्के भान सुट्ता ।
अश्शी क्षीण जाय्त यॅत्ता ।
देहसुखाची आशा ॥६४०॥

उत्साहु तॉ म्हणतां म्हणतां ।
आराधनेंतुलॉ वाड्ता ।
कश्की शुध्द जाय्त यॅत्ता ।
कीडि सोण्णु भांगार ॥६४१॥

परमार्थाची आस्काज ।
गोडी मनांतु सहज ।
तरी जीविताचँ काज ।
जात्लँ त्या सतीवारी ॥६४२॥

आत्मबोधाचँ हँ सुख ।
परम प्रिय कॉणाक ।
ताक्का ह्या देहाचँ दु:ख ।
कर्ना मार्गविन्मुख ॥६४३॥

देहबंधु सड्ळु जात्ता ।
विषयवासना सुट्ता ।
तश्शी हळु वाड्डु लाग्ता ।
आनंदु स्वकर्मांचॉ ॥६४४॥

अश्शी कार्यमग्न आस्ता ।
अेक अकस्मात यॅत्ता ।
विघ्न आनी बंद पड्ता ।
कर्म कोर्चें मुखारी ॥६४५॥

गुड् ार्थाव्नु गड्गडेता ।
तॉ गाडॉ वॅ खेदु कर्ता ।
कोर्चें तड्वैल्त्तरी धर्ता ।
नॅवानॅ हॉ उमेदी ॥६४६॥

अथवा जँ कोरू धर्लँ ।
तँ निर्विघ्न पार पळ्ळँ ।
तरी म्हण्णा आप्णॉ कॅल्लँ ।
हॉ आनंदोन्मादानॅ ॥६४७॥

ज्या कॉणागॅलँ चरित ।
ह्या चिन्हांनीं विभूषित ।
जात्ता तॉची तूं निश्चित ।
जाण कर्ता सात्त्विक ॥६४८॥

आत्तं राजस जॉ कर्ता ।
तागेलीई खूण सांग्तां ।
तॉ प्रत्यक्ष मूर्ति आस्ता ।
सर्वै अभिलाषांची ॥६४९॥

गांवां भाय्र घाणी राशी ।
स्मशानई धूर तश्शी ।
दांटुय्नापुडॅ तीं जश्शी ।
पाय धुव्नु घेंव्काती ॥६५०॥

विश्वांतुलॅ उपभोग ।
तॅ हॉ म्हणता सर्वै भोग्य ।
भोगासक्तीचँ दोषांग ।
पैलँ धुव्नु काड्काज ॥६५१॥

कर्म सहज ससार ।
मॅळ्ता फलई सत्त्वर ।
तँ कोरूक हॉ आतुर ।
जाव्नु यॅत्ता मुखारी ॥६५२॥

मेळैलेलँ जँ स्वधन ।
ताज्जँ कोर्नु संचयन ।
जीवाकै चड रक्षण ।
कर्ता आयुष्यभरी ॥६५३॥

घॅत्ता राक्कुनु आप्णालँ ।
मेळ्का म्हुणु दुस्त्र्यागॅलँ ।
धर्ता ध्यान बकागॅलँ ।
गिळ्ता संधि साध्धुनु ॥६५४॥

कोणु बोरी लाग्गी वत्ता ।
कांटॉ तॉप्ता वस्त्रै पिंद्ता ।
फळ पुणि खांव्यां म्हणता ।
तॉंड वत्ता आम्शेनु ॥६५५॥

तश्शी कायावाचामन ।
स्वार्थसिध्दीचँ साधन ।
परपीडेक कारण ।
कर्ता सर्व थरेनॅ ॥६५६॥

सामर्थ्य तित्लँ आंगांतु ।
वा जाय्द हॉ साध्य हेतू ।
विचारूई हॉ मनांतूं ।
यॅना करूकी हागेल्या ॥६५७॥

धुत्र्या फळा भित्तल्यानॅं ।
मद्य नी कांटॅ भाय्ल्यानॅं ।
तश्शी हॉ अशुचित्वानॅं ।
भर्ला भाय्रभित्तरी ॥६५८॥

कर्म फलप्रद जाय्द ।
तरी हर्षानॅं नांचद ।
नी हॉ लोकांक चाळैद ।
तांकां तुच्छ लेक्कुनु ॥६५९॥

जांव्चँ कार्य जरी जाय्ना ।
शोकु कोर्चें हॉ तड्वैना ।
कर्मांकची दव्वर्तना ।
नांवं नप्रॉ पड्ताती ॥६६०॥

अस्ल्या रीतीनॅं जॉ चल्ता ।
जाण तॉ राजस कर्ता ।
संशयु ना कुंतीसुता ।
हांतुं तीळाइत्लोई ॥६६१॥

जॉ दुर्वर्तनांची खाण ।
तॉ तामस कर्ता जाण ।
तागेलँ आत्तं वर्णन ।
कोर्नु सांग्तां सुस्पष्ट ॥६६२॥

इद्रारी दिस्ता जळ्तना ।
इत्मितीं हँ उज्जॉ म्हण्णा ।
आनी ताक्का हँवे कळ्णा ।
आप्पणची कारण ॥६६३॥

बाणाक भान आस्सना ।
काळकूटाकई कळ्णा ।
की मरण दॉग्गजणां ।
आय्लँ तांचे मितींची ॥६६४॥

आप्णालॉ नी दुस्त्र्यागॅलॉ ।
घातु जाय्श्ना की तॉ जात्लॉ ।
मनांतुं विचारु अस्लॉ ।
यॅना कर्म कर्तना ॥६६५॥

कर्त आस्तना हॉ कस्लँ ।
कस्लेंई पळैनात्तिलँ ।
कर्त वत्ता करूकी सुट्लँ ।
वारँ प्रळयांतुलँ ॥६६६॥

कर्म कर्तना क्रियेंतुं ।
आनी तॉवई ताज्ज्यांतुं ।
आस्सना करूकी चल्च्यांतुं ।
ऊर्नां पिश्श्यालॉ मेळु ॥६६७॥

किर्टी बैलाल्या आंगारी ।
चर्ता सुखानॅं ती जरी ।
विषयेंद्रियां भोगारी ।
म्हण्ता जाता जग्च्याक ॥६६८॥

कॅर्ना कळ्णा हास्ता रड्ता ।
चेर्डूं अश्शी अजाणतां ।
मना आयिल्वारी चल्ता ।
तश्शी हॉवै कॅर्नाई ॥६६९॥

प्रकृतीचॉ पाळ्ता नेमु ।
म्हुणु कळ्णा परिणामु ।
कृत्याकृत्याचॉ विभ्रमु ।
वाड्डैता कैरावारी ॥६७०॥

इत्लँ हागेलँ हॉड्पण ।
कर्ना दॅवाक नमन ।
मुखांतुंई ना स्तवन ।
गुड् पेक्षांई मूक ॥६७१॥

मनांतुं दुष्ट विचार ।
अेक ना भित्तरी भाग्र ।
वेश्येवारी ती नजर ।
घातकी नी मायावी ॥६७२॥

मूर्तिमंत हॉची जाण ।
कपट नी कारस्थान ।
जुगाराचेंई हॉ ठाण ।
विश्वासाक अपात्र ॥६७३॥

वाटमारी भिल्लावारी ।
लुटारु हॉ धनुर्धारी ।
कस्लँ करी तूं जालयारी ।
भोव्नक्का ह्या वाट्टेरी ॥६७४॥

मीट घालयारी तँ दूद ।
कॉणामितीं पिंव्च्या जाय्द ।
हित दुस्त्र्यालँ पळैद ।
तरशी हँ असंभव ॥६७५॥

कित्लोई थंड पदार्थु।
घालयारी अग्निकुंडांतुं ।
तॉवै जात्ता क्षणार्धांतुं ।
अेक अग्नि स्वरूप ॥६७६॥

नाना रुचिर मिष्टान्न ।
उदरांतु तीं पचन ।
जाव्नु कर्ताती धारण ।
मलरूप मागिरी ॥६७७॥

दुस्त्र्यालँ स्वास्थ्य पोळोनु ।
घॅत्ता हॉ निड्ळारी मार्नु ।
इद्रारी शांति पोळोनु ।
जळु लाग्ता हॉ व्यर्थ ॥६७८॥

दुद्दामृत दी सर्पाक ।
वक्ता तॉ विष मारक ।
तरशी हॉवै सद्गुणांक ।
दोष म्हणता नी सव्ता ॥६७९॥

जन्माचँ सार्थक जांव्का ।
उचित स्वकर्म कोर्का ।
इहपरहित जोड्का ।
ह्या सुवर्ण संधींतुं ॥६८०॥

ही सोण्णु हॉ नीद काड्ता ।
दुष्कर्मं पोट्टोळ्णु घॅत्ता ।
कर्मभ्रष्ट जाव्नु पड्ता ।
व्यर्थ ह्याची जन्मांतुं ॥६८१॥

आंब्या द्राक्षांचॉ हॉ ऋतु ।
रुची ना काय्ळ्याक हांतुं ।
घुग्गुमागॅल्या दॉळ्यांतुं ।
दीसा भर्ता काळोकु ॥६८२॥

कल्याणाची संधि मॅळ्ता ।
ताव्वळी आलस्य भर्ता ।
हॅर्शांतुं हॉ कोर्नु बस्ता ।
कस्लोपुणि घॉटालॉ ॥६८३॥

जळ्ता समुद्रा पॉट्टांतुं ।
करकी अग्नि अखंडितु ।
तरशी हॉवै सदोदितु ।
अस्वस्थु नी दुश्चित्तु ॥६८४॥

धुव्वरु शेण्यॉ लास्ल्यारी ।
दुर्गंधु वायु सॉळ्ळ्यारी ।
तश्शी हाक्का पळैल्यारी ।
कॅर्नाई हॉ दुर्मुखी ॥६८५॥

मेळ्का कल्पांतावरेक ।
लाभु कर्माचॉ आप्णाक ।
हॉची तागेल्या चित्ताक ।
ध्यासु लागता सदैव ॥६८६॥

कामनापूर्ती खात्तीर ।
कष्ट काड्ता जॅ अपार ।
ताज्जँ फल तृणांकुर ।
तॉवै हात्ता लाग्गना ॥६८७॥

दिस्सद जॉ तुक्का अश्शी ।
तॉ सर्व पापांची राशी ।
जाण कर्ता तॉ तामसी ।
निःसंशय अर्जुना ॥६८८॥

अश्शी कर्म कर्ता ज्ञान ।
ह्या तॅग्गांगेलीं लक्षणं ।
सांग्लीं त्रिविध वर्णन ।
कोर्नु तुक्का हीं राया ॥६८९॥

आत्तं मोहवस्त्र निस्ता ।
अलंकार घाल्नु घॅत्ता ।
संशयाचॅ नी जी भाँव्ता ।
अविद्येच्या गांवांतुं ॥६९०॥

आत्मनिश्चयाची वृत्ती ।
बुध्दि कान् ॆतुं स्पष्ट ती ।
दिस्ता जी त्रिविध रीती ।
सांग्तां तुक्का सोडोनु ॥६९१॥

सांग खंईं ह्या जगांतुं ।
त्रिगुणरहित वस्तु ।
आश्शिली पळैता वँ तूं ।
धनुर्धरा कॅर्नाई ॥६९२॥

ह्या सृष्टींतुं अेक्कई ना ।
अस्लँ काष्ठ की तांतुं ना ।
सुप्त अग्नि तश्शी कळ्णा ।
खंचॉ गुणु खंच्यांतुं ॥६९३॥

बुध्दि त्रिगुणांनुसार ।
जाव्नु आस्ता त्रिप्रकार ।
तश्शी त्रिविध साकार ।
धारणाई बुध्दीची ॥६९४॥

हाज्जँ कर्ता विवरण ।
कोर्नु अेकेक वर्णन ।
जात्लँ सम आकलन ।
ह्या सर्वांचँ सहज ॥६९५॥

बुध्दि विषयु अॅक्ळाक ।
घॅत्तां तांतुलॉ सांगूक ।
जरी जाल्ला तूं उत्सुक ।
धृतीचॉ विषयुई ॥६९६॥

प्राणी अेकु जन्मा यॅत्ता ।
संसारुई सुरु जात्ता ।
उत्तम मध्यम आस्ता ।
तॉवै तश्शी कनिष्ठ ॥६९७॥

विहितांतुंई निःसंगु ।
विषयांचॉ उपभोगु ।
आनी निषिध्दाचॉ त्यागु ।
उपाधी ही लाग्ताची ॥६९८॥

योग्य जीं अधिकाराक ।
मान्य जीं शास्त्रविधीक।
तींची नित्यनैमित्तिकं ।
कोर्चें पार्था उचित ॥६९९॥

आत्मबोधुची केवळ ।
म्होण्णु हँ त्या कर्मा फळ ।
ज्या आस्थेनॅं पित्ता जळ ।
तृषार्तु ती आस्काज ॥७००॥

कर्तलीं तीं निवारण ।
जन्ममरण दारुण ।
तींवै सलीस साधन ।
मोक्ष पद प्राप्तीचँ ॥७०१॥

अश्शी चल्तलॉ बुद्वंतु ।
भीना तॉ ह्या संसारांतुं ।
सुख वा दुःख मनांतुं ।
धर्ना जात्ता तॉ मुक्त ॥७०२॥

मनाचॉ निर्धारु करी ।
श्रध्दा दव्वरी कर्मारी ।
स्थिर बुध्दीनॅं ती करी ।
मॅळ्ता मोक्ष तांतूंची ॥७०३॥

कर्मं भाय्ल्यानॅं दिस्ताती ।
की ती इंद्रियप्रवृत्ती ।
जालयारी जात्ता निवृत्ती ।
हॉची हेतु धर्ल्यारी ॥७०४॥

कश्की उद्कानॅं वृषार्तु ।
पोव्नु पळ्ळेलॉ न्हंईंतुं ।
मेळ्णु उज्वाडु काळ्कांतुं ।
जात्ता मुक्त तांत्थाव्नु ॥७०५॥

पथ्य कोर्नु वक्कद घॅत्ता ।
व्याधींत्थाव्नु तॉ उटाय्ता ।
जलाशय कश्की पार्था ।
जीवु प्राणु मास्ल्येक ॥७०६॥

तिक्का उद्काक जीवन ।
तश्शी स्वकर्माचरण ।
हँची मोक्षाचँ साधन ।
आनी दुस्त्रँ खंचैं ना ॥७०७॥

खंचँ अवश्य कोर्काज ।
खंचँ पळॅ कोरु नज्ज ।
जाण चित्तांतुं धोर्काज ।
ही जी ज्ञाननिर्दिष्ट ॥७०८॥

आकांक्षा जरी कर्मांतुं ।
भयशंका संसारांतुं ।
धोर्नु ही कर्म कोर्च्यांतुं ।
जन्मु व्यर्थची वत्लॉ ॥७०९॥

अकरणीय तँ कर्ना ।
तांतुं तॉ लक्षई घाल्ना ।
आनी हाज्मुखारी पण्णा ।
जन्ममृत्युपाशांतुं ॥७१०॥

उज्ज्यांतुं जाय्ना रिग्गूक ।
कंत उद्कांतुं पोंव्च्याक ।
ताप्पिलॉ शूलु धरूक ।
जाय्द वॅ कॉणामितीं ॥७११॥

कॉप्पानॅं फॉणॉ उब्बार्नु ।
बश्शिल्या नागाक कोणु ।
गुंय्येभित्तरी वच्चुनु ।
वागाक वा आप्पुड्द ॥७१२॥

काम्य हँ अकरणीय ।
दव्वोर्का विचारा भाग्र ।
अश्शी घेव्नु हॉ निर्णय ।
चल्काज सद्बुध्दीनॅ ॥७१३॥

विष घाल्नु शिज्जैलेलँ ।
जॅव्ल्यारी मरण यॅत्लँ ।
तश्शी निश्चित घाल्तलँ ।
काम्य कर्म बंधन ॥७१४॥

घेंव्का कस्ल्याक बांदुनु ।
म्होण्णु काम्य दित्ता सोण्णु ।
राब्ता तॉ निवृत्त जाव्नु ।
नित्यकर्मं कर्तची ॥७१५॥

योग्य जँ कोर्चें तँ कोर्का ।
अयोग्य तँ सोण्णु दिंव्का ।
खरँ की नक्ली ठरोंब्का ।
कश्की कोर्नु परीक्षा ॥७१६॥

सारासाराचॉ विचारु ।
कोर्नु जात्ता व्यवहारु ।
ज्या बुध्दीचॉ हॉ निर्धारु ।
ती सात्त्विक जाण तूं ॥७१७॥

रहस्य दुद्धाउद्‌काचँ ।
बकाक तँ कश्शी कळ्चँ ।
हॉ दीसु ही राती म्होण्चँ ।
कश्शी सांग कु र्नॅ ॥७१८॥

फुल्ला पर्मळुई घॅत्ता ।
राक्कुडई कॉरांतुय्ता ।
सांग भोवरु वॅ सॉड्ता ।
आप्णालॉ हॉ हुट्गुणु ॥७१९॥

कार्याकार्य धर्माधर्म ।
पळैनस्तनाची कर्म ।
कोर्ची बुध्दी जी ती मर्म ।
जाण्णा नित्यकर्माचँ ॥७२०॥

परीक्षेविनाई बरीं ।
मोतीं मेळ्ळीं म्हळ्ळेल्तरी ।
घॅत्ला पुणि हाज्मुखारी ।
परीक्षा ती कोर्काज ॥७२१॥

अकृत्य इद्रारी यॅना ।
सहज तॉ तँ करीश्ना ।
जालयारी दोन्नी सोडीश्ना ।
कॅल्लॅल्विना चुक्कुनु ॥७२२॥

सर्वांकई आमंत्रण ।
तांतुं थोरु वा ना सान ।
तारतम्याचँ हँ भान ।
ना राजसी बुध्दीक ॥७२३॥

रायु ज्या वाट्टेनॅ वत्ता ।
तीची चोरु सोण्णु दित्ता ।
रात्ती वॅळारी उदेता ।
दीसु राक्षसागॅलॉ ॥७२४॥

दैव आस्सुनु दुर्भागी ।
म्हणता कांइं ना मलयागी ।
बश्शिल्कडॅची कोप्पर्गी ।
कळ्णा हँ दुर्दैव्याक ॥७२५॥

हँ सर्व धर्माचरण ।
पापची केवळ जाण ।
नी सत्य हँची सॉप्पन ।
अश्शी म्हणता जी बुध्दी ॥७२६॥

तश्शी ज्यान्मितीं कल्याण ।
तँ तँ अनर्थासमान ।
आस्सती जॅ जॅ सद्गुण ।
म्हणता तॅवै दोषची ॥७२७॥

जँ श्रुतिशास्त्र संमत ।
तँ ही म्हणता विपरीत ।
अश्शी उप्राटी पळैत ।
आस्ता अस्ली जी बुध्दी ॥७२८॥

तीची तामसी अर्जुना ।
कॉणॅ हँ सांग्का म्हुणु ना ।
धर्मकार्याक योग्य ना ।
राती हँ सांग्का पण्णा ॥७२९॥

बुद्धीचॅं तिन्नी प्रकार ।
सांग्लॅ तुक्का सविस्तर ।
आत्मबोधाची साकार ।
कुमुदिनी तूं पार्था ॥७३०॥

बुध्दीक मॅळ्ता चालना ।
दित्ताती तिक्का प्रेरणा ।
तिगेल्या तिन्नी धारणा ।
तीं तीं कर्मं कोर्च्याक ॥७३१॥

धारणांतुलॅ त्रिविध ।
लक्षणांसहित भेद ।
तॅ स्पष्ट कोर्नु सांग्येद ।
अश्शी दिस्ता आय्क तूं ॥७३२॥

सूर्यु धांव्डाय्ता काळ्काक ।
चोर्योई दीना जांन्च्याक ।
राजाज्ञा कश्की गुन्ह्याक ।
भय्य घाल्ता दंडाचँ ॥७३३॥

वारँ तूफान वॅगार्नॅ ।
व्हांव्तना चारी दिकार्नॅ ।
मॉड धांव्तना भय्येनॅ ।
गड्गडेता वाट्टेरी ॥७३४॥

अगस्ति मुखारी दिस्ता ।
समुद्राली वाचा बस्ता ।
पद्मदळ कश्की मिट्ता ।
चंद्रोदयावॅळारी ॥७३५॥

मदोन्मत्त जाव्नु वत्ना ।
हस्ती सिंहाली गर्जना ।
आय्कुनु नॅलारी सॉण्णा ।
उब्बार्लेलॉ जॉ पायु ॥७३६॥

अव्यंग सात्त्विक धैर्य ।
धरीद जरी ह्रदय ।
मन आनी दशेंद्रियं ।
जात्लीं शांत थंच्थंई ॥७३७॥

विषयांतु घुस्पलेलीं ।
दशेंद्रियं तीं सुट्तलीं ।
वच्चुनु विश्रांती घेत्लीं ।
मानसाच्या कुळारा ॥७३८॥

भेद नव्व प्राणांतुलॅ ।
सर्व अेकत्व पाव्तलॅ ।
आनी वच्चुनु बस्तलॅ ।
सुषुम्नेंतुं अढळ ॥७३९॥

संकल्प नी विकल्पांचीं ।
वस्त्र सर्व हीं मनाचीं ।
गळ्णु पोण्णु बस्ता तँची ।
बुध्दि आड नोळीत ॥७४०॥

अश्शी सात्त्विक धारणा ।
मन इंद्रियाक सॉण्णा ।
स्वैर चलूक अर्जुना ।
अधिराज्य तिगेलँ ॥७४१॥

ह्या अेकेक अंकिताक ।
कर्ता प्रवृत्त ध्यानाक ।
गांटाय्ता आत्मयोगाक ।
सहज ह्या सग्ळ्यांक ॥७४२॥

कॉणाकई अनुष्ठान ।
रोडू दीना अेक क्षण ।
जोवरेक तॉ स्वाधीन ।
जाय्ना परमात्म्याल्या ॥७४३॥

अस्ली ही धारणाशक्ती ।
पार्था ती सात्त्विक धृती ।
आय्कुनु हाज्जी प्रचीती ।
घेश्शी तूं हँ निश्चित ॥७४४॥

आनी जीवु देह धोर्नु ।
धर्म अर्थ काम घेव्नु ।
संसारु स्वर्गु भोग्गुनु ।
वच्च्यां म्हुणु पळैता ॥७४५॥

कोर्नु ह्या तॅग्गांचॉ तारु ।
मनोरथांचॉ सागरु ।
तर्नु मोडोंयां व्यापारु ।
देशांतरा वच्चुनु ॥७४६॥

कर्माचँ मुद्दल कोर्का ।
वाडी चौपटीनॅं घेंव्का ।
म्होण्णु हँ कोरूक जांव्का ।
साहस नी जँ धैर्य ॥७४७॥

तँची जाण तूं राजस ।
कश्शी आस्ता तँ तामस ।
आय्क आत्तं समरस ।
जाव्नु हांवँ सांग्च्यांतुं ॥७४८॥

कॉळ्शाच्या काळेपणांतुं ।
गॉरँ सॉद्च्यांतुं ना अर्थु ।
पाड गुणांच्या मूर्तींतु ।
बरँ कश्शी मॅळद ॥७४९॥

तामसी वृत्तीक गुणु ।
म्हणशी कश्शी म्होण्चँ म्हुणु ।
वक्रोक्तीनॅं बरॉ म्हुणु ।
राक्षसाकै म्हण्ताती ॥७५०॥

ग्रहगणांतुं इंगळु ।
तागेलँ नांव मंगळु ।
तमु स्वभावता खळु ।
गुणु म्होण्चँ अयोग्य ॥७५१॥

दोष आश्शिलॅ नात्तिलॅ ।
काल्लौव्नु हँ रूप घळ्ळँ ।
तामसी ह्या नरागॅलँ ।
जाण पार्था निश्चित ॥७५२॥

पाप्याक दुःख चुक्कना ।
आलस्यई हाक्का सॉण्णा ।
नीदै हागेली ती सर्ना ।
दीसा रात्ती नीट्ची ॥७५३॥

सांग फात्राचँ काठिण्य ।
विंगड करीद कॉण ।
देहभावाचँ बंधन ।
सॉण्णा भित्ता मृत्यूक ॥७५४॥

जाय्ना कश्की रॅ कृतघ्नु ।
पापमुक्त कर्मांत्थाव्नु ।
जॉ विषयासक्त जाव्नु ।
आस्ता जाय्ना तॉ मुक्त ॥७५५॥

खंच्यांतुं ना समाधान ।
मन सर्वकाळ खिन्न ।
म्हुणु मैत्रीचँ कंकण ।
बांद्ता खेदु हाक्काची ॥७५६॥

लस्णे वासु तिक्का सॉण्णा ।
व्याधी कुपथ्थ कर्तना ।
तश्शी हाक्का खेदु सॉण्णा ।
मरण यॉवरेक ॥७५७॥

धन यौवना सांगाती ।
आस्ल्यारी विषयासक्ती ।
बाकीचॅ क्षुद्र दिस्ताती ।
मति जात्ता उन्मत्त ॥७५८॥

धग्धग्पण उज्ज्यांतुलँ ।
हर्गॅ सर्पा मनांतुलॅ ।
भय्यई ह्या जगांतुलँ ।
कॅर्नाई हँ आस्चेंची ॥७५९॥

मोगु धर्लेल्या देहाक ।
काळु विस्सर्ना व्हरूक ।
तामसाकई सोडूक ।
जाय्ना उन्मत्तपण ॥७६०॥

निद्रादिक हॅ आस्ताती ।
पांचई दोष सांगाती ।
अश्शी ही तामसी घृती ।
आस्ता पळॅ अर्जुना ॥७६१॥

जगदाधीशार्नॅ अश्शी ।
त्रिविध आस्ताती ऋश्शी ।
धृती ह्यॉ स्पष्ट कळशी ।
सांग्ल्यॉ पळॅ पार्थाक ॥७६२॥

बुध्दि आस्स जी त्रिविध ।
तिन्नेची कस्लँ कोर्येद ।
ठरैल्यारी तँची सिध्द ।
कर्ता मुखारी घृती ॥७६३॥

उज्वाडु वाट दाकैता ।
त्या वाट्टेनॅ वच्का पड्ता ।
जाल्यारी जांव्काची जात्ता ।
चम्कूंचेंई तँ धैर्य ॥७६४॥

तश्शी बुध्दी जँ ठरैता ।
इंद्रियांक ती सुच्चैता ।
तांकां जी चेतना मॅळ्ता ।
ती दित्ता हँ धैर्यची ॥७६५॥

कर्माची त्रिविध वृत्ती ।
तांकां कारण ह्यॉ घृती ।
तुंवँ हँ सुभद्रापती ।
आत्तंथाई आय्कलँ ॥७६६॥

कर्माचँ फल जँ सुख ।
तँ सुद्दां त्रिगुणात्मक ।
हँवै तूं घॅ जाणणु एक ।
आत्तं तुक्का जँ सांग्तां ॥७६७॥

कश्शी हाज्जी त्रिविधता ।
स्पष्ट हँ वर्णन कर्तां ।
तुक्का आय्कतां आय्कतां ।
कळ्तलँ तँ सहज ॥७६८॥

जरी म्हणतां स्पष्ट सांग्तां ।
तरी हांवं कश्शी सांग्तां ।
आनी कश्शी आय्कू पड्ता ।
हाज्जेरी हँ ठर्तलँ ॥७६९॥

शब्द–श्रवण संयोगु ।
तॉ अवधानाचॉ योगु ।
जांव्च्याक तॉ पार्था चांगु ।
जीवाभावानॅ आय्क ॥७७०॥

अश्शी म्होण्णु अर्जुनाक ।
सुरु कर्ता तॉ सांगूक ।
तीनी थरेचीं तीं सुख ।
क्रमशा अेकेक ॥७७१॥

म्हणता, म्हळ्ळँ की हँ सांग्तां ।
दिल्लेलॉ तॉ शब्दु पाळ्तां ।
आय्क तूं सुभद्राकांता ।
जाव्नु आत्तं सावध ॥७७२॥

आत्मयागेली जी जीवाक ।
भॅट जात्ता तँची सुख ।
तँ तुक्का अनुभवाक ।
कश्शी यॅत्लँ तँ सांग्तां ॥७७३॥

वक्दाकई रामबाण ।
आस्ता मात्रेचँ प्रमाण ।
जस्ताक रजतपण ।
मॅळ्ता रसायनानॅ ॥७७४॥

मीट कर्गोंका जाल्यारी ।
उद्दाक सोड्का ताज्जेरी ।
तँवै उद्दाक माग्गिरी ।
जात्ता कश्की आप्याप ॥७७५॥

पैलॅ फंतांचँ हँ सुख ।
लाय्ता गोडी ह्या जीवाक ।
तांतुंची विस्सर्ता दुःख ।
तॉ ह्या जीवदशेचँ ॥७७६॥

हँवै आत्मसुख पळॅ ।
त्रिगुणात्मक आस्तलँ ।
स्वरूप तँ तांग्तांगॅलँ ।
दित्तां तुक्का दाकोनु ॥७७७॥

रूकु जरी चंदनाचॉ ।
वँटाळॉ ताक्का सर्पाचॉ ।
पहारॉई पिशाच्चाचॉ
पुर्लेल्या धनाचेरी ॥७७८॥

जांव्का दिस्ता स्वर्गवासु ।
काड्का यज्ञयागा त्रासु ।
चॅर्डाक वत्सल आव्सु ।
वाड्डैता भो कष्टानॅ ॥७७९॥

दिवॉ लाव्यां म्हळ्ळेल्तरी ।
उज्जॉ हाडोंका फात्रारी ।
वक्कद घेंव्चँ आस्ल्यारी ।
कडू गॉड मान्काज ॥७८०॥

जांव्का जरी सुखप्राप्ती ।
यमनियम धोर्काती ।
कष्ट अॅक्ळाक दिस्ताती ।
कोर्काती तॅ सहन ॥७८१॥

विषय वैराग्य वाड्ता ।
मोहपादा जळ्णु वत्ता ।
स्वर्गसंसाराचँ पड्ता ।
काष्ठ अग्निकुंडांतुं ॥७८२॥

व्रतवैकल्यं खड्तर ।
यज्ञयाग अति घोर ।
बुध्दिवंताकै दुस्तर ।
जात्ता हॉ खठाटोपु ॥७८३॥

सुषुम्ना नाडीनॅं गिळ्का ।
प्राणुअपानु जिरोंका ।
ॲक्ळाकची हॅं दांठुंका ।
पड्ता हॉड संकट ॥७८४॥

चांदण्यांतुं चक्रवाक ।
धारेवॅळारी वास्त्राक ।
तात्टार्थान्नु क्षुधिताक ।
धूर कोर्नु जॅं जाय्द ॥७८५॥

अेक्कची ह्या आव्सुगॅलॅं ।
चेर्डूं काळानॅं उब्बार्लॅं ।
मत्स्य उद्कांत्थान्नु काळ्ळॅं ।
तांकां जॅं कस्लॅं जाय्द ॥७८६॥

तित्लेंई सर्व सहन ।
कर्ताती विरक्तजन ।
इंद्रियविन्मुखपण ।
तॅं सहजस्वभावु ॥७८७॥

ज्या सुखाचॉ हॉ प्रारंभु ।
क्लेश मनाचॉ प्रक्षोभु ।
जात्ता आखेरीक लाभु ।
अमृताच्या सिंधूचॉ ॥७८८॥

धैर्यमहेशु महान ।
वैराग्यविषपचन ।
कोर्नु वैल्यानॅं प्राशन ।
कर्ता ज्ञानामृताचॅं ॥७८९॥

द्राक्ष हर्येची खाल्लयारी ।
ताळॉ जात्ता लाश्शिल्वारी ।
तॅची पिक्किलॅं आस्ल्यारी ।
कळ्ता ताज्जी गॉड्साणी ॥७९०॥

तश्शी अनासक्ती वाड्ता ।
वैराग्यई दृढ जात्ता ।
आत्मबोधु हातु धर्ता ।
नाश पाव्ता अज्ञान ॥७९१॥

समुद्रांतुं गंगा रिग्ता ।
बुध्दि आत्मरूप जात्ता ।
अश्शी अद्वैताचॉ मॅळ्ता ।
महानंदु सहज ॥७९२॥

अश्शी ह्या वैराग्यामितीं ।
आत्मबोधांतुं विश्रांती ।
जी मॅळ्ता तिक्का म्हणताती ।
पार्था सुख सात्त्विक ॥७९३॥

इंद्रियं फाटी सॉण्णाती ।
विषयांमाक्षी धांव्ताती ।
धाई दिकाक वत्ताती ।
सॉत्त सॉत्त जॅं सुख ॥७९४॥

अधिकारी गांवां यॅत्ता ।
सर्वत्र उत्साहु दिस्ता ।
की गौजेरी लग्न कर्ता ।
पोण्णु रीणा फॉंडांतुं ॥७९५॥

वर्ज्य साकर रोग्याक ।
खात्ना ॲक्ळाक भो सुख ।
बचनागाच्या रुचीक ।
कश्की जीब मेच्चुता ॥७९६॥

चोरु मैत्री कोर्नु लुट्ता ।
वेश्या हास्सुनु फसैता ।
नटु भुलैता भर्माय्ता ।
कुशल नटनानॅ ॥७९७॥

विषयांचॉ उपभोगु ।
क्षणाचॉची सुखसंगु ।
मूढ हंसा कित्लँ सांग्गूं ।
नक्षत्र जाय्श्ना रत्न ॥७९८॥

मेळैलेलँ ना शाश्वत ।
आयुष्यई वत्ता व्यर्थ ।
पूर्वजन्माचँ सुकृत ।
तँवै यॅत्ता खर्चत ॥७९९॥

सुख म्होण्णु जँ जँ भॉग्लँ ।
सॉप्नावारी विर्नु ।
जाल्लँ सर्वस्वची गॅल्लँ ।
म्होण्ची पाळी येत्लीची ॥८००॥

अश्शी ह्या संसारांतुंची ।
गती राजसुखाची ।
कोर्का म्हुणु ना विषाची ।
परीक्षा त्या स्वर्गांतुं ॥८०१॥

अविहित जँ धर्माक ।
तँ सर्व विषय सुख ।
दिलयारी स्वैर भोग्गूक ।
इंद्रियांक मॉग्गान्नु ॥८०२॥

पापा जोरु वाड्त वत्लॉ ।
नरकांतुं लकैतलॉ ।
भोगु परलोकांतुलॉ ।
जाय्श्ना हॉ चुक्कोंच्याक ॥८०३॥

विष मधुर जिब्बेक ।
तँची जीवाक मारक ।
तश्शी भोग्गिलँ तँ सुख ।
जात्ता दुःखदायक ॥८०४॥

राजस सुख ॲक्ळाक ।
तँ जरी दिस्लँ मोहक ।
फरसू नाक्का त्या रूपाक ।
जाग्रता घॅ तूं पार्था ॥८०५॥

पिंन्च्या नज्ज तँची पीन्नु ।
खांन्च्या नज्ज तँची खान्नु ।
वेश्येसांगाती राब्बुनु ।
सुख म्हुणु जँ मॅळ्ता.. ॥८०६॥

दुस्त्र्यागॅलॉ घातु कोर्नु ।
वा कॉणाकई लुट्टुनु ।
आप्णाली स्तुती आय्कुनु ।
जँ जीवा सुख जात्ता ॥८०७॥

आलस्यांतुं वा निद्रेंतुं ।
मॅळ्ता जँ सुख तॉ घातु ।
कर्ता स्वहिताचॉ हांतुं ।
कस्लोई ना संशयु ॥८०८॥

अस्लँ सुख पार्था जाण ।
तामस सुखाचँ चिन्ह ।
सांग म्हणद वॅ कॉण ।
हाक्का हँ सुख म्हुणु ॥८०९॥

सुख हँ फळ कर्माचँ ।
कर्मानुसार सुखाचॅ ।
सांग्लॅ त्या तिन्नी सुखांचॅ ।
यथासांग प्रकार ॥८१०॥

कर्ता, कर्म, कर्मफळ ।
हीची त्रिपुटी केवळ ।
सृष्टींतुल्या सूक्ष्म स्थूल ।
रूपांतु दिस्ता पार्था ॥८११॥

सुत्तां वीण जी वस्त्रांतुं ।
त्रिपुटीची त्रिगुणांतुं ।
आय्ल्यां आस्काज लक्षांतुं ।
अर्जुना हँ तुगेल्या ॥८१२॥

जालयारी धरी ध्यानांतुं ।
ना जगांतुं वा स्वर्गांतुं ।
बुध्द् जाय्नातिली वस्तु ।
अेक्कीई त्रिगुणांनीं ॥८१३॥

कांबळी ना रॉमेविना ।
चिक्ला गॉलॉ मात्येविना ।
पाळ जाय्ना उद्‌काविना ।
हँ तूं जाण्णु आस्सची ॥८१४॥

ह्या सृष्टींतुं अेक्कुई ना ।
प्राणी ह्या त्रिगुणांविना ।
खंईं जालेलॉ दिस्सना ।
बदलु ह्या स्थितींतुं ॥८१५॥

म्हुणु जाण तूं निश्चित ।
सर्वई हँ वस्तुजात ।
अंतर्बाह्य जालयां व्याप्त ।
ह्याची तिन्नी गुणांनीं ॥८१६॥

तीनी दॅव तीनी लोक ।
कर्मंई चारी वर्णांक ।
सम जाय्शी स्वभावाक ।
भिन्न जाव्नु आस्सती ॥८१७॥

तरी चारि वर्ण खंचॅं ।
सहजची हँ निम्गूंचँ ।
तांतुं प्रथम श्रेणीचॅं ।
ब्राह्मण हॅ जाण तूं ॥८१८॥

नंतर क्षत्रिय वैश्य ।
हांकांई मान्का अवश्य ।
कारण हांकांई आस्स ।
अधिकारु वेदांचॉ ॥८१९॥

चौथॉ जॉ शूद्र अर्जुना ।
ताक्का वेदाधिकारु ना ।
तरी हागॅलॉ सुट्टना ।
तॅग्गांगॅलॉ आधारु ॥८२०॥

आस्ता तांगेल्या सांगाती ।
सॅवा कोर्नु हॉ त्यान्मितीं ।
हाक्का चौथी वर्णवृत्ती ।
जाली प्राप्त सहज ॥८२१॥

गांतिल्या फुलांसांगाती ।
सूतई दॅवा माळ्ताती ।
चौथॉ वर्णु म्हुणु श्रुती ।
मान्ता ह्यावे शूद्राक ॥८२२॥

अश्शी जालया कुंतीसुता ।
चारी वर्णांची व्यवस्था ।
आत्तं तांग्तांगेलीं सांग्तां ।
कर्मं जीं जीं उचित ॥८२३॥

त्या त्या स्वकर्मांनीं जाण ।
चुक्ता हँ जन्ममरण ।
पाव्वाती मोक्षनिधान ।
शाश्वत तॅ सर्वई ॥८२४॥

त्या त्या स्वभावानुसार ।
त्रिगुणात्मक आचार ।
तार्ज्जई चारि प्रकार ।
आस्सती त्या वर्णांचॅ ॥८२५॥

पिता स्वधन पुत्तांक ।
सूर्यु मार्ग प्रवाशांक ।
कामं तीं तीं सेवकांक ।
दित्ता कश्की यॅज्मानु ॥८२६॥

तश्शी जॅ जॅ गुणधर्म ।
त्यांनुसार तीं तीं कर्मं ।
सांग्ल्याती नॅम नियम ।
त्या त्या चारी वर्णांक ॥८२७॥

ब्राह्मण हॅ सत्त्व सम ।
क्षत्रिय सत्त्व विषम ।
सत्त्वगुणु हॉ प्रथम ।
अश्शी जाल्ला द्विविध ॥८२८॥

रजोगुणांतुं सत्त्वांशु ।
मेळ्णु जाल्ला पळॅ वैश्यु ।
रजाक तमाचॉ दंशु ।
जाव्नु जाल्ला तॉ शूद्र ॥८२९॥

अश्शी हॅ समस्त प्राणी ।
जाल्लॅ पळॅ चतुर्वर्णी ।
तॅवै बध्द त्रिगुणांनीं ।
जाव्नु पळ्ळ्याती पार्था ॥८३०॥

दिस्ता दिव्या उज्वाडांतुं ।
आप्पॉ दव्वर्लेली वस्तु ।
शास्त्रई दाकैता पंथु ।
तश्शी त्या त्या वर्णांचॉ ॥८३१॥

सांग्तां तांगेलीं लक्षणं ।
नी विहित आचरणं ।
आय्क दीव्नु ध्यानमन। तूं
सौभाग्यसागरा ॥८३२॥

प्रिया मेळूक कांताक ।
सॉद्ता पूर्ण अेकांताक ।
आत्मरूप पोळोंच्याक ।
तश्शी जांव्का अेकाग्र ॥८३३॥

ह्या अेकाग्रतेंतु पार्था ।
बुध्दि स्थिर शांत उर्ता ।
आनी शुभारंभु जात्ता ।
त्या ब्राह्मण कर्मांचॉ ॥८३४॥

शास्त्रविधीचँ शासन ।
कर्ता इंद्रियदमन ।
सॉण्णा अधर्माचरण ।
कोरूक तँ सर्वथा.... ॥८३५॥

हीची दृढ शांती शम ।
तिक्का साह्य कर्ता दम ।
आचरताती स्वधर्म ।
मेळ्णु सर्व इंद्रिय ॥८३६॥

कॉण दित्ता सव्ये रात्ती ।
निंव्व्याक लाय्यिली वाती ।
तश्शी जागी उर्ता स्मृती ।
त्या परमात्म्यागेली ॥८३७॥

हँची पार्था तप जाण ।
तिस्त्र्या गुणाचँ लक्षण ।
पावित्र्य हँ चौथँ चिन्ह ।
दिस्ता दोनि थरांनीं ॥८३८॥

भावशुध्दी जी मनांतुं ।
प्रगटता ती कृतींतुं ।
अंतर्बाह्य शुचित्वांतुं ।
भोर्नु तँ शोभिवंत ॥८३९॥

शौच हँ चौथँ लक्षण ।
आय्क मुखावेली खूण ।
पृथ्वीवारी जँ सहन ।
कोर्का पड्ता सर्वथा ॥८४०॥

ही क्षमा जॉ पांच्वॉ गुणु ।
आस्स तॉ विशेष जाव्नु ।
स्वरु पंचमाचॉ लाव्नु ।
वाड्ता गानमाधुरी ॥८४१॥

ताज्जित्ल्याक तँ सरळ ।
व्हांव्त वत्ता गंगाजळ ।
की कब्बा रस्सु गरळ ।
जाय्ना तॉ वांक्डॉ म्हुणु ॥८४२॥

दिलॉ त्रासु जरी कॉर्णॅ ।
वाग्चँ सरळ मनानॅ ।
गुणु आर्जव नांवानॅ ।
हॉ सहाव्वॉ विख्यातु ॥८४३॥

दीस गट्ली कष्ट कोर्नु ।
झाडाक उद्काक घाल्नु ।
तँ फलाक पाव्ता म्हुणु ।
खात्री करकी माळ्याक ॥८४४॥

आनी शास्त्रोक्त आचारु ।
विश्वासाचॉ जॉ आधारु ।
की मॅळ्ता तॉ परात्परु ।
हँची सम्ज तूं ज्ञान ॥८४५॥

तँ ज्ञान हॉ सात्वॉ गुणु ।
आत्तं आय्क ध्यान दीव्नु ।
मुखावॅलॉ आट्वॉ गुणु ।
विज्ञान म्हुणु ख्यात ॥८४६॥

शुध्द अंत:करणांतुं ।
शास्त्रानॅ हाड्चॉ ध्यानांतुं ।
ध्यान तॉची भगवंतु ।
ह्यॅ निर्धारु विज्ञान ॥८४७॥

विज्ञान हँ आट्वँ जाल्लँ ।
आत्तं आय्क मुखावॅलँ।
आस्तिक्य नवरत्नांत्लँ ।
नव्वावँ हँ तूं जाण ॥८४८॥

रायागेली राजमुद्रा ।
सर्वत्र सदैव चल्ता ।
तश्शी शास्त्राक मान्यता ।
मॅळ्ता सर्व पंथांतुं ॥८४९॥

आदरानॅ मान्य कोर्चें ।
ताक्काची आस्तिक्य म्होण्चँ ।
तँ ह्या नव्वाव्था गुणाचँ ।
कर्मसिद्ध लक्षण ॥८५०॥

शमदमासमवेत्त ।
सांग्लॅ नव्व गुण आत्तं ।
तॅची निर्दोष चरित ।
स्वाभाविक ब्राह्मणा ॥८५१॥

नव्व रत्नांचॉ की हारु ।
की हॉ गुणरत्नाकरु ।
प्रकाशाक दिनकरु ।
सोण्णु राब्ला वॅ कॅर्ना ॥८५२॥

चांप्या रुक्काक चांप्पांची ।
चंद्रम्याक चांदण्याची ।
चंदनाक पर्मळाची ।
शोभा ही स्वाभाविक ॥८५३॥

तश्शी हॉवै अलंकारु ।
ब्राह्मणालॉ अंगीकारु ।
कोर्नु तालयागीची स्थिरु ।
जाव्नु राब्ता अर्जुना ॥८५४॥

गुणकर्म क्षत्रियाक ।
जॅ जॅ अति आवश्याक ।
तॅवै सांग्तां तॅ तूं आय्क ।
कोर्नु मन एकाग्र ॥८५५॥

कश्की म्हण्णा हॉ सवितु ।
भर्ती कोर्का स्वतेजांतुं ।
वा कॉणागॅलॉ सांगातु ।
जांव्का पण्णा सिंहाक ॥८५६॥

स्वाभिमानु सामर्थ्याचॉ ।
धोर्नु युध्दाक उब्रोंचॉ ।
हॉची श्रेष्ठ गुणु म्होण्चॉ ।
हाक्का शौर्य म्हण्ताती ॥८५७॥

सूर्या तेजाचॉ प्रभावु ।
दीना, नक्षत्रांक ठावु ।
चंद्रारी मात्र वर्षावु ।
कोर्नुई तॉ अक्षयु ॥८५८॥

तश्शी सामर्थ्य संपन्नु ।
जगाक विस्मित कोर्नु ।
उर्ता स्वस्थचित्त जाव्नु ।
खंच्याई प्रसंगांतु ॥८५९॥

हॉ निर्धारु गुणु दुस्रॉ ।
धैर्य हॉ जाण तूं तिस्रॉ ।
कॅर्नाई जँ पण्णा नप्रॉ ।
कश्शी म्हुणु तँ सांग्तां ॥८६०॥

आकाश पडॉ कोस्सोळ्णु ।
खंईं वच्चँ म्हण्णा भीव्नु ।
मन बुध्दी डळ्मळेनु ।
क्षणैकई वच्चना ॥८६१॥

कंत सरोवरांत्थाव्नु ।
पद्म यॅत्ता वैरी फुल्नु ।
कित्लॉ उरॉ दीगु जाव्नु ।
ताज्वैरी तँ आकाश ॥८६२॥

यॅवॉ कस्लीई अवस्था ।
दीना सोण्णु तॉ जाग्रता ।
तश्शी हॉवै गुणु पार्था ।
सर्वत्र जी दक्षता ॥८६३॥

हॉ जॉ गुणु आवश्यक ।
तॉ तूं चौथॉ म्हुणु लॅक ।
हाज्मुखारी पांच्वॉ आय्क ।
उब्रोंचँ जँ झुंजाक ॥८६४॥

सूर्यकमळाचँ मुख ।
आस्ता तँ सूर्यादीकाक ।
तश्शी हॉ झुंज दिंव्च्याक ।
यॅत्ता शत्रुमुखारी ॥८६५॥

समागमु गर्भवती ।
कर्ना ती बाम्णासांगाती ।
तश्शी आप्णागेली फाटी ।
दाकैना हॉ शत्रूक ॥८६६॥

चारी पुरुषार्थांकई ।
विशेष श्रेष्ठ भक्ती ही ।
तश्शी क्षात्रधर्मांतुंई ।
मुख्य हॉ पांच्वॉ गुणु ॥८६७॥

फुल्लं फळं जीं जात्ताती ।
रूक तीं दीव्नु सॉड्ताती ।
उदार जाव्नु दित्ताती ।
कमळंई पर्मळु ॥८६८॥

कॉणा कित्लँ जांव्का तित्लँ ।
चांदणँ फिरूक दित्लँ ।
दिंव्चॅ जँ जांव्का जाल्लेलँ ।
तँची दान तूं जाण ॥८६९॥

हॉ मॉलाचॉ सट्वॉ गुणु ।
आनी आज्ञापक जाव्नु ।
आस्चँ सर्वांकई घेव्नु ।
हॉ सात्वॉ मुखावॅलॉ ॥८७०॥

अवयव सम पोस्चॅ ।
तांकां कार्यक्षम कोर्चँ ।
आनी रामराज्य कोर्चँ ।
प्रजा सुखी दव्वोर्नु ॥८७१॥

अश्शी ही सत्ता सांभाळ्ची ।
ईश्वरभावु तॉ हॉची ।
सात्वॉ गुणु सव्यसाची ।
जाण मुकुटमणी ॥८७२॥

मंडळ सप्तऋषींचँ ।
वैभव ह्या आकाशाचँ ।
शौर्यादि सप्तगुणांचँ ।
क्षत्रियालँ अैश्वर्य ॥८७३॥

सप्तगुणांनीं मंडित ।
जँ जँ सर्व कर्मजात ।
तँ तँ स्वधर्मांतर्गत ।
पवित्र क्षत्रियाक ॥८७४॥

हॉ क्षत्रियु न्हई नरु ।
सत्त्व सुवर्णाचॉ मेरु ।
सप्तस्वर्गाचॉ आधारु ।
जाण तूं सुनिश्चित ॥८७५॥

सप्तगुणसागरांनीं ।
जाल्ली वेष्टित धरणी ।
तॉ तागेल्या ह्या कर्मांनीं ।
भॉग्ता राज्य पृथ्वीचँ ॥८७६॥

सात्तै कर्मांचॅ पवित्र ।
प्रवाह हांगा अेकत्र ।
येव्नु ह्या गंगेचँ तीर्थ ।
मॅळ्ता ह्या सागराक ॥८७७॥

सप्तगुण शौर्यादिक ।
सर्वई हॅ क्षत्रियाक ।
आस्सती हीं स्वाभाविक ।
त्यांनुसार कर्मंई ॥८७८॥

आत्तं वैश्याक सांग्ल्यांती ।
खंचीं कर्मं उचित तीं ।
आय्क रॅ सुभद्रापती ।
सम कान दीव्नु तूं ॥८७९॥

भुंई फळ बीज आय्क ।
तिन्नी तागेल्या कर्मांक ।
नी उदरनिर्वाहाक ।
आवश्यक आधारु ॥८८०॥

सौरग विक्कत घेंव्चँ ।
म्हारग कोर्नु तँ विक्चँ ।
गोर्वं घेव्नु तांकां पोस्चँ ।
कृषीकर्मा सांगाती ॥८८१॥

कर्मं हीं कोर्चीं इत्लींची ।
स्वभावु धर्मुई हॉची ।
कर्तव्यं वैश्य वर्णाचीं ।
सम्ज हींची नित्याचीं ॥८८२॥

वैश्य क्षत्रिय ब्राह्मण ।
तॅग्गई हॅ द्विजजन ।
तांगेलँ सेवकपण ।
घेव्नु राब्चँ शूद्रानॅ ॥८८३॥

हाक्का द्विजसेवेविना ।
दुस्त्रँ कस्लँ कोर्का पण्णा ।
कळ्ळी न्हवॅ ही अर्जुना ।
चातुर्वर्ण्य व्यवस्था ॥८८४॥

कश्की गंधशब्दादिक ।
विषय कर्मेंद्रियांक ।
आस्स तॉ तॉ ठराविक ।
तश्शी कर्मं वर्णांक ॥८८५॥

मॉडांतुली जलधार ।
जात्ता न्हंईंतुलँ नीर ।
मुखारी तिक्का सागर ।
जाव्नु राब्का पड्ताची ॥८८६॥

जीं कर्मं वर्णाश्रमाचीं ।
तीं तीं कोर्का पड्तातीची ।
कांति गॉरॅपणाचीची ।
धोर्का गॉ–या आंगानॅ ॥८८७॥

स्वाभाविक त्या कर्मांक ।
शास्त्र आस्स समर्थक ।
मात्र तुवँ तीं कोरूक ।
बुध्दि दृढ धोर्काज ॥८८८॥

जरी रत्न आप्पालँची ।
ताज्जी परीक्षा कोर्काची ।
तश्शी शास्त्रानुसारची ।
स्वकर्मई कोर्काज ॥८८९॥

दृष्टी आस्सुनु दिस्सना ।
कस्लेंई प्रकाशाविना ।
पाय आस्सुनुई जाय्श्ना ।
पांव्च्या वाट चुक्ल्यारी ॥८९०॥

वर्णानुसार आचारु ।
कोर्का घेव्नु शास्त्राधारु ।
सहज तॉ अधिकारु ।
आस्स तुक्का तॉ अेकु ॥८९१॥

काळ्कांतुं आश्शिली वस्तु ।
मॅळ्ता दिव्या उज्वाडांतुं ।
सांग तॉ घेव्नु वच्च्यांतुं ।
आस्स वॅ कस्ली अड्डी ॥८९२॥

स्वधर्मु जॉ वांट्या यॅत्ता ।
शास्त्रई जॉ मान्य कर्ता ।
पालनाचॉ मात्र उर्ता ।
ताक्का तॉ अधिकारु ॥८९३॥

पैलँ आलस्य सोड्काज ।
फलापेक्षा धरु नज्ज ।
जीवभावुई लांव्काज ।
कर्मांतुंची सर्वथा ॥८९४॥

आस्ता उद्का प्रवाहाक ।
गती अेक्कची दीकाक ।
तश्शी तुवँ स्वकर्मांक ।
शिस्तबध्द कोर्काज ॥८९५॥

स्वतालँ विहित कर्म ।
कर्ता तांतुं धोर्नु प्रेम ।
तॉ विस्स्सर्ता अहं मम ।
यॅत्ता मोक्षपथारी ॥८९६॥

कोरु नज्ज तँ तॉ कर्ना ।
निषिध्दाकई आप्पुण्णा ।
ह्याची खातीर तॉ भीना ।
पार्था ह्या संसाराक ॥८९७॥

चंदनाचँ खॉड म्हुणु ।
बांदुनु तँ घॅद कोणु ।
काम्यकर्मांक तॉ भुल्नु ।
तश्शी पण्णा फस्सुनु ॥८९८॥

आनी नित्यकर्म कोर्नु ।
ताज्जी फलाशाई सोण्णु ।
आश्शिल्मितीं वग्गी येव्नु ।
पाव्ता मोक्षपथारी ॥८९९॥

आस्सुनुई संसाराची ।
वाट ही सुखदुःखाची ।
तीची ताक्का वैराग्याची ।
जाव्नु मोक्षा पावैता.... ॥९००॥

ध्येय धोर्नु त्या मोक्षाचँ ।
वाट ती सरैत येंव्चँ ।
वैराग्यसंपन्न जांव्चँ ।
दुर्मिळ हँ सौभाग्य ॥९०१॥

हँची सुकृताचँ फूल ।
दव्वोर्नु तांतुं पाऊल ।
भॉग्का भृंगावारी फल ।
फूल हँ गळ्णापुडॅ ॥९०२॥

उदेता वैराग्या दीसु ।
वाड्तची वत्ता प्रकाशु ।
आत्मज्ञानाचॉ विश्वासु ।
दृढ जात्ता ताज्वारी ॥९०३॥

ज्यान्मितीं हँ आत्मज्ञान ।
जात्ता जँ तँ दिव्यांजन ।
वैराग्याचँ तॉ धारण ।
कर्ता जीवाभावार्नॅ ॥९०४॥

उचित स्वकर्म कोर्नु ।
मोक्षपदा पात्र जाव्नु ।
अश्शी त्या स्थानारी पाव्नु ।
कृतकृत्य तॉ जात्ता ॥९०५॥

स्वकर्तव्याचँ पालन ।
कर्ता पार्था स्वकल्याण ।
तँची परमपूजन ।
त्या सर्वात्मकागॅलँ ॥९०६॥

साध्वीलॅ सर्व आचार ।
जात्ताती पतीखात्तीर ।
तागेलँची निरंतर ।
ध्यान तिगेलँ व्रता ॥९०७॥

सान्पणांतुं जांव्का जात्ता ।
आव्सूलॉ सहायु पार्था ।
सॅवा तिगेली सर्वथा ।
कोर्का सर्वां अॅक्ळाक ॥९०८॥

मास्ल्येक उद्दाक प्राणु ।
वच्चना गंगेक सोण्णु ।
सर्व तीर्थांतुं ती न्हाव्नु ।
जात्ता कश्की पावन ॥९०९॥

निष्ठेनॅ स्वकर्म जाय्द ।
तरी देवु ऋणी जाय्द ।
आनी बांदुनु घाल्येद ।
ताक्का ह्या उपायानॅ ॥९१०॥

तुगेलँ जँ कर्म घड्ता ।
तँची तॉ येव्जुनु आस्ता ।
म्हुणु प्रीतीचॉई पड्ता ।
दृढ ऋणानुबंधु ॥९११॥

अेकनिष्ठ दासी जात्ली ।
राणी कश्की रणधीरागेली ।
आनी राण्धीरागेली ।
कथा दरबरांतुं ॥९१२॥

स्वकर्म जँ वर्णोचित ।
तँ दॅवालँ मनोगत ।
तँची कोर्चें समर्पित ।
जँ तागेलँ ताक्काची ॥९१३॥

म्होण्णक्का स्वकर्म केल्लीं ।
देवेच्छा ती पूर्ण जाल्ली ।
तागेल्या सत्तेनॅ आय्लीं ।
सर्वै भूतं आकारा ॥९१४॥

अज्ञानाच्यॉ चिंध्यॉ घेव्नु ।
त्रिगुणांचँ बॉबँ कोर्नु ।
अहंकारा सूत्र लाव्नु ।
तॉची आम्कां नांचैता ॥९१५॥

सर्वांतुंई तॉ सर्वत्र ।
भर्ला पूर्ण अेकमात्र ।
अॅक्क तेजानॅची जळ्त ।
उर्ता कश्की दीपकु ॥९१६॥

सर्वात्मकु तॉ ईश्वरु ।
ताक्का स्वकर्मांचॉ हारु ।
घाल्नु पूजा उपचारु ।
कॅल्यारी तॉ संतुष्टु ॥९१७॥

ह्या पूजेनॅ सुप्रसन्न ।
जाव्नु प्रसादप्रदान ।
दित्ता वैराग्यभूषण ।
सर्वेश्वरु भक्ताक ॥९१८॥

इत्लँ थाई की वैराग्य ।
तुच्छ तॅ सर्वई भोग ।
कित्लँ पळॅ थोर भाग्य ।
ध्यासु सर्वेश्वरालॉ ॥९१९॥

पतिवियोगु प्रियाक ।
जाय्ना सहन कोरूक ।
तश्शी संसाराचँ सुख ।
हाक्का दु:खदायक ॥९२०॥

ज्ञानप्राप्तीच्या अॅक्ळाक ।
ध्यासु जॉ लाग्ता जीवाक ।
व्होर्नु तॉ त्याची पदाक ।
पावैता ह्या भक्ताक ॥९२१॥

ह्या मोक्षप्राप्ती खात्तीर ।
जॅ विविध व्रताचार ।
तांतुलॉ हॉ श्रेयस्कर ।
स्वधर्माचँ पालन ॥९२२॥

स्वधर्मु जरी ॲक्ळाक ।
दिस्लॉ भो कष्टदायक ।
फळ मेळचँ आखेरीक।
तँ तुवँ पोळोंकाज ॥९२३॥

आरोग्य राक्कुनु घेंव्का ।
अश्शी जरी दिस्ता तुक्का ।
कड्बेवु कडू म्होणक्का ।
साध्य मॅळ्ता आप्याप ॥९२४॥

फळ लाग्गनॅ केळीक ।
भाग्र सोर्चँ वॅ खांडूक ।
दिल्यारी वेळु वाड्डूक ।
लाग्तलॅ की घाडाय ॥९२५॥

तश्शी स्वधर्मु कष्टाचॉ ।
म्हुणु वॅ तॉ सोण्णु दिंव्चॉ ।
लाभु जाय्द वॅ मोक्षाचॉ ।
सांग अश्शी कॅल्यारी ॥९२६॥

आप्णागेली आव्सु जरी ।
दिस्सना रूपसुंदरी ।
जाय्द वॅ तिगेलँ तरी ।
वात्सल्यई कुरूप ॥९२७॥

दुस्त्र्यॉ रंभेकई गॉम्त्यॉ ।
आश्शिल्तरी कित्लॉई त्यॉ ।
आव्सुवारी दीशनाती त्यॉ ।
चॅर्डाकि तँ वात्सल्य ॥९२८॥

तूप गुणी उद्काकई ।
ना तँ तश्शी मास्ल्येकई ।
तिक्का उद्काकची जाई ।
तिगेल्य जीवनाक ॥९२९॥

विष जँ सर्व जगाक ।
तँची अमृत की ाक ।
गॉड जँ सर्वांक गॉड ।
लाग्ता हाक्का तँ कडू ॥९३०॥

जॉ अधिकारानुसार ।
आस्ता उचित आचार ।
तॉ पावैता ह्या दुस्तर ।
भवसागरा पार ॥९३१॥

भुल्नु दुस्त्र्याल्या धर्माक ।
चल्यारी जात्ता घातक ।
चम्कूंचँ काम मात्याक ।
दिल्यारी कश्शी जाय्द ॥९३२॥

वर्णानुसार विहित ।
शास्त्राकई जँ संमत ।
तँ कॅल्यारी बंधमुक्त ।
जात्ताती कर्मांत्थान्नु ॥९३३॥

पार्था परधर्मु सोण्णु ।
निजधर्मु अनुसर्नु ।
हॉ नेमु नियमु कोर्नु ।
सांग राब्बु नज्ज वॅ ॥९३४॥

आत्मबोधु जावरेक ।
सोडु जाय्ना स्वकर्माक ।
आनी तँ साध्य कोरूक ।
श्रम घेंव्का पड्ताती ॥९३५॥

कॅर्नाई खंचेंई जाय्ना ।
काम पळॅ कष्टाविना ।
स्वकर्माचॉची अर्जुना ।
दोषु हॉ म्होणु जाय्ना ॥९३६॥

वाट सरळ सुखाची ।
वा आडवाट कांट्याची ।
चम्कूंका हँ पड्तलेंची ।
खंचीई धर्लेल्तरी ॥९३७॥

सांग खंच्या प्रवाश्याक ।
जांव्का फात्तोरु कस्ल्याक ।
घॅत्ल्यारी कस्लँ खांव्च्याक ।
भूक पुणि भाग्तली ॥९३८॥

कांडी कुंडॉ किंवा भात ।
वोटेनु यॅत्ताती हात ।
मांस किंवा चरे शीत ।
शिज्जई श्रम तॅची ॥९३९॥

घाटी धंई वा उद्काक ।
तीळु वा रँव गाळूक ।
घाली श्रम अेक लॅक ।
दोन्नींतुंई आस्सती... ॥९४०॥

होमकुंड वा रांदणी ।
फुंक्तना पळॅ हीं दोन्नी ।
घेंव्चॉ नांकानॅ दॉळ्यांनीं ।
अेक्कुची रॅ धुव्वरु ॥९४१॥

धर्मपत्नीक वेश्येक ।
खर्चु अेक्कुची पोस्सूक ।
म्हुणु धोर्कोज इत्त्याक ।
वेश्येगॅलॉ सांगातु.... ॥९४२॥

फाटी दाकोनु शत्रूक ।
जाय्ना मृत्यु चुक्कोंव्च्याक ।
त्यापेक्षां जाव्नु सन्मुख ।
वीरगती पाव्येद ॥९४३॥

घर्च्या त्रासाक बॅजार्नु ।
राब्ता दुस्त्र्या घारा येव्नु ।
थंई तॉची आस्स म्हुणु ।
पश्चात्तापु ती पाव्ता ॥९४४॥

मना दिश्शिलँ कर्तना ।
त्रासु जाय्ना वॅ अर्जुना ।
विहित स्वकर्म जात्ना ।
त्रासुं जात्ता म्होण्का वॅ ॥९४५॥

अमृताच्या थेंबानॅई ।
जात्ता आयुष्य अक्षयी ।
ह्या खात्तीर सर्वस्वई ।
इत्त्याक रॅ दीव्नयॅ ॥९४६॥

विष इत्त्याक विक्कत ।
घेव्नु कोर्नु घेंव्का अंत ।
नी आत्महत्त्येचँ खत्त ।
अश्शी लाव्नु घेंव्काज ॥९४७॥

इंद्रियांक चरू सोण्णु ।
आयुष्य व्यर्थ घालोनु ।
पापांचॉ संचयु कोर्नु ।
दुःख इत्त्या भोग्काज ॥९४८॥

करी स्वधर्माचरण ।
जात्लँ श्रमनिरसन ।
मॅळ्तलँ श्रेष्ठ भूषण ।
पुरुषार्थांकै वैलँ ॥९४९॥

सिद्धमंत्रु संकटांतुं ।
विस्सर्ल्यारी जात्ता घातु ।
म्हुणु तश्शी हॉ सांगातु ।
स्वधर्माचॉ सोण्णक्का ॥९५०॥

समुद्रांतु जाई नौका ।
रॉगाक वक्कद जांव्का ।
स्वधर्माचरण कोर्का ।
जीवनांतु अवश्य ॥९५१॥

कोर्चँ कर्म जँ तुगॅलँ ।
तँची पूजन ईशालँ ।
तागेल्या कृपेनॅ वत्लँ ।
रजतमा अरिष्ट ॥९५२॥

जीवन्मुक्तीची ही आस्था ।
सत्त्वगुणांक वाड्डैता ।
तुक्का स्वच्छ कळू लाग्ता ।
भवस्वर्ग गरळ ॥९५३॥

वैराग्य म्हुणु जँ म्हळ्ळँ ।
तँ हँ तुक्का प्राप्त जात्लँ ।
हँची तुक्का पावैतलँ ।
व्होर्नु इष्ट सिद्धीक ॥९५४॥

पार्था ह्य पूर्णावस्थेंतुं ।
आस्ता तूं खंच्या स्थितींतु ।
सांग्तां स्पष्ट कोर्नु तँ तूं ।
आय्क आनी मुखारी ॥९५५॥

देहभावु  ना देहांतुं ।
आसक्ती ना संसारांतुं ।
वारँ खेळ्णुई बल्यांतुं ।
जाय्ना कश्की तँ बध्द ॥९५६॥

देंटु पिविकिल्या फळाक ।
वा तँवई त्या दँटाक ।
सॉड्ता खंच्याई क्षणाक ।
तश्शी जाश्शी निःसंग ॥९५७॥

बाय्ल चेर्ड्व दित्लीं मान ।
मोहवश जाय्श्ना मन ।
धन जाव्नुई प्रसन्न ।
लोभु ताज्जॉ धरीश्ना ॥९५८॥

विषयविरक्त जाश्शी ।
बुध्दी अंतर्मुख कर्शी ।
अेकांतु पोळोनु धर्शी ।
ध्यान आत्मरूपाचँ ॥९५९॥

बाह्य व्यवहार जात्ना ।
अंतरंग तँ बदल्ना ।
दासी कश्की शिस्त मॉण्णा ।
धन्यागेल्या भय्येनॅ ॥९६०॥

चित्त अेकाग्र जात्तलँ ।
आत्मरूपांतु रिग्तलँ ।
तांतुंची तँ दंग जात्लँ ।
तुगेलँ धनुर्धरा ॥९६१॥

उज्जॉ कश्की नीव्नु वत्ता ।
धुव्वरुई येंव्चॉ राब्ता ।
तश्शी हँ सॉप्पनई सर्ता ।
भवस्वर्गसुखाचँ ॥९६२॥

मन स्वाधीन उर्तलँ ।
इच्छापाशई थुंट्तलॅ ।
संतृप्त सुखस्थ जात्लँ ।
आप्णा इत्ल्याकची तँ ॥९६३॥

संकल्पविकल्प नाना ।
स्पर्श करीश्नाती मना ।
आत्मबोधु तॉ वच्चश्ना ।
सोण्णु धर्लेलँ स्थान॥९६४॥

खर्चता धन जॉळ्ळेलँ ।
तश्शी भोग्गुनु सर्तलँ ।
संचित प्रारब्ध सग्ळँ।
अक्रियता मुक्ताक ॥९६५॥

अश्शी तुक्का प्राप्त जात्ली ।
साम्यदशा कर्मांतुली ।
ताव्वळी सद्‌गुरुगेली ।
भॅट जात्ली आप्याप ॥९६६॥

रात्रीचॅ चारी प्रहर ।
सर्नु उदेता भास्कर ।
तश्शी जात्लँ शुभंकर ।
दर्शन श्रीगुरुलँ ॥९६७॥

केळीक घाडायु लाग्ता ।
वाडी तिगेली ती सर्ता ।
तश्शी तुगेली आतंता ।
तृप्त जात्ली ताव्वळी ॥९६८॥

पूर्णत्व कश्की पुन्वेक ।
प्राप्त जात्ता चंद्रम्याक ।
गुरुल्या पूर्ण कृपेक ।
पात्र जाश्शी तश्शी तूं ॥९६९॥

अश्शी गुरुकृपा जात्ता ।
अज्ञान निःशेष वत्ता ।
कश्की काळोकु निव्वळता ।
रात्तीचॉ फाल्फाल्यारी ॥९७०॥

कार्य कर्म आनी कर्ता ।
ही त्रिपुटी जी वाड्‌त आस्ता ।
नष्ट जाव्नु वत्ली पार्था।
अज्ञाना गर्भांतुची ॥९७१॥

तश्शी अज्ञाना सांगाती ।
जाव्नु कर्माची समाप्ती ।
कर्मसंन्यासाची प्राप्ती ।
जात्ली ती दृढमूल ॥९७२॥

अज्ञानाचॉ नाशु जात्ना ।
दृश्य गॅलॅलँ कळश्ना ।
दिस्सश्ना स्वरूपाविना ।
तुक्का दुस्त्रँ कस्लेंई ॥९७३॥

बुड्‌लाँ म्हणशी तूं सॉप्नांतुं ।
नीद जाव्नु उटाय्शी तूं ।
पोव्नु भाग्र पळ्ळा वॅ तूं ।
सांग त्या तळ्यांत्थाव्नु ॥९७४॥

सॉप्नांतुलॉ तॉ आभासु ।
आत्तई जांव्यॉ हॉ भासु ।
ज्ञाता ज्ञेयाचॉ निरासु ।
जाव्नु जाश्शी चिद्‌धनु ॥९७५॥

कान् ‍ेतुं तुक्का तूं दिस्ता ।
आत्तं ती धूर दव्वर्ता ।
तूं आश्शिल्कडॅची आस्ता ।
पोळोंचँ नात्तिल्तरी ॥९७६॥

अश्शी अज्ञान सर्तलँ ।
ज्ञानई दिस्सनाशी जात्लँ ।
निःसंग जाव्नु उर्तलँ ।
तुगेलँ चित्स्वरूप ॥९७७॥

घड्‌चीं कर्म तीं घड्‌तलीं ।
निष्क्रिया वस्थेंतुं जात्लीं ।
म्हुणु तुंवँची तीं केल्लीं ।
अश्शी जाय्शना म्होणूक ॥९७८॥

पाळं येंन्चीं आनी वच्चीं ।
तींवै सान हॉड जांन्चीं ।
करामत ती वारयाची ।
समुद्र तॉ गंभीरु ॥९७९॥

कर्नस्तना घड्त उर्चँ ।
हाक्काची नैष्कर्म्य म्होण्चँ ।
सर्वश्रेष्ठ स्थान दिंन्चँ ।
हाक्का सर्व सिध्दींतुं ॥९८०॥

मंदिरावैलॉ कळसु ।
गंगेलॉ सिंधुप्रवेशु ।
भांग्राचॉ सॉळावॉ कसु ।
कार्यसिध्दी सुच्चैता ॥९८१॥

जाण नेणीव सरैता ।
जाणई बग्लेक सर्ता ।
ज्यावॅळारी प्रगटता ।
आत्मबोधु कौंतेया ॥९८२॥

आनी ना ह्याविना निधी ।
ही सर्वसार समृध्दी ।
हीची रॅ परमसिध्दी ।
म्हुणु जाण्णु घेंव्काज ॥९८३॥

गुरुकृपादृष्टी मेळ्ची ।
घडी ती महद भाग्याची ।
ताव्वळीची प्राप्त जांन्ची ।
आत्मबोधाची सिध्दी ॥९८४॥

उदेनु यॅत्ता भास्करु ।
प्रकाशु जात्ता तिमिरु ।
लांन्चॅ भित्तरी कर्पुरु ।
ज्योत जाव्नु जळ्ता तॉ ॥९८५॥

मीट उदकांतुं घाल्यारी ।
कर्गुनु तँची ताज्वारी ।
जाय्ना वॅ घ ॅ भित्तरी ।
आप्पणई उद्काक ॥९८६॥

निद्दलेल्याक जागैलॉ ।
सॉप्नांत्थाव्नु तॉ उटाय्लॉ ।
तॉ आप्णाइत्ल्याक यॅत्लॉ ।
कश्की निजबोधारी ॥९८७॥

कोणु सांग सुदैवानॅ ।
गुरुवाक्य श्रवणानॅ ।
द्वैत विस्सोर्नु तॉ पान्नॅ ।
जीवात्मैक्य सुबोधु ॥९८८॥

कॉण म्हणद की स्वता ।
कोरुक तॉ मुखार्सुता ।
सांग खंईं यॅत्ता वत्ता ।
आकाश जाग्यार्थाव्नु ॥९८९॥

अश्शी ताक्का कॅर्ना खंईं ।
कोर्का म्हुणु पण्णा कांईं ।
जाल्यारी रॅ सग्ळ्यांकई ।
प्राप्त जाय्ना ही स्थिती ॥९९०॥

उलैलँ जँ तँ आय्कलँ ।
तत्क्षण तँ सिध्दै जालँ ।
कॉणैपुणि ॲक्ळ्यागॅलँ ।
सौभाग्य हँ दुर्मीळ ॥९९१॥

स्वकर्माचँ होमकुंड ।
समिधा काम्य निषिध्द ।
तांतुं कॅल्लॅ भस्मसात ।
रजतम हॅ गुण॥९९२॥

पुत्रभवस्वर्गादिक ।
अभिलाषा ही मनाक ।
लाव्नु घॅना नी मोहाक ।
बळी पण्णा तांगेल्या ॥९९३॥

विषयभोगांतुं पळ्ळीं ।
इंद्रियं मलीन जाल्लीं ।
न्हाणोनु तीं शुध्द केलीं ।
प्रत्याहार तीर्थांतुं ॥९९४॥

स्वधर्माचँ फळ मॅळ्ळँ ।
तँ ईश्वरार्पण कॅल्लँ ।
अढळई कोर्नु घॅत्लँ ।
तान्नॅ वैराग्यपद ॥९९५॥

अश्शी साधनसमृध्द ।
जाव्नु जात्ता ज्ञानसिध्द ।
पाव्ता आत्मबोधपद ।
निरंतर शाश्वत ॥९९६॥

हीची शुभघडी आय्ली ।
भॅट सद्गुरुली जाल्ली ।
परस्परांगेली मेळ्ळी ।
निजस्थिती तत्काळ ॥९९७॥

वक्कद घॅत्लँ तत्क्षण ।
जाय्ना रॉगा निवारण ।
फाल्फालँ जात्जात्ना कॉण ।
न्हण्द जाली धॉन्पार ॥९९८॥

वलाटी सुपीक भुंईं ।
ना नॅ पॉल बीजईं ।
सम मॅळ्तलँ फलईं ।
वाट मात्र पोळोंका ॥९९९॥

मार्गु हॉ सरळु धर्लॉ ।
सांगातुई बरॉ मॅळ्ळॉ ।
तरीई वेळु लाग्तलॉ ।
त्या जाग्यारी पांव्च्याक ॥१०००॥

विषयविरक्ति आय्ली ।
सद्गुरुली भॅट जाली ।
जीवाकई जाग आय्ली ।
सदसद्विवेकाची ॥१००१॥

ॲक्कची तँ ब्रह्म सत्य ।
बाकी सर्व अशाश्वत ।
ही अेकी प्रचीती फक्त ।
दृढ जात्ता ॲक्ळाक ॥१००२॥

सर्वात्मक सर्वोत्तम ।
तँची जँ हँ परब्रह्म ।
मॅळ्णापुर्डॅ मोक्षधाम ।
वच्ची इच्छा जाय्द वॅ ॥१००३॥

मोक्षाचँ ध्यान धोर्काज ।
प्रयत्नानॅ मेळोंकाज ।
ज्ञानाचॉ हॉ भ्रमु सहज ।
गीळ्णु सॉड्ता ती वस्तु ॥१००४॥

ऐक्याचॉ विसरु पड्ता ।
ताज्जॉ तॉ आनंदु जिर्ता ।
हँ सर्वई नाची जात्ता ।
उर्ता फक्त तँ अेक ॥१००५॥

ब्रह्मसमाधींतुं वच्चँ ।
तँची जाव्नु तांतुं उर्चँ ।
आनी आस्स म्हुणु आस्चँ ।
प्रक्रिया ही केवळ ॥१००६॥

घासु अेकेकु ताँडांतुं ।
घॅत्ता कश्की बुभुक्षितु ।
तस्तश्शी तॉ पूर्ण तृप्तु ।
जाय्त यॅत्ता क्रमेण ॥१००७॥

विवेकपूर्ण वैराग्य ।
हॉची अेकु धोर्नु संग ।
बाकी जाव्नु तॉ निःसंग ।
वत्ता स्वरूपालाग्गी ॥१००८॥

आत्मैश्वर्य साधकाक ।
मॅळ्ता शाश्वत भोग्गूक ।
तँ प्राप्त कोर्नु घेंव्च्याक ।
योग्यताई येंव्काज ॥१००९॥

सिध्दी कश्शी ती मेळोंका ।
त्याखात्तीर कस्लँ कोर्का ।
क्रमवार सांग्तां तुक्का ।
सर्वई तँ आय्क तूं ॥१०१०॥

गुरु दाकैता जी वाट ।
विवेकतीर्थारी थेट ।
पाव्ता थंईं मळकट ।
बुध्दि करी निर्मळ ॥१०११॥

राहूग्रस्तं चंद्र मुक्त ।
जाव्नु यॅत्ता झळकत ।
तश्शी बुध्दितेज शुध्द ।
रिग्तलँ अंतरंग ॥१०१२॥

कुळार घरई सॉड्ता ।
प्रिया वलभाली जात्ता ।
आत्मचिंतनांतुं रम्ता ।
द्वंद्वातीत ही बुध्दि ॥१०१३॥

शब्दस्पर्शादींचॉ लळॉ ।
इंद्रियांक भोची लाय्लॉ ।
तॉ जिव्हाळॉ लांव्काशिलॉ ।
ह्या पवित्र ज्ञानाक ॥१०१४॥

सूर्यु किरणं कव्वळ्ता ।
आनी मृगजळ आट्ता ।
मनोनिग्रहानॅ जात्ता ।
विषयांक जिंकूक ॥१०१५॥

चांडाळागेरी चुक्कुनु ।
खालेलँ काड्का वक्कुनु ।
इंद्रियांनीं तश्शी सोण्णु ।
दिंव्काती तॅ विषय ॥१०१६॥

सोण्णु विषयचिंतन ।
कोर्का आत्मपरीक्षण ।
अश्शी कोर्नु गंगास्नान ।
प्रायश्चित्त घेंव्काज ॥१०१७॥

इंद्रियं निष्पाप कोर्नु ।
मनई सांगाती घेव्नु ।
सात्त्विक धैर्यई धोर्नु ।
कोर्का योगसाधना ॥१०१८॥

ही तूं कर्त आस्तनाची ।
संचितानुसार येंव्चीं ।
दुःखं तीं सर्वई भोग्ची ।
क्षमता तूं दव्वरी ॥१०१९॥

सम्ज तुगेलँ संचित ।
घेव्नु आय्लँ अकस्मात ।
सुख तँ पोळोनु आत्तं ।
हर्षोन्मत्त जाव्नक्का ॥१०२०॥

अश्शी यॅत्लँ सुखदुःख ।
सम्जूंका तँ अेकलॅक ।
चित्त सुखस्थ कोरूक ।
सोदी शांत अेकांतु ॥९०२१॥

चुक्कोंच्याक गलाटॉ तूं ।
वच अॅक्ळॉची वनांतु ।
तुगॅलॉ तुक्का सांगातु ।
राब तुज्यांतुंची तूं ॥९०२२॥

करी दमनशमन ।
तुगेलँ मनोरंजन ।
जावॉ अखंड चिंतन ।
गुरु–उपदेशाचँ ॥९०२३॥

आंगा बळ यॅवॉ म्हुणु ।
भूक लाग्गु नयॅ म्हुणु ।
जिब्बे रुचीक मॉग्गान्नु ।
खांव्चँ बरँ न्हई रॅ ॥९०२४॥

ह्या तिन्नींकई सोण्णु तूं ।
लक्ष दी खांव्चॅपिंव्च्यांतुं ।
मिताहारु कॅर्नाई तूं ।
तॉ मात्र रॅ सोण्णक्का ॥९०२५॥

तानभूक शांत कोर्का ।
ताज्मितीं संतोषु पांव्का ।
प्राणुई राक्कुनु घेंव्का ।
निजधर्मा खात्तीर ॥९०२६॥

पोळौनु परपुरुष ।
जाय्ना कुलवधू वश ।
घेव्नक्का निद्रा–आलस्थ ।
तश्शी लाग्गी तुगेल्या ॥९०२७॥

कारणाविना कस्ल्याक ।
आंग लांव्का रॅ नॅलाक ।
तँ दंडवत घालूक ।
लाग्गॉ त्या त्या वॅळारी ॥९०२८॥

करी तूं जॉ आवश्यक ।
उद्योगु तॉ निर्वाहाक ।
अंतर्बाह्य इंद्रियांक ।
दव्वरी तूं स्वाधीन ॥९०२९॥

उल्लोंका म्हुणु मनांतु ।
यॅश्ना कर्शी तुल्यागी तूं ।
संवादु अंतरंगांतुं ।
सुखशांतिदायक ॥९०३०॥

अश्शी देह वाचा मन ।
पार्था कोर्नु घॅ स्वाधीन ।
आनी स्वरूपाचँ ध्यान ।
धरी अेक चित्तांतुं ॥९०३१॥

गुरुमंत्रु जागैतलॉ ।
आत्मबोधु उदेतलॉ ।
तॉची तुक्का दाकैतलॉ ।
प्रतिबिंब कान्ॅतुं ॥९०३२॥

ध्यान धर्तलॉ तॉ तूंची ।
ध्यानरूप तँवै तूंची ।
दिस्ता तुक्का तुगेलँची ।
आत्मरूप हँ अश्शी ॥९०३३॥

तिन्नी हीं अेकत्र येव्नु ।
अेकरूपई तीं जाव्नु ।
येत्लीं तोवरेक लाव्नु ।
ध्यान तुवँ धोर्काज ॥९०३४॥

अश्शी पळॅ तॉ मोक्षार्थी ।
जागी उर्ता दीसा रात्ती ।
आय्क तूं मुखारी रीती ।
आत्तं योगाभ्यासाची ॥१०३५॥

अपानरंध्रद्वयांतुं ।
हांगेल्या संधिस्थानांतुं ।
खूळ अड्चुनु धोर्नु तूं ।
मूळबधु रच्चई ॥१०३६॥

आव्वोळ्णु घॅ तग्गु दिक ।
धोर्नु तिन्नी त्या बंधांक ।
प्राणापानादि वायूंक ।
अॅक्डॅ हाण्णु मेळई ॥१०३७॥

कुंडलिनीक जागई ।
मध्यमेकई फुलाई ।
आधारचक्र दांटुई ।
यॉ आज्ञाचक्राचेरी ॥१०३८॥

ब्रह्मरंध्रांत्लँ प्रफुल ।
सहस्त्रदळ कमळ ।
घाल्तलँ स्नान सचैल ।
अमृताचँ मूळारी ॥१०३९॥

पावनपर्वताचेरी ।
चिद्भैरवागेली फेरी ।
जोडभिक्षा पॉसॉभरी ।
घाली मनप्राणाची ॥१०४०॥

योगाभ्यासु स्थिर जात्ता ।
आप्णाइत्ल्याकची यॅत्ता ।
ताज्माक्षीची ध्यान पार्था ।
तँवै जात्ता सुस्थित ॥१०४१॥

योगु आनी ध्यान यॅत्लॅ ।
मुखारी तुक्का व्हर्तलॅ ।
वाट सुगम कर्तलॅ।
आत्मतत्त्वज्ञानाची ॥१०४२॥

आस्स तुवँची जॉळ्ळेलॉ ।
सन्मित्रु वैराग्याअस्लॉ ।
तॉवै सांगाती आस्तलॉ ।
तुक्का धैर्य दिंव्च्याक ॥१०४३॥

सॉद्तना दिस्सवरेक ।
तॅल आस्तलँ दिव्याक ।
खात्री आस्ल्यारी मनाक ।
केद्दोळु तँ मेळूक ॥१०४४॥

मोक्षमार्गारी आस्तना ।
वैराग्य सांगाती यॅत्ना ।
मद्दँ कस्ली अड्डी यॅश्ना ।
ब्रह्मभावा मेळूक ॥१०४५॥

घेव्नु साह्य वैराग्याचँ ।
ज्ञान प्राप्त कोर्नु घेंव्चँ ।
महद्भाग्यानॅ हँ मेळचँ ।
अश्शी आत्मनिधान ॥१०४६॥

वैराग्य हँ वज्त्रावारी ।
पांग्रोनु भाग्रभित्तरी ।
राजयोगअश्वाचेरी ।
बस्ता जाव्नु आरुढ ॥१०४७॥

बांद्ता विवेकक्कंकण ।
धर्ता ध्यानखड्ग तीक्ष्ण ।
कोरूक मूळखंडण ।
सानथोर भेदाचँ ॥१०४८॥

काळ्कांतुल्या सूर्यावारी ।
वीरु हॉ रणांगणारी ।
तागेल्या मस्तकाचेरी ।
जयत्रीचॉ मुकुटु ॥९०४९॥

यॅत्ता अॅक्ळाक झुंजारु ।
वैरी तॉ देहाहंकारु ।
ताक्का लाय्ता धुळी चरु ।
आप्णागेल्या शौर्यानॅं ॥९०५०॥

अहंकारु जग्च्या दीना ।
आनी तॉ मार्नुई घाल्ना ।
दित्ता जीवाक यातना ।
शिर्काव्नु ह्या देहांतुं ॥९०५१॥

देह तान्नॅं राब्चँ स्थान ।
तँची पड्ता जाव्नु भग्न ।
बल दुस्न्रॉई शरण ।
येव्नु पड्ता पाय्यारी ॥९०५२॥

भोगा विषय आय्कुनु ।
बस्ता जॉ मात्त्यारी चण्णु ।
त्राहि त्राहि सॉड्ता कोर्नु ।
सर्वांकई जॉ दर्पु ॥९०५३॥

वेसु घाल्नु रायागॅलॉ ।
अश्शी हॉ वैजरी आय्लॉ ।
तॉवै नामशेष जात्लॉ ।
ह्याची ध्यान खड्गानॅं ॥९०५४॥

जांव्का म्हुणु जँ दिश्शिलँ ।
विषयसुख मॅळ्तलँ ।
तँची भुलौनु व्हर्तलँ ।
पळॅ आडमार्गारी ॥९०५५॥

अश्शी सन्मार्गु चुक्कोव्नु ।
अधर्मा रान्नांतुं हाण्णु ।
श्र्वापदां तॉंडांनु दीव्नु ।
नरकांतुं जॉ घाल्ता ॥९०५६॥

ताक्काई घॅत्ता जिंकुनु ।
नी ज्या कॉणाक पोळोनु ।
वत्ता तपस्वीई भीव्नु ।
तॉवै वैरी हॉ कामु ॥९०५७॥

तृप्त कोरू पळैल्यारी ।
अतृप्ति वाड्ता जॉरारी ।
क्रोधाअस्लॉ पाडु वैरी ।
रिग्ता थंईं त्यान्मितीं ॥९०५८॥

आत्तं कामु तॉ दिस्सना ।
क्रोधागॅलॉई पत्तॉ ना ।
सहजची हँ अर्जुना ।
अश्शी घण्णु येंव्चेंची ॥९०५९॥

रुक्का मूळची खांड्ल्यारी ।
हॅग्लॉई पड्ता नॅलारी ।
तश्शी कामाक जिंक्ल्यारी ।
क्रोध वश आप्याप ॥९०६०॥

खंईं भोग्ची इच्छाची ना ।
थंईं अतृप्ति आस्सना ।
पायु दव्वोरुक मॅळ्णा ।
जागॉची त्या क्रोधाक ॥९०६१॥

मात्त्यारी जड दव्वर्ता ।
व्हांव्काज तँ म्हुणु सांग्ता ।
शासकु तश्शी हॉ लाय्ता ।
परिग्रहु भोग्गूक ॥९०६२॥

भारु हॉ मात्त्यारी धरी ।
भोग तॅ आप्णालॅ करी ।
हॉ विचारु बड्‍ेवारी ।
म्हणता दित्लॉ आधारु ॥९०६३॥

विरागीथाई पळॅ तूं ।
मठु कोर्नु राब्ता तांतूं ।
शिष्यांगॅल्या मॅळाव्यांतुं ।
मग्न अध्यापनांतुं ॥९०६४॥

नाक्का हॉ संसारु म्होण्णु ।
राब्ता वनवासी जाव्नु ।
देहाचॉ समंदु सोण्णु ।
सांग राब्बू जाय्द वॅ ॥९०६५॥

परिग्रहु हॉ अजितु ।
आजि जात्ता पराजितु ।
भवविजयोत्स्वांतुं ।
योगी जात्ता तन्मय ॥९०६६॥

घेव्नु ज्ञानगुणवर्य ।
मोक्षधआमंत्थाव्नु राय ।
प्रगट जालेलँ गुह्य ।
पोळोंच्याक यॅत्ताती ॥९०६७॥

ह्या ब्रह्मसम्राटागॅलॅ ।
सर्वजण प्रजा जात्लॅ ।
सेवक जाव्नु राब्तलॅ ।
ह्या भूवैकुंठाचेरी ॥९०६८॥

जागृती स्वप्न सुषुप्ती ।
हीं तॅग्गजण दित्ताती ।
साधकाक सुखशांति ।
ह्या साधकावस्थेंतुं ॥९०६९॥

विवेकु हॉ दंडधारी ।
कर्ता रखवालदारी ।
योगसाधनेमुखारी ।
सॉण्णा दृश्या गर्दीक ॥९०७०॥

ऋध्दिसिध्दि त्या वॅळारी ।
मेळ्ळु समारंभाचेरी ।
फुलां वर्षावु ताज्नेरी ।
कोर्नु त्यॉ न्हाणैताती ॥९०७१॥

स्वंसज्य ब्रह्यैक्याअस्लँ ।
प्राप्त जाय्त आस्स इत्लँ ।
की तँ त्रैलोक्यांतुं भर्लँ ।
आनी लाग्लँ व्हांन्च्याक ॥९०७२॥

तॅर्ना हॉ मगेलॉ मित्रु ।
आनी तॉ मगेलॉ शत्रु ।
वा दॉग्गांक समत्वांतुं ।
पळैशी ऊर्ना द्वैत ॥९०७३॥

सट्‍णॅ म्हळ्ळँ हॉ मगेलॉ ।
तरी हॉ वा तॉ ना वॅग्ळॉ ।
दुजाभावु मनांतुलॉ ।
मावळ्ळा तॉ नि:शेष ॥९०७४॥

सर्वात्मक भावामितीं ।
वॅग्ळॅ कॉणै दिस्सनाती ।
सांग ममत्वाची भ्रांती ।
कश्शी थंई उर्तली ॥९०७५॥

अश्शी षड्‍रिपूंक जिंकुनु ।
विश्व हँ अेक्कची जाण्णु ।
घेत्तिल्मितीं धांव्चँ सोण्णु ।
दित्ता राजयोगाश्वु॥९०७६॥

वैराग्याची जी बांदिली ।
गांटी चिक्कँ सड्लु केल्ली ।
ब्रह्मैकत्वाची ही जाली ।
जाणीव म्हण्णापुडॅ ॥१०७७॥

ज्या ध्यानांतुं द्वैत जिर्ता ।
तँवै अश्शी सरु लाग्ता ।
म्हुणु ध्यानई तँ जात्ता ।
हळु हळु तरळ ॥१०७८॥

कश्की वक्दा रसायन ।
कोर्नु रोगनिवारण।
आप्णालँई विसर्जन ।
कोर्नु घॅत्ता आपण ॥१०७९॥

पान्नापुडॅ मुक्तामाक ।
आनी धांव्काज कस्ल्याक ।
पाव्विल्उप्रांतँ ब्रह्मैक्य ।
पूर्ण जात्ता साधना ॥१०८०॥

मॅळ्ता गंगा सागराक ।
ती विश्रांती प्रवाहाक ।
कांता–वलभा भेटीक ।
सुखशांतीची गांटी ॥१०८१॥

केळीक घाडायु लाग्ता ।
ताव्वळी ती पूर्ण वाड्ता ।
चम्कतां चम्कतां सर्ता ।
वाट गांवामुखारी ॥१०८२॥

आत्मबोधु जांव्च्या लागता ।
साधनाई सर्त यॅत्ता ।
साधकुई सोडु लाग्ता ।
अेक अेक साधन ॥१०८३॥

ब्रह्मभावाचँ स्फुरण ।
जावॉ म्हुणु जॅ प्रयत्न ।
कॅल्लॅ तॅ आत्तं खस्थान ।
घेव्नु बग्ले सर्ताती ॥१०८४॥

वैराग्या वत मॉव्वाळ ।
जात्ता ज्ञान धर्ता फळ ।
नी योगसिध्दी सकळ ।
लाग्ता प्राप्त जांव्च्याक ॥१०८५॥

आत्तं तॉ सुभद्रापति ।
जात्ता मूर्तिमंत शांति ।
मेळूक ती ब्रह्मस्थिति ।
चड वेळु लाग्गश्ना ॥१०८६॥

पुन्नव नी चतुर्दशी ।
तश्शी सुवर्ण षोडषी ।
आनी कसु पंचदशी ।
हांतुं ना चड न्यून ॥१०८७॥

गंगा सागराक मॅळ्ता ।
थंईं प्रवाहु तॉ कळ्ता ।
मुखारी ती शांत जात्ता ।
उर्ता जाव्नु सागरु ॥१०८८॥

स्वल्प अंतर ब्रह्माक ।
आनी ह्या ब्रह्म जात्ल्याक ।
तँ तित्लँ भोर्नु काडूक ।
शांति सर्वसमर्थ ॥१०८९॥

मूळ स्वरूप आप्पण ।
ब्रह्म हीची आस्ची जाण ।
तँ त्या योग्यते लक्षण ।
सम्ज तूं सुनिश्चित ॥१०९०॥

ही योग्यता ज्या कॉणाक ।
तॉ आत्मबोधपदाक ।
पाव्नु आत्मसंतोषाक ।
पात्र जात्ता सहज ॥१०९१॥

रांदप तय्यार जाल्लँ ।
तँ कोर्चँ श्रमई सर्लँ।
ह्या जाणीवेनॅची कित्लँ ।
जात्ता रॅ समाधान ॥१०९२॥

वर्षाऋतुची उन्मत्त ।
गंगा शरदांतुं संथ ।
जात्ता नी वाद्यंई शांत ।
तीं गायनानंतर ॥१०९३॥

श्रम पड्ताती कर्तना ।
आत्मबोधाची साधना ।
नंतर मात्र सांत्वना ।
तॅ दित्ताती जीवाक ॥१०९४॥

आत्मबोधाची ही स्थिती ।
अश्शी पाव्ल्या पार्था ख्याती ।
हाज्जी घॅत्ता स्वानुभुती ।
स्वयेंची तॉ सावकु ॥१०९५॥

समभावी आत्मतृप्तु ।
तँ नाक्का हँ जाई हांतुं ।
द्वंद्वाच्या आंदोलनांतुं।
पण्णा झुंय्यॉ घॅत्तची ॥१०९६॥

पळॅ सूर्योदयु जात्ता ।
नी आप्पण जाव्नु स्वता ।
नक्षत्रमंडळ नीव्ता ।
तश्शी तॉ शांतचित्तु ॥१०९७॥

उदेता आत्मानुभवु ।
सर्ता भूतभेदभावु ।
सर्वांतुंई आत्मभावु ।
दिस्ता ताक्का सर्वत्र ॥१०९८॥

बरैलेली पाटी आस्ता ।
सहज ती पुस्सु जात्ता ।
चित्तई हागेलँ जात्ता ।
निर्मळ भेदातीत ॥१०९९॥

पोट्टोळ्णु घॅत्ता अज्ञान ।
जागेपण नी सॉप्पन ।
तांतुंची जाव्नु विलीन ।
हीं दॉग्गई राब्ताती ॥११००॥

बोधाचॉ सूर्यू उदेता ।
अज्ञान निव्वोळु लाग्ता ।
तँची हळु हळु जात्ता ।
पूर्ण बोधाचॉ दीसु ॥११०१॥

कश्की भाग्त यॅत्ता भूक ।
घेत्तिल्या घासाघासाक ।
यॅनापुडॅ तृप्ती धँक ।
आनी जेंव्च्या जाय्द वॅ ॥११०२॥

वाट चम्कत आस्ल्यारी ।
थोडी उर्ता ती मुखारी ।
पाव्नापुडॅ त्या जाग्यारी ।
आनी चम्कूंका पण्णा ॥११०३॥

नीद जाव्नु तॉ जागेता ।
उटाव्नु सुट्सुटी जात्ता ।
दिस्सना आवश्यकता ।
ताक्का आनी निद्दोंची ॥११०४॥

चंद्र पौर्णिमेक पूर्ण ।
नंतर तॉ जात्ता क्षीण ।
थंईंची पुरस्सरण ।
राब्ता शुक्लपक्षाचँ ॥११०५॥

अज्ञान सज्ञान जात्ता ।
ज्ञानई मज्ज्यांतु मॅळ्ता ।
अज्ञान तँ नाश पाव्ता ।
अश्शी मूळासमेत ॥११०६॥

न्हंय्यॉ समुद्रा मॅळ्ताती ।
भेदभाव विस्सर्ताती ।
जळची जाव्नु उर्ताती ।
कश्की तीं कल्पांतांतु ॥११०७॥

घटमठ तॅ मात्त्येंतु ।
भॉग्ता आकाश अेकांतु ।
काष्ठाकाष्ठ घर्षणांतुं ।
वन्हि मात्र अेक्कुची ॥११०८॥

नाना सुवर्णालंकार ।
सोण्णु नाम नी आकार ।
जात्ताती अेक भांगार ।
कश्की आट्टैनापुडॅ ॥११०९॥

सॉप्नांतुलँ सर्व सर्ता ।
ज्यावॅळारी जागी जात्ता ।
आनी स्वताकची कळ्ता ।
की आप्पण हांगाची ॥१११०॥

हांवं नी तूं हँ ना द्वैत ।
म्हणता मज्ज्यांतु ना आत्तं ।
तुज्ज्यांतुंची समर्पित ।
तॉ भक्तु तॉची ब्रह्म ॥११११॥

आर्त जिज्ञासू आस्सती ।
तशीची रॅ तॅ अर्थार्थी ।
तॅवै भजन कर्ताती ।
फल भोगाखात्तीर ॥१११२॥

हांकांई म्होण्येद भक्त ।
घल्र्या हान्नीं हीची वाट ।
वाट्टेरी हॅ तीनी मॅट्ट ।
चण्णु मात्र येंव्काती ॥१११३॥

पैलॉ दुस्त्रॉ म्होणु जाय्ना ।
तिस्त्रॉई कांईं आस्सना ।
भक्तीची ही आराधना ।
तीनी  अवस्थेंतुली ॥१११४॥

सत्यस्वरूप मगेलँ ।
कळ्चँ ज्ञानई ना तित्लँ ।
म्हुणु तांन्नीं कल्पिलेलँ ।
रूप तांकां दाकैतां ॥१११५॥

पॉडॉ ना पॉडॉ सॉप्पन ।
सृष्टी उत्पन्न विलीन ।
धरी तूं तँ साक्षीपण ।
आत्म प्रकाशांतुलँ ॥१११६॥

अश्शी यॅत्ता जी अवस्था ।
तीची भक्ती जाण पार्था ।
हांतुं विचारु अन्यथा ।
कोर्का म्हुणु नाची रॅ ॥१११७॥

आर्ताक जी भूक लाग्ता ।
तीची हांवं जाव्नु यॅत्तां ।
ताज्ज्यांतुंची वासु कर्ता ।
त्या त्या वॅळारी पार्था ॥१११८॥

जिज्ञासूक जाण्णु घेंन्ची ।
इच्छा जात्ता सव्यसाची ।
ताव्वळीसुद्धां हांवंची ।
जिज्ञासाई तागेली ॥१११९॥

कस्लेंई मेळोंयां म्हण्ता ।
अर्थार्थी हॉ ध्यासु धर्ता ।
तॉ ध्यासुई हांवं जात्तां ।
अश्शी तॉवै मछयागी ॥११२०॥

कळ्णा तांकां ह्यावॅळारी ।
हांवंची अश्शी मज्जेरी ।
भक्ती अदृश्यरूपारी ।
कोर्नु घॅत्तची आस्तां ॥११२१॥

मुख दिस्चँ कान् ेंतुलँ ।
दुस्त्रँ आश्शिल्वारी दिस्लँ ।
तरी सांग कश्शी जात्लँ ।
आप्णागॅलँ स्वरूप ॥११२२॥

चंद्रु एकु आश्शिल्तरी ।
दोनी थंईची दिस्ल्यारी ।
तिमिर दोषु आस्ल्यारी ।
अश्शी दिस्चँ सहज ॥११२३॥

हांवं सर्वत्र एक्कूची ।
भ्रांति मात्र ही भेदाची ।
जांन्ची अज्ञानामितींची ।
जाण्णु घॅ हँ अर्जुना ॥११२४॥

दुजेपणाची ही भ्रांति ।
सर्ता कळ्ता निजस्थिति ।
प्रतिबिंबई त्यामितीं ।
दित्ता साक्ष बिंबाची ॥११२५॥

कीड म्हुणु म्हळ्ळेल्तरी ।
भांगार तँ धनुर्धारी ।
दोषु तॉ काण्णु घाल्यारी ।
तँची शुध्द सुवर्ण ॥११२६॥

चंद्रु पूर्ण पुन्वेचॉची ।
अश्शी म्होण्चँ हँ चूकची ।
पूर्ण दिसादीसाकची ।
आस्ता तिथिनुसार ॥११२७॥

तश्शी ज्ञान जात्तां जात्तां ।
भेदभावु सर्त वत्ता ।
तँ तँ सर्व दिस्सू लाग्ता ।
तँची एक आप्पण ॥११२८॥

सर्व दृश्यां पेल्दिकाची ।
अद्वय स्थिति ज्ञानाची ।
जाण पार्था भक्ती तीची ।
चौथी हांवँ म्हळ्ळेली ॥११२९॥

अश्शी ज्ञानयोगी भक्तु ।
येन्नु मॅळ्ता तॉ मज्ज्यांतु ।
नी उर्ता आत्मानंदांतु ।
जान्नु हांवंची एकु ॥११३०॥

भुजं उब्बार्नु घोषांतु ।
माक्षी सात्व्या अध्यायांतु ।
सांग्ल्यां की हॉ ज्ञानी भक्तु ।
आत्माची तॉ मगेलॉ ॥११३१॥

सांग्ल्यां कल्पा प्रारंभांतु ।
भागवत आख्यानांतु ।
ब्रह्मदॅवाक ही मातु ।
ज्ञानयुक्त भक्तीची ॥११३२॥

ज्ञानी हिक्का स्वसंविर्तिं ।
शैव म्हणताती ही शक्ति ।
मगेली परमभक्ति ।
अश्शी सुद्दां म्होळ्येद ॥९१३३॥

भक्ती क्रमयोग्यागेली ।
मल्यागी येव्नु पाव्तली ।
तीवै विश्वात्मक जात्ली ।
पार्था त्याचि वॅळारी ॥९१३४॥

विवेक नी वैराग्याक ।
कोर्का पण्णा कस्लें अेक ।
थंईं ब्रह्मसाधनेक ।
मॅळ्ता आत्तं विरामु ॥९१३५॥

कश्की केल्लीं चारी भूतं ।
आकाशानॅ गिळंकृत ।
तरी उल्याँ तँ अलिप्त ।
हांत्ल्याग्थाव्नु निवांत ॥९१३६॥

हांगा थंईं खंईं मॅळ्णा ।
साध्यसाधनांतुंई ना ।
त्या सर्वांक तूं अर्जुना ।
पळॅ अॅक्डॅ मज्ज्यांतुं ॥९१३७॥

कश्की गंगा समुद्राक ।
तीची ती मॅळवरेक ।
मॅळ्णापुडॅ भॉग्ता सुख ।
अेक अथांगत्वाचँ ॥९११३८॥

कश्की कान े मुखारी ।
दुस्त्री हाण्णु दव्वल्र्यारी ।
त्या परस्परांभित्तरी ।
दृश्य नी द्रष्टेपण ॥९१३९॥

जरी अेकी दोन्नींतुली ।
काण्णु धूर खंई व्हेल्ली ।
सांग कश्शी काडु जात्ली ।
निजशक्ति तांगेली ॥९१४०॥

निद्दल्वॅळारी सॉप्पन ।
जागी जाय्नापुडॅ कॉण ।
पळैद तँ दुजेपण ।
आत्तं तॉची आप्णांतुं ॥९१४१॥

भॉग्तलॉची भोग्थु जात्ता ।
थंईं भोगु कश्शी घड्ता ।
सांग्तां शब्दोच्चारु जात्ता ।
आनी कळ्ता शब्दार्थु ॥९१४२॥

सूर्योदयु जाल्लॉ म्हुणु ।
दाकोंका वॅ दिवॉ लाव्नु ।
की आकाश पड्द म्हुणु ।
मांटोव् घाल्नु सावोर्का ॥९१४३॥

मूळांतुं ना राजयोगु ।
मॅळद वॅ राज भोगु ।
कश्शी बा काळ्कानॅ संगु ।
धोर्चा सांग सूर्यालॉ ॥९१४४॥

जाण्णु घॅ व्यापकपण ।
जात्लँ आकाशाचँ ज्ञान ।
जाय्द वॅ गुर्गुंजी रत्न ।
हारु ताज्जॉ गांत्ल्यारी ॥९१४५॥

तश्शी नास्तिकाक कळ्णा ।
पार्था हांवं आस्स की ना ।
करीद वॅ आराधना ।
मगेलॉ तॉ संमूढु ॥९१४६॥

मगेलॉ भक्तीसाधकु ।
मज्ज्यांतुंची जात्ता अेकु ।
कश्की यौवन भोजकु ।
जात्ता यौवनाकची ॥११४७॥

पाळ सर्वस्वी उद्काक ।
सूर्या तेज किरणांक ।
रितेपण आकाशाक ।
कश्की भर्ता सर्वत्र ॥११४८॥

भक्तपण तॉ विस्सर्ता ।
हांवंची केवळ जात्ता ।
अलंकारांतुं झग्झग्ता ।
कश्की सुवर्णपण ॥११४९॥

परिमळ चंदनाचॉ ।
तांतुं स्वाभाविक आस्चॉ ।
सहजची चांदण्याचॉ ।
प्रकाशु तॉ चंद्रुची ॥११५०॥

अद्वैत भक्ती घड्तना ।
दुस्त्रँ कस्लँ कोर्का पण्णा ।
हँ शब्दांनीं सांगु जाय्श्ना ।
कळ्का अनुभवानॅ ॥११५१॥

पूर्वसुकृतानुसार ।
जात्ताती सर्व आचार ।
तांतुंची जाव्नु साकार ।
यॅत्तां ताक्का मेळूक ॥११५२॥

आपैलँ की तत्क्षणाक ।
यॅत्तां भेट्टुक भक्ताक ।
उलैनात्तिल्वरी लॅक ।
तागेलॉ  तॉ संवादु ॥११५३॥

ज्यावॅळारी माक्का मॅळ्ता ।
सुख स्वरूप तॉ जात्ता ।
वाचा कंठांतुंची विर्ता ।
तीवै मगेली स्तुति ॥११५४॥

बुध्दि खंईथाई पाव्ता ।
आनी तॉ जँ जँ पळैता ।
तँ सर्वई तॉची जात्ता ।
वत्ता दृश्य लयाक ॥११५५॥

द्रष्टेपण हँ तागेलँ ।
तालयागीची की आश्शिलँ ।
प्रतिबिंब कान ॅतुलँ ।
पळैनापुर्डे कळ्ळँ ॥११५६॥

दृश्याक पोळोंचँपण ।
सर्नु उर्ता द्रष्टेपण ।
आप्णाइत्ल्याक आप्पण ।
जाव्नु आस्ता अॅक्ळॉची ॥११५७॥

सॉप्नांतुल्या सुंदरीक ।
जागी जाय्नापुर्डे आय्क ।
कश्शी जाय्द रॅ दिंव्च्याक ।
आलिंगन प्रत्यक्ष ॥११५८॥

दोनि काष्ठांचँ घर्षण ।
जाव्नु थंईं रॅ दर्शन ।
दित्ता तॉ अग्नि आप्पण ।
घेव्नु अेक्कची रूप ॥११५९॥

सूर्यबिंब तळ्यांतुलँ ।
प्रतिबिंब आप्णागॅलँ ।
वेंच्या म्हुणु तग्गु दँव्लँ ।
मॅळद वॅ तँ ताक्का ॥११६०॥

मगेलँची रूप जाव्नु ।
माक्काची घेश्शी पोळोनु ।
सांग कोणु हँ आय्कुनु ।
घॅद अश्शी म्हळ्ळ्यारी ॥९१६१॥

म्हणताती सूर्यु उदेता ।
काळोकु प्रकाशु जात्ता ।
कॉण दित्ता कॉण घॅत्ता ।
दोन्नी घड्चँ सहज ॥९१६२॥

दृश्य आनी द्रुष्टेपण ।
ह्या दोन्नींची ऊर्ना खूण ।
दर्शन मगेलँ जाण ।
तँ तूं आदि रूपाचँ ॥९१६३॥

कस्ली वस्तु दृष्टी पड्ता ।
थंइं दृश्य द्रष्टा आस्ता ।
मगेल्या भेटींतु घड्ता ।
ताक्का थेट दर्शन ॥९१६४॥

कश्की आप्णांतुं आप्पण ।
आकाश स्वस्थ संपूर्ण ।
तश्शी जाव्नु आत्मज्ञान ।
हॉवै जात्ता संतृप्त ॥९१६५॥

दिस्ता उद्दाक सर्वत्र ।
कल्पांतांतु अेक मात्र ।
तश्शी ज्ञानाव्यतिरिक्त ।
कस्लँ ऊर्ना हाज्ज्यांतुं ॥९१६६॥

उज्जॉ उज्ज्याक लास्सद ।
की पायु पाय्यारी चड्द ।
कश्शी उद्दाक बैसद ।
न्हात्त आप्णाइत्ल्याक ॥९१६७॥

तश्शी सर्वस्व सर्वथा ।
हांवंची हॉ जाव्नु आस्ता ।
यात्रा कोर्का म्हुणु पार्था ।
पड्द वॅ मज्खात्तीर ॥९१६८॥

तळ्यांतुलँ पाळ जरी ।
धाव्नु खॅळ्ळँ उद्काचेरी ।
तरी तँ भाग्र नॅलारी ।
यॅना कांटु दांटुनु ॥९१६९॥

पाळ येंव्चँ आनी वच्चँ ।
खॅळ तॅ सर्व उद्काचॅ ।
थंईं तांतुंची तँ घड्चँ ।
मॉड्चँई ताज्मितींची ॥९१७०॥

सान हॉड जावॉ पाळ ।
उद्दाकची तँ केवळ ।
अेकात्मता सर्वकाळ ।
जोण्णु आस्ता जळाची ॥९१७१॥

सर्वस्वी मगेलॉ जात्ता ।
मेळ्णु मज्ज्यांतुंची आस्ता ।
अेकस्थळी यात्रा घड्ता ।
अश्शी हाक्का मगेली ॥९१७२॥

देहक्रिया अेकअेक ।
घड्त जात्ता स्वाभाविक ।
तांतुंई तॉ सर्वात्मक ।
भावु मगेलॉ सॉण्णा ॥९१७३॥

कर्म कर्ता मदर्पण ।
विस्सर्ता आप्णा आप्पण ।
उर्ता मगेलँ स्मरण ।
तँवै जात्तां हांवंची ॥९१७४॥

दोन्नी कान् ंक दिस्तलँ ।
रूप अेकमेकांगॅलँ ।
भांग्रांतुं भांगार मॅळ्ळँ ।
अेकरूप ती दोन्नी ॥११७५॥

दिव्यामितीं दिवॉ दिस्ता ।
अश्शी कश्शी म्होण्चँ पार्था ।
जळ्णु तॉ अकर्ता जात्ता ।
तँची की रॅ नैष्कर्म्य ॥११७६॥

कर्म हॉ कर्तची आस्ता ।
कर्तृत्वाभिमानु सॉड्ता ।
त्यामितीं हागेलँ सुट्ता ।
त्या कर्माचँ बंधन ॥११७७॥

हागेलँ तँ क्रियाजात ।
हांवंची जात्तां समस्त ।
तीची पूजा जात्ता मूर्त ।
हान्नॅ कोर्ची मगेली ॥११७८॥

कोर्का स्वकर्म आस्थेनॅं ।
कॅल्यारी तँ कौशल्यानॅं ।
घड्तलँ त्याची योगानॅं ।
मगेलँई पूजन ॥११७९॥

स्तवन तँ जँ उलैता ।
दिस्ता तॉ जँ जँ पळैता ।
तान्नॅ चम्कूंचँ चम्कतां ।
तॉ नी हांवं भिन्न वॅ ॥११८०॥

तीची पूजा तॉ जँ कर्ता ।
संकल्पुई जपु जात्ता ।
समाधानांतुं त्या लाय्तां ।
मगेली ही समाधि ॥११८१॥

कांकण नी सुवर्णांतुं ।
भेदु आस्स म्हण्शी वॅ तूं ।
तश्शी भक्तु नी मज्ज्यांतुं ।
समसम अेकत्व ॥११८२॥

पाळ तँ ह्या उद्काचँची ।
पर्मळु कर्पूराचॉची ।
झग्झगु तॉ वज्राकची ।
स्वाभाविक आस्चॉची ॥११८३॥

सूत्रांवीणशी वस्त्रांतुं ।
मात्ती मड्क्या आकारांतुं ।
तश्शी हॉ मगेलॉ भक्तु ।
मेळ्णु आस्ता मज्ज्यांतुं ॥११८४॥

तागेल्या नामरूपांतुं ।
ऊर्ना हॉ अनन्य भक्तु ।
सिध्द जात्ता तॉ मज्ज्यांतुं ।
निराकार निर्गुण॥११८५॥

जागृति, स्वप्न, सुषुप्ति ।
हांतुली जी अनुभूति ।
जाण तूं सुभद्रापति ।
सर्वई तीं दृश्यची ॥११८६॥

तँची दृश्य द्रष्टा जात्ता ।
तॉची हांवं हँवै कळ्ता ।
सुखस्वरूपई जॉड्ता ।
परमभक्तु पार्था ॥११८७॥

राज्जु अेकु नद्रे पड्ता ।
वँटाळॉ पोळोनु लॅक्ता ।
पिश्शँ मन म्होणु लाग्ता ।
हॉची सर्पू आस्काज॥११८८॥

सुवर्णालंकारु जाण्ता ।
आप्णागेली ना ही सत्ता ।
आट्टैनापुडॅ वॅ उर्ता ।
अड्डी हँ नामरूप ॥११८९॥

उद्काविना पाळ जाय्ना ।
सांग रॅ हँ कॉण जाण्णा ।
म्हणद वॅ तॉ अर्जुना ।
की तँ पाळ स्वतंत्र ॥११९०॥

व्यवहार सॉप्नांतुलॅ ।
जागी जाय्नापुडॅ सर्लॅं ।
सत्यस्वरूप तागेलँ ।
दिस्सू लागता ताक्काची ॥११९१॥

आस्स वा आस्सना म्होण्चँ ।
स्वरूप हँची ज्ञानाचँ ।
तँची मगेल्या लीलेचँ ।
मर्म हँ ताक्का कळ्ता ॥११९२॥

जन्मना म्हांतारॉ जाय्ना ।
शाश्वतु हांवं झिज्जना ।
अद्वयु विस्तारु कळ्णा ।
पार्था हांवं स्वानंदु ॥११९३॥

अढळु हांवं अजिंक्यु ।
अनंतु रॅ ना अनेकु ।
मूळ हांवं विश्वात्मकु ।
तरी हांवं अव्यक्तु ॥११९४॥

जगन्नायकु ईश्वरु ।
अनादि हांवं अमरु ।
धैर्य हांवं विश्वाधारु ।
सर्वांगॅलॉ शरण्यु ॥११९५॥

नाथु सदैव प्रसन्नु ।
सुलभुई अनुदिनु ।
सर्वांसांगाती आस्सुनु ।
ऊर्नां हांवं तांच्यांतुं ॥११९६॥

पुरातनु नी नवीनु ।
शून्यु तरी रॅ संपूर्णु ।
स्थुलु आनी सूक्ष्मकणु ।
हँ सर्वई हांवंची ॥११९७॥

अकर्मी सर्वांतुं एकु ।
मोहु ना अथवा शोकु ।
हांवं व्याप्ती नी व्यापकु ।
नी तॉ पुरुषोत्तमु ॥११९८॥

उच्चारानॅ वा आय्कुनु ।
कळ्णा हांवं कोणु म्हुणु ।
रूपहीनु गोत्रहीनु ।
परात्परु स्वतंत्रु ॥११९९॥

आत्मीय भक्ति अनन्य ।
त्यान्मितीं हँ जात्ता ज्ञान ।
त्या ज्ञानाचँ अधिष्ठान ।
हांवं हँवै तॉ जाण्ता ॥१२००॥

नीद सर्नु जागी जात्ता ।
आप्पण आप्णाक जाण्ता ।
हँ जाण्चँ केवळ आस्ता ।
कश्की रॅ ताज्ज्यांतुंची ॥१२०१॥

सूर्यु स्वताची उदेता ।
जगाक प्रकाशु दित्ता ।
आप्पण हँ सर्व कर्ता ।
वत्ता तॉची विस्सोर्नु ॥१२०२॥

ज्ञेय वस्तु जण्णु घेव्नु ।
उर्ता आत्तं ज्ञानी जाव्नु ।
कॉणामितीं सर्व घण्णु ।
यॅत्ता हँवै तॉ जाण्ता ॥१२०३॥

अश्शी बोधु अद्वैताचॉ ।
आम्कां एकत्वांतुं हाड्चॉ ।
आप्पणची देवु म्होण्चॉ ।
योगु यॅत्ता भक्ताक ॥१२०४॥

द्वैताद्वैतातीत जाव्नु ।
ब्रह्मस्वरूपाक पाव्नु ।
सुखसर्वस्व तँ जाण्णु ।
भॉग्ता पूर्ण एकत्व ॥१२०५॥

अद्वैतांतुली जागृति ।
पावैता लयाक स्मृति ।
भक्तागेली पूर्वस्थिति ।
ती जात्ता नामशेष ॥१२०६॥

भांग्रा अलंकार घेव्नु ।
पळॅ तॅ भांगार म्हुणु ।
आट्टोव्नु तॅ खात्री कोर्नु ।
घेंव्काज वॅ भांग्राची ॥१२०७॥

मीट उद्कांतुं कर्गता ।
उद्दाकई मिट्शँ जात्ता ।
कळ्णा कश्शी एक जात्ता ।
तँ त्या उद्कासांगाती ॥१२०८॥

हांवं तॉ हँ दुजेपण ।
हाज्जँ जाव्नु निरसन ।
हांवं जॉ स्वानंदघन ।
तांतुं जात्ता तॉ लीन ॥१२०९॥

आत्तं ताज्ज्यांतुची तॉ ना ।
हांवई रॅ मज्ज्यांतुं ना ।
कॉणई कॉणांतुं रॅ ना ।
एकु तॉ परमानंदु ॥१२१०॥

आर्ति कर्पूराची सर्ता ।
सांगातीची दीप्ती निब्ता ।
दोन्नी पेल्दिकाचँ उर्ता ।
एक मुक्त आक्रोश ॥१२११॥

कश्की संख्येंत्थाव्नु एक ।
दुस्त्रँ उणॅ कॅल्लँ एक ।
उर्ता शून्य मात्र एक ।
तश्शी हांवं तँ शून्य ॥१२१२॥

ताक्का आत्मा ईश ब्रह्म ।
दीव्नु खंचँ एक नाम ।
तित्ल्यारी कळ्णा महात्म्य ।
स्वयं सिध्द स्थितीचँ ॥१२१३॥

कळ्ता हांवं वाचातीत ।
तरी उछैताती मस्त ।
कळ्ळेल्तरी कळ्णा तथ्य ।
कळ्ता पळॅ इत्लेंची ॥१२१४॥

ह्या ज्ञानानॅ आत्मबोधु ।
त्या आनंदानॅ आनंदु ।
सुखानॅ सुखाचॉ स्वादु ।
घेंन्चॉ अंतरंगांतुं ॥१२१५॥

लाभु लाभाकची मॅळ्ता ।
तेज तेजोमय जात्ता ।
आपाद मस्तक बुड्ता ।
विस्मयु विस्मयांतुं॥१२१६॥

स्वता पाव्ता शभु शांति ।
विश्रामु घॅत्ता विश्रांति ।
लीन जात्ता अनुभूति ।
त्याचि अनुभवांतुं ॥९२१७॥

अश्शी कर्मयोगी भक्तु ।
हांव जाव्नु तॉ मज्ज्यांतुं ।
उर्ता पार्था सदोदितु ।
भॉग्ता फल योगाचँ ॥९२१८॥

चक्रवर्ती हॉ सम्राटु ।
ताक्का चिद्रत्ना मुकुटु ।
दिव्नु घर्ला अेकवटु ।
ताक्का हांवँ चित्तांतुं ॥९२१९॥

मंदिर कर्मयोगाचँ ।
अधिष्टान सुकृताचँ ।
वैरी मोक्षकलशाचँ ।
स्थान ताक्का अढळ ॥९२२०॥

संसाराचँ रान दाट ।
सोण्णु धर्ता बरी वाट ।
कर्मयोगाची नी थेट ।
येव्नु मॅळ्ता माक्काची ॥९२२१॥

भक्तियुक्त कर्मयोगु ।
चिद्‌गंगेचॉ की तॉ ओघु ।
धांव्ता धरूक संयोगु ।
स्वानंद सागराचॉ ॥९२२२॥

ह्या योगाचॉ हॉ महिमा ।
नॅव्नॅवार्नॅ प्रियोत्तमा ।
सांग्लॅ तुगेल्याची क्षेमा ।
खात्तीर अश्शी हांवँ ॥९२२३॥

स्थळ कालु पोळोंकाज ।
जपतप कोर्काज ।
अश्शी ना हांवं सहज ।
सर्वांगॅलॉ सर्वस्व ॥९२२४॥

मज्ज्यांतुंची मेळ्णु वच्चॉ ।
हॉची उपायु खात्रीचॉ ।
दिस्ता वॅ तुक्का कष्टाचॉ ।
सांग तूं माक्का पार्था ॥९२२५॥

अेक्कु गुरु अेक्कु शिष्य ।
संप्रदायु चल्त आस्स ।
त्यान्मितीं मॅळ्तां अवश्य ।
ज्ञानस्वरूप हांवं ॥९२२६॥

वसुंधरेचँ उदर ।
नाना रत्नांचँ भांडार ।
पान्यांतुं दुद्दाची धार ।
आस्ता अग्नि काष्ठांतुं ॥९२२७॥

सहजची हॅ आस्सती ।
तरी उपाय कोर्काती ।
मेळ्च्याक तॅ नाना रीती ।
हांवै आस्स तशीची ॥९२२८॥

उपायु हॉ सांगला माक्षी ।
माक्का तुंवँ हृषिकेशी ।
इत्त्याक नॅवार्नॅ म्हण्शी ।
सांग्ता तॉची माक्का तूं॥९२२९॥

सांग्ताती शास्त्रं अनेक ।
उपाय मोक्षदायक ।
नाती तॅ खात्रीलायक ।
गीताशास्त्रार्थावारी॥९२३०॥

सूर्याचेरी मॉड यॅत्ता ।
वारॉ तँ धूर लकैता ।
शॅळॉ उद्‌कावॅलॉ जात्ता ।
सरोंच्याक केवळ ॥१२३१॥

तश्शी हॉ शास्त्रार्थु कळ्ता ।
आत्मज्ञान प्राप्त जात्ता ।
हांवंची तँ जाव्नु आस्तां ।
निर्मळ स्वरूपांतुं ॥१२३२॥

म्हुणु शास्त्रं हीं सकळ ।
जाण साधनं केवळ ।
ह्याविना ना तांकां स्थळ ।
ह्या आत्मसिध्दतेंतुं ॥१२३३॥

अध्यात्मविषयांतुलीं ।
सर्वई शास्त्रं म्हण्तलीं ।
की गीता हीची माऊली ।
आम्गेली पांडुपुत्रा ॥१२३४॥

सूर्यु पूर्वेक उदेता ।
प्रकाशु सर्वत्र जात्ता ।
तश्शी ही गीताश्री दित्ता ।
त्या सर्वांक आधारु ॥१२३५॥

माक्षी ह्याची गीताईनॅं ।
सांग्लँ सर्व विस्तारानॅं ।
की आत्मा ज्या उपायानॅं ।
यॅद तळहात्तारी ॥१२३६॥

ॲक्कफंतां जँ आय्कलँ ।
तँ सम कळ्णॅ की कळ्ळँ ।
अश्शी श्रीकृष्णाक दिस्लँ ।
त्या करुणाकराक ॥१२३७॥

नॅवानॅं तँची शिष्याक ।
निश्चित सम कळूक ।
सुरु कर्तलॉ सांगूक ।
आत्तं तॉ हाज्मुखारी ॥१२३८॥

जाय्त आयल्यां हँ संपन्न ।
श्रीगीतेचँ निरूपण ।
जँ अेक प्रतिपादन ।
आदि आनी अंताचँ ॥१२३९॥

हांवँ मद्‌मद्दगतीची ।
जॅ प्रसंगानुरुपची ।
त्या सर्वई सिध्दांतांची ।
कॅल्या चर्चा विस्तृत ॥१२४०॥

जरी कॉणाक दिस्सद ।
जाल्या तीची असंबध्द ।
अपवादु हॉ का`द ।
धुव्नु पळॅ सर्वथा ॥१२४१॥

महासिध्दांतु अेक्कूची ।
वाडी जात्ता सहजची ।
नाना उपसिध्दांतांची ।
मूळारंभु तॉची की ॥१२४२॥

अज्ञानाचॉ नाशु जांव्का ।
मोक्ष प्राप्त कोर्नु घेंव्का ।
ह्या दोन्नींखात्तीर धोर्का ।
मार्गु आत्मज्ञानाचॉ ॥१२४३॥

ग्रंथविस्तारांतुं सर्व ।
हँची सूत्र अेकमेव ।
जांव्काज हॉ दृढभाव ।
तँची कॅल्लँ संक्षिप्त॥१२४४॥

अश्शी जँ मेळोंचँ आस्ता ।
तँ सर्वई प्राप्त जात्ता ।
तरी तॅ उपाय सांगतां ।
जॅ जाल्याती सांगुनु ॥१२४५॥

कर्मयोगी अेकनिष्ठ ।
हांवं तॉ मज्ज्यांतु स्थित ।
जाव्नु राब्ता सदोदित ।
धनुर्धरा सुधीरा ॥१२४६॥

दृढभाव धोर्नु हॉची ।
सुनिर्मळ स्वकर्मांची ।
पूजा जी जी तान्नॅ कोर्ची ।
जात्ता सर्व मद्रूप ॥१२४७॥

ज्ञान जात्ता हस्तगत ।
तीची भक्ति रॅ उत्कट ।
भजनांतु अेकचित्त ।
जाव्नु जात्ता चिद्रूप ॥१२४८॥

विश्वाचँ हांवं चैतन्य ।
तांतु जात्ता तॉ अनन्य ।
रूप विश्वाचँ धारण ।
कर्ता तॉची आप्याप ॥१२४९॥

कोर्नु आत्मसमर्पण ।
जात्ता जळ तँ लवण ।
सोण्णु सर्व दिग्भ्रमण ।
वारॉ जात्ता आकाश ॥१२५०॥

तॉ कायावाचामनाक ।
अश्शी विस्सर्ल्तरी अेक ।
कर्ता कर्म अचानक ।
जरी निषिध्द तँची ॥१२५१॥

तरी कश्की न्हंई होळु ।
हांगेलॉ गंगेंतु मेळु ।
जात्ता तश्शी ना जंजाळु ।
ताक्का शुभाशुभाचॉ ॥१२५२॥

तँ बॅत नी हँ चंदन ।
तोवरेक तीं विभिन्न ।
जोवरेक उन्मीलन ।
जाय्ना अग्निज्वालेंतुं ॥१२५३॥

कीड नी हीन सुवर्ण ।
ह्या द्वैताचँ ना बंधन ।
परीसु कर्ता समान ।
दॉग्गांकई तत्क्षण ॥१२५४॥

जोवरेक हांवं अेकु ।
कळणा सर्व प्रकाशकु ।
तोवरेक हॉ काळोकु ।
भेदाचॉ आस्तलॉची ॥१२५५॥

राती दीसु जोवरेक ।
वच्चनाती ती मेळूक ।
ते जोनिधि भास्कराक ।
तोवरेक हँ द्वैत ॥१२५६॥

ज्या समयारी तॉ मॅळ्ता ।
कर्माकर्मातीत जात्ता ।
सायुज्यपदारी बस्ता ।
नी तॉ जात्ता मद्रूप ॥१२५७॥

निसर्गनेमानुसार ।
नाश पाव्ता चराचर ।
तॉ मात्र रॅ परात्पर ।
जाव्नु उर्ता शाश्वत ॥१२५८॥

वस्तुतः तॉची हांवं ।
आनी तागेलँ सर्वस्व ।
हॉची होडु अेकमेव ।
लाभु दुस्त्रॉ आस्सश्ना ॥१२५९॥

धनुर्धरा ह्याखात्तीर ।
जॅ जॅ कर्शी व्यवहार ।
तांतुं तूं माक्का साकार ।
कोर्नु पळॅ सदैव ॥१२६०॥

जाल्यारी कर्म सहज ।
जालेल्वारी हँ घड्काज ।
दृढ विवेकु धोर्काज ।
अेकु आत्मबोधाचॉ ॥१२६१॥

विवेकाचँ साह्य घेव्नु ।
कर्मबंधमुक्त जाव्नु ।
पळैशी तूं हांवं जाव्नु ।
मगेलँ हँ स्वरूप ॥१२६२॥

कर्माची जी जन्मदात्री ।
म्हुणु आस्स प्रकृति ती ।
तूं न्हई ही अनुभूति ।
येत्ली तुक्का सहज ॥१२६३॥

तूं ना जाल्यारी तुगेली ।
कश्शी पड्तली रॅ साव्ली ।
तीवै तश्शी ह्या आत्म्याली ।
साव्ली ती ना स्वतंत्र ॥१२६४॥

प्रकृति केवळ माया ।
कळ्णापुडॅ धनंजया ।
कर्माची तुज्जेरी छाया ।
सांग कश्शी पड्तली ॥१२६५॥

कर्मसंन्यासु आप्याप ।
घण्णु दिस्ता आत्मरूप ।
त्या ह्या पतिगॉलँ तप ।
करॉ  बुध्दि तुगेली ॥१२६६॥

थंईं अेकनिष्ठ ऊर्द ।
मनई निर्विषय जाय्द ।
चित्तई कोरु लाग्गद ।
चिंतन मगेलँची ॥१२६७॥

चित्ताक मगेलँ ध्यान ।
लाग्गनापुडॅ अनन्य ।
तांतुंची नित्य निमग्न ।
जाव्नु उरॉ अर्जुना ॥१२६८॥

अखंड सॅवा घड्तली ।
अश्शी ही तुक्का मगेली ।
मत्प्रसादानॅ भर्तली ।
झोळ्ळी तुगेली पूर्ण ॥१२६९॥

जन्मा येव्नु मरसरी ।
भोग्चँ दुःख नानापरी ।
हॉ प्रसादु तापहारी ।
कर्ता तँची सुसह्य ॥१२७०॥

सूर्या प्रकाशु आस्तना ।
सर्वई दॉळ्यां दिस्तना ।
कस्ल्याक सांग अर्जुना ।
भिंव्काज रॅ काळ्काक ॥१२७१॥

तश्शी मगेल्या कृपेनॅ ।
जीवदशा कांइं ऊर्नँ ।
भिंव्काज कस्ल्याक तान्नॅ ।
मायावी संसाराक ॥१२७२॥

अश्शी प्रसादु मगेलॉ ।
तुक्काई संपूर्ण मॅळ्ळॉ ।
भवभ्रमु मनांतुलॉ ।
वत्लॉ पळॅ सर्वथा ॥१२७३॥

हांवंई हँ जाण्तां म्हुणु ।
अहंता माक्का दाकोनु ।
घेश्शी कानुई फाप्पुण्णु ।
आय्कुनु हँ उत्तर ॥१२७४॥

ह्या उन्मत्तपणामितीं ।
तुगेली ती आत्मस्थिति ।
विस्सोर्नु तूं देहवृत्ति ।
घेश्शी व्यर्थ पोट्टोळ्णु ॥१२७५॥

अश्शी धर्शी तिक्का जरी ।
आत्महानी परोपरी ।
जात्ली पळॅ जन्मभरी ।
दीश्ना तुक्का विश्रांति ॥१२७३॥

काण्णु घाल्यारी उत्तर ।
आस्सुनुई तूं अमर ।
मृत्यु अस्लँ भयंकर ।
दुःख सोस्का पड्तलँ ॥१२७७॥

अपथ्य कोर्नु रॉगाक ।
दिवॉ फुंकुनु काळ्काक ।
अविवेकानॅ अहंतेक ।
पोश्शिल्वारी जाय्ना वॅ ॥१२७८॥

शरीर हँ अर्जुनालँ ।
तॅ देह स्वजनांगॅलॅ ।
युध्द परस्परांतुलँ ।
हँ पाप महाघोर ॥१२७९॥

अश्शी हँ तुवँ ठरोन्नु ।
नांवं हीं तीनी दव्वोर्नु ।
शस्त्रत्यागुई हॉ कोर्नु ।
म्हण्ता युध्द करीश्ना ॥१२८०॥

अश्शी तुवँ म्हळ्ळेल्तरी ।
जाय्श्ना तश्शी धनुर्धारी ।
तुक्का स्वधर्मा मार्गारी ।
स्वभावुची हाड्तलॉ ॥१२८१॥

हांवं अर्जुनु हॅ आप्त ।
हांगेल्या हत्त्येनॅ व्यर्थ ।
पाप लाग्तलँ निश्चित ।
म्हण्ता मोहमायेनॅ ॥१२८२॥

युध्दाक तुवँ उब्रोंचँ ।
शस्त्रई हात्तांतुं धोर्चें ।
आनी आत्तं तुवँ म्होण्चँ ।
की करीश्ना हँ युध्द ॥१२८३॥

विचारु हॉ आय्यिल्तरी ।
अश्शी तुक्का ह्या वॅळारी ।
वॅगळँची क्षणाभित्तरी ।
जात्लँ म्हण्तीद लोक ॥१२८४॥

युध्द हँ करीश्ना म्हुणु ।
बस्ला तूं अेक्कची घेन्नु ।
योग्य तँची यॅत्लँ घण्णु ।
वृत्तिधर्मानुसार ॥१२८५॥

प्रवाहु वत्ता पूर्वेक ।
पोंव्चँ जात्ता पश्चिमेक ।
कश्शी पाव्शी मुक्कामाक ।
दुराग्रहु न्है वॅ हॉ ॥१२८६॥

पळॅ साळीबीज म्हण्णा ।
की आप्पण साळी जाय्श्ना ।
आप्णागॅल्या हात्तांतु ना ।
स्वभावाक बदल्चँ ॥१२८७॥

क्षत्रियवृत्ति तुज्ज्यांतु ।
संस्कारसिध्द जाल्ला तूं ।
कस्लँ म्हण उटाय्शी तूं ।
शस्त्र धोर्नु हात्तांतु ॥१२८८॥

शौर्य दक्षतादि गुण ।
सर्वई प्रकृतिजन्य ।
दित्लॅ तुक्का उत्तेजन ।
पार्था हँ सुनिश्चित ॥१२८९॥

अशीची तुंवँ बस्ल्यारी ।
ताण्णु व्हर्वलॅ घर्धरी ।
तुक्का तॅ रणांगणारी ।
कश्शी कॅर्नां कळश्ना ॥१२९०॥

गुण सर्व जन्मसिध्द ।
लाय्तलॅ युध्दाचॅ वेध ।
उटाय्शी कोरूक युध्द ।
जँ तूं म्हणता करीश्ना ॥१२९१॥

क्षत्रियु तूं विस्सोर्नक्का ।
नाक्का हँ युध्द म्होण्णक्का ।
मूढ जाव्नु बैसु नाक्का ।
करी थॉडॉ विचारु ॥१२९२॥

हात नी पाय बांदुनु ।
बसैलॉ रथांतु व्होर्नु ।
चम्कनात्तिल्वरी भोव्नु ।
यॅत्लॉ तॉ चारी दिक ॥१२९३॥

कस्लँ करीश्ना तूं म्हण्शी ।
तरी तूं तँ सर्व कर्शी ।
आनी कोर्नु शुध्द जाश्शी ।
व्हथि  की ना पळॅ तूं ॥१२९४॥

धाव्ला तूं साह्य कोरूक ।
हतबल उत्तराक ।
तँची क्षत्रियत्व आय्क ।
यॅत्लँ पळॅ उस्सोळ्णु ॥१२९५॥

सैन्य अक्रा अक्षौहिणी ।
लाय्लँ लेंव्च्याक धरणी ।
केली अद्भूत करणी ।
तुंवँची की ॲक्ळ्यानॅ ॥१२९६॥

कॉण रॉगाक आपैद ।
कॉण दारिध्र मागगद ।
अदृष्ट कॅर्नां सरद ।
म्हणत हँ भोग्काजची ॥१२९७॥

ईश्वराधीन आस्तना ।
हँ चुक्कोंच्याकई जाय्ना ।
हृदयांतु तॉ अर्जुना ।
आस्स न्हवॅ सांगाती ॥१२९८॥

तॉ सर्व प्राणिमात्रांतुं ।
जाव्नु आस्स हृदयस्थु ।
थंइं स्वयंप्रकाशितु ।
जाल्ला ज्ञानरूपानॅ ॥१२९९॥

जागृति स्वप्न सुषुप्ति ।
तिन्नी सचेत जात्ताती ।
वाट चुक्किलॅ धर्ताती ।
जागी जाव्नु सन्मार्गु॥१३००॥

सरोवर संसाराचँ ।
फुल्ता पद्म विषयांचँ ।
इंद्रियद्वारा गंधाचँ ।
पान जीवभृंगाक ॥९३०१॥

सर्वांगॅलॉ स्वाभिमानु ।
ईश्वरू पांग्रोनु घेव्नु ।
खॅळ विविध दाकोनु ।
रमैता निरंतर ॥९३०२॥

पड्दॉ मायेचॉ इद्वारी ।
धोर्नु हात्तांतुं हॉ दोरी ।
नांचैता रंगमंचारी ।
चौरयांशी लक्ष बोंबीं ॥९३०३॥

ब्रह्मा जावॉ वा कीटक ।
तांग्तांगेल्या योग्यतेक ।
सम जाय्शी देह अेक ।
दीव्नु दित्ता हॉ न्यायु ॥९३०४॥

रूपा साज्जशी आकारु ।
त्यानुरुप अहंकारु ।
तॉची हांवं हॉ विचारु ।
हॉवै ताज्जे सांगाती... ॥९३०५॥

सुत्तांतुं सूत घुस्पता ।
तणा भॉरॉ तण बांद्ता ।
चेर्डुं आप्पण तँ लॅक्ता ।
प्रतिबिंब पोळोनु ॥९३०६॥

आत्मीयता ह्या देहाची ।
इत्ली की तँ आप्पणची ।
अश्शी कल्पना जीवाची ।
जात्ता पळॅ अर्जुना ॥९३०७॥

दोरी पूर्वसंचिताची ।
नांचैता तॉ ह्या देहाची ।
अवस्था यंत्रावारीची ।
जात्ता ह्या सर्वांगेली ॥९३०८॥

तांग्तांगॅलॅ व्यवहार ।
तॅ पूर्वकर्मानुसार ।
घड्त वत्ताती सर्सर ।
फिर्त उर्ता हँ चक्र ॥९३०९॥

वारॉ तणाक उब्बाय्ता ।
आकाशांतुं तँ घुंव्डाय्ता ।
तश्शी सर्वांक भॉंव्डाय्ता ।
तॉ स्वर्गसंसारांतुं ॥९३१०॥

आप्पॉ गॅलेल्कडॅ पार्था ।
लॉखंडाक ताण्णु घॅत्ता ।
नांचुनु ताक्का नांचैता ।
कश्की लोहचुंबक ॥९३११॥

कश्की सानी होडी जात्ता ।
चंद्रकळा कुंतिसुता ।
समुद्रादिकांतुं घड्ता ।
त्यानुसार बदलु ॥९३१२॥

भर्ती सुक्ती समुद्राक ।
पाझरु सोमकांताक ।
विकासु कुमुदिनीक ।
चकोराक जीवन ॥९३१३॥

जॅ जॅ मूळ गुणधर्म ।
जात्ता त्यानुसार कर्म ।
करैतलँ परब्रह्म ।
तँची सर्वांतर्यामी ॥९३१४॥

हँ सर्वई करैतना ।
हांवं अर्जुनु हँ म्हण्णा ।
साकार ती संवेदना ।
आदि आत्मतत्त्वाची ॥९३१५॥

अश्शी मॅळ्ता प्रकृतीक ।
चेतना कर्म कोरूक ।
तुक्काई आत्तं युध्दाक ।
प्रवृत्त ती कर्तली ॥९३१६॥

ईश्वरागेली ही सत्ता ।
हातु प्रकृतीलॉ धर्ता ।
इंद्रियांक तीवै लाप्ता ।
कामं ती तीं कोरूक ॥९३१७॥

तुंवँ कोर्चें कर्ना जांव्चँ ।
प्रकृतीनॅ लक्ष दिंव्चँ ।
नी तिन्नॅ पालन कोर्चें ।
ईश्वराल्या आज्ञेचँ ॥९३१८॥

दीव्नु काया वाचा मन ।
वच ताक्का तूं शरण ।
समुद्रांतुं समर्पण ।
कर्ता कश्की जान्हवी ॥९३१९॥

जात्लॉ प्रसन्न तुज्जेरी ।
दित्लॉ शांति सहचरी ।
तिज्सांगाती हाज्मुखारी ।
जाश्शी स्वरूपानंदु ॥९३२०॥

ज्यान्मितीं जात्ता उत्पत्ति ।
विश्रामु घॅत्ता विश्रांति ।
स्वानुभवु सुखशांति ।
दित्ता अनुभंच्याक ॥९३२१॥

स्वात्मानंद सिंहासन ।
ताज्जेरी तूं स्थानापन्न ।
जाव्नु कोर्नु घॅ स्वाधीन ।
तँची स्थान शाश्वत ॥९३२२॥

प्रख्यात हँ गीताशास्त्र ।
वाङ्मयाचँ नवनीत ।
आत्मसार तँ वांटीत ।
आरस मुक्त् हस्तानॅ ॥९३२३॥

वेदांनीं हाज्जँ स्तवन ।
कोर्नु सांग्ल्यां महिमान ।
की हँ ज्ञानाचँई ज्ञान ।
अश्शी पाव्ल्यां प्रसिध्दि ॥९३२४॥

बुध्दिगम्य सर्व ज्ञान ।
पार्था जाण तँ तूं गौण ।
हांतुंची साक्षात् दर्शन ।
जात्लँ तुक्का मगेलँ ॥९३२५॥

कळ्णा हांवं कॉणाकई ।
गुप्त आस्स हँ धनई ।
मल्यागी मगेलॉ तुंवै ।
इत्त्या दव्रुं निप्पोव्नु ॥९३२६॥

आश्शिल्मितीं आप्लेपण ।
मनई जाव्नु प्रसन्न ।
दव्वर्लँ हँ गुप्तधन ।
हांवँ रॅ तुज् इद्रारी ॥९३२७॥

दोषु थॉडॉ दिश्शिल्तरी ।
आव्सु माया चॅर्डाचेरी ।
कर्ता तश्शी ती तुज्जेरी ।
बस्ल्या पळॅ मगेली ॥९३२८॥

आकाश गाळ्णु पोळोंका । पाताळांत्थाई वच्चुनु ।
अमृत फुंकुनु पिंव्का । पाव्ता सूर्यालॉ किरणु ।
दिव्यानॅ प्रकाशु दिंव्का । कस्ल्याक घेंव्काज सुव्नु ।
अश्शी म्होण्का पण्णाची ॥९३२९॥ नेत्रांजन सूर्यानॅ ॥९३३०॥

तश्शी हांवँ जॉ सर्वज्ञु । हांतुंलँ जँ जँ घेंव्काज ।
आस्तां सर्वसाक्षी जाव्नु । तँ तुंवँची ठरोंकाज ।
सत्यांत्लॉ सत्वांशु काण्णु । नी त्यानुसार चल्काज ।
जँ सांग्काज तँ सांग्लँ ॥९३३१॥ हाज्मुखारी भॅमानॅ ॥९३३२॥

दॅवाल्या ह्या उत्राचेरी । जॅवनस्तनाची वाळ्ळेलँ ।
स्वस्थ बस्लॉ धनुर्धारी । म्हणता क्षुधितु आप्णालँ ।
म्हणता ताव्वळी मुरारी । पॉट भर्लँ कॉण फस्लँ ।
इत्त्या पिस्सॉ जात्ता तूं ॥९३३३॥ सांग दोषु कॉणालॉ ॥९३३४॥

सद्गुरु समर्थु जरी । ताज्जित्ल्याक तॉची फस्ता ।
शिष्यानॅ भीड धर्ल्यारी । आत्महानि कोर्नु घॅत्ता ।
निम्गिनस्तना बस्ल्यारी । आनी लाभु तॉ लकैता ।
कस्लँ जाय्द जाण तूं ॥९३३५॥ वट्टालाग्गी आय्यिलॉ ॥९३३६॥

इत्त्याक नोळीत बस्लॉ । आत्तं अर्जुनु उल्लैता ।
हॉची प्रश्नु माक्का पळ्ळॉ । दॅवा तूं उदार दाता ।
तरी विचारुई कॅल्लॉ । कश्शी रॅ हँ तुक्का कळ्ता ।
की सांग्येद नॅवानॅ ॥९३३७॥ मगेल्या मनांतुलँ ॥९३३८॥

जँ जँ जाण्णु घेंव्चँ आस्ता । हँ आय्कुनु देवु म्हणता ।
तँ सर्वई तूंची जाण्ता । हांवं जँ जँ तुक्का सांग्तां ।
तूं सूर्यु हँ सांग्का पड्ता । तँ सर्व तूं जाण्णु घॅत्ता ।
की सांग त्या सूर्याक ॥९३३९॥ जात्ता माक्का संतोषु ॥९३४०॥

तरी आत्तं ध्यान दीव्नु । हांवं सांग्तां तूं आय्कता ।
आय्क सांग्तां स्पष्ट कोर्नु । हॉ अेकु सुयोगु पार्था ।
सर्वई तँ मूळधोर्नु । हँची महद्भाग्य म्हणता ।
तूरीथाई नॅवानॅ ॥९३४१॥ तुगेलँ रॅ सर्वथा ॥९३४२॥

नद्रेनॅची की पिवैता ।
कासवी पिल्लांक पॉस्ता ।
चकोराली तान निव्ता ।
आकाशांत्ल्या उद्कानॅ ॥१३४३॥

साध्य साधनेचॉ योगु ।
जुळ्णु यॅनस्तना भोगु ।
घड्ता ताव्वळी तॉ योगु ।
दैवाचॉची म्होण्काज ॥१३४४॥

अेकत्वांतुंची आस्तना ।
अेकत्वानॅ तँ भॉग्तना ।
द्वैत कश्शी तांतु यॅना ।
हँची अेक रहस्य ॥१३४५॥

अर्जुना हँ अेकरूप ।
केवळ प्रेमस्वरूप ।
ना व्यवहाराचॉ व्याप ।
ना वा उपचाराचॉ ॥१३४६॥

दिस्सॉ प्रतिमा आप्णाली ।
म्हुणु कान्डी स्वच्छ केली ।
धुळी ताज्जेरी बश्शिली ।
ती पुस्का म्हुणु न्हई ॥१३४७॥

तश्शी निमित्त तुगेलँ ।
हांवँ माज्खात्तीर कॅलँ ।
तरी तूं नी हांवं वॅग्ळॅ।
नातीची धनुर्धरा ॥१३४८॥

म्हुणु अंतरं गांतुलँ ।
रहस्य उघड कॅलँ ।
अेकत्वाचँ हँ मगेलँ ।
वच्चना पिश्शेपण ॥१३४९॥

उद्कांतुं कर्गुनु वत्ना ।
मिट्टाक भान आस्सना ।
उणेपण तँ लॅक्कना ।
अेकरूप जांव्च्यांतुं ॥१३५०॥

तश्शी तुगेलँ तुंवई ।
घॅना राक्कुनु कस्लेंई ।
मगेलँ हँ रहस्यई ।
मॅळ्ता पळॅ तुज्ज्यांतुं ॥१३५१॥

म्हुणु जँ अंतरंगांतुं ।
यॅत्त आस्स प्रकाशांतुं ।
तँ सर्वई तूं तुज्ज्यांतुं ।
घॅ रॅ आत्तं पोळोनु ॥१३५२॥

घेव्नु मगेलॉ आधारु ।
अंतर्बाह्य व्यवहारु ।
करी नी तांतु साकारु ।
जात्लाँ रॅ तुक्का हांवं ॥१३५३॥

वारॉ आकाशांतुं फिर्ता ।
दशदिशा अेक कर्ता ।
तश्शी माक्काई तूं पार्था ।
पळॅ सर्व कर्मांतुं ॥१३५४॥

करी तुगेलँ तूं मन ।
मगेलँची अधिष्ठान ।
भरोती तुगेलॅ कान ।
मगेल्या कीर्तनानॅ ॥१३५५॥

ज्ञानयुक्त साधुसंत ।
हांवंची तॅ मूर्तिमंत ।
कामी कामिनीलँ नित्य ।
घॅ तश्शी तूं दर्शन ॥१३५६॥

सर्वत्र मगेलॉ वासु ।
घरॉ वाचा रात्रंदीसु ।
मगेल्या नामाचॉ ध्यासु ।
नाम भवतारक ॥९३५७॥

खंईं यॉ वच तूं करी ।
कस्लेंई कोरुक धरी ।
त्या त्या वॅळारी तूं करी ।
मगेलँची स्मरण ॥९३५८॥

लोककल्याण कोर्काज ।
आप्लॉ पर्कॉं म्होणू नज्ज ।
अश्शी चल्यारी सहज ।
घड्ता सॅवा मगेली ॥९३५९॥

शिकोंका वॅ हँ अेकेक ।
लॅक तूं हांवं सर्वांक ।
लाग तांगेल्या सेवेक ।
तीची माक्का पाव्तली ॥९३६०॥

सेवेनॅ तुगेलँ मन ।
जात्लँ निर्मळ प्रसन्न ।
मगेलँ हृदयासन ।
करी तूं सुशोभित ॥९३६१॥

ह्या विशाल जगतांतु ।
तूं नी हांवं अेकांतांतु ।
तिस्त्र्या कॉणाक आम्च्यांतु ।
जागॉ मॅळ्णा रिग्गूक ॥९३६२॥

कस्ल्याई परिस्थितींतुं ।
तूंची हांवं हांवंची तूं ।
भेदु ना अेकमेकांतु ।
सुख अेक सर्वत्र ॥९३६३॥

विश्व विश्वपण सॉड्ता ।
नी तँ सुखरूप जात्ता ।
केवळ आम्गेलँ उर्ता ।
अेकरूप विशाल ॥९३६४॥

प्रतिबिंब उद्कांतुलँ ।
उद्कासांगाती आट्तलँ ।
मूळ बिंब तँ उर्तलँ ।
थंइंची ताज्इत्ल्याक ॥९३६५॥

वारॉ आकाशस्वरूप ।
जात्ता पाळ आपरूप ।
घड्ता सर्व हँ आप्याप ।
कॉण तांकां आड्डाय्ता ॥९३६६॥

जोवरेक देहभाव ।
तोवरेक तूं नी हांवं ।
धरी अेक सर्वभाव ।
जाश्शी तूंची सर्वेशु ॥९३६७॥

आय्कुनु हँ तूं घेव्नाक्का ।
अश्शी जाय्द की ना शंका ।
घाल्तां तुज्जी आण तुक्का ।
की हँ सत्य त्रिवार ॥९३६८॥

घॅत्ल्यारी तुगेली आण ।
जात्ली ह्या आत्म्याली म्हण ।
प्रेमाक ह्या ना बंधन ।
लाज्जेचँ मर्यादेचँ ॥९३६९॥

भेदभाव विरहित ।
आत्मा हॉ सर्वसमर्थ ।
आस्स विश्वाक नांचैत ।
आनी त्या कालाकई ॥९३७०॥

जॉ हांवं विश्वविधाता ।
सत्यसंकल्पाचॉ दाता ।
तान्नॅ घेंव्काज वॅ पार्था ।
आण अश्शी तुगेली ॥१३७१॥

तुगेलॉ ध्यासु जीवाक ।
लाग्लॉ विस्सर्लॉं ब्रीदाक ।
अर्द अर्द मेळ्णु एक ।
दॉग्ग भॉग्ताती सुख ॥१३७२॥

रायुची राज्याचॉ शास्ता ।
शासनाची आण घॅत्ता ।
तश्शी जालेल्वारी दिस्ता ।
की हँ आत्तं सर्वई ॥१३७३॥

अर्जुनु दॅवाक म्हण्ता ।
गॉड्ड इत्त्याक उलैता ।
तुगेलीची सत्ता चल्ता ।
आम्गेल्या कर्मांचेरी ॥१३७४॥

आम्कां दीव्नु तूं हाड्पण ।
वैल्यानॅ घॅत्ता ही आन ।
कस्लेंई ना वॅ प्रमाण ।
तुगेल्या ह्या उत्रांक ॥१३७५॥

फाल्फाल्यावॅलॅ किरण ।
फुलैताती उपवन ।
सूर्याक ना समाधान ।
दित्त उर्ता प्रकाशु ॥१३७६॥

चातकाली तान कित्ली ।
तरी मेघवृष्टी जात्ली ।
तप्त पृथ्वीई निव्तली ।
समुद्रुई भर्तलॉ ॥१३७७॥

हांवंई नॅवन एक ।
जालाँ तुगेल्या कृपेक ।
मितिची ना ह्या दानाक ।
उदारा रॅ दातारा ॥१३७८॥

देवु म्हण्ता नाक्का नाक्का ।
तुं हॉ विषयु काण्णक्का ।
सांगत आस्सं रॅ तुक्का ।
माक्का मेळ्चॉ उपायु ॥१३७९॥

उद्कांतुं पड्ता लवण ।
कर्गत वत्ता तत्क्षण ।
तान्नॅ आत्तं वॅग्ळेपण ।
घेंव्काज वॅ राक्कुनु ॥१३८०॥

हांवं सर्वत्र सर्वांतुं ।
जाण्णु करी भजन तूं ।
अहंता भक्ति रसांतुं ।
कर्गतली निःशेष ॥१३८१॥

स्वकर्मं कश्शी कोर्काती ।
कश्शी कोर्काज वा भक्ती ।
कस्कश्शी मगेली प्राप्ती ।
जात्ली हँवै सांग्ल्यांची ॥१३८२॥

स्वकर्मं करी अर्पण ।
तँची मगेलँ पूजन ।
तुक्का सर्वत्र दर्शन ।
जात्लँ प्रसन्नतेचँ ॥१३८३॥

मेळ्णु तुक्का हॉ प्रसादु ।
जाश्शी आत्मज्ञानी सिध्दु ।
मगेल्याची स्वरूपांतुं ।
उर्शी तूं निरंतर ॥१३८४॥

ह्या अवस्थेंतुं अर्जुना ।
ध्येय ध्वाता ध्यान ऊर्ना ।
हांवं नी तूं ह्याविना ना ।
अन्य कांइं ताव्वळी ॥१३८५॥

आजिवरेक केल्लेलीं ।
स्वकर्मं तुंवँ आप्णालीं ।
माक्काची अर्पण केल्लीं ।
म्हुणु आय्लॉ हॉ योगु ॥१३८६॥

जरी युध्दाचॉ प्रसंगु ।
सांग्का पळ्ळॉची हॉ योगु ।
साधनेचॉ फलभोगु ।
चुक्कैनॅ रॅ तुगेलॉ ॥१३८७॥

अज्ञानाचँ निर्मूलन ।
ज्ञानाचँ बीजरोपण ।
जावॉ म्हुणु निरूपण ।
कॅल्लँ गीताशास्त्राचँ ॥१३८८॥

सांग्तना तँ आत्मज्ञान ।
कॅल्यां तांतुं विवेचन ।
धर्माधर्माचँ संपूर्ण ।
ऊरद वॅ अज्ञान ॥१३८९॥

आशा हँ दुःखाचँ मूळ ।
पाप हँ निंदेचँ फळ ।
दुर्दैवानॅ यॅत्ता वॅळ ।
पार्था दैन्यावस्थेची ॥१३९०॥

अज्ञानामितीं अर्जुना ।
यॅत्ताती मनांतुं नाना ।
स्वर्गनरक कल्पना ।
त्यॉ वत्ल्यॉ ह्या ज्ञानानॅ ॥१३९१॥

कळ्ता हात्तांतुं धल्र्यारी ।
फस्लाँ सर्पु न्हई दोरी ।
सॉप्नांतुली यॅरादारी ।
सर्ता जागी जाल्यारी ॥१३९२॥

जात्ता हुशार कावीळ ।
चंद्रु हळ्दुवॉ धवल ।
कळ्ळू लाग्ताई सकळ ।
रुची व्याधीमुक्ताक ॥१३९३॥

ज्यावॅळारी सूर्यु बुड्ता ।
मृगजळई ना जात्ता ।
आश्शिलँ राक्कूड सर्ता ।
जळोंचोई प्रश्नु ना ॥१३९४॥

तश्शी नाना कर्मकांड ।
तँ धर्माधर्माचँ वंड ।
सोण्णु दी सर्व पाखांड ।
त्याची ह्या अज्ञानाचँ ॥१३९५॥

अश्शी अज्ञान ना जात्ता ।
थंईं हांवं मात्र आस्तां ।
कश्की तुज्ज्यांतु तूं यॅत्ता ।
भाग्र त्या सॉप्नांत्थान्नु ॥१३९६॥

भेदभाव नाती थंईं ।
मज्विना ना अन्य कांईं ।
सोऽहं बोधांतुं सर्वई ।
अेक  दिस्सू लाग्ताती ॥१३९७॥

तुंवै तूं म्हुणु ना भिन्न ।
मज्ज्यांतुंची तूं अनन्य ।
हाक्काची म्होंणचँ शरणं ।
येंव्चँ माक्का सुधीरा ॥१३९८॥

पळॅ मात्ये मड्कँ फुट्ता ।
घटाकाश मुक्त जात्ता ।
आनी एक जाव्नु मॅळ्ता ।
तँ महदा काशांतुं ॥९३९९॥

अलंकारु सुवर्णांतुं ।
पाळई त्याची उद्कांतुं ।
भॉग्ता सुखाचॉ एकांतु ।
तश्शी यॉ तूं शरण ॥९४००॥

आस्स दुस्त्री विंगडची ।
रीति शरणागतीची ।
समुद्रांतुं तॉ अळ्तची ।
आस्स वडवानलु.... ॥९४०१॥

वॅग्ळॅपणई तँ राक्चँ ।
नी शरण आय्लाँ म्होण्चँ ।
लक्षण हँ लज्जॅ चँ ।
व्हई की ना सांग तूं ॥९४०२॥

ह्या भूतलारी भूपति ।
दासीगॅलॉ जात्ता पति ।
सहजची जात्ता की ती ।
राणी म्हुणु रायाली ॥९४०३॥

मेळ्णुई विश्वनाथाक ।
विस्सर्नँ तॉ ह्या जीवाक ।
खब्बरी ही आय्कूंच्याक ।
सोण्णक्का तूं कान्नाक ॥९४०४॥

अश्शी ज्ञानी भक्तु जॉ तूं ।
मेळ्णु वच तूं मज्ज्यांतुं ।
नी धरी विश्वासु हॉ तूं ।
की सॅवाई घड्तली ॥९४०५॥

धंईं घाट्लँ लोणी आय्लँ ।
ताक्कांतुंची तँ दव्वर्लँ ।
तरी जाय्श्ना धंईं पैलँ ।
अज्ञानई पर्तश्ना ॥९४०६॥

अश्शी ही अद्वैतभक्ती ।
ती पूर्ण शरणागती ।
येंन्च्या दीश्ना तुल्यागी ती ।
ह्याची धर्माधर्माक ॥९४०७॥

लॉखंड अशी सॉळ्ळ्यारी ।
गंजु चड्तलॉ ताज्जेरी ।
परीसा स्पर्शु जाल्यारी ।
तँची जात्लँ सुवर्ण ॥९४०८॥

काष्ठारी घास्ल्यारी काष्ठ ।
जात्ता की अग्नि प्रगट ।
तरी दोन्नी असमर्थ ।
ताक्काची तीं धांपूक ॥९४०९॥

पळैद वॅ दिनकरु ।
सांग कॅर्नाई तिमिरु ।
की सॉप्नांकई आकारु ।
यॅद जागी आस्ल्यारी ॥९४१०॥

सर्वात्मकु हांवं एकु ।
मेळ्णु मज्ज्यांतुं जा एकु ।
द्वैत पोळोंचॉ कलंकु ।
लागश्ना रॅ दृष्टीक ॥९४११॥

म्हुणु कोर्नक्का रॅ पार्था ।
पापपुण्याची तूं चिंता ।
हांवं ताज्जॉ भारु व्हांव्ता ।
मगेल्याची मात्त्यारी॥९४१२॥

मल्यागथाव्नु धूर राब्चँ ।
हँची लक्षण पापाचँ ।
आनी भवबंधनाचँ ।
कारणई हँची रॅ ॥९४१३॥

उद्कांतुं मीट पळ्ळ्यारी ।
जात्ता तँची उद्कावारी ।
तुंवै तशीची मज्वारी ।
जाव्नु आस्स सद्याक ॥९४१४॥

तुज्जांत्थाव्नु तूंची मुक्त ।
जाछा रॅ आप्याप आत्तं ।
हाज्जोई बोधु यथार्थ ।
जात्लॉ तुक्का कौंतेया ॥९४१५॥

ह्यान्मितीं ही चिंता कोर्चें ।
नॅवानॅ शरण येंव्चँ ।
आप्णाक सोडई म्होण्चँ ।
कारणची ऊर्नॅ रॅ ॥९४१६॥

स्थानाचँ जॉ अधिष्ठान ।
दृष्टीचँई जॉ दर्शन ।
रूपाचँ स्वरूपज्ञान ।
तॉ हँ अश्शी म्हणालॉ ॥९४१७॥

त्या भक्तशिरोमणीक ।
आनी शरणागताक ।
धर्लॅ लाव्नु ह्रदयाक ।
तान्नॅ उज्च्या हात्तानॅ ॥९४१८॥

जँ मेळोंका म्हुणु दिस्ता ।
दुर्लभ असाध्य जात्ता ।
मन बुध्दी वाचा यत्ता ।
सर्ता सर्व उमेदी ॥९४१९॥

तँ हँ दिव्या अर्जुनाक ।
अश्शी दिस्लँ ह्या दॅवाक ।
आनी नॅवन हँ अेक ।
कॅल्लँ आलिंगनाचँ ॥९४२०॥

ह्रदयांतुं जँ आश्शिलँ ।
तँ त्या ह्रदयांतुं घाल्लँ ।
ह्रदयची अेक जाल्लँ।
पळॅ ह्या दॉग्गांगॅलँ ॥९४२१॥

अेकु दिवॉ दुस्त्रॉ लाय्ता ।
तश्शी जालेल्वारी दिस्ता ।
सुख द्विगुणित कर्ता ।
देवु द्वैत राक्कुनु ॥९४२२॥

देवु जॉ इत्लॉ समर्थु ।
तॉ पार्थागॅल्या सुखांतुं ।
बुड्लॉ कश्की उव्वारांतुं ।
दोन्नी तीर बुड्ताती ॥९४२३॥

समुद्राक येव्नु मॅळ्ता ।
दुस्त्रॉ आनी भर्ती जात्ता ।
अश्शी व्यापु वाड्त वत्ता ।
आकाशांतुं हांगेलॉ ॥९४२४॥

अश्शी ह्या दॉग्गांनीं मेळ्चँ ।
कॉणॅ कॉणाक पोट्टोळ्चँ ।
कळ्णा की रूप विश्वाचँ ।
जाल्यां हांगा साकार ॥९४२५॥

वेदांचँ जँ मूळ सूत्र ।
तँ हँ जाणा गीताशास्त्र ।
सर्वजणई सत्पात्र।
हाज्जँ सुख घेंव्च्याक ॥९४२६॥

वेदांत्थान्‌ु आय्ली गीता ।
हँ तूं अश्शी कश्शी म्हण्ता ।
कॉणॅ निम्मिल्यारी सांग्तां ।
आस्स ताक्का आधारु ॥९४२७॥

दित्ता भगवंतु साक्ष ।
तागेलॅची श्वासोच्छवास ।
शब्दरूपानॅ प्रत्यक्ष ।
जाल्याती सर्व वेद ॥९४२८॥

आस्स कारण आन्येक ।
वेद हँ मूळ म्होणूक ।
तँवै उचित गीतेक ।
जाय्द अश्शी म्होण्येद ॥९४२९॥

जँ स्वरूप नाश पाव्ना ।
वा कॅर्नाई तँ बदल्ना ।
विस्तारांतु खंईं मॅळ्णा ।
ताज्जँ बीज हॅ वेद ॥९४३०॥

तँ पांञ्च्याकई सांग्ता ती ।
ज्ञान कर्म आनी भक्ती ।
संसारांतु मॅळ्ता मुक्ती ।
हीवै पळॅ वेदोक्ती ॥९४३१॥

अश्शी वेद मूळ जालँ ।
गीताशास्त्र हँ उदेलँ ।
मत भाष्य कारांगॅलँ ।
मान्य कर्ता हांवंई ॥९४३२॥

उपासना जी त्रिविध ।
सांगत आस्सती वेद ।
तीची जाव्नु ती सुबोध ।
दित्ता शोभा गीतेक ॥९४३३॥

खैंखंई कश्शी सजैत ।
आस्स हँ तुम्कां समस्त ।
दाकैता पळया आत्तं ।
तांतुंची घाल्नु लक्ष ॥९४३४॥

पैलॉ अध्यायु निमित्त ।
जाला सांगूक हँ शास्त्र ।
दुस्त्रॉ कर्ता उपस्थित ।
सांख्ययोगा विचारु ॥९४३५॥

मोक्षदायक हँ शास्त ।
समर्थ आनी स्वतंत्र ।
हँ अेक प्रधान सूत्र ।
ह्या दुस्त्र्या अध्यायांतुं ॥९४३६॥

अज्ञानाचँ निरसन ।
जाव्नु मॅळॉ म्हुणु ज्ञान ।
कॅल्यां स्पष्ट विवेचन ।
साधनेचँ तिस्त्र्यांतुं ॥९४३७॥

व्यर्थ हॉ देहाभिमानु ।
दी काम्यानिषिध्द सोण्णु ।
स्वकर्माचॉ मार्गु धोर्नु ।
सर्वकाळ आस्काज ॥९४३८॥

स्वकर्म तूं मन लाव्नु ।
करी तांतु रस घेव्नु ।
तँची कर्मकांड म्हुणु ।
देवु सांग्ता तिस्त्र्यांतुं ॥९४३९॥

तँची नित्यनैमित्तिक ।
कश्शी अज्ञाननाशक ।
जात्लँ आनी आवश्यक ।
कस्लँ कोर्का तँवई ॥९४४०॥

हाज्जॉ कॉणा ध्यासु लाग्ता ।
बध्द तॉ मुमुक्षु जात्ता ।
कश्शी कोर्काजई सांग्ता ।
स्वकर्म ब्रह्मार्पण ॥९४४१॥

ईश्वरार्पण बुध्दीनॅं ।
नी कायावाचामनानॅं ।
कर्त उर्काज नॅमानॅं ।
जीं जीं कर्म विहित ॥९४४२॥

स्वकर्म ईश्वरार्पित ।
तँ भजन भावयुक्त ।
जात्लँ आनी तॉ संतृप्त ।
जात्लॉ हँवै चौथ्यांतुं ॥९४४३॥

हँ सर्वई सांगसरी ।
जाव्नु तॉवै विश्वाकारी ।
दर्शन दित्ता आखिरी ।
इक्राव्या अध्यायांतुं ॥९४४४॥

आत्तं हाज्ज्याई ॲक्ळाक ।
उपासना त्यॉ अनेक ।
स्पष्ट कळशी सर्वांक ।
सांग्ल्यॉ अष्टाध्यायांतुं... ॥९४४५॥

ईश्श्वराल्या प्रसादानॅं ।
सद्गुरुगॅल्या कृपेनॅं ।
सत्य ज्ञानाच्या बोधानॅं ।
फुलु लाग्ता हृदय ॥९४४६॥

ज्ञानी भक्तागॅलॅ गुण ।
सांग्ल्याती कोर्नु वर्णन ।
तँ ज्ञानाचेंची आख्यान ।
म्होण्येद हॉ बारावॉ ॥९४४७॥

ह्या नी त्या पंध्राव्याथाई ।
ज्ञानसिध्दीचँ फलई ।
निरूपण सर्वग्राही ।
येव्नु गॅल्यां चारींतुं ॥९४४८॥

अश्शी ह्या आत्मज्ञानाचॉ ।
विषयु अंतरंगाचॉ ।
प्रगट कोर्नु दाकोंचॉ ।
कित्लॉ होडु प्रयासु ॥९४४९॥

पद्यरूप जाव्नु श्रुती ।
घाल्नु तीनपोडी कंठी ।
सॉब्ता नार रूपवती ।
आजि गीतेरूपांतुं ॥९४५०॥

ज्ञान कर्म आनी भक्ती ।
ही उपासना पध्दती ।
आचराती म्हुणु श्रुती ।
सांग्ता कोर्नु आर्ज्वं ॥९४५१॥

ज्ञानाचॉ मार्गु जॉ धर्ना ।
ताक्का मोक्षुई मॅळश्ना ।
भाग्र पो । हँवै म्हण्णा ।
गती ही सॉळाव्यांतुं ॥९४५२॥

शास्त्राचॉ आधारु घेंव्का ।
अज्ञानाचॉ नाशु कोर्का ।
आनी ज्ञानमार्गु धोर्का ।
सांग्ल्यां हँ सत्राव्यांतुं ॥९४५३॥

श्वासोच्छवासांचँ हृद्गत ।
जाल्लँ वेदांत्थाव्नु व्यक्त ।
गीतेनॅं कॅलँ प्रगट ।
सत्रावॉ सरसरी ॥९४५४॥

सर्व अध्यायांचँ सार ।
ह्या अठ्राव्यांतु साकार ।
जाल्यां गीता हँ मंदिर ।
ताज्जॉ हॉची कलशु ॥९४५५॥

वेदांवारी गीता थोर ।
वेदांपेक्षांई उदार ।
जाल्या पळॅ हँ उत्तर ।
धरा तुम्मी ध्यानांतु ॥९४५६॥

सुसंपन्न हॅ आस्सुनु ।
दीनॅ कृपणत्व सोण्णु ।
त्रिवर्णांक भित्तर् घेव्नु ।
खीळी लाव्नु बस्ताती ॥९४५७॥

शूद्रांक नी स्त्रीवर्गाक ।
अन्य संसारग्रस्तांक ।
दीनाती जाण्णु घेंव्च्याक ।
संजीवक तँ ज्ञान ॥९४५८॥

सुधार्सुनु हँ व्होरूक ।
सिध्द जाल्याती सेवेक ।
दिंव्च्याक लाभु सर्वांक ।
तॅची गीते रूपानॅ ॥९४५९॥

भावार्थु जाव्नु मनांतुं ।
श्रवणानॅ तॅ कान्नांतुं ।
जपारूपानॅ वाचेंतुं ।
येव्नु आत्तं राब्ल्याती ॥९४६०॥

गीतापठण जॉ कर्ता ।
अस्ल्यासांगती जॉ आस्ता ।
आनी ही बोरोनु वांट्ता ।
जॉ कोणु दुस्त्र्यांकई ॥९४६१॥

संसारांतु हॅ सर्वई ।
मोक्षसुखाची पुणयाई ।
पावैताती सर्वांकई ।
ह्या गीतेच्या नॅव्नानॅ ॥९४६२॥

वारयाक स्वैर फिरूक ।
अवकाशु निवासाक ।
रवितेजा विस्ताराक ।
आकाशची समर्थ ॥९४६३॥

कॉणाकई लाग्गी घॅत्ना ।
उच्च की नीच पळैना ।
चड उणॅई ही कर्ना ।
सुख दित्ना मोक्षाचँ ॥९४६४॥

माक्षी कोर्नयॅ तँ कॅलँ ।
तांगेल् तांका कळ्णु चुक्लँ ।
भीव्नु गीतेंतुंची रिग्लॅ ।
आनी जाल्लॅ पावन ॥९४६५॥

वेदांतुलँ ज्ञानसार ।
गीतेंतुं जाल्यां साकार ।
तँ दॅवानॅ सविस्तर ।
सांग्लँ धनुर्धराक ॥९४६६॥

पिवैता वास्त्राक गाई ।
पाव्ता ती घरांतल्यांकई ।
पार्थाक सांग्ली गीता ही ।
पाव्ता तश्शी जगाकै ॥९४६७॥

चातकाली दया येव्नु ।
तागेली तान निवोव्नु ।
चराचराकै न्हाणौनु ।
मेघु तापु निवैता ॥९४६८॥

सूर्यु कमळ फुलैता ।
तॉंची सर्वांक दाकैता ।
ह्या सृष्टीची विशालता ।
आनी रूपवैभव ॥१४६९॥

दॅवानॅं ह्या गीतेंतुलँ ।
ज्ञान अर्जुनाक सांग्लँ ।
सर्वांगॅलँई निव्वळ्ळँ ।
भय्य ह्या संसाराचँ ॥१४७०॥

तेज सर्व शास्त्रांतुलँ ।
ह्या ग्रंथांतुं अॅक्डॅ मॅळ्ळँ ।
त्या उद्गात्या कृष्णागॅलँ ।
मुख साक्षात् सूर्युची ॥१४७१॥

ह्या ज्ञानानॅं पार्थु धन्य ।
कॅलँ कुळाक पावन ।
जालॉ हॉ अेक नॅवन ।
जगाच्या उध्दाराचँ ॥१४७२॥

पार्थु कृष्णरूप जालॉ ।
कृष्णानॅं विचारु कॅलॉ ।
अद्वैतांत्थाव्नु सोडैलॉ ।
हाळ्ळॉ ताक्का भानारी ॥१४७३॥

मुखारी म्हणता अर्जुना ।
तुक्का शास्त्र पट्लँ की ना ।
तॉ म्हणता हँ फळ कृष्णा ।
तुगेल्याची कृपेचँ ॥१४७४॥

पार्था सुदैवानॅं म्हण ।
मॅळ्ता इच्छिलेलँ धन ।
भोग्च्याक तँ संयोजन ।
करशी कोर्चँ तँ कळ्का ॥१४७५॥

क्षीरसागरु अथांग ।
घाट्तना थक्लँ सर्वांग ।
देव दानव भुजंग ।
ह्या सर्व जणांगॅलँ ॥१४७६॥

ह्या श्रमांचँ फल मॅळ्ळँ ।
अमृतई दॉळ्यां दिस्लँ ।
तँची करशी घेंव्काशिलँ ।
राक्कुनु तँ कळ्णॅची ॥१४७७॥

पोळोनुई हँ अमृत ।
कळ्णॉ जरी घेंव्ची रीत ।
हँची अज्ञान निश्चित ।
आपैतलँ मृत्युक ॥१४७८॥

गोत्त्नस्तना राजनीती ।
नहुषु स्वर्गाधिपति ।
जालॉ आनी पाव्लॉ गति ।
भुजंगाची गोत्ना वॅ ॥१४७९॥

सत्कर्मांचँ पुण्य जॉळ्ळँ ।
म्हुणु तुक्का आजि मॅळ्ळँ ।
ज्ञानपीठ शास्त्रांतुलँ ।
कळ्ळँ न्हवॅ अर्जुना ॥१४८०॥

ह्या शास्त्राचॉ संप्रदायु ।
तॉ अेकु आचरणीयु ।
करी घेन्नाक्का संशयु ।
धरी तॉ तूं निष्ठेनॅं ॥१४८१॥

जात्लँ अश्शी कर्नें जरी ।
अमृतमंथनावारी ।
म्हुणु तुवँ धनुर्धारी ।
संप्रदायु सोण्णयॅ ॥१४८२॥

सम्ज मेळ्ळी दुद्दाळई ।
तुक्का जरी अेकी गाई ।
कळ्णा तँ धार काड्चेंई ।
करशी दूद तूं पिरशी ॥९४८३॥

गुरु कृपा जाल्लेल्वरी ।
विद्यादान मेळ्ळेल्तरी ।
संप्रदायु सॉळ्ळॉ जरी ।
फल मॅळ्णा शिष्याक ॥९४८४॥

म्हुणु पार्था ह्या शास्त्रांतु ।
संप्रदायाचॉं सिध्दांतु ।
जॉ सांग्ला तॉ आय्कुनु तूं ।
आदरानॅ तॉ पाळी ॥९४८५॥

कॅल्यां तुवँ हँची शास्त्र ।
आस्था धोर्नु आत्मसात ।
तपोहीनागॅलॉ मात्र ।
विषयुची हॉ न्हई ॥९४८६॥

तपी आस्सुनुई जरी ।
भक्ती ना सद्गुरुचेरी ।
तरी तॉ अंत्यजावारी ।
अस्पृश्यु म्हुणु सम्ज ॥९४८७॥

काय्ळॉ जरी वयोवृध्दु ।
ताक्का तागेल्या पान्नांतु ।
करकी वाण्णाती प्रसादु ।
यज्ञयागावॅळाचॉ ॥९४८८॥

कायिक तप जॉ जॉड्ता ।
गुरुगेली सॅवा कर्ता ।
गुरुवचनारी श्रध्दा ।
ती मात्र तॉ दव्वर्ना ॥९४८९॥

लोक ह्या दॉग्गजणांक ।
म्हणॉ उत्तम सेवक ।
पात्र नाती आय्कूंच्याक ।
गीतेचँ तत्त्वज्ञान ॥९४९०॥

मोती गॉम्टँ आशिल्तरी ।
वोंन्चॉ वट्टॉची ना जरी ।
जाय्रना गांतुक सुत्तारी ।
ना तँ अलंकारुई ॥९४९१॥

कॉण म्हणता की सागरु ।
आस्सना धीर गंभीरु ।
जाल्यारी पाव्सु उदारु ।
जाय्ना थंई पळ्ळयारी ॥९४९२॥

कॅल्यां षड्रसभोजन ।
ताक्का दिंव्का वॅ मिष्टान्न ।
तँची हँ उदारपण ।
दाकोंका क्षुधार्तारी ॥९४९३॥

खंच्याई दृष्टीनॅ थोर ।
आस्सोती तॅ तूं उदार ।
जाव्नु हॅ शास्त्रविचार ।
उलोनाक्का तांच्लाग्गी ॥९४९४॥

दॉळ्यांनीं रूपची जाण्का ।
गंधु कळद वॅ तांकां ।
त्या त्या इंद्रियांनीं कोर्का ।
तांकां जँ जँ उचित ॥९४९५॥

भक्त तपी हॅ जात्तीद ।
तरी हँ पोळोंका पड्द ।
की तॅ श्रवण कर्तीद ।
की ना हँ गीताशास्त्र ॥९४९६॥

जरी तुक्का अश्शी दिस्लँ ।
की तॅ आय्कूंच्याक यॅत्लॅ ।
तरी तांगेलॅ तूं पळॅ ।
मनांतुलॅ विचार ॥१४१७॥

कश्शी जाण्चँ हँची कळ्णा ।
अश्शी म्होण्णक्का अर्जुना ।
तॅ उलैताती सामान्या ।
वारी माक्का लेक्कुनु ॥१४१८॥

मगेल्या भक्तांक सव्नु ।
उलैताती लाज सोण्णु ।
तांकां तॅ अपात्र म्हुणु ।
सम्ज हँ आय्कूंच्याक ॥१४९९॥

आस्स दिव्या खांब्याचेरी ।
तॅलवात्तीची तय्यारी ।
वातीची जळैनॅ जरी ।
काड्का राती काळ्कांतुं ॥१५००॥

गॉरँ गॉम्टँची यौवन ।
आंगारी घाल्यां भूषण ।
जाला देह गतप्राण ।
व्यर्थची हँ सर्वई ॥१५०१॥

भांग्राचँ सुंदर घर ।
आस्स स्वच्छ हवेशीर ।
मॅट्टारी दित्त फुत्कार ।
बस्ल्या काळी नागीण ॥१५०२॥

कॅल्यां रांदप स्वादिष्ट ।
तांतु पळ्ळ्यां कालकूट ।
भाय्र दिस्ता मैत्री दाट ।
अंतरांतुं कपट ॥१५०३॥

निंदा कर्ता जॉ मगेली ।
नी मगेल्या भक्तांगेली ।
भक्ति तपादि तागेलीं ।
आस्सुनु नात्तिल्वारी ॥१५०४॥

कित्लॉ आस्सॉ बुध्दिमानु ।
साव्ली तागेली चुक्कुनु ।
पोण्णयॅ हिज्जेरी म्हुणु ।
सांग्तां तुक्का जाग्रता ॥१५०५॥

निंदकाक कुंबिसुता ।
ब्रह्म दॅवाली योग्यता ।
आय्ल्या म्हुणु तूं ही गीता ।
कौतुकानॅ दाकैशी ॥१५०६॥

तपा नेल्गटु प्रखर ।
घाल्नु बांदैलँ मंदिर ।
गुरुभक्तीची साकार ।
जाल्या की ह्या रूपांतुं ॥१५०७॥

श्रवणेच्छेचँ हँ द्वार ।
उघड अष्टौप्रहर ।
अनिंदेचॉ मनोहर ।
झळकता कळसु ॥१५०८॥

मंदिरांतु ह्या प्रसन्न ।
करी गीता तूं स्थापन ।
तूं नी हांवं सम्समान ।
अेक जांव्यां जगांतुं ॥१५०९॥

आ उम हॅ अॅक्डॅ मॅळ्ळॅ ।
अेकाक्षर हँ जालँ ।
बीजरूपानॅ तँ उर्लँ ।
तॅग्गांगेल्या गर्भांतुं ॥१५१०॥

वेदांचँ तँ बीज जालँ ।
गायत्रींतुं फळा आय्लँ ।
गीतेंतु विस्तार पाव्लँ ।
ह्या श्लोकांच्या रूपानॅ ॥९५११॥

प्रणव रहस्यमयी ।
अनन्य ही जी गीताई ।
भक्त चेर्ड्वं सर्वांकई ।
हिल्यागी जॉ पावैता ॥९५१२॥

अश्शी जॉ सद्भावु धर्ता ।
आनी दॉग्गांकै मेळैता ।
तॉ मज्ज्यांतु अेक जात्ता ।
हॉ देह सॉण्णापुडॅ ॥९५१३॥

देह धर्ता त्यावॅळारी ।
वॅग्ळॉ म्हुणु दिश्शिल्तरी ।
मगेल्याची जीवावारी ।
माक्का आस्ता तॉ प्रिय ॥९५१४॥

कर्मी आस्सॉ तपी आस्सॉ ।
अथवा तॉ ज्ञानी आस्सॉ ।
तांच्याकई हॉ प्राणुसॉ ।
जाव्नु राब्ता मज्ज्यांतुं ॥९५१५॥

भक्तांगॅल्या जॉ सभेंतुं ।
रम्ता ही गीता सांग्च्यांतुं ।
ताज्विना प्रिय जगांतुं ।
अन्यु कोणु दिस्सना ॥९५१६॥

मनांतुं ईशचिंतन ।
अेकनिष्ठ निरूपण ।
ह्या खात्तीर तॉ भूषण ।
जात्ता संतसभेचँ ॥९५१७॥

मंदमंदसॉ पवनु ।
यॅत्ता चिगुरु नवीनु ।
कळॅई पाक्ळ्यॉ फुलाव्नु ।
पस्त्रैताती पर्मळु ॥९५१८॥

यॅत्ता की वसंतऋतु ।
भक्तांगॅल्या उद्यानांतुं ।
कोकिळाई सुस्वरांतुं ।
कर्ता गीतागायन ॥९५१९॥

आकाशांतुं चंद्रु यॅत्ता ।
चकोरु संतृप्त जात्ता ।
की श्याममेघु गर्जता ।
मोरु लाग्ता नांचूक ॥९५२०॥

मगेलँची धोर्नु ध्यान ।
दित्ता सुरस व्याख्यान ।
की पर्जन्यावतरण ।
जात्ता गीतेरूपानॅ ॥९५२१॥

माक्षी सॉद्ल्यारी ।
कोणु दिस्सना हाज्वारी ।
हॉची अॅक्लॉ मज्इद्वारी ।
कश्शी यॅत्ता हँ कळ्ण ॥९५२२॥

अश्शी गीतार्थु हॉ सांग्ता ।
संतांगेली सॅवा कर्ता ।
म्हुणु हांवची की धर्ता ।
ताक्का ह्या मच्चित्तांतुं ॥९५२३॥

आम्मी अेकमेकां मॅळ्ळॅ ।
व्याख्यान हँ रंग्त गॅलँ ।
तांतुंची मोक्षानॅ कॅलँ ।
आप्णालँ निकेतन ॥९५२४॥

पार्था आम्गेलॉ संवादु ।
दित्लॉ पळॅ महाबोधु ।
जरी कर्नॅ अर्थभेदु ।
हॉ वाच्चत आस्तना ॥९५२५॥

घाल्तलॉ हॉ ज्ञानयज्ञ ।
लास्सुनु सर्व अज्ञान ।
जात्लँ पूर्ण समाधान ।
माक्का परमात्म्याक ॥९५२६॥

गीते अर्थु कळ्तल्याक ।
प्राप्त जात्ता जँ जँ सुख ।
तँची मॅळ्ता वाच्तल्याक ।
हांतुं नाची संशयु ॥९५२७॥

ॲक्ळॉ गीतातत्त्व जाण्ता ।
ॲक्ळॉ पाठु कर्त आस्ता ।
दॉग्गांकई अेक्क दित्ता ।
कर्ना भेदु कस्लॉई ॥९५२८॥

गीते विषयांतुं आस्था ।
धोर्नु निंदा कोर्चें सॉड्ता ।
आनी जॉ श्रद्धा दव्वर्ता ।
श्रवण ही कोर्च्यांतुं ॥९५२९॥

आय्कतां आय्कतां गीता ।
ती मनांतुं घर कर्ता ।
तँ पोळोनु पाप वत्ता ।
धाव्नु दिगंतराक ॥९५३०॥

अचानक जळ्ता रान ।
पक्षी आनी पशु वन्य ।
खंईं भाग्र सर्वजण ।
पड्ताती की तँ सोण्णु ॥९५३१॥

सूर्यु पूर्वेक उदेता ।
काळोकु पसार जात्ता ।
कळ्णा खंचे दीका वत्ता ।
पाव्लां खूणै दव्वर्ना ॥९५३२॥

कान्नाच्या महाद्वारांतुं ।
चल्ता घोषु उल्हासांतुं ।
जात्ता दुरितांचॉ अंतु ।
जन्म जन्मांतराच्या ॥९५३३॥

अश्शी पुण्यशील जात्ता ।
कुळाकै पावन कर्ता ।
हाज्वैरी आन्नेक मॅळ्ता ।
फलई अलौकिक ॥९५३४॥

श्रवण कर्ता तॉ कित्लँ ।
अश्वमेध जात्लॅ तित्लॅ ।
आप्णा इत्ल्याक हँ यॅत्लँ ।
महापुण्य ताल्यागी ॥९५३५॥

जाव्नु अश्शी पापनाशु ।
जात्लॉ धर्माचॉ उत्कर्षु ।
मॅळ्ता स्वर्गांतुं निवासु ।
ताक्का हॉ आखेरीक ॥९५३६॥

मल्यागीची यॅत्त आस्ता ।
वाट्टेरी विश्रांति घॅत्ता ।
मुखावेली वाट सर्ता ।
येव्नु मॅळ्ता माक्काची ॥९५३७॥

अश्शी गीता वाच्तल्याक ।
आनी ती आय्कतल्याक ।
अस्लँ मॅळ्ता महासुख ।
मगेल्या ह्या प्राप्तीचँ ॥९५३८॥

आस्सॉ आनी कित्लँ कोर्चें ।
विवेचन ह्या शास्त्राचँ ।
सांग तुगेल्या मनाचँ ।
जालँ वॅ समाधान ॥१५३९॥

ह्या सिध्दांताविषयांतु ।
ऊर्नं न्हवॅ कस्लॉ किंतु ।
बस्ला न्हवॅ हॉ चित्तांतु ।
दृढ जाव्नु तुगेल्या ॥१५४०॥

हांवँ ज्या रीतीरी जश्शी ।
सांग्लँ तँ तुक्काई तश्शी ।
आय्कुनु कळ्ळँ की कश्शी ।
हँची तुक्का निम्मितां ॥१५४१॥

चडउणॅ हँ सांग्च्यांतु ।
की तँ तुवँ आय्कुंच्यांतु ।
जाय्नॅ म्हुणु लॅक्तां हँ तूं ।
व्हयि की ना तँ सांग ॥१५४२॥

हांवँ तुक्का सांगिल्वारी ।
तुक्का सर्वै कळ्ळ्यां जरी ।
आय्क तूं हँ सांग तरी ।
जँ जँ तुक्का निम्मितां ॥१५४३॥

माक्षी मतिमूढ जाव्नु ।
बस्लॉ शस्त्रत्याग कोर्नु ।
आत्तंई तँ पाप म्हुणु ।
लॅक्ता वॅ तूं युध्दाक ॥१५४४॥

इत्लँची तूं सांग पार्था ।
अजुनी वॅ तुक्का दिस्ता ।
की हँ सर्व तूंची कर्ता ।
आनी तँ तूं करैता ॥१५४५॥

स्वात्मानंदा सागरांतु ।
बुड्तल्याक दीव्नु हातु ।
हा । नॅवानॅ द्वैतांतु ।
म्हुणु केल्लॅ हॅ प्रश्न ॥१५४६॥

पार्थु जाल्ल पूर्णब्रह्म ।
उल्यीं हान्नॅ कोर्चें काम ।
म्हुणु दीना अतिक्रम ।
कोरूक हॉ श्रीरंगु ॥१५४७॥

कर्तल्याक कॅल्लेल्याचॉ ।
कळ्ता परिणामु जांव्चॉ ।
सर्वज्ञु जांव्चँ वच्च्याचॉ ।
ताक्का इत्लँ कळ्णा वॅ ॥१५४८॥

विर्त वच्चँ अर्जुनत्व ।
तड्वैलँ राक्लँ व्यक्तित्व ।
दीव्नु पैलेचँ पूर्णत्व ।
कॅलँ ताक्का उलैशी ॥१५४९॥

क्षीरसिंधुंत्थाव्नु आय्लॉ ।
आकाशाची शोभा जालॉ ।
पूर्ण चंद्रावारी दिस्लॉ ।
पार्थु सोण्णु ब्रह्मत्व... ॥१५५०॥

मूळ ब्रह्मत्व विस्सर्लॉ ।
आनी अर्जुनत्व पाव्लॉ ।
विस्सर्ल्तरी तॉ आश्शिलॉ ।
जाव्नु ब्रह्मस्वरूप ॥१५५१॥

अश्शी हँ जाय्त आस्तना ।
देहभानाचेरी यॅत्ना ।
अर्जुनाक भो यातना ।
जाव्नु आस्तल्यॉची की ॥१५५२॥

आंगारी रोमांच आय्लॅं ।
हुम्मेनॅं तँ वल्लँ जाल्लँ ।
थर्थत्या हात्तांनीं घेत्लँ ।
सर्वांग तँ पुस्सुनु ॥९५५३॥

प्राणु सद्‌गदित जाल्लॉ ।
त्यामितीं देह होंगुलॉ ।
तरी कश्शिपुणि राब्लॉ ।
शांत कर्त स्वताक ॥९५५४॥

आनंदामृत सात्त्विक ।
आय्लँ तँ दॉळ्यां उद्काक ।
लाग्लॉ पुस्सुनु घेंव्च्याक ।
राब्बनाती उष्णय्यॉं ॥९५५५॥

नाना भावना मनांतुं ।
व्यक्त जाय्नाती शब्दांतुं ।
शिर्कल्यॉं येव्नु ताळ्यांतुं ।
कश्शी भाय्र पड्तल्यॉं ॥९५५६॥

जाल्यारी भोची कष्टानॅं ।
माक्षीवारीची नॅवानॅं ।
कायावाचामन तान्नॅं ।
कॅल्लँ तँ कार्यान्वित ॥९५५७॥

तॉं म्हणता हे प्रेममूर्ति ।
तुवँ आस्तना सांगाती ।
मोहममता यॅनाती ।
क्षण एक मल्यागी ॥९५५८॥

सुर्यु यॅत्ता उदयाक ।
कॉण निम्गिद दॉळ्यांक ।
पळैताती की काळ्काक ।
तुम्मी ह्या प्रकाशांतुं ॥९५५९॥

तश्शी तूंची लक्ष्मीकांता ।
दॉळ्यांमुखारीची आस्ता ।
मॅळ्ता आम्कां तँ जँ नाथा ।
नप्रॉ वॅ हँ दर्शन ॥९५६०॥

आव्सुपेक्षांई प्रेमानॅं ।
सांग्लँ ज्ञान विस्तारानॅं ।
तँवै सलीस रीतीनॅं ।
दिलँ तळहात्तारी ॥९५६१॥

आत्तं मोह उर्ला की ना ।
हँ निम्गूंचँ अगत्य ना ।
कृतकृत्य जालाँ कृष्णा ।
तुगेल्या ह्या कृपेनॅं ॥९५६२॥

अर्जुनत्वाच्या मायेंतुं ।
घुस्पलेलाँ जालां मुक्तु ।
निम्गुंच्यांतुं नी सांग्च्यांतुं ।
उर्नँ कस्लोई भेदु ॥९५६३॥

मेळ्णु तुगेलॉ प्रसादु ।
जालॉ पूर्णाबंदबोधु ।
आय्कू यॅना प्रतिसादु ।
खंईथाव्नु मोहाचॉ ॥९५६४॥

कस्लँ कोर्चें कर्ना जांव्चँ ।
हँची लक्षण द्वैताचँ ।
आत्तं तुज्ज्यांतुंची उर्चँ ।
एकत्वानॅं सर्वत्र ॥९५६५॥

हांतुं संशयु कस्लोई ।
ऊर्नची तीळाइत्लॉई ।
नैष्कर्म्यावस्था प्राप्त ही ।
जाल्या माक्का तुज्मितीं ॥९५६६॥

मॅळ्ळँ आत्मबोधामृत ।
जालँ कर्तव्य समाप्त ।
तुगेल्या आज्ञेचँ फक्त ।
कोर्चें आस्स पालन ॥९५६७॥

तुगेलँ दर्शन जालँ ।
तँ दृश्य अमूर्त जालँ ।
द्वैतांतुलँ सुख भॉग्लँ ।
आत्तं अद्वैतानंदु ॥९५६८॥

कॉणालॉ जॉड्ता समंदु ।
तॅर्ना थुंट्ता भवबंधु ।
जँ मेळ्णु जात्ता संतृप्तु ।
ऊर्ना आशा कस्ल्याची ॥९५६९॥

तॉ गुरु आधारु तूंची ।
प्रचीती तूं अद्वैताची ।
दित्ता दाकई तशीची ।
रूपई निरंतर ॥९५७०॥

सोऽहं भावु तूं जागैता ।
हर्ता किंकर्तव्यमूढता ।
दी तूं संधि तूंची दाता ।
तुगेल्या रॅ सेवेची ॥९५७१॥

समुद्राक मेळु वत्ता ।
गंगा अेकरूप जात्ता ।
तश्शीं निजरूप दित्ता ।
तूं तुगेल्या भक्ताक ॥९५७२॥

उपकार भगवंता ।
सहज तूं कर्त आस्ता ।
सेवेंत्थाव्नु कृतज्ञता ।
व्यक्त कोरूक दी तूं ॥९५७३॥

भेदभावाची आश्शिली ।
जाणीव ती पार गेली ।
उरॉ मात्र सेवेंतुली ।
गोडी दॅवा सदैव ॥९५७४॥

तरी रॅ देवाधिदॅवा ।
सांग कस्लीई तूं सॅवा ।
ती कॅल्यारी जात्लँ जीवा ।
सुख तँ निरुपम ॥९५७५॥

आय्कुतु हँ सुख जाव्नु ।
नांच्लॉ पळया श्रीकृष्णु ।
मॅळ्ळॉ पार्था अस्लॉ म्हुणु ।
थोरु शिष्यु विश्वांतुं ॥९५७६॥

पूर्ण वाडी पुत्तागेली ।
पोळोनु त्या चंद्रागेली ।
समुद्राक भर्ती येत्ली ।
कश्की हर्षोन्मादाची ॥९५७७॥

संवादाच्या ह्या मांट्वेंतुं ।
लग्न लाग्लँ ह्या दॉग्गांतुं ।
संजयु ह्या सोहळ्यांतुं ।
जालॉ पूर्ण तलीन ॥९५७८॥

संजयु संतुष्ट जालॉ ।
धृतराष्ट्राक म्हणालॉ ।
भाग्योदयु हॉ आम्गेलॉ ।
जालॉ अश्शी म्होण्येद ॥९५७९॥

संसारु हॉ पोळोंच्याक ।
दृष्टी ना चर्मचक्षूंक ।
जाल्यारी जालॉ रायांक ।
लाभु ज्ञानदृष्टीचॉ ॥९५८०॥

हांवं हॉ अेकु सारथी ।
उर्चँ ह्या घॉ ंसांगाती ।
मज्जस्ल्याक जाली प्राप्ती ।
ह्या थोर संवादाची ॥९५८१॥

घनघोर संग्रामाचॉ ।
प्रसंगु ना आत्तं चुक्चॉ ।
जिंकॉ हांतुं पक्षु खंचॉ ।
हानि जात्ली दॉग्गांकै ॥९५८२॥

अस्ल्या ह्या परिस्थितींतुं ।
उपदेशु भगवंतु ।
कोर्नु दित्ता ब्रह्मानंदु ।
पळया आम्चस्ल्यांक ॥९५८३॥

आय्कुनु हँ आय्कनॅशी ।
चल्ता धृतराष्ट्र, जश्शी ।
फात्तोरु अलिप्तु कश्शी ।
चांदण्यांतुं पोण्णुई ॥९५८४॥

दशा तागेली पोळोनु ।
राब्लॉ इत्लेंची उलोनु ।
सुखानॅ तॉ पिस्सॉ जाव्नु ।
गॅलेल्मितीं उलैलॉ ॥९५८५॥

गोत्तशिलँ ॲक्ळाकची ।
आय्कूंची ना हाक्का रुची ।
उम्ती कळश्यारी उद्काची ।
धार ही पड्त आस्स ॥९५८६॥

तरी संजयु म्हणालॉ ।
अश्शी पुत्तोण्यॉ तुगेलॉ ।
उलैलॉ त्यान्मितीं जालॉ ।
श्रीकृष्णाक आनंदु ॥९५८७॥

पश्चिमेचॉ हॉ पूर्वेचॉ ।
नामभेदु हॉ दिशांचॉ ।
दोन्नी जळं मेळ्णु जांव्चॉ ।
अेकु महासागरु ॥९५८८॥

हॉ पार्थु नी हॉ श्रीकृष्णु ।
म्होणचँ दॉग्गांक पोळोनु ।
संवादु मात्र आय्कुनु ।
कळ्णा की तॅ दॉग्जण ॥९५८९॥

दोन्नी कान् ॉ लाग्गी घरी ।
दॉग्गांगॅल्याई मुखारी ।
रूप तांक्तांकां इद्रारी ।
दिस्सना वॅ तांगेलँ ॥९५९०॥

तश्शी श्रीकृष्णु पार्थांतुं ।
आनी पार्थु श्रीकृष्णांतुं ।
दॉग्गई परस्पारांतुं ।
पळैताती स्वरूप ॥९५९१॥

देवु कश्शी भक्तु जालॉ ।
तश्शी पार्थु देवु जालॉ ।
अभेदत्वाचॉ सोहळॉ ।
दॉग्गई हॅ भॉग्ताती ॥९५९२॥

दॉग्गांनी ॲक्ळांतुं मेळ्चँ ।
अेकरूप जाव्नु उर्चँ ।
आत्तं कस्लँ ऊर्ना कोर्चें ।
आस्स मात्र आनंदु ॥९५९३॥

भेदुची जरी खंईं ना ।
प्रश्नोत्तराचँ काम ना ।
भेदु आस्ल्यारी थंई ना ।
अद्वैताचॉ संवादु ॥९५९४॥

द्वैतभावाचॉ सुस्वादु ।
अद्वैताचॉ सुसंवादु ।
ह्या दोन्नींचोई आनंदु ।
मॅळ्ळॉ माक्का भोग्गुक ॥१५९५॥

दोनि कान् । स्वच्छ कॅल्यॉ ।
इद्रिद्रारी त्यॉ दव्वल्यॉं ।
कॉण कॉणा पळैतल्यॉ ।
ही तिक्का की ती हिक्का ॥१५९६॥

ह्या दिव्यामुखारी लाय्लॉ ।
दुस्त्रॉ नी उज्वाडु वाड्लॉ ।
तांतु तॉ कित्लॉ कॉणालॉ ।
कॉण सांग्गु शक्कद ॥१५९७॥

दोन्नी सूर्य सांगातीची ।
आय्लॅ प्रकाश दित्तची ।
दिस्ली शोभा ह्या सृष्टीची ।
कॉणाल्या प्रकाशानॅ ॥१५९८॥

मति ही मुखारी चल्ना ।
ठरौंच्याकई हँ जाय्ना ।
संवादांत्थान्नु ह्या कळ्णा ।
कश्शी जालॅ हॅ अेक ॥१५९९॥

मेळ्च्या दोनि प्रवाहांक ।
मिट्टा बांधु आड्डांच्याक ।
आय्ल्यारी तॉवै उद्दाक ।
जान्नु व्हांक्ता सांगाती ॥१६००॥

आय्कतना हॉ संवादु ।
जालॉ मनाक उद्बोधु ।
तश्शी ऊर्नं कांइं भेदु ।
तांच्यांतु नी मज्ज्यांतु ॥१६०१॥

इत्लँ मात्र तॉ उलैलॉ ।
सात्विक भावानॅ भर्लॉं ।
आनी तॉ विस्सोर्नु गॅलॉ ।
संजयत्व आप्णालँ ॥१६०२॥

आंग रोमांचित जालँ ।
थर्थरेंच्याक तँ लाग्लँ ।
हूम येन्नुई तँ वलँ ।
जांच्या लाग्लँ वैल्वैरी ॥१६०३॥

अद्वयानंदानॅ दॉळॅ ।
व्हांच्याक लाग्लॅ तागेलॅ ।
की हॅ झरॅ भाग्र पळ्ळॅ ।
शुद्ध आत्मबोधाचॅ ॥१६०४॥

धर्ना आनंदु चित्तांतुं ।
श्वासु घुस्पता कंठांतुं ।
वाणी अड्खळ्ता वट्टांतु ।
जालॉ भो सद्गदितु ॥१६०५॥

तॅ अष्टसात्विक भाव ।
जालॅ सर्व अवयव ।
थंईं कॅलॉ निज ठाव ।
त्या संवादसुखानॅ ॥१६०६॥

सुखाचँ भर्लेलँ आर्त ।
आप्णाइत्ल्याकची शांत ।
जालँ चित्त जान्नु स्वस्थ ।
आय्लॉ देहभानारी ॥१६०७॥

सार उपनिषदांत्लँ ।
आजि आय्कुंच्याक मॅळ्ळँ ।
व्यास महर्षीनॅ कॅलँ ।
माक्का अनुग्रहित ॥१६०८॥

मगेल्या कान्नारी पळ्ळँ ।
हांवं तूं नी जग बुड्लँ ।
अेक ब्रह्मरूप उर्लँ ।
सर्व सुखानंदाचँ ॥९६०९॥

योगयाग ज्या पदाक ।
पावैताती तँची सुख ।
मॅळ्ळँ ज्या खात्तीर कैक ।
लोक कष्ट पाव्ताती ॥९६१०॥

पार्थालँ निमित्त कोर्नु ।
स्वयें ब्रह्म कृष्णु जाव्नु ।
भर्लॉं बोधु तॉची मेळ्णु ।
माक्काई जालँ सुख ॥९६११॥

सहज आय्कुनु अश्शी ।
पात्र जालाँ तँ मेळैशी ।
सामर्थ्य वर्णन कश्शी ।
कोरुं श्रीगुरुंगॅलँ ॥९६१२॥

सांगतना धृतराष्ट्राक ।
पाव्लॉ समाधि क्षणैक ।
रत्ना तेजानॅं नद्रेक ।
यॅत्ता कश्की अंधत्व ॥९६१३॥

हिमाद्रिरी चंद्रोदय ।
कर्ता जल बर्फमय ।
द्रवरूप सूर्योदय ।
कर्ता तँची नॅवानॅं ॥९६१४॥

विस्सोरुक देहभान ।
कर्ता संवादस्मरण ।
सुट्ता लाग्गिलेंई ध्यान ।
चल्त उर्ता अशीची ॥९६१५॥

उटाव्नु म्हणता रायाक ।
अश्शी नोळीत इत्याक ।
बस्ला पोळोनु दॅवाक ।
भव्य विश्वरूपांतुं ॥९६१६॥

पळैना तँ म्ह्ळ्ळेल्तरी ।
यॅत्ताची दॉळ्यां इद्रारी ।
स्मर्ता विस्सोर्का म्हळ्ळयारी ।
ना म्हळ्ळयारी आस्ता तँ ॥९६१७॥

पळैतना चमत्कारु ।
जालाँ अश्शी तदाकारु ।
कित्लॉ पळया उदारु ।
जालॉ नंदनंदनु ॥९६१८॥

संवाद संगमस्नान ।
अहंतेचँ तिळदान ।
कोर्नु संजयु पावन ।
कश्शी जालॉ पळया ॥९६१९॥

अनावर आनंदानॅं ।
सद्गदित जाव्नु तान्नॅं ।
सुरु कॅलॉ आदरानॅं ।
कृष्णनामाचॉ जपु ॥९६२०॥

सुर्वे धोर्नुची रायानॅं ।
संवादुची हॉ आय्कनॅं ।
म्हुणु ताक्का हीवै कळ्णॅं ।
संजयाली अवस्था ॥९६२१॥

अनुभवाचीं हीं पाळं ।
जाव्नु थंईंची निश्चळ ।
सुख साकार केवळ ।
जालॉ संजयु अश्शी ॥९६२२॥

मद्दँ थॉडॉ वेळु वत्ता ।
रायु संजयाक म्हण्ता ।
अश्शी इत्त्याक तूं चल्ता ।
जाल्यां कस्लँ रॅ तुक्का ॥९६२३॥

व्यासांनीं कस्ल्या कामाक ।
बसैला तुक्का इत्त्याक ।
हांगा तँ तूं उग्डासाक ।
हाडीमी तँ उलयि ॥९६२४॥

रान्नांतुंची राब्तल्याक ।
महालांतुं मॅळ्णा सुख ।
फाल्फालँ म्हण्ता रात्तीक ।
निशाचरु रॅ कश्की ॥९६२५॥

जॉ कोणु खंच्या वस्तूचँ ।
जाण्णा मूल्य कश्शी कोर्चें ।
तान्नॅ अनास्था दाकोंचँ ।
तांतूं हँ सहजची ॥९६२६॥

मुखारी तॉ संजयाक ।
म्हण्ता सांग तूं तुर्ताक ।
जयु मॅळद कॉणाक ।
आखेरीक युध्दांतु ॥९६२७॥

दिस्ता मगेल्या मनाक ।
मॅळ्तलॉ दुर्योधनाक ।
त्या सर्वांपेक्षां अधिक ।
शौर्य धैर्य हागेलँ ॥९६२८॥

सैन्यई हान्नॅ मेळैल्यां ।
देड्पटीनॅ सिध्द जाल्यां ।
जयु वांट्याक हागेल्या ।
आय्यिल्विना राब्बश्ना ॥९६२९॥

माक्का तॅमै अश्शी दिस्ता ।
सांग तुक्का कश्शी दिस्ता।
सांगिल्शिवाई वॅ कळ्ता ।
कॉणागॅलॉ विचारु ॥९६३०॥

आय्क माक्का दिस्चँ सांग्तां ।
आयु थंईं जीवु आस्ता ।
हाज्जी हांवं खात्री दित्तां ।
जाण्णा दुस्त्रँ कस्लेंई ॥९६३१॥

चांदणॅ चंद्रासांगाती ।
शंकरु आनी पार्वती ।
संतजन नी सन्मति ।
परस्परां सॉण्णाती ॥९६३२॥

रायु खंईं थंईं सैन्य ।
सोय्रीकेंतुंई सौजन्य ।
उज्ज्यांतुं दाहकपण ।
हँ सर्वई आस्चेंची ॥९६३३॥

धर्मु दयेच्या सांगाती ।
धर्मु थंईं सुखशांति ।
तांतु परात्परगति ।
आस्सची ती ठर्लेली ॥९६३४॥

वसंतांतु उपवनं ।
उपवनांतुं सुमनं ।
सुमनांतु भृंगगण ।
उल्हासानॅ रम्ताती ॥९६३५॥

गुरु स्वयमेव ज्ञान ।
ज्ञानानॅ आत्मदर्शन ।
दर्शनानॅ समाधान।
जालेल्विना राब्बना ॥९६३६॥

अैश्वर्य नी उपभोगु ।
सुखांतुं आनंदयोगु ।
सूर्याक प्रकाशा संगु ।
सदैव हॅं आस्चॅंची ॥९६३७॥

चारीई हॅं पुरुषार्थ ।
कॉणामितीं तॅं सनाथ ।
तॉ खंईं हॉ जगन्नाथ ।
आस्ता लक्ष्मी थंईंची ॥९६३८॥

ती ज्या कॉणाच्या सांगाती ।
तागेली सॅवा कर्ताती ।
अणिमादि सर्व सिध्दी ।
ह्या जगन्मातेगॅल्यॉ ॥९६३९॥

तॉ कृष्णु हॉ विश्वनाथु ।
विजयुची मूर्तिमंतु ।
तॉ कॉणागॅल्या पक्षांतुं ।
तॉची पक्षु विजयी ॥९६४०॥

विजयु म्हुणु जगांतुं ।
जाला अर्जुनु विख्यातु ।
तान्नॅं कृष्णालॉ सांगातु ।
धर्ला लक्ष्मीसहित ॥९६४१॥

तात मात हीं आस्तना ।
खंईं कस्लँ उणॅं पण्णा ।
कल्पतरुकई जाय्श्ना ।
इत्लँ सग्ळँ दिंव्च्याक ॥९६४२॥

चिंतामणी पाषाणांचॅं ।
सुवर्ण धुळीकणांचॅं ।
जाय्श्ना अश्शी कश्शी म्होण्चँ ।
आस्तना हीं सांगाती ॥९६४३॥

हॉळ न्हैंय्यॉ गांवांतुल्यॉ ।
अमृत जाव्नु व्हांव्तल्यॉ ।
चमत्कारु हांतुं कस्लॉ ।
घड्तलँ हँ सहज ॥९६४४॥

शब्द जॅ भाग्र पड्तलॅ ।
तॅची दुस्त्रॅं वेद जात्लॅ ।
देहई तागेलँ जात्लँ ।
सच्चिदानंदरूप ॥९६४५॥

श्रीकृष्णु तागेलॉ पिता ।
कमलवासिनी माता ।
मुक्ति मुक्ति ताक्का मॅळ्ता ।
हांगेल्याची कृपेनॅं ॥९६४६॥

ज्या बाजूक लक्ष्मीपति ।
तीची जात्ली जयवंती ।
आप्णाइत्ल्याकची प्राप्ती ।
जात्ली सर्व सिध्दींची ॥९६४७॥

मेघु तॉ सागरजन्यु ।
सागरापेक्षां महानु ।
तशीची हॉवै अर्जुनु ।
प्रयोजना दृष्टीनॅं ॥९६४८॥

मेळ्ची परिसामितींची ।
कांति लोहाक भांग्राची ।
वेव्हारांतुं चड हँची ।
वापर्ताती भांगार ॥९६४९॥

उणेपण गुरुत्वाक ।
दिलँ दिस्सद कॉणाक ।
अग्निची जाव्नु दीपक ।
दित्ता की स्वप्रकाशु ॥९६५०॥

दॅवागॅलँची सामर्थ्य ।
अर्जुनु कर्ता प्रगट ।
जात्ता तॉ माध्यम फक्त ।
दॅवाल्या गौरवाचँ ॥९६५१॥

जावॉ पुतु बाप्सुपेक्षां ।
सवाई हीची अपेक्षा ।
गुरु कृष्णाली ही आशा ।
फळा हाळ्ळी पार्थानॅ ॥९६५२॥

पार्थु कृष्णकृपामूर्ति ।
ज्या पक्षाचॉ प्रतिनिधि ।
तॉची पक्षु सर्व सिध्दी ।
प्राप्त कोर्नु घॅत्लॉची ॥९६५३॥

तागेलॉची जात्लॉ जयु ।
हांतुं ना कांई संशयु ।
ताज्विना जालेलॉ जयु ।
जाणा तॉ पराजयु ॥९६५४॥

खंईं श्री थंई श्रीपति ।
यॅत्ता विजयु सांगाती ।
सर्व थरेची उन्नति ।
जांव्च्या लाग्ता ताव्वळी ॥९६५५॥

व्यासांगेल्या ह्या उत्रारी ।
तुम्मी विश्वासु धर्ल्यारी ।
आत्तं हांवँ म्हळ्ळेल्वारी ।
जात्लँ पळॅ निश्चित ॥९६५६॥

श्रीधरु नी धनुर्धरु ।
खंईं तांगेलॉ वावरु ।
थंईं मांगल्याचॉ पूरु ।
सुखलाभासहित ॥९६५७॥

हँ जरी जाय्द अन्यथा ।
हांवं व्यास शिष्यु वृथा ।
अश्शी सविनय कर्ता ।
आवेशानॅ गर्जना ॥९६५८॥

सर्व भारताचँ सार ।
ॲक्क श्लोकांतुं साकार ।
कोर्नु कॅलँ तँ सादर ।
संजयानॅ रायाक ॥९६५९॥

अग्निचॉ प्रभावु कित्लॉ ।
कश्शी आम्कां तॉ कळ्तलॉ ।
जाल्यारी सांजॅ लायिलॉ ।
दिवॉ जागैता राती ॥९६६०॥

ज्ञान अपार वेदांतुं ।
ताज्जँ सार भारतांतुं ।
तँ सव्वा लक्ष श्लोकांतुं ।
गीता सात्शें श्लोकांची ॥९६६१॥

ह्या सात्शें श्लोकांचॉ अर्थु ।
आय्ला संक्षिप्त रूपांतुं ।
अखेर्च्या ॲक्क श्लोकांतुं ।
संजयाल्या मुखांत्री ॥९६६२॥

ह्या श्लोकाचँ जॉ चिंतन ।
कर्ता तागेलँ अज्ञान ।
सर्ता उर्ना ताज्जी खूण ।
जिंक्तलॉ तॉ लडाई ॥९६६३॥

सात्शें श्लोक ह्या गीतेचॅ ।
शब्द सार्घॅ कश्शी म्होण्चॅ ।
मेधा परमामृताचॅ ।
हॅ गीताकाशांतुलॅ ॥९६६४॥

सभागृह आत्म्यागॅलँ ।
की ताज्जेची खांब इत्लॅ ।
अश्शी पळॅ मना आय्लँ ।
हीवै अेकी कल्पना ॥९६६५॥

मंत्ररूपी सप्तशती ।
की ही चण्डी भगवती ।
मोहासुराक मार्नु ती ।
जात्ता विजयानंदी ॥९६६६॥

कायावाचामन दित्ता ।
हिगेली जॉ सॅवा कर्ता ।
सम्राटु जान्नु तॉ राब्ता ।
स्वानंदसाम्राज्याचॉ ॥९६६७॥

अेक्कु श्लोकु पैज लाय्ता ।
सूर्या तेजाक लाज्जैता ।
अविद्येचॉ नाश कर्ता ।
दित्ता ज्ञाना प्रकाशु ॥९६६८॥

श्लोकरूपी की वाल्यांचॉ ।
गीता मांटवु द्राक्षाचॉ ।
संसारश्रांतांनी घेंन्चॉ ।
विश्रांतीचॉ ठावु हॉ ॥९६६९॥

कृष्णबोध सरोवर ।
श्लोक कमळं सुंदर ।
तांचेरी संतभ्रमर ।
गुंजारव कर्ताती ॥९६७०॥

की गीतेचॉ स्तुतिपाठ ।
म्हणताती हॅ सात्शें भाट ।
सतत नी सदोदित ।
सर्व जीवाभावानॅ ॥९६७१॥

सात्शें श्लोकांचॉ हॉ किलॉ ।
रक्षणार्थ की बांदैलॉ ।
वेदादींनीं तांतु घॅत्लॉ ।
येन्नु हांगा आश्रयु ॥९६७२॥

तिगेलॉ जीवु की प्राणु ।
त्या आत्म्याक मेळ्यां म्हुणु ।
श्लोकांचीं भुजं फुलान्नु ।
सदासर्वदा सिध्द ॥९६७३॥

गीतापत्रांतुलॅ भृंग ।
गीतासागरतरंग ।
गीतारथाचॅ तुरंग ।
कश्शी हांकां म्होण्येद ॥९६७४॥

पार्थु अेकु शुभयोगु ।
म्होण्णु श्लोकतीर्थां ओधु ।
गीतागंगेचॉ सुसंगु ।
धोर्नु व्हांव्ता अखंड ॥९६७५॥

अचिंत्याची अनुभूति ।
निर्विकल्प ब्रह्मस्थिति ।
प्राप्त कोर्नु हॅ दित्ताती ।
असामान्य हॅ श्लोक ॥९६७६॥

श्लोकु गीतेचॉ प्रत्येक ।
आस्स भारी अलौकिक ।
प्रशंसा केलेल्वित्ल्याक ।
नप्रोची म्हुणु दिस्ता ॥९६७७॥

कामधेनु ही आस्तना ।
ती गाबु धर्ता की धर्ना ।
हाज्जी कस्ल्याक बा याच्ना ।
सांग व्यर्थ कोर्काज ॥९६७८॥

माक्षी मुखारी दिव्याक ।
भागचँ वाड्चँ वा सूर्याक ।
भोर्चें आट्चँ अमृताक ।
हँ कस्लँ पण्णा लागू ॥१६७९॥

तश्शी खंच्याई श्लोकाक ।
गुणक्रमांकु दिंन्च्याक ।
जाय्ना खंच्याई वॉळ्ळाक ।
कश्की आस्ता पर्मळु... ॥१६८०॥

चडउर्णॅ खंच्यांतुं ना ।
सोद्दु गॅल्यारी मॅळश्ना ।
परिपूर्ण तॅ आस्तना ।
जांव्का कस्ल्याक साक्ष ॥१६८१॥

गीता म्हळ्ळ्यारीची कृष्णु ।
आस्सती हँ सर्व जाण्णु ।
कॉणाक ना अनमानु ।
हांतुं तीळाइत्लॉई ॥१६८२॥

अर्थु जाण्णु साध्य जात्ता ।
तँची पठणानॅ मॅळ्ता ।
जाणतलॉ वाच्तलॉ जॉड्ता ।
अेक्क परमपद ॥१६८३॥

सांग्चँ सर्वई सांगुनु ।
जालँ दिस्ता ऊर्नॅ म्हुणु ।
गीता आय्ली कृष्णु जाव्नु।
वाङ्गमयावतारांतुं ॥१६८४॥

खंचँ दुस्त्रँ शास्त्र जाण्तां ।
अथवा तँ वाच्तां वाच्तां ।
थंईं फल–दूप जात्ता ।
ही मात्र ब्रह्मरूप ॥१६८५॥

अर्जुनागॅलँ नॅवन ।
कोर्नु भर्लॅं विश्वांगण ।
ब्रह्मानंदानॅ संपूर्ण ।
कृपाळु श्रीकृष्णानॅ ॥१६८६॥

निवैतना चकोराली ।
तान विश्वाची निवैली ।
पूर्ण चंद्रम्यानॅ केली ।
कश्शी पळॅ किमया ॥१६८७॥

जालॉ गौतमु निमित्त ।
मुक्त कॅलॅ कलिग्रस्त ।
शंभूनॅ गंगा समस्त ।
धोर्नु घेत्ली जटेरी ॥१६८८॥

कृष्णु गायी अर्जुनाक ।
गीतेचं दूद वास्त्राकं ।
पीवैता तँ ह्या जगाक ।
मॅळ्ता आय्तँ पिंन्च्याक ॥१६८९॥

हांतुं न्हाल्यारी श्रध्देनॅ ।
तँची वाच्ल्यारी प्रीतीनॅ ।
तद्रूप जाव्नु खात्रीनॅ ।
उर्ताती श्रीकृष्णांतुं ॥१६९०॥

ॲक्क स्पर्शानॅ पळया ।
सुवणची लोहाचँ ह्या ।
कर्ता तुम्कां ती किमया ।
परिसाची गोत्तस ॥१६९१॥

तश्शी वट्टांक गीतेलॉ ।
चुक्ती जरी स्पर्शु जालॉ ।
तरी चित्ताक मॅळ्तलॉ ।
ब्रह्मानंदु सहज ॥१६९२॥

ताँड फिराव्नु घॅत्ल्यारी ।
श्लोक पड्‌तलॅ कान्नारी ।
तॅंची रिग्गुनु भित्तरी ।
तँची फल दित्ताती...॥९६९३॥

कॉरॉ श्रवण पठण ।
अथवा कॉरॉ चिंतन ।
कोणु आस्सॉ ताक्का दान ।
मॅळ्ता ह्याची मोक्षाचँ ॥९६९४॥

खंच्या थरेनॅ कराती ।
सॅवा दॅवाक पाव्ता ती ।
इतर जांव्का पण्णाती ।
दुस्त्रीं खंचीई शास्त्रं ॥९६९५॥

हॉ कृष्णार्जुनसंवादु ।
आय्ला गीतोपदेशांतु ।
तॉची सहज हात्तांतुं ।
दव्वर्ला श्रीव्यासांनी ॥९६९६॥

चॅर्डाक प्रेमानॅ आव्सु ।
अेकु अेकु सानु घासु ।
दीव्नु लाय्ता नी संतोषु ।
दित्ता घासाघासाक ॥९६९७॥

वारॉ खैंकी धूर आस्ता ।
ताक्का आय्ग्यानॅ आपैता ।
आप्णागेली कोर्नु घॅत्ता ।
सॅवा ही तॉ बुद्‌वंतु ॥९६९८॥

बिरुय्लेलॅ शब्द घेव्नु ।
तांकां अर्थशोभा दीव्नु ।
प्रतिभेनॅ दिव्य कोर्नु ।
स्त्रीशूटांकै पावैली ॥९६९९॥

स्वातीच्या जल बिंदुंनीं ।
सागरांतु मुक्तामणी ।
जात्ताती ताज्जॅ रमणी ।
करैता अलंकार ॥९७००॥

वाद्यांच्या आधाराविना ।
नादु आय्कुंच्याक मॅळ्णा ।
कळॉई जरी फुल्श्ना ।
पर्मळुई सुट्टश्ना ॥९७०१॥

रसपूर्ण ना पक्वान्न ।
रुचीकै ना समाधान ।
जाय्द वॅ रूपदर्शन ।
पळैल्विना कान्ंतुं ॥९७०२॥

परब्रह्मरूप गुरु ।
जाय्ने जाल्यारी साकारु ।
मॅळ्द वॅ अवसरु ।
पादपूजा कोरूक ॥९७०३॥

ब्रह्मस्वरूप अगाध ।
कॅलँ सप्तशतबध्द ।
म्हुणु अनुभवसिध्द ।
जालँ सर्वांखात्तीर ॥९७०४॥

मॉड समुद्रुची सान ।
भर्ला जलानॅ संपूर्ण ।
तॉची नद्रे पड्‌ता अैन ।
दृष्टी पण्णा अगाध ॥९७०५॥

ब्रह्मवस्तु वाचातीत ।
ती जाली श्लोकांतु व्यक्त ।
म्हुणु सुख जाल्यां प्राप्त ।
मुखाक नी कान्नांक ॥९७०६॥

जाला व्यासांगॅलॉ थोरु ।
विश्वाचेरी उपकारु ।
कोर्नु संवादु साकारु ।
श्लोकरूपी गीतेंतुं ..... ॥९७०७॥

ताज्जॉची घेन्नु आधारु ।
घाला मराठी शृंगारु ।
जाल्यारी ब्रह्मविचारू ।
तॉची आत्तं आय्कया ॥९७०८॥

व्यासां अस्लॉ तत्त्ववेत्ता ।
कश्शी सांगूं अश्शी म्हणता ।
कळ्णा हांवं इत्त्या सांग्तां ।
अल्पमति जाव्नुई ॥९७०९॥

गीता ही भॉळॉ शंकरु ।
गळां व्यासोक्तीचॉ हारु ।
ह्या बेल्पत्रीचॉ स्वीकारु ।
कर्ना अश्शी म्हणश्ना ॥९७१०॥

क्षीर सागरा तटारी ।
हस्त्यॉ यॅत्ताती कळ्पारी ।
मूसाक प्रवेशु तरी ।
मॅळ्तलॉची की थंईं ॥९७११॥

पाक्कं फुट्टिल्या पिलाक ।
आस्स आकाश उब्बुक ।
तँची ना वॅ गरुडाक ।
विहारुई कोरूक ॥९७१२॥

चम्कण राजहंसालँ ।
जरी डौलदार ठर्लँ ।
तरी सांग कॉणागॅलँ ।
बंद जाल्यां चम्कूंचँ ॥९७१३॥

चड उद्दाक कळ्शांतुं ।
धर्ना तित्लँ तँ घॉटांतुं ।
कित्लँ जात्ता तँ घेंव्च्यांतुं ।
उच्च नीच ना भावु ॥९७१४॥

चड उज्वाडु सू`चॉ ।
तित्लॉ आस्सना दिव्ल्येचॉ ।
दोन्नींतुंई उज्वाडाचॉ ।
येंव्चॉ यॅत्ता प्रत्ययु ॥९७१५॥

सागराविस्तारा इत्लँ ।
आकाश तांतुं बिंब्तलँ ।
फोंडइत्लेंची दिस्तलँ ।
फोंडांतुल्या उद्कांतुं ॥९७१६॥

मति व्यासादिकांगेली ।
तित्ली ना खास मगेली ।
जाल्यारी रचना केल्ली ।
मगेल् शक्त्यनुसार ॥९७१७॥

अजस्त्र मत्स्यांसांगाती ।
सान्सान्न मास्ल्यॉ आस्ताती ।
तांचित्ल्याक त्यॉ खॅळ्ताती ।
महासागरांतुंई ॥९७१८॥

सूर्यु लाग्गी आस्ता म्हुणु ।
पळैता ताक्का अरुणु ।
अश्शी ना बा धूरथाव्नु ।
मुई सुद्दां पळैता ॥९७१९॥

तश्शी सामान्य जनांतुं ।
गीता सांग्ली मराठींतुं ।
हँ कस्लँकी विपरीतु ।
घड्ता म्होण्का म्हुणुना ॥९७२०॥

बाप्पुसु मुखारी आस्ला ।
पुतु माक्षी–थाव्नु वत्ता ।
बाप्पुसु हॉ खंईं पाव्ता ।
थंईम पाव्ता पुतुई ॥९७२१॥

व्यासांगॅलॉ धर्ला मार्गु ।
भाष्यकारांगॅलॉ संगु ।
जाय्श्ना खंईं डगमगु ।
थेट थंईं पाव्तलॉ ॥९७२२॥

पृथ्वी व्हांव्ता सर्व भारु ।
मॅळ्ता कॉणालॉ आधारु ।
निवैता जगाक चंद्र ।
कॉणाल्या सामर्थ्यारी ॥९७२३॥

खंचँ बा तँ निजतेज ।
कर्ता सूर्याक सतेज ।
जे काळ्काकई सहज ।
विलयाक पावैता ॥९७२४॥

खंइ थाव्नु समुद्राक ।
मॅळ्ता हँ इत्लँ उद्काक ।
आनी गोडी ह्या जलाक ।
शोभाई माधुर्याक ॥९७२५॥

वारयाक कॉणालँ बल ।
आकाश कश्शी विशाल ।
ज्ञानई इत्लँ उज्ज्वल ।
यश पाव्ल्यां जगांतुं ॥९७२६॥

कश्शी हँ वेद उलैलॅ ।
सुख उत्साहित जालँ ।
कॉणामितीं कश्शी आय्लँ ।
रूप हँ ह्या विश्वाक ॥९७२७॥

तॉची सद्गुरु समर्थु ।
मगेल्या अंतरंगांतुं ।
रिग्गुनु निवृत्तीनाथु ।
कर्ता परोपकारु ॥९७२८॥

गीता अॅक्ळाची ही आस्स ।
कर्ता मराठींतुं भाष्य ।
हांवं सांग्तां दिस्त आस्स ।
करैता हँ सद्गुरु ॥९७२९॥

केली मात्त्ये गुरुमूर्ति ।
जाली धनुर्विद्यापूर्ति ।
मेळैली जगांतु कीर्ति ।
शिष्य अेकलव्यानॅ ॥९७३०॥

झाडां सुत्वांतुं चंदन ।
तीं जात्ताती तत्समान ।
वसिष्ठागॅलँ वसन ।
दिव्य जालँ सूर्यूशँ ॥९७३१॥

ध्यासु माक्का सांग्चॉ लाग्ला ।
समर्थ सद्गुरु मॅळ्ळा ।
नद्रेनॅची आप्णागॅल्या ।
हरैतलॉ अज्ञान ॥९७३२॥

दृष्टींतुं जरी ना दोषु ।
आस्सई स्वच्छ प्रकाशु ।
पोंळोंच्याक जाय्श्ना त्रासु ।
सर्व स्पष्ट दिस्तलँ ॥९७३३॥

श्वासोच्छ्वासांतुलॅ शब्द ।
जात्लॅ सर्व ओवीबद्ध ।
सांग्तलॅ गीतार्थु शुध्द ।
गुरुकृपा थोर ही ॥९७३४॥

तॉ ह्या लोकांकई कळॉ ।
म्हुणु मराठींतुं सांग्लॉ ।
सुखानंदुई मॅळ्तलॉ ।
हाज्जॉ ह्या सर्वांकई ॥९७३५॥

श्रीकृष्णागेली ही गीता ।
हांवं मराठींतुं सांग्तां ।
म्हुणु ही खंईं तत्वता ।
उणॅ ना हँ कळ्तलँ ॥९७३६॥

गाव्यां म्हुणु ही दिस्ल्यारी ।
गाव्येद न्हवॅ रागारी ।
अलंकारु घालेल्वारी ।
आनी गोम्टी दिस्तली ॥९७३७॥

अशी सुद्दां जरी म्हळ्ळी ।
मूळ गॉम्टाई दिस्तली ।
कळ्तलँ ही स्वराजली ।
उपचारु मानाचॉ ॥९७३८॥

भांग्राच्या बांदावळींतुं ।
मोती दिस्ता शोभिवंतु ।
तरी तॉची जातिवंतु ।
आप्पण मनोहरु.... ॥९७३९॥

वासंतिक मोगरी तीं ।
गांता अथवा सॉडाती ।
पर्मळु दित्त आस्ताती ।
तांचित्ल्याक तशीची ॥९७४०॥

रागांतुं ही रंगयाती ।
अथवा अशी म्हणाती ।
मोहिनी ह्या ओवीची ती ।
उणॅ जाय्श्ना कॅर्नाई ॥९७४१॥

चेर्ड्वांक्थाई ही कळ्काज ।
ब्रह्मानंदुई मेळ्काज ।
अस्ल्याची शब्दाचॉ साज ।
घाला जोवीओवीरी ॥९७४२॥

चंदनाचॉ परिमळ ।
लाग्गी गॅल्यारी तत्काळ ।
मॅळ्ता तान्नॅ फुल्ची वॅळ ।
राक्का म्हुणु पणाची ॥९७४३॥

आय्कलेल्या त्या क्षणाक ।
जात्ता मनाक भो सुख ।
प्रवचनानॅ जीवाक ।
व्यसनची लाग्तलँ ॥९७४४॥

पारायणानॅ हँ मन ।
जात्लँ तांतुंची सुलीन ।
दीश्ना अमृताक मान ।
ह्या स्वानंदामुखारी ॥९७४५॥

श्रवणानॅची मॅळ्वना ।
निदिध्यासु जांव्का पण्णा ।
गीताकवन हँ माना ।
विश्रांतीचँ सदन ॥९७४६॥

कोणुई जावॉ जॉ यॅत्ता ।
ताक्का स्वानंदु हॉ मॅळ्ता ।
श्रवणानॅची सर्वथा ।
संसारसंग्रामांतुं ॥९७४७॥

पुन्वे चंद्राचॅ किरण ।
चकोरागेली ती तान ।
नीवैताती नी हँ जन ।
न्हात्ता शीतलतेंतु ॥९७४८॥

वास्तविक अंतरंग ।
भॉग्ता हॉ स्वानंद संग ।
तरी सुख हँ अव्यंग।
मॅळ्ताची रचनेचँ ॥९७४९॥

ग्रंथु निवृत्तिनाथालँ ।
विश्वाचँ वैभव जालँ ।
त्रिभुवन भोर्नु गॅलँ ।
तागेल्या गौरवानॅ ॥९७५०॥

क्षीरसमुद्राकांटारी ।
शंभूनॅ घालँ गुट्टारी ।
पार्वतीगेल्या कान्नारी ।
ज्ञान जँ मस्त माक्षी ॥९७५१॥

रिग्लँ तँ पाळांवैल्यानॅ ।
भित्तरी मत्स्यरूपानॅ ।
आय्कलँ त्या मत्स्येंद्रानॅ ।
मॅळ्ळँ ताक्का तँ ज्ञान ॥९७५२॥

पर्वतारी सप्तश्रृंगी ।
आय्लॉ मेळूक चौरंगी ।
जालॉ तॉ पूर्ण सर्वांगी ।
जरी भग्नावयवी ॥९७५३॥

आप्णावारीची भोग्गूक ।
मॅळ्ॉ हँ समाधिसुख ।
म्हुणु गोरक्षनाथाक ।
दिली ती ज्ञानमुद्रा ॥९७५४॥

मत्स्येंद्रांनीं त्या दानानॅ ।
आप्णाल्या योगैश्वर्यानॅ ।
अभिषेकु गौरवानॅ ।
कॅलॉ सर्वेश्वराक ॥९७५५॥

गहिनीक हँ शांभव ।
अद्वयानंद वैभव ।
दिलँ गोरक्षांनीं सर्व ।
कोर्नु कृपावर्षावु ॥९७५६॥

कलिपीडित पोळोनु ।
गहिनींनीं कळ्वळेनु ।
निवृत्तीक जोगु दीन्नु ।
अश्शी आज्ञा केली की ॥९७५७॥

आदिगुरु जॅ शंकर ।
तांगेली ही कृपा थोर ।
आजिथाई योगसार ।
मॅळ्त आय्ल्यां शिष्यांक ॥९७५८॥

हाज्मुखारी दी सर्वांक ।
हँ तूं कलि पीडितांक ।
धाव्नु वच सहायाक ।
वेळु चड काण्णक्का ॥९७५९॥

हॉची दयाळु अॅक्ळाक ।
वैल्यानॅ आज्ञाधारक ।
यॅत्लॉची कृपामेधाक ।
वर्षावाचॉ कछोळु ॥९७६०॥

जाला तॉची हॉ साकार ।
गीताग्रंथु शांताकारु ।
भवव्यथेचॉ उतारु ।
सर्वांकई हॉ आजि ॥९७६१॥

तँची गुरुकृपामृत ।
घेंव्च्याक जालाँ तृषार्त ।
ग्रंथरूपानॅ हँ प्राप्त ।
जालँ माक्का पळ्या ॥९७६२॥

गुरुकृपेनँ जँ मॅळ्ळँ ।
ताक्काची तँ हांवँ दिलँ ।
तँ समाधिधन जालँ ।
ग्रंथरूपानॅ मूर्त ॥१७६३॥

विद्याव्यासंगु तॉ जाय्नॅ ।
सॅवा कश्शी कोर्का कळ्णॅ ।
ग्रंथु अस्लॉ मज्जस्ल्यानॅ ।
रचोंव्चॉ पुणी कश्शी ॥१७६४॥

मात्र हँ अेक निश्चित ।
कोर्नु मगेलँ निमित्त ।
ग्रंथु विश्वकल्याणार्थ ।
रचैला हॉ गुरुनॅ ॥१७६५॥

तॉची सांग्तना हॉ तुम्कां ।
चड उणॅ जाल्नु आस्का ।
म्हुणु क्षमा कोर्का माक्का ।
हांवं चेर्डुं लेक्कुनु ॥१७६६॥

शब्द कश्शी मांडोंकाती ।
सिद्धांत कश्शी सांग्काती ।
अलंकार चडोंकाती ।
कश्शी माक्का तँ कळ्णा ॥१७६७॥

कळसूत्री बोंब्यावारी ।
नांच्तां रंगमंचाचेरी ।
तान्नॅ सांगिल्वारी ।
मात्र हांवँ उलोंचँ ॥१७६८॥

हांवं उलैलाँ हँ अश्शी ।
म्हुणु क्षमा माग्गूं कश्शी ।
गुरुगॅलॉ ग्रंथु तश्शी ।
आस्स म्हुणु जाय्ना वॅ ॥१७६९॥

तुम्गेल्या ह्या सत्संगांतुं ।
आस्सुनु कश्शी सद्यांतुं ।
उल्र्याती दोष मज्ज्यांतुं ।
म्हुणु कॉप्तां तुम्चेरी ॥१७७०॥

स्पर्शु कॅलॉ परिसानॅ ।
लोह सुवर्णत्व पाव्नॅ ।
खंईं कस्लँ पळ्ळँ उणॅ ।
तँ तुम्मीची जाणाती ॥१७७१॥

हॉळानॅ व्हांव्तची येंव्चँ ।
गंगेच्या ओघांतु मेळ्चँ ।
हॉळाक पावन कोर्चें ।
सांगा काम कॉणालँ ॥१७७२॥

भाग्य थोर हँ उदेलँ ।
संतचरण हॅ मॅळ्ळॅ ।
खंईं उणॅ कश्शी जात्लँ ।
सांगा ह्या जगतांतुं ॥१७७३॥

गुरुमाऊलीनॅ माक्का ।
जोडि घाल्नु दिली तुम्कां ।
कस्लँ आनी जांव्का घेंव्का ।
ऊर्नॅ मॅळ्ळँ सर्वई ॥१७७४॥

तुम्गेलँ माक्का कुळार ।
मेळ्ळेल्मितीं ही साकार ।
कोर्नु हाळ्ळी गीता थोर ।
सुबोध भावार्थांतुं ॥१७७५॥

अश्शीची ही कृपा करा ।
जात्ली सुवर्णाची धरा ।
गिरिवरई हँ पूरा ।
जात्लॅ खाण रत्नांची ॥१७७६॥

आनी सात्तई समुद्र ।
अमृतानॅ हॅ भर्तीद ।
आनी जात्लीं हीं नक्षत्रं ।
पौर्णिमेचॉ चंद्रमा ॥१७७७॥

लाब्येद की कल्पवृक्ष ।
कष्ट पण्णाती विशेष ।
जाल्यारी गीतारहस्य ।
यॅना सट्णॅ ध्यानांतुं ॥१७७८॥

हांवं मॉन्नॉ आस्सुनुई ।
कोर्नु मराठी ओवी ही ।
तांतु गीतेचॉ अर्थुई ।
यॅवॉ म्हुणु पळैतां ॥१७७९॥

गीता भावार्थ सागर ।
कॅलॉ कश्शीपुणी पार ।
कीर्तिध्वजु दिगंतर ।
चड्ता जयस्तंभारी ॥१७८०॥

बांद्लँ गीतार्थ मंदिर ।
कलशु ताज्जेंची सार ।
गुरुपूजा निरंतर ।
कर्ता गर्भगुढींतुं ॥१७८१॥

वत्सल माऊली गीता ।
हांवंची जुग्गुळ्णु वत्तां ।
तिल्यागीची हाण्णु सॉड्ता ।
तुम्गेलॉ कृपाधर्मु ॥१७८२॥

त्यामितीं प्रगट जालँ ।
रहस्य ह्या गीतेंतुलँ ।
असाधारण हँ जालँ ।
अश्शी म्होण्का पड्ताची ॥१७८३॥

आनी अश्शी सांगूं कित्लँ ।
जन्माचँ सार्थक जालँ ।
ग्रंथवैभव पळैलँ ।
आजि ह्याची दॉळ्यांनीं ॥१७८४॥

मॅळ्ळॅ मगेल्या आशेक ।
तुम्गेलॉ हातु धरूक ।
पाव्लाँ ह्या सुखधामाक ।
दिलॉ तुम्मी भर्वसॉ ॥१७८५॥

करैली ग्रंथनिर्मिति ।
जाली नवी दुस्त्री सृष्टी ।
हासॉ यॅत्ता येव्नु स्मृती ।
विश्वामित्रऋषीली ॥१७८६॥

त्रिशंकूक बसोंच्याक ।
बहरयाकई लाज्जोंव्च्याक ।
कॅलँ जालँ निरर्थक ।
ही गीता तश्शी न्हई ॥१७८७॥

उपमन्यूक प्रीतीनॅ ।
क्षीर समुद्र शंभूनॅ ।
दिलॉ जाल्यारी विषानॅ ।
भर्ला तॉवै भित्तरी ॥१७८८॥

काळ्कांतुलॅ निशाचर ।
धांव्डाय्ता हॉ दिनकर ।
जात्ता प्रतापु प्रखर ।
मात्र तॉ ह्या दीसाक ॥१७८९॥

चंद्र दीव्नु शीतलता ।
जालेलॉ तापु निवैता ।
जाल्यारी कलंकु आस्ता ।
न्हवॅ त्या मुखाचेरी ॥१७९०॥

अश्शी तुम्मी त्रैलोक्यांतु ।
निरुपम कॅलॉ ग्रंथु ।
विश्वकल्याणाचॉ हेतु ।
धोर्नु एक मनांतु ॥९७९१॥

म्होण्येद एकची कॅलँ ।
धर्मकीर्तन तुम्गेलँ ।
सर्वसिध्दीक पावैलँ ।
ह्या चरणदासानॅ ॥९७९२॥

विश्वात्मका दॅवा आत्तं ।
तुवँ वाग्यज्ञानॅ तृप्त ।
जाव्नु जॉ प्रसादु माग्तं ।
आस्सं तॉ रॅ दिंव्काज ॥९७९३॥

दृष्टाली सरॉ दुष्टता ।
सत्कर्मांची वाड्डॉ आस्था ।
जीवा भावाची मित्रता ।
नांदॉ परस्परांतुं ॥९७९४॥

वचॉ दुष्कर्मां काळोकु ।
उदेवॉ स्वधर्मा अर्कु ।
जावॉ संतुष्ट हॉ लोकु ।
जांव्का जालेलँ मेळ्णु ॥९७९५॥

मेळ् ईश्वरनिष्ठांचॉ ।
सर्व गांवं फिर्त वचॉ ।
मंगलदायी सौख्याचॉ ।
कर्त नित्य वर्षावु ॥९७९६॥

चिंतामणी जागोजाग ।
नी कल्पवृक्षांचॅ बाग ।
अमृताचींई अथांग ।
सरोवरं सर्वत्र ॥९७९७॥

चंद्र कलंकहीतु ।
तापरहिनु नी सवितु ।
प्रियजावोती सततु ।
संतजन सर्वांक ॥९७९८॥

सर्वथरेचँ हँ सुख ।
आकंठ भॉग्गॉ त्रैलोक्य ।
आनी आदि पुरुषाक ।
भजोती अखंडित ॥९७९९॥

विशेष हँ की हॉ ग्रंथु ।
दाकोवॉ जीवा सत्पंथु ।
दिवॉ सुयश सर्वांतुं ।
सुखै दृष्टादृष्टाचँ ॥९८००॥

विश्वात्मक गुरुमूर्ति ।
म्हणता जात्ली हाज्जी प्राप्ती ।
आय्कुनु हँ सुखशांति ।
मेळ्ळी ज्ञानदेवाक ॥९८०१॥

कलि युगांतु हँ घळ्ळँ ।
महाराष्ट्रांतु रचैलँ ।
ब्रह्मविद्यादान दिलँ ।
गोदावरी तीरारी ॥९८०२॥

अनादि नेवासे क्षेत्र ।
त्रिभुवनांतु पवित्र ।
जगाचँ जीवनसूत्र ।
श्रीमहालय थंईं ॥९८०३॥

यादवकुलभषणु ।
अखिल कलानिपुणु ।
न्यायनीति सुसंपन्नु ।
रायु तॉ रामचंद्र ॥९८०४॥

आदिगुरु श्रीशंकरु ।
परंपरा जाली सुरु ।
त्या निवृत्तीलॉ ज्ञानेश्र्वरु ।
हान्नॅ गीता शृंगार्ली ॥९८०५॥

अश्शी महाभारतांतुं ।
प्रसिद्ध भीष्मपर्वांतुं ।
श्रीकृष्णार्जुनसंवादु ।
आय्ला तीची ही गीता ॥९८०६॥

उपनिषदांचँ सार ।
सर्व शास्त्रांचँ कुळार ।
क्रीडास्थल सरोवर ।
हँ परमहंसांक ॥९८०७॥

त्या गीतेचॉ हॉ कलशु ।
अध्यायु हॉ अष्टादशु ।
पूर्ण जालॉ हँ ज्ञानेशु ।
सांग्ता निवृत्तिदासु ॥९८०८॥

ह्या ग्रंथांतुलँ हँ ज्ञान ।
दिवॉ सुखसमाधान ।
उत्तरोत्तर संपूर्ण ।
सर्व भूतमात्रांक ॥९८०९॥

बाराशें बारा शकांतुं ।
ज्ञानेशागॅलॉ भावार्थु ।
घॅत्लॉ लिखितरूपांतुं ।
सच्चिदानंदबाबानॅ ॥९८१०॥

**॥ ज्ञानदेवु सांग्ता गीता । मधु अनुवादु कर्ता ।**
**अठ्ावॉ अध्यायु बोरोनु जात्ता । मोक्ष संन्यासयोगाचॉ ॥**

**॥ श्रीकृष्णार्पणमस्तु ॥**

श्री मधुकर दत्तात्रय चंदावर्कर, जनमू १९ जनवरी १९२४ गोकरणलागिचें साणिकटा हांग जाले. तीन वरस प्राय आस्तानाची हांचे कुटुंब मुंबयिक गेलें. मुंबयीचे गोखले हायस्कूल आनी सिडनेम कालेजींत शिखूनु केमिकल कंपनी भितरी नौकरी घेतलें.

हान्नी १९५२ गोरेगांव येनपूडे मराठी बरप, मराठी नाटकांतु पात्र करतची मंचारी पादर्पण केलें. पात्रधारी, गायकू, संगीत निरदेशकू म्हणोनु घेवनु मस्त कोंकणी नाटक खेळ्ळीं. तलगेरी वेंकटराव हांगेले संगात रंगमंचारी काम केल्लें.

ठागोराले कृतिचे अनुवाद पोस्टमासटर, चूक की पाप, भाग्यवान भासकरू, चिकलांतुली कमल, दानशूर कर्ण, बुककुलू सन्यासी, बापायली गांटी – असले नाटकं खेळ्ळें. म्होरापाक – बरोवनु ताचे दिगदर्शन केले. रेडियो भितरी संजीवन समाधी (संत ज्ञानेश्वरालीं काणी), महानिर्वाण (भगवान बुद्दाली काणी) नाटकां प्रसरण केल्लीं.

अजून बोंबयिचे गोरेंगावावांतु सारास्वत समाजेचे सगळ्या साहित्यिक आनी संगीतिक कार्यक्रमांक खूब आधार जावनु काम करत आसची.

सुंदर अक्षरांनी सुमधुर भावशब्दांतु चितकाट नातिले कोंकणी ज्ञानेश्वरी हातबर्पे रूपारिची शोभित पुस्तक जावनु अस. जाल्यारीय ताका आधुनिक मुद्रण द्वारी पुस्तक कोर्नू अकाडेमिन पर्गटायल. भगवद्गीतेचे सारू घरघरांतु जनमनांतु पावनु सगळ्या कोंकणी भाषिकांगेले जीवन समृद्ध जावका म्होणू लेककांगेले जीवन संध्याकालेचे आशयु जावनु आस.

Add:
मधुकर द. चंदावर्कर
A/20, 'गुरुसेवा,'
सटवी गली, पांडुरंग–वाडी,
गोरेंगांव (पूर्व),
**मुंबई** – ४०००६३.



मधुकर दत्तात्रय चंदावर्कर

मूल ज्ञानेश्वरिचे पद्य संत ज्ञानेश्वरान दिल्ले भगवद्गीतेचे ए विशेष निरूपण. जाल्यारीय ह्या ग्रंथ ज्ञानेश्वरी त्या काला ब्रह्मवर्गालें संस्कृत प्राबल्या दाखून विमोचन घेवनु जनसामा प्राकृत (आदिमराठी) निरूपणेरे रचन जाला. ज्ञानेश्वरिंतुल उपमा, उत्प्रेक्षा, शब्दालंकर आनी अर्थालंकर हांकां लाग येतली वाक्यरचना अद्भुत. आपण्याले सान आयुषयांतु बरे ब वरस दाखूनु सोळ वरसा प्राये मदे ह्या ग्रंथ ज्ञानेश्वरान रचयिल ज्ञानेश्वरू समेत चारी बांवदांका धर्ममार्तांड म्होणूनु घेतिल ब्राह्मण लोकांनी जातिदाकूनु भायर घालनू, खूब अनावस् केल्यारीय ह्या प्रतिकूल परिस्थितिक भीनाशी ज्ञानेश्वरान शोष विरुद्ध राबूनु अद्वितीय काम केल्ले, आनी जयतवंत जालो. श्र कृषटांगेले तत्वज्ञान जे ७०० श्लोका भितरी अशिशले, ताजे विस्तारू कोर्नू बरयिला.

एकेक संगती विंगविंगड उदाहरण दीवनू स्पष्ट केल सर्वसामान्य लोकांक कळचे तशी उदाहरण दिल्लीं. इतलेच न्हय, जी उदाहरणां दिल्यांत की, तांतु गृहस्तांक, संबंधथाव अशिल्या मनुष्य स्वभावाचो, सोन्नारांगेल्यो, लांखणडा का करताल्यांगेल्यो, अशी समाजाक संबंध पावुनू अशिल्यो अने विध संगत्यो उदाहरण रूपण घेतेल्याती. ते पोळोवनु मन चकि जात्ता आनी तांतु स्वष्ट केल्लेले अध्यात्म पळेयिल्यारी म नतमस्तक जात्ता. सटव अध्यायु तरी आत्म प्रचीती येनापूड सांगूनु आसका अश्शी कित्यक विद्वतजनांगेले मत अस्त...

मधुमाम्मगेले श्री ज्ञानेश्वरिचा अनुवादू हाततांतु आयला आ मन आचंबित जाल्लें. पैलें नजर तडवता ती बरवणीगेचेरी...

कश्शिकी महाराषट्रांतु ज्ञानेश्वरी नित्य पठणाचा परिपा आस्स तशीची ह्या कोंकणी अनुवादाच्या नित्यपठणंतु समावे केल्यारी आमगेली भक्ती आनी आध्यात्म मार्गावैली प्रगती वेग जातली आनी होड जातली ह्या विश्वासू व्यक्त करतां.

इतले कष्ट घेवनु ह्या अनुवादू आमकां दिल्लेल्या खात मधुमाम्मगेले कौतुक आनी तांका आम्मी प्रणम्र जावनु धन्यव दिंवकाती.

– कृष्णानंद मणकीक

₹ 500/-